# युग-सांवार

(कादंबरी)



महाबळेश्वर सैल





# युग-सांवार (कादंबरी)


ए-एफ्-२, नीलतारा
आर्लें, राय, गोंय ४०३ ७२०

पयली उजवाडावणी : एप्रिल, २००४

प्रकाशन क्र. १६



*प्रकाशक*
अस्मिताय प्रतिष्ठान
मडगांव, गोंय ४०३ ६०१.

*अक्षरजुळणी*
तन्वी ग्राफिक्स
मडगांव, गोंय ४०३ ६०१.

*छापणावळ*
रुतू ऑफसेट्
वळवय, फोंडें, गोंय ४०३ ४०१.

*मुखचित्र*
वासू

*मोल :* दाट कव्हर : रु. ३५०
सादें कव्हर : रु. २७५

करुणेचे, मायेमोगाचे महासागर
बुद्ध, जेजू आनी गांधी हांकां

– महाबळेश्वर सैल

# मनांतलें

भुरगेपणापसून "बाटाबाटी' ह्या विशयाचेर बरेंच आयकल्लें. पूण तांतूंत कसली संगती नासली. तरी हेविशीं खूब उमळशीक आसली. १९९१ वर्सा 'सुनापरान्त' दैनिकान एक बरो दिवाळी अंक काडिल्लो तांतूंत श्री. उदय भेंब्रे हांचो 'व्हडलें घर आनी भावार्तांचें कर्तूब' हो लेख वाचतकीर एक होलमलें, 'धर्मांतर' ह्या विशयाफाटल्यान बरोच ना बरयल्लो इतिहास आसा, नाट्य आसा, संघर्ष आनी व्यथा आसा. स्थलांतर आनी इन्क्विझासांवय ह्याच संदर्भांतल्यान येतात. ललीत साहित्याक फावसोच विशय.

पूण प्रस्न धर्माचो आनी हाताळूंक तितलोच अवघड. खूब संयम, तटस्थताय आनी तितलोच अभ्यास जाय आसलो. खूब फाटींफुडें करीत, बरोवचें, नाका करीतच कादंबरीक हात घातलो. पूण एक फावट कादंबरी बरोवंक घेतली आनी सगळो संकोच, भिरांत फाफडून उडयली. मागीर विशयाची व्याप्ती वाडत गेली. धर्मांतर, स्थलांतर, इन्क्विझासांव आस्पावत गेलें. वांगडा एक खोलायेन कळ्ळें, खंयचोच धर्म खंयच चुकिल्लो ना. चुकतात तीं मनशां.

हांव एक 'देवाक मानपी नास्तीक'. म्हज्या देवाक देवळां, कर्मकांडां, मध्यस्त लागनात. ताचेन देवाचें अवमूल्यन जाता, देव ल्हान जाता अशें म्हाका दिसता. तांतूंत आनी देवाक धर्माच्या शेकातळा हाडिल्ल्यान बऱ्योच विसंगती उप्रासल्यात. धर्मीक असहिष्णुताय हाच्यांतल्यानच येता. प्रेशितांचे शिकवणेचो चुकिचो, आपले सोयीचो अर्थ लायिल्ल्यान मोटो अनर्थ जाल्लो आसा.

देव पुराय ब्रह्मांड व्यापून आशिल्लो आनी तो फक्कत एकच, हे म्हजे धारणेंतल्यान म्हजेमदीं एक सर्वसमावेशक, निरपेक्ष धर्म-समजिकायेची तटस्थताय आयल्या. ती तटस्थताय म्हाका ही कादंबरी बरयतना पुराय कामाक आयली.

खंयच्याय झगड्यांत दोन पक्ष आसतात. पुराय चूक खंयच्या एकाच पक्षाची अशें म्हणूं नज. चार फातमाऱ्यो भरून आयिल्ल्या पुर्तुगेज सोल्दादांनी आनी धर्म-वावुरप्यांनी पुराय गोंय जुंव्यार येद्दो व्हडलो धपको कसो दिलो हो प्रस्न म्हाका पुराय कादंबरी बरयतना पडिल्लो आसलो.

ही कादंबरी बरयतना हांव उळवी म्हणिल्ल्या अत्यंत सैमसोबीत अटंग्या रानांनी वेडिल्ल्या गांवांत देडेक म्हयने आसलों. तेन्नाचे अणशी कारवार रेंजाचे रेंज फॉरेस्ट ऑफिसर रमाकांत राणे हांणी तांच्या इन्स्पेक्शन बंगल्यांत एक सूट उपलब्ध करून दिली, जाय नाका तें पळयलें म्हण हांव तांचो खूब दिनवाशी आसां.

म्हजे इश्ट दत्ता दामोदर नायक आनी रमेश वेळुस्कार अटंग्या रानांतल्यान वाट काडीत उळवी पावले. ताचेन एक आगळीच उर्बा मेळ्ळी.

म्हजो इश्ट प्राध्यापक साईनाथ सैल आनी शिवानंद शंकर नायक हे पयलींपसून म्हजें बरें मागपी. तांचोय आधार जालो. तेवूय उळवी पाविल्ले. तांच्याय हांव उपकारांत आसां.

श्री. बी.बी. राणे सदांच म्हज्या साहित्य व्यवहाराकडेन अभिमानान पळोवपी आनी स्फूर्त दिवपी. ताचोय हांव आभारी आसां.

बेस बरी अक्षरजुळोवणी करपी राजेश भाटीकार हांच्या उपकारांतच रावतलों.

अस्मिताय प्रतिष्ठानान हें पुस्तक छापून उजवाडायलें म्हण प्रतिष्ठानाचे सगळे ट्रस्टी हांच्याय हांव उपकारांत आसां.

मडगांव **महाबळेश्वर सैल**

१५ फेब्रुवारी २००४

# व्हडलो वावर

श्री. महाबळेश्वर सैल हांणी कथाकार आनी कादंबरीकार म्हूण नामना जोडल्या. तांच्या कांय कथां झेल्यांउप्रांत 'काळी गंगा' ही कादंबरी उजवाडाक आयल्या आनी नॅशनल बुक ट्रस्ट हे संस्थेन ते कादंबरीचो इंग्लिश अणकार उजवाडायला. श्री. सैल हांची पुस्तक-रुपान उजवाडाक येवपी ही दुसरी कादंबरी. हे कादंबरीचो विशय गोंयच्या इतिहासांतल्या एका आकांताच्या पर्वाकडेन संबंधीत आसा. देखून ही कादंबरी रचतना तांकां त्या पर्वाचो खोलायेन अभ्यास करचो पडला. त्या पर्वांतलो पुराय इतिहास मेळना. कांय विशय कल्पनेच्या आदारान मांडचे पडटात; पूण तशें करतना इतिहास विकृत जावचो न्हय हाची जतनाय तांणी घेतल्या.

हे कादंबरींत संवादांवांगडाच निवेदनांतूय व्याकरणाचे कांय नेम पाळपासंबंदान स्वातंत्र्य घेतलां हाचेकडेन वाचप्यांची नदर वतली. हें घाळपणाक वा बेपर्वायेक लागून घडलां अशी समजणी मात तांणी करून घेवची न्हय. कादंबरीचो विशय, त्या विशयाक फावो तशें वातावरण, तांतुंतलीं पात्रां हें सगळें मतींत धरून रसग्रहण योग्य तरेन जावचें म्हूण तशें केलां अशी लेखकाची भावना. प्रतिष्ठानाच्या विश्वस्त मंडळान हाचेर सगल्या आंगांनी विचार केलो. आनी कोंकणी भाशेच्या प्रमाणीकरणाच्या ह्या पर्वांत व्याकरणाच्या आनी शुद्धलेखनाच्या सगल्या नेमांक पाळो दिवप गरजेचें आसलें तरी सर्जनशील साहित्याच्या विशयांत लेखकाचे भावनेचो मान राखचो आनी तेवरवीं एक प्रयोग करून पळोवचो अशें विश्वस्त मंडळान थारायलें.

ही कादंबरी हाचे आदींच उजवाडाक येवपाची; पूण अकस्मात उप्राशिल्ले एके अडचणीक लागून तिका गरजेपरस अदीक वेळ लागला. प्रतिष्ठान निधीच्या कळंतरांतल्यान येवजणो चालीक लायता आनी पुस्तकांची उजवाडावणी करता. त्या कळंतराचें प्रमाण बरेंच उणें जालें. ताका लागून कांय येवजण्यांक कातर लावची पडली आनी मुदलाक हात लावचो न्हय अशें धोरण आशिल्ल्यान कांय कामां सवकासायेन करचीं पडलीं. ही कादंबरी ४०० पानांपरस अदीक पानांची आशिल्ल्यान तितल्या खर्चाची तजवीज करूंक जाय आसली. कोंकणींत कादंबरी-साहित्य वाडचें ह्या हावेसान दोन कादंबऱ्यो उजवाडावंक घेतिल्ल्यो. ताकाय लागून खर्चाचें प्रमाण वाडलें.

पूण त्या सगल्या आडमेळ्यांतल्यान वाट काडून आतां ही कादंबरी उजवाडाक येवपाचो खीण लागीं पावला म्हूण प्रतिष्ठानाक खोस जाता. हे उजवाडावणेच्या विशयांत श्री. सैल हांणी पुराय सहकार्य दिलें. श्री.वासू हांणी मुखचित्र काडून

दिवपाची विनंती मानून घेतली आनी तन्वी ग्राफिक्सचे श्री. राजेश भाटीकार तशेंच रुतू ऑफसेट् हांणी छापणावळ सोबीत सुंदर जावची म्हूण कश्ट घेतले. प्रतिष्ठानाचे तांकां दिनवास, तांचें बरें जावं.

मडगांव
२० फेब्रुवारी २००४

**उदय भेंब्रे**
अध्यक्ष, अस्मिताय प्रतिष्ठान





# युग-सांवार

सातण नायकान सक्काळीं नसकाक गोठ्यांतले बैल व्हरून खरगाळीच्या शेतांत जोत बांदिल्लें. बरेंच शीं पडिल्लें. राना वटेन इल्ली धुंवटीय पातळिल्ली. शेताच्या दोनूय वटांनी गच्च रान, मदींच शेताचो लांब फाळ भितर रानांत रिगिल्लो. जोत हामुडटना अचकीत वयल्या रानांत माकडा भिऱ्यांचें खेंखेवप, एका रुखावयल्यान दुसऱ्या रुखार हुडिल्ल्याचो मोटो घसघस आयकोंक येयलो. हेंचें आनी कितें जालां रानांत ! तशेंच कांय वेळान एक मोर रानावटेच्यान हुडून येयलो. थंयच्या एका झाडार बसून कें ऽऽ कें ऽऽ करीत कांय वेळ रडलो. मागीर हुडून आनीक खंय तरी गेलो. सातण नायकाल्या मनांत बेठोच इल्लो दुबाव आनी इल्ली भिरांतशी ! आतां तो व्हडाव्हडान बैलाचेर आड्डतसो जोत हामडूंक लागलो. एकेच घडणेचे घटमूट दोगूय बैल. कळसावरी सुवास्थना. रायाले पालखेच्या गोंड्यावरी शेंपडेचे गोंडे. कसताना भूंय फोडीत नांगर जसो धांवतालो.

कसतां कसतां मदींच नांगराची कपची अळंग पडली आनी हालूंक लागली. नांगर तिरसो जालो आनी तासांतल्यानच भोंवंक लागलो. कपची घट करूंक कोयते फाटीन मारतकीर ती मोडली. तेणें जोत रावयलें. आतां दुसरी कपची करची पडली तर. दुसरी कपची करूंक घट लाकडा कुडको सोदत तो रानांत मात्सोच भितर रिगलो. जोत तासार वोगी उबे रावन रंवथ करताले. तेन्नाच एक हरिस्ट वाग रानांतल्या जिपुडांतल्यान देंवन येयलो; बैल वागरी पडून भियेल्ले, एकधारी नदरेन वागाक पळयत रावले. आदीं तेणें एक गर्जण माल्ली. मागीर सट्करून हुडी घेवन जबडो मारून तांबड्या बैलाची मान मोडली आनी तेका सकल शेंवटिलें. तेन्ना शिबऱ्या बैलान आकांताची झिडकी मारली. मारिल्ले झिडकेसरशीं जूंव मदींच मोडलें. मात गळ्यांतली कानी गळ्यांत घुसपूनच उरली. वागान दुसरी हुडी शिबऱ्या बैलार घेतली. तेचीय मान मोडून तेका सकयल उडयलो. सातण नायक रानाकडेर उबो रावन हातांतली कोयती हेळयत बोबो मारतालो. वाग तेचेसरीं कांय वेळ मांडून पळयत रावलो. मागीर येयल्लेच चालीन परत रानांत रिगलो. मागीर घसघस घालीत रानांत धांवलो.

दोगांय बैलांचे मानेर, फाटीर जबडे, दावखुलां अशीं खोल रिगिल्लीं. तेंच्यो साखनळ्यो फोडून उडयल्ल्यो. दोगूय बैल मान उडोवन सास्टांग भुंयेर पडिल्ले.

सातण बैलांमुखार बसून कांय वेळ हामेऱ्यांनी रडलो. मगेर नांगरासयत जोत थंयच सोडून तो रडत गांवांत येयलो. तो रडत आनी हड्डें बडोवन घेवन येता तें

पळोवन सगळो गांव वंयेसरी आकाड्यांत एकठांय जालो. तेणें सांगिल्लें आयकोन तेचें काळीज बसलें.

दीसभर लोक पोटांत खपखपो घेवन उलयताले. गळ्यांत् दांवें कानी आसताना वाग गोरूं मारना म्हणटात. हेणें तर जूंव कानी आसतना अख्खें जोत मारलां. कसलें अरिस्ट काय हें देवा !

तशीच चार दिसांनी शिरवाड्यावयल्या नायक घराब्यांतल्या लोकांची सोमाराची पुजा येयली. लोकांल्या काळजांतलो खपखपो अजून उणो जावंक नासलो. लोक म्हणटालो, देवाकडेनच निवारण मागूंक जाय ! तेणेंच राखूंक जाय गांव ! पूजा मानतीक सारकी जावंक जाय !

ह्या वर्साक देवाले पुजेची मानतीकेची पलट वेंकू नायकाकडेन आशिल्ली. वाडेकारान देवा कामाक म्हण दोन खांडयेची शेतजमीन कुशीक काडून दवरिल्ली. जेंच्या घरांत पलट येता तेणी ती वसोवन पिकोवन खावप आनी वर्सभर देवाचीं सगळीं कामां करप. वाड्यावयले रासवळ तळयेताट, फोवापराथ, गुळवणे पचंडी, मूळ घरचो लामणदिवो, घरवडेची तरसाद, धोल, घुमट, शेमळी तेंच्याच घरांत वर्सभर आसता. तेणें मागीर दर सोमारा घराब्याच्या देवाची पुजा करप, वाठार राखतल्यांक जोगवणी घालप, कालो जागर करप, गोसांय वाडप आनी शिगम्या मेळाक तळय दिवप. गांवदेवाची रामनाथाची लागणूक राखचें, थंयचो मान फाव करून घेवचें कामय तेचेंच.

सांजचो कुस्ट गुरव शिंग घेवन येयलो. हें पुरूसभर उंच दोन मणांचें शिंग. वाड्याच्या आखाड्यांत पावतकीर बेला रुखापोंदाक उबो रावन ताणें तुऽऽथ् तुऽऽथ् तुऽऽथ करून व्हडाव्हडान शिंग फुंकलें. पुराय आदोळशी गांवांत आवाज घुंवलो. गांवान म्हटलें, आज शिरवाड्यावयल्या नायकाली सोमारची पुजा. गेल्यार फोवाप्रसाद पडटलो हातार.

वेंकू नायक एका हातांत गोडांत कालयल्ल्या फोवांचें ताट आनी दुसऱ्या हातांत तेलागोली घेवन येयलो. फाटल्यान तेचो व्हडलो पूत. तेच्या हातांत पेटयल्लो काकाडो आसलो. तेगेले एके धायेक वर्सांचे नातीन हातांत एक नाल्ल धरिल्लो.

तेआदीं घरआवयले गुडयेसरीं गेले. थंयसान खुंटयेसरीं आनी मागीर बर्म्यासरीं. दर एका देवामुखार वाठार घडघडायत शिंग वाजलें. वेंकू नायकान थंयच्या फातरा पटेंत तेल ओतून दिवे लायले, फोवा उंडी दवरून गाराणें घातलें.

थंयसान ते निमाणे सांतेरीकडेन वचूंक गेले. वाटेर दोन व्हड मोमे आशिल्लो कसो एक पाशाण फातर आसलो. तक़ली ना, सकल्लें धड ना. दोन पाशाण मोमे आनी उबार चिंवां. तेका लोक राक्षिणीले मोमे म्हणटाले. क्रशणान आपणाक वीख

पाजोवंक येयल्ले राक्षिणीक खोंटावन उडयली आनी ती ज्युस्त आदोळशीच्या दोंगरांत कुडके जावन पडली. कोणें एका पिश्यान केन्ना तिचे मोमे तकलेर मारून वाड्यार हाडून उडयले. अशें सांगतात, त्याच दिसाक एके बायलेन पिशाबळार आपल्याच भुरग्याची गोमटी आवळून ताका जिवानशीं मारलो. आतांय लोक म्हणटात, दर आमाशेक त्या मोम्यांतल्यान वीख निशेता. व्हडल्या नाखटाचो एक घुगूम मध्यानरातीर येवन तें वीख ओडून घेता. तो घुगूम आसा मेरेन गांवाक भिरांत ना! आत्तांय त्या फातरा कुशीच्यान वयतना वेंकू नायकाक वोगीच दिसलें, त्या मोम्यांतल्यान वीख निशेवन ते ओले जाल्यात.

वाड्यावयल्या सगळ्या देवांत सांतेरीकच तणाचुडटाचें भांगर कशें ल्हानशें देवूळ आसलें. तें फकत सोमाराकच उकतें करताले आनी हेर दिसा ताटी लावन बंद करून दवरताले. ही सांतेर म्हटल्यार पुरूसभर उंच रोयण आसली. तिचेर मातयेचीं कितलींशींच लिंगां चडिल्लीं: दर फावटी नवीं, ओलीं ताजीं लिंगां. आजच घडिल्ले वरी. ती रोयण केन्ना घडिल्ली, कोणें केन्ना पुजिल्ली, कोणाक खबर नासलें. हे लोक हांगा रावंक येवचे पयलींचीच आसुंये. शाश्वत. कदीमकाळापसून घडिल्ली, दर वर्सा घडत राविल्ली. मुळा पाताळा मेरेन रोवन बशिल्ली. तातूंत आनी किड्यांची, मुयांची, नागांची आनी हेर जिवांची शाश्वत वसती. धरतरे वरीच अजरामर, सर्वसमावेशक, धरतरेच्या पोटांतल्यान वयर सरिल्लें धरतरी आवयचेंच सासाय रूप!

सांतेरी मुखार शिंग वाजलें. पुताल्या हातांतलो काकाडो घेवन वेंकू नायकान पणटी पेटयली. फोवा उंडी दवरून सास्टांग दंडवत घातलो आनी मागणें मागलें. ''दाणोगोटो, फळफळावळ, कणगामुळां, झाडमाड तुजे कुर्पेन वाडटा आनी फळटा. तुवें फळाक हाडिल्लो हो गिरास तुजेच आज्ञेन, तुज्याच पांयार दवरून घरांत हाडटले आनी पोरातोरांक घालून खातले. वर्सवर्साक आमचे मातयेक तुवेंच बळगें दिवचें. पीक दी, फळ दी, झाड दी, सांवळी दी. आमकां भुकेवं नाका, तानेवं नाका...!'

ताणें नातील्या हातांतलो नाल्ल घेवन रोयणीर दवरलो. हीच रोयणीक भेटवण. मुखाल्ल्या सोमारा मेरेन रोयण नाल्ल आपल्या पोटांत घेतली.

तो आतां फाटीं वळोन सांतेरीक ताटी लावंक गेल्यार देवळाच्या दारांत वाड्यावयले चार पांच जण दादले खडदार उबे. निगंद उक्ते. मोट्यामोट्या मुंजीर फकत कास्ट्यो मारिल्ल्यो. नाक फुलोवनशे ते रागान सोंशेताले. निकतेच दुकरांची भोंवडी करून येयल्लेवरी विसकटिल्ले दिसताले. सोमाराच्या पुजेच्या वेळार चड करून वाड्यावयले लोक कोण येनासले. सांजचो फोवांप्रसाद घराघरांनी पावलो म्हणटकीर लोकांक कळटालें, पूजा जाली म्हण. पूण हे अशे कित्याक म्हण येयल्यात?

म्हाबळू नायक ताणशेलो. ''वेंकूभावो, देवाक जाप विचारली तुवें, हें कितें

चल्लां काय म्हण? आमचीं वासरां रेब्यांत शिरकतात; आमच्या माडांचे बोणे झडटात; मानेर जूं आसतना, गळ्यांत कानी आसतना वाग आमचें जोत मारता म्हटल्यार कितें? तुजी पुजा सारकी जायना काय देवाची सासाय मेल्या? देवाचो असो फातर जाला जाल्यार घोणयेंतळ्यांत व्हरून बुडोवन उडयात. नातर शीमेभायर व्हरून दाळाक लायात.''

फाटोफाट बाबुटीय आड्डलो. ''गांवाची राखण करूंक नज जाल्यार देव जाय कित्याक काय म्हणटां. कित्याक तेची पुजा जाय, कित्याक तेचे तकलेर फोवांउंडी घालूंक जाय? जाप विचार... वेंकू, जाप विचार.''

''पातकां वाडल्यांत. दारांतले वालीचें घोसाळें दोळ्यां हुजीर ना जाता. शेतांतलो हद्देफातर रातीभितर वांवा पयल्यान पावता. यशाल्या खळावयले धानगुडये रातोरात मळून व्हरून साळू देवळिणीगेर फोवांकालो कोणें केल्लो? पातकां भोगूंक जाय.''

''आमचें सांगणें फिरोवं नाका वेंकूभावो. देव आसतना, राखण आसतना गांवाक पातकां करची बुद्द जाताच कशी? तेचें निवारण देवानच करचें. ना तर गांवाच्यान उठून चलूंक लागचें. जाब विचार तूं कितें काय म्हण.''

''हांव एकलो कोण जाप विचारतलों? हांव तुमी नेमून दिल्ले पुजेचो धनी. गांवान मेळूनच जाप विचारूंक जाय. शेसार मारून मूळ पुरसाचो अवसर हाडात भारार. तेका धारेर धरून जाप विचारात, भास घेयात. हिंगा सांतेर आवयसरीं कितें झगडटात? आवयल्या पोटांतलो नाग दुखावल्यार धडगत ना गांवाची.''

''हाडटले, मूळ पुरसाकूच भारार हाडटले. तेका कशे उतराक धरतात पळयच तूं. तेणी पूजा मानतीक सारकी जायना म्हटल्यार मात तुका सोडचे नात. धाजणांचें शेत फक्कत भात पिकोवन खांवंक न्ही.''

ते वचूंक गेले. सांतेरीक ताटी लायतना वेंकू नायक मोट्यान तेंकां आयकोवशें करून म्हणटालो, ''देवाकडेन झगडटले, वाड्यावयल्या दायजासरीं हाणामारी करतले, पूण रायाचो पटेकार येवन मात्शे भेसडायल्यार गोठ्यांतलो बैल सोडून दिवंक फाटीं सरचे नात.'' तेणें आतां आनीक व्हडान आड्डून म्हटलें, ''सगळो भार देवाचेरच लखयात तुमी. ते बदलाक सगळे मेळून हातांत कोयती कुराड घेवन वचून वागाक धांवडावन कित्या घालिनात? तें करचें नात तुमी. देव सोंपो मेळ्ळा तुमकां.''

तो घरासरीं परत येयसर तिनसांज जाल्ली. शेजारच्या घर्तू नायकाल्या आंगणांत दुगा म्हार येवन उबो आसलो. तेच्या हातांत हासुडचें सूप आसलें. घर्तू नायक तेचेर तापतालो. ''तूं अवचित्र तिनसांजकात्रेचो दारांत कित्याक येयला? चलूंक लाग हिंगासल्लो.''

''पोरां घरा भुकेन बसल्यांत गा. तुमच्या हासुडच्या सुपाक जिस्त एक वर्स

जालें. हें नेवें हाडलां.'' दुगा काकुळटेक येयल्लो.

''फाल्यां सकाळीं हाडूंक नज आसलें तुज्यान?''

''पोरां भुकेन रावतात गा. जाली चूक. पांयां पडटां तुमच्या.''

तेणें दुगाक सूप भायर आंगणामेरेसरीं उडोवंक सांगलें.

गांवांत कोण तरी येयला. गांवांत आसरो मागता. घरांत ना तर दारांत तरी घेयात म्हणटा. दारांत ना तर आंगणांत तरी घेयात म्हणटा.

पयसुल्ली एक मावशी गांवांत आसा म्हणटा. पूण तो मावशेक वळखना आनी मावशीय वळख दाखयना.

कोण खंयचो परगांवांतलो वाटसुरो ! खंय कसो वाट चुकून पावलो? गांव तर असो पडमूर न्ही दारांत येयल्ल्याक आंगणाभायर घालूंक.

भर दनपरच्या कडार तो अठरा वीस वर्सांचो तरणाटो दोंगर देंवन येयलो. देवळामळार येवन वडामुळाक बसलो. भुकेन तानेन थकिल्लो भागिल्लो. भियेवन काचाबूल कसो. देवळाच्या सपणार बशिल्ल्याक दिसलें, कोण तरी वडामुळाक रडूंक बशिल्लेवरी बसला. दोगतीग जाण उठून तेचेसरीं वडामुळाक येयले. ''कोण गा? खंयच्या गांवचो वाटसुरो? कित्याक रडूंक पावला?''

तो कांय एक उलयनासलो. बाविल्लें तोंड फुलनासलें. फकत दोळे व्हड करून पळयतालो.

''आरे, मोनो भेड्डो काय कितें? अनवळखो, चोरावरी गांवांत येवन बसला आनी तोंड उकतें करिना. दांडो पडटलो तकलेर !''

आतां तो रडत एकदम उलयलो, ''नाका, म्हाका धांवडायनाकात. पांयां पडटां. म्हाका धांवडाय नाकात !''

''खंयचो कोण तूं?''

''हांव दिवाडेचों. लखू नायकालो चेडो, गणबा.''

''कितें जालां तुगेलें?''

'खरेंच हांयें कितें खायल्लें म्हाका खबर ना. तेंकां हायें बांयतल्यान बिंदूलभर उदक काडून दिल्लें. मुखाल्ली वाट दाखयल्ली. तेणी मागीर म्हाका खावंक जाड एक रोटी दिल्ली. वांगडा गोडापाखांत घालून दवरिल्लीं कसलींतरी फळां दिल्लीं खावंक. फळांच ती, आनीक कांय न्ही. खरेंच, आनीक कांय न्ही.''

''मागीर जालें कितें?''

''लोक म्हणूंक लागले, हायें तेंगेली रोटी आनी मास खायलें म्हण. बापायन

म्हाका घरांतल्यान भायर घायलो. आवयय म्हन्यांत येयली ना. बायलेकय म्हजेकडेन येवंक दिलें ना. मागीर गांवानय फातर मारून गांवांतल्यान भायर काडलो.''

'मागीर हिंगा कित्याक येयला तूं?''

''खूब भोंवलों. एका गांवांतल्यान दुसरो गांव. खंयच थारो ना. आवय म्हणटाली, आदोळशी एक पयसुल्ली मावशी आसा म्हण.''

''नांव कितें तिगेलें?''

''तिगेल्या आंगार खंय खूब तीळ आशिल्ले म्हण तिका तिळाय मावशी म्हणटाले. हांवें खूब ल्हान आसतना पळयिल्ली तिका. आतां वळखुचोंय ना. पांयां पडटां, म्हाका तुमच्या गांवांतल्यान धांवडाय नाकात.''

लोक शादूर जालो. हो बाटगो. गांवांत येवन बसला. व्हडल्या गांवकाराच्या कानार घालूंक जाय.

गांव इतलेंच जाणा जाल्लो. फाटीं सातसमुंदर बलांटून कोण तरी परधर्माचे लोक गोंय गांवांत येयल्यात. तेंच्या हाताचें खायल्यार सासणाची बाट लागता. पूण तेंकां केन्ना पळोवंक नासले. हेवटेन ते केन्ना येयनासले.

कोण तरी बाटगो तिळाय मावशी म्हण कोणाक सोदता, गांवभर विचारणा जाली. पूण एक्कूय बायल आपूण तिळाय मावशी म्हण मुखार सरली ना.

म्हाल गांवकार खापरू नायक हाचेसरीं खबर पावतकीर तेणें स्पस्टच सांगलें, ''हो रामनाथ देवाचो, रामनाथाचे सासायेचो पुण्य पवित्र वाठार. ह्या गांवांत बाटग्यान परधर्माच्या मनशान एके रातीक लेगीत वसती करूंक फावना. गांवाक पातक लागतलें. गांव लयाक पावतलो.''

मागीर तिनसांजचे आठ धा जाण एकेच फावट दांडे घेवन येयले. तेंकां पळोवन तो तरणाटो 'म्हाका मारूं नाकात' म्हण रडत शेतावटेन धांवलो. लोकांनी तेका शेता केरापयल्यान व्हाळा पलतडी खाजनांत धांवडायलो आनी ते परत येयले.

दुसऱ्या दिसा सकाळींच एक खबर उठली, व्हाळांतले, देव न्हावचे कोंडींत एक मडें हुबता !

कोण कोण वचून पळोवन येयले. हय, त्या बाटग्याचेंच मडें तें ! गांवाचेर सगळोच आकांत. मोटो पेचप्रसंग आसलो.

म्हालगांवकारा सरीं वचून 'कितें करचें गा?' म्हण विचारल्यार तो कांय वेळ दाडमणा बशिल्लेवरी वोगीच रावलो. मागीर कांय वेळान तेणे चांचरत म्हळें, ''जोशाक विचारात.''

जोशाकडेन गेल्यार जोशी बरोच वेळ तकली खाजयत रावलो. देव न्हावचे कोंडींत बाटग्याचें प्रेत ! असो प्रसंग गांवार केन्ना येवंक नासलो. तो पिसावल्ले वरी

आड्डलो, ''दोर घालात आनी मडें ओडून व्हरून खाजनांत उडयात. बाटग्याक अग्नीचो, क्रियाकर्माचो अधिकार ना.''

पूण कोणाक धाडस जालें ना. कोण मुखार सरलो ना.

पुराय दीस मडें देवा कोंडींत पडून उरलें. दुसऱ्या दिसाक सकाळीं सदा नायक आपल्या घराफाटल्यान वंयेकडेन उबो रावन व्हाळांतले कोंडीवटेन पळयतालो. तेका अचकीत कोंडी भोंवतणीं गिदां भंवर मारतात तीं दिसलीं. तेचे आतडेक पीळ पडिल्ले वरी जालो. तेचें काळीज हाल्लें. तेचेर सांवार. तो आंगणांत गेलो. थंयचें खोरें उखलून धांवतीं पावलां घालून शेतां बलांटून कोंडीर पावलो. तेणें कोंडीचे कडेर लागिल्लें मडें पळयलें. वयर रुखार बशिल्लीं गिदां आमुडलीं. मागीर वयर येवन व्हाळा आलतडी धप्धप् खोरें मारून कमरभर अगड फोंड खणलो. मागीर एकल्यानच मडें उखलून ओडून हाडून फोंडांत घातलें आनी वयल्यान माती ओडली.

एक सांवार आंगार घेवन तेणें सगळें केल्लें. आतां तो घट हाडापेराचो मनीस पुराय थकून गेल्लो. घुंवळ येवन पडटा अशें जाल्लें. तसोच लखतलखत चलत तो घरा येयलो. खोरें आंगणाभायर दवरून माडाअळ्याकडचो मातयेचो कळसो घेवन तो बांयतल्यान शेळें उदक काडून न्हावलो. मागीर तो कळसो तसोच फोडून उडोवन ओले कास्टेनच घरांत येयलो.

आतां दारांत आंगणांत कोणकोण वाड्यावयले येवन मोन्यानच उबे राविल्ले. तेतूंत एक बायल आशिल्ली. तिगेल्या पोल्यार मानेर बरेच तीळ आशिल्ले. फक्कत तिगेल्या दोळ्यांत दोळे भरून दुकां आशिल्लीं. सदा नायक कितें समजुचें तें समजलो.

इतल्यांत फटी नायक ताणशेत दारांत येयलो, ''सदा, तुवें मडें आलतडी पुरलें काय पलतडी?''

''आलतडी !''

''गांवचे शिमेभितर तुवें बाटग्याचें मडें कशें पुरलें?''

''म्हाका कितें म्हणच सुचनासलें. गांवचो कोणच कित्याक येयलो ना सांगूंक?''

''सदा, तुवें घात केला गांवाचो. गांवचे शिमेभितर परधर्माचो मनीस एके रातचे वसतेंत रावंक फावनासलो. त्याच गांवाचे शीमेंत तुवें बाटग्याक सासणाचो पुरला. देव फाल्यां जत्रेक थंय न्हांवंक येतलो. मोटो खेव जातलो. गांव लयाक पावतलो.''

सदा नायक कांयच उलयलो ना.

लिंगू नायकाल्या खळार मळणी चलिल्ली. मळणे मेडीक कानयेकानयेक पांच बैल बांदून मळणी घातिल्ली. लिंगू आनी तेगेली बायल वेंगवेंग धान बैलांच्या

पांयापोंदाक हाडून घालतालीं.

तेंगेलो चेडो बैलाक हामुडटालो. हामुडटाना गायतालो -

भोले भोले म्हणटां बैल जाले कोले

आनी बैलाच्या पांया कुंभ कुंभ मात झडे.

लिंगू नायकान बैलांच्या पांयापोंदा धान उडयतां उडयतां वयर चयलें. कोण तरी एकलो तकलेर वजें घेवन शेतामेरेवयल्यान तोल राखीत येता. सकाळचो उजवाडाचो झगझग आसूनय तो तकलेर वोजें आशिल्ल्यान कोण म्हण कळनासलो. पळयतां पळयतां तो मुखारच पावलो आनी हुश्श् करीत तेणें खळाकुशीकच उब्याउबेंच खुंटा वोजें तेंकलें. एक हात वोज्याक धरूनच तो उबो रावलो. लिंगू नायकान कमरे काटो नीट करून विसव घेत विचारलें, ''खंय न्हंये बगलेच्या रानांत गेल्लो गणाभाव?''

''असले फातर कशे कणकी खूंट आनी खंयच्या रानांत मेळूंक येयल्यात लिंगू?''

''कास्टेच्या पोंतांत तें कितें बांदून कमरेक खोयलां तुवें?''

ही व्हडली पाटाची फातरकुल्ली. वाटेरच मेळ्ळी. दोंके मोडून कास्टे पोंताक बांदली.''

''वाटेर आडवी येयल्ली कुल्ली अशी घेवची न्ही गणाभाव. वागरतीण ती वाट आडोवंक राविल्ली.''

''जावं. भाजून खायली म्हणटकीर गेलें तिचें अवचित्रपण. बायलेन घरांत हाडूं नाका म्हटल्यार भायरच भाजून खातलों.''

''वजें चड जड जाल्लें?''

''हय. सुवार्थीच हांव. जायना तरीय दोन खुंट चडच घालून घेतां. ताळ्याक तानेचो सोस पडला. येयलो पेजेबुडकुलो खळार?''

लिंगू नायकान बुडकुल्यांतल्यान गाडग्यांत इल्लो पेजेनीस ओतून घेतलो आनी गणा नायकाक दिलो. उब्याउबोच एका हातान नीस पियेवन तेणें गाडगो परत केलो. ''इल्लो कळावच केलो तुवें मळणेक लिंगू. आतां केन्ना मळटलो, केन्ना वायंगणां रोयतलो? दीस खंय पावले !''

लिंगून इल्ले ताबदारकेनच म्हटलें, ''म्हाका ताकतीक ना गणाभाव. मगेले गेल्ल्या वर्साचे पिकेच्यो मुडयो अजून दाळाक पडिल्ल्यो आसात. ह्या वर्साची पीक मुखाल्ल्या वर्साक खातां हांव.''

''जावं जावं. इल्लो तापटच तूं. गांवके वेळार बामण गांवकारां वांगडा झगडटा. जावं, मुखार गेल्ली भागिल्ली आनी फाटल्यान आशिल्ली गुरवार जाल्ली खंय.''

वाड्यावटेच्यान अचकीत भुरग्यांलो बोवाळ आयकूंक येयलो. एक व्हडलें बळार वचून बाबलील्या घराच्या पाडसऱ्यार वचून बशिल्लें. भुरगीं तेका हामडून

घालतालीं. तें बळार वाड्यावयल्यान हुडून शेतावयल्यान भंवर घेत पयस व्हळाबांदा वयल्या एका रुखार वचून बसलें. हें व्हडलें हातरेयेदें बळार. चोंचीसरी तकली, वयलें आंग सामकें धवें, आनी पाखरटे लिप्प काळे. अश्वीन कार्तिकांत केन्ना तरी अचकीत दिस्टीक पडटालें तें. पूण केन्ना अशें घरार येवन बसनासलें. पयस खंय तरी तळ्यार, वायंगणा मेरेर बसतालें.

"कलियूग हें लिंगू, कलियूग. बळार केन्ना घरार बशिल्लें पळयलां तुवें? कलियूग पाड आनी सोंश्याक येयलें खाड ख़ंय !"

"केन्नासावन येयलां हें कलियूग गणाभाव?"

"कोणाक खबर ! सुब्राय शणै म्हणटा, आपल्या खळावयल्या बारा धानमुड्यांक रातचो कोणें तरी उजो घातलो, तेन्नासान येयलां कलियूग. देवराय भट सांगता, आपलो बापूय देवळांत गर्भगुडये सामकार पडून रगत ओंकून मेलो तेन्नासान येयलां कलियूग. हांव खरें सांगूं लिंगू, तुमी शेतामेरेवयलो हद्देफातर निखळावन एक पावल फाटीं घातलें म्हणटकीर कलियुगाचो धनी एक एक पावल मुखार घालता."

अचकीत गांवचे शिमेर दोंगरावटेन घुऽऽम् असो आवाज येयलो. मळब व्हाजलां काय वड पिंपळ मोडून पडला कळना जाल्लें. कार्तिक म्हयन्याचें मळब तर सामकें रितें आसलें, मगेर हो आवाज खंयचो? असलो अजापाचो आवाज केन्ना गांवान आयकोंक नासलो. लोक भियेवन, कांचवेवन आवाजाचे वटेन पळयतालो. तेन्नाच दोंगराची वाट देंवन एक गोरवां राखणो काचाबूल जावन धांवन येयलो. ताणें खांदावयली कांबळ हातांत धरिल्ली. कास्टेचें पोंत गोफांतल्यान सुटिल्लें. तो व्हडाव्हडान आड्डतालो, "ते धवेले देंवचार गांवांत येवंक लागल्यात. तेणी हो स वोज्यांचो दुकर दोंगरांत मारून घातला. हांयें दोळ्यानी पळयला..." मेळटा तेंकां तो धव्या देंवचाराची खबर सांगत सुटिल्लो. तें लिंगू नायकान, गणा नायकानय खळार आयकलें. ते तटास दोंगरावटेन पळयताले. फकत आयकल्ले पूण केन्ना पळोवंक नाशिल्ले ते अजापाचे लोक पयलेच फावट गांवांत येताले. सगळे भियेवन काचाबूल जाल्ले. तेंचे विशीं जायत्यो भयभिरांतेच्यो खबरी गांवान आयकल्ल्यो.

कांय वेळान तेंचो पोंवो दोंगर देंवन सकयल येयलो. थंय शेतांत लागींच लिंगू नायकालें खळ. दोन वडील पदवेदार पाखले घोड्यार बशिल्ले. तांचे फाटल्यान स जाण हेर काब, सोल्दाद धांवन धांवनशे चलताले. तेतूंत तीग देशी सोल्दाद आशिल्ले. घोड्यार बशिल्ल्या पाखल्यांमदीं एकल्यान खांदाक तुबक लायिल्लें. ताची तकलेवयर मेरेन पाविल्ली नळी पयसुल्ल्यानय दिस्टीक पडटाली. पाखल्यांनी आंगाक बंद कोट, पाटलोण घातिल्ले. पांयाक वाद्यांचे मोचे, तकलेक चेपें. देशी सोल्दादांनी कास मारून धोपरांमेरेन पाविल्लीं धोतरां न्हेशिल्लीं. आंगाक जाड खोमसां घातिल्लीं.

तकलेक रुमाल आनी पांयाक जाड पट्यांचीं सादीं जोतीं. सगळ्या काब सोल्दादांनी कमरेक तरसादी लायिल्ल्यो. हातांत दांडे घेतिल्ले.

तेंकां पळोवन लिंगू नायक, ताची बायल भुरगीं, गणा नायक सगळे भियेवन तणागुडयां आड लिपून बसले. लिपून अडसरांतल्यान ते बारीक पळयताले.

वोताच्या झगझगान वोतांतल्यान देंवन येयिल्लेवरी ते आनीक गोरे दिसताले. संवसारांतल्या सगळ्या मनशांपरस उंच घटमूट दिसताले. लिंगू आनी गणा ल्हवल्हव फुतफुतताले, "ते धवे गोरे म्हणटात लिंगू. पूण म्हाका ते तांबडे दिसतात."

"हय गणाभाव, तांबडे काय धवे म्हण कळनात."

"फाटीं एक बुवा येयल्लो. सांगतालो, सात हतयांचें बळगें खंय तेंकां. गायेचें मास खातात आनी वयल्यान मनशाचें रगत पितात खंय."

"तांबडी राकेस जात ती. सुव्यावरी नाखटां, दांत आसतले."

"तेतूंत आनी उज्याचीं तुबकां तेंचेकडेन. उज्याचो फारपेट करून लोकांक मारतात. नळयेंतल्यान सुटिल्लें उज्याचें केण आरपार वयता."

"तेतूंत आनी शिशें बडोवन तेचे कुडके घालतात खंय."

"कितेंय आसूं, लागल्यार मरणच. आकतार मेलो ना तर मगेर कुसून मरता. तरसादेक तर नागाचें वीख लावन दवरतात खंय."

ते तेच धांवते चालीन देवळामळा वटेनचे वाटेन वचूंक लागले. सगळ्या गांवाक करड पेटिल्लेवरी खबर पाविल्ली. देऊळवाड्यावयले गुरव, देवळी, भोय, शिरवाड्यावयले नायक, घाण्यातिठ्यावयले मेस्त, कुंबार, रायगाळीचे बामण सगळे भिवन काचाबूल जावन घरांत, शेतांत, रानांत लिपून बशिल्ले. आसा थंयच मुंगरून पडिल्ले.

गांवदेव रामनाथा देवळा मुखार पावतकीर वडील पाखले घोड्यावयल्यान देंवले. देवळांत कोणच नासले. भट मात भितरल्या एका खांब्या अडसराक उबो रावन सोताक थातारतालो. मदीं च ल्हव बागवोन बारीक पळयतालो. गर्भगुडये फाटल्यानय तीगचौग जाण लिपून राविल्ले.

देऊळ बरेंच व्हड आनी पकदस्त आशिल्लें. मोट्या मोट्यो पाटयो, वांव वांव वेंगेचे कितलेशेच खांबे. खूब भितर भुंयारांतसो गर्भगुडयेंत लामणदिवो पेट्टालो. प्रसादा खांब्याक लायिल्लीं फुलां अजून तशींच आसलीं. देवळांत भायर भितर कोणच ना तें पळोवन तो वडील पाखलो अजापलो. तेणें वांगडाच्या एका देशी सोल्दादाक, जो दुभाश्यालेंय काम करतालो, तेका विचारलें, "देवूळ उकतें उडोवन खंय गेले हे सगळे?"

"भियेतल्यान दिसतले सिन्योर. आसतले लिपून बीन."

"आमी आतां देवळांत भितर घुसून देवाक हात घातल्यार येतले ते मुखार?"

"सांगूंक जायना."

पाखलो मुखार कांय उलयलो ना कांय वेळ तो वोगी उबो रावलो. चोंय वटेन पळयत. थंयचो तो सोबीत थंड शीतळ वाठार पळोवन तो पिसो जाल्लो. गडगंज देवूळ, देवळा मुखाल्लो पिंपळ, तेचे पयल्यान व्हड तळय मागीर आनीक एक आकांताळो वडारूख. देवळा मुखार उबो रावल्यार आदोळशी गांवचो पुराय वाठार एके बिठयेंत येतालो. मदीं व्हळामेरेन पाविल्लो व्हडलो शेता केर, शेताच्या कडाकडांनी वसयल्लो गांव. थंयसान इल्लोइल्लो दरयाचो गाज. अघनाशिनी न्हंयची निसट्टी धारय रुखाआडच्यान दिस्टीक पडटाली.

ते सगळे तळयेर वचून ते आनी तेंचे घोडे उदक पियेले. मागीर सकयल्या शेतांत देंवन शिरवाड्यार येयले. खंय एक मनशाचो मागमूस नाशिल्लो. सगळें थंड. गांव उठून दिगंतराक गेल्लेवरी. वडील पाखल्याक तिडक मारताली. कसलो लोक हो मनशाक भियेवन धांवपी! तो स्रेता आफोंस द आल्बुकेर्का वांगडा मूरां वांगडा झुजत गोंय जुंव्यार देंविल्लो. तीन वर्सां जाल्लीं हे खबरेक. जायत्यो तरा पळयल्ल्यो. कमरेची तरसाद काडल्यारच नागसोरपाक भियेल्लेवरी भियेवन धांवपी लोकय पळयल्ले. केन्नाकेन्ना ह्या लोकांची इतली तिडक मारताली, घोड्यार बसून घोडो धांवडायत वाटेर मेळत तेका पालमत्रेन मारीत सुट्टालो.

शिरवाड्याच्या आकाड्यांत एकलो थरथरो म्हातारो उबो आशिल्लो. उब्याउबोच सुकिल्लो, बागवल्लोसो. तेच्या हातांत कोयती आशिल्ली. ती कोयती पळोवन सोल्दादाक तोखणाय दिसली. तेणें विचारलें, "गांव उठून गेलो गा? कोण दिस ना ते."

त्या जाण्टेल्यान आपल्या हातांतली कोयती मुखार करीत म्हटलें, "हे कोयतेन हायें कितल्यो कणकी चांचायल्यात, कितले रूख साकाळल्यात. झांब्याचे माट्टीचे रूख आड घायल्यात. ही पयली म्हगेल्या बापायन कमरेक बांदली. आतां पन्नास वर्सां ही म्हगेले माकडेंत आसा."

तेगेलें उलोवणें तेंकां मजेशीर दिसलें. एकल्या देशी शिपायान विचारलें, "केन्ना वाग मारलो ना गा कोयतेन?"

तेणें चाचरलेंशें केलें, "वाग? ना. वाग आंगार घेवंक ना. तेणीं धोरां मारलीं आनी ते आपले वटेन गेले. एक फावट गोटो रितो केलो, पूण वाग आंगार घेवंक ना... कोण गा तुमी? कोणाची सोयरीक...?"

सोल्दादांनी चिंतलें, हें काय धड कूळ न्ही. ते आपले वाटेन मुखार वचूंक गेले. वडील पाखलो मदींच थारलो. ताणें शिरवाडो नियाळ्ळो. वाडो म्हूण एक रानच आसलें. ओंवळीचे, भिण्णीचे, पंगऱ्याचे, जांबळींचे, आंब्याचे, अटमीचे व्हडले

व्हडले रूख. मदींमदीं तणा चुडटाचीं तिशेक बसकीं घरां. घराच्या दारांत मात दोन तरी माड. दर एका घराच्या मुखार एक खोंप. जळोव, शेणी भरून दवरूंक. पावसाळ्यांत न्हावंक. उदक तापोवंक.

शिरवाड्यावयल्यान ते तेच धांवते चालीन रायगाळी बामणावाड्यार वचूंक गेले. शिरवाडो आनी रायगाळी हांचेमदीं एक लांबलचक उकतें मळ आसलें. थंय कांय लोक पावसाळ्यांतलो हुडीद हुमटिताले. आंगान उकते, मोटवे लोक. दादल्यांचे मुंजीर बारीक कास्टी. बायलांचे कमरेरच एक वस्त्र. वयलें आंग उकतें. हांकां पळोवन ते एकच किळांच मारून एकठांय जाले आनी मागीर एकदम रानावटेन धांवंक लागले. तशे ते धांवतना रानांतल्या सावदांचो एक पंगड धांवता अशें दिसतालें. देशी शिपायान सांगलें, ''कुणबी ते सिन्योर. वयल्या रानांत रावतात. शेताच्या वावराक बीन केन्ना रानाभायर येतात.''

थंयसान ते रायगाळी येयले. रायगाळीची नुरा आनी तरा नायकाल्या शिरवाड्यापरस वेगळी आसली. दोंगराच्या खाकोळांतल्यान सुरू जाल्लें एक कुळागर सामकें सकल वांयगण शेतामेरेन पाविल्लें. दोंगरासान फुटिल्लो एक उदकाचो पाट कुळागराचे मदल्यान व्हांवतालो. तो पाट वयर आदीं केंकऱ्यालें व्हडलें कुळागर शिंपून सकल शणैंच्या कुळागरांनी भोंवन सकयल वांयगणांत पावतालो. केंकऱ्यालें घर सोडल्यार सकयल शणै बामणाचीं वट्ट सात घरां आशिल्लीं. कुळागराचे मदीं मदीं घरां. कुळागरां नाल्ल, फोपळां, मिरीं, आंबो, फणस, नारींग, तोरींग हांचेन गच्च भरिल्लीं. कुळागराच्या फाटल्या भायल्या आंगाक दोंगुल्लेचो फाळ कसो भाग मुखार येयल्लो. थंय ते उबारेर रवळनाथाचें देवूळ आसलें. तो तेंचो कुळदेव. केंकऱ्यांचो कुळदेव मात न्हंये पलतडचो सांखवाळे मंगेश. केंकऱ्यांचें राज्य वेगळें. हो ह्या शणै बामणांमदीं ऩासलो.

पोव्यांतलो वडील पाखलो कापितांव कास्तेल फिग्रेदीन एक देशी शिपाय मुखार बामणवाड्यार धाडिल्लो. फर्मायल्लें, पोर्तुगालच्या रायालो कापितांव येता, येवकाराक रावात म्हण. पूण बामणांलीं सगळीं घरां भितरल्यान लिप्प बंद आसलीं. सामक्कीं सामसूर्म. खंय येद्दो आवाज नासलो. उल्याकय जाप मेळनासली.

कापितांव फिग्रेदीन गोंयपाटणांत जायते फावट आयकल्लें, अणभविल्लें, बामणच गांवचे खरे जाळवणदार. तेच वाचूंक बरोवंक जाणात. मोटी बुदवंत जात. तांकां आदीं घट धरूंक जाय. तांचे वरवींच गांवचो, वट्ट गोंय जुंव्याचो कारभार नीट राखूंक येता. बामणांसरी तेंकां भासाभास करूंक जाय आसली. पूण बामण तर दाराक खिळी घालून भितर पडिल्ले. कापितांव जाणा आसलो, गोंय जुंव्यार देंवन तीन वर्सां जावन गेल्लीं तरी गांवगिऱ्या वाठारांतलो लोक तेंकां अजूनय आगळेच

राकेस कसे समजताले. गोंय पाटणाचेर बाँबगुळे घातले, हजारांनी मुरांक कातरले म्हण ते कांचवेल्यात जावंये. गांवागांवांनी बेठीच एक हवाय उठल्या, आमी फटोवन गायेमांस आनी हेर खाण खावयतात आनी बाटयतात म्हण. ताणें सोता व्हडान कुंकार दिली, ''आमी आतां हांगाचे कापितांव... आमी आदालशा कडच्यान गोंय पाटण जिखून घेतलां. तुमी आतां पोर्तुगालच्या रायाली परजा. येयात, अशे सामकार येयात.''

तेगेलें हरएक उलोवप तो दुभाशी सोल्दाद त्याच सुरांत व्हडान कोंकणींत सांगतालो. दोगांल्याय उलोवपाची थंय एक खणखणीत जुगलबंदी चलिल्लेवरी दिसताली. कापितांवाल्या उलोवपांतलो राग आनी समजिकाय तो जिस्त उक्तायतालो.

पूण सगळें थंड. बरोच वेळ बोबो मारुनय दार कोण काडिनासलो. कापितांव आतां रागान पिसावल्लो. ताच्या चेऱ्यावयले तांबडे कातींतल्यान रगत निशेता अशें दिसतालें. हो असो उंच धिप्पाड पाखलो, तातूंत तांबडे कातीचो. ताचो रागाचो अवतार पळोवं नज जाल्लो. तेणें घोड्यावेल्यान सकल हुडी मारली. उकती तरसाद हातांत घेवन वचून तेणें एका बागलाच्या दारार धाडधाड खोंटां मारलीं. ते खोंटेसरशीं तें गडगंज घर जशें हालतालें. ''मोडून उडयतलों, उजो घालतलों घराक...''

अचकीत एके बायलेन दार उकतें केलें आनी हातांतलें आटव्याचें लाकडा माप पाखल्यार शेंवटून मारलें. जें जिस्त ताच्या हड्ड्यार बसलें. ती जाण्टीच पूण मोटव्या घटमूट आंगलोटाची बायल दारांत चंडिका कशी उबी आसली आनी उजो पेटिल्ले नदरेन ती त्या कापितांव पाखल्याक पळयताली. ती आड्डली, ''तुजें मडें खपूं, भस्म जावं तुजें. दारार खोंट कित्याक मारता मसण्या?''

तो कापितांव तटास कांय वेळ तिचे सरीं पळयत रावलो. खरें म्हटल्यार ते बायलेची तेका तोखणायच दिसली. तेणें अशें हें अस्तुरेचें रूप केन्ना पळोवंक नासलें.

ती बायल परत ताणशेली. ''खंयचे सात समुंदर बलांटून येयल्लें अवचित्र. देवाधर्माचें घर हें.''

दुभाशी मदीं आशिल्लोच.

कापितांवान ते बायलेक हेडायत म्हटलें, ''कसलो देवधर्म सांगता तूं? दाराक खिळी घालून बसतल्या भिजुडांचो कसलो बाबत देव आनी धर्म! असल्या धर्माक व्हरून दरयांत बुडोवंक जाय.'' मागीर परत गांवाचेर तो आड्डलो, ''एक अस्तुरी दार काडून दारार येवन उबी रावता आनी दादले भिजूड कशे भितर लिपून आसात. भायर येयात ना तर आमचीं हीं उज्याचीं आर्मां घेवन आमी घरांत घुसतले.''

आतां ते बायलेनय कुंकार घालीत गांवाक उलो दिलो. ''हळे, हळे, हळेऽऽऽ,

आयकात, सगळे ल्हान व्हड दादले भायर सरून येयात. ना तर हे भश्ट घरांत घुसतले. भियेनाकात तेंकां.''

सगळ्या सातय घरांतले पंदरा सोळा दादले तरनाटे ल्हवल्हव घरांतल्यान भायर सरून येयले. येवन पठण-शाळेच्या आंगणांत उबे रावले. कांय खीण थंय किण्ण शांतताय पातळ्ळी. तेणी ल्हवल्हव मान वयर करून पाखल्याक पळयलो, पयलेच फावट. तेंकां दिसलें, हे तर नाकादोळ्यान, हातापांयान आमचे सारकेच. लोकांल्यो कित्याकितेंय हवायो. घडये तेंकां बळगें आसत चड. एक राकेसकुळी जातय आसुंये. पूण राकेसांचो संहार तर देवानच केला. देव आसा फाटीक. तेवूय कांय वेळ शणै सामकार मोन्यानच उबे आसले. जशे थाव पळयताले.

कांय वेळान भिरांत मात्शी मोडिल्लेवरी जाली. शांतूशणैन ल्हव दामिल्ल्या आवाजांत म्हळें, ''हाचे पयलीं खंयच्याच रायाल्या मनशांनी आमकां अशे धपकावन भायर काडूंक नासले. ते आमचो मान राखताले.''

कापितांवान म्हटलें, ''हेरांचें सांगूं नाका. आमचें बळगें मोटें. आमच्या रट्याच्या बळग्यार आमी गोंय आदालशाकडच्यान जिखून घेतलां. स हजार मूरांक आमी कापून काडल्यात आनी तांचें रगत वारयलां गोंय पाटणांत. आज आमी हिंगा येयल्यात ते तुमी पुर्तुगालच्या रायालो शेक मानून घेतला म्हण कबलात घेवंक. हे मुखार गांवची महसूलपटी, डबी आमकां पावंक जाय.''

हाचेर सापटू शणैन म्हटलें, ''अशें बळजबरेन घेवचें तुमी सगळें. खरें तर आमकां तुमचे सामकार येवचेंच मनांत नासलें. तुमी कातरिल्ल्या मूरांच्या बायलांक बाटोवन जबरीन तुमच्या सोल्दादां वांगडा लग्न लावन दिलें, येयल्ले येयल्लेच तुमच्या धर्माचें देवूळ उबारलें. आतां तर कित्याकितेंय खावंक लावन हिन्दूंक बाटयतात खंय.''

''खरें सांगूं? आमी बाटोवन लोकांक आमच्या धर्मांत हाडचेलें काम अजून करूंक ना. तुमीच आपूण जावन केलां तें सुरू. आमच्या हाताचें चुकून कितें खायल्यारय तेंकां घराभायरे, धर्माभायरे करतात.''

घारसो शणैन म्हटलें, ''आमचो देव आमचो धर्म हांकां नीट राखण मेळूंक जाय. जाल्यार आमी सगळे तुमचें मानून घेवं.''

''गोवेर्नादोर आफोंस दे आल्बुकेर्कान तशें उतर गोंय जुंव्यावयल्या हिन्दूंक म्हाळ पै वरवीं दिल्लें आसा. तेका अजून पुर्तुगालच्या रायाली मान्यताय येवची आसा. पूण तुमकां एक सांगतां, पोप सायबाले आज्ञेंत पुर्तुगालच्या रायालें धोरण जावन आसा. रायालो धर्म तोच ताचे परजेचो धर्म. तरीय सध्याक गोवेर्नादोर आल्बुकेर्कान दिल्लें उतर तेगेले आमी कापितांव पाळटले.''

आयकोन सगळे बामण संभ्रमांत पडिल्ले वरी जाले आनी भियेले. एका

जाणटेल्यान म्हटलें, ''हें गोंय तुमी तुमच्या शेकातळा कशें दवरलें? म्हाळ पैन हिंगा पिडापीड करपी मूरांक आनी नायट्यांक धांवडावन घालूंक होनावरचो सुभेदार तिमय्याक आफोवणें धाडिल्लें. तिमय्या तुमकां आधाराक घेवन येयल्लो. राज्य तुमचें कशें जालें?''

कापितांवान एक फावट त्या जाण्टेल्यासरीं रागान पळयलें. तेणें वालो न्हेशिल्लो आनी वयलें आंग उकतेंच आसलें. कमरेर चकचकीत चांदयेचो गोफ, पोटार जानवें आनी कपलाक उबो गंदानामो. तकलेर भंवर केल्ल्या केंसांत शेंडी आसली. शेंडयेर फूल खोवयल्लें.

''हांव आपू शणै. गांवचो कुलकर्णी आसलों हांव. गांवची महसूलपटी तेगेल्या पटेकारावरवीं हांवच पावयतालों.''

''आपू शणै, शितीन धर, गेल्लीं तीन वर्सां तूं पोर्तुगालच्या रायालो कुळकरणी जावन आसा. तिमय्या ल्हान मनीस. ल्हान जातीचो एक सुभेदार. राज्य जिखचेली, तें राखून दवरचेली, तेची उस्तवारी करचेली तांक ताचेसरीं ना. ताका व्हिसरायान गोंय जुंव्याचो म्हाल ठाणेदार नेमचो केल्लो. पूण तें ताका मानवलें ना. गेलो तो गोंय सोडून. गोंयचें राज्य जाय आसलें तेका.''

कुशीन उबो आशिल्ल्या शाणू शणैन म्हटलें, ''ल्हान जातीचो तो तिमय्या. ताका रायपण सोबचें नासलें. आमकांय ताच्या शेकातळा रावचें मानवचें नासलें.'' कापितांवान कांय खीण ताचेसरीं पळयलें. सुटिल्ल्या पोटाचो उंच शाणू शणै. हड्ड्याचे चिपयेसरीं ताचें हड्डें एकदम भितर गेल्लें आनी सकल पोट एकदम मुखार येयल्लें. ताणें हड्ड्यार, भुजार आनी कपलार उबे नामे लायल्ले. जानव्याकय एक फूल खोवयल्लें. निकतोच देवपूजा करून येयल्लेवरी दिसतालो. ताचेसरीं दुर्लक्ष करून कापितांवान आपू शणैक विचारलें, ''ह्या दोन वर्सांची महसूलपटी कितली वसूल केली तुवें? आनी ती कोणाक पावयली?''

''फाटली पटी आदालशाचो पटेकार अब्दुल गनीक पावयल्ली हांवें.''

''कितली?''

''तिनशें बत्तीस शेराफींय, तीन टांक आनी बारा रीय.''

''आनी गेल्ल्या वर्साची?''

''कोण राया आयला, कोणाचें राज्य चलता तें आमकां खबर नासलें. नव्या रायाचो कोण मनीसय आमचेसरीं येवंक ना. आड गांव हो. गेल्ल्या वर्साक महसूलपटी वसूल केली ना. गांवच्या रासवळ येणावळींतल्यानय ती कुशीक काडली ना. गांवकारांनी म्हटलें, पयलीं मडें दाखय, मागीर स्राद्ध.''

कापितांव एकदम तापलो. ''कुळकरणीऽऽ, सारको उलय. तूं आतां पुर्तुगेजाल्या

रायाल्या राज्याचो कुळकरणी जावन आसा. आमी तोफागुळे गोंय शारार उडोवन घडघड घालीत गोंय जिखलें. मूरांची धानधिस्पटा करून तेंकां धांवडायले. कितल्यांक कातल्ले, कितले पळोन गेले, हाची गणती ना. आनी तूं म्हणटा आमी येयल्ल्याची खबर गांवांत पावंक ना!''

''खरें सांगूं, तुमी सात समुंदरा भायल्यान येयल्ले परकी लोक. हांगाची लूट घेवन एक दोन म्हयन्यांत परत वयतले अशें समजल्ले आमी. तुमी अशे बसकण मारून बसतले म्हण कोणाक खबर?''

''सिन्योर आल्बुकेर्कान हें आमचें ठिकाण केलां तें सासणाचें. पुराय दरयाचेर आमचो शेक ते परी हे भुंयेर. हांगा उबे रावनच आमी आमचो व्यापार उद्देग करतले, मुखावेलीं झुजां झुजतले, राज्य वाडयतले. कुळकरणी, गांवचो राबितो कितलो?''

''एकावन्न घरां, ब्यात्तर चुली, एकशें तीन जोडपीं. वट्ट सयशें णव लोक. एकूच भुसारी पसरो आसा गांवांत.''

''गेल्ल्या वर्साची आनी ह्या वर्साची मेळून महसूलपटी मेळूंक जाय आमकां. कालापूरच्यान पटेकार दासू पै येतलो आठ दिसांनी. तेचेसरीं पावोवची दोन वर्सांची गांठ. पयलींवरीच.''

कुळकरणी आपू शणैली भिरांत आतां इल्ली मांवळिल्लेवरी जाल्ली. ताणें ताठ जायत म्हटलें, ''गेल्ल्या वर्साची मेळची ना. गेल्ल्या वर्साच्यो बीं भाताच्यो मुडयो गेल्ल्या वर्साकच सोंपल्यो. गांव मोटो गिरेस्त न्ही !''

''गांवचो म्हाल गांवकार कोण?''

''शिरवाड्यावेलो खापरू नायक.''

''गांवकी आफयात आनी ह्या वर्साक चड पटी वसूल करात. गांवकेची रासवळ येणावळ दियात पटी म्हण.''

जाण्टेल्या आदू शणैन म्हटलें, ''साठ गांवकार वांगडी आनी एकशें णव वांटेली गांवांत. तेभायर देवांचे वर्सुकी जत्रे, परबांचो खर्च. चडशी महसूलपटी तातूंतल्यानच दितात. आनीक चड कितें करतले?''

''कितेंय आसूं, फाव ती पटी दिवची पडटली. पटेकार दासू पै मोटो कडक मनीस. खरडून काडून व्हरतलो पटी. पटयेचो दर कसो तुमचो?''

आपू शणैन सांगलें, ''बऱ्या शेताक खांडयेक एक शेराफींय. मकीमरड शेताक चार टाक.''

''हे मुखार आमी थारायतले तो दर. हिशोब सगळो क्रुसाद ह्या आमच्या दुडवांत आसतलो.''

''तुमचो दुडू चड करून गोंय जुंव्या भायर खपचो ना. रीय, टाक, शेराफींय

भायर खपतात. आमी ते दिवन भायल्यान कपडो लत्तो आनी हेर जिनस हाडटात.''

''दोनय तरेचो दुडू हिंगा चलतलो अशी तजवीज आसतली आमची.'' सगळे ओगी रावले. कापितांवान म्हटलें, ''हांव मानतां तुमी आमच्या रायाचो शेक मानून घेतला म्हण. हे मुखार सकाळीं उठून तुमचो पयलो नमस्कार पुर्तुगालच्या रायाक.''

भवानी शणै तरनाटोच आसलो. येदोळसान तो रागान मांडुनसोच हांकां चयतालो. ताणें सट्करून म्हटलें, ''दरया बलांटून येयल्ले भश्ट लोक तुमी. तुमचो तो राया आमकां लागना. आमी ताका नमन करचे नात. आमच्या देवाकच आमी नमस्कार करतले, न्ही तुमकां भश्ट लोकांक आनी तुमच्या रायाक.''

कापितांवाक ताचें उलोवप आयकून इतली तिडक मारली, ताचो नाकाचो शेंडो फुरफुरलो. निळ्या दोळ्यांत रगत देंवन आयलें. श्वास घुसमटलो. ताणें पालमात्री ओडून काडली आनी सटासट ताचेर ओडली. सगळ्यांची भिवन गुळी. सोंसूं नज जावन भवानी शणै भुंयेर पडटकीच ताची पालमात्री रावली. कापितांवान म्हटलें, ''आमी आमच्या आंगार तरसादेचे घाय सोंसूं पूण आमच्या रायाचो अपमान सोंसचे नात. खरें म्हटल्यार हेका जितो मारचेलों हांव.''

ताणें मात्शी उसरपत घेतली. मगेर तरसादेची मूठ आवळून धरून म्हटलें, ''तुमी आपखोशयेन आमचो शेक मानून घेतलो ना तर फोर्सान मानून घेवंक लायतले, जशें आमी हें राज्य घेतलां हजारांनी लोकांचें रगत वारोवन.'' मगेर वांगडाच्या काब, सोल्दादांनीय तरसादी काडल्यो. ह्या बामणां मुखार उकत्यो तरसादी अशो केन्ना नाचूंक नासल्यो. विखाळ्या सोरपाक भियेल्लेवरी ते तरसादेक भियेले. कापितांवान म्हटलें, ''आमी खूब आयकल्लें, बामणांचे हुशारकायेविशीं. फक्कत तुमीच वाचूंक बरोवंक जाणा म्हण कळ्ळां. तुमचो आमकां आधार जाय ह्या राज्याची उस्तवारी करूंक. सिन्योर आल्बुकेर्कानय तेंच म्हटलां.''

ताणें घोड्यार दांग मारली. घोडो हामडून तो इल्लो मुखार गेलो आनी परत फाटीं घुंवलो. घोड्यार बसूनच ताणें व्हडान विचारलें, ''तुमी देवाचो पूत जेजूक जाणात?''

सगळ्यांनी तकली हालोवन न्हयकारलें. ''देवाच्या पुतान जेजून सोर्गासावन येवन आमकां आमचो किरिस्तांव धर्म दिला. तोच धर्म आमच्या पुर्तुगालच्या रायाचो.'' कापितांवान शणैक रोखून पळयत व्हडान विचारलें, ''तुमकां तुमचो धर्म सोडचो पडल्यार तुमी कितें करतले?''

तीगचौग जाण अडचल्ल्या आवाजांत पूण किंवाट्यानशे उलयले, ''आमी कुडीचें दहन करून घेतले.''

''तुमकां कोणें गायचें बीन न्हय तें मास खावंक लायल्यार तुमी कितें करतले?''

तोच अडचल्लो पूण नित्शेवाचो आवाज, ''सासणाचो उपास करून जीव सोडटले आमी.''

''तुमकां कोणें जाय तितलें भाटबेंस, पयसो आडको दिल्यार?''

''अख्खे धरतरेचें धन हाडून आमच्या पांयार घातलें तरीय तें आमकां कुस्कूट. आमी आमचो धर्म सोडचे नात.''

पाखलो कापितांव बिलंदर कसो हांसलो. ''आतां निमाणो एकच प्रस्न. कोणय एका हातांत घण आनी दुसऱ्या हातांत तलवार घेवन तुमचें देवूळ आनी देव फोडून येयल्यार कितें करतले तुमी?''

आतां थंय सामकी थंडाय पातळ्ळी. शणै एक दुसऱ्याच्या तोंडासरीं पळोवंक लागले. कोणें तरी म्हटलें, ''देवच पळोवन घेतलो तांकां. तोच ख्यास्त दितलो.''

कापितांवान घोडो हामुडलो. सगळें जिंत्रप ताचे फाटल्यान धांवंक लागलें. तीं कुळागरां बलांटून दोंगुल्लेच्या फाळार आशिल्ल्या रवळनाथाच्या देवळासरीं ते गेले. एक गर्भकूड आनी उकतें देवूळ. सकल्ली भूंय शेणान सारयल्ली. वयर सादेच, गांवठी नळ्यांचे पांखे आसले. चोंय वटेन बसूंक शेकानशेक चिऱ्यांचे ओटे आसले. देवळांत आतां कोणच नासलो. पूण एक शेनरी गर्भकुडी कुशीक कवळून दवरिल्ली आसली. थंयच एक गुळगुळीत दांडो, खुटयाळाक एक झोळी लायल्ली आसली. पाखले देवळा मुखार घोड्यावेल्यान देंवले आनी मोच्यांसयत सरळ देवळांत गेले. देशी सोल्दादान म्हळें, ''सिन्योर, मोचे, मोचे आसात पांयांक. देवळांत परकी घुसल्यार देवूळ भश्टता तेंगेलें.'' पूण तांणी तें कानामनार घेतलें ना. ते आपले धिमयेमेरेन पाविल्ल्या मोच्यांसयत कांय वेळ देवळांत भोंवले आनी मगेर ओट्यार बसले. वट्ट पांच जाण आसले ते पाखले. दोगूय देशी शिपाय मात भायरच उबे रावले. तांचीं तोंडां सामकीं काळीं पडिल्लीं.

देवळा मुखार एक पिंपळारूख आसलो. थंयच एक भुंयेबराबर पडिंगशी बांय आसली. भर दनपरांय थंय काळखी सावळी पडिल्ली. कांय वेळान थंय एक जाणटो साधू आयलो. तागेली लांब सोडिल्ली दाढी, मिशो, तकलेवेले केंस पुराय पिकून धवे जाल्ले. तो वयले झरीवेल्यान न्हावन येतालो. कमरेवेलो वालो ओलोच आसलो. हातांत उदकाचो व्हड तांबयो आसलो. पाखल्यांक भितर बशिल्ले पळोवन तो आदीं कांचवेलो, भियेलो. पूण ताणें सोताक सावरून व्हडान बोवाळ घालो. ''आरे, सरात भायर. आदीं सरात भायर. भश्टिलें तुमी देवूळ. पळय, पातक लागतलें तुमकां. लासून भस्म जातलें तुमचें...''

ते सुवातेवेले हाललेे नात. तो साधू भायर आयलो आनी ताणें व्हडान गांवकारांक उलो घातलो. ''अरे, हें पळयात, भश्टेनश्टे लोक येवन मोच्यासयत देवळांत घुसल्यात.

देवूळ भश्टिलें तांणी. येयात, धांवडावन घालुंया तेंकां...''

त्या उल्याक जाप येयली ना. कोण एकलो कुळागर बलांटून हेवटेन येतना दिसलो ना. तो साधू परत भितर गेलो आनी गोरवांक हामडून घाल्लेवरी तांचेसरीं वचून आड्डूंक लागलो, ''चलात, भायर सरात हांगासल्ले... सरात भायर...''

एका पाखल्यान पालमात्री काडली. वोगीच हवेंत रंऽऽव करून घुंवडायली. ''बोस वोगीच. बोबाळ नाका तुजो.'' तो साधू भायर येयलो आनी रडूंक राविल्लेवरी ओगी उबो रावलो.

त्या देशी सोल्दादान पाखल्यांक सांगलें, ''साधू तो सिन्योर... सांत... सांत...'' ते पाखले उठून आतां भायर येयले. तांणी त्या साधूक विचारलें, ''तूं हांगा ह्या गांवचो?''

साधू ओगीच रावलो. त्या गांवठी सोल्दादान सांगलें, ''तेंका एक एक गांव नासता. ते गांवदेश भोंवत आसतात, लोकांक देवधर्म शिकयत. सांत ते.''

हाचेर ते पाखले हांसले. एका पाखल्यान साधूक विचारलें, ''तूं सांत? हय तर आमकां उदकार चलून दाखयशी?'' तो ओगीच रावलो. पाखल्यान मुखाल्लो प्रस्न विचारलो, ''तूं सांत तर ह्या झाडाक आत्तां फळां लावन दाखोवशी?''

साधू एकदम तिडकेलो. ताणें रागान म्हटलें ''तें काम देवालें. मनशालें न्हू.''

पाखलो हांसलो. ताणें म्हटलें, ''हय, तें काम देवालेंच. आमचेसरींय एक फावट देव येयल्लो. देवाचोच पूत जेजू नांवाचो. तेका घेवन आमी ह्या राज्यांत येयल्यात. जेजून कितले चमत्कार केल्यात जाणा?''

''देव आनी देवाचो पूत किरकोळ चमत्कार कित्याक करून दाखयतले? मळबांतल्यान पावस पडटा, दरयाक जोरगत येता, रात आनी दिसाचें चाक घुंवता, बिंयांक कोंब फुट्टात, झाडाक फूल फुलता, हो केदो व्हडलो चमत्कार देवालो. आनी बाश्कळ चमत्कार जाय कित्याक?''

पाखले कांय उलयले नात. कापितांव घोड्यार बसलो आनी तेणी घोडो हामुडलो. सगळे चलूंक लागले. फाटीं वळोन पळयल्यार कुळागरांनी पुरून घातिल्लेवरी गांव सामको शांत आसलो. येवन गेल्ल्या मोडाची इल्ली सुनशा नासली, उचांबळाय नासली. तो साधू मात गांवावटेन हात हेळावन कितें तरी सांगतालो. ताचे तें हात हेळोवप स्राप दिल्ले वरी दिसतालें. कांय वेळान तोवूय फाटीं फिरलो. हातांत तांबयो आनी खाक्यांत शेनरी मारून गांवाक फाट फिरोवन चलूंक लागलो.

जिंत्रप परत शेतांत देंवन देवळामळा वटेन येयले. थंय सकल दाव्या हाताक कडमा रुखापोंदाक साताठ सतीचे हाताफातर उबे केल्ले दिस्टीक पडटाले. ते काळे फातर ते सावळेंत उलट्या पावलांचीं काळीं भुतां उबीं राविल्लेवरी दिसताले.

सकाळीं पाखल्यांनी दोंगर देंवन येतना वाटेर एक व्हडलो स वोज्यांचो दुकर मारून घातिल्लो. तो तसोच पानांनी, ताळयांनी धांपून दवरिल्लो. तो कापूंक आतां तेंकां सुरी आशिल्लो कोण तरी फिशाल मनीस जाय आसलो. तेणी देवळाच्या दारांत वचून भटाक व्हडान उलो मारलो. भट थरथरत येवन घाटी आड्यापोंदा येवन उबो रावलो. एका देशी सोल्दादान भोंकिल्ले वरी व्हडान विचारलें, ''भटो, आमी दोंगराच्या धेंगणांत दुकर मारून घातला. हांव जाणां तूं दुकर खायना म्हण. पूण आमकां दुकर सोलूंक कापूंक एक फिशाल मनीस करून दी. जाल्यार आमी गांवच्या लोकां खातीरय वांटे घालतले. येयात म्हण सांग.''

भटान सांगलें, ''जिवू मेस्त करतलो तें काम. पूण आदीं शिवा मिराशान सुरी घालून दिवची पडटली. तोच पुरसाकडेन, पायकाकडेन, बेताळाकडेन खेत्र करता.''

''जिवू मेस्त खंय तो आदीं सांग.''

''तो मुखार धवो अर्जुनारूख आसा थंय तेगेली साळा आसा. मेस्ता साळा म्हटल्यार कोणय सांगतलो.''

सोल्दादान कापितांवाक मिराशाली खबर सांगल्यार म्हटलें, ''सोड तें. आतां आमीच ह्या वाठाराचे जाळवणदार. आमी फारान दुकर मारला. आमीच घालून दिवची सुरी.''

ते लमाण जिवूले मेस्तासाळे वाटेन वचूंक लागले.

भट फाटल्यान स्राप दीत तेंकां खेपतालो. ''देवा, परत आनी तेंकां ह्या गांवांत हाडूं नाका. हातपांय मोडून पडूं ते. तेंची वाचा बसूं. तेंचे घोडे मरूं. नाका आनी ती ब्याद गांवांत. तूंच राख गांवाक.''

ह्या वर्सांनी दोंगरांत दुकर इतले मातिल्ले, शेतांत दोंगरांत गोरवांमदीं येवन चरताले. हामडूंक गेल्यार मांडून चयताले. पिके तेंपाक शेतां मांडोवन चाबडावन पाड घालताले. गांवचे लोक केन्ना रानांनी भोंवडी काडटाले. दुकर धांवन वचचे वाटेर फोंड खणून तो पानाताळ्यांनी धांपून दवरताले. दुकर फोंडांत पडलो म्हणटकीर कुराडेन तेगेले फाटी कणो मारताले. केन्नाकेन्ना दोन दोन तीन तीन दुकर फोंडांत पडटाले. आयज पाखल्यांनी फारान दुकर मारला म्हण कळटकीर तेंकां भोव अजाप आनी तोखणाय दिशिल्ली.

जिवू मेस्त घरामुखावयले आपले साळेंत एकलोच बशिल्लो. हातोडो हातांतच आशिल्लो आनी तो तेणें भुंयेक तेंकोवन उबो धरिल्लो. मुखाल्ले मुशी फाटले फुंकीचो भातो भागून पडिल्लो. मुशींत बेठोच गोबोर आनी कोळसो फाफसून पडिल्लो. तातूंतल्यान बारीक धुंवरसो उठ्ठालो. कुशीच्या पानवळा उदकाच्या फोंडांतय कसली हुनसाण नाशिल्ली. अर्द बडयल्ली एक कुराड घातिसरीं पडिल्ली. हेवटेन पाखले येतात म्हण कळटकीर भातो ओडपी, घण घालपी दोगय तेगेले मनीस धांवन गेल्ले.

जिवू मात हातांतलो हातोडो तसोच धरून बशिल्लो.

पोंवो पयल्यान थारलो आनी एक देशी शिपाय धांवन धांवन तेचेसरीं येयलो आनी तेणें सांगलें, अशी अशी खबर. तूं दुकर कापूंक सुरी घेवन यो.

जिवू मेस्तान विचारलें, "मिराशी येयला?"

"ना. ते पाखले म्हणटात, आमीच आतां हिंगाचे राया आनी आमीच मिराशी. तेच सुरी घालतले."

जिवू मेस्त एकदम रगत चडिल्लेवरी तेचेर तापलो. "ना येयना म्हण सांग हांव, व्हडले ते !" तेगेली तापसाण त्या पोंव्यामेरेन पावली.

"हें चोय मेस्ता, वायट जात ती. बऱ्याक बरे, वायटाक वायट. ते भायर तेंचेसरीं उज्याचीं तुबकां आसात. शिशें उज्यावरी हड्ड्यांतल्यान आरपार वयता. दरयांतल्यान चलून येवन तेणी गोंय पाटणांत रणखेव केलो. मूरांक रगताचें न्हाण घातलें. हांयें मगेल्या दोळ्यांनी चोयलां."

मेस्त उठलो. आदीं घरांत वचून व्हडली पाळ कशी सुरी हाडली. घरा फाटल्यान भितोडेंत तेगेले दोगय मनीस लिपून बशिल्ले. थंय वचून तेंकां व्हडाव्हडान बुरश्यो गाळी घालून तेणें भायर काडले. मागीर ते तिगूय पाखल्या फाटल्यान दोंगरावटेन वचूंक लागले.

वयताना वाटेर देशी शिपाय खंयूय मनशाची सुलूस लागतकीर व्हडान सांगताले, "व्हडलो दुकर मारून घातला, वांटो जाय जाल्यार येयात वयर दोंगरावाटेर."

पानातळ्यांनी धांपून दवरिल्लो दुकर उस्तिलो आनी जिवून सांवार येयल्लेवरी दुकरार सुरी चलयली. पयलीं बरो सोलून काडलो. मागीर पोट फाडून आंतकडी भायर काडून कुशीन मोखली. मागीर फाटले फुडले दोंके, फाटीवयलें ईंव काडलें. जिवू आनी तेगेले दोगूय मनीस काम करताले. कापितांव, सोल्दाद उबे रावन चोयताले. जिवू मेस्त सोतासरींच म्हणटालो, देवान पोशिल्लें जनावर तें. रासवळ आस्पद. गांवान वांटून खावंक जाय. म्हणच मिराशी पयली सुरी घालता न्ही? म्हाका आतां देवाक जाप दिवंक जाय! दुकर कापून जायसर पिशें लागिल्लेवरी तो सगळ्यांचेर आड्डतालो.

तेन्ना पाखल्यांनी पळयलें, गांवचो एकएकलो येवन थंय झाडाझाडांनी उबो रावन आडसरांतल्यान पळयता. तेतूंत शिरवाड्यावयले तीगचौगजाण नायक आशिल्ले, देवूळवाड्यावयले, घाण्यातिठ्यावयलेय कांय जाण आशिल्ले. पंदरा-सोळा तरी सगळे जातले. जिवूनय मान वयर करून पळयलें. तेका अशी तिडक मारली, एकएकल्याक सुरी तोंपून मारचो अशें दिसलें.

देशी शिपायांनी रानांतल्यान व्हडलीं व्हडलीं करमळे पानां सोदून काडून

हाडिल्लीं. तेतूंत तेणीं बरें बरें मांस बांदून घेतलें. उरिल्ल्याचे जिवून विशेक वांटे घातले. शिपायांनी उलो घातलो, "येयात, उखलून व्हरात एकेक."

दपत, अनमनत एकदोग जाण मुखार सरले. एकलो बेगीबेगीन मुखार येयलो आनी एक वांटो उखलून घेवन गेलो. मगेर हेर सगळ्यांनीय एकेक वांटो व्हयलो. जण एकलो झाडांतल्यान चोरावरी भायर सरतालो आनी ताकतिकेन वांटो उखलून घेवन वयतालो.

कापितांव फिग्रेदीक अजाप दिसलें, कसली तरा ही, कसली संस्कृताय! एकएकलो शाकभाजेबगर आनीक कित्याक साप्प आफडीना. थंयच दुसरो तोंडांत लाळ हाडून मांसाचो वांटो उखलून व्हरता. तेतूंत आनी हेचें मास आनी तेचें मास म्हण अंतर दाखयता. पोशिल्ल्या दुकराचें मास दोळ्यांमुखार नाका; गायेचें मास खायल्यार धर्म बुडटा. खावंक घालतल्या हाताची जात धर्मय पळयतात. भक्ष, अभक्ष, आफूड भश्ट... सगळो गोंधळ. ह्या पिशेपणांतच बुडटले हे. काबार जातले. कोणें कसलो आफूड भश्टपणाचो हीण धर्म दिला हांकां ! वयल्यान बामण एकले सोडल्यार हेरांक तुमी हिन्दू काय म्हण विचारल्यार खबर ना म्हणटात. आफ्रिकेंतल्यान, दक्षिण अमेरिकेंतल्यान परत पोर्तुगालाक येयल्ले तेंगेले जाण्टेलेबीन थंयच्या आदिवासी लोकांविशीं जायत्यो गजाली सांगताले, गोरे मनीस दिसतकीर ते कशे खुबळटात आनी ढोल बडयतात, रानांनी लिपून रावन वीख लायल्ले बाण सोडटात ते. मनीस खायऱ्या आनी आपसांतच झगडून तकली कातरून घेवच्या लोकांविशींय ते सांगताले. पूण हांगा कांयच नासलें. तिडक नासली, रानटी मारधाड नासली आनी सभ्यपणय नासलें. जणएकल्याच्या चेहऱ्यार दिसता एक भिवकुरी साय. कित्याक रगत तापना हांचें? कसलीं वोजीं तकलेर घेवन भोंवतात हे !

ते घोड्यार बसून वचूंक गेले. बऱ्याबऱ्या मासांच्यो पोटल्यो तेंगेल्या सोल्दादांनी कावड बांदून घेतिल्ल्यो.

निमाणें जिवू मेस्त उठलो. तेगेल्या वांट्याचो 'व्हडलो' मांसा वांटो तसोच पडिल्लो.

आयजवेर जिवू मेस्तान जायते दुकर कातरिल्ले. मांसा वांटे घातिल्ले. पूण आज अवमानान, तिडकीन, उबगणेन तेगेलें मन भरून गेल्लें. मांसावयली वानसाच हुडिल्ली. जिवूलें लक्ष थंय लागींच आशिल्ल्या सिमेरुखाचेर गेलें. दर आश्विनाक गुरव आनी चवग नायक हातांत तरसाद घेवन गांवची सीमा धरून बोळ काडटात. शिंगेली शिंग वाजयता. सीमा घेत ते सीमेवयल्या रुखामुळांत येतात. थंय गुरव त्रिशूल उबो करता आनी गांवचे राखणेविशीं गाराणें घालता. तो सीमेरूख, थंय पडिल्लीं दुकराचीं हाडकांबोडकां, आंतकडी पळयली आनी तो चडच थतरवितर जालो. ताणें

सणकेसरशीं खोंट मारून मांसा वांटा फापसून उडयलो. कुशीक आपआपले वांटे सांबाळीत तेगेले दोनय मनीस उबे आसले. तेंकां एक बुरशी गाळ घालून तेणें म्हटलें, ''चलात आतां. वचून मांस शिजोवन खायात तुमचें.''

मदीं आनीक पन्नासेक वर्सां गेलीं. आदोळशी तसो कुशीन पडिल्लो किरकोळ गांव. गोंय पाटणांतल्यान सोळा मैलांची दोंगरांतल्यान खाजनांतल्यान गेल्ली वाट. चडशे कोण हेवटेन येयनासले. महसूल पटी दिवंक फाटींफुडें, चड उणे जाल्यार पटेकारावांगडा केन्ना एकदोन देशी सोल्दाद, पाखले येताले आनी भेसडावन वयताले. फाटीं गांवके वेळार नायक गांवकार आनी शणै बामण गांवकारांमदीं हाणामारीचें झगडें जालें. तकल्यो फोडून घेतल्यो. तेन्ना एक शेफ आनी चार सोल्दाद येयल्ले. चार दीस राबितो करून आशिल्ले.

पूण खरीं गोळाक लागिल्लीं वर्सां. हीं वर्सां आदोळशी गांवार पुराय लखून येवंक नासलीं तरीय सदांच एक चेपण, हुस्को आनी भिरांत. सीमेभितर पुरिल्ल्या बाटग्याचो - तिळाय मावशेल्या भाच्याचो - कांच तर पुराय गांवार पातळून आसलो. जत्रेक देवाकोंडींत देव न्हावंक गेल्यार भियेत भियेत पालखी वयले वटेन दवरताले आनी ताकतिकेन देवाक न्हाणोवन हाडटाले. ह्या वर्सांनी थंय वाजंत्रां तर साप्प वाजनासलीं ! हरहर महादेवाचो गजरय जायनासलो. फूल पुजेबगर देव न्हावन येतालो.

चोंयवटेनच्या गांवांतल्यान पाड्यो खबरी येताल्यो. लागींच्या कालापूर, मेरशी, पाळये, व्हडलें गोंय, आगशे ह्या गांवांनी ते आपलो धर्म घेवन रिगिल्ले. दिसानदीस नव्यो नव्यो हवायो – मेरवाचें म्हण गोरवाचें मास खावयलें आनी बाटयले; मेरशे कोणाले बांयंत गोरवाचें हाड हुबतना मेळ्ळें; पुराय बांय हुपसून तळाक होम घातलो; बांय परत भरतकीर ते रातीक दुसरें व्हडलें हाड; बांदून व्हरतात आनी तेंच्या देवळांत उबे करतात; फाटल्यान चाबकां, तुमकां घेवन सोल्दाद... एक फावट हवाय उठली, गोंय पाटणांतल्या सगळ्या चोरांक किरिस्तांव करून मेकळे करून दिल्यात. ते गांवागांवांनी चोरयो करीत भोंवतात. गोंय पाटणांत गेल्ल्या आदोळशीच्या एकल्यान पळयलें, दादल्याक, बायलांक गोरवांवरी सरभरशीं बांदून हाडून तिठ्यार उबे करून पावणी घालतात. तेणें कोणाक तरी विचारतकीर तेका कळ्ळें, हीं मनशां गांवागांवांतल्यान उबारून हाडटात आनी दुडवाक विकतात. तेणें ही खबर गांवांत येवन सांगतकीर सगळ्यांचीच भियेवन गुळी. दर एकलो आपल्या भुरग्याबाळाक दोळ्यांत तेल घालून राखूंक लागलो. सोताचे सावळेक सोताच भियेवंक लागलो.

एक दीस एक गोरो पाद्री एकलोच गांवांत भोंवतना दिसूंक लागलो. आंगार पांयामेरेन पाविल्लो धवो झोगळो कोट घालून गांवांत वाड्यावाड्यांनी भोंवतालो. पिरायेची पन्नाशी हुपून गेल्लो. उंच मोट्या आंगलोटाचो. आंग तांबशें गोरें. तकलेर, दाडयेचे हे भरून लांब पिंगशे भांगरावर्णाचे केंस. सदांच दुकांनी भरिल्लेशे व्हडव्हड काळे दोळे. त्या दोळ्यांत पळयल्यार खोल तळयेंत पळयल्लेवरी दिसतालें. लोक म्हणूंक लागले, कोण हो अजापाचो अनवळखी? साता समुंदरा भायल्यान येवन भयभिरांत नासतना एकलोच भोंवता !

...पाद्री सिमांव पिरीस सद्दां वाड्यावाड्यांनी वचून आकाड्यासरीं भितर उबो रावन आपल्या धर्माचो शेरमांव जीव ओतून सांगतालो. शेरमांव सांगताना देवाच्या राज्यांत वचून पाविल्लेवरीच आगळीच तनरी लागिल्ली आसताली. गोड तरी खणखणीत आवाज चोंयवटेन पातळटालो आनी जसो वातावरण परमळीत करतालो. मोग, माया, दया, क्षमा, सेवा हांणी उपाट भरिल्लें ताचें काळीज ताच्या म्होंवाळ चेहऱ्यार, गोड आवाजांत जाणवतालें. काळजाच्या कळवळ्यान तो जेजूची व्हडविकाय आनी तेची शिकवण लोकांक सांगतालो. तरीय पयलो देड म्हयनो तरी ताचेसरीं कोणच येवन उबो रावलो ना. ताचें कोणें आयकलें ना. चोंय वाठारांतल्यान येवपी पाड्यो खबरी आनी तेंचोच हो मनीस येवन खबरी सांगता ! लोकांक दुबाव, केन्नाकेन्ना तिडकय मारताली. मारून धांवडावचो अशें दिसतालें.

कोण ताका विचारी नासलो, तेचें आयक नासलो. तरीय सद्दां ना चुकतां वाड्यावाड्यांनी वयतालो आनी वंये भितर उबो रावन शेरमांव सांगतालो. प्रार्थना करतालो. तेचो खणखणीत आवाज घराघरांनी पावतालो. लोक म्हणटाले, कोणें गोणी घातल्यात हेचेर? कित्याक रगत आटयता हो?

एक दीस शिरवाड्यावयले चार पांच तरणाटे पयस उबे रावले आनी तेणी पाद्री सिमांव पिरीसाक धमकायलो, "ये, तूं येवं नाका हांगासर ह्या वाड्यार. तुजी गरज ना आमकां. हेन् मुखार वाड्यार येयल्यार मारून धांवडायतले. दोंको मोडटले."

तरीय दुसऱ्या दिसाक आपल्या वेळार पाद्री थंय येयलो. ताणें रोजार केलो आनी तो शेरमांव सांगूंक लागलो. "देवाचो पूत जेजू जो मारिया मांयच्या पवित्र आंकवार कुसव्यांतल्यान जल्मल्लो, तो संवसारांत काकुळटायेचो, सुखसंतोसाचो संदेश घेवन येयल्लो. मोगान आनी काकुटायेन तेचें काळीज उपाट भरिल्लें. तेणें सांगलें, तुमी तुमच्या घरच्यांचेर मोग करात, शेजाऱ्यांचेर मोग करात आनी तेच परी तुमच्या दुस्मानाचेरूय मोग करात. दुस्मानाक तेच्या वायट कर्तुबाची भोगसणी दियात. तो तुमचो जिवाभावाचो इस्ट जातलो. जेजून म्हटलें, एका पोल्यार मारल्यार दुसरो पोलो दियात. दुस्मानाचो लेगीत हात उठचो ना तुमच्या दुसऱ्या पोल्यार मारूंक. हे

परी संवसारांत मोग पातळायात. तुमच्या काळजांतलो मोग आनी दोळ्यांत काकुळटायेचीं दुकां संवसारांत समाधान आनी सुखसंतोस पातळायतलीं... आमेन...''

इतल्यान कोणें तरी झाडाच्या आडसरांतल्यान पाद्रीचेर एक फातर शेंवटिलो. तो ज्युस्त उजवे वटेन ताच्या कपलार बसलो आनी कोंक पडून रगत व्हांवलें. पाद्रीन धिमी मारली आनी देवाक परार्थिलें, तांचे पासत भोगसणें मागलें. मगेर कांय एक उलयनासतना तो परतो गेलो.

पूण दुसऱ्या दिसा कपलार ओली कोंक घेवन पाद्री सिमांव पिरीस परत आयलो. आकाड्यांत त्याच वडा पोंदा उबो रावन ताणें शेरमांव आरंभलो. ''आपणाक खुर्सार मारतल्याक लेखून जेजून म्हटलें, 'देवा सर्वेस्परा, ते बावडे अबुद्द अज्ञानी. ते कितें करतात तेच नेणा! तूं तेंकां भोगसीय!' मळबांतल्या देवाबापाचो पूत तो. मारिया मांयच्या पवित्र शीलवंत कुसव्यांत तो जल्मलो. मळबायेदें मन आनी दरयायेदें अंतस्करण आशिल्लो अख्ख्या संवसाराचो राया तो; तो जावन आसलो मनशाच्या अंतस्करणाचो राया...''

पाद्रीन मुखार पळयल्यार वाड्यावेल्या घरांतल्यान भायर सरून कांय दादले, कांय भुरगीं मात्शीं पयल्यान येवन उबीं आसात. थंय अडसराक कांय बायलोय उब्यो आसात. ताचो सेरमांव चालूच आसलो. ''तुमी जेजूक आपणायात आनी मगेर भावार्तान, विस्वासान तुमचीं कस्टां, तुमचीं दुख्खां तेका सांगात. तुमचीं दुख्खां, तुमचीं संकस्टां पयसावतलीं. आमी मनीस दिसपट्टे जिणेंत जायतीं पातकां करतात आनी पातकी जातात. निमणें पातकांचें पानवळ आमकां भोगचें पडटा. जेजूसरीं भावार्त दवरात, तेचेसरीं मन उकतें करात, पातकांची कबुली दियात. तो तुमकां पातकांतल्यान सुटावो करतलो. पातकां करचेली तुमची पाडी बुद्द निवळायतलो. भाग्यवंत तो देवाचो पूत. तेणें हात लायता त्या झाडाक फुलां फळां चंवरतलीं, वायटकाराची पिडा पयसावतली. एक फावट जेजूचे कांय इस्ट व्हड्यांत बसून दरयांतल्यान वयताले. आकांताचें मोड जालें आनी व्हडें बुडूंक लागलें. तेणें जेजूचो आधार मागलो. जेजू जाणा जालो आनी तांकां वाटोवंक दरयांतल्यान उदकार चलत तो होड्यासरीं गेलो. जेजूचो पांय उदकाक लागनाफुडें मोड आनी वाशाड ना जालें आनी दरया शांत जालो. संवसाराचीं सगळीं पातकां, सगळीं कस्टां आनी दुख्खां जेजून आपणाल्या खांदार घेतलीं. संवसाराचीं दुख्खां पयसावंक तो आपखोशयेन खुर्सार गेलो. जेजूक आपणायात, सगळ्या संकस्टांतल्यान तुमचो सुटावो जातलो... सोर्गाचीं दारां तुमकां उकतीं जातलीं...''

अण्णू वडापोंदा इल्लो पयल्यान उबो आसलो. एकदम भारावल्लो कसो तो मुखार आयलो आनी ताणें पाद्रीक विचारलें, ''हीं तुजीं उतरां सत गा अनवळख्या?''

''हय, जेजूचे शिकवणेचीं उतरां जेजूचो शिश्य आंतोनान ताचो शिश्य पावलूक सांगलीं. पावलून तीं संवसाराक सांगलीं. अशें सांगतात, जेजू खुरसार मरतकीर अठरा दीस मेरेन तेचे शिकवणेचीं उतरां पडसाद कशीं संवसारांत घुंवतालीं. तीं शेतांत वावर करतल्या शेतकामत्यांनी आयकलीं, रानांत मेंढरां राखतल्यांनी आयकलीं, खोर्नांत रोटी भाजपी पदेरांनी आयकलीं. एकदुसऱ्याक तो तींच उतरां परत परत सांगूंक लागलो.''

अण्णू एकदम मुखार गेलो आनी ताणें पाद्रील्या पांयार सास्टांग नमस्कार घातलो. पाद्रीन्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हावंक लागलीं. ताणें म्हटलें, ''जेजू तुजें बरें करूं. तुका सगळ्या तापत्रयांतल्यान वाटावूं.''

गुणा झाडअडसराक लागींच आशिल्लो. तो आतां सामकार आयलो. ताणें धपकायत म्हटलें, ''गोंय पाटणांत आनी आतां हेर वाठारांत तुमी लोकांक बळान बाटोवंक सुरू केलां खंय. चोडण्यां जुंव्यावयलें चामुंडेश्वराचें देवूळ पाडलें खंय. आड उलयल्यार मार बडय करून बंदखणींत घालतात खंय तुमचे शिपाय. आतां हिंगा तुजी ही माण्णी कसली? तुका मुखार धाडला तेणी, आमकां गुठलावंक. तुजे वांगडा हातांत तरसाद घेतिल्लो मनीस.''

भितरल्यान भोव दुखिल्लेवरी पाद्रील्या तोंडावयल्यो शिरो थरथरल्यो. ताणें म्हटलें, ''ना म्हज्या भावा, चुकीचीं हीं तुजीं चिंतनां. मायेमोगाचो संदेश घेवन येयल्लो जेजूचो काकुळटायेचो धर्म आमचो. बळ वापरप म्हटल्यार व्हडलें पातक.''

थंय जाणटेलो फोंडू उबो आसलो. ताणें म्हटलें, ''बळान म्हण कोणाक बाटोवंक येता? आमी जाल्यार बाटून घेवचे परस मस्तक धाडावन जीव दिवं.''

तेचेर रायून म्हटलें, ''हेंकां हाफुडल्यार बाट. सट्करून फाल्यां कितेंय हाताचें वायट खावंक घातल्यार घात न्ही. सादूर रावंक जाय.''

पाद्रीन म्हटलें, ''कांय लोक चुकीचे वाटेन वयतात जायत. आमी सर्वेस्परालागीं मागुंया, तेंकां बरी बुद्द दी म्हण. तेवूय जेजूचेच भावार्ती. तितलेच धर्मीक. पूण तेंकां कोणें तरी पाड वाट भासयल्या. जेजूची वाट मनशाल्या काळजांतल्यान वयता. बळ वापरून जावचें काम न्ही तें. दयाळ आनी क्षमाशीळ जेजूक मानवचें ना तें. ताचे शिकवणेचे आड तें...'' ताणें म्हटलें, ''आमेन...''

तो चलूंक लागलो. ताचे फाटल्यान अण्णू ताच्या पावलार पावलां उडयता तें पळोवन वाड्यावयले लोकांक अजाप. तिडकय मारली तांकां अण्णूची. तांणी उलो घातलो, ''अण्णू, फाटीं फीर. आवय बापूय नाशिल्लो अनाथ पोर तूं. घरांत थोटो भाव आसा. असो अविचार करून त्या भायल्यां वांगडा वचूं नाका. तुका तुजो देवधर्म आसा. फाल्यां खांदो मोडून भुंयेर पडिल्ल्या माकडा पिलावरी गत जातली

तुजी.'' कोण तरी ताका ओडून हाडूंक धांवतालो. पूण हेरांनी म्हटलें, ''त्या भायल्याक हाफुडला तेणें. न्हावोवन आंगार शेणाशिंतुडो घातले बगर तेका हात लावंक फावना.''

अण्णू तांगेलें कानामनार घेनासतना पाद्री फाटल्यान चलतालो. मेरो आनी आडे बलांटून शेतांतल्यान ते दोगूय वयताले. एक मेर, दुसरी मेर, तिसरी मेर... पाद्रीन ताचेसरीं फाटीं वळोन लेगीत पळोवंक नासलें. फक्कत पावलांची सुलूस तो घेतालो. मदीं एक रुखावळ पार करून ते गेले. रुखावळ बरीच गच्च आसली आनी थंय खोल थंड सावळी पडिल्ली. दनपार जावंक आयिल्ली पूण थंयचो शेळाव अजून वचूंक नासलो. सकयल्ले वटेन व्हाळासरीं आशिल्ल्यो म्हारवाड्यावयल्यो खोंपी अजूनय दंवांत भिजून उब्यो आसात् अशें दिसतालें. मळबांत धवश्याकाळश्या कुपांचो खवदळसो पातळिल्लो. तातूंतल्यान पुसटशें सूर्यबिंब दिसतालें. गांवा सकयल्यान रायगाळी मेरेन पातळिल्ल्या पांचव्याचार वांयगण शेताचेर अजून रुप्यावोत देंवचें आसलें. ताचेन ताचो पांचवो रंग काळसो दिसतालो.

पाद्री एका आड्याचे धडयेर रावलो. ताणें फाटीं वळोन विचारलें, ''अपुरबुद्द भुरग्या, तूं खंयचे दिकेन खंय वयता?''

''हांव तुजेच वाटेन तुजे वांगडा येवंक भायर सरलां गा.''

''कित्याक म्हण?''

''तूं म्हाका जेजू देवाक भेटयतलो म्हण हांव आशेतां.''

''तुज्या काळजासावन हें तूं सांगता?''

''हय. हांव सामको आकुळपिकूळ जालां.''

''कित्याक? तुका तुजो देव ना तर?''

''आनी जेजू कोणाचो देव तर? देव म्हटल्यार देव न्ही?''

''तूं अजून नेणार आनी अपुरबुद्द. यो तूं. म्हजे वांगडा एक म्हयनो राव. मागीर कितें तें थाराय. तुका जाय तेन्ना तुज्यान म्हाका सोडून वचूं येता. पूण एक फावट तुवें जेजू आनी तेचो किरिस्तांव धर्म आपणायलो म्हणटकीर तुका तो कसोच सोडूंक येवचो ना.'' पाद्री फाटीं वळोन चलूंक लागलो. अण्णूनय ताचे फाटल्यान पावलां मारलीं. ते देवळामळ हुंपून दावे वटेन दोंगराच्या मुळसांत आशिल्ल्या पाद्रील्या मांगरासरी आयले. मेडी, आडी आनी कण्णान बांदिल्लो आनी कड्डान शिंविल्लो तो ल्हानसोच मांगर. सोल्दादान एक दीस येवन ताका तो बांदून दिल्लो. एका कोनश्याक तीन गुंड्यांची एक चूल. ताचेर एक मातयेचो बुडकुलो. आनी थंय दोन ल्हान ताटल्यो आनी एक कोप आसलें. ती पितळेची कशी पूण जड काळी दिसताली. मदले एके मेडीक लाकडाचो एक खुरीस तांगयल्लो आसलो. एक मोट्या आंगाचो शिपाय चुलीसरीं फाट करून बशिल्लो आनी चूल फुंकतालो. ताचे फुंकीसरशीं चुलींतलो

उजो भगभगतालो आनी परतो न्हिवतालो. ताणें मुंजीर जाड कास्टी मारिल्ली आनी आंगाक बंडी घातिल्ली. हांची सुलूस लागतकीर तो चुलीकडच्यान बेगीबेगीन उठलो आनी ताची तरसाद जंय हुमकळावन दवरिल्ली, थंय वचून उबो रावलो. पाद्रीन सांगलें, ''जाणा तोमास, हो आमचे वांगडा एक म्हयनो रावतलो. मगेर तो सोता थारायतलो, आमचो भावार्त आपणावचो काय ना तें.''

तोमास हांसलो. ''एक म्हयनो नाका तेका पाद्रीबापा. एकच दीस चड जालो.''

''अशें कित्याक म्हणटा तूं तोमास?''

''हांगा फक्कत येवचेली वाट आसता. येयलो म्हणटकीर परत वयचेली वाट आपसूकच बंद जाता. पयर मेरशे कितें जालें जाणा, एके चुलीर कांय किरिस्तांव बैलगाडेवाले रांदून जेवन गेले. तांचे फाटल्यान एका हिन्दू घराब्यान तेच चुलीर रांदलें आनी ते जेवले. तर तेंच्या जातीच्या लोकांक कळटकीर तेणी तेंकां जातीभायरे केले. तीं घोवबायल खूब रडलीं, पांये पडून विनयलें. पूण जातींतल्या लोकांनी कांय एक आयकलें ना. शेवटा तीं जीव दिवंक म्हूण न्हंयेर गेलीं. एका सोल्दादान तेंकां धरून हाडून पाद्री सुवादीन केलीं. तीनूच दिसांनी तेंचो बातिज्म जालो.''

पाद्री ओगीच रावलो. अण्णू त्या शिपायासरीं गेलो. किरिस्तांव जावनय ताणें तकली तासून वयर भोंवरो दवरिल्लो. शेंडी मात कापिल्ली. ताच्या कानापाळयेक बरेच मोटे बुराक आसले. पूण ते रितेच आसले. निकतेच कानाच्यो भिकबाळी काडून उडयिल्लेवरी. अण्णून ताका ल्हवूच विचारलें, ''तुजें नांव कितें?''

तो अचकीत शेणिल्लेवरी जालो. मगेर ताणें ल्हवूच म्हळें, ''देमू म्हगेलें नांव. तूं देमूमामच म्हण आफय म्हाका. तूं कित्याक म्हण येयला हांगा?''

''बेठेंच सदांच म्हाका गांव सोडून पयस पयस वयचें अशें दिसतालें. काशीक, पंढरीक बी वयचें अशें दिसतालें. गेल्ले फावट हांवें पंढरी वारीक येतां म्हटल्यार सैरूतातून म्हळें, तूं भुरगो. तुका व्हरचे नात. पाद्रीबाबालीं उतरां मानवलीं म्हाका. जेजू देव बरो खंय. तेणें हात लायल्ल्या झाडांक चंवर येतालो खंय.''

तोमास सुसकारलो. ''कोणाक खबर कितें बरें आनी कितें वायट. दोन वर्सां जालीं हांवें बातिज्म घेतिल्ल्याक. बायल भुरगीं अजून हिन्दूच आसात. तेणी बातिज्म घेतले बगर हांव तेंच्या वाऱ्याक वचूंक शकना. ती घेतां घेतां म्हण दीस काडीत आसात. कितें जातलें जेजूक खबर.''

''कित्याक म्हण जालो तूं किरिस्तांव?''

''भोग ते. म्हजी मत भश्टली आनी हांवें एका पाखल्या सोल्दादाले पेटयेंतले भांगराचे दोन क्रुसाद काडून घेतले. पूण गांवलों हांव. ते म्हाका बांदून व्हरून बंदखणींत घालचे आसले. पूण कापितांवान म्हटलें, तूं किरिस्तांव जावशी जाल्यार तुका सोडटां

म्हण. व्हिसरायालेंय तशें फर्मान आसा. हायें भियेवन हां म्हटलें. मगेर गोंय पाटणांत म्हाका पाद्री सुवादीन केलो. तेणी सां कातारीनचे इगर्जेंत म्हाका बातिज्म दिलो. चाकरेंतलोय काडूंक ना.''

''बातिज्म म्हळ्यार कितें करतात ते?''

''कांय ना. तळयेंत न्हावन येवंक लायतात. पयलींचें सगळें धुवन वचूंक म्हण. मगेर कानसुलांक तेलाचीं बोटां लायतात. कितें तरी खावंक दितात. कितें तें विचारिनासतना वोगी तोंड धांपून खावचें. मगेर मीस जाता आनी बातिज्म घेतिल्ल्याक किरिस्तांव नांव दितात.''

''मीस म्हटल्यार कितें?''

''देवाक पाराथप. देवाकडेन बऱ्याचें मागप.''

''भजनां गायनां करिनात?''

''गायनां बीन करतात. पूण समजनात तीं आमकां.''

''आपूण किरिस्तांव जालो म्हण तुका दुख्ख भोगता देमूमाम?''

अण्णून देमूमाम म्हणटकीर तोमासाल्या आंगार सर्रकरून कांटो फुललो. खोशी जाली ताका. ताणें सांगलें, ''खंत ना म्हाका. म्हयनोभर आसलों हांव थतरवितर. पिशांतूर कसो रावतालों. आतां कांय दिसना. एक फावट बायल भुरगीं म्हजेसरीं पावल्यार पुरो जालां. ए, नांव कितें रे तुजें?''

''अण्णू.''

''अण्णू, तूं म्हाका देमूमामच म्हण हां. व्हडान ना म्हटल्यार उपकारता. ल्हव तरी म्हणच.'' अण्णू वोगीच रावलो.

पाद्री सिमांवान आंगावयली जाड जड मुस्तायकी देंवयल्ली. आतां आंगार हात नाशिल्लें आनी धोंपरामेरेन पाविल्लें आंगलें कशें पातळ वस्त्र ताच्या आंगार आसलें. तो आतां मेडीवेल्या खुरसा सामकार धिमी मारून रोजार करतालो. लातीन भाशेंतलीं मंत्रां म्हणटालो.

पाद्री सिमांव पिरीस मूळ स्पेनचो. पूण ताचो बापूय पुर्तुगाली तारवटी आसलो. एक फावट तांची फातमार स्पेनालागीं दरयांत बुडटकीर तो कांय तेप स्पेनांत येवन आसलो. थंयच स्पेनच्या चेडवा वांगडा तो लग्न जाल्लो. पूण सिमांवच्या जल्मा उपरांत कांय तेंपानच तो पुर्तुगालांत परतो गेल्लो, सासणाचो. ताचे आवयन सिमांवचो सांबाळ बेस बरो केल्लो. स्पेनच्या अस्तमतेच्या वाठारांत दरया देगेवयल्या संत्रांच्या बागांत ती काम करताली. ती भोव कस्ट करताली तरीय हाता तोंडाची मारामार

आसताली. कांय तेंपान तिणें दुसरें लग्न केलें. हो दुसरो बापूय कुशिल्लीं फळां एकठांय करून तीं आनीक कुसोवन तांचो सोरो काडटालो. तो मनान बरोच निश्ठूर आसलो. राग आयल्यार वा सोरो पिल्यार आवयले तकलेचे केंस बोटाक गुठलावन घेवन खस्स् करून ओडटालो. तीनचार वर्सांत तिगेले तकलेवयले चडशे केंस गेल्ले. स्पेनचे एके धर्मादाय संस्थेंत सिमांवाचें मुळावें शिकप जाल्लें. सिमांवाकय तो वायट वागयतालो. कुशिल्लीं फळां लाकडाचे कोळंबेंत घालून माड्डोवंक लायतालो. कितेंय चुकल्यार फाटीर मुठयो घालतालो. एक दीस घरांतल्यान पळोन वचून पयसुल्ल्या एका गांवांत ताणें कुलच्यांवां करचे साळेंत काम धरलें. तेन्ना तो तेरा वरसांचो. कापूस उसोवचें, तो बडोवचें काम तो बेस बरें करतालो. एक दीस साळेलागींच एका पुर्तुगाली आनी एका स्पेनच्या सोल्दादामदीं हाणामारीचें झगडें जालें. तातूंत पुर्तुगाली सोल्दादाक मरण आयलें. ताका तरसाद आरपार कोंचून मारिल्लो. उपरांत कांय थळावे लोक थंय आयले. तांणी त्या पुर्तुगाली सोल्दादाचे मेल्ले कुडीर विस्टा, चिखोल उडयलो. तेन्ना त्या दोनूय देसांमदीं भोवच दुस्मानपण आसलें. झगडें राजा राणयांचे गादये खातीरचें. पूण सर्वसाधारण लोकय त्या झगड्यांत पडिल्ले.

दुसऱ्याच दिसा कुलचांवा साळेच्या मालकान सिमांवाक ल्हवूच विचारलें, ''तूं मूळ पुर्तुगाली रगताचो? तुजो बापूय पुर्तुगाली?''

ताका हें कशें कळ्ळें हाचें सिमांवाक मोटें अजाप. पूण ताणें कांयच सांगलें ना. त्या सोल्दादालें मरण पळोवन तो आदींच अर्द जाल्लो, आतां तर सामकोच भियेलो. त्याच दिसा रातचो तो थंयच्यान पळोन थंयचे इगर्जेच्या मुखेल पाद्रीसरीं गेलो. थंय कांय दीस इगर्जेचे चाकरेंत रावतकीर ताची हुशारी पळोवन ताका मुखेल पाद्रीन वेटिकनांत धर्मशिक्षण सेमिनारींत धाडलो. आदीं बोटीन, मागीर शेंकड्यांनी मैल चलून तो वेटिकनांत पावलो. वेटिकनांत पावसर भुकेन, कस्टान ताचे कुडीचो सांपळो तितलोच उरिल्लो. वेटिकनांत तो सात वर्सां आसलो. उपरांत तो सतरा वर्सां ग्रीस देशांत पाद्रीपणाक उरलो. ग्रीस देशांत एक 'भायलो पाद्री' म्हण हिणसावन घेवपच ताच्या वांट्याक आयलें. एक दीस एका पोन्न्या कोटांतल्यो कोंसळिल्ल्यो इमारती, भंगिल्लीं शिल्पां पळोवंक गेल्लो तेन्ना कांय तरणाट्यांनी ताका लेखून म्हटलें, ''ह्या घातमाऱ्या लोकांनीच धर्माच्या नांवार आमचें पुर्विल्लें दायज, आमची संस्कृती नश्ट केली.'' तांणी पाद्रीर शेंकरे शेवटून मारले. रोखडोच तो वेटिकनांत परत आयलो. वेटिकनांत कांय वर्सां रावन पोपसायबाचे आज्ञेन तो आदीं सिलोनांत आयलो आनी मगेर गोंयांत. ताचेकडेन आज्ञापत्र आसलें तें पोपसायबाचें. पुर्तुगीज राजाली कसलीच चीट ताचेसरीं नासली. गोंय येवन व्हिसरायाक मेळ्ळयार ताका तो मानून घेवंक बरोच खांकुडलो. ताका मानून घेवप न्ही म्हण पुर्तुगालासावन आयिल्ले जेजुयट

व्हिसरायाचेर जायतें चेपण हाडटाले. पूण पोपसायबाची आज्ञा मोडचेलो धीर ताका जावंक ना. पोपसायबान धाडिल्ल्या पाद्रीचें बरें वायट ताच्याच आंगार आसलें. ताणें पाद्री सिमांव पिरीसाची नेमणूक गोंय जुंव्यावेल्या सामके कुशीच्या आदोळशी गांवांत केली. स म्हयन्यांक चाळीस क्रुसाद आनी राखणेक एक सोल्दाद दिवचेंय ताणें मानून घेतलें.

पूण आदोळशी येवचे आदीं नेमाप्रमाण तो आठ म्हयने सां पावल कालेजींत उरलो. थंय तो थळाव्यो गजाली आनी कोंकणी भासय शिकलो. पुर्तुगालच्यान आयिल्ल्या पाद्रींमदीं आनी तांचेमदीं कसलोच वावर वेव्हार नासलो. ते ताका रायाचो मनीस न्ही, पुर्तुगाल देशाचो नागरीक न्ही म्हण उणाक लेखताले. तो एकसुरोच आपलें काम करतालो. सिलोनच्यान येवन गोंय पाटणाच्या बंदरार तो देंविल्लो तेन्ना ताचेसरीं कसलीच चीजवस्त नासली. सामको दळीद्र कसो दिसतालो तो. आंगार म्हेळ खद्दड झोगळो कोट आसलो. कालसांव धिमयेसरीं पिनिल्लें. मोच्यांची मुखाल्ली कड उसवून बोटां भायर पडटालीं. आयिल्ल्या पयल्याच दिसा तो सां पावल कालेजीच्या आवाठांत आशिल्ल्या एका कपेलांत भुंयेरच न्हिदिल्लो. दुसऱ्या दिसा म्हेळ्या कपड्यांतच व्हिसरायाक मेळूंक गेल्लो. फक्कत पोपसायबाची चीट आसा म्हण ताणें ताका येवकार दिल्लो.

आदोळशी येवचे पयलीं निमणे फावट तो व्हिसराय कोन्स्तान्तीन ब्रागांझाक मेळूंक गेल्लो तेन्ना तांचेमदीं उलोवणीं जाल्लीं तीं अशीं –

व्हिसरायान म्हणिल्लें, ''हो गोंय जुंवो पुरायच्या पुराय किरिस्तांव जावन गेला आनी तेपासत रायान म्हाका शाबासकी दिल्या अशीं सपनां म्हाका पडटात. दुबाव ना, हांव पुराय गोंय बेगीनचे बेगीन किरिस्तांव करून उडयतलों. ह्या कामाक म्हाका तुमचो सगळ्यांचो आधार जाय.''

पाद्री सिमांवान सांगलें, ''हांव त्या गांवांत वयतां तो तांकां जेजूची शिकवण दिवंक आनी किरिस्तांव धर्माची व्हडवीक सांगूंक. किरिस्तांव धर्म हो संवसारांतलो व्हडांतलो व्हड धर्म हें हांव तांकां सांगतलों. पूण तांच्या मनाआड फुसलावन, फटोवन तांकां किरिस्तांव धर्माचो बातिज्म दिवचों ना.''

''तूं पोप सायबाले आज्ञेन हांगा येयला. आमचो राया पोप सायबाच्या विचारांक आनी तांचे आज्ञेकच पाळो दिता. रायाचो धर्म होच ताच्या शेकातळा आशिल्ले परजेचो धर्म आसूंक जाय ही रायाची आज्ञा.''

'तशें जातलें हातूंत दुबाव ना. पूण तें बळ वापरून, छळ करून जावंक फावना. तें काळजासावन जावंक जाय. आमी तांच्या काळजाक उलो घालूंक जाय. भिरांत घालून जावचें ना तें. भिरांत घालून, फटोवन जाल्ले ते किरिस्तांव बरे किरिस्तांव

जातले म्हण सांगूं नज. किरिस्तांव जातले आनी किरिस्तांव धर्माच्या तत्त्वाआड वयतले. धर्म नासयतले.''

''ताचो उपाव राजान केला. गोंय आनी पुर्तुगालच्या शेकातळा आशिल्ल्या हेर वाठारा खातीर राजान इन्क्विझासांव थापलां. ताचो पयलो मुखेली पुर्तुगालसावन पयरच गोंयां येवन पावला. ताचें नांव आलेक्स दियेस फालकांव. इन्क्विझासांव धर्माआड कोणाक कसलेंच कर्तूब करूंक दिवचें ना.''

पाद्री सिमांवान थंडपणान म्हळें, ''हांगाच्या ह्या अन्नाडी अबरगत लोकांखातीर इन्क्विझासांव खरेंच गरजेचें आसलें?''

कोन्स्तान्तीन ब्रागांझ सट् करून तापलो. ''इन्क्विझासांवा आड तूं हें उलयला तें निमणें आसूंक जाय. तूं नकळो तांचें बळगें?''

''जाणां सिन्योर. हांवें स्पेन, पुर्तुगालचीं इन्क्विझासांवां अभ्यासल्यांत. तांचें बळगें मोटें. म्हाकाच न्ही, वगतार व्हिसरायाक लेगीत बंदखणींत घालूंक तांकतात ते.''

व्हिसरायान म्हटलें, ''तूं कोणाक मानवसारको मनीस न्ही. म्हाका मानवल्लो ना तूं. तूं आदोळशी गांवांत वच आनी तुजे परीन काम कर. पूण हेरांल्या कामाक तूं आड येवं नाका. हेरांक तांचे तरेन काम करूं दी. तुका एक सांगतां, संवसार जिखूंक भायर सरिल्ल्यांक वेळ नासता आनी पासियेंसय नासता.''

पाद्री ओगीच रावलो. ताका नमस्कार करून परतो आयलो. हो आदोळशी गांव ताका खरोच मानवल्लो. उदेंत आनी उत्तरे वटेनच्यान दोंगराचे कवंडाळे. मुळसाक देवळामळ. मुखार लांबच लांब थंड शेळावाची शेतोड. दोंगराच्या मुळसांतल्यान रुंदरुंद जायत गेल्लो व्हाळ. खूब सकयल बांद घालून आडायल्ले खाजन. मगेर पयसुल्ल्यान दरयाचो गाज. गांवाचे दक्षिणेवटेनच्यान न्हंयूय व्हांवताली. पूण ताचे तडींनी पयसपयस मेरेन रानां पातळिल्लीं. ताचेन ताची धार गांवच्यान दिसनासली.

तोमास आनी अण्णूची इस्टागत बरीच जमिल्ली. ते वरां वरां उलयत बसताले. तोमासान ताका मांगरा भायर तीन गुंड्यांची चूल करून दिल्ली. कुंबरा कडच्यान एक नवो गाडगो हाडून दिल्लो. तो ताका सकाळीं पेजेक एक पसो तांदूळ आनी दोनय वेळेच्या शिताक तीन पशे उकडे तांदूळ दितालो. तोमासाचो पसो तसो बरोच व्हड आसलो. अण्णू दोंगुल्लेवेल्यान सुको जळोव घेवन येतालो आनी सोताच रांदतालो. मांगरा भायर एक मातयेचें भाण दवरिल्लें. तातूंत अण्णू मातयेच्या कळशान उदक हाडून घालतालो. उदक घाण्या-तिठ्यावयले बांयंतल्यान ना तर देवळाकुशीचे

झरीवयल्यान हाडचें पडटालें. तें उदक मात एकच भाणांतल्यान घेताले. तोमास केन्ना म्हणटालो, ''किरिस्तांवान आफुडिल्लें उदक बरें घेता मु रे तूं !''

अण्णू हांसलेंशें करून म्हणटालो, ''तूं माम न्ही? मामाल्या उदकाक बाट कसली?''

''मगेर ह्या मामाल्या हाताचें जेवशी तूं?''

''तूं व्हाडशी जाल्यार.''

''ना. तुवें बातिज्म घेतले बगर हांव तुका व्हाडचों ना. खातल्या परस खावयतल्याकच पातक.'' मगेर तोमासान सुस्कारलेंशें करून म्हटलें, ''माम किरिस्तांव आनी भाचो हिन्दू ! अशेंच जालां ़आतां गांवलोकांत. आनी कितें कितें जातलें देवाक खबर !''

पाद्री सिमांव तांणी वरां वरां एकठांय बसून मायेन उलोवचें पळयतालो. तो मनांत म्हणटालो, 'तेंचें हें रगताचें, धर्माचें, देशाचें आनी पुर्वचाराचें नातें. धर्म बदलले तरीय शेवटा एकच ते. उदकार दांडो घातलो म्हण तें दोन जाता? फुकट आमची ही धडपड. वोगीच आमी रगत आटोवचें! पूण दुसऱ्याच खिणाक ताका दिसलें, हांव म्हज्या मनावांगडा, म्हज्या कर्तव्यावांगडा फटिंगपणां करतां! ताणें तो विचारच मनांतल्यान काडून उडयलो. आनी परत एक फावट नित्शेव केलो, हांव मोगाचे वाटेन सगळ्यांक जेजूसरीं व्हरतलों.

पाद्रीक एका सोल्दादाली राखण दिल्ली. पूण तो केन्नाच ताका वांगडा घेवन भोंवनासलो. सकाळ सांज एकलोच गांवांत फावट्यो घालीत आसतालो. ल्हव ल्हव लोकांत ताचेविशीं इल्लो विस्वास, इल्लो भावार्थ जागो जाल्लो. अजून लोक पुराय मुखार येनासले. ताका वाड्यांनी रीग नासली. वाड्या कडांनी वंयेसरीं उबो रावप आनी शेरमांव सांगप, थंड म्होंव्या उतरांनी, तरीय मनाच्या कळवळ्यान. लोक इल्लो एकठांय जातालो, पूण ते काणी, कीर्तन आयकूंक एकठांय जाल्लेवरी.

एक दीस आपल्या मांगरांतल्यान भायर सरून घाण्यातिठ्यावटेन वयतना राना देगेर झाडांत दोग जाण कितें तरी करतात तें ताणें पळयलें. तो मुखार गेलो. एक जाणटोच आनी एक सोळा सतरा वर्सांचो भुरगो थंय आसलो. तांणी दोगांयनी एक मेल्लें गोरूं सकयल्यान शेतांतल्यान ओडून रानादेगेर झाडांत व्हयल्लें. ताचें तांणी चामडें सोलून काडिल्लें. चामड्याची काळी रगशेल्ली रास कुशीक पडिल्ली. तांच्या दोगांयच्याय हातांत कोयती कशे व्हड सुरे आसले. गोरवाल्या मोव आंगावयलें बरेंच मांस काडून तांणी एका चोबलांत दवरिल्लें. म्हऱ्यांतल्या एका रानफणसाच्या रुखार

कांय गिदांय बशिल्लीं. त्या दोगांचेंय आंग हुमेन भरिल्लें. आंगार रगतय उसळिल्लें. दोनय हात तर सामके रगतान आनी मांसान भरिल्ले. पाद्री म्हऱ्यांत गेलो आनी कांय वेळ तांचेसरीं वोगी उबो रावलो. तेवूय आपलें काम सोडून थंड उबे. काडून दवरिल्लें मास पळोवन पाद्रीन विचारलें, ''तुमी गाये मास खातात?''

त्या जाण्टेल्यान खांकुडलेंशें करून म्हटलें, ''हय, खातात गा.''

''तुमी हिन्दू न्ही तर?''

''न्हू गा. हिन्दू कितें ते भट बामण. आमी म्हार. धोरां ओडटात, सुपां, चोबे, हातर हातरी करतात. गांवकेचें पेरगांव घालतात.''

''तुमचो धर्म खंयचो तर?''

''धर्म बीन व्हड लोकांक गा. गांवकारांक. आमी म्हार! आमी फक्कत गिऱ्याचो, भुतांखेतांचो बादिकार काडूंक भटागेर जोशागेर वयतात. आशे, तायत दितात ते.''

''तुमकां धर्मच ना तर?''

त्या जाण्टेल्यान चाचरलेंशें करून म्हटलें, ''जोशाक विचारचें पडटलें.''

''तुमच्या हाताचें हेर लोक खातात?''

''शा शा, आमी म्हार न्ही गा !''

''तुमकां ते आफडून घेतात?''

''शा शा, आमी म्हार न्ही गा !''

''तुमी मनीस न्ही तर?''

''कोणाक खबर कितें म्हण. तेंचे वरी हातपांय आसात म्हण मनीस म्हणचे. आमची सावळी पडल्यार शेणाशिंतुडो घालून घेतात ते आपल्या आंगार.''

''शेणापरस तुमी पाश्ट तर?''

''कोण जाणा.''

''तुमी तुमची जात, धर्म सोडून हेर धर्मांत वचूंक तयार आसात?''

तो जाणटेलो कांय खीण रानांत पडिल्ले वरी जालो. ''तूं कितें म्हणटा तें कळूंक ना गा म्हाका. खंयूय गेले म्हण आमचें म्हारपण कितें आमकां चुकूंक येयलां? एक फावट इस्वर खंय साधूच्या रुपान दारांत भीक मागूंक येयल्लो. आमच्या पुर्वजान खंय तेचे भिके कट्टेंत मोडिल्लें सिंग उडयलें. तेणें स्राप दिलो, 'हें निमणें. हे मुखार आनी तुज्या दारांत कोण भिकेक येवचो ना. ह्रीं सिंगां धरून जल्मभर तूं धोरां ओडत रावतलो.'

पाद्री इल्लो ताचे म्हऱ्यांत गेलो. विचारलें, ''म्हार न्ही करून तुका कोणें केन्ना आफुडला?''

''ना गा, केन्ना ना. एक फावट रानांतल्यान घुरम्याक म्हण पात्या वजें घेवन

येतना एक गंवडार चुकून हांव बिरू नायकाक आफुडलों. मेलो तो फाटीं. तेणें म्हाका तोण्यान बडयलो. आपूण घरा वचून सतरा फावट आंगार शेणाशिंतुडो घालून न्हावलो.''

पाद्री आनीक इल्लो ताच्या म्हऱ्यांत सरकलो आनी ताणें अचळय ताच्या खांदार हात दवरलो. आंगार इंचू पडिल्ले वरी त्या जाण्टेल्यान आंग काडलें. तो एकदम कुशीक गेलो. काकुळटेन उलोवंक लागलो, ''नाका गा, आफडूंक नाका म्हाका. व्हड मनशा, तुमी गोरे कातीचे बामण कशे. आमी पाड हुंवाळिल्लीं मनशां! हेरांक हाफुडल्यार आमकांच पातक लागता खंय. आनीक आनी पातकांत घालूं नाकात आमकां !''

पाद्री सिमांव भोवच अस्वस्थ जालो. धोराचे ते सोलिल्ले, कापिल्ले कलेवर, काडून उडयल्ली कातडी, वयर बशिल्लीं गिदां आनी तीं दोग दरिद्र बहिश्क्रत मनशां पाद्रीच्यान पळोवं नजो जालें, सोंसू नजो जालें. तो थंय सुन्न कांय वेळ उबो रावलो. तांचेंय काम आडखळिल्लें. इतल्यांत अण्णू थंय पावलो. पाद्रीक सोदत आयिल्लेवरी. ''पाद्रीबापा, तुकाच सोदतालों हांव. तूं खंयच दिसना जालो. दामू कुंबार तकलेर मडक्या झाबळो घेवन वयतालो. तेणें सांगलें, तूं हेवटेन येयला म्हण.''

''कित्याक म्हण सोदतालो तूं म्हाका?''

''ना, बेठेच. तूं दिसलोच ना म्हण.''

पाद्री हांसलो. ''अण्णू, तूं हेंकां हाफुडशी?''

अण्णून किळांचिल्लेवरी एकदम 'ना, ना' म्हटलें.

''कित्याक अण्णू तूं तेंकां हाफुडना?''

''कोण हाफडिना तेंकां. हाफुडल्यार भश्टतात न्ही.''

''भश्टतात म्हटल्यार कितें जाता? आंग म्हेळें जाता काय आंगाक घाये पडटात?''

''हांव नकळों पाद्रीबाबा. म्हाका कांय खबर ना. हेर तेंच्या म्हऱ्यान वचनात म्हण हांव वचनां.''

''तूं बैलांक, रेड्यांक हाफुडटा?''

''हय.''

''बेब्यांक, गांयडोळांक हाफुडटा?''

''हय.''

''मगेर हेंकांच कित्याक हाफडिना?''

अण्णून चाचरलेलें करून म्हटलें, ''भटाक, जोशाक विचारचें पडटलें.''

पाद्री अण्णूचेर एकदम तापलो. ''दुश्ट, पडमूर, रानटी लोक तुमी. मनशान मनशाक हाफुडप ना म्हटल्यार केदो व्हडलो अधर्म आनी अनीत. जाय कित्याक हो

असलो धर्म ! तुमकां सगळ्यांक एका दिसाक किरिस्तांव करून उडोवंक जाय. ना तर दरयांत व्हरून बुडोवन मारूंक जाय.''

अण्णू येदेंशें तोंड करून वोगीच रावलो. पाद्री शेतोडेंतल्यान चलूंक लागलो. फाटल्यान अण्णू. ते दोगूय म्हार बापूय आनी पूत दोंगुल्लेकडेर वोगी उबे आसले. निकतेच दंडकारण्यांतल्यान भायर पडिल्ले कदीमकाळी मनीस कशे. मनीस आसूनय तनमनात मनीस न्हीच! हेरांचे सावळेक स्पर्शाक भिवन, आंग चोरून पयस रावपी. मनीस आनी मोनजात हांचेमदली खंयची तरी एक हीण भित्री जात ! पाद्रीक अजाप दिसतालें, मनशान मनशाक अशें हीणदीन करप ! कसली व्हडवीक ह्या धर्माची! गोंय पाटणांत सां पावल कालेजींत आसतना ताणें हिन्दू धर्माविशीं इल्लो अभ्यास केल्लो. तेन्ना ताका दिशिल्लें, उंचेल्या तत्त्वगिन्यानाची पाठभूंय आशिल्लो हो धर्म. पूण ताका आतां दिसलें, तांचें हें तत्त्वज्ञान म्हटल्यार एक मोटें ढोंग आनी फटिंगपण!

आनी तो एक जाणा जाल्लो आनी ताका अजाप दिसतालें, कसलीय गांठ पडल्यार हे लोक म्हणटाले, 'भटाक, जोशाक विचारूंक जाय!' ताणें आज नरहर जोशाकडेन वचचें थारायलें. रायगाळीच्या रवळनाथा देवळामुखार, जंय दोंगराचो फाळ सोंपता, थंय शेतांत इल्ले उंचायेर नरहर जोशालें घर आसलें. ते वटेन तो चलूंक लागलो. आदोळशी गांवांत येत सावन गेल्ल्या दोन म्हयन्यांत ताणें खूब कितें पळयल्लें. जोशाक ताका बरेंचशें विचारचें आसलें. गेल्ल्या आठ दिसां फाटीं ताणें सतीचो मरण सुवाळो पळयल्लो आनी तो काळजाच्या देठासान हालिल्लो. तेन्ना आंतड्यांक पडिल्लो पीळ अजून सुटूंक नासलो. आनी तेन्ना दांड्यान पडिल्लो मार. ताचीय दूख अजून वचूंक नासली. तेविशींय ताका जोशाक विचारचें आसलें.

देवळामळाचे बरेच मुखार दावे वटेन दोंगरांत रिगिल्ले ते थंड सुवातेर सोळंखे म्हणिल्ल्यांचीं चार घरां आसलीं. तेंकां ह्या गांवचे खुंटकार म्हणटाले. म्हटल्यार गांवाचे भायले, जे गांवकेची चड उरिल्ली शेतजमीन पावणेर घेवन पिकयताले. ते पन्नास साठेक वर्सां फाटींच गांवांत येयल्ले. तेंचेविशीं एक हवाय अशी आशिल्ली, ते उत्तरेंत खंयतरी रायाले चाकरेंत आसले थंय तेणी कसली तरी फितुरी केली. रायान तेंची गोमटी मारची आज्ञा दितकीर ते थंयसान धांवन येयले. ते बरे खेत्री. हालींमेरेन ते कमरेक तरसाद लावनच भोंवताले. शेतां पिकोवच्या वावरा भायर ते बैलगाड्यांक लागपी चाकां घडयताले. दोंगरांतल्यान असणेचें लाकूड हाडून ते चाकां घडयताले आनी सरभोंवतणच्या गांवांनी व्हरून विकताले. तेंचीं घरांय सोबीत. मुखाल्लेवटेन चुन्यान पितारिल्लीं. दारांच्या दोनयवटेन तांबडे मातयेन सुर्याच्यो व्हड नक्षी काडिल्ल्यो, दोळ्यांसयत.

ह्या गांवांत येतकीर खेत्री म्हण तेणी शिरवाड्यावयल्या नायकां वांगडा सोयरबंद

जोडिल्लो. सोळंखेमदीं सतीची चाल आसली. ती नायकांमदीं नासली. म्हण केन्ना दोगांयमदीं बेबनाव जातालो. तरीय त्या काळाची भौसाची चिंतनाच अशी आसली, एक फावट लग्न करून दितकीर चेडवाक जितें पुरात ना तर लासात.

गेल्ल्या साठ वर्सांत सोळंखेनी सात सती फातर म्हास्तीमळार उबे केल्ले. तेंचे वसते मुखार देवळावटेन एक मळ आसलें. थंय एक व्हड कडमा रूख आसलो. तेच्या पोनाकच सतीची खण खणटाले. तें मळ सिमांव पिरीसाच्या मांगराकडच्यान सारक्कें दिस्टी पडटालें.

ते सतीच्या हाताफातराविशीं गांवच्या लोकांक वोगीच भावार्तसो दिसतालो. जाण्टीं ना तर सोता घोवच केन्ना बायलांक म्हणटाले, "पळयलें ना, तेंच्यो बायलो कशो घोवाले चितेंत हुडी घेवन घोवावांगडा लासून वयताल्यो. खऱ्यो पतिव्रता त्यो. अञ्रंवर सवाशिणी जाल्यो आनी मोक्षाक पावल्यो. खरेंच, देवी त्यो. आनी तुमी पळयात. घोवाची मानमर्याद, भीडमुर्वत ना तुमकां. तेंकां पुजात वचून."

मगेर थंयच सोळंखे रावंक आयले. तांचेविशींय एक हवाय आसली. ते उत्तरेंत एक राजपूत राजासरीं चाकरेक आसले. तांणी थंय कसली तरी फितुरी आनी बेईमानी केली. तांची गोमटी कातरची ख्यास्त रायान फर्मायतकीर ते कोणाल्या तरी आधारान थंयच्यान पळोन येयले. म्हयने संकिनचे भोंवडे उपरांत ते ह्या गांवांत पावले. रायराणा आनी सोळंखे ह्या दोनय घरवडीच्या लोकांमदीं सतीची चाल आसली. गोंयां जंय थंय अशेच कांय घराबे आसले. तांचेमदीं ती चाल चलताली. शिरवाड्यावयले नायक सोताक खेत्री म्हण घेताले. पूण तांचेमदीं सतीची चाल नासली. सोळंखेचे वसतेचे सकयल उजवे वटेन एक ल्हानशेंच उकतें मळ आसलें. थंय दोन व्हड कड्याचे रूख आसले. त्या दोन रुखांमदींच सतीची खण खणटाले आनी चिता रचताले. ती सुवात देवळाकडच्यान पाद्री सिमांवाल्या मांगरा मुखावेल्यान दिस्टीक पडटाली. मांगर इल्लो उंचायेचेर आनी तें मळ सकयल.

एक दीस सकाळीं पाद्री सिमांव आपल्या मांगराच्या दारांत उबो आसलो. ताणें पळयलें, त्या सतीच्या मळार कडमा रुखापोंदा कांय जाण एकठांय जाल्यात आनी तांचें कितें तरी चल्लां. पाद्रीक सुरवे पासून त्या सतीमळा विशीं, थंयच्या त्या सतींच्या हाताफातरां विशीं भोवच उमळशीक आसली. हे सतीचे चाली विशीं ताका थोडीभोव म्हायतीय आसली. व्हिसरेय कोन्स्तान्तीन ब्रागांज हे सतीचे चालीआड एक खर कायदो करचो आसा हेंवूय तो जाणा जाल्लो. तो आपल्या मांगराकडच्यान ल्हवूच सकयल देंवन त्या मळावटेन चलूंक लागलो. मळाकडेन पावतकीर एके व्हड झिली अडसराक वोगी उबो रावलो. थंय त्या लोकान पुरूसभर खोल फोंड खणिल्लो आनी त्या फोंडांत ते लाकडां रचताले. सगळें काम सामक्या मोन्यानच चलिल्लें.

कांय वेळान थंय एक किरवड आयली. किरवडे फाटल्यान एकलो चौदा पंदरा वर्सांचो भुरगो खांदार ल्हानशीच कावड घेवन चलतालो. ते कावडीर मुखावयले वटेन एके मायटेंत पेट्टी शेण आसली. फाटले वटेन एक नवी मडकी आनी तांतूंत शेळें उदक आसलें. किरवड फोंडासरी पावतकीर किरवडेक खांदे मारिल्ल्यान एकच फावट 'म्हादेवा, सोंपली रे वाट' म्हणत किरवड सकयल दवरली. मागीर थंय आशिल्ल्या दादल्यान किरवडेचे पास कचकच् करून कोयतेन कापले आनी प्रेत मेकळें केलें. प्रेताच्या आंगावयलीं सगळीं वस्त्रां, कमरेची मुंज, कानाची भिकबाळी सगळें काडून कुशीक मोखलें. उपरांत प्रेत सकयल फोंडांत देंवोवन दाळिल्ले चितेचेर दवरलें. प्रेतावयल्यान आनीक बारीक बारीक लाकडां घालून तें पुराय धांपून घेतलें. चेहरो तितलोच उकतो. येतना तांणी पयलींच एक कळशी भरून उंडेल हाडिल्लें. तें तांणी चितेवेल्यान रखयलें. वांगडा हाडिल्ल्या चुडटांची व्हड चूड करून तिवूय उंडेलांत नीट भिजयली. चितेचे भोंवतणी बरेंच करड फापसून घातलें. सगळें ते मोन्यांनीच वा ल्हवल्हव करताले. तो कावड खांदार घेवन येयिल्लो भुरगो मात रावन रावन रडटालो. मदींच हुयेली मारिल्लेवरी म्हणटालो, ''व्हनयेक खणींत हुडी घेवंक दिवंनाकात रे! तिका हाडूं नाकात हिंगां !''

इतल्यांत ते येयल्ले वाटेर मुखार व्हडाव्हडान धोल बडयल्ल्याचो आनी झांज वाजिल्ल्याचो आवाज आयकोंक येवंक लागलो. ते वटेन कांय जाण येताले वाजंत्रां वाजयत. शिलीझोंपाच्या अडसरांतल्यान ते येयले आनी मुखार मळार पावले. पाद्री सिमांवान पळयलें, एक सोळा सतरा वर्सांची बायल मुखार चलताली आनी फाटल्यान कांय लोकांचो चोमो आसलो. बायल गोरी सोबीत चेहऱ्याची पूण बारीक भागिल्ली. रडून रडून तिगेले दोळे सुजिल्ले आनी आतांय ते दुकांनी सारके व्हांवताले. चलतना तिगेलीं पावलां घुंवळेंत आशिल्ले वरी वांकडींतिकडीं पडटालीं. मदींच ती लखिल्लेवरी जाताली. मगेर कोण तरी तिका सावरून धरतालो. पाद्रीन मनांत म्हटलें, हिका ह्या लोकांनी घुंवळे वखदां खावयलीं काय कितें! तिणें तांबडे देगेची धवी साडी कास मारून न्हेशिल्ली. हातभर तांबडीं आनी पांचवीं कांकणां घातिल्लीं. माथें भरून फुलां तिका माळयल्लीं आनी कपलाक आडवो कपलभर कुकूम लायल्लो. तिचे वांगडा दोग तीग बायलोय येयल्ल्यो. पूण त्यो तिका सतीमळाचे सीमे मेरेन पावोवन परत गेल्यो. परत्यो वयताना त्या बायलांनी तिका सास्टांग दंडवत घातलो. मगेर त्यो फाटीं पळयनासतना आपल्या घरावाटेन चलूंक लागल्यो. वयताना त्यो आपसांत उलयताल्यो, ''पोल्लेंतल्या इंगळ्याक हात लागल्यार हात हुलपता आनी सोंसूं नज जाता. आनी ह्या आंगभर उज्यांत कशें लासून घेवचें सोताक ! ते परस गोमटी मारूनच उज्यांत उडयल्लें बरें. सर्ग आनी नरक कोणें पळयला?''

ढोल आनी झांज व्हाजयतले आपलीं व्हाजंत्रां सारक्के व्हडाव्हडान वाजयताले. ढोल इतलो व्हड आसलो, तो गळ्याक घातिल्लो धिमये सकयल पाविल्लो. झांजीच्यो कांसाळ्योय व्हड आसल्यो. त्यो व्हाजतकीर चोंय वटेनचें वातरवरण रंवरंवतालें आनी जीव हुबिल्लेवरी जातालो.

तिका हाडून तांणी खंणीचे धडयेर दवरिल्ले फातरेर उबी केली. ती एके वटेन व्हडाव्हडान रडटाली आनी दुसरे वटेन ते फातरेर आपले पांय थिरावन नीट उबी रावचेलो यत्न करताली. ढोल तर सांवार आयिल्ले वरी वाजतालो. ती खणींतले चितेर दवरिल्ल्या घोवाल्या प्रेतासरीं पळोवंकच तयार नासली. तिची नदर खंय तरी पयसच लागिल्ली. इतलो ढोल, झांज वाजताली पूण थंयच्या लोकांच्या तोंडार इल्ली उमेद नासली. वेळ वयर येयल्लो तरी वयल्या कडमा रुखाच्या पानांताळ्यांतल्यान काळोख गळटा अशें दिसतालें. चितेवयलें तें प्रेत केन्नासावन कुसूंक उडयलां, ताचें पोट फुगलां, ताका बुट्टाण वास मारता अशें वोगीच दिसत रावतालें. थंय पुराय जिती जिवंत आशिल्ली ती अस्तुरी! ती आकूळपिकूळ जावन रडटाली आनी मदींच फातरेवेल्यान लखताली.

चितेक अग्नी दिवपी भुरग्याक उदकान भरिल्ली मातयेची मडकी खांदार घेतली. कोणें तरी कोयतेची चोंच मारून ताका फाटल्यान बुराक केलो. तशेंच उदक फाटल्यान व्हांवयत ताणें चितेक आनी ते अस्तुरेक पांच प्रदक्षिणा घातल्यो. उपरांत मडकी जमनीक मारून फोडून उडयली. उंडेलांत भिजयल्ली चूड हातांत घेवन ताणें ती शेणीचेर पेटयली आनी वयरच उबो रावन खणींतले चितेक अग्नी दिलो. खणींतल्या उंडेलान लाकडांसयत उजो घेतलो. एक जाण्टेलो ते अस्तुरेसरीं गेलो आनी ताणें व्हडाव्हडान म्हटलें, ''आयाव मरण मेल्यार सोर्गाचें दार तुका उकतें जातलें. घोवाले चितेंत तुज्या पातकांचो लासून गोबोर जातलो. तुका मुक्ती मेळटली, तुका मोक्ष मेळटलो. जल्मजल्माक तुका होच घोव मेळटलो.

तूं देवीचे पदवेक पावतली.

तूं अखंड अयाव उरतली.

तूं व्हड पतिव्रता जातली.

आतां तूं कचरूं नाका, भियेवं नाका.

घोवाचे चितेचो उजो खोशयेन आपणाय.

सोर्गाक पाव, मोक्षाक पाव, तुज्या पातकांचो गोबोर जावं...''

चितेच्या उज्याचो जाळ आतां खणींतल्यान वयर पाविल्लो. ढोल, झांजय सांवार आयिल्लेवरी व्हडाव्हडान वाजताली. वयर सरिल्ल्या उज्याचो जाळ ते अस्तुरेक मात्सो लागलो. ती मात्शी हुलपल्ले वरी जाली. बेगीबेगीन तिणें एक

पावल फाटीं घेतलें. तेन्नाच त्या जाण्टेल्यान आपल्या हाताच्यो दोनूय मुठी तिचे फाटीर तेंकयल्यो आनी तिका खणींत धुकलून दिली. सगळ्यांनी एकच फावट 'हर हर महादेव' घातलो. वाजंत्रांचेर आतां चडच सांवार. खणींत उज्यांत पडनाफुडें तिणें व्हडाव्हडान हुयेली मारूंक सुरवात केली. त्यो हुयेली ढोलाचो आवाज कातरीत सरभोंवतणीं पातळ्ळ्यो. अचकीत ती वयर सरूंक धडपडूंक लागली. तिणें हुडकी मारून आपले दोनूय हात खणीचे धडयेर मारले. थंय एकलो हातांत लांब दांडो घेवन उबो आसलो. ताणें तिका दांड्यान धुकलून परत उज्यांत उडयली. तिच्यो बोबो चालूच. ढोल झांजीच्या आवाजांतल्यान त्यो वयर सरताल्यो...

पाद्री सिमांव झिली आडसरांतल्यान सगळें पळयतालो. ताच्यान हें सोंसूं नजो जालें. तो देहभान विसरलो. सांवार आयिल्लेवरी धांवन खणीचे सुवातेर आयलो. ताणें म्हटलें, "कितें करतात रे पातक्यांनू? कित्याक ते अस्तुरेक लासून मारतात? देव भोगसुचो ना तुमकां..."

तो एकदम चितेसरीं धांवलो. पूण चारपांच जाणांनी ताका ओडून हाडलो आनी कुशीक धुकलून दिलो. तो थंय फातरार धाडावलो. एकल्यान ताचेर दोन तीन दांडे घालून म्हटलें, "हो परधर्माचो चांडाळ मरण भश्टूंक येयला. चलूंक लाग हांगासरलो."

पाद्री उठलो. येन्नादर ते अस्तुरेचो आवाज मांवळिल्लो. तिचे कुडीचो त्या निश्ठूर उज्यांत कोळसो जावंक लागिल्लो. पाद्री ते चितेक फाट फिरावन जड घुसपल्ल्या पावलान आपल्या मांगरावटेन चलूंक लागलो. सूर्या बरोच वयर सरिल्लो. पूण सरभोंवतणचे रुखावळींत अजूनय काळोख दोपून बसला अशें दिसतालें. सुर्याक निकतेंच गिराण लागिल्लेवरी सगळ्या वाठाराचेर एक बुरशी काळखी सया पातळिल्ली. ते चितेच्या धगान जसो सगळो सुर्याचो उजवाड खावन उडयल्लो. इल्लें मुखार वचून मात्शे उंचायेवेल्यान पाद्रीन फाटीं पळयलें, थंय आतां उज्याचो लोट नासलो, तर फकत धुंवर उडटालो. ढोल ताशांचो आवाजय ल्हव पडिल्लो. पाद्री मांगरार पावसर गोमटी आंवळून सकल शेंवटिल्लेवरी सगळे थंडावल्ले. तो बुरसो धुंवर झाडांझोंपांनी पातळूंक लागिल्लो. सुर्याच्या उजवाडाक तो खावंक लागिल्लो...

पाद्री वांगडा अण्णूक घेवन जोशाल्या घरावटेन चलूंक लागलो. शेतांमदीं एके उबारेचेर आंब्याची रुखावळ आसली. मदींच दोन जांबळी रुखय आसले. थंय शिरवाड्यावयले कांय नायक एक जांबळी रूख कातरताले. निळू नायकान भाटांत एक बांय बांदूंक घेतिल्ली. पोनाक जांबळीचो चवक बसोवंक ते तो रूख कातरताले. तांचेकडेन कुराडी आनी खरवत आसली. ते अण्णूक पाद्री वांगडा पळोवन एकदम

खुबळ्ळे. अण्णू वाडो सोडून वचून किरिस्तांवांसरी रावला, तांच्या हाताचें खाता म्हण तांकां ताचो भोवच राग आसलो. तांकां पळोवन ते एकदम ताचेसरीं धांवन आयले. दोगातिगांनी हातांतले कुराडेचे दांडे अण्णूक रोमून लायले आनी ताका जाग्यारच उबो केलो. शिवा नायकान म्हटलें, ''हो बाटगो मायझंवो, जातीभायरो जावन परधर्माच्या मनशां वांगडा भोंवता, जातीक आनी कुळाक कलंक लायलो हेणें.''

बाबलीन कुराड ताका घट रोमीत म्हटलें, ''हेचो बापूय आमचे घरवडेंतलो, आमच्या रगताचो. काय बरो भांगर मनीस. आनी हो अवचित्र थोट्या भावाक सोडून धांवन गेला मजा करूंक. गायेचें, दुकराचें मासय खाता आसतलो.''

म्हाळून म्हटलें, ''ह्या पातक्याक दांड्यान बडोवन मारतले आमी. दवरचे नात जितो.'' ताणें हातांतली जांबळी बडी रंऽऽव करून ताचे फाटीर ओडली. पाद्री एकदम मुखार येयलो. ताणें दोगांले दांडे रोमिल्लेकडेन तशेच धरले. ''तुमी मारूंक तांकचे नात तेका. पुर्तुगालच्या रायाल्या कायद्याचें, नितीचें राज्य चलता हांगा. तो अबुद्द. तुमकां जाय जाल्यार घेवन वचात तुमी तेका. अजून तेचो बातिज्म जाल्लो ना.''

''तुजे वांगडा रावला तो. तुजे वांगडा खायला जेयला. आतां वाड्यार नाका तो. तेका आमी आफडून घेवचे नात. मारुनच उडयतले तेका.''

पाद्री खीणभर चिंतनांत पडलो. हांचें आफडून ना घेवचें गणीत कशेंच सुटना जालां. ताणें रागान म्हटलें, ''तुमी तेचे कुडीक हात लायल्यार, जखम केल्यार बरें जावचें ना. कायद्याची, देवाधर्माची भिरांत धरात. तेच्या मरणाचो गवाय हांव आसतलों. फाल्यां पाखल्यांची फौज गांवांत येतली. बांदून व्हरतले तुमकां. तरीय तुमी तेका मारतलेच जाल्यार निमणे मेरेन हांव झुजतलों तुमचे आड.'' ताणें ताच्या दांड्याक धरिल्लो हात घट केलो. आतां तांणी दांडे सकला घेतले. बाबलीन म्हटलें, ''मरूं दी तेका तेच्या कर्मान.'' तरीय ताणें एक दांडो ताच्या कमरार घातलोच. ते कुशीक कडसरले आनी आपल्या कामाक लागले.

अण्णून दांड्याची दूख जिरयली. ताका रडूंकच येवंक लागलें. ताणें तांकां लेखून रडतच म्हटलें, ''तातो, बरो तो पाद्रीबापा, म्हाका तो आवो आनी बाप्पावरी दिसता.'' ते कांयच उलयले नात. जांबळीच्या मुळासरीं उबे रावन दोग जाण दोन वटेन रुखाक कुराडे घाये घालताले.

इल्ले मुखार वयतकीर पाद्रीन अण्णूलें आंग सांसपिलें. ''भावा, मार पडलो तुका. हांव कांय करूंक शकलों ना.''

''पाद्रीबापा, तूं न्हय जाल्यार म्हाका जिवानशीं मारता आसले ते. भुरग्यांक मारूंक चड हात तेंकां.''

पाद्रीक वोगीच आपूण दुबळो आनी गुन्यांवकारी अशें दिसूंक लागलें. दिसलें,

ह्या झुजांत आनी म्हजें जैत जावचें ना. संवसारांत चोंय वटेन इतलो अन्याय मातला, कोण कितें करूंक तांकता! बळ वापरून किरिस्तांव करप आनी मगेर किरिस्तांवपण नीट राखलें ना म्हण बांदून व्हरून छळ करप, आनी हांचो तर एक दुसऱ्याचेर चलत आयिल्लो शतमानांचो अन्याय! कांयच करूंक तांकचो ना हांव! पयर एके अस्तुरेक म्हज्या दोळ्यां हुजीर लासून मारली. कितें केलें हांवें? ताका भोव भितरल्यान, मनाच्या तळांतल्यान जेजू आठवलो. जेजूचे वाटेन संवसारांतलो सगळो अन्याय, सगळीं दुख्खां पयस करूं येतालीं. पाद्री मदींच सुसकारलो, कितें आडायलां हांणी हें? मायेमोगाळ जेजूच्या नांवार बळ वापरप आनी पिडापीड भोगोवप ! हाचेन चड कुस्तार जातलें. लोक चड पयसावतले. देवा सर्वेस्परा, तेंकां बरी बुद्द दी. तरसाद काडून घे तेंच्या हातांतली. फक्कत मोगाचो खुरीस दी तेंच्या हातांत !

ते जोशाल्या घरासरीं पावल्यार, पडवेंत एके पेटे सामकार शेनरेर आसरमांडी घालून बशिल्लो जोशी पयसुल्ल्यानच दिस्टीक पडलो. आंगणांत एकलो उबो आसलो. जोशी ताका म्हणटालो, ''अरे, असो पावळे भितर येवं नाका. भायरच उबो राव आनी कितें तें सांग.''

तो मनीस जोशाक सांगतालो, ''सांजचें कांयच नासलें. सकाळीं उठून पळय जाल्यारी घराच्या पाडसऱ्याक येद्दो व्हडलो गानुल्यांचो मुडो हुमकळटा. सामक्को म्हाल आड्याक. हांव भियेवन थरथरलों. लोक म्हणूंक लागले, अवचित्र तें. तेका घरच्या बुदवंताचें मरण जाय आसता. घराक दळिद्र बादता. कामळी खोलो तकलेर घेवन उज्याची चूड लावन धांवडावन घातले तेका. पूण तेच्या अवचित्राचो बादिकार जातलो म्हण भिरांत. कितेंय शास्त्र, तायत करात जोशानू, बादिकार परतून घालात.''

जोशान मोन्यानच पेटेवेले मणयेर थोडे तांदूळ घातले. मंत्रां म्हणत ते आशे मणयेर घोळयले. मगेर ताचे गडे, फाडे, गडे, फाडे करत तीन वांटे केले. मगेर ते तीनय वांटे पानाच्या दोण्यांत बांदले. ते दोणे पयसुल्ल्यानच त्या मनशाच्या पशांत उडयले आनी सांगले, ''हांतूंतली एक पोटली सोडोवन ती घरांत फाफसून उडय. दुसरे पोटलेंतले आशे वयर घराच्या पाख्यार उडय. तिसरी पोटली तशीच पाडसऱ्याक बांदून दवर. कसलो बादिकार बादचो ना.'' तो मनीस हातांत पोटल्यो घेवन भावार्तान उबो आसलो. जोशान म्हटलें, ''त्या मुखावयल्या कवाथ्याची सूंय सुखिल्लेवरी जाल्या आनी बागवल्या. वयर चडून भुंगोबीन लागला काय चय.''

''म्हाका माडार चडूंक कळना गा.''

''तशें जाल्यार घरा फाटल्यान एक जांब्याचें खोड हाडून उडयल्लें आसा. खोंपींत कुराड आसा ती घे आनी फोडून घाल.'' ताणें घराकुशीचे खोंपींत वचून कुराड घेतली. तो घरा फाटल्यान गेलो आनी खोड फोडूंक लागलो.

तो वयतकीर कुशीन उबो राविल्लो पादरी मुखार आयलो. जोशान एक फावट ताका मांडून पळयलें. आंगणांत पांगऱ्या रुखाच्या मुळाचे कुडके करून बसकी कशे थंय दवरिल्ले. जोशान ताका ताचेर बसूंक सांगलें. पाद्री ताचेर बसलो. अण्णू इल्लो पयस उबोच रावलो. जोशान तीख आवाजांत म्हटलें, ''लोकांक फुसलावंक तुमी गांवांत भोंवतात तें पळयलां हांवें. कांय जावचें ना. कांयच जावचें ना तुमच्यान. एखादरो अन्नाडी भुरगोच फारावचो तुमी.'' पाद्री वोगीच रावलो. ''आतां हांगा कित्याक आयल्यात तुमी?''

''तुमच्या मनशान मनशाक ना हाफुडचें कुवाडें म्हाका कळना जालां. तुमकां गायेचें शेणमूत पवित्र आनी मनशाचे सांवळेचेंय भश्टपण कशें?''

''गायेविशीं एक उतर उलोवं नाकात तुमी. गायेच्या पोटांत तेत्तीस कोटी देवांचो रयवस. तिचें शेणमूत हो देवाचोच अंश.''

''मनीसय देवाचोच अंश असो तुमचो धर्म मानता न्ही?''

''मनीस न्ही. फक्कत ब्राह्मण. ब्राह्मणच फक्कत ब्रह्माच्या मस्तकांतल्यना अवतरला. हेर जातींची निर्मणी ब्रह्माच्या हातापसून, पोटापसून, पांयापसून जाल्या. ब्राहमणच ब्रह्माचे मस्तक कुंडलींतल्यान भायर सरला.''

''तशें जाल्यार ताका हेरांपरस एक तरी इंद्रीय चड आसूंक जाय आसलें. हातापांयान तर सगळे सारकेच.''

''आसा. एक इंद्रीय चड आसा.''

''खंयचें?''

''ताची बुद्द.''

''ती हेरांकय आसता.''

''ती बुद्द बैलांक आसता तसली बुद्द.''

पाद्री कांय वेळ वोगी रावलो. ताका दिसलें, हो ब्राह्मण बुद्दीन हुशार दिसता. ताणें म्हटलें, ''हांवें सां पावल कालेजींत आसतना हिन्दू धर्माविशीं बरीच म्हायती करून घेतिल्ली. हांवें कांय बरपां वाचल्यांत. म्हाका कळ्ळ्यां हिन्दूंची म्हाकाव्यां. रामायण हें एके शूद्र जातींत जल्माक येयिल्ल्या वाल्मिकी म्हण एकल्यान रचलां म्हण. आनी म्हाभारत व्यास म्हणिल्ल्या उणाक जातींतल्यानच रचलां म्हण. व्यासाची आवय खंय नुस्तेकान्न आसली. तातुंतली भग्वदगीता तर क्रश्ण म्हणिल्ल्या क्षत्रियान झुजामळार सांगिल्ली खंय.''

''चूक, सामकें चूक. रामायण आनी महाभारत हीं एका मनशाली, एका दिसाची निर्मणी न्हय. शेंकड्यांनी बुदवंतांल्या हजारेक वर्सांच्या आवर्तनांतल्यान तांची निर्मणी जाल्या. भगवद्गीता ही पुराय हिन्दू तत्त्वज्ञानाचो सार. तांतले सगळे उद्गार ब्राहणाचेच.

ती बेठीच झुजामळार कृष्णाल्या तोंडांत घातल्या. देववाणी संस्कृत फक्कत आमकांच कळटा. आमी ज्ञानाचे म्हामेरू. आमीच वेद आनी पुराणां रचल्यांत. ब्रह्म आनी ब्राह्मण अद्वैत आसात. ब्रह्महत्या हें महापातक. तागेल्या सत्तावीस पिळग्यांक ह्या पातकांतल्यान मुक्ती ना. दर एके पिळगेंतलो एकलो तरी म्हारोग जावन हातपांय झडून मरता. आमचेकडेन मंत्र, म्हामंत्र आसात. ताचेन आमी शाप दिवन कोणाकूय लासून भस्म करून उडोवंक शकतात. आमच्या यज्ञान पातक्यांचो लासून गोबोर जाता. दुकळांत पावस पडटा. वांजेक भुरगीं जातात. मेल्ल्या सुकिल्ल्या रुखाक आंकरी फुट्टा. मेल्ले पितर मोक्षाक पावतात आनी सोर्गांत पावतात.'' उलयतां उलयतां ताचो आवाज व्हाडत गेलो. ताका खरस मारली.

पाद्रीन थंडपणान म्हटलें, ''म्हगेलो गरजेचो प्रस्न, मनशाक मनीस कित्याक हाफुडना, तो तसोच कडेक उरलो.''

''सात समुद्रा भायल्यान आयिल्लो परदेसांतलो रानटी मनीस तूं. तुका कळचें ना तें. हाफुडप म्हटल्यार सगळो भश्टकार आनी अनाचार. हाफुडप म्हटल्यार एक घातमारी गजाल. ताचेन मनीस मोहान पडटा, द्वैत इबाडटा, वर्णसंकर जाता आनी रगत उणाक अशुद्ध जाता. ताचेन मगेर समाजाची घडी इबाडटा, समाज रसातळाक पावता. वर्णसंकरान फाल्यां ब्राह्मण जात नश्ट जाल्यार मोटो हाहाकार जातलो. पातकाचें राज्य अवतरतलें. भूकंप जातले, म्हापूर येतले. निमाणें मनीस जात नानपश्यात जावन वतली. आमी देवपूजा, यज्ञयाग करतात म्हण संवसार तिगून आसा. देव फक्कत ब्राह्मणाचें आयकता.''

''तुमी अशें म्हटल्यार सकयले जातीचे लोक हिन्दू धर्म सोडून हेर खंयचोच धर्म आपणायतले. तें तुमकां मानवतलें?''

''आपणावंदी दुसरो धर्म. चांडाळांची संख्या उणी जाली म्हण हिन्दू धर्माचें कांय एक बिघडचें ना.''

खरें म्हटल्यार हांवें तुमचे उपकार आठोवंक जाय. आमी जेजू ख्रिस्ताची शिकवण घेवन हांगा येयल्यात. जेजूचो किरिस्तांव धर्म लोकान आपणावचो अशें आमकां मनासावन दिसता.''

जोशान मदींच आवाज चडयलो.''अशे कितले येवन गेले. एका काळाक बौद्ध धर्माचीं ल्हारार ल्हारां आयलीं हांगा. दिस, सगळें नानपश्चात जावन वयतलें. पूण आज खंय आसा तो धर्म? एक दीस तुमकांय तशेंच तोंड काळें करचें पडटलें.''

''हांव तें कांय नकळों. पूण तुमकां एक गजाल सांगतां, आमचे मदले बरेच जण हातांत तलवार घेवन आपलो धर्म तुमचेर घालूंक सोदतात. सुरूय जाला तें काम. आतां तुमी कितें करतले?''

“देव आसा. देव पळोवन घेतलो तांकां. बरकत दिवचो ना. आमच्या देवाची सासाय तुमी नकळो. देवाक धर्माक हात घातल्यार मुड्डो जातलो तुमचो. एन्नादर काशींतल्यान ब्राह्मण हाडून महाचंडी यज्ञ करूंक जाय आसलो गोंयां. तुमचें निसंतान जाता आसलें.”

पाद्री हांसलो. ताणें म्हटलें, “फाल्यां तुमचो धर्म इबाडूंक, देव फोडूंक, ते हातांत तरसाद घेवन गांवांत घुसल्यार तुमी तांकां आडावचे नात? हातांत दांडे तरी घेवन?”

“आमी कोण आडायतले, देवच आडायतलो, निखळायतलो तांकां.”

आतां पाद्रीचें हांशें फुटून वयर सरलें. ताणें म्हटलें, “गेल्ल्या आठ धा दिसांफाटीं हायें एके बायलेक सती म्हण उज्यांत उडयल्लें पळयलें. बळान लासून मारली तेणी ते अस्तुरेक. भारी दुख्ख भोगलें म्हाका. तुमच्या धर्माची हाका संमती आसा? हें एक व्हड पातक न्ही?”

जोशाचे घारशे दोळे रागान घुंविल्लेवरी जाले. “चुकीचो समज करून घेतला तुवें आनी चुकीचीं उतरां वापरल्यांत. कोण तांकां उज्यांत धुकलून उडयना. त्यो आपखोशयेन आनंदान घोवाले चितेचो उजो आपणायतात. तो तांचो पतिवृता धर्म, तांची लागणूक. पूर्वजल्माच्या पातकाचें प्रायश्चित घेतात त्यो. पूर्वजल्माच्या पातकानच तांचो घोव मरता आनी रांड जातात त्यो. तांकां जियेवचो अधिकार ना. तांणी जियेवप म्हटल्यार घराब्याक, जातीक भारभूत जावप. समाजाचो नैतीक अध:पात जावप. मोहाची आनी नानातरेच्या झगड्यांची मुळां जावप. तुका खबर ना तर सांगतां, गोंयच्या ब्राह्मणांमदीं रांड बायलो सती वचनात. त्यो सती वयतात खेत्रियांमदीं. आमी रांड बायलांचो सगळो शिरंगार देंवोवन, तकलेचे केंस तासून तांकां सगळ्या मोहापासून पयस दवरतात. तांणी दोन फावट शेळें उदक न्हावप, आनी एकच फावट शेळें जेवण जेवप. त्यो हो आपलो धर्म आपखोशयेन पाळटात. देवपुजेंत आपलो दीस सारतात. तुमचे सारके रांड बायलांक पारपोळ सोडून आमी समाज अधोगतीक घालिनात.”

पाद्री उठलो. ताणें म्हटलें, “तुमचो धर्मीक भावार्थ आनी देवाविशिंचो मोग वाडूं दी.” तो चलूंक लागलो.

आपणेंच जैत व्हेल्लेवरी जोशी मुरकटत पळयत रावलो.

चोडणेचें चांमुडेश्वरी देऊळ फोडून उडयत सावन गेल्ल्या दोन वर्सां फाटींच पुराय गोंय वाठाराचेर आकांत आयिल्लो आनी लोक कांचवेवन वावुरतालो. केन्ना

कोणाचेर कितें लखून येत सांगूं नज जाल्लें. काशी, पंढरी आनी गोकर्णा उपरांत गोंयच्या लोकांलें हें भोव भावार्थाचें तीर्थक्षेत्र आसलें. चैत्राक हांगा मोटी जात्रा जाताली. न्हंय बलांटून पयसुल्लो पयसुल्लो लोक चोंय वाठारांतल्यान लोटून येतालो. बेलाफुलांच्यो राशी पडटाल्यो. चोडणें जुंवो मनशांनी फुलून वयतालो. पुराय गोंय पाटण चोडण्यां जुंव्यार पावतालें म्हणूं येत. ते भायर गोंयच्या खांचीकोनशांतलो लोक.

हांगाचो रथय अख्ख्या संवसारांत अजापाचो आसलो. पुरूसभर उंच लाकडाचीं चार चाकां. त्या गाड्यार बसयल्लो वेंगभर मोटो एक खांब. ताचेर दोन आडव्यो आडी, एक दुसऱ्याक छेद घेवन गेल्ली. तिवूय ही मोटी. त्या चारय आड्यांक पोतासावन ल्हानल्हान जायत गेल्ल्यो कांबयो मारिल्ल्यो. त्या कांबयांर वज्यांनी फुलांसर घालून रथ सजयताले. रथ ओडूंक लागले म्हणटकीर एक दुसऱ्याक छेद घेवन गेल्ल्यो त्यो चारय आडयो गरगर गोलाकार घुंवूंक लागताल्यो.

देवूळ एकेक धा धा वज्यांच्या काळ्या फातरान बांदिल्लें. काळे गुळगुळीत नितळ फातर. ताचे पाखेय तशेच फातरान घडयल्ले. सकयल जमनीकय फातरांच्यो व्हडल्यो व्हडल्यो लादयो घातिल्ल्यो. देवूळ सामकें सत्तावीस हात रुंद आनी बावन्न हात लांब आसलें. चोडणेचो जुंवो सोडून आनीक पयस पयसुल्ल्या गांवामेरेन देवाच्यो शेत जमन्यो आनी भाटां आसलीं. देवालें अर्द साक तरी भांगर आसलें.

पुर्तुगेज राया तिसरो जुवांव कडच्यान धर्मांतराची आज्ञा मेळत सावन झुटयेर आशिल्ले जाळवणदार ह्या देवळाविशीं राग धरून आसले. हें देवूळ हिन्दुंचो मूर्तिपुजेचो आनी धर्माविशींचो भावार्थ वाडयता आनी ताच्यान आमचें काम अवघड जालां अशें तांकां दिसतालें. व्हिसराय फ्रान्सिस बार्रेत हें देऊळ दाळाक लावचेली माण्णी सोदत आसलो. ताचेन हिन्दुंचें एक भावार्ताचें ठिकाण नश्ट जातासलें आनी देवळाची पुराय शिरवंतकाय आपसुकच तांच्या हातांत येतासली. बाटाबाटीचें कामय सोंपें जातासलें.

त्या वर्साकच एक अद्रुश्ट घडलें. जत्रेक रथ ओडून व्हरताना अचकीत एक आडें निखव्ळें आनी लोकांमदीं पडलें. तातूंत तीगजाण जाग्यारच सोंपले. बरेच जाण जखमी जाले. म्हाजनांचेर, देवळाच्या कारभाऱ्यांचेर मोटो आकांत.

हे घडणुकेविशीं लोक म्हणटालो, 'रुक्मी कलवंत देवाची सेवाचाकरी काय बरें करतालें; रथा मुखार दीपमाळ घेवन काय बरें नाचतालें. ताच्या पावलाक सांगात दिवंक वाजंत्रां खर्शेतालीं. ताणें कित्याक नकळो देवाचे तळयेंत एक दीस जीव दिलो. ताचें प्रेत कोणेंच आपलें म्हण ताब्यांत घेतलें ना. तळये धडयेर तें पोट फुगसर पडून उरलें. देवळाच्या कारभाऱ्यान म्हारांक लावन तें तशेंच व्हरून लासलें. ताच्या मरणाची

क्रियाकर्मां कांयच कोणें केलीं नात. ताचेन देव कोपलो आनी ख्यास्त दिली.'

कांय जाण म्हणटाले, 'फाटल्यान पडवेंत रथाची मुस्तायकी दवरिल्ली. आड्यांचीं कुसां पावसभर भिजतालीं. कोणें लक्ष दिवंक ना.'

हे घडणुकेन गोव्हेर्नादोराचें मात फाव जालें. ताणें बेगीनच ऑर्द काडली, हाचे मुखार रथ घडोवचो, तो ओडचो-थांबोवचो हें भौसाक घातमारें कर्तूब. पूण देवळाच्या कारभाऱ्यांनी देवाक कौल लावन तो रथ पर्थून घडयलो. सामको पकदस्त. चाकां तींच दवरलीं, पूण वयलो शिशा खांबो, सागवानी आडी नवी केली. खांब्याक शिशारूख वाळपयच्या वयल्या रानांत मारिल्लो. थंयच्यान तो ओडी रडे लावन न्हंयंत हाडून उडयल्लो.

परतून ह्या वर्साचे जात्रेक रथ ओडटात म्हण कळटकीर व्हिसरायान पाखले आनी देशी अशा सरभरशी साठ सोल्दादांची फौज जत्रेदिसा रथ आडावंक धाडली. रथ देवळाक प्रदक्षिणा घालून लागींच आशिल्ल्या आंवळवनांत वयतालो. थंय एक ल्हानशेंच सांतेरी देवूळ आसलें. चांमुडेश्वर वर्साक एक फावट सांतेरीचे भेटेक वयतालो. सांतेर मात केन्ना देवळांतल्यान पांय भायर काडनासली.

पूण रथ देवळाक प्रदक्षिणा घालतनाच सोल्दादांनी आडायलो. ते हातांत उकत्यो तरसादी घेवन रथामुखार उबे रावले. पूण रथ ओडटलो तिनशें चारशें लोक शेसार मारून सांवार अवसर येयल्लेवरी नाचूंक लागलो. जत्रेक येयल्ल्या लोकांचेरूय खेव. मोटो संगर जालो. सोल्दाद आनी लोकांमदीं झुजच पेटलें. पूण रित्या ह्यतान आशिल्ल्या लोकांक सोल्दादांनी कापून काडले. मगेर खिणांत देवळांतले साकांतले सोलिल्ले हजारांनी नाल्ल भायर आयले. लोक नाल्ल काडून सोल्दादांचेरूच मारूंक लागले. मदींच कापितांवाल्या हातांतल्या तुबकाचो फारपेट जातकीर लोक धांवंक लागले आनी फापसले. झिलीझोंपांनी वचून लिपून बसले.

आतां देवळामळार फक्कत सोल्दाद उबे आसले आनी थंय पडिल्लीं विशेक मडीं. तातूंत दोन मडीं पाखल्या सोल्दादांचीं आनी तीन मडीं देशी सोल्दादांचीं. हेर सगळीं जत्रेंतल्या लोकांचीं.

व्हिसरायाक इतलेंच पुरो जालें. ताणें तेल ओतून आनी चुडटां लावन रथ आसा थंयच लासून उडोवंक फर्मायलें. घण, पारयो आनी कुदळ्यो घेवन आनीक फौज धाडून आदीं देवाची मूर्त फोडूंक लायली. उपरांत तांणी देवूळ फोडून मातये भरवण केलें. गांवांतल्यान दोन गायो हाडून त्यो देवळा सुवातेर मारल्यो आनी तांच्यो आंतकड्यो काडून देवाले तळयेंत उडयल्यो. मगेर देवालें भांगर शिंगर, थाल-तामण होड्यांत भरून घेवन ते गेले.

देवूळ थंय तडापसून इल्लें भितर आसलें. देवळा फाटल्यान सागर कशी ती

व्हडली तळय. देवळा मुखार दाटायेन उंच उंच रूख. जत्रेमांड त्या रुखांच्या मुळांतच पडटाले आनी जत्रा ते सावळेंतच जाताली. सारक्के तीन दीस लागून तांणी तें देऊळ फोडलें. फक्कत दोग सोल्दाद हातांत तरसादी घेवन मुखार उबे आसले. देवळाचे आशिकुशीक रावपी भट, पुजारी, देवळी, गुरव, कलवंत आनी हेर लोक देऊळ फोडटना आपल्या घरांनी भुंयेर सास्टांग पडून आसले. जसो दर एक घण तांचे तकलेर! खपखप्यान आनी हुस्क्यान जीव गोळाक लागिल्लो. सगळो गांव शांत थंड किरांव! जसो खंयच्या काळाक थंय गांव नाशिल्लोच. ना तर गांवार जशी भिजिल्ली कांबळ ओडून घातल्या.

मदीं कांय दीस अशेच गेले. एक दीस व्हिसरायान नव्यानच किरिस्तांव जाल्ल्या एकल्यावरवीं चोडण्यां जुंव्यार पेरगांव घातलें. ''देवळाची साडेचारशीं एकर भाटांबेंसां आतां इगर्जेक दिल्यांत. पयलींचे तुमचे हक, अधिकार इगर्जेसरीं शाबूत उरतले. गांवकी आनी गांवकारी चालूच उरतली. जे देवळाचे चाकरदार आसले ते किरिस्तांव जाल्यार इगर्जेचे चाकरदार जातले. जेंचेकडेन देवळाच्यो जमनी आसात ते किरिस्तांव जाल्यार तेंच्यो जमनी तेंचेसरीं कायम उरतल्यो. हिन्दूं कडच्यान मात सगळीं भाटांबेंसां काडून घेतले.''

चोडणेंचें देवूळ पाडत सावन सगळें गोंय हालिल्लें. मोटो धपको जावन आसलो. सगळे कांचवेवन भियेवन फक्कत फाल्यांची वाट पळयताले! कितें घडटा, कितें घडटलें कांयच कळनासलें. अदमास लागनासलो. खंय खुट्ट जाल्यारय लोक आंग काडटाले आनी व्हडान उलोवंक भियेताले. एक सादो पाखलो सादो सोल्दाद गांवांत येयल्यार लोक कांचवेवन कुशीक कडसरताले, दोपून रावन तांकां तेळटाले. दिसपट्ट्यो नव्योनव्यो हवायो उठ्ठाल्यो. कोणय शेजारी, कोणय वाटसुरो मदींच थारतालो आनी फुतफुततालो, ''ते जेवळावळ घालचे आसात खंय. तेच रांदतले आनी सगळ्या लोकांक बांदून व्हरून जेवंक बसयतले. गायेचें मास बीन खंय रांदतात...

... किरिस्तांव जावचे नात तेंगेलीं भाटांबेंसां काडून घेवन गोंयाभायर धांवडायतले खंय....

...धरून व्हरून एके बंद कुडींत घालतात खंय. भायर हातांत उज्याचें तुबक घेवन सोल्दाद उबो रावता. भितर तेंच्या धर्माचो मंत्र दितात. मंत्राक पाळो दिलो ना जाल्यार लासून मारतात खंय...''

शिरवाड्यावयल्या म्हाबळू नायकालें चेडूं दिवाडे दिल्लें. चोडणेचें देऊळ पाडत सावन आवय बापायलो जीव हुस्क्यान गोळाक लागिल्लो. मदीं एक फावट येवन

चार दीस रावन गेल्लें तें. तीन म्हयने जाल्ले हे खबरेक. ताचे उपरांत खुशाली कळूंक नासली. आवय तर सारकी फाटीक लागिल्ली धुवेची ख़बर घेवन येयात म्हण. म्हाबळू इल्लो जाणटो जाल्लो. आनी चड चलल्यार तागेली धिमी सुजताली. शेतांत रानांत केन्ना केन्ना तो खुंटतच वयताना दिसतालो. एक दीस म्हाबळून आपल्या पुताक म्हटलें, ''पुता शंभू, तीन म्हयने जावन गेले बायची खबर ना. स्रावणांत येवन रावन गेल्लें चार दीस. आतां कार्तिक लागलो. तूं वचून खबर घेवन यो. दोगां सान भुरगीं आसात तेगेलीं.''

उंडी फळां फोडटा थंयच्यानच आवयन म्हळें, ''कितलें सांगतालें हांव, पोराक उल्या वाटेरच खंयूय दिवंया म्हण: आतां ह्या दिवाडे पावंक दिसभराची वाट. तेतून आनी एक तार. वेळ उदेवंक दादल्या धेंपान चमकल्यारच पाव म्हणसर वेळ माथ्यावेल्यान देंवन सकला पावता.''

म्हाबळून भिजिल्ल्या आवाजांत म्हटलें, ''सगळें फुकट. दैवांत आशिल्लेकडेनच वचून पडप. बैला जोत पळोवंक म्हण येयल्लो कुंभारजुवेंचो नारबा वयताना हें थळ दाखोवन गेलो. इल्लें पयस म्हणच. हरशीं वायट कितें आसा, एकलोच पूत. सात खांडयेचें धुळवप रोयता. ते भायर आंब्यान, फणसान, माड माडयांनी भरिल्लो भाटा कुडको.''

जायते दीस जाले, शंभू बायगेर वचूंक आशेतालो. आज बापायन वच म्हणटकीर ताका जशीं पांखां फुटिल्लीं. स वर्सां जाल्लीं बाय विठायचें लग्न जावन. वर्साक दोन फावट तरी तो ती पुराय वाट माडोवन बायगेर वयतालो. पयलीं पयलीं आवय वांगडा बापाय वांगडा, मागीर एकलोच.

कितल्यो यादी बायच्यो. तेचे परस चारपांच वर्सांनीच व्हड तें. पूण भुरगेपणाक ताका हांडीर मारून घेवन गांवभर भोंवतालें. हांडीर तो आनी आंगलेचे होटयेंत पुंजायल्लीं कसलीं कसलीं फुलां. केन्ना वाड्या कुशीच्या देवळांत घेवन वयतालें आनी ताका वयर करून आड्यावयली घांट वाजोवंक दितालें. तेगेलें लग्न म्हणटकीर तो रागान पेरीर वचून बशिल्लो. लग्न जावन वयताना ताका सिमेपार पावोवंक मांवळो उखलून व्हरतालो तेन्ना एका हातान ताणें भावाक धरिल्लें आनी तें रडटालें.

सकाळींच तो पेज जेवन बायगेर वचूंक भायर सरलो. पिरायेचीं सोळा ताका निकर्तीच लागिल्लीं. पावलांत आगळीच शक्त आनी धिटाय आसली. बायगेर वचूंक भायर सरला म्हण भोवूच उमेद, हुरूप दिसतालो.

पुराय वाट झाडा झुडपांतल्यान आनी रुखावळींतल्यान गेल्ली. वाटेच्या दोशींवटेच्यान वंय धरिल्लेवरी ल्हान व्हड झाडां आनी रूख. धड रानय न्ही आनी उकतो वाठारय न्ही. वाटेर आनी कितल्योशोच व्हाळ आनी व्हाळशो. मदींच एकादरें

शेत लागतालें. वायंगण रोंविल्लें ना तर सरदे लुवन व्हरून मेकळें आशिल्लें. त्या शेतांच्या बांदावयल्यान चलून वयतकीर परत झाडाची अस्कड वाट. एकादरो बैठ्या घरांचो वाडो पार करून वयतकीर गांवा कुशीचे दोंगुल्लेर गोरवांल्या गळ्यांतल्या गडगड्याचो आवाज, राखण्यांली कुंकार, हय् हय्चो आवाज आयकोंक येतालो. असो आवाज आयकोंक येतकीर बरें दिसतालें शंभूक.

वाटेर आनीक एक ल्हानसोच गांव लागलो. वाटे सकल फोंडांत-शीं पांच स घरां. वयर वाटेकडेन चार गोठे. एका गोठ्यामुखार पांच स जाण एकठांय जावन कितें तरी करताले. शंभून खांदावयलो रुमाल तकलेक बांदलो आनी तो थंय गेलो. तांणी एका बैलाक पांयाक दोर घालून भुंयेर पाडिल्लो. त्या बैलाक कुल्यार एक किंवण पडिल्लें. तातुंतल्यान रगशेल्ली रशी व्हांवताली. एकल्यान कसलो तरी पालो फातरेर बडोवन त्या किवणार पिळ्ळो. ते बराबर किवणांतल्यान बुचबुचीत किडे भायर सरले. बैलय सुटून वचूंक धडपडलो. ताणें कसलो तरी लेप त्या किंवणार थापलो. उपरांत तांणी बांदिल्ले दोर ल्हवल्हव अळंग केले. गळ्यांनली कानी काडली. बैल उठलो आनी ताणें जोरान भिरकटी मारली.

आतां त्या लोकांची नदर शंभूचेर गेली. ''कोण गा? खंय वयता?''

''दिवाडे भयणीगेर वयतां हांव. तुमकां पळोवन हांगा मात्सो थारलों.''

''उदक, निशें कितेंय घेवन वचात गा.''

''नाका, पावतलों रोखडोच.''

''न्हय बलांटून वयताना मात्शें राखून. फाटीं एक तारी व्हडें तारयासयत बुडलें. वारो ना, मोड ना, एक भोंवरो घुंवत येयलो खंय आनी तारी व्हडें तेतूंत घुंवलें खंय. गेल्ल्या शंबर वर्सांत हे तारीर अशें जावंक नासलें. पूण देऊळ...''

दुसऱ्यान एकल्यान मदींच ताका आडावन म्हळें, ''त्यो खबरी नाकात हरी. नांव नाका तेंचें. आमचो गांव बरो उरचो म्हण माग देवाकडेन.''

शंभू संभ्रमांत पडिल्लेवरी जालो. तो वोगी चलूंक लागलो. तो पानवेली गांवांत पावलो तेन्ना सुर्या माथ्यार पाविल्लो तरीय थंयचे वाटेवयल्या आंब्या पणसांक लागून वाटभर बरीच शितळसाण आसली. मदींच एकादरें उकतें मळ लागतालें. त्या उकत्या मळावयल्यान चमकताना मात वोताची खर तिरीप लागताली.

दिवाडेचे तारी व्हडें बरेंच व्हड आसलें. ताका एके वटेन तराफो बांदिल्लो, ताचेन तें उदकांत चड हालनासलें. तारीची नवी पावणी घेतिल्ली हो तारयो काळो आनी बळभीम कसो धश्टपुश्ट आसलो. तो सांवार येयिल्लेवरी होले मारतालो. व्हडें मदीं पावतकीर शंभूक खरेंच ते तारीची, त्या अथांग उदकाची भिरांत दिसली. मदीं पावतकीर आलतड पलतड शेणिल्लेवरी तो थतरवितर जालो. ताका भयणीचो

चडच ध्यास लागिल्लेवरी जालो. ताचे यादीन तो आकुळपिकूळ जालो. तारी व्हड्यांत बशिल्ल्या एकल्यान मदींच ताका विचारलें, ''खंय, कोणागेर वयता गा?''

''भयणी घरा वयतां हांव. पाशाणा बांयकडचो शाणू देसाय मुगेलो भावोजी.''

आयकोन तो मनीस चिंतेंत पडिल्लेवरी दिसलो. भिरांतेचें एक सावट ताच्या चेऱ्याचेर देंवलें. पूण तो कांयच उलयलो ना. त्या अथांग सागरा मदीं ताकाय कितें विचारचें अशें दिसलें ना. भिरांत मनांतूच चेपून दवरून तो वोगी रावलो. पूण मनांत एक दुगदूग - अशें कित्याक हाचें तोंड काळें पडलें?

व्हडें तडीक लागतकीर शंभू आदींच बेगीबेगीन देंवलो. ताचे पांय तडीवयल्या काळ्या चिखलांत धिमीभर बुडले. तशेच उदकांतल्यान पांय ओडीत तो तडीर येयलो. तागेले भयणील्या घरा पावंक आदीं इल्ली चडटी चडून वचूंक जाय आसली. ते चडटेर माथ्यार दुला म्हाराली व्हड गवळ कशी खोंप आसली. हो काळो कुळकुळीत उंच उकतो दुला म्हार. दोळ्यांच्यो पातकड्यो मात तांबश्यो रगशेल्ल्यो. ताचेन तो पळोवंक उग्र दिसतालो. पूण उलोवप मात गोड म्होंवाळ. शंभू ताका बरो वळखतालो. तो दोन फावट बायेघरचें सांगणें घेवन आदोळशी येयल्लो. एक फावट बायचो मांव भायर पडलो तेन्ना आनीक एक फावट आपणाक बाप्पावेल्यान वायट सपन पडलें म्हण बायनच हुस्क्यान ताका धाडिल्लो. खोंपी मुखावेल्यान वयताना केन्ना दिस्टीक पडल्यार बेगीबेगीन मुखार येतालो आनी म्हणटालो, ''कितें मेवण्यांनू, बरे आसात न्हू? केन्ना येयले? आज भावजी शेंकरा कोंबो मारतलोच सोड.''

पूण आज निकतेंच सोडोवन हाडिल्लेशें बैला चामडें ताणें कण्णार सोडोवन घातिल्लें. ताका तो परतो परतो उदक मारतालो आनी सुरयेन घांसतालो. शंभूक पळोवन ताणें नदर काडून घेतली आनी आपल्या कामांतच रावलो. शंभूक ताका उलो मारचो अशें दिसलें, 'दुला, कसो आसा?' तो मात्सो थारलो लेगीत. पूण दुला ताचे वटेन पळोवंकच तयार नासलो. तो तिडकीन सो चामडें घांसतालो. शंभू वोगी चलूंक लागलो. असो कसो वागलो हो दुला म्हार !

शंभू वोगी थंयसान मुखार आयलो. देंवती देंवन बायल्या घरासरीं आयल्यार थंयची आवतिकाय पळोवन ताची तकली घुंवली. घरामुखावेली मेर खणून काडून उडयल्ली. तुळशीमांडी पावसाळ्यान कोंसळिल्ली ती तशीच पडून आसली. तांतलें तुळशी झोंप उदका विणें मरून गेल्लें काय कोणें हुमटून उडयल्लें, कांयच कळनासलें. पंदरा दीस सात्र भोंवडावंक नाशिल्ले वरी आंगणांत खूब कोयरकचरो सांचिल्लो. पळोवन शंभूल्या पोटांत खपखपलें. तो आंगणांत पावता थंयच आसा, भयण विठाय घरांतल्यान धांवन आयलें आनी दाराची चवकट घट धरून उबें रावलें. ताचो चेहरो, पातकड्यो कांय वेळ रडूंक थरथरिल्लेवरी जाल्यो. मागीर ताणें आकुळपिकूळ जावन

म्हटलें, ''नाका, भावा म्हज्या, घरांत येय नाका. येय नाका तूं घरांत.''

शंभून पळयल्यार ताच्या गळ्यांत गळसरी ना आनी कपलाक कुकूमय ना. पळोवन ताचो जीव सामको गळ्यांत आयलो. ताणें म्हटलें, ''कितें जालें बाय, कित्याक तूं म्हाका घरांत येवं नाका म्हणटा?''

''येवं नाका तूं घरांत. देवाधर्माचो तूं एकलोच भाव म्हजो. कोणें पळयल्यार घात जातलो.'' आनी तें रडूंक लागलें.

''कितें जालें, सांग तरी म्हाका. तुवें कपलाक कुकूम कित्याक लावंक ना? गळसरी खंय तुगेली? भावजी खंय गेला? सांग गो बेगीन म्हाका.''

''भावा, आमी बाटल्यांत. आमी तेंच्या धर्माचो मंत्र घेतला.''

ताका खप्प जालें. ''पूण तुवें कुकूम कित्याक लावंक ना?''

''तेंचो कायदो आसा. आतां आमी तुळस पुजूंक जायना. गळ्याक गळसरी घालूंक जायना. आड गेल्यार धरून व्हरून ख्यास्त दितले ते.''

इतली वाट माडोवन भयणीक पळोवंक म्हण आस्थेन, कळवळ्यान आयिल्लो पोर. आयकोन रडूंक लागलो. सान भुरग्यावरी नाक ओडत रडूंक लागलो. तो रडटा तें विठायच्यान पळोवं नजो जालें. ताकाय भावाक वेंगेंत घेवन रडचें अशें दिसतालें. पूण ताचे पांय वोज्याचे जावन भुंयेंत मुंगरिल्ले. कांय वेळान तें भितर गेलें. भितरल्यान एक कांबळ हाडून ताणें भायर वासरेर उडयली आनी म्हटलें, ''रडूं नाका. बस तूं थंय. दैवांत आशिल्लें चुकूंक येयल्लें ना. तूं मात राख सोताक.''

तो कांबळ घेवन वासरेर बसलो. रडचो रावन ताणें विचारलें, ''केन्ना? कितें जालें तर? कित्याक म्हण...?''

''दोन म्हयने जाले आतां. तुमकां सांगून धाडलें ना. कितें म्हण सांगणें धाडटासलें? भयण मेली म्हण?''

''कित्याक म्हण जाले तर तुमी? कित्याक जावंक जाय आसलें?''

''चोडणेच्या देवळाची चार खांडयेची शेतजमीन आसली आमचेकडेन. वर्साचो गिरास तो. पांच पिळग्यांसान चलत येयिल्लो गिरास. देवूळ पाडतसान ते फाटीकच लागिल्ले, किरिस्तांव जायात, ना तर शेत इगर्जेक दियात म्हण. परतेपरते धमकावंक लागले. तरीय तें आमी रोयलें. रोयतकीरय येवन धमकावंक लागले, किरिस्तांव जायात ना तर पिकतकीर शेत आमी कापून व्हरतले म्हण. गांवचे कांय जण आदीं तयार जाले. मगेर भावजीय जालो तयार. भावजी शेतार वचून येतालो आनी रडूंक बसतालो. म्हणटालो, हो तोंडाचो गिरास गेल्यार सगळ्यांनी न्हयंत नातर बांयंत वचून जीव दिवचो पडटलो. तेचो जीव शेताभाटार. शेत गेल्यार आपूण जियेवचो ना म्हणटालो.''

''बाय, तुमी उठून आमगेर तरी येवंक जाय आसलीं. मगेर कितें जाता तें चोवंक येतासलें.''

''हांयें म्हणिल्लें. पूण ती आवय आनी पूत घरदार सोडूंक कशींच तयार ना जालीं. हांयें एक दीस रागान भुरग्यांक खाकोळांत मारलीं आनी हांव वचूंक सुटलें तुमगेर. आंगणा मेरेसरीं पावतकीर भावजीन येद्देंशें तोंड करून म्हटलें, 'विठाय, तुंवूय सोडून वयता म्हाका?' म्हजें मन चरचरलें.'' तें आतां मोठ्यानच रडूंक लागलें. रडचो वोग उणो जातकीर ताणें सांगलें, ''तेची आवय तशीच रावता आमचे वांगडा. तिणें तेंच्या धर्माचो मंत्र घेवंक ना. म्हणटा, पूत आसा थंय हांव आसां. फाल्यां लासात नातर पुरात म्हाका.''

विठाय भितर गेलें आनी गळ्यांत गळसरी घालून आयलें. ती ताणें वयल्यान पदर ओडून लिपोवन घेतली आनी म्हटलें, ''गळसरी काडल्यार जीव भियेवन वयर सकयल जाता म्हजो. खपखपो भरता. म्हण लिपोवन घालतां हांव. तिनसांजचें घालप आनी सकाळीं उठ्ठकीर काडप.''

बायचें धाकलें भितर मांयसरीं आसुंये. ताणें रडिल्लो आवाज येतालो. पूण चार वर्सांचो बायलो चेडो बाबुली मात परतो परतो भायर येवचेलो यत्न करतालो. मदींच मांय येवन ताका ओडून व्हरताली. शंभून विचारलें, ''बाय, भुरग्यांकय तेंच्या धर्माचो मंत्र दिला?''

''हय. तेंकां तर पयलीं दिलो.''

''तेंकांय घेवंक मेळचें ना म्हाका?''

''नाका. तें आनी बगलांट नाका. वायट वारें व्हांवता. जशे सगळे दोपून आसात बाटोवन घालूंक. आपलींच मनशां दुस्मान जाल्यांत. पयर आंबोड्या एकल्याले बांयंत कसलें तरी ताजें हाड हुबताना दिसलें. गांवान त्या घराचेर बाट घातली. त्या घोवान आनी बायलेन खंय पुराय भरिल्ली बांय उपसून उडयली आनी भटाक आफोवन हाडून बांयच्या तळाक होम घातलो. बांय परत भरतकीर खंय लाशिल्ल्यो शेणी, कोळशे, केळीचे कवंडाळे वयर हुबताले खंय. तें पळोवन वाड्यावयल्या लोकांचें समाधान जालें.''

भयण आनी भाचरांय आपणाक पयस जालीं म्हण होलमतकीर शंभूक खुबच वायट दिसलें. मूळच तुटिल्लेवरी जालें. ताका परत रडूंक येवंक लागलें. कांय वेळान भावजी येयलो. मोन्यानच भितर गेलो. दारांत उबो रावन ताणें म्हटलें, ''ना, आतां येवचेंय उरलें ना आनी वयचेंय उरलें ना. आमी आतां मेलींच म्हण समजात. निमणें एकच सांगतां, कसलेच भकीक पडूं नाका तूं. भाटाबेसांक मिठी मारून रावं नाका. प्रसंगार दिगंतराक वचात. पूण हें नाका. आमी भोगलां तें पुरो.''

मगेर दारांत कांय वेळ सुन्न एकसुरेपण पातळ्ळें. कोणाचो कसलो आवाज नासलो. काळोख पातळूंक लागिल्लो. मनांत उलोवण्याचो हुंवार तुंबून आसलो. पूण सगळ्योच वाटो बंद जाल्लेवरी उलोवणें तुटिल्लें. सगळो एक घुसमटमार! लागीं आसुनय कितलें पयस! कितलो तरी वेळ सगळे मोन्यांनी! शंभू तसोच वासरेंत बशिल्लो. कार्तिकाचें थंड वारें वेळटालें. भायर पातळ धुंवटी पातळिल्ली आनी भायलें वातावरण दंवांत भिजूंक लागिल्लें. भायर काळोख, धुंवटी आनी दंव. भितर एक मोनें एकसुरेपण. काळाचे फाटीर बडी मारून वेगळायल्लेवरी.

मांयन भुरग्यांक भितर व्हरून जेवंक लायिल्लें. हेर सगळे घरांत उपाशींच बशिल्ले. विठाय तर सामकें हुंबऱ्यार भावाचेर नदर लावन. म्हजो भाव भयणील्या दारांत उपाशीं बसला आनी शिंयान कुडकुडटा! ताका भितरल्यान दुख्खाचो खर उमाळो आयलो आनी ताचे दोळे भिजले. ताणें रडत कस्टान थोपोवन धरले. ''भावा, शीं खातलें. ती कांबळ कांबरून घे.''

शंभून बसूंक घेतिल्ली कांबळ काडली आनी पुराय कानावयल्यान कांबरून घेतली. कांय वेळ तसोच गेलो. शंभून म्हटलें, ''बाय, म्हाका इल्लें उदक दियच तूं पिवंक. उदकाक कांय लागना तें.''

विठाय धर्मसंकटांत गाविल्लेवरी कांय वेळ वोगीच रावलें. मगेर 'देवाधर्माचो भाव तूं म्हगेलो' म्हणत उठलें. ताणें घरांत वचून बिंदूल हाडलें. दारांतलो राजू घेतलो आनी ते बांयसरीं ताज्जें उदक हाडूंक गेलें. काळखांतल्यान कांय वेळ पावलांचो पतरो मांडयल्लो आवाज आयलो. मगेर बरोच वेळ सगळें थंड... बांय तर लागींच आसा आनी बायक इतलो कळाव कसो जालो? ताका भिरांत दिसली. भावजीक उलो मारचो अशें दिसलें. पूण परत ताणें बायल्या पावलांचो आवाज पयसुल्ल्यान आयकलो. बायन उदक हाडून ताका भायर आफोवन पसो कर म्हण सांगलें. वयल्यानच ताणें शंभूल्या पशांत उदक ओतलें. उदक पिवंक दिवन तें बेगिबेगीन भितर वचूंक लागलें. शंभून विचारलें, 'बाय, बांय तर हांगा लागींच आसा. मागीर तुका उदक हाडूंक इतलो कळाव कित्याक जालो?''

''आतां गांवचो लोक आमकां लागींच्या बांयचें उदक भरूंक दियनात. वाड्या भायले पोन्ने पडिंग बांयचें उदक हाडटात आमी. पयलीं तें उदक गोरवांक बीन काडून घालताले. वाड्यार तीन घरां बाटल्यांत. सगळ्यांक आतां ते पोन्ने बांयचें उदक.'' भितर वयतां वयतां पिनिल्ल्या आवाजांतशें ताणें म्हटलें, ''हांगा उदक पियेलो म्हण कोणाक सांगूं नाका. उजवाडचे पयलीं ती कांबळ भितरले वटेन काडून उडय.'' तें गेलें आनी उक्त्या दारांत उंबरा भितरल्यान वोगी उबें रावलें.

''शंभू, भूक लागली मुरे?''

"ना. पेज जेवन येयल्लों हांव."

"भावजीक दोन ़शिंयाळीं काडून दी म्हण सांगूं?"

"रातचें नाका बाय."

"शिंया कुडकुडो आनी तेतून भूक. कशें जातलें !" तें भितर गेलें. घरांत एक हुमकळावन दवरिल्लें तवशें आसलें. तें ताणें हाडून ताच्या सामकार दवरलें. "फोडून खा तूं हें." वांगडा कोयतीय हाडून दिली.

"बाय, तूं जेयना?"

"जेयतलें. तूं आदीं खा तें फोडून." शंभून कोयतेन तवशें फोडलें. ताका खरीच भूक लागिल्ली. ताणें अर्देक तवशें खायलें आनी अर्दें तशेंच कुशीक दवरलें. "बाय, तूं जेयना?"

"भाव भयणील्या दारांत उपाशीं आनी म्हाका गोटो वचत?" तें भितरले वटेन थंयच वण्टीक तेंकून बसलें. "शंभू, आवय, बाप्पा बरे आसात मुरे? बाप्पालो पांयो कसो आसा?"

"आसा बरो. रानांत बीन वयता केन्ना."

"कित्याक इतलो त्रास घेता तो? शेजारची भिकी भाजीमाळ्यावयल्यान पडिल्ली कशी आसा आतां?"

"वायट जाली ती चवथीकडेन."

'च् च्... वटवटे काडले तिणें निमाणें मरतना. चांदूक ह्या वर्साक जोताक बांदला?"

"हय. बाप्पा म्हणटा, एक वर्स जोत ओडटलो म्हण तो."

"गेल्ल्या वर्साक कुकमाआंबो फुलूंक नासलो. ह्या वर्साक फुलतलो तो. पिकूंक येतकीर एक वल्लीभर म्हाका हाडून दी."

"बरें गो, दितां हांव हाडून."

"हांव आसां म्हणसर कुकमाआंबो चुकोवं नाका म्हाका. आनीक कितें आसा म्हजें? आनीक कितें मागतलें हांव?"

"बाय, तुज्यान आतां घरा येवंक जायना?"

"म्हाका आतां तुमचोच हुसको. म्हाका लागून तुमचेर बगलांट नाका. केन्ना येयलें तरी अशें भायर बसून येवचेलें. घरांत कोण घेतलो म्हाका बाटग्याक? हांव तरी कशें येतलें, खंयच्या तोंडान? आपलो धर्म बुडटकीर कशें जाता पळयलें मुरे? तूं राख सोताक शंभू. आदोळशा पावल्यात ते?"

एकच पाद्री भोंवता गांवांत. तो म्हणटा, खोशयेनच कोणेय तेंचो धर्म आपणावचो म्हण."

''कांय खरें न्ही तें. एक फावट रानाक उजो लागलो म्हणटकीर सुकें म्हण ना ओलें म्हण ना. आतां आमचेंच पळय न्ही. इगर्जेची जमीन पिकोवन खावप म्हटल्यार किरिस्तांव जाल्लेवरीच जाले अशें लोक म्हणूंक लागले. परत आनी माण्णी कितें? आमी जमीन केन्ना सोडटात आनी आपणाक झोपय केन्ना घालूंक मेळटा ती. ते तर सारक्के लागिल्ले जमीन पावणेर काडटात म्हण. कशेंय जाल्यार मरण आसलें.''

शंभूक आतां झेम येवंक लागली. तो कांबळ कांबरून घेवन तसोच लवंडलो. येतसान तो इतलो कांचवेल्लो, भियेल्लो, ताका आतां भायर पडवेंत एकलो न्हिदूंक भिरांत दिसताली. 'बाय, हांव भितरले वटेन न्हिदतां गो, भयणील्या घरांत भावाक कसली बाट' म्हणचेलें ताच्या मनांत आयिल्लें. पूण ताका दिसलें, बाय भितर घेवचें ना. मागीर ताका दिसलें, बाय तर हांगा दारांतच बसता. ताणें एक फावट कांबळी खोल्यांतल्यान भयणीसरीं पळयलें. तें तशेंच बशिल्लें. 'बाय, तूं आतां वचून न्हीद' अशेंय ताणें म्हटलें ना. बायची ऊब ताका चड लागीं उरची अशें ताका दिसतालें.

विठाय मध्यान रात जाली तरी हुंबऱ्यासरीं वणटीक तेंकून बशिल्लें. मदीं घोवान दारांत येवन म्हटलें, ''हांवच शेनरी घालून आड पडटां भितरलेवटेन हिंगाच.'' घोव दारालागींच सालांत न्हिदलो. विठायक बशिल्लेकडेन लकण लागताली. पूण तें भियेल्लेवरी जागें जातालें आनी शंभूली सुलूस घेतालें. काळखांत न्हिदिल्लेकडेन ताका दोळे ताणून पळयतालें. मागीर दोळे भरून येताले. कांय वेळान तें हुंबरासरींच आड पडलें. झेम लागल्यार सपनांत कुळारच्या देवाच्या देवाखांब्यार ही व्हडली सर्डुकायेदी पाल. ती पाल खांब्यार वांकडीतिकडी भोंवता. कांय वेळान तीच पाल आपल्याच आंगार भोंवता अशें ताका दिसलें आनी कांचवेवन तें जागें जालें. अचकीत भान गेल्लेवरी ताणें विचारलें, ''शंभू, रामनाथा देवळाचें अश्टबंधन केन्ना खंय? हांव येतलें म्हण सांग हां म्हाळूआज्याक. सवाशीण हांव...'' रातभर तें सपनेतालें, कांचवेवनशें परत परत जागें जातालें आनी भावाली सुलूस घेतालें.

सकाळीं शंभू बेगीनच उठलो. घडी करून कांबळ ताणें भितरल्यान उडयली आनी धोंपरा भोंवतणीं मिठी घालून कांय वेळ बसलो. एक जाण्टी बायल घरामुखावयल्यान वयताली. पयस उबो रावनच तिणें विचारलें, ''आगो विठाय, भाव येयल्लो राती? खंय जेयलो तो, खंय न्हिदलो? उदक तरी पियेलो मुगो?''

''ना, भायर उपाशींच न्हिदलो तो.''

''भाव जालो तरीय आतां परकोच तो. परधर्माचो. तेका पावळे भितर असो कित्याक दवरून घेवचो? ना तर आमगेर तरी धाडचो न्ही?''

विठाय वोगीच रावलें. ती बायल मात्शी मुखार गेली आनी फाटीं वळोन तिणें विचारलें, ''कितें नांव दिलां गो तेणीं तुका? तोंडार बसच ना पळय.''

विठायन सांगलें ना. ती बायल गणयत गेली. ''शेताभाटाक लागून आपलो धर्म सोडचो म्हण आसा? धर्म व्हड.''

ती बायल वयतकीर शंभून विचारलें, ''बाय, तुका दुसरें नांव दिलां तेणी? कितें तें?''

विठायक शिट्ट जालें, अवमान जाल्लेवरी. ''तुका कित्याक जाय तें?''

तो वचूंक उठलो तेन्ना घरांतलीं सगळीं दारांत उबीं आसलीं. विठायन ताका एक सोलिल्लो नाल्ल हाडून दिलो. ''हो व्हर. वाटेर भूक लागल्यार फोडून खा.'' शंभून तो हातांत घेतलो. पूण 'तूं परत केन्ना येतलो' ना तर 'तुमी आमगेर केन्ना येतलीं' हीं उतरां कोणाल्या तोंडार येनासलीं. येवपं वचप निमणें जाल्लेवरी सगळे वोगी. शंभू चलूंक लागलो. पूण दिठये भायर वचचे पयलीं ताणें एक फावट बायल्या घरावटेन वळोन पळयलें. घरचीं सगळीं मनशां पावळेंत उबीं आसलीं. बायलीं भुरगीं लेगीत. तो तांकां हात लेगीत लावंक तांकूंक नासलो. ताका दिसलें, हीं सगळीं एका आकांताळ्या भोंवऱ्यांत घुस्पल्यांत. आनी तो भोंवरो म्हाकाय भितर ओडूंक सोदता. कसलीच ताकतीक नाशिल्लेवरी मेल्ल्या पावलानसो तो चलतालो. तो मुखार वचना, तर फाटीं येता अशें दिसतालें.

तो वचूंक वयतकीर विठाय इतलें कासावीस जालें, वोगी भितर गेलें आनी शेनरेर पडलें. दुख्खान काळीज आंवळून येयल्लेवरी जातालें ताका.

अण्णूक पाद्री सिमांव पिरिसासरीं तीन म्हयने जावंक येयल्ले. दर फावटी पाद्रीन 'हांव तुका बातीज्म घेवंक गोंय पाटणांतल्या पाद्रीसरीं धाडूनं दितां' म्हटल्यार तो रडूंक लागतालो. झिलीझोंपांनी वचून लिपून बसतालो. पाद्री मगेर ताका सोदून हाडटालो. एक दीस पाद्रीन ताका म्हऱ्यान बसोवन निमणें म्हटलें, ''एका म्हयन्याचो वायदो दिवन तुका वांगडा हाडिल्लो. तीन म्हयने जावंक येयले, दर फावट तूं किरिस्तांव जावंक वच म्हटल्यार खांकुडटा. तुवें तुजें उतर मोडलां. तें एक पातक. तरीय हांव तुका निमणी संद दितां. फाल्यां आयतारा तुका तोमासा वांगडा सां कातारीन इगर्जेचो पाद्री गास्पार दियेसासरीं धाडून दितां. तो तुका बातिज्म दितलो. त्या वेळेचीं धवीं वस्त्रां तुका तेच दितले. फाल्यां आयतारा एक तर तूं बातिज्म घेवंक वच ना तर परतो तुज्या घरा वच.''

''थंय म्हाका गायेचें मास खावचें पडटलें बापा?''

''तुज्यान तें खायना म्हणूंक जायना.''

''थंय म्हाका दुकराचें मास खावचें पडटलें बापा?''

''तुज्यान तें खायना म्हणूंक जावचें ना.''

''खायना म्हटल्यार कितें करतले?''

''धर्मा आड वयतल्यांक जी ख्यास्त जाता ती तुकाय जातली.''

अण्णू वोगीच रावलो. ''फाल्यां सकाळ मेरेन तुजें कितें तें तूं थाराय. आयतारा उपरांत तुका हांगा रावंक मेळचें ना.''

''तसोच तुजेसरीं रावतां हांव बापा.''

''ना. जावचें ना. जायत्या कारणांक लागून तें जावचें ना. तुका तसोच दवरून घेवंचों ना हांव.''

त्याच दिसा रातचो अण्णू धांवन आपल्या घरा आयलो. घरा एक थोटो भाव आसलो. ताचे परस बरोच व्हड. तांकां थोडें शेतय आसलें. आवय बापूय आसतना गांवकेचें आनीक थोडें शेत पावणेर घेवन ते पिकयताले. उपरांत ते सुटिल्ले. आदीं बैलांचें जोत आसलें. एक दीस एक बैल दोंगरान गेल्लो तेन्ना पांय बिळान पडून पांय मोडून मगेर मेलो. दुसरो असोच बरोच तेंप पारपोळ भोंवतालो. ताका मगेर कोणें केन्ना खंय बांदून व्हेलो कळ्ळेंच ना. आतां घरचें लेगीत शेत केलार केलें ना तर तशेंच पडिंग उरलें अशें जातालें. एक वर्स अण्णून सगळें शेत कुदळीन खणून घातिल्लें आनी शिवा नायकाकडच्यान रोवन घेतिल्लें. मगेर मात तो संसाराकच उबगल्लेवरी जालो. अडांगीपणां करूंक लागलो. गेल्ल्या पावसा पयलीं घरशिंवणेक तांचेसरीं एक मूठ तण करड नासलें. पयलीं पसून वाड्यावयलीं घरां रासवळच शिंवताले. सगळे मेळून एकएकल्याचें घर शिंवन उडयताले. हांगेलें घर शिंवताना तणा पेंडे नात म्हणटकीर जण एकलो येताना पांच पांच पेंडे हाताक धरून घेवन येयल्लो.

थोटो भाव तर घराक कवडय लायनासतना कुंटतकुंटत वाडोभर भोंवत आसतालो. कोणालेय वासरेंत बसून इल्लो पेजे निवळ घोट्टालो. ताचो एक पांय इतलो बारीक आसलो, तो मुखार घालतकीर कांय वेळ कडकडटालो. तो आदीं नीट थारोवन मागीर दुसरो पांय घालतालो. अण्णू रातचो येयलो आनी उकत्या दारांतल्यान भितर वचून सालांत भुंयेरच न्हिदलो. एका कोनशाक भाव लव्याचे मांदरेर उकतोच न्हिदिल्लो. अण्णून ल्हवूच कवड ओडून घेतिल्ली. थोटो सकाळीं उठ्टकीर ताची नदर पयलीं अण्णूचेर पडली. तो एकदम बेबुळिल्लो, व्हडान आड्डलो, ''अरे अण्णू, तूं घरांत येयलो? हं हं... केन्ना येयलो तूं?'' मगेर तो एकदम गप्प जालो. मायेन मोगान भावासरीं पळोवंक लागलो.

कळसो हांडीर मारून बांयसरीं वयतले दुरपदेन ताचें आड्डुवप आयकलें. आपलो मातयेचो कळसो थंयच दवरून ती भितर गेली. अण्णूक घरांत न्हिदिल्लो पळोवन ती तशीच भायर येयली. भायर आंगणांत उबी रावन व्हडाव्हडान बोवाळ घालूंक लागली.

''मसणो, हुंवाळिल्लो, गांवार गू खावन आतां घरांत येवन न्हिदला... बाटग्यान वाडो भश्टिलो, घर भश्टिलें. कलंक लायलो गांवाक.''

बोवाळ आयकोन कोणकोण दादले आंगणांत येयले. तेवटेच्यान लवू, देवू येयले. मुखाल्लेवटेच्यान सुकडो, पुरसो, सातण येयले. पुरशान दत्तूल्या घरामुखार एक खुंटावजें तेंकोवन दवरिल्लें तांतुंतलो एक खूंट ओडून काडलो. तो घरांत गेलो. फाटल्यान आनीक दादले. घरांत घुशिल्ल्या भिरांकूळ जनावराक मारून धुकलून भायर काडचें तसो तो अण्णूक खुंटान धुकलूंक लागलो. ''चल भायर सर हांगाचो. तुजें नांव नाका, तुजें वारें नाका ह्या वाड्यार.''

अण्णू तसोच भायर आंगणांत येवन उबो रावलो. वेंटून लागींच्या करबेला झाडाची एक बडी मोडून घेतली आनी ताचेर चार बडयो फुलयल्यो. अण्णू आवयस्स् आवयस्स् करीत रडूंक लागलो. देवून एक खोंट मारून ताका विचारलें, ''तेंचें गाये मांस खायलें मुरे तुवें?''

''ना, ना, खावंक ना.''

''तेंचें दुकरा मास खावंक ना तुवें?''

''ना, ना. खावंक ना.''

''मागीर कितें माती खावन रावलो तूं थंय? वयल्यान आनी फट उलयता तूं. चल होसमार हिंगासल्लो'' म्हणत पुरसो ताका खुंटान धुकलूंक लागलो. धुकलीत आनी हेरांनी बडयो शेडायत ताका वाड्या भायर व्हरून धुकलून उडयलो.

अण्णू ल्हान भुरग्यावरी वाटभर रडत पाद्री सिमांवासरीं गेलो. ''बापा, म्हाका मारतात ते. हांव खोशी आसां किरिस्तांव जावंक. फाल्यां आयतारा हांव देमूमामा वांगडा वयतां गोंय पाटणांत.''

मार खावन तेचें आंग सुजिल्लें. हो एकेक वळ उठिल्लो उकत्या आंगार. पाद्रीचें मन कळवळ्ळें. ताणें ताका खाकोळांत घेवन ताच्या आंगावयल्यान मोगान हात भोंवडायलो. ताका तो आपल्या मांगरांत घेवन गेलो आनी ताका आपल्या हांथरुणार बसयलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळींच पाद्रीली चीट घेवन अण्णू तोमासा वांगडा गोंय पाटणांत वचूंक गेलो.

अण्णूक बातिज्म दिल्ल्या वीस दिसांनी जाण्टेलो मंजू नायक येयलो आनी आपूण किरिस्तांव जातां म्हणूंक लागलो. बरें दिसलें पाद्री सिमांवाक. ताणें मंजूक इतलेंच सांगलें, ''किरिस्तांव धर्माची नेमनिश्ठा खर. ताका सारको पाळो दिवंक

जाय. तांतूंत आनी इन्किझासांव म्हणून आसा. तें तूं किरिस्तांव धर्म नीट पाळटा काय ना तें बारीकसाणेन पळयता.''

''हांव निश्ठेन पाळटलों तो धर्म पाद्रीबापा.''

''पूण तूं आपलो धर्म सोडून हो धर्म कित्याक आपणावंक सोदता?''

''हांव नकळं. हांव तुजेवांगडा आतां एक म्हयनो जालो भोंवतां. म्हाका तुजें मानवलें. हांव उबगलां जिविताक. म्हाका नवी वाट जाय. तुजें म्हाका मानवता.''

पाद्री शेरमांव सांगूंक वाड्यावाड्यांनी भोंवताना तो ताचे फाटल्यान कासाळ वाजयत वयतालो. कोंकणी, कानडी, मराठी सरमिसळ उतरांचीं देवभक्तेचीं गायनां म्हणटालो. ताचो आवाज उंच आनी गोड. पाद्री शेरमांव सांगूंक रावलो म्हणटकीर तो आदीं कसलेंय एक पद म्हणटालो आनी व्हडाव्हडान कासाळ वाजयतालो.

मंजून आतां पन्नाशी हुपिल्ली. बारीकसो असो उंच, लांबट सुकिल्ल्या तोंडाचो मंजू. तागेली बायल भायर पडिल्ली आनी संवसारावेल्यान मन उठिल्लेवरी तो भोवच उबगणेंत जियेतालो. तागेले दोगूय पूत ताका मान दियनासले. तो नीट वावर करिना, बेठोच भोंवत आसता म्हण तेगेले दोगय चेडे तेका गाळी संवताले, मारूंक येताले. एक दीस तिडकीनसो वचून तो गोंय पाटणांतल्यान बातिज्म घेवन येयलो. येवन वयल्या आकाड्या भायर बसलो आनी तेणें पुताक सांगणें धाडलें, हांव किरिस्तांव जावन येयलां. आयकोन दोगूय पूत मारूंक दांडेच घेवन येयले. एक सून तर हातांत पेट्टी उज्याकोलती घेवन येयली. मागीर मंजून दोंगरा कडेर एक खोंप बांदली आनी तेंतूंत तो रावंक लागलो.

वेळ माथ्यार पावत येयल्लो. ताच्या रुप्या उजवाडांत दिठयेक येता मेरेनचो सगळो वाठार झगझगतालो. मुखावेलो दोंगोर, शेतां भाटां, मरडां, रुखावळी, व्हाळाच्यो तडी आनी सखयल्लीं खाजनां ह्या आरपार उजवाडांत हाताकडेन येयल्लेवरी दिसतालीं. थंयसान अडेज तीन मैलार आशिल्ली अघनाशिनी न्हंय मात दिसनासली. तिचे धडयेर पयस मेरेन उंचउंच रुखांची गच्च रुखावळ आसली. दोंगुल्लेच्या माथ्यार गेल्यार मात ती बेस दिसताली. न्हंयच न्ही, तर कुठ्ठाळ, सांखवाळ, चिखली मेरेनचो पुराय वाठार दिसतालो. पाद्री सिमांव आपल्या मांगरा मुखार उबो रावन आपले दिठयेंतलो सोबीत वाठार देहभान विसरून पळयतालो.

शाकभाजी हाडूंक म्हण गांवांत गेल्लो तोमास येयलो. ताच्या हातांत कांय वायंगीं आसलीं. सामकीं धवीं वायंगीं. तो पाद्री म्हऱ्यान येयलो आनी ताणें सांगलें, ''पाद्रीबापा, गोंय पाटणांतल्यान चवग जाण येयल्यात गांवांत. तीग सोल्दाद आनी

एक फिदाल्ग पाखलो. हेदोळ दोंगरांतली वाट देंवन येवन देवळा मुखावयल्यान गांवांत गेल्यात.''

''कित्याक येयल्यात ते?''

''नकळ. हांयें विचारल्यार कांयच सांगना जाले. गुर्मेतच चलूंक लागले.''

''गांवांत खंयूय चोरीमारी जाल्ली आसतली. ना तर कोणें तिरवो, डबी बुडयल्ली आसतली.''

तशें जाल्यार तें तुका आदीं कळचेलें. तूं तर सद्दां वाड्यावाड्यांनी भोंवता नितीचें शिकप दीत. मोगाच्यो खबरी सांगता तेंकां, दळदिऱ्या लोकांक. तेंकां तुमचो शेरमांव नाका. तेंकां जाय घाडी, मोडी भाशेंत करणी करून घालपी. म्हारवां गिऱ्यांची नड काडपी बंट आनी जोशी जाय तेंकां. पयर कितें जालें जाणा, हांव सांजचो तांतीं हाडूंक म्हण शिरवाड्यार गेल्लों. थंय एक म्हार एका नायकाली दिस्ट काडटालो. एक मडकी तो त्या नायकावेल्यान हुंवाळटालो आनी तेतूंत एकच सुकी मिरसांग घालून ती इंगळ्यार बरी तापयतालो. मगेर ती काडून उदकांत उमथी मारतालो. म्हणटकीर बरो बुडबुड आवाज येतालो. अशें तेणे तीन फावट केलें. मागीर तेणें नायकाक सांगलें, तुजेवयली वायट नदर काडून हांये उदकांत बुडयली. आतां तूं बरो बळभीम जातलो. म्हाका मजाच दिसली. त्या बुडबुड आवाजाचें कुवाडें पडलां म्हाका.''

पाद्री इतलो वेळ पासेंसान ताका आयकतालो. आतां तो सट् करून तापलो. ''तूं गांवांत येयल्ल्या सोल्दादांची खबर सांगतालो, खंयच्यान खंय पावलो तूं. कसल्यो खबरी सांगता पाड पडिल्ल्यो.''

''ते गांवांत गेल्यात इतलेंच चोयलें हांवें. आनीक कांय खबर ना म्हाका.''

''चल, म्हाका पेज वाड. हांव मात्सो भोंवन येतां गांवांतल्यान.''

''आतां दनपरां आनी कित्याक पाद्रीबापा?''

''ना, वचूंक जाय म्हाका.''

''वचात, त्या फिदाल्गांक मेळूंक वचात. तो घडये तुमचो दायजी वा सोयरोय आसत.''

पाद्रीक ताणें आपलो अवमान केल्लेवरी दिसलो. ''चड सुबेज जाला तूं तोमास. वायट कर्तुब हें तुजें हेरांक दुखोवचें. तुजी पेज नाका म्हाका. हांव असोच वतां.'' पाद्रीन आपलो झोगळो कोट आंगार लखयलो. तोमास एकदम मुखार येयलो. ''रागार जावं नाका पाद्रीबापा. भोगसणें मागतां हांव.'' मगेर ताणें कपलार हात धाडावन घेत म्हळें, ''कित्याकितेंय उलयतां हांव तकली घुंविल्लेवरी. पाद्रीबापा, म्हजी बायल केन्ना किरिस्तांव जावंची ना?''

पाद्री वोगीच रावलो. तोमासान वाडिल्ली पेज खाऱ्या वांगडा मोन्यानच जेवलो. ताणें मदींच सट्करून विचारलें, ''तोमास, तुका तूं किरिस्तांव जालो म्हण खंत भोगता?''

''पयलीं पयलीं भोगताली पाद्रीबापा, पूण तुजेसरीं येयलों आनी म्हजी खंत गेली. आतां म्हाका व्हडपण दिसता किरिस्तांव म्हणून घेवंक.''

पूण पाद्रीन निर्शेणेनशें म्हटलें, ''देड वर्स जालें म्हाका ह्या गांवांत येवन. फक्कत स जाणांकच बातिज्म दिवंक तांकलों हांव. मनशाच्या काळजाक उलो घालून खोशयेन किरिस्तांव जावंक लावचे म्हजे यत्न फळादीक जावचे नात तोमास!''

''स जण चड जाले पाद्रीबापा. हे लोक शेंकड्यांनी वर्सां आसात तेच अवतिकायेचे पडून रावपी. तेंकां हातबोट लावप सोपें न्ही. मात इल्ले बिजूट आमी. तरसादेन बळान काम बेगीन जावंक येता खरें.''

पाद्रीन भायर सरतना खुर्सा सामकार धिमी माल्ली. ''म्हज्या जेजू, देवाच्या पुता, म्हज्या मनांत मोग आनी मयपास असोच राखून दवर. बळाची खबर म्हाका नाका. तुजीच राखण म्हाका.'' मागरांतल्यान भायर सरतना ताणें तोमासाक म्हटलें, ''रायगाळी शणैल्या भाटांत वावर करपी एका कुणब्याक पयर एका जिवाण्यान घांस मारिल्लो. वाटावलो तो. पूण पांय भारीच सुजला. हे लोक म्हणटात तो कुसून मरतलो म्हण. कुसडो मांडवळ म्हण तें जिवाणें तसलें खंय. पूण खरें न्ही तें. दुखावला तो पांय. उपचार नीट जावंक जाय. खरें म्हटल्यार तापयल्ल्या सुरये-पात्यान थंयची एक शीर कापून किट्टेल्लें रगत काडून उडोवंक जाय. उपरांत वखदां लावंक जाय पूण हे लोक पिडेस्ताक म्हाका हातूय लावंक दियनात.'' पाद्री सिमांव येवरोपेव वखदा विशीं थोडेंभोव जाणां जाल्लो. गोंय पाटणांत केन्ना गेल्यार तो जाय तीं वखदां घेवन येतालो. ताणें बटवो खांद्याक माल्लो आनी तो मांगरा मुखारली देंवती देंवन वचूंक लागलो. तो सोतासरींच उलयतालो, मनशान मनशाक हात लावप न्ही म्हटल्यार मोटो अनाचार न्ही !

देवळा मळा वयल्यान सकल देंवन वयताना देवळाच्या दारांत उबो आशिल्लो रायण्णा भट पाद्रीक गाळी घातिल्लेवरी व्हडाव्हडान मंत्र म्हणत भितर गेलो. तो आतां जाणटो जाल्लो पूण तागेलें आदलें तिरसुवादपण, सुवार्थीपण तशेंच आसलें. रायगाळी वचूंक सकल शेतोडेंत देंवतना ते सोल्दाद एका पुराय घराब्याक मारत बडयत घेवन येतना ताणें पळयले. कितें जालां हाचें? पाद्री मुखार गेलो. त्या सोल्दादा मदीं दोग पाखले आनी दोग शिपाय आसले. तो एकलो फिदाल्ग. फिदाल्ग

इन्किझासांवाचो अंमलदार आसलो. सोल्दाद गोरवांक हामडून हाडिल्लेवरी त्या घराब्याक मारत हाडटाले. तो फिदाल्ग मात वोगी तांचे वांगडा चलतालो. त्या घराब्यांत एक तरनाटी बायल आनी एक दादलो आसलो. बायलेच्या खाकोळांत एक सान भुरगें आसलें. एक चार वर्सांचो भुरगो दादल्याच्या हाताक धरून चलतालो. त्या दादल्याक फाटसून मार बीन घालतकीर तो भुरगो किळांचून रडटालो.

म्हऱ्यान पावतकीर पाद्रीन विचारलें, ''कितें जालां? कित्याक मारतात तुमी त्या बाबड्या दुर्बळांक? जेजुच्या आंवड्या आड हें कर्तुब. बेठेच पातकी जावं नाकात.''

त्या फिदाल्ग पाखल्यान मदींच तोंड घातलें. पुर्तुगेज भाशेंत तो व्हडाव्हडान कितें तरी सांगूंक लागलो. त्या पाखल्याची पुर्तुगेज उतरां हातोडी मारिल्लेवरी धगधगतालीं. ''ती घोव बायल हेळा गांवची. ह्या दादल्यान एक माड पाडपाच्या झगड्यांत कोयती मारून आपल्याच भावाल्या पांयांच्यो तांती कातरिल्ल्यो. ताका धरून मगेर गोंय पाटणांत हाडिल्लो. ताणें गुन्यांव कबूल करतकीर आनी आपूण घराब्यासयत किरिस्तांव जाता म्हण मानून घेतकीर ताका भोगसणी दिल्ली. त्या पुराय घराब्याक सां कातारीन इगर्जेंत बातिज्म दिल्लो. इगर्जेन ताका वस्त्रां आनी दर एकल्याक आठ सेराफींय दिल्ले. पूण तो दिल्लो बातिज्म न्हयकारून हिन्दू कसो पळोन येयल्लो. फट सांगून हांगा मावशेगेर रावतालो.''

पाद्रीन विचारलें, ''आतां व्हरून कितें करतले तुमी तेंचें?''

''भुरग्याक किरिस्तांव करून अनाथघरांत घालतले. त्या घोव-बायलेक इन्क्विझासांवासरीं दितले.''

इन्क्विझासांवाचें नांव घेतकीर पाद्रील्या पोटांत धस्स जालें. ताचीं कर्तुबां पुर्तुगालांत आनी स्पेनांत ताणें खूब आयकल्लीं. गोंयांतय तें पावलां म्हण तो आदींच जाणा जाल्लो. ताणें मनांत म्हटलें, धर्मा आड अशें वायट कर्तुब केल्ल्या मनशाक लासून मारचे बगर दुसरी ख्यास्त ना तेंचेसरीं. घडये ह्या घोव बायलेकय तांच्या 'भावार्ताच्या कर्तुबा' दिसा लाकडाच्या खांब्याक बांदून लासून मारतले ते! ताणें त्या इन्क्विझासांवाच्या अंमलदाराक म्हटलें, ''बळान तेंचो धर्म काडून घेवप, मगेर कितेंय चुकल्यार तेंकां लासून मारची ख्यास्त दिवप. समा न्ही तें.''

पाद्रीचें उलोवप आयकून त्या अंमलदाराक आदीं अजाप दिसलें. ताचें उलोवप आयकून तो सोताच भियेल्लेवरी जालो. ताणें म्हटलें, ''इन्क्विझासांवाक दुशणां दिवन असलें उलोवप म्हटल्यार आत्मघातकीपणाचें जावं येता पाद्र. तेंचो आंवाठ, तेची शक्त जाणा? खासा व्हिसरायाक ते आपले न्यायसभे मुखार हाडून उबे करूंक तांकतात. तेका ख्यास्त दिवंक तांकतात. किरिस्तांव धर्माक पवित्र निर्मळ राखचेलें

काम तेचें. देवाचेंच काम तें. पुर्तुगालाक आसतना एक फावट पाद्र आन्तोन पिन्तू सांग, आदम आनी ईव्हाक देवान फळा-फुलान उदक-वझऱ्यान भरिल्ली सोबीत शिरवंत बाग रावंक दिल्ली. ते बागेंतलें एकच फळ तेंकां खावंनाका म्हण सांगिल्लें. तो नेम नीट पाळचो तेंचो धर्म आसलो. पूण तेणी आपलो धर्म मोडलो आनी तें फळ खायलें. धर्मभश्ट जाल्ल्याची ख्यास्त म्हण देवान तेंकां त्या बागांतल्यान धांवडावन घातलें. संसाराचे तापत्रय भोगूंक. तेंच देवाचें काम आमचें इन्क्विझासांव करता. हांव एक फिदाल्ग. पूण इन्क्विझासांवाचो अंमलदार जावंक म्हाका मोटो अभिमान. हांवें खोशयेन मागून घेतलां तें काम.''

पाद्री सिमांव मुखार कितें तरी उलोवंक सोदतालो. अंमलदारान ताका मदींच आडायलो आनी म्हटलें, ''आतां एक उतर उलोवं नाका तूं पाद्र. तेंचे आड एक उतर उलयल्यार हांव सोता गवाय दिवन इन्क्विझासांवा मुखार तुका उबो करतलों. मागीरच्यो ख्यास्ती जाणा तूं.''

पाद्री भितरल्यान तिरमिरिल्ले वरी जालो. पूण तो वोगीच रावलो. एक फावट ताणें त्या गरीब घराब्यासरीं पळयलें आनी तो चलूंक लागलो. ती बायल आनी तो भुरगो सामके रडतच आसले. दोगूय भुरगीं उकतींच आसलीं. ते बायलेनय चोळी घालूंक नासली. तिगेले साडयेचो पदर भुंयेर लोळटालो. पूण बारीक दोळ्यांच्या, कोल्या तोंडाच्या त्या दादल्याची मात पाद्रीक तिडकच मारली. सोल्दाद ताका परत हामडूंक लागिल्ले. तो दादलो ताका सांगतालो, म्हजे सरीं हे अठरा शेराफींय उल्ल्यात ते घेयात आनी सोडात आमकां. आमी पयस शियेंसरा धांवन वयतात. रावनात हिंगा.'' तेसरशीं ताचेर सोल्दादाली एक खोंट मात पडली.

पाद्री शेतोड बलांटून रायगाळी वचूंक वयर बांदार चडलो. थंय ताका म्हालो आपा मेळ्ळो. खांदाक हडप मारून रायगाळी वटेच्यान येवन शिरवाड्यार वयतालो. पाद्रीक पळोवन व्हडान सांगूंक लागलो, ''गोपीक मावशेन तीन दीस दवरून घेतले तेंकां. ते किरिस्तांव जाल्यात म्हण तिका खंयची खबर? भावान आस्पद दियनासतना मारून धांवडावन घातले म्हण सांगतालो खंय. चार दीस रावन अंत्रुजांत वयतले म्हणटालो खंय. आतां तकलेर हात मारून घेवन गोपीक मावशी रडटा, आपलो घात केलो म्हण. तिगेले तिगूय पूत तिका संवंक लागल्यात. आतां गांव आपणाक आनी म्हज्या पुताक धर्मांत आनी जातींत दवरून घेतलो काय म्हणटा ती.''

पाद्रीन कांय विचारलें ना. ताणें मनांत म्हटलें, ह्या पुराय घराब्यांक कचाट्यान सांपडावन म्हज्यान किरिस्तांव करूं येता. ना तर आज ना फाल्यां तांकां किरिस्तांव जावंचें पडटलेंच. हे लोक काय तांकां जियेवंक दिवचे नात. किरिस्तांव जाल्यारच तांची सुटका. ताका दिसलें, अशेंच घाण्यातिठ्यार गोपिकेच्या घरा वचचें. पूण दुसऱ्या

खिणाक ताका दिसलें, अशें कात्रेक सांपडावन कोणाकय किरिस्तांव करचें समा न्ही. जेजूक मानवचें ना तें. फाल्यां तीं जावनच येयल्यार चोवया. तरीय तांच्या आधाराक वचूंक जाय म्हाका. रायगाळी सोर्पान घांस मारिल्ल्या कुणब्या सरीं वचून मगेर परतताना गोपिकेच्या घरा वचून येवचें.

इन्क्विझासांवाचें नांव घेत सावन ताचें मन उसावल्लेवरी जाल्लें. कांय खरें न्ही हें. ह्या अद्रस्टाक लागून चड आडखळ्यो येतल्यो. लोक भियेवन आनीक पयस वयतलो. मनां जोडचेलें, काळजाक उलो घालचेलें काम आनीक अवघड जातलें. सगळेंच बळान, मारामारेन करूंक पळयतात हे. काय बरीं सोबीत देवळां मोडून उडयतात... देवाची नसाय जाल्यार देवाची मूर्तच काडून व्हंयेंत, समुद्रांत व्हरून उडयात. देवळा पांखी कित्याक फोडटात, लासतात? कोणा वाटसुऱ्यांक दीनदुबळ्यांक पावसाक, शिंयाक आलाशिऱ्याक रावंक मेळटासली...

''पाद्रीबापा, म्हाका जीव नाका जाला. हांव जीव दिवंक म्हणच भायर सरिल्लों. पूण निमणे घडयेक तुमचो उगडास येयलो. निमणें तुमच्या पांयांसरीं येयलां. म्हाका तुमच्या धर्मांत घेवन उडयात.''

''कित्याक? कितें जालां गजा?''

''ती चांडाळीण म्हज्या मरणाक रावता. काल तिणें म्हाका रातभर शिंया कुडकुड्याक घरा भायर दवरलो. हातांत कोयती घेता आनी एकलीच रानांत वयता. हांव जाणां रानांत एकलीच ती कोणाक मेळूंक वयता म्हूण. फाटीं मागीलदार हांयें खूंट मारून तेचेर माती थापून बंद केल्लें. तें तिणें काडून उडयलें. एक थापट पडल्यार केदी व्हडली बोब मारता. म्हजेरच सात्र, चोबो शेंवटून मारता. गांव एकठांय करता. तेका बुद्द शिकयतलों हांव. पानवळ दितलों. म्हाका किरिस्तांव करात तुमी... तकलेर उदक उडयात आनी कितेंय खावंक घालात. खातां हांव. तेका दाखयतलों हांव. बाट्टकीर ना घोव ना बायल. मगेर म्हगेलें घर किरिस्तांवालें. तिका घरांत लेगीत रावंक दिवंचोना हांव. म्हाका शिंयांत घालता, म्हजे तकलेर खुटले घालता, सात्रीन मारता.''

गजा आपलें रडगाणें सांगीत आसलो. पाद्री मजेनचशें ताचें आयकतालो. तेणें म्हटलें, ''आठ दीस राव तूं गजा. चींत सारको. मन थाऱ्यार येतकीर यो म्हजेसरीं. करून घेतां हांव तुका किरिस्तांव. जाल्यार बायलेकय घेवन यो. आतां तूं वच घरा.''

''ना, हांव आनीक घरा वचचों ना. म्हाका आतांच किरिस्तांव करात तुमी.''

''उतर दितां, तुका करतलों हांव किरिस्तांव. एक दीस हांगा मोगाळ मायाळ

जेजूचें राज्य येतलें. तीच मोख म्हजे जिणेची. तोंच सुखसंतोशाचो मार्ग संवसाराक. पूण तूं असो मनीसभायरो आसतना कांयच थारावं नाका.''

''पूण पाद्रीबापा...''

पाद्रीन तोमासाक उलो माल्लो. ''तोमास, हाका हाच्या घरासरीं पावोवन यो. तेचे बायलेक सांग, हो तुजो घरकार फक्कत तुज्या मोगाक आशेला.''

तोमासान ताका बावळ्याक धरून उठयलो आनी तो ताका घेवन गेलो. गजा बरोच उंच आनी बारीक आसलो. तरनाटो आसुनय तो कमरेंत बागवल्लो आनी तागेलें हड्डें बशिल्लेवरी जाल्लें. दोळे कालवा मांसावरी धवे निस्तेज दिसताले.

तो वयताना पयस पाव मेरेन सारको म्हणटालो, ''पाद्रीबापा, हांव येतलों परत. किरिस्तांव जातलों आनी तेका पानवळ दितलों. म्हाका नीट व्हाडिना, दार बंद करता, शिंया कुडकुड्याक घालता...''

दरयान अन्न उदक ना जावन, केन्ना नाना तरेचे पिडेन ते मरताले. केन्ना तांचीं तारवां दरयान दिशाहीण जावन भरकटत वयतालीं आनी दरया तळाक पावतालीं. तरीय ते तारवांनी लमाणां घेवन येत रावले. खंयच्या हावेसान, खंयचे धिटायेन, कितें जोडूंक ते येताले? लाकडाचीं आनी शिडांचीं तारवां. दरया तर धर्तरी व्यापून आशिल्लो. तातूंत मोडां आनी वाशाडां! तरीय ते चोम्याचोम्यांनी येत रावले. दीव दमण सान कोची मेरेनच्या हजारांनी मैलांच्या दरया वाठारांनी ते घोळ्ळे, तांणी तो वळखिचो केलो. दरयान येवन उबे रावताले आनी जमनी वयल्या लोकांक आव्हान दिताले. तांचे वांगडा झुजां खेळटाले. दरयांत अरब व्यापाऱ्यांक लुट्टाले, तांकां धांवडावन घालताले. सगळीं मस्तेपणां, तवनासपणा आनी धिरीस्टपणाय.

एक मात खरें, ते येतना एका हातांत खुरीस आनी एका हातांत तलवार घेवन येयल्ले. उपरांतय धर्म होच तांचो मोटो हावेस थारलो. ना तर कित्याक पडिल्ले तांकां हे दगदगे! तांणी हांगा येवन आपलें साम्राज्य वाडयलें अशेंय म्हणूं येना. भोव व्यापार करून ते गिरेस्त जाले अशेंय ना. तांणी मोटें काम केलें तें, फक्कत किरिस्तांव धर्म वाडयलो. वेळार हंयच्या लोकांक मारून बडोवन, लासून किरिस्तांव धर्म वाडयलो. तांच्या ह्या भिरांकूळ कर्तुबान लोक तांचे पसून पयस गेलो. तांचो व्यापार बुडलो, तांचें साम्राज्यय वाडलें ना. तरीय तांणी पर्वा केली ना. तांची मोख एकच - धर्म वाडोवचो !

घडये ह्याच हावेसान आल्बुकेर्कान थोड्याच सोल्दाद कापितांवांक घेवन आदलशहाचे बेसुमार फौजेक हारोवन गोंय बेट जिखलें. कोणें एका म्हाळ पैन विनवणी

करून आनी तिमय्याचो आधार घेवन तांणी गोंय जिखलें अशें म्हणूं नज. प्रत्यक्षांत झुजांत आस्पावल्ले ते पुर्तुगाली कापितांव आनी सोल्दादच. ते धीट दाणगे आनी तितलेच रानटी, दयामायाहीण क्रूर आसले. गोंय जुंव्यार पांय दवरतकीर पयलीच झूट तांणी स हजार मूरांक कापून उडयले. तांच्यो बायलो आनी तन्नाट्या चेडवांक आपल्या ताब्यांत घेतलीं. तांचो म्हालवज, संपत लुटली.

तांकां आपलो धर्म वाडोवंक, जाल्यार व्यापार करूंक, जाल्यार साम्राज्य जोडूंक एक मुळवण सुवात जाय आसली. ती तांणी भोव फिशालकायेन वेंचून काडली आनी शूरपणान झुजून जिखली. धर्तरेर पांय रोमून उबे राविल्ले हारले आनी दरयाच्या ल्हारार बसून येयल्ले भायले उंखलापी जिखले. तांची धडकच अशी आकांताळी आसली, धर्माचें भूत मानेर बसूंक नाशिल्लें जाल्यार तेदेवेळार एक व्हड साम्राज्य तांच्यांनी बांदूं येतालें. तांची वसाहत हेर येवरोपेवांच्या वसाहतीं परस वेगळी. तांणी गोंय आपलें घर केलें. हांगा कायमचो रयवास केलो. पुर्तुगालसान यो वच करून राज्य करचें अवघड आसलें. दरयांतली पयसुल्ली वाट. मोडां आनी पिडा. वाटेंत चवगांतलो एकलो मरतालो. म्हण आल्बुकेर्कान तागेल्या सोल्दादांक थळाव्या बायलां सरीं लग्न करून पुर्तुगेज परजा वाडोवंक उमेद दिली, तेंको दिलो. झुजांत हारिल्ल्या मुरांच्या सोबीत तरनाट्या बायलां सरीं ताणें सोता आपल्या सोल्दादांचें लग्न लावन दिलें. अशें लग्न जाल्ल्यांक पयसोआटको, भाटबेंसां दिलीं. तांकां फौजी चाकरेंतल्यान मुक्त करून हेरकडेन नोकऱ्यो चाकऱ्यो दिल्यो.

ते धीट, धिरीश्ट आनी क्रूरय आशिल्ले अशें न्हय तर तितलेच धूर्तय आशिल्ले. धर्म प्रसार हो तांचो हेत आसलो तरीय तांचीं सुरवेचीं तिसेक वर्सां हिन्दुस्तानांत जम बसोवच्या कामांतच गेली. मुरांच्यो कटकटी पयस करच्यो आसल्यो, राज्यकारभार नीट जाग्यार उडोवचो आसलो. जम बस मेरेन तांणी हिन्दूंक तुमचे हक्क अधिकार, देवधर्म सुगूर उरतलो म्हण आस्वासनां खूब दिलीं. उपरांत मात तीं तांणी पाळ्ळीं नात. बाटाबाटीच्या काळांत सगळ्यांत चड हावळ येयली ती हिन्दूंचेर. सगळ्यांत कश्ट काडले ते हिन्दूंनी. हाचें कारण एके वटेन आपले भुंयेचेर, धर्माचेर, वर्गणाचेर आशिल्लो अतोनात मोग आनी दुसरे वटेन सोता भोंवतणीं घालून घेतिल्ल्या जाती-धर्माच्यो, हाफुड-भश्टाच्यो, जेवण-खाणाच्या सोवळेपणाच्यो, कुड्ड्या भावार्थाच्यो पाशाण वणट्यो. दर एक चिरो निखळटना मनाची मोटी ओडताण जाली, भोव वाताहत जाली. म्हारां चामारांची, खालच्या जातीच्यांली, भश्ट बायलेली सावळीच आंगार पडल्यार भश्टाचार मानपी हांकां आपलो अख्खो धर्म सोडून एका गाये मांस खावच्या धर्मांत वचप म्हटल्यार मोटो आकांत आसलो.

ह्या पुर्तुगीज पाखल्यांचे वागणुकेंतलें एक कुवाडें मात मोटमोट्या विद्वानांची

तकली धुवोवन उडोवं इतलें कठीण - एका पोल्यार मारल्यार दुसरो पोलो मुखार करात म्हणपी दयाधन, मायेमोगाळ, क्षमावंत जेजुची शिकवण घेवन येयल्ले हे इतले क्रूर निश्ठूर कशे जाले ! कित्याक तांणी देवळां पाडलीं, कित्याक लोकांचेर बळजबरी केली, कित्याक लोकांक लासून मारले ! राजा आशिल्लो, झुजारी सेनापती आशिल्ले, व्हिसराय आनी फिदाल्ग आशिल्ले, विद्वान आनी धर्मपंडित आशिल्ले, बिशप आशिल्ले, पोपसायब आशिल्लो, तांकां एकल्याकय ही विसंगती कित्याक कळ्ळी ना? कित्याक तांणी हो अच्छेव आडायलो ना? एका काळ्याकिट्ट काळखंडाचे धनी कित्याक जाले? संवसारांतल्या एका स्रेश्ठ धर्माक तांणी हो कलंक कित्याक लायलो? वट्ट बायबला आड आनी जेजुचे शिकवणे आड कित्याक गेले?

तांचें एक बरें आसलें, तांणी शासन आनी धर्मसंस्था हांचो सुरमेळ बेस बरो सादिल्लो. दोनय हातांत हात घालून धर्म वाडोवचें काम बेस बरें करताले. धर्मसंस्थेची इत्सा शासन हातांत तरसाद घेवन पुराय करतालें. धर्मसंस्थेच्या हातांत खुरीस आनी शासनाच्या हातांत तरसाद. आनी ह्या सगळ्यांचेर पातळून आसलें इन्क्विझासांव! तें सगळ्यांत बळिश्ट, ताची भिरांत सगळ्यांक. व्हिसराय धरून सोल्दादा मेरेन आनी फिदाल्ग भाटकार धरून मुंडकार, पदेरा मेरेन. वेळार राजाक लेगीत धमकावपी ते...

पाद्री तोरकिमेडा हो स्पेनच्या इन्क्विझासांवाचो मुखेल आसलो. इन्क्विझासांवाचे भिरांतेन घरदार सोडून वचपी ज्यू लोकान एक फावट थंयचो राजा फेर्दिनान्द हाचेसरीं विनवणी करून कांय तेंप आलाशिरो मागलो. राजान तीस हजार दुकाट फारीक करचे बोलीचेर तांकां कांय वर्सां आपल्या राज्यांत ज्यू म्हणच आलाशिरो दिवचें मान्य केलें. ज्यूंक तशें उतरय दिलें. हें आयकोन इन्क्विझासांवाचो मुखेल पाद्री तोरकिमेडाक भारी राग येयलो. तो सोमतोच राजासरीं गेलो. ताणें म्हटलें, ‘ज्युदेव इस्कारितान चांदयेच्या तीस पयशांक लागून जेजू विकिल्लो. आतां तूं ताका तीस हजार दुकटांक वीक. हांव चल्लों स्पेन सोडून वेटिकनांत.’ ताणें हातांतलो दण्ड राजासरीं भुंयेर उडयलो.

राजा आपल्या सिंहासनावेल्यान उठलो. भावार्तान, नमळकायेन ताणें तो दण्ड उखललो आनी पाद्रीच्या हातीं दिलो. ताच्या दुसऱ्या दिसाकच ताणें स्पेनांतल्या चाळीस हजार ज्यूंक देशांतल्यान धांवडावन घाले.

आदोळशी गोंय पाटणापसून इल्लो पयसच न्हानसोच आडगांव. सोळा मैलांची वाट. तांतूंत आडवो दोंगर आनी दोंगर माथ्यावयलें तें शेकानशेक मळ. दोंगर, तें मळ गच्च ल्हानव्हड रुखांनी भरिल्लें. किंदळेचे, असणिचे, घोडकिचे, सांवरीचे, हेदीचे,

अर्जुनाचे, जांबळीचे उंच उंच रूख. मदींमदीं व्हडली व्हडली कणकी पिंडां आनी भिल्ल माड. भिल्ल माड तर दरएक पेण्यार आनी धेंगणार पात्या सत्री धरून उबे आसले. दोंगुल्लेच्या आयल्या तेमकार पावतकीर एकदम उकती शेतोड दिस्टी पडटाली. पुराय गांव शेतोडे भोंवतणीं दोंगुल्लेच्या मुळसांतच वशिल्लो. गांवार पुराय शेक आनी दरकार रायगाळींतल्या बामणांलो आनी शिरवाड्यावयल्या नायकांलो. तेच गांवचे वांगड. गांवची गांवकी करपी गांवकार. हेर सगळे कुळावी आनी वाटेली. गुरव, देवळी, वाजंत्री, भोयी, तेळू, सत्रेकार, सांगणेकार, दिवटेकार, कलवंत हे कुळावी तर म्हार, म्हाले, मेस्त, कुंबार हे वांटेली. कुळव्यांक देवाचें शेतभाट पिकोवन खावंक मेळटालें. वाटेल्यांक गांवचे रासवळ जमनीचे पिकावळेचो वांटो मेळटालो. सोताचें शेत कसपी गांवकारय लुवणे वेळार निमणे चारपांच वजीं धान शेतांत सोडटाले. ते मगेर वांटेली येवन बांदून व्हरताले. मेस्त ताका लुवणेर विळ्याक दांतरे घालून दितालो, कसतना जगल पाजून दितले. कोयतेक कुराडेक वेळार धार काडून दितालो. कुंबार बऱ्या वायट कामाक नवी मडकी हाडून दितालो. म्हालो वर्सभर केंस मारतालो. म्हार धोर ओडटालो, सांगणें पावयतालो, दिस्ट काडटालो. घुरमे, हातर, हांतरी, वल्ली, सूप चोबे करून दितालो. ते मात ताचे कडच्यान तांदूळ दिवन घेवचे पडटाले.

गांवांत एकच आपू पाटकारालो किराणी पसरो आसलो. थंय मीठ, मिरसांग, कोथमीर, लसूण, हळद, मेथी, मिरीं, गोड, गांवठी वखदां मेळटालीं. चड करून भात, तांदूळ, नाल्ल, फोफळां हांच्या बदलाकच हेर जिनस मेळटाले. केन्नाय टांक, रीसय दिताले घेताले. घरां, गोटे बांदचें, ते शिंवचें, तांकां कडणी बांदचें काम रासवळच जातालें. शिरवाड्या वयले गांवकार आपलो पंगड बांदून सगळीं घरां, गोटे शिंवताले. कुळाव्याचो पंगड आपल्या घरा वांगडा बामणांलींय घरां शिंवतालो. केन्ना बामण तांचे वांगडा सोता घरार चडून सोता कोलू उपशितालो. दर एक घर शिंवन जातकीर घरकाराली मेजवानी आसताली मुगां पायस आनी गोण्या उदक.

रामनाथा देवळा मुखावेल्या पिंपळा पोनाक गांवकार अदींमदीं गांवकारपणाक बसताले, देवळाचो सदांचो कारभार पळोवचो, जत्रा उत्सव घडोवन हाडचो, रासवळ शेत जमनीची पावणी करचे. ताचे पिकावळीचो विलोव लावचो, गांवचो तिरवो पटी पावोवचो, गांवांत चोरीमारी जाल्यार ताचो निवाडो हीं कामां गांवकार एकमतान करताले. एकलो म्हाल गांवकार. ताचो मान चड. ताचें घर शिंवप सगळ्यांत पयलीं. ताका सुंरी कट्टी पयली. पूण मताचो अधिकार मात हेर गांवकारांवरीच.

गांवच्या एकदम सकल्ल्या आंगाक फडती म्हण एक जमात रावताली. तो सकल्लो उदकाचो चिखलाचो वाठार. थंयच्यान जोरगतेक न्हंयचें खारें उदक वयर सरतालें. थंय उदक भरच्या सकल शेतजमनींत ते कागो म्हण एके तरेचें आगळेंच भात

रोयताले. ताका मुखार कुसां आसतालीं. तें गळोभर उदकांतय कुसनासतना बरें वाडटालें आनी पिकतालें. ते फडती गांवाच्या हिसपांत नासले. ते ना कुळावी ना वांटेली. तांचो राबितो वेगळोच. पूण खारें उदक वयर गांवकारांल्या शेतांनी सरचें न्ही म्हण थंय एक बांद घातिल्लो. त्या बांदाची उस्तवारी त्या फडती लोकासरी आसली. दर एक पावसाळो सोंपलो म्हणटकीर तो बांद नव्यान धरचो पडटालो. एकादऱ्या वर्साक बांद धरूंक कळाव जालो, जोरगतीचें उदक भितर सरलें म्हणटकीर गांवकार सगळे एकठांय जावन वचून तांकां धपकायताले. गांवच्यान धांवडावन घालचेली धपकावणी दिताले. ते तांकां सांगताले, 'हें खाजन गांवचें. रासवळ मालकेचें. बांदांची नीट उस्तवारी करात आनी खाजन वसोवन खायात. ना तर लागात चलूंक गांवचे. फडती मगेर तांचे पांय धरून भोगसणी मागताले.

बिस्म जुआंव आल्बुकेर्कान गोंयच्या किरिस्तांव धर्माच्या म्हणयाऱ्यांची एक सभा घेतिल्ली. सगळ्या पंथांच्या पाद्रींक आफोवणें आसलें. आफोवणें नासलें तें पाद्री सिमांव पिरिसाक. एक फावट गोंय पाटणांत गेल्लो तेन्ना तो बिस्माक वचून मेळ्ळो. ''हांव जेजुचो एक भावार्ती पाद्री. किरिस्तांवांच्या मुणयाऱ्याक ते सभेक म्हाका आफोवणें कित्याक पावलें ना? तो हांवें एका भावार्ती पाद्रीचो अवमान कसो धरलो.''

बिस्म जुवांव आल्बुकेर्क तांबडो तांबडो भिरंड कश्या आंगाकांतीचो आसलो. हो उंच धिप्पाड. ताणें वाटकुळें उबें चेपें घातिल्लें. आंगभर झोगळीं वस्त्रां घातिल्लीं. वस्त्रां मनगटासरीं पुराय धवीं आसलीं. तो कांय वेळ वोगीच रावलो. तेलकट चरबेन धांपून गेल्ले.बारीक दोळे कांय वेळ लिकलिकले. ताणें म्हटलें, ''हंयचे जेजुयट तुका मेजीच नात. ते तुका तांचो वांगडी म्हण मानिनात.''

''तुमीय?''

''हय. हांव लेगीत.''

''कित्याक म्हण?''

''तुजेसरीं रायाली चीट ना. हंयच्या सगळ्या धर्माच्या मुणयाऱ्यांची नेमणूक रायान केल्या. जशी म्हजीय केल्या.''

''पूण हांव पोप सायबाली चीट घेवन आयलां.''

''तरी राजाली चीट आनी ताची मान्यताय जायच.''

''राया पोप सायबा परस व्हड तर?''

''ह्या प्रस्नाची जाप तुका हांव दिवचों ना. तुवें तो प्रस्न विचारची कापास्ताद

कशी केली हाचेंच म्हाका अजाप दिसता. तरीय एक जाणा जा, रायाले किरिस्तांवपणाविशींचें धोरण पोप सायबाले आज्ञेप्रमाणच थारता. तरीय आपल्या देशांत रायाच व्हड.''

पाद्री सिमांव वोगीच रावलो.

''तूं आतांआदोळशी वच आनी तुजे परीन स्वतंत्र काम कर. व्हिसरायालें रेसांव मेळटाच तुका. एक शिटकायतां तुका, तूं हेर जेजुयटांच्या कामांत आडखळी हाडी नाका. तुजेविशीं जायत्यो कागाळी आसात. तूं आदोळशीच्या लोकांक किरिस्तांव धर्मा आड खुबळावन घालता खंय़. आपखोशयेनच किरिस्तांव जावचें म्हण सांगता खंय.'' बिशप सायबालीं जाड ओटां रागान थरथरूंक लागलीं. दोळ्यांच्यो पाती ताणल्यो. ''हें रायाले आनी व्हिसरेयले सांगणे भायर. आनी तूं वळखता इन्क्विझासांवाक? तांच्या हातांत मेळ्ळ्यार तुजें पाद्रीपण वयतलें आनी तूं धर्मभश्ट गुन्यांवकारी म्हण बंदखणींत कुसत पडटलो.''

हाचेर पाद्री सिमांव कांय उलयलो ना. कांय वेळान ताणें म्हटलें, ''आदोळशी गांव म्हाका सोडात. घडये म्हाका उशीर जायत, हांव तुमकां उतर दितां, हांव तेंची सेवा करतलों, मोग करतलों, मोगाच्या नाड्यार हांव तेंकां जेजू दितलों. तुमकां हांव परत तेंच सांगतां, बळान धपकावन तांकां किरिस्तांव करप हें जेजुचे शिकवणेभायर. बायबलाक मानपी अशें केन्नाच करचो ना.''

बिशप एकदम तापलो. उठून उबो रावत आड्डलो. ''होसमार हांगासल्लो. तुका लागना तें. तेंकां किरिस्तांव कशे करचे तें आमी पळोवन घेतले. पाप सायबाकडच्यान येयल्लो तूं पाद्री म्हण तुका सोडटां. ना तर व्हिसरेयक सांगून आत्तां तुका तुज्या देसांत परत धाडटासलों. ना तर इक्विझासांवाक लावन दितासलों. मगेर लासून मारता आसले ते तुका 'आवत द फे' - भावार्ताच्या कर्तुबा दिसा. तुका एक सांगतां, रोखडेच आमचे कांय काब, कापितांव, पाद्री आदोळशी गांवांत वयतले आनी वर्सा भितर तो गांव किरिस्तांव करून उडयतले. हेर धर्मांचें नांवनिशाण उरचें ना थंय.''

पाद्री सिमांव ओगी फाटीं फिरलो.

पंदराच दिसांनी तांचो एक पोंवो गांवांत येयलो. मुखार दोन घोडे, फाटल्यान विशेक सोल्दाद. मुखावेल्या एका घोड्यार कापितांव दियोग बार्रेत बशिल्लो. दुसऱ्या घोड्याचे फाटीर सामान बांदून घातिल्लें. तांचे फाटल्यान एक शेफ, तीग काब आनी अठरा सोल्दाद आसले. आनी दोग पाद्री. तांचे मदले सात सोल्दाद हे देशी आसले.

हेर सगळे सोल्दाद, कापितांव, काब, पाद्री पुर्तुगाली पाखले. सगळे किरिस्तांव. देशी शिपायूय नव्यानच किरिस्तांव जाल्ले. सगळ्यांल्या आंगार आंगभर झोगळीं वस्त्रां. माथ्याक चेपीं, पांयांक मोचे. देशी सोल्दादांक मात माथ्याक रुमाल बांदिल्ले, तांबड्या पाटाचे. सगळ्या सोल्दादांल्या खांदार, तकलेर कितें ना कितें तरी आसलें, पेटो, पेटारे ना तर बेठ्योच पोटल्यो, झाबळे. वोत माथ्यार चडटकीर ते गांवांत पाविल्ले. दोंगुल्ली देंवन येतना वाटेरच तांकां लिंगू व्हाजंत्री मेळ्ळो. तो बामणांल्या कुळागराचे वंयेक कांटी हाडूंक रानांत वयतालो. त्या पोंव्याक पळोवन तो इतलो अजापलो, इतलो भियेलो, सोताक विसरून वागरें पडिल्लेवरी तो तांकां दोळे व्हड करून एके दिठीन सारकें पळयत रावलो. ते सामके म्हऱ्यांत पावले तरीय ताका सुद्द ना. घोड्यार बसून सगळ्यांत मुखार आयिल्लो कापितांव एकदम ताचेर आड्डलो, ''आरे, सर कुशीक...'' ताणें आपल्या हातांतली मालपात्री रंऽऽव करून ताचे फाटीर शेडायली. तेसरशीं लिंगू एकदम गांवावटेन धांवंक लागलो.

त्या दिसा सोमार आसलो. देवाक मेळूंक, अभिशेकाक, प्रसादा फुलाक बरोच लोक देवळांत एकठांय जाल्लो. जाण्टेलो रायण्णा भट देवरथ उबारून प्रसादाक बशिल्लो. अभिशेकाक लोक रावतालो. रायण्णालो पूत सुब्बा भेट घेवन तीर्थप्रसाद दितालो. लिंगू व्हाजंत्री देवळाच्या दारांत उबो रावन खर्शेंत व्हडाव्हडान लोकांक सांगतालो, ''हें हरिस्ट कैरांव येवंक लागलां गांवांत. चाळीस पन्नास लोक. घोडे, तुबकां, तरसादी घेवन येतात. वाटेर मेळटा तेंकां मारत बडयत येतात.''

देवळांतलो सगळो लोक एकठांय जावन दारा भितरले वटेन चोम्यान उबो रावलो. देवळाक दार तर ना. दार फक्कत गर्भकुडीक. लोकांचेर भिरांतीचो कलकल. भटान उबो केल्लो प्रसादाचो देवरथ थंयच सुकलो. ताचें खंयचें फूल झडलें कळ्ळेंच ना. अभिशेकाक येयल्ल्या लोकांल्या हातांतलो बेल, फुलां, नाल्ल खंय उरले हाची सुद्द तांकां नासली. ते येयले आनी वोळीन देवळा मुखावयल्यान सकल्ले वटेन गेले. तांणी देवळा वटेन पळयलेंय ना आनी ते कांय उलयले नात. लोक मात तटास तांकां पळयताले. रायण्णा भट सामको 'शिवशिव' म्हणत आसलो. गेल्लीं कांय वर्सां भटाल्या काळजार भिरांतेचो कलकल पडिल्लो. खंयच्यानय कसली पाडी खबर आयल्यार पोटांत खप्प जातालें. चोडणेचें चांमुडेश्वर देवूळ मोडलें म्हण कळटकीर ताणें तीन दीस हांथरूण धरिल्लें. गेल्लीं कांय वर्सां रायण्णा भटान देवासरीं एकूच मागिल्लें, 'देवा, तांकां आनी ह्या गांवांत रीग दिवं नाका. शिमेभायरच मुड्डो करून उडय तांचो.' तो लोकांक सदांच सांगतालो, हें रामनाथाले सासायेचें थळ. गांवांत पांय दिल्यार निसंतान जातलें, भस्म जातलें तांचें. आदीं केन्ना दोन सोल्दाद गांवांत येयल्यारूच लोक भियेवन लिपून रावतालो. पूण आज ते पंगड बांदून येयल्ले.

वर्सासंकिनचे भिरांतेचो एक जितोजागतो रुपकार !

देवळामळ सोंपतकीर जंय शेतोड सुरू जाता ताचे इल्ले आयले वटेन बेताळाचें देऊळ आसलें. त्या देवळा मुखावयल्यानच शिरवाड्यार वचची वाट वचूंक गेल्ली. देवूळ बरेंच व्हड आसलें. चोंयवटेन फक्कत हड्डेंभर उंच मातयेच्यो वणटी. वयले पांखे गांवठी खापरी नळ्यान शिंविल्ले. सकल शेणमातयेचो तळ. श्रावणाक, माघाचे जत्रेक भायल्या गांवचो लोक येयल्यार त्याच देवळांत राबितो करून रावतालो. देवळाक गर्भकूड नासली. मदींच देवाची पाशाणची मूर्त उबी आसली. बेठो एका सुळक्याचो उबो गुळगुळीत फातर. ताका फक्कत दोन दोळे कोंत्रायल्ले. माघाचे उमाशेक बेताळाची जोगवणी जातालीं. आठ धा बोकडे, शें-दोनशीं कुकडां बेताळा मुखार कापताले. रगताच्या अभिशेकान बेताळ न्हावन वयतालो. मुखार फोडिल्ल्या नाल्लांची रास पडटाली. देवळा मुखावयल्या इंगळ्याच्या कुंडांत सुपायेदीं रोटां भाजताले, चोरू शिजयताले आनी रोंट चोरू बेताळाक दवरून मगेर गांवाक वांट्टाले. बेताळ गांवाची भुतांखेतांपासून, जोरी पिडेपासून राखण करता, तो कोपल्यार गांवचें निसंतान जाता असो गांवचो भावार्थ. देवळाचे सगळे उस्तवारीचें, जोगवणेचें काम गांवच्या मिराशासरीं आसलें. ह्या काळाक रवळू मिराशी तें काम वळशितालो.

बेताळा देवळासरीं पावतकीर कापितांवान देवळा मुखारच घोडो रावयलो. वांगडाच्या पोंव्याक ताणें म्हटलें, ''हांगाच आतां तुमचो राबितो.'' ताणें घोड्या वयल्यान सकल हुडी घेतली. सोल्दादान आपल्या आंगाखांद्यावयलो, घोड्याचे फाटीवयलो म्हालवज सरसरीत व्हरून देवळांत दवरलो. दोगय पाद्री थाकाय घेत भितर दवरिल्ले पेटयेर वचून बसले. कापितांव दियोग बार्रेत आनी शेफ कामील रिबेर भायर घोड्यांसरीं उबे रावले. थंयसावन दिठयेच्या आंवाठांत येवपी पुराय गांव ते नियाळटले. कापितांवान म्हटलें, ''बरो शिरवंत आनी थंडशितळ गांव हो. शेतांनी आनी भाटांनी भल्ला.''

''हय, थंड शितळ आनी देवाचो भावार्ती लेगीत. मुळांत अख्खी धर्तरेची गिरेस्तकाय दिल्यार लेगीत हांव किरिस्तांव जावचों ना असो तांचो हावेस. पूण संकश्टाच्या खिणांत गळसणटात ते. जातले ते किरिस्तांव! देवळां आनी गुडयो आसात म्हण तीं मनशां आनी तांचो धर्म! एक फावट देवळां पडलीं म्हणटकीर तांचीं मुळां तुट्टलीं.''

कापितांवान शेफ कामील रिबेरीसरीं बारीक पळयलें, ''शेफ रिबेर, तुजो मूळचो गांव खंय?''

''हांव नकळों सिन्योर. म्हगेलो बापूय तिमय्या वांगडा होनवरसान येयल्लो. गोंय पाटण घेतना तो मुरां वांगडा झुजिल्लो. उपरांत ताका ठाणेदार करून व्हिसराय

आल्बुकेर्कान रावंक घर आनी भाट दिल्लें. म्हजो बापूय हिन्दू म्हणच मेल्लो आनी ताका लाशिल्लो. गोकर्ण महाबळेश्वराचो तो असीम भक्त. ठाणेदार जातकरय तो म्हजे आवयक घेवन गोकर्ण खेत्रांत एक फावट वचून येयल्लो.''

''उपरांत कितें जालें शेफ रिबेर?''

''तो मरतकीर कांय दिसांनी व्हिसरायाल्या मनशान येवन सांगलें, तागेल्या पुताक - म्हाका सिर्वीस आनी घर भाट जाय जाल्यार किरिस्तांव जावचें पडटलें म्हूण.''

''मागीर?''

''जालों हांव किरिस्तांव. पूण आवय कशीच बातिज्म घेवंक तयार जायना जाली. भोव धर्मीक आसली ती. दीसभर देवपुजेंत ना तर घरच्या कामांत गुंथल्ली आसताली. वर्सांतल्यान कितले वार आनी कितले उपवास करताली हाका गणती नासली. हांव आनी म्हगेलो धाकलो भाव बातिज्म घेवंक गेल्ले फाटल्यान तिणें बांयंत हुडी घेवन जीव दिलो. तिचे कुडीक उजो लेगीत दिवंक शकले ना आमी. शेजारच्या हेर हिन्दूंनी तिचे कुडी म्हऱ्यांत लेगीत वचूंक दिलें ना आमकां. बेवारशा वरी कोणें तरी भलत्यानच उजो दिलो तिका. खूब रडले आमी दोगय भाव. म्हजो म्हजे आवयचेर खूब मोग आशिल्लो सिन्योर.''

कापितांवान तुच्छ नदरेन ताचेसरीं पळयलें आनी म्हटलें, ''हाचो अर्थ तुका किरिस्तांव जाल्ल्याची खंत भोगता तर?''

''ना. सव्वीस वर्सां जालीं हे गजालीक. आतां हांव पुराय किरिस्तांव जालां. हांव किरिस्तांव, म्हगेली बायल किरिस्तांव, भुरगीं किरिस्तांव. आमी सगळे मेळून सांजचो रोजार करतात. गायेचें, दुकराचें मांस खातात. आतां आवयचो वारो उगडास लेगीत उल्लो ना आमच्या संवसाराचेर. सुरवेक कांय दीस आवय म्हज्या सपनांत येताली आनी हातांत चूड दिताली. म्हणटाली, 'हांव मदींच हुमकळटां.' आतां त्या सपनाचो गोबोर जाला. म्हाका केन्ना केन्ना कितें दिसता जाणा, हो अख्खो संवसार एके रातीक किरिस्तांव जावंचो. मुगेल्या हातीं आशिल्लें जाल्यार...''

''मात्सो पासेंस धर शेफ कामील रिबेर. हें काम तुवेंच करचें आसा. तुज्यानच तें बरे भशेन करूं येता. तुगेले कान वयर सकल तोंपिल्ले आसात. कांट्यान कांटो काडप म्हटल्यार कितें जाणा तूं?''

शेफ कापितांवाक धिटायेन पळयत रावलो. शेफ सामको सवा स फूट उंच आसलो. आंगान धश्टपुश्ट. गंवाळ रंगाचो. पूण ताची दोळ्यांची भोंवतड बरीच काळी आसली. लांब चेहरो. तांतूंत दोन काळशे पाट दोळ्यांकडच्यान देंवन सकल पोल्यामेरेन पाविल्ले. ताचे दोळे मात आरपार नितळ काळे आसले, म्होंवाळ कशे दिसताले.

पाखल्यांचें कैरांव येवन तांणी बेताळा देवळांत राबितो केला म्हणिल्ली खबर वाऱ्यावयल्या उज्यावरी गांवांत पातळ्ळी. हाचे पयलीं अशें जावंक नासलें. केन्ना ते गांवांत येयल्यार भायले भायर भोंवतड्यो मारून वयताले. केन्ना मस्तेपणान खंयच्याय देवळांत रिगल्यार बेगीनच काडून वयताले. मगेर गांवचे लोक रोखडेच भटाक आपोवन होम घालून देवूळ शुद्ध करून घेताले. अशे तकलेर पेटो घेवन येवन देवळांत हांथरूण सोडयनासले.

ल्हवल्हव गांव एकठांय जावंक लागलो. रायगाळींतले बामण शिरवाड्यार येयले. बामण आनी शिरवाड्यावयले नायक एकठांय जावन वंये भायल्या वडामुळाक उबे रावन ल्हव अडचल्ल्या उतरांनी उलोवंक लागले. "हेर गांवांनी तांणी अच्छेव मांडिल्लो फक्कत आयकल्लो आमी. आतां हें अरिस्ट आमच्याय गांवार येयलां दिसता..."

"...भिरांतेन म्हगेलें हड्डें बसलां. कसलो आकांत रे हो देवा !"

"... मारून बडोवन धांवडावन घालूंक जाय तेंकां. गांवांत पांय दवरूंक दिवंक फावना. पांयां तांती कातरूंक जाय."

"... धिरिस्ट मनशां तीं. हतयाचें बळगें तेंकां. तेंतून आनी तरसादी, उज्याचो फारपेट करपी तुबकां."

"... तेंच्या राज्यांत ते. आमच्या राज्यांत आमी. आमकां आनी अशी पिडापीड भोगोवन कितें मेळटलें तेंकां? फाल्यां मेल्यार फाल्यांच गेले. किरिस्तांव जाल्यार काय मरचो उरतलो काय हागचो उरतलो."

"... आमच्या गांवांत तेंचें कांय एक चलचें ना. अठरा देवांचे सासायेचें थळ हें. दर एका बऱ्या कार्याक तेंच्यो अठरा पडी तेंकां पावयतात. आतां तेंचीच राखण आमकां..."

त्या जमावांतल्यान सुटून कांय जाण बेताळा देवळा वटेन गेले. तेवटेच्यान देवूळ वाड्यावयले, घाण्यातिठ्यावयलेय कांय जाण येयल्ले. सगळे पयस झाडां-झिलींनी दोपूनशे तांकां पळयताले. तांणी त्या देवळाक पुराय आपलें घरच केल्लें. निकत्योच भायले वटेन दोन चुली मांडिल्ल्यो आनी तांचेर हांडयो दवरिल्ल्यो. देवळामुखावयले तळयेंतल्यान कांय जाण मातयेच्या कळशांतल्यान उदक हाडटाले. कांय जाण तर देवळा कुशीचे गाये तोंडा झरीर उदक हाडूंक गेल्ले. तो भश्टाचार पळोवन तांचीं शिरंतरां उसावल्लेवरी जालीं. देमू गुरवाल्या मनावेलो ताबो एकदम सुटिल्लेवरी जालो. ताणें व्हडान म्हटलें, "देवळाक, तळयेक अशे भश्टवं नाकात. बरें जावचें ना तुमचें."

कापितांवान एक फावट रागान तेवटेन पळयलें. बेठोच एकलो झळकल्लेवरी जालो. मगेर परते सगळे झिलीआड. कापितांव कांय वेळ तेवटेन पळयत रावलो.

मुखावेल्या भिण्णी रुखार दोनतीन माकडां बशिल्लीं. ताणें खांदावयलें तुबक काडलें आनी वयर भिण्णीर जोखलें आनी घोडो दामलो. ठोऽऽ.:.फारपेट घुंवलो. तेसरशीं मनशायेदो एक हुपयो रुखावयल्यान भुंयेर पडून आपटलो. सारक्को देवळा मुखार चार वांवार.

दोपून पळयताले ते सगळे धांवंक लागले. तांतुंतलो एकलो मगेर लोकांक सांगतालो, त्या हुपया माकडान मरतना हात जोडून निमणें राम म्हटलें म्हण.

आयकतल्या लोकान म्हटलें, ''कोणकाळाचो रामालो भक्त तो. मरतना रामालें नांव घेतले बगर कसो रावतलो?''

फापसल्लो लोक तिनसांजकात्रेर परत एक फावट शिरवाड्यार एकठांय जालो. घाण्यातिठ्यावयले, देवूळवाड्यावयलेय कांय जण येयले. रायगाळींतले घना शणै, सुब्राय शणै तर दनपारसान शिरवाड्यारच आसले. सगळ्यांच्या मनांत खपखपो. सगळ्यांक दिसतालें, वावटळेचो एक भंवरो घुंवत आयला तो आमची नाळ आनी मुळां तुटोवन उडोवंक पळयता. कितें तरी घडटा, कितें तरी घडटलें आनी शेवटा ते आमच्याच जिवार लखून येतले. पोत्रें सगळें माड्डयत मस्तीत नवें कितें तरी येतलें. सगळो विसकोट जातलो. लोक देवाक पाराथतले, देवा तुंवेंच आतां गांवाची, धर्माची राखण करची. पूण देवाची राखण कोण करतलो? ताचे खातीर कोणाक पाराथचें, कोणाक शरण वचचें हें तांकां कळनासलें. तें आमीच करूंक जाय अशें तांकां दिसतालें. पूण आपली शक्त उणी पडटली, आमी तांचे सामकार उबेय रावंक तांकचे नात, अशेंच दिसतालें. तांचे मुखार वचचे कल्पनेनच हातपांय शेळेताले.

रामगाळिचो घना शणै गांवचो म्हाल गांवकार. बरोच जाण्टो आसलो तो. तकलेवयल्या केंसांचो भंवरो, शेंडी, मिशां पिकून धवीं जाल्लीं. तो एक वालो न्हेशिल्लो. कमरेचो चांदयेचो गोफ वाल्यार पडिल्लो. तागेल्या खांदार एक पातळ वस्त्र आसलें. शिंयांचे दीस आसूनय ताच्या आंगावयल्यान परतीपरती हूम देंवताली. मगेर तो ती खांदावयल्या वस्त्रान पुसोवन घेतालो. मदींच ताणें आपलो वोलो ताळो खरडुनशें रागान म्हटलें, ''फाटल्या बावन्न पिळग्यांनी वसयल्लो हो गांव. देवाधर्माचे सासायेचो. येतात आनी देवळांत घुसून बसतात म्हटल्यार कितें! मसण्यांक गांवा भायर धांवडावन घालूंक जाय. फाल्यां आफोवची गांवकी. आतां कितें तें गांवांनच एकामत्तान थारावचें.'' उलय म्हणसर ताका खरस माल्ली. ताणें ओलो आंवडो घोटलो.

कुशीन उबे आशिल्ल्या हेर गांवकारांनीय म्हटलें, ''गांवकी आफोवनच कितें तें थारावचें आतां. बुडचें आसल्यार गांवान वांगडाच बुडचें.'' गांवकारांल्या ह्या निर्णयासरशीं शिरवाड्यावयलो दामू नायक म्हन्यानआशिल्ल्या ओंवळी खानवार

चडलो. ताणें दुगा म्हाराक कुंकार दिली. ''दुगा - दुगा - दुगा म्हार हऽऽय. गांवकेचें पेरगांव घालूंक जाय. यो यो, योऽऽ.''

मदीं शेतोड. मदींच उबारेर व्हाळा सरीं म्हारवाडो. दुगान कुंकार आयकली आनी ताणें आपलो व्हडलो ढोल तीनचार फावट व्हाजयलो. तो तसोच गळ्यांत घालून तो शिरवाड्या वटेन येवंक लागलो. तो शिरवाड्यार पाव म्हणसर काळोख देंवंक नाशिल्लो. तो येतकीर हेर गांवकारांनी ताका सगळें सांगलें. ताणें आपले परीन पेरगांवाचीं उतरां घडयलीं. शिरवाड्यावयल्या बेला रुखापोंदाक उबो रावन ताणें पयलें पेरगांव घातलें.

''गांवा भायले अनवळखे चांड्ाळ येवन बेताळा देवळांत घुसल्यात. देवूळ भश्टिलां. देवधर्माचेर हावळ येयल्या. व्हडल्या गांवकारान फाल्यां दनपरां पिंपळे पोना गांवकी आफयल्या. गांवांतल्या दर एका वांगडी गांवकारान येवंक जाय... हऽऽय.''

आतां बरोच काळोख पातळिल्लो. आतां पयलीं रामगाळी आनी मगेर शेतांतल्यान घाण्यातिठ्यार, देऊळवाड्यार वचूंक जाय आसलें. हातांत जिवाण्या बडीय नासली. ती मागल्यार कोण दिवंक तयार ना जालो. दुगान वंयेंतले कोणाले तरी कोंड्याआळींत वचून एक बारीक दोन वांव बडी मोडून घेतली. ती वाटेर मुखार ओडत आनी ल्हव ल्हव ढोल वाजयत तो रायगाळी वटेन वचूंक लागलो. वाटेकुशीचें तण अजून मरूंक नासलें. वाट पुराय उकती जावंक नासली. ताचेर आनी दोशींवटेनच्या झाडांझोंपांनी गच्च सावळी. दुगा पांयापोंदांतल्यांक थर्त भियेतालो. फाटीं एक फावट मुखार वाटेर धरिल्ली बडी लागून एक सोरोप फोंस्स करून फाडें काडून वांवभर हुडिल्लो.

दुसऱ्या दिसाक वेळ माथ्यार चडूंक गांवकार रामनाथा देवळामुखावयले पिंपळे पोनाक एकठांय जावंक लागले. चड उंच न्ही पूण व्हडले व्हडले चिरे दाळून पिंपळेक पेड बांदिल्लें. सकल सामकार चिऱ्याचीं चार चाकां एकाचेर एक बसकीं कशीं दाळून दवरिल्लीं. पयल्यान एक मोडिल्लो दुरींग कसो कटो आसलो. पिंपळापेड देवळाच्या भायल्या दारापसून सामकें दोनशीं पावलांर आसलें. पिंपळे शेजाराकच एक रातंब्याचो रूख आसलो. ताची गच्च सांवळी थंय पडटाली.

गांवकार येतना बेताळा देवळांत घुशिल्ल्या कैरांवासरीं भिवन दोपूनशे पळयत कुशिकुशीन येताले. कांय वेळानच थंय छत्तीस गांवकार एकठांय जाल्ले. कुळकरणिचे चोपडेंत गांवचे रासवळ जमनीचो वांटो - जोण खावपी एकवीस वर्सांवयले एकशें तीन दादले आसले आनी गांवकाराचो मान फाव जाल्ले बुदवंत बावन्न आसले. तेभायर हेर - वांटेली, कुळाचारी आनी खुंटकार. तांकां गांवकारपणाचो मान नासलो.

गांवान दिल्लें तांणी खावप. कुळाचारी आनी वांटेली हांचेमदलेय कांय जण येयल्ले. ते कुशीन त्या कट्यार बशिल्ले.

नायक गांवकार इल्ले हुरमुटीच आसले. तांकां सट्ट करून राग येतालो आनी उलोवपय व्हडान झगडिल्ले वरी. केन्ना सट् करून उठून झगडत एक दुसऱ्याच्या आंगार धांवन येताले. केन्ना मदींच गांवकी सोडून उठून वयताले. बामण आनी नायक हांचे मदीं तशें उकतें झगडें नासलें खरें, पूण गांवांत व्हडपण घेवचे विशीं दोगांयमदीं भितरल्यान एक सर्तच चलिल्ली. तशे गांवच्या गुरवांक देवळ्यांक आनी हेरांक अडीअडचणेक नायकच बामणांपरस चड पावताले. तरीय ते प्रसंगार बामणालेंच मत्त उखलून धरताले.

गांवकार एकटांय जावन कांय वेळ वोगीच बसले. मदींच एक नायक गांवकार आड्डलो, ''म्हगेलो गोटो लासलो ताणें. माळ्यार भरिल्ल्या तणा सयत गोटो लासून गेलो. तेन्ना हायें गांवकी आफयल्यार कोणें कानामनार घेतलें ना. व्हडलो गांवकार म्हणूंक लागलो, रानांतलो उजो गोठ्या मेरेन पावलो म्हण. हांव सांगतां उजो गोठ्याक तेणी पयलीं घातला, मगेर रानांत गेला. गांवकार एकठांय जाल्ले जाल्यार हांव तेन्ना नांव सांगतासलों त्या दुस्मानांलें.''

हाचेर हो उंच धिप्पाड रायू नायक मदींच उठलो. ताणें धपकायत म्हटलें, ''ए तुगेलें रुंव हिंगा फुंकूं नाका. स म्हयने जाले बोकडो मरून. आज कात काडटा. वेळकाळ पळय. गांवार मर्णाचें संकस्ट येयलां, तुका तुगेलो गोटो पडला...''

''पूण त्या दुस्मानान...''

''वोगी राव. ना तर दांडो पडटलो तकलेर.''

इतल्यान थोट्या भैरू नायकाक तागेले दोगय पूत झाबळ्यांत बसोवन घेवन येयले. दोरयेच्या झाबळ्यांत तो बशिल्लो. झाबळ्याच्या तोंडांतल्यान एक लाकडाचो घट वासो काडिल्लो. वाशाक तागेल्या दोगय दाणग्या पुतान दोनय वटेन खांदे मारिल्ले. ताका हाडून तांणी पेडासरीं दवरले आनी वांसो काडून घेतलो. झाबळ्याचें तोंड सोडयतकीर हातांत बडी घेवन तो उठलो. बडी तेंकयत एकच पांयार हुडी घेत चलत पिंपळा पेडासरीं आयलो आनी 'हय गे भवानी' म्हणत थंय बसलो. ताका एक पावलच नासलें. पावलावयर वेंतभर तुकडो तुटून गेल्लो आनी तो पांय विळविळीत लुंड कसो हालतालो. तो आदीं रानदुकरांच्या धाडी वाटेर रातचो लिपून उबो रावन तांचे फाटीर कुराडे घावो घालतालो. एक फावट एक जखमी जाल्लो दुकर फाटीक लागतकीर धांवन वयतना तो झिडपून पडलो. दुकरान तेगेलें एक पावल फोडून छेनडी केली. उपरांत तें पावल बरोच तेंप कुसत आसलें. मगेर एक दीस एक वैजान तागेलो तो पांय एका लाकडाचे पाटयेर दवरून धारदार फरसेन पावला वयर मूठभर कापून

उडयलो. आनी तो झाडापाल्याच्या वखदान बांदलो. पूण ताचे कुडिचो पीळ अजून तसोच आसलो. दोळे सदांच रागान तांबडे जाल्लेशे, भायर येयल्लेशे.

व्हडलो गांवकार घना शणै मुखावयल्या चिऱ्या चांकार बशिल्लो. आदींच जाण्टो गात्रां शिणिल्लोसो तो आतां पुराय थकिल्लेवरी दिसतालो. तो परतो परतो आंवडो घोटून उलयतालो. ''तुमी पळयल्याच, कसली हावळ येयल्या ती गांवार. देव, देवूळ भश्टिलें तांणी. खंय गेली देवाची सासाय? कित्याक हातपांय मोडून घालिना तो तांकां? आतां कितें म्हण करचें आमी? इतलो तेंप आयकतालेच आमी. ह्या आडगांवांत ते येतशें दिसूंक नासलें. तरीय आयलेंच अपसरण! म्हाका कितेंच सुचना जालां. म्हजी बुद्द उपकारची ना तुमकां.'' ताणें खांदावेल्या वस्त्रान हूम पुसली.

मुखार बशिल्लो थोटो भैरू नायक एकदम उसळ्ळो. ''अशें रडून कांय जावचें ना. अशें रडल्यार फाल्यां तुमच्या घरांत घुसून तुमचे रांदनीर गाये मांस शिजोवंक दवरतले ते. मारून बडोवन धांवडायात तेंकां. मडीं पाडात तेंचीं. कुराड, कोयती, दांडे घेवन वचात.''

मुखावयल्या कट्यार हेरांमदीं बशिल्लो शाबा देवळी एकदम आड्डलो. ''हय, मारून धांवडायात तेंकां.''

सगळ्या गांवकारांनी एकदम ताचेर दोळे वटारले. भद्रशणै आड्डलो. ''तुमी हेर लोकांनी गांवकेंत उलोवचें काम ना.''

थंय आतां कांय वेळ गांठ पडिल्लेवरी थंडसाण पातळ्ळी. शिवा नायकान हेरांक भिवनचशें उलोवंक सुरवात केली. ''आमी सगळे वचून मेळ्ुंया तेंकां. विनवणी करुंया, आमकां आनीक हातबोट लावं नाका म्हण सांगुंया. आमी दुर्बळ लोक. आमचो देव वाटयात म्हण मागुंया.''

हाचेर एकदम वांगडाच गांवकारांचो कलकल जालो. ''तेका पायें पडचें आमी! तेंकां मसण्यांक, भस्ट्यांक! आमी ल्हानपण घेवन. लागीं गेल्यार चड चडटलें तेंचें. मारून सात गांवा भायर धावंडावंक जाय तेंकां!''

सुब्राय शणै येदोळसान वोगी आयकतालो. ताणें म्हटलें, ''खरें म्हटल्यार तें काम शिरवाड्यावयल्या नायक गांवकारांचें. तेच खेत्री, गांवचे राखणदार. तुमचे पूर्वज पयलीं रायाल्या रणांत वयताले खंय. हातांत तरसाद घेवन झुजताले खंय. आतां तुमचे माकडेंत कोयती धरता. फक्कत तोंडाचीं बातां.''

कट्यार बशिल्ले देवळी, गुरव, मिराशी, भोय भिरांतेन गांवकारांसरीं पळयतले. तांकां दिसलें, आतां हांगा उजो पेट्टलो. पूण कांय घडलें ना. सगळे कांय वेळ वोगी. लवू नायकान थंड आवाजान म्हटलें, ''पूर्वजांनी हें केल्लें आनी तें केल्लें कित्याक उपकारता आतां! पूर्वज हातांनी वागाची गोमटी आंवुळटाले आनी फातराचे चणे

खाताले. खंय कितें उरलां? तेंकां मारून बडोवन धांवडावची भास उलयतात तुमी. तेंचेकडेन उज्याच्यो नळी आसात. एका फारान मनशाक आड घालतात ते. तरसादी चलोवपाकय फिशाल ते. कापून उडयतले सगळ्यांक. हेर गांवांतलीं तेंचीं कर्तुबां आयकोंक नात तुमी?''

हाचेर भैरू नायक सट् करून तापलो, ''हीच तीं बिजूटपणां. शेंपडी घालात आनी धांवन वचात गांवांतल्यान. देव आनी देवळां मारात तेंच्या हड्डयार.''

''अशें तापून कांय जावचें ना भैरू. थंड तकलेन चिंतूंक जाय. आदीं देवाक सांगणें घालुंया आमी. गांव सुगूर उरल्यार गांवच्यो शिमो काडून रामनाथाक अश्टबंधन घालतले म्हण सांगणें घालुंया. तोच आधाराक आतां. ताचेरच सगळे पातयेवन. आमी आदीं प्रसाद कवलच घेवया देवालो. ताका विचारुनच मुखावयलें कितें तें थारावचें.''

भैरून विचारलें, ''म्हणजे ते देवूळ मोडूंक लागल्यार हातांत कोयतीय घेवचे नात तुमी? सांग रे म्हाका राया.''

''कितें जातलें हातांत कोयती घेवन? देवूळय ना आनी जिवय ना जातलो.''

''तुका सोबनात हीं उतरां राया. गव्यारेड्यावरी मातला तूं. घरा वच आनी बायलेल्या हातांतलीं कांकणां काडून घाल हातांत.''

''तूं थोंटो एके चाटेक म्हारग म्हण असो उलयता. नीट उबो राविल्लो जाल्यार हुपशी घोलींत वचून लिपून बसतासलो.''

''आरे कोणाक सांगता तूं हें? आठ आठ वज्याचे रानदुकर आंगार धांवन येतना कुराडे घायान फाटीकणो तोडला हायें तेंचो.''

व्हडलो गांवकार घना शणै मदींच तिडकलो. ''अरे कितें चल्लां तुमचें? झगडूंक आयल्यात हांगा? वेळ काळ पळयात.''

म्हाबळू नायकान दुखेस्त आवाजानशें म्हटलें, ''वचुंया आमी. गांव तेंच्या हड्डयार घालून दिगंतराक वचुंया. देव हुमटून कामळी खोळकेंत घालुंया आनी बायल भुरग्यांक घेवन रातचे चलूंक लागुंया! पडलेनात हेरकडेन गांव पडिंग!''

आयकोन सगळे सगर्दन जाले. पयलींच व्हडल्या संकस्टाची सुलूस लागिल्ले वरी गंभीर जावन वोग्गी बसले. सगल्यांच्या मनांत भिरांत आनी हुस्को. मुंगरू शणैन बारीक आवाजांत म्हटलें, ''ही पिळग्यान पिळग्यांची मिरास सोडून खंय वयतले आमी? खंयच्या सड्यार पडूंक. फुकट बायल भुरग्यांक वनवास! कितें जाता तें हांगाच जावं! जगचें आसल्यारूय हांगाच आनी मरचें आसल्यारूय हांगाच.''

गुणा नायक तरनाटोच गांवकार आसलो. खरें म्हटल्यार हाका गांवकाराचो मान फाव जावंक नासलो. पूण फाटीं हागेलो बापूय गणेशाल्या दोळ्यांत फूल पडलें,

ताका दिसना जालें. वखदां चलिल्लीं. ताणें व्हडल्या गांवकाराक सांगलें, हांव म्हजे बदला म्हज्या पुताक गांवकेचो वांगडी म्हण धाडटां. म्हाल गांवकारान मानून घेतलें. कारण गुणाची धडाडी घना शणैक मानवताली. गुणा येदोळसान वोगीच आयकतालो. तो आतां सट् करून उठलो. हो उंच एकशिवडी आंगलोटाचो. सावळो रंग. कमरेक माकडी बांदिल्ली आनी तांतूंत एक हात लांब कोयती फाटल्यान लांबताली. तो खणखणीत उतरांनी उलयतालो, 'हिंगाच रावन मरची भास केली म्हूण सांगता, मरचें आसल्यार, उदक सुकतकीर तळ्यांतलीं जीव जिवाणीं मरून वयचीं तशें कित्याक मरचें? सगळे मेळून झुडोन वचुंया तेंचेर. बामण, खेत्री, देवळी, गुरव, मेस्त, मिराशी, म्हार, चामार... सगळे मेळून हातांत मेळटा तें घेवन झुडोन वचुंया. जावंदी रक्तखेव. तेंचीं चार मडीं पडल्यारच पुरो, फाल्यांचें आमचें मरण बऱ्याक पावतलें.''

हाचेर कोण एकलो कांय उलयलो ना. कुशीन कट्यार बशिल्ले हेर जातीचे लोकय वोगी. कांय वेळान वाजंत्री गिरया शेंमळकारान म्हटलें, ''गांवकारा फाटल्यान आमी. तेच राखणदार.''

''गांवकार आतां कांय उलयनासले. फक्कत आपसांत फुतफुतताले. तांचें फुतफुतप ल्हवल्हव व्हड आवाजांत जायत गेलें. ''कित्याक जाय तांचेवांगडा झगडीं मारामारी? फुकटचें रगत वारोवप. गांव सोडून गेल्यार उपाशीं पडचे नात?''

''ते भायले, परके. चार दीस धपकायतले, धुमशेणां घालतले आनी वयतले तोंड घेवन. कितें करता तें करुंदी तेंकां. देवूळ फोडल्यार उकत्या मळार व्हरून देव पुजचो. किरिस्तांव केल्यार घरासरीं येवचें, शेळें उदक न्हावचें, परत आपल्या धर्मांत येवचें...''

''आमी आसात मरूंक तयार एका पांयार. पूण फाटल्यान बायल भुरग्यांचें कशें? वाटेर पडटलीं तीं...''

''धाडीर लिपून उबे रावन कुराडेन सावज चांचयतलेवरी चांचावंक जाय तेंकां...''

''सोड, सोड तोंडाचीं बातां...''

गांवकेचो आवाज बेताळा देवळा मेरेन पावतालो. कितलो वेळ कापितांव दियोग बोर्रेत आनी शेफ कामील रिबेर देवळा मुखार उबे रावन कान दिवन आयकताले. आतां कापितांवान खांदाक तुबक लायलें. हातांत तरसाद घेतली. तशेंच चलत तो पिंपळा पेडावटेन वचूंक लागलो. ताचे फाटल्यान शेफ, एक काब, पांच-स सोल्दादय आयले. कापितांव आयलो आनी पेडा सामकार उबो रावलो. ताचे फाटल्यान हेर सगळें जिंत्रप. तो गांवकारांक कांय वेळ मांडून पळयत रावलो. सगळे तटास. वागाक पळोवन मोनेल्ल्या गोरवां वरी ते ताका तुकूतुकू पळयताले. ते नदरेन भिरांत, अजाप आनी रागय आसलें. कापितांव आड्डलो, ''म्हाल गांवकार कोण? खंय आसा?''

घना शणै बशिल्लेकडच्यान उठलो आनी मुखार आयलो. ''हांव व्हडलो गांवकार ह्या गांवचो.''

''तुज्या गांवांत किरिस्तांव जाल्ले वट्ट कितले जाण आसात?''

''चार जाण.''

''तेंकां ह्या वर्साचो गांवचे रासवळ जमनीचे येणावळीचो वांटो दिल्लो?''

घना शणैन धीटपणान म्हळें, ''ना, आमी ताकां जातभायरे आनी गांवभायरे करून दवरल्यात.''

कापितांव आड्डलो, ''ना, तेंकां तो दिवचो पडटलो.''

घना शणै वोगीच रावलो. कापितांवान मुखार विचारलें, ''घना शणै, त्या किरिस्तांव जाल्ल्यांमदीं गांवकाराचो मान कोणाक फाव आसलो आदीं?''

''दोगांक. मंजू नायकाक आनी खेमू पाटकाराक.''

''ते खंय आसात हांगा?''

''आमी तांचें गांवकारपण काडून घेतलां. जातभायरे बाटगे ते.''

कापितांव पांय धाडायत मुखार येयलो. ''तेंचेबगर गांवकी जावंक शकना. ही गांवकी कायद्या भायर आसा. पुर्तुगालसान राजालें फर्मान आसा, गांवकारपणांत किरिस्तांवांक मान पयलो. कुळकरणी कोण तो, तुगेले चोपडे हाड हिंगा.''

कुळकरणी बाळा शणै आपले चोपडे घेवन कापितांवासरीं येयलो. कापितांवान चोपडे आपल्या हातांत घेवन म्हटलें, ''गांवकी जाता तेन्ना तुवें आदीं नांवां किरिस्तांव गांवकारांचीं बरोवचीं. मगेर हेरांचीं. खंयचेय बाबतींत पयलीं मत्त तेंचें विचारचें. हे मुखार किरिस्तांव गांवकारांचीं घरां पयलीं शिंवतले. किरिस्तांव गांवकारान खंयूय पावणी उलयल्यार तेचेर हिन्दूंक चड पडूंक मेळचें ना. फकत किरिस्तांवच ती चडोवंक शकतलो.''

घना शणै तिडकलो. ''हें जावचें ना. गांव आमचो. गांवकी आमची. आमी ती चलयतले आमकां जाय तशी. कोणाक कसलो मान दिवचो तें आमी थारायतले. तुमी कोण आमकां विचारतले? केन्ना खंयचोय राया आमचे गांवकेंत पडिल्लो ना.''

''घना शणै, जाणवायो नाकात तुज्यो. गांव तुजो न्ही, गांवकारांचो न्ही. गांव पुर्तुगालच्या रायाचो.''

''खंयचो कोण राया? आमी वळखनात.''

कापितांव रागान तिडकलो. खांदावयलें तुबक काडून ताचें मूळ धप्प करून घना शणैल्या हड्ड्यार मारलें. जाण्टो शणै न्हिन्नळलो आनी फाटीं सरलो. पडटां पडटां ताणें सोताक सावरलें. ताचेर तुबक मारिल्लें पळोवन गुणा धांवन मुखार येयलो. ''अरे, आमच्या व्हडल्या गांवकाराक मारलें तेणी. उठात सगळे. मारून धांवडायात

तेंकां.'' ताणें माकडेंतले कोयतेक हात घातलो आनी कोयती काडली. तेसरशीं फाटल्यान आशिल्ल्या काबान ताच्या हातार जोरान दांडो मारलो. कोयती सकल पडली. कुशीन आशिल्ल्या शेफीन आपली पालमात्री काडली आनी रंऽऽव रंऽऽव करीत ती ताच्या उकत्या पांयार, फाटीर, मानेर शेडायली. गुणा तोंडांतल्यान आवाज काडिनासतना फक्कत कुडीक आळखेपिळखे दीत पालमात्री आंगार घेतालो. कांय खिणांतच पुराय आंग पालमात्रेच्या रगशेल्ल्या वळांनी भरून गेलें.

पूण कोण एकलो ताच्या आधाराक येयलो ना. सगळे उठून उबे राविल्लेकडेन भियेवन थरथरताले. मारचें रावतकीर देवूळवाड्यावयलो रामा भोय एकदम धांवत मुखार येयलो आनी गुणाक मिठी घालून कुशीक घेवन गेलो. मारचें रावतकीर शेफ सगळ्यांचेर आड्डलो. ''एकलो भुंयेर पडटकीर धांवन वचपी बिजुटां तुमी. तुमकां आनी देव, धर्म जाय?''

रामा भोय गुणाक धरून शिरवाड्यावटेन घेवन वयतालो. ताच्या दोळ्यांत एक दूक नासलें. भायल्यान भितरल्यान तो सामको सुकून वाताडून गेल्ले वरी दिसतालो. कापितांव गांवकाराक धपकायतालो आनी सांगतालो, ''पुर्तुगालचो राया हो तुमचो राया. तेचो धर्म हो तुमचो धर्म. तेचो देव तो तुमचो देव. म्हण ताच्या शेकातळा आशिल्ल्या वट्ट लोकांक किरिस्तांव करून उडोवचेलें ताचें फर्मान आसा. तेच्या शेकातळा आशिल्ल्या राज्यांत हेर धर्माचो एक मनीस आसूंक फावना. तेंकां जुदेव लेखून आमी राज्याभायर धांवडावन घालतले. हेमुखार किरिस्तांव तुमचो धर्म, देवाचो पूत जेजू तुमचो देव. तेची इगर्ज हें तुमचें देवूळ. रोखडीच उबी जातली इगर्ज हांगा. सध्याक देवाचे म्हणयारे दोग पाद्री गांवांत येयल्लेकडेन आसात. ते खुरीस उबो करतले. बातिज्म दिवंक कालापूरचे इगर्जेंत व्हरतले.''

घना शणै आतां तिडकीन फुटिल्लेवरी उलयलो. ''ना, अशें जावचें ना. आमी जावचे नात किरिस्तांव.''

मगेर ताचे फाटल्यान आनीक कांय भियेल्ले, अडचल्लेशे आवाज, ''आमी जावंचे नात किरिस्तांव. आमचो धर्म आमकां व्हड.''

''आपखोशयेन जाले नात तर बळजबरेन करतले किरिस्तांव.'' तो चलूंक लागलो. ताचे फाटल्यान ताचे सोल्दाद. इल्लो मुखार वचून कापितांव फाटीं फिरलो. ताणें निमणें सांगलें, ''तुमकां किरिस्तांव जावचेलें कशेंच चुकूंक येयल्लें ना. एक तर किरिस्तांव जायात ना तर चलूंक लागात ह्या गांवचे.''

आतां कोण एकलो कांय उलयलो ना. सगळे गांवकार, वाटेली, कुळावी उब्याउबेच मोनेल्लेवरी जाल्ले. ल्हवल्हव ते थाऱ्यार येयले. आतां आपसांत एक उतर उलोवंक तांकां भिरांत दिसताली. ते मोन्यानच थंयसावन फाफसले. आतां

गांवकी बीन सोडात, आतां जण एकलो मुखत्यार आपल्या फुडाराचो म्हणिल्लेवरी, पुराय गांवार एक संक्रांत कळा पातळिल्ली. भर दनपरच्या कडार सुन्न शेळांव गांवांत पातळिल्लो.

रवळू मिराशी गांवकी चलताना वोगीच कट्यार बसून आसलो. गांवके वेळार एक उतर तो कोणासरीं उलोवंक नासलो. तागेल्या तोंडावेली शीर हालूंक नासली. घुम्म मोन्यांनी बसून आसलो तो. गांवकार उठून गेले. कट्यार बशिल्लेय फापसले. तरीय रवळू मिराशी बरोच वेळ एकलोच कट्यार बसून आसलो. देवळाच्या दारांतल्यान भटान 'मिराशोऽ' म्हण उलो माल्लो तेन्ना तो थाऱ्यार येयलो. ताका दिसलें, भटान रडत उलो मारचो तसो उलो माल्ला; हो पिंपळ, हीं झाडां सगळीं रडटात! मध्यम पिरायेचो रवळू बारीकसोच आसलो. ताळये वयले केंस गेल्ले आनी उरिल्ले धवे जाल्ले. ताची सांवळी कांत इतली तुकतुकीत नितळ आसली. तो एक कस्टकरी शेतकार अशें दिसच नासलें.

कांय वेळान रवळू कट्यावयल्यान उठलो आनी जड पावलांनी बेताळा देवळावटेन चलूंक लागलो. गांवच्या बेताळ, बर्मो आनी वागरो तिनय देवांची जोगोवणी तांचेकडेन आसली, पूर्वचारापसून. ताचो आजो ताका भुरगेपणाक सांगतालो, बेताळ गांवाक राखता, बर्मो पाळटा आनी वागरो खाता. तिगांचीय सासाय खर आनी मानय व्हड. फाटीं एका काळाक रानांत वाग इतले वाडले, ते गोरवांवरी रानांत, मळार, शेतांत, गांवांत भोंवंक लागले. तांणी एक गोरूं सोडलें ना. लोकांकूय घरांतल्यान भायर पडप कठीण जालें. गांवच्या लोकान गांवदेव रामनाथाक गाराणें घालें आनी जल्म्यार शेंसार मारून देवाचो अंवसर आफयलो. देवान सांगलें, गांवच्या राना शिमेर वागरो पुजात. दर उमाशेचे चतुर्दशेक जागर खेळात आनी वाजंत्रांची सुंवारी दवरात. संकस्ट पयसावतलें. पयलीं खंय दर म्हयन्याक सुंवारी आसताली. आतां रानांत वागान धोर मारल्यारच जागर सुंवारी दवरतात.

रवळू मिराशी चलत बेताळा मुखावयल्या घोडका रुखासरीं पावलो. थंयसान बेताळ देवळांतलें अवचित्र पुराय दिस्टीक पडटालें. तें पळोवन तो एकदम निर्शेल्लेवरी, थकिल्लेवरी जालो. घोडकिचें एक दांव बैलाली मान कशी मुळासरीं वयर सरिल्लें. तो कांय वेळ ताचेर बसलो. अचकित ताची नदर वयर गेली. अरे, हो घोडूक केन्ना मरूंक लागलो! हो आकांताळो मळबांत घुशिल्लो घोडका रूख! ताच्यो सगळ्यो खांदयो सुकिल्ल्यो आनी वयली नीट उबी गेल्ली एकच खांदी जिती आसली. एका काळाक हो घोडका रूख मळब व्यापून आसा अशें दिसतालें. पूण आतां ताचें मळब उकतें पडिल्लें. ताणें बशिल्लेकडच्यानच रूख व्हाजोवन पळयलो. ताचो घब्बघब्ब असो आवाज येयलो. ताणें मनांत म्हटलें, हो भितरल्यान पोकळय जाला, खंयच्याय

खिणाक मोडून पडटलो. तो बेगिबेगीन थंयसान उठलो. परत ताची नदर बेताळा देवळासरीं गेली. परत ताच्या काळजांत किंवाटो, निर्शेणी, हुस्को खरपणान उदेलो. ताच्या मनावेलो सगळो तोलच सुटलो. गोरीशी अशक्त कूड थरथरिल्ले वरी जाली. तो आपसुकच देवळावटेन चलूंक लागलो. ताचे पांयच न्हय तर एक अंतरशक्त ताका देवळावटेन ओडून व्हरताली. कांय खिणांतच तो बेताळा देवळामुखार वचून उबो रावलो. सोल्दाद, पाद्री, शेफ, कापितांव ताचेसरीं अजापानशे पळयताले. पूण मिराशी थंय धीट उबो आसलो. दोळे वटारून तांकां पळयतालो.

देवळांतली बेताळा मूर्त हुमटिल्ली आनी ती उबी आशिल्ले सुवातेवेलें फोणकूल तशेंच आसलें. भोंवतणीं बरीच तांबडी माती फापसल्ली. तें फोणकूल पळयलें आनी मिराशाच्या काळजार कांट्याचे चरकण उठले. आंगारय सर्रकन्न कांटो फुललो आनी आंग घामेवन गेलें. तांणी देवळाच्या पाख्याक मुखार एक खुरीस मारिल्लो आनी मुखार जोगवणे शिळेसरींय भुंयेंत एक लाकडाचो खुरीस उबो केल्लो. पूण हुमटिल्ली मूर्त खंयच दिसना. मिराशान हेवटेन तेवटेन सोदली. देवळा कुशीक इल्ले पेल्यान एक कंजीची धोल आसली. तांतूंत ती उडयल्ली मिराशाक दिसली. ती पळोवन तो आकांताचो रागान झिडपलो आनी एकदम आड्डलो. सोताचे तांकीभायर वचून आड्डलो. 'अवचित्र पातक्यांनू, म्हज्या देवाक कित्याक हात घातलो तुमी? कित्याक हुमटून उडयलो तो? बऱ्याक पडचें ना. निसंतान जातलें तुमचें. म्हज्या देवाचे सुवातेर तुमी तुमचो खुरीस कसो उबो केलो?''

तो इतलो दुबळो अबरगत आसलो, सगळे सोल्दाद ताका पिशाक पळयल्लेवरी पळयताले. इतल्यान वाजंत्रां नासतना, शेंसार मारिनासतना मिराशार भाराचो अवसर येयलो. तो शो... शो... करीत खुदूंक लागलो. तेणें अवसराच्या भारार जोगवणे शिळेसरीं पुरिल्लो खुरीस हुमटिलो आनी मोखून माल्लो. शो... शो... तुमचें बरें जावचें ना... भस्म जातलें तुमचें... मागीर तो कुशीचे कंजी घोलींत घुसलो. थंयची मणाची बेताळा म्हूर्त तेणे खांदार माल्ली. कंजी कांटे लागून तेगेलें आंग पिनलें, रगत निशेलें पूण तेका सुद्द नासली. तसोच कुदत तो सकल्ले शेतोडेंत देंवलो आनी व्हाळावटेन धांवंक लागलो.

सगळे सोल्दाद, कापितांव, पाद्री ताका पळयतच उरले. ते थाऱ्यार येयसर मिराशी देव घेवन पयस पाविल्लो व्हळावटेन. खुरीस मात तसोच भुंयेर पडिल्लो आसलो.

व्हाळाच्या त्या मोडणार एक चार पुरीस खोल कोंड आसली. तो थंय पावलो आनी ताणें मुर्तेसयत अंवसराच्या भारार सोताक कोंडींत घालून घेतलें. देवाक धडयेर दवरून सोताकच कोंडींत हुडी घेवचें आसलें काय देवाक कोंडींत उडोवन सोताक

ताका वयर रावचें आसलें, खबर ना. पूण एका आकांताच्या भाराच्या खिणाक तांणी दोगांनीय तळ गांठिल्लो. तळाक पावमेरेन देवाक घातिल्ली मिराशाची मिठी तशीच आसली.

मर्दी आठ दीस गेले. गांवांत सोल्दादांचो घडघड चलतालो. ते चोम्याचोम्यांनी गांवांत भोंवताले. देवळा मुखार चुली पेट्टाल्यो, तांचेर हांडयो चट्टाल्यो. मदींमदीं दोनचार सोल्दाद गोंय पाटणांत वयताले. थंयसान खोर्नांतल्यो रोटयो, मास, मसालो, तंबाखू घेवन येताले. सुरय, उकडे तांदूळ मात ते गांवांतच घेताले. एक क्रुसाद ना तर धा शेराफींय दिल्यार एक खंडी तांदूळ मेळटालो. कोणाल्याय दारांत वचप आनी एक क्रुसाद उडोवन एक खंडी तांदूळ दी म्हणप. ते तागेलेच तकलेर दिवन आपल्या राबित्यार हाडून उडोवंक लावप. तकलेर तांदूळ घेतिल्लो तो मोन्यानच तांदूळ हाडून देवळांत उडयतालो. आनी फाटीं पळयनासतना परतो वयतालो. लोक चड करून क्रुसाद घेवंक अनमनताले. शेराफींय, टाक, रीयच मागताले. क्रुसाद फकत गोंय पाटणांतच व्हरून मोडचो पडटालो. पावसा पयलीं कांबळ्यो, कपडोलत्तो गोंय भायल्या वाठारांनी वचून हाडूंक शेराफींय बऱ्याक पडटालीं. गांवच्या पाटकाराल्या पसऱ्यार तर मोठ्या पयशांचो व्यवहार चलनासलो. सगळो उदलाबदलेचो धंदो.

एक दीस कापितांव मुखावेले उबारेर उबो रावन शेतावटेन पळयतालो. शेतांनीं मेरो धरचें काम चलिल्लें. जळींमळीं दादले घुप्पघुप्प करून ओले मातयेंत खोरें मारून मेरो धरताले. कापितांव चिंततालो, पाद्री सिमांव पिरीस म्हणटा ह्या लोकांक आपखोशयेन किरिस्तांव करून उडोवप सोंपें न्ही. खर उपाव जाय ताका. धाडावन बडोवनच जावचेलें काम हें. ताणें फाटीं वळोन रामनाथा देवळावटेन पळयलें, कितलें गडगंज आनी सोबीत देऊळ हें! कोणें खंयच्या काळाक ह्या देवळाचो पायो मारिल्लो काय! ह्या देवळाच्या पायावरीच हांचो धर्मीक भावार्त. घडये हें देऊळ फोडून उडयल्यारच ते फापसत... तरीय तें इतलें सोंपें न्ही. फाटीं नेवऱ्यां गांवांत हांवें पळयलें ना, देवूळ फोडलें, भेसडायले, फटयले, हांयस दाखयलें तरीय अर्दे लोक लेगीत किरिस्तांव जाले नात. लोक रातोरात साटली पोटली बांदून गांव सोडून धांवतालो गोंया भायर. कितलेशेच वाडे रिते पडिल्ले आनी तांची मुसुंडी जाल्ली. शेतांय पडिंग पडिल्लीं. पूण हांगा अशें जावंक फ़ावना. हंयचो एकान एक मनीस किरिस्तांव जातलो आनी तो ह्याच गांवांत रावतलो. हंयचीं शेतांभाटां पयलींवरीच पिकतलीं, पसवतलीं...

इतल्यान शेतांत कोणालो तरी व्हडाव्हडान झगडिल्ल्याचो आवाज येवंक लागलो. दोग दादले हातांत खोरें घेवन एक दुसऱ्यामुखार उबे आसले आनी व्हडाव्हडान

झगडटाले. दिसतालें, आतां हे एक दुसऱ्याचेर खोरें उखलून घालतले. कापितांव बोरेंतीक मजाच दिसली. ताणें कुशीन उबो आशिल्ल्या घोड्याचेर दांग माल्ली आनी तो तांचे वटेन शेतांत वचूंक लागलो. कापितांवाक मुखार पळोवन ते दोगूय शेतकार कांचवेल्लेवरी जाले. तरीय तांतलो एकलो जो पुराय ओले मातयेन लेपडायल्लो आनी हुमेन भरिल्लो तो सांगूंक लागलो, ''ही पळय हाणें सकल्ल्यान मेर कातरावन माती वयर उडयल्या. आनी म्हगेली एक मुंड हात जमीन आपणाल्यांत घालून घेतल्या. विचारल्यार म्हणटा, मेर कोसळिल्ली म्हण.''

तो दुसरो कापितांवाक पळोवन बरोच भियेल्लो. तो कांय उलयनासतना पयल्यान गेलो आनी किंवाट्यानसो खोरीं मारून सकल्लेवटेनची मेर घालूंक लागलो. खोरीं मारतां मारतां म्हणूंक लागलो, ''तुका जाय थंय बांदून घे ती मेर. फाल्यां उपाशीं पडटलो जाल्यार म्हगेल्यांतलीय अर्द घे. पूण पचचें ना तुका हरामाचें. तुज्या आज्या पणज्यानय हेंच केल्लें.''

कापितांव तांचेमदीं कांय एक उलयनासतना परतो आयलो. पूण ताणें एक मनांत बांदलें, शेत म्हणटा तें हांचें पोट, हांचें सगळें सर्वस्व. ताचेबगर आनी तांचेकडेन कांय ना. इल्लें मुखार वचून काकुळटायेन ताणें फाटीं वळोन त्या शेतकारांक पळयलें, ते मोन्यानीच मेरो धरताले. ओले मातयेचीं कवळां मेरेर दवरून वयल्यान खोऱ्या फाट मारून, पांय मारून ती नीट बसयताले. तांच्या आंगार एक कास्टेबगर आनीक कांय नासलें. धरतरेचेर पुराय अवलंबून आशिल्ले धरतरेचे गरीब भावार्ती पूत. धरतरेची जिवसाण तांचे जिवसाणे वांगडा पुराय भरसल्ली. धरतरेंत जशीं तांचीं मुळां गेल्लीं आनी एका झाडाक धरतरेन पोसचें तशी ती तांकांय पोसताली.

कापितांवान दनपरां शेफीक म्हटलें, ''ह्या गांवांत गांवची रासवळ जमीन बरीच आसतली.''

''आसूंक फाव. हेर गांवावरी गांवकी आसा. पावणी जाता शेताची. पटीय भरतात ते.''

''गांवची रासवळ जमीन घेवची आमी ताब्यांत. ती मगेर किरिस्तांव जातल्यांक दितात म्हण सांगची.''

''हेर गांवांनीय अशे यत्न जाल्यात सिन्योर. पूण एक, गांवान गांवकी घेवन वांगड्यांच्या एका मत्तान, आपखोशयेन जमीन बरोवन दिलेबगर ती आमच्यान ताब्यांत घेवंक येना. तें कायद्याभायर थारतलें.''

''गांवकीबीन सोड. आमी म्हाल गांवकार घना शणैकच धरचो. ताचेकडच्यानच घेवचें बरोवन.''

''तो गांवके बगर सय दितसो दिसना. तेणें एकल्यानच कागदार सय केल्यार

पुरो. पूण तो...''

''तें म्हजेर पावलें शेफ.''

दुसऱ्याच दिसा कापितांवान गोंय पाटणांत सोल्दाद धाडून महसूल कारकुनाक आफोवन घेतलो. ताच्या हेर दिसाक सकाळींच कापितांव शेफीक, कांय सोल्दादांक आनी महसूल कारकुनाक घेवन रायगाळी गेलो. कारकुनासरीं कागदां आनी बरोवची सामग्री आसली. ताच्या कोटाक हड्ड्यासरीं आशिल्ल्या व्हड खिशांत ताणें कागदां आनी लिखणी घालून घेतिल्ली. शायेची दवत ताणें हातांत हुमकळायत धरिल्ली. त्या कारकुनाचे कमरेकय तरसाद आसली. ते आयले आनी घना शणैल्या घरामुखार आशिल्ल्या रुमडी पोंदा उबे रावले. ताणें एका देशी शिपायाक धाडून म्हाल गांवकार घना शणैक आनी कुलकरणी बाळू शणैक आपोवन हाडले. बाळू शणैल्या हातान गांव चावडेचे चोपडे आसले. ताणें येवन मान बागवोन हड्ड्याक हात लावन कापितांवाक नमस्कार केलो. घना शणै मात येवन ताठ तसोच उबो रावलो. रागान मांडूनसो.

कापितांवान म्हटलें, ''घना शणै, तुवें म्हाका रेस्पेद दिलो ना म्हण म्हाका राग येयलो ना. कारण तूं ह्या गांवचो व्हडलो गांवकार. गांवचो राया. पूण मतींत दवर, तुजे वयर तुजे परस खूब व्हड राया आसा पुर्तुगालचो तिसरो जुवांव. पुर्तुगालच्या रायालो शेक तुजेर चलता. हो गांव, हें शेतभाट तेचें. तेची ऑर्द ही निमणी. व्हिसराय सिन्योर आल्बुकेर्कान गोंय पाटण घेतलें तेन्ना तेणें स हजार मूरांक तरसादेचे धारेर जिते माल्ले. पुर्तुगालच्या रायाले फौजेची कापास्ताद तुका वेगळी सांगूंक जाय अशें ना.''

घना शणैक कळ्ळें, हो आपणाक भेसडायता आनी धमकायता. तो भोवच अस्वस्थ. खिणभर ताका दिसलें, हंयच्यान फाटीं फिरून चलूंक लागचें. तेंवूय आतां शक्य ना. सोमतोच रेवाडो घातलो ताणें. कितें तरी वायट हेत घेवन येयल्यात. ते बगर अशे धमकावचे नासले.

कापितांवान बाळा शणैक विचारलें, ''गांवची गांवकेची रासवळ जमीन कितली आसा?'' बाळा शणैन एक फावट घना शणैसरीं पळयलें. मगेर सगळें पाठ आशिल्लेवरी म्हटलें, ''धुळवणेची पिकाळ छत्तीस खंडयेची, जोन्नेचें मरड सत्तेचाळीस खंडयेचें आनी खाजन सोळा खंडयेचें. खाजन पावणेक घालिनात. बांदाची उस्तवारी करपी फडती पिकोवन खातात.''

''पिकाळ धुळवणेची वर्साक येणावळ कितली जाता कुळकरणी?''

''ह्या वर्साक आठ कुंभ, सात खंडी भात जाली गा.''

''ह्या कुंभ, खंडयेचो हिशोब मात समजावन सांगता?''

''चार सोलग्यांचो आटोव, दोन आटव्यांची पड, चार पडिंचो कुडव, वीस

कुडवांची खंडी, वीस खंडयेचो कुंभ.'' कुळकरणी तसो इल्लो सदळच आसलो. कापितांवान घना शणैक जोखत आनी सामकें ताच्या दोळ्यांत पळयत म्हटलें, ''धुळवणेची पिकाळ छत्तीस 'खांडयेची जमीन रायाक रायाल्या कामाखातीर जाय. हो महसूल अधिकारी तेचो ताबो घेवंक आयला.''

घना शणै आड्डलो, ''ना, अशें जावचें ना. आमी निखालूस दिवचे नात गांवकेची जमीन. आमची जमीन खावंक तुजो राया कितें पेजेक लागला काय इजमोलाक पडला?''

कापितांव रागान झिडपलो. ताणें पालमात्री उखल्ली. शेफ कामील रिबेर एकदम तांच्या दोगांचेय मदीं आयलो. पालमांत्रेवेली मूठ दामत कापितांवान राग जिरयलो. पूण कापितांवान कुरू केली आनी सगळे सोल्दाद ताचे भोंवतणी रेवाडो घालून उबे रावले. घना शणैक आतां कळ्ळें, आतां समतोच रेवाडो घातला तांणी. कांट्यांकुट्यांच्या रानांतल्यान शें दोनशीं सुळ्या दांतांची दुकरां भोंवसळ आंगार धांवन येवची आनी तांतूंत आपूण फारावचों तशें जालां. तरीय तो धिटायेन उलयत आसलो. ''शप्पन पिळग्यांची ती गांवची रासवळ शेतजमीन. खंयच्या तोंडान मागता तूं? दिवचे नात आमी !''

शेफ आतां ताचेर आड्डलो. ''दिवची पडटली तुका. कशेंच चुकूंक येयल्लें ना. वोगी कबलात कर आनी ती महसूल अधिकाऱ्याचे सुवादीन दी. तो कबलात बरयतलो आनी सय घेतलो तुजी. मतींत दवर, रायान मागल्या ती जमीन. न्हय राया पासत. तुज्याच गांवच्या लोकांक फाल्यां मेळटली ती.''

घना शणैली तकली घुंविल्लेवरी जाल्ली. तरीय ताणें थंडपणान म्हटलें, ''ताका गांवकी आफोवची पडटली. सगळ्या वांगड्यांची बुद्द घेवची पडटली. तांची ती आस्पद.''

कापितांवान म्हटलें, ''फाटीं आफयल्ली गांवकी कायद्या भायर आसली घना शणै. हेन मुखार गांवकेंत पयलो मान किरिस्तांव गांवकारांक. तेंचें उतर आनी तेंचें मत हें निमणें. फाल्यां तुवें गांवकी आफयली आनी किरिस्तांव गांवकारान सांगलें, ती जमीन रायाक दियात म्हण, तर तुज्यान कांय करूंक जावचें ना. तुमी शंबर गांवकारां परस किरिस्तांव गांवकाराल्या एका मताक चड वालोर. तेंच्या मताप्रमाण ठराव पास जातलो. हेन मुखार तुमकां गांवकेंत सुवात तुमी किरिस्तांव जाल्यारच. शेफ, महसूल कारकुनाक कबलात बरोवंक सांग आनी घेयात तेची निशाणी. सिन्योर वियादोर दे फाजेंद, तुमी तुमचीं कागदां काडात, बरयात मजकूर. करतलो तो निशाणी. पूण तेचे निशाणेवयर इल्ली सुवात सोडात, किरिस्तांव गांवकाराले निशाणेक. हो म्हाल गांवकार म्हण कायद्यान तेची निशाणी गरजेची इतलेंच.''

शेफीन कमरेची तरसाद काडली. तिचें तोंक लायत घना शणैक आनी बाळू शणैक त्या रुमडाच्या मुळासरीं व्हेले आनी तांकां थंय सकल बसयले. हेर सगळ्या सोल्दादांल्या हातांतय उकत्यो तरसादी. महसूल कारकुनान हड्ड्यासरीं आयिल्ल्या कोटाच्या बोल्सांतल्यान कागद काडलें. रुमडेच्या मुळाक तेंकून बसून तो बरोवंक लागलो. परती परती लेखणी तो शाये दवतेंत बुडयतालो आनी बरयतालो. तागेले लेखणेचो कुर्रकुर्र आवाज येतालो. थंय एक ल्हानशी नागागुडी आसली. तांतूंत फातराचो नाग आसलो. कारकुनान बशिल्लेकडच्यान एक पांय पातळिल्लो. तो मोच्याचो पांय गुडयेक लागतालो. तें पळोवन बाळा शणै वोगीच अस्वस्थ जातालो. ताणें पुर्तुगेज भाशेंतच मजकूर बरयलो आनी पुर्तुगेजींतच वाचलो. तांकां कांयच कळ्ळें ना. एकच कळ्ळें, तांणी घातकीपणान गांवकेची जमीन बरोवन घेतल्या. शेफीचे, तशेंच आनीक दोगतीग सोल्दादांले तरसादेची तोंकां शणैक रोमूंक पावलीं. शेफीन म्हटलें, ''घाल निशाणी.'' घना शणैन थरथरत्या हातान लेखणी हातांत घेतली आनी दवतेंत बुडयली. खिणभर ताका दिसलें, मोडून उडोवची ही लेखणी आनी तोपून घेवचीं तरसादींचीं तोंकां. पूण ना, ताणें लेखणी कागदाक तेंकयली आनी वांकडीतिकडी सय घातली. एके कुशीक गवाय म्हण बाळा शणैनय सय घातली.

घना शणै निशाणी घालून उठलो तेन्ना ताचे दोळे जशे रगताचीं दुकां घेवन व्हांवताले. तो मोठ्यांनीच रडटालो. तो वचूंक लागतकीर कापितांवान रावोन ताका म्हटलें, ''व्हडल्या गांवकारा, हांतूंत दुखेस्त जायसारकें कांय ना. एक सांगतां, आयक. आमी ही जमीन घेतल्या ती किरिस्तांव जातल्यांक वांटून दितले. तुजो गांवाचेर पुराय दरकार. गांव तुज्या उतरा भायर ना. तूं लोकांक समजाय. किरिस्तांव जावंक राजी कर. तुवें शें-पन्नास लोक घेवन वांगडाच बातिज्म घेतल्यार हातुंतली अर्द जमीन तुका. अठरा खंडयेची जमीन तुजी सोताची जातली शणै. मगेर ते जमनीचो जाय तसो विलो लावंक तुका मेकळीक आसा.''

घना शणैन तिडकीन म्हळें, ''म्हाका नाका ती जमीन. हांव जावंचो ना किरिस्तांव!''

''कित्याक? किरिस्तांव धर्म संवसारांतलो एक व्हड धर्म घना शणै.''

''जण एकल्याक आपलोच धर्म व्हड आसता.''

''पूण आमचो धर्म तुमच्या धर्मापरस व्हड.''

''कित्याक म्हण?''

''तो हांगाच्या रायालो धर्म. तो हांगाच्या व्हिसरायालो धर्म, तो तुमचेर जैत व्हेल्ल्यांचो धर्म! हारिल्ल्यांचो, बिजुटांचो धर्म सादोच किरकोळ आसता. तेंच्या देवांतय कसली शक्त आसना.''

घना शणै कांय उलयलो ना. मोन्यांनीच आपल्या घरावटेन चलूंक लागलो. पयल्यान एक मोठ्या कांडाचो आंब्यारूख आसलो. ताच्या अडसराक रायगाळिचे कांय बामण, तांच्यो बायलो, भुरगीं उबीं रावन सगळें पळयतालीं. तांकां पळोवन घना शणै एकदम हड्ड्यार हात मारून घेवन रडूंक लागलो. म्हणूंक लागलो, ''हांवें शप्पन पिळग्यांची गांवची मिरास तांच्या मड्यार घातली. म्हाका गांव बोगशिचो ना रे देवा !''

बाळा शणैन मात इतलेंच म्हटलें, ''घेवं दी बरोवन. ते कितें जमीन गांवच्यान उखलून व्हरतले? जमीन गांवांतच उरतली. कोणाक बऱ्याक पडची ना ती. पांय दवरिल्लो रगत ओंकून मरतलो.'' तो-चलूंक लागलो.

घना शणै घरा आयलो आनी शेनरी हांथरूण घेवन ओगी न्हिदलो. तागेले न्हिदचे कुडीचे वयर कांय मोटमोटी आडी घालून माळी केल्ली. ती बरगल्ली. ताका दिसलें, हातुंतलें एक आडें तुटचें आनी तें म्हजेर पडचें. ताचे खाला हांवें चिरडून जीव सोडचो.

घारसो शणै आपल्या घरांतल्यान भायर पडून मुद्दामच हेवटेन आयलो. तो इतलो म्हातारो जाल्लो आनी बागवल्लो, चलतना ताची तकली सकल आनी कंबर वयर आयिल्लेवरी दिसतालें. बडयेर पुराय आधार घालून तो चलतालो. ताणें एक वालो कमरे भोंवतणीं गुठलायल्लो आनी ताचेरच कास्टी मारिल्ली. घना शणैल्या दारांत पावतकीर ताणें मात्शें थारून म्हळें, ''माल्ल्यार मारिल्ली गोमटी तांणी. कित्याक म्हण हाका निशाणी घालूंक जाय आसली? आतां रायगाळीच्या सगळ्या बामणांलें नांव घाण.''

घना शणैली बायल सरस्पत, ताचो धाकलो भाव रुद्रा. रुद्राली बायल सुमित्री भायलेवटेनच आसली. तांणी एक फावट घारशावटेन पळयलें आनी मगेर भितरले वटेन. पूण ती कांयच उलयली ना. घना बायलेक सरस्पतेक मात सतवती मांयची याद जाली. खूब फाटीं पाखले पयलेच फावट वाड्यार घुशिल्ले तेन्ना ती म्हाकालीवरी येवन दारांत उबी राविल्ली आनी तांकां संवताली, धपकायताली. तेन्ना ती फकत चौदा पंदरा वर्सांची. निकतीच लग्न जावन गांवांत येयिल्ली. पूण तिका तो तिगेलो सांवार सारको याद आसा. मदीं कितलीं वर्सां गेलीं ! दारांतलो हो झरीआंबो कितले फावट फुललो, कितले फावट पिकून झडलो. काळाचे राटीक बांदिल्ल्या ह्या संवसारांत चैत्र वैशाख येत रावले. पूण व्हडलें कांय बदलूंक नासलें ह्या गांवांत. अदींमदीं ते येताले. तेंगशेर उबे रावन कुलकुलाट कुंकार दिल्लेवरी गांवार शेक गाजोवन वयताले. ते येयले आनी येवन गेले म्हणटकीर गांवार एक खपखपो पडिल्लो आसतालो. पूण चड कांय घडनासलें. गेल्लीं पंदरा वर्सां तरी गोंय पाटणांतल्यान, ताच्या चोंय वटेनच्या

वाठारांतल्यान पाड्यो खबरी येताल्यो. पूण ह्या गांवार कांय लकून येवंक नासलें. पूण आज ते उंबरार येवन उबे आसात. पयलो फांस तिगेल्या घोवार पडला. तीनच्च वर्सां आदीं तिगेलें कुळार पयसावल्लें. आज तिगेलें घर वावटळेंत गावलां...

कुळारचो उगडास येयनाफुडें ती कासावीस जाल्लेवरी जाली. धोंपरां धरून तेण्यार बसली. आकाड्या भायले वाटेवयल्या त्या ओंवळी रुखाकडेन पळोवंक लागली. तेवटेन ओंवळी रुखाचे सावळेंतल्यान कोण तरी येवंक लागला अशें दिशिल्लेवरी.

हें तिगेलें कुळार आदोळशीसावन बारा मैलांर नेवऱ्यां भटगाळी. भुरगेपणाक ती परती परती कुळारा धांवताली. घोवान संवलें, माल्लें तरीय आयकनासली. कुळारचीं मनशां, कुळारचीं शेतांभाटां, झाडांपेडां, गोटे, गोरवां, व्हाळ, दोंगुल्ल्यो सगळ्यांचेरच तिचो जीव.

पूण आतां कुळारा कोण नासलो. तिचे फाटलो भाव गोरवां घेवन रानांत गेल्लेकडेन हो व्हडलो गानुल्लां मुडो आपशींच निखळून फासपलो. लागींच उकत्या आंगान आशिल्ल्या तिगेल्या भावाक गानुल्ल्यान फोडून काडलें. तो नज जावन थंयच लखून पडलो. मागीर आनीक ताका गानुल्ले चाबले. गानुल्ल्यांच्या मारान तो सुजून इतलो मोटो जाल्लो, आंगावेलें जानवें आंगाक दशिल्लें. दोनच दिसांनी तो भायर पडलो. भावालो लग्न जाल्लो एक पूत आसलो. ताकाय रोखडेंच मरण आयलें. एक दीस ताका खतखत्यान जोर चडलो.आठ दीस जोर येत रावलो. जोर चडलो म्हणटकीर रगत उसळून येयिल्लेवरी तो तांबडोगुंज जातालो. कित्याकितेंय बडबडटालो. एक दीस तकलेक जोर मारून तोवूय मेलो. फाटल्यान आवय, बायल आनी दोगी धुवो.

भावालो पूत चंद्रू भायर पडलो म्हण कळटकीर सरस्पत धांवन गेली. आकांत कोंसळिल्लो. चंद्रुली तरनाटी बायल आनी दोगां अबुद्द भुरगीं. एक चेडूं सात वर्सांचें तर दुसरें पांच वर्सांचें. आनी अन्न उदक सोडून धरतरेक लागिल्ली भावा बायल. घरांत चवगां बायल मनशां. दादलो कोण ना. ती वयतकीर भावा बायल आनी सून तिका मिठी मारून हुयेल्यांनी रडल्यो. भावा बायलेन म्हटलें, ''बुडलीं आमी, वाऱ्यार पडलीं. आतां अन्नाक म्हारग जातलीं रे देवा !''

भावा बायलेल्या उतरांचो अर्थ तेन्ना तिका नीट कळूंक ना. पूण तेराव्या दिसाचें क्रिया-कर्म जातकीर दादले ल्हवल्हव उलोवंक लागले. पुर्तुगालसान एक पाड कायदो येयला, बायलांक खंय आस्पदेचो हक्क अधिकार ना. हक्क फकत दादल्यांकच. आतां एक दीस तांचीं सरकारी मनशां येतलीं, भाट बेंसां पावणेर काडटलीं. फक्कत घरापांखे तितलेच उरतले.

कितें करतले, खंय वयतले, सगळोच खपखपो. पुर्तुगेजांचो कायदो म्हटल्यार पाशाणावयली चीर. तांचेसरीं उलोवची माणसुकी ना, आनी तितलो धिरीस्टय कोण ना गांवांत. चंद्रुली बायल ही गोंय पाटणांतल्या एका वखदळ्याली धूव. ह्या गांवच्या हेर लोकांपरस तिका चोंयवटेनच्या अवतिकायेची जाण इल्ली खरपणान आसली. पूण संकस्टां पयस आसतात तेन्ना इल्लीं गोमटींच आसतात. आंगार येतकीर तांचे भाले जातात. कितेंय आसलें तरीय ती एका बिजूट समाजांतली, बिजूट काळांतली अस्तुरी. कायदो, समाज, सगळें अर्थक्रण तर ताचे आड. तिका आपलें कांयच दिसनासलें. आपलो प्रस्न सट्करून एका खिणांत एक दांग मारून बांयत हुडी घेवन सोडोवं येतालो. पूण अबुद्द धुवांलो भार ताचेर आसलो. वाली फळवालीक जड जावन वालीन तुटून वचचें असली अवतिकाय !

आठच दिसांनी सरकारी मनशांनी जांगाटी वाजोवन भोंवतणच्या चार गांवांत पेरगांव घातलें, ''चंद्रू भानू पै. गांव नेवरें. वाडो भटगाळी. तो भायर पडून ताचे आस्पदेक वारस ना जाला. ती आस्पद अमूक अमूक दिसा पावणेर काडटले आनी तो दुडू सरकाराक जमा करतले... स खंडयेचें भातशेत, एक बागाकुडको, तांतूंत चार आंबे, तीन पणस आनी एकवीस माड. सगळे लागाव. घर आनी घरा भोंवतड सोडल्यार सगळें पावणेर वतलें...''

पावणेर काडच्या दिसा एक फाजेंदाचो - महसूल खात्याचो कारकून, एक सुब-शेफ आनी चवग सोल्दाद हाजीर आसले. चेंचयेंत दुडू खुळखुळायत गांवचेच दोग जाण, येळा गांवचो एकलो, व्हडले गोंयचो एकलो अशे चवग जाण पावणेकार एकठांय जाल्ले.

गांवचो लोक दारांत, भितोडेंत, झाडा माडा अडसराक उबे रावन सगळें पळयताले. कोणाच्याय चेहऱ्याचेर चुरचुरो नासलो, दोळ्यांत एक दूक नासलें. हें संकस्ट पयस पयस कोणाचेर तरी आयिल्लेवरी सप्पाट चेहऱ्यान सगळे पळयताले. खरें म्हटल्यार हांणी सगळ्यांनी हातांत एकेक दांडो घेवन तांचेर झुडोन गेलें तरी पुरो आसलें. ते धांवन वयतासले. पूण आंगांत मुरिल्ली एक भिरांत... आनी कोणाखातीर कोणें मरचें ही परंपरागत चिंतना. चड उणें जावन सट् करून तांचे तरसादे धारेर मेल्यार... तरीय ते गांव, वाडो, दायजी, गोत्री करून एकठांय जियेताले ते सोता बरे करून जियेवचे खातिरूच. मरतना मात कोणाकय असुदाय मरूंक दिताले, कसली खंत धरिनासतना. पूण अजाप दिसतालें, फाल्यां हें मरण आमच्याच दारांत येवं येता ही सुलूस लागुनय ते वोगी रावताले! हाकाच लागून मरणां संवकतात हाची जाण तांकां कित्या नासली !

पावणेकारां मदलो एकलो शिवा आनी आतांचो शावियेर म्हण. तो येळा गांवचो.

सातठ वर्साफाटीं किरिस्तांव जाल्लो. फाटीं नव्यानच किरिस्तांव जाल्ल्या एका भाटकाराचो बापूय मेलो. ताणें बापायक किरिस्तांव धर्माप्रमाणेंच मरण करून ताका पुरिल्लो. पूण वांगडा ताणें हिन्दू धर्माप्रमाण बापायचीं क्रिया-कर्मां केलीं. म्हाल्याक आफोवन खवर करून घेतलो, कावळ्याक वाडी दिली. ताणें बापायलो हांथरुणा कवळोय फाटल्यान व्हरून उडयल्लो. तर शावियरान वांगडा आनीक दोगांक घेवन वचून ताका भेसडायलो, ''तूं किरिस्तांव धर्माआड वागलो म्हण हांव तुका इन्क्विझासांवाक लावन दितां. मगेर ताचो अमलदार येतलो आनी तुका धरून व्हरून व्हडल्या घराचे बंदखणींत उडयतलो. उपरांत 'आवत दे फे' - भावार्ताच्या कर्तुबा दिसा तुका लासून मारचेली ख्यास्त.''

भाटकार भियेलो. अशें सांगताले, भाटकारान ताका वोगी करूंक खूब पयसो आडको दिलो. उपरांत ताणें बापायलो फाटल्यान उडयल्लो हांथरुणा कवळो उंडेल घालून लासून उडयलो. खवर केल्ले तकलेवयले केंस नीट परत येयसर तो न्हंये पलतडीं वचून रावलो. उपरांतय शावियेर जायतेकडेन अशेंच करतालो. इन्क्विझासांवाच्या नांवार लोकांक भेसडायतालो आनी पयशे काडटालो. ताचें पळोवन आनीक जायते जाण अशेंच करूंक लागिल्ले. एक फावट एकल्याच्या आंगणांत आपशींच किल्लल्ली तुळस पळोवन एकल्यान इन्क्विझासांवाची भिरांत घालून पयशे काडिल्ले.

शावियेर ह्या असल्या धंद्यांतल्यान जोडिल्लो पयसो खुळखुळायत मिजास दाखयतालो. घोडो घेवन भोंवतालो आनी दर एकेकडेन वचून पावणी उलयतालो. तो काळोच आसलो. ताची गोमटी, फाटीभुजां बरींच मोटीं आसलीं. त्या मानान तकले बुरडो बारीक आसलो. दुसरो एकलो गोरो बारीकसोच आसलो. वर्सांतल्यान चार पांच म्हयने तो गांवच्या भाताच्या गुदांवाचेर काम करतालो. ताका नांवां, आंकडे बरोवंक कळटाले. तो नेवरेंचोच. तो आतां तत्त्वगिन्यान सांगिल्लेवरी हेरांक सांगतालो, ''आमी गांवच्या मनशांनी पावणी उलोवन घेतली ना तर भायल्या गांवचो कोणय घेवन वयतलो. कोण तरी घेतलोच न्ही शेवटाक. हांव ह्या गांवचो. गांवचें धन गांवांत तरी उरतलें.''

पयलें पावणेर काडलें तें ओटंबीकडचें एक खंडी पंदरा कुडवांचें शेत. 'सरकारी बोली एकशें दोन शेराफींय...'

हें ताचें शेत एकदम बरें आसलें, भांगर म्हणटात तशें. कस्टाक ल्हव आनी पिकतालें बरें. वयल्यान आनी घरालागींच. चंद्राली बायल भितरले वटेन दारासरींच बशिल्ली. म्हऱ्यांत दोगांय चेडवां. मांय गौराय तर रांदचेकुडींत खपखप्यान सास्टांग पडिल्ली. ओटंबीकडच्या शेताचें नांव घेतकीर तिचें काळीज हुलपल्लेवरी जालें.

कितल्या पिळग्यांची मिरास ती! आनी घाम, रगत वारायल्ली! ती आज अशी पावणेर पडूंक लागल्या! ती धडपडत भायर आयली. तिणें दोनूय हात तकलेर मारून घेत तांकां पाराथलें, 'पोरांच्या तोंडाचो गिरास तो, असो पावणेर घालूं नाकात रे! आमी दोगां बोडकां, फाल्यां ह्या भुरग्यांक घेवन कोणाल्या दारांत भीक मागूंक वयतलीं?'

महसूल खात्याचो तो जुजे मिरांद म्हण आसलो, ताणें म्हटलें, 'लग्न जावन वयतलीं तीं फाल्यां. बेगीनच उडयात लग्न करून. आमी जें कितें करतात तें पुर्तुगालच्या रायाल्या फर्मानाप्रमाण.'

गौराय आधार तुटिल्लेवरी वोगीच रावली. सुब शेफीन रागानच म्हटलें, 'तुगेले सुनेक तीन फावट सांगणें धाडलें हांवें, म्हजे जापसालदारकेर, तूं भुरग्यांक घेवन किरिस्तांव जाता जाल्यार तुजें शेतभाट तुकाच उरतलें म्हण सांगिल्लें हांवें. पूण तिणें कानामनार घेतलें ना. आतां रडटात कित्याक? तुमकां अजुनय सांगतां, एक फावट पेरगांव घालतकीर आमी पावणी फाटीं घेनात. पूण म्हाका काकुळट दिसता तुमची. अजुनय तुमी बातिज्म घेवंक तयार आसल्यार तुमचें शेतभाट तुमकां दवरतात. कारण मोगाळ रायान म्हटलां, बऱ्या किरिस्तांवांली आस्पद जप्त करची न्हू. ती पावणेर काडची न्हू.'

कांय वेळ थंय शांतताय पातळ्ळी. पावणेकारांल्या हातांतले दुडू खुळखूळ नासले. सोल्दादांले तरसादे मुठीवयले हात अळंग पडिल्ले. पूण त्या महसूल कारकुनाक पावणी जाल्ली जाय आसली. कशेंय करून सरकाराक दुडू जमा करचे अशें ताका दिसतालें. किरिस्तांव जावंचें काय हांकां चुकिल्लें ना. आदीं दुडू मेळटा तितलो काडून घेवचो. ताणें परत पावणी उलयली - सरकारी बोली एकशें दोन शेराफींय... येळा गांवच्या शावियेरान बोली चडोवंक हात वयर केलो. ताचीं ओटां हाललीं... इतल्यान चंद्रूली बायल वेणू दोगांय धुवांक घेवन भायर आंगणांत आयली. धाकल्याक तिणें हातांत धरिल्लें. व्हडलें तेंकून उबें आसलें. ती मोटवीच, पूण बरीच गोरी आसली. तिणें मनगटामेरेन पाविल्ली लांब हातांची चोळी घातिल्ली. मोट्या सुताची भरड विटकी साडी ती न्हेशिल्ली. साडयेचो पदर आंगाभोंवतणी वेडावन घेतिल्लो. केंस फाटल्यान ओडून घेवन गांठ मारिल्ली. इतली सोबीत तरनाटी बायल ती, पूण आयल्ल्या रांडावपणान तिची रयाच गेल्ली. तोंड रडून सुजिल्लेंशें, रगशेल्लेंशें दिसतालें. थंय एकठांय जाल्ले तिका तटास पळयताले. पूण तिणें सगळ्यां मुखार मान वयर करून म्हटलें, ''घालूं नाकात तुमी सगळें पावणेर. जातात आमी किरिस्तांव. खंयूय व्हरून दियात आमकां बातिज्म.''

जाण्टेली मांय एकदम आड्डली, ''सुने, कितें उलयता तूं? सुद्दीर आसा मुगे? पोटाक लागून ह्या पातकांत पडटा? पूण सांगतां, हांव निखालूस जावची ना

किरिस्तांव.''

सुब शेफ मर्दीच उलयलो, ''ये जाण्टेले, तुका कोण जा म्हण सांगता किरिस्तांव? पूण मतींत दवर, तुका फाल्यां ह्याच घरांत रावचें आसा. फाल्यां हें घर किरिस्तांवांचें.''

'कसले भोगणार रे देवा' म्हण मांय व्हडाव्हडान रडूंक लागली. सुब शेफीन सुनेक - वेणूक विचारलें, ''खऱ्यांनीच जातली तूं किरिस्तांव भुरग्यांक वांगडा घेवन?''

''हय, जातलें हांव किरिस्तांव भुरग्यांक घेवन.''

''हें तूं आपखोशयेन सांगता?''

वेणू मात्शी आडखळिल्लेवरी जाली. मगेर तिणें चांचरत म्हटलें, ''हय, खोशयेन सांगतां हांव.'' पूण तिच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळटालीं.

''आतां तुवें तुजें उतर फाटीं घेवंक फावना. फाल्यां ना म्हटल्यार घरांतल्यानय भायर काडटले. येता त्या आयतारा सकाळीं पाद्रीचो मनीस येतलो तुमकां इगर्जेंत व्हरूंक. नेवऱ्यां गांवांतच इगर्ज उबी जाल्या, तणां चुट्टांचीच. कांय तेंपानच फातरांची, चुन्याची पक्की इगर्ज उबी जातली.''

इतलो वेळ ओगी आशिल्लो महसूल कारकून जुजे मिरांद रागान उलोवंक लागलो, ''एक फावट पावणेची बोली उलोवन ती फाटीं घेवप समा न्ही. कायद्या आड तें. बोगसणी ना.''

सुब शेफ लुर्दीश सिकेर तापलो. तरसादेची मूठ आवळून ताणें म्हटलें, ''कायदो हांवय बरो जाणां जुजे मिरांद. पुर्तुगालच्या रायाक तुज्या दुडवां परस चड लोक किरिस्तांव जाल्लो जाय. दुडू पुर्तुगालांत उणो ना. राया दर फावट पेटो भरून भांगराचे क्रुसाद गोंयां धाडटा. मात एक खरें तुजें. दुडू येयल्लो जाल्यार तो तुज्या नांवार सरकारांत जमा जातासलो. आतां हे किरिस्तांव जाल्ले म्हज्या नांवार पडटले. आतां आनीक एक उतर उलोवं नाका तूं.''

ते चलूंक लागले. फाटल्यान आशिल्ले पावणेकारय आतां कांय उलय नासले. तांकां दिसतालें, आतां आपणें एक उतर उलयल्यार सुब शेफीली तरसाद गोमटेर पडटली. सगळे वोगी वयताले. फाटल्यान मांय गौरायालो होळोम काडून रडिल्लो आवाज पयस व्हळा पलतडेमेरेन आयकोंक येतालो. वेणू मात दोगांय भुरग्यांक वेंगोवन घेवन सालांत ओग्गी बशिल्ली. तिगेलो चेहरो इतलो सपाट आनी ताठरिल्लो आसलो, येता त्या संकस्टाक पुराय तांकीन तोंड दिवची तयारीच तिणें जशी मनांतल्यान केल्ली...

घना शणैन भितरल्यान उलो मारलो, ''आगे, खंय गेली ती...''

सरस्पत चिंतनांतल्यान भायर सरली आनी बेगिबेगीन घोवासरीं गेली. तो भितर

सामको उसासतालो. बायलेक पळोवन चडच दीन जालो. ताणें दोळे धांपून घेतले आनी म्हटलें, ''मरणाक भिवन हांवें तेंच्या कागदार सय केली. पूण मरण म्हाका चुकूंक येयल्लें ना.''

आयकोन सरस्पत वोगीच रावली. ताणेंच मुखार म्हटलें, ''ह्या गांवांत तोंड दाखोवचें उल्लें ना. आमी गांव सोडून खंयूय या.''

हाचेर सरस्पतेन म्हटलें, ''तुमी फक्कत निमित्ताक कारण. तुमचें कांय चुकिल्लें ना. तुमी निशाणी घातली ना म्हण तें गांवांक चुकूंक येवचें आसलें? तुमकां कोणेंय दुशणां दिल्यार हांव झगडटलें.''

•

एक दीस रातचो न्हिदिल्लेकडच्यान भायर येयल्लेकडेन काळखांत एका पाखल्या सोल्दादाक सोर्पान घांस माल्लो. तो परत भितर येवन भिवन सास्टांग पडलो. वांगडच्या देशी सोल्दादान गडबड घालून झाडो घालपी कुस्टाक आफोवन हाडलो. कुस्टान येवन झाडो घातलो आनी कांय वखदांय केलीं. पूण उपेग जालो ना. इकरा वरां रातीर ताका सोर्पान घांस मारिल्लो तो सकाळपाराक मेलो. कापितांव गेल्ले कांय दीस गोंय पाटणांतच आसलो. हांगाचो सगळो भार शेफ कामील रिबेरीचेरूच. त्या मरणान तो सामको सकल वयर जालो. तो सोता देशी किरिस्तांव आसलो आनी मेल्लो तो सोल्दाद मूळ पुर्तुगाली पाखलो. ताच्या मरणाविशीं वयल्या ताबेदारांक शेफीन जाप दिवंक जाय आसली. एकादरो देशी शिपाय मेल्लो जाल्यार तें बेठेंच पुसोवन उडोवं येतालें. पूण हो पाखलो. पुर्तुगाल मेरेन खबर पावची आसली. तांतूंत कुस्टान आपली जापसालदारकी काडून उडोवंक म्हण चाचरलेंशें करून म्हटलें, ''ताका ग्रामदेवळांत व्हरून घांटीमुळांत न्हिदोवन झाडो घालूंक जाय आसलो. पूण तो हेर धर्माचो म्हण तशें करूंक जालेंना.'' हाचेर शेफ एकदम तापलो. ''पयलींच कित्याक सांगलें ना तुवें म्हाका हें? तेका देवळांतच कित्याक, गर्भकुडींत व्हरून घालतासलों हांव.'' मगेर शेफीन ताका बुरश्यो बुरश्यो गाळी संवल्यो. ताचेर पालमात्री शेडायची तितलीच उल्ली. गाळयांचो वोग उणो जातकीर ताणें विचारलें, ''तुवें कसलो झाडो घातलो, कसलीं वखदां केल्लीं तेंची म्हायती जाय म्हाका. फाल्यां वयल्या ताबेदाराक घडये सांगचें पडटलें. वखदांचीं नांवां सांग तूं म्हाका.''

''नांवां सांगूंक फावना गा व्हड मनशा. हो वखदळ्याचो मंत्र दिल्ल्या गुरून नांवां कोणाक सांगूं नाका म्हण सांगलां. वखद हेरांक सांगल्यार तेचें तेज आनी शक्त उणी जाता. लागना तें. हातगूण मरता खंय.''

''फट. हांव मानिना तें. वखदां सांगचीं पडटलीं तुका.''

“ना, हांव सांगचों ना. खरोच सांगचों ना. पातक तें मोटें.”

शेफ हातांत पालमात्री घेवन परत ताणशेलो. “सांगता काय ना?”

“ना गा, ना, ना.”

शेफ रिबेरीन रऽऽवं करून ताचे उकते फाटीर पालमात्री शेडायली. तो न्हिन्नाटलो, बंध सुटले. “राव सांगतां, मारू नाका, सांगतां, देवा !”

“सांग.”

“ती एक सर्पमुळी आसली. रोयणीरच वाडटा ती. रोयण फोडून काडची पडटा. दुसरी एक अपथा साल. तेचेन रगत शुद्ध जाता. वीख निवळटा.”

“आनी तो झाडो घाल्लो पालो?”

“तो बेठोच निरमळे पालो.”

शेफीन सर्पमुळी, अपथा साल, निरमळे पालो हीं नांवां तोंडांतल्या तोंडांत घोळयलीं. मगेर कुस्टाक विचारलें, “तुज्या गुरून तुका कसलो मंत्र दिल्लो तो सांग म्हाका. जाल्यार कानांत सांग.”

कुस्ट भोवच भियेलो. “नाका, नाका, तें नाका गा. सांगल्यार म्हजें उतर मोडटलें, हांव मरतलों, म्हजें निसंतान जातलें.”

“सांगचो पडटलो.”

“ना ना. सांगना हांव.”

शेफीन परती पालमात्री ताचे उकते फाटीर रप् करून मारली. रगतच वयर सरलें. तेसरशीं तो तिरमिरिल्लेवरी जालो आनी दूख जिरोवंक आवयस्स म्हणिल्लेवरी ताणें व्हडान मंत्र म्हटलो, ‘म्हाका ईस्वरा पाव तेका’. मगेर रडत ताणें परत एक फावट तो मंत्र म्हटलो, ‘म्हाका ईस्वरा पाव तेका.’

आतां शेफीन ताचेसरीं पुराय दुर्लक्ष केलें. जसो कोणाचेर तरी राग काडचो म्हण कुस्टाचे फाटीक तो लागिल्लो. आतां तो त्या सोल्दादाच्या मरणाची तजवीज कशी करची ह्या चिंतनांत पडलो. सकाळींच ताणें एका सोल्दादाक घोड्याचेर गोंय पाटणांत धाडिल्लो कापितांवाक खबर दिवंक.

दनपरां वोत मोव जावच्याक गोंय पाटणांतल्यान तेनेन्त सांतान लोब आनी तीग सोल्दाद आयले. कापितांवाच्या सकल्ल्या हुद्द्याचो हो तेनेंत ह्या गांवांत नवो आसलो. निकतोच तो पुर्तुगालसान आयल्लो. एकदम बारीक आनी खूब उंच. बावळे धशिल्लेवरी जाल्ले आनी हड्डें पडिल्लें. पूण तो उलयतालो मोट्यान किळांचिल्लेवरी. उलोवन जातकीर दर फावट हाफ् असो आवाज काडटालो. आंगभर तो मुस्तायकेन भरिल्लो.

तो मेल्लो सोल्दाद धश्टपुश्ट धिप्पाड आसलो. ताका गोंय पाटण मेरेन उखलून

व्हरप कठीण आसलें. मरण करूंक पाद्री तर हांगाच आसलो. तेनेन्त देवळामळावयल्यान वचून भोंवन आयलो. ताका पुरूंक आतां सुवात थारावंक जाय आसली. गांवदेव रामनाथा देवळा फाटल्यान देवाचें व्हड भाट आसलें. ताचे वयलेवटेन उजव्या आंगाक एक मेकळो तिठो आसलो. थंय कांय बारीकबारीक झाडा झोंपां आनी एक रुमडी रूख आसलो. त्या रुमडी रुखाक ओपणे रूख म्हणटाले. गांवचे जत्रेक रथा फाटल्यान रातभर दिवजां घेवन भोंवपी बायलो सकाळपाराक तीं दिवजां व्हरून रुमडी मुळाक उडयताल्यो. वांगडा हातांतले एके कंवचेचें कांकण काडून उडयताल्यो. ताका त्यो दिवजां ओंपप म्हणटाल्यो. थंय आतां धड, फुटिल्ल्या दिवजांची रास पडिल्ली. तेनेन्तीन त्या सोल्दादाक त्याच तिठ्यार व्हरून पुरूंक फमायलें. पाद्री आनी हेर सोल्दाद ताकतिकेन मरणाचे तयारेक लागले.

हेवटेन पाखलो सर्प चाबून मेलो म्हण गांवभर खोशयेचें ल्हार पातळिल्लें. कोणाल्याय मरणान चुरचुरपी हे आज एका दुस्मानालो मनीस मेलो म्हण रासवळ खोस मनयताले. घडये तांतूंत तांकां एक मुक्ततायेचो खीण दिस्टीक पडटालो. देवळांतलो भट रायण्णा देवळांतल्यान भायर सरून गांवभर भोंवन मेळमेळिल्ल्याक सांगत सुटिल्लो, ''पानवळ भोगयलें देवान तांकां. आतां ते सगळे मरून ना-नपश्चात जावन वयतले. चारच दिसांत गांव सोडून धांवन वयतना पळयात ते. उरचे नात. देव दवरचो ना तांकां. हांवें पयलींच सांगूंक नासलें, देव पावयतलो म्हण!''

गांवच्या हेर लोकांलींय चिंतनां आनी उलोवप हेच तरेचें आसलें. देवाले सासायेनच देवान सर्परुपांत येवन ताका घांस माल्लो अशेंच सगळ्यांक दिसतालें. आनी तांकां वोगीच दिसतालें, ते आतां भिवन गांव सोडून वयतले म्हण.

त्या सोल्दादाक तांणी एका रुंद फळ्यार घालून दोरान बांदलो. दोनूय वटेच्यान दोन घट लाकडा कुडके बांदले. चवग जाणांनी माथें दिवन व्हरून ताका त्याच तिठ्यार पुरले. दोनय पाद्री लातीन भाशेंत मंत्र म्हणत फाटल्यान गेले.

पुरून परत येतना तेनेन्त गांवदेवळामुखार थारलो. देवळांत भट आनी हेर कांय लोक आसले. ते हुस्क्यानशे, मजेनशे मरण पळयताले. हेदोळ सोल्दादालें प्रेत देवळा मुखावेल्यान व्हरतना ते देवळांत रावन दोपूनच पळयताले. फोंड खणचो आवाजय तांकां आयकोंक येतालो. पूण सगळे ओगी आसले. तांकां ओगीच दिसतालें, हो तांचो फोंड पयलो आनी निमणो. पूण तांणी तो फोंड ओंपणे तिठ्यार खणला... पूण सर्प खंय वयतलो? तो थंयच भोंवता दिसता हांकां राखत !

तेनेन्त आनी ताची फौज देवळा मुखार येवन उबी रावली. तेनेन्त सांतान लोबोन त्याच किंळाचिल्ल्या आवाजांत पुर्तुगीज भाशेंत म्हटलें, ''तो तिठो आतां किरिस्तांवांली सिमतर. हेन मुखार कोणय किरिस्तांव मेल्यार थंयच पुरतले. तांतूंत आनी कोणें पांय

दिवंक फावना. सिमतरीक राखून दवरिल्ली सुवात ती. हांगा लागींच आतां इगर्जय उबी जातली, बेगीन जातली.''

ताचें उलोवप एका मिस्तूद काबान लोकांक विसकटावन सांगलें. आनी ते वचूंक सुटले.

लोकांक परत एक फावट खपखपो. देवळा फाटल्यान किरिस्तांवांची मसणवट. जावचे आदींच पुरची तजवीज! आनी तांची ती इगर्ज खंय उबी जातली काय?

शिरवाड्यावयलो पोन्रे बांयकडचो सुखडो नायक काळखांत वासरेर एकलोच बशिल्लो आनी ताणशेवन उलयतालो. ''बारा खांडयेची शेतजमीन आसली आमची एका काळाक. पुर्वजान खायली विकून. खंयच्या रांडांक घालूंक विकली आनी कोणाकोणाल्या हड्ड्यार पडली कोणाक खबर. ती देवतळ्याकडची सकल्ल्या चौकांतली दोन खांडयेची भांगर पिकची जमीन आमची आसली. व्हडल्या दुकळां वर्साक आज्यान सुब्राय शणैल्या बापायक उंडीफळांच्या मोलान विकली ती. आतां सुब्राय शणै बशिल्लेकडेन चार चार आठ खंडी गेण घेता बावुटीकडच्यान. आतां आमी आसात तेतून इतलीं पोटां भरचीं कशीं? दर वर्सा हेरांल्या शेतांत घोळप आनी गेण व्हरून घालप तेंच्या हड्ड्यार. पयलीं थोडीभोव गांवकेची रासवळ जमीन पावणेर घेवन तरी पिकोवन खाताले. आतां तिवूय पाखल्यान ताब्यांत घेतल्या. कशें जातलें रे देवा फुडाराक !''

व्हडलो आनी मदलो दोगूय पूत भायर आंगणांतल्या माटवांत उलयत बशिल्ले. बाप्पा आज असो कित्याक उलयता शीर उसळिल्लेवरी? मगेर इल्लें चिंततकीर तांकांय दिसलें, येता त्या वर्साक गांवकेचें शेत पावणेर मेळ्ळें ना तर कठीण आसा वर्स धुकलूंक. बापायलो वितराग तांकां खरोसो दिसूंक लागलो.

सुखडो बशिल्लेकडच्यान कुले तेंकयत भायल्या उंबरासरीं आयलो. सुखडो मोटवोच, बसक्या आंगलोटाचो आसलो. पोट हड्ड्याचे चिपयेकडल्यान सकयल मुंजीमेरेन उभट सरळ देंविल्लें. ताचेन लोक ताका लोळय म्हणटाले. तो दारांत आयलो आनी सुलूस घेतिल्लेवरी कांय वेळ ओगी रावलो. फाटलेवटेनचे दोंगुल्लेंतल्यान धा-वीस कोल्यांचे कुले सारक्के आयकोंक येताले. चोंयभोंवतणचो वाठार आंबो, अटांब, कट्टेल, पणस, आंवाळे, भिण्णां हांच्या रुखांनी गच्च धांपून गेल्लो. हाचेन तिनसांजचोच हांगा मिट्ट काळोख पातळटालो. वाड्या फाटल्या दोंगरांतय तशींच ल्हानव्हड गच्च झाडां झोंपां.

पयल्यान आशिल्लें जना नायकालें घर सामक्कें काळखांत बुडिल्लें. घरांत

इल्लो उजवाडय नासलो. सुखड्यान मनांत म्हटलें, सामको चामटो हो जना. एक चिपी तेल जळयना. तिनसांजच्या उजवाडांतच जेवतात आनी न्हिदतात. सकाळचें झिळिमिळी जालें की उठले आनी लागले वावराक. वेळेच्या उजवाडांतच सगळीं कामां. आनी आमची ही पळय अजून रांदचे कुडींत दिवो लावन खुडूखुडू करत आसा. सुनोय दोगीय तसल्योच, आलफुगड्यो. तो इल्लो मुखार सरलो. ताणें ल्हव मोगाळ आवाजांत दोगांय पुतांक म्हटलें, ''पुता, कलियुग येयलां. मनीस मनशाक वळखचो ना हेन फुडें. बळी तो कान पिळी.''

''कितें म्हणटा बाप्पा, कितें जालां?'' व्हडल्या पुतान विचारलें.

''तो मांयझंयो सैरू. आमचे परसं तीन खंडयेचें शेत चड आसा म्हण गर्व तेका. पयर म्हाका म्हणटा, तुमचेवरी हेरांल्या मेरांनी वचून पोट भरचेली गरज ना म्हाका.''

''अशें म्हटलें ताणें? चड माज चडला तेका. मार पडूंक जाय. वाटेर धरून बोड फोडूंक जाय.'' मदलो बरोच तापलो.

सुखडो उठलो आनी दोगय पुतां म्हऱ्यांत येवन बसलो. ल्हवूच आवाजांत ताणें म्हटलें, ''गांवकेची बरीच रासवळ जमीन ताब्यांत घेतल्या खंय तेणी. तेंच्या धर्मांत येतल्याक वांटून दितले खंय ते. आमी घेवंया दोन तीन खंडयेची तरी.''

''पूण धर्माचो प्रस्न न्ही बाप्पा? धर्म सोडचो म्हटल्यार...''

''धर्म? भरिल्ल्या पोटार देव आनी धर्म. आशिल्ली जमीन फाल्यां तुमकां तीगजण भावांक वांटून दिल्यार वांट्याक पंदरा कुडवांची तरी येतली मुरे? गांवकेची जमीनय तेणी घेतली बरोवन. येता त्या वर्साक तिवूय पावणेर मेळची ना.''

दोगूय पूत कांय वेळ ओगी रावले. बापूय इल्लो मोटवोच आसलो, पूण पूत मात बावळ्या खांद्यान भरिल्ले. छातयेर भुजांसरी दोनय वटेन लोखण कशो मासाच्यो पोवट्यो वयर सरिल्ल्यो. कांय वेळान व्हडल्या पुतान इल्ल्या हुस्क्यानच म्हटलें, ''धर्म सोडून तेंच्या धर्मांत वचप म्हटल्यार फाल्यां ख्यास्तीच त्यो.''

''कांय ख्यास्ती नात रामकुस्ट. तेंचे इगर्जेंत एक दीस वयचें आनी कितें करतात तें करात म्हणचें. कितें खावंक घालतात तें घालात म्हणचें. घरा येवचें आनी भायलेभायर शेळें उदक न्हावचें आनी घरांत येवचें. तेंचो धर्म तेंचेकडेन, आमचो धर्म आमचेकडेन. लोक चार दीस उलयतले आनी विसरून वयतले. हांव तुकां सांगतां, ते चड दीस ह्या गांवांत रावचे नात. सात समुद्रा भायले पलंगार न्हिदपी आनी भांगरा ताटांत जेवपी लोकते. ह्या दळदिऱ्या गांवांत कित्याक रावतले?''

''पूण तेंचे गांवठी लोक आसात न्ही? ते आसतलेच.''

''आसात मुरे गांवठी लोक? मगेर तेंच्या वांगडा आमी. आनी तुमकां सांगतां, आमी आज ती जमीन घेतली ना तर फाल्यां कोण घेतले बगर रावचो ना. दोपून

रावल्यात. पयलीं कोण मुखार सरता तें पळयतात. येन्नादर लिपून चोरून पावलेय आसतले कोणकोण.''

व्हडल्या चेड्यान मोलून म्हटलें, ''आमी वचून पळोवंया जाल्यार. कितें सांगतात तें तरी पळोवंया. घरांत इतलो इतलो लोक आसा म्हण सांगुंया. कितें दितात तें हात सोडून दियात म्हणुंया.''

रामकुस्टान मर्दीच म्हटलें, ''आवो सोडची ना आपलो धर्म. कशीच सोडची ना. ह्या वर्साक आनी आशाढाक पंढरीचे वारीक वचूंक सोदता.''

सुखडो तापलो. ''ना जावं दी तिका. रावची जाल्यार राव म्हण सांग ह्या घरांत ना जाल्यार गवळामळार वचून झोपडी बांदून राव म्हण सांग.''

थंय कांय वेळ थंडसाण पातळ्ळी. सुखड्यान म्हटलें, ''आतांच आमी काळखांत वचुंया पुता. कोणाक कळनासतना काळखांतच वचूंक जाय. फाल्यांचें कोणें पळयलां?''

मोलून विचारलें, ''दिवटी पेटोवन घेवया म्हणटा?''

''नाका, हातींत खुळखुळ्यांची सर्पाबडी आसल्यार पुरो. रातचो उजवाड वायट. उल्याची तर वाट.''

ते तिगय उठले. घराकुशीक वण्टीसरीं दवरिल्ली सर्पाबडी रामकुस्टान हातांत घेतली. ती वाटेर मुखार लायत तो चलूंक लागलो. दोन वांव कोंड्याबडयेच्या मुखाल्ल्या तोंकाक बांदिल्लो खुळखुळो बारीक व्हाजतालो. रामकुस्टा फाटल्यान सुखडो आनी ताचेफाटल्यान मोलू चलतालो. सुखड्यान खांदार कांबळी घडी उडयल्ली. दोगय पूत मात उकत्याच आंगान आसले. मारिल्ले कास्टेचें शेवट मात धोंपरामेरेन लांबतालें. भायर माघांतली उबाळ शिंयाळ अशी विचित्र हवा आसली. घरामुखावेल्या आकाड्यांतल्यान ते शेतांत देंवले. शेता मेरेवेल्यान देवळामळावेल्या झाडांझोंपांत रिगले. वाटेक दोशींवटेनच्या झाडांनी वयल्यान धांपून उडयल्ली आनी वाट चडच गुडूप काळखांत शेणिल्ली. वाट संवकळीची म्हणच ते मुखार पावलां घालूंक तांकताले. व्हडलो मोलू भियेवनसो कांचवेवनसो, पावलांत आडखळतसो चलतालो. एक फावट ताणें म्हटलें, ''राग येतलो देवाक. आनी गांवय ओगी रावचो ना.''

बापायन काळखांतच फाटीं वळोन तांचेसरीं मांडून पळयलें आनी म्हटलें, ''आज फाटीं सल्ल्यार फाल्यां हात चोळत बसचें पडटलें. मागीर मात फुक्याचो किरिस्तांव जावचो पडटलो तुका. गांव, देव तेणीं दवरल्यार मुरे !''

सुखडो तसो बिलंदरच आसलो. आयचे सगळे अवतिकायेची जाण ताका आसली. दोगय पुतांक खरें खोटें सांगून तो तांकां फुसलावनच घेवन येयल्लो. बापूय

म्हण ताचो एक हुस्को मात खरो आसलो. जमीन उणी पडिल्ल्यान फाल्यां आपले पूत उपाशीं पडटले अशें ताका खरेपणान दिसतालें.

तांच्या राबित्यासरीं पावतकीर ते तिगूय कांय वेळ इल्ले पयसच थीर उबे रावले. मुखार बेताळा देवळा सामकार एक सोल्दाद उबो आसलो. काळखांत तो चडच उंच, धिप्पाड दिसतालो. आंगार घातिल्ली जाडजाड मुस्तायकी, हातांतलीं, कमरेवेलीं अस्त्रां हाचेन ताच्या पुराय आंगाक सुरयो खोवयल्लेवरी दिसतालें. ताणें एक फावट पांयांतले मोचे उबे राविल्लेकडेनच भुंयेर आपटिले. ताचो खड् खड् आवाज घुंवलो.

खरें म्हटल्यार थंय पावतकीर तांची छाती बशिल्लेवरी जाल्ली. आंगाक शेळो घाम फुटिल्लो आनी आंग थंड पडिल्लें. बरोच वेळ अडसराक उबे रावतकीर सुखडो इल्लो मुखार सरलो. ''व्हड मनशा, देवा, आमी येयल्यात.''

तो सोल्दाद शिटुकसाणेन आंग फुलोवन उबो रावलो. ताणें कमरेची तरसाद काडून हातांत घेतली. ''कोण थंय, कोण तुमी?''

''आमी शिरवाड्यावयले नायक. तुमच्या धर्मांत भितर सरूंक येयल्यात.''

हातांत तशीच उकती तरसाद घेवन तो सोल्दाद ताचे म्हऱ्यांत गेलो.

''कोण तुमी?''

''हांव सुखडो नायक. हे म्हगेले देग पूत.''

''तुमी सगळे किरिस्तांव जावंक सोदतात?''

''हय.''

''पूण रातचेच कित्याक येयल्यात तर?''

''रातचेंच सगळें थारिल्लें बरें. पाड गांव हो. दुस्वासी. पोटजाळो. कोणें कितें बरें केल्लें पळोवंक जावचें ना तेंचेकडेन.''

''रावात, हांगाच रावात. हालूं नाकात जाग्यावयले.'' तो फाटीं गेलो आनी दारांत उबो रावन ताणें न्हिदिल्ल्या शेफीक उलो मारून सांगलें, ''सिन्योर शेफ, भायर कांय नायक येयल्यात. आमच्या धर्मांत येवंक सोदतात खंय ते.''

शेफ उठून भायर येयलो. ताचे फाटल्यान काब रेमेत नोरान्य आनी पाद्री कुलासू येयले. शेफीन तांकां विचारलें, ''खंयचे तुमी?''

''आमी शिरवाड्यावयले नायक.'' सुखड्यान जाप दिली.

''कितले जाण आसात तुमी घराब्यांत?''

''णव जाण. म्हगेले तीग पूत. धाकलो ल्हान आसा आनी ह्या दोगांचींय लग्नां जाल्यांत. व्हडल्याक दोगां भुरगीं आनी मदल्याक एक भुरगें आसा. तेंच्या बायल-भुरग्यांसयत येतात आमी.''

''आनी तुगेली घरकान्न?''

''ती नाका. तकलेन सारकी ना ती.''

मदल्यान - रामकुस्टान मदींच म्हटलें, ''तशें न्ही. बरी आसा ती. पूण ती जीव काडलो तरी आपलो धर्म सोडची ना.''

शेफीन म्हटलें, ''बरें आसा. पूण तुमी रातचे दोपून अशे कित्याक येयल्यात? कितें सांगचें आसा?''

''संकस्टांत गाविल्ल्याक दीस आनी रात एकच. उपाशीं पडचेली पाळी व्हड मनशा. वर्सवर्साक गांवची रासवळ जमीन पावणेर घेवन भागयताले. आतां ती तुमी तुमच्या अधिकारांत घेतल्या. तेतुंतली चार खांडयेची जमीन मगेल्या घराब्याक मेळची.''

''चार खंडयेची मेळची ना. फाल्यां सगळ्या गांवाक घडये वांटून दिवची पडटली. पुराय गांवाक किरिस्तांव जावंक लायतले आमी.''

सुखडो ओगीच रावलो. शेफीन सांगलें, ''दोन खंडयेची मेळटली. तिवूय तुवें पयलीच कापास्ताद दाखयल्या म्हण.''

सुखडो चाचरत रावलो. ''णव... णव जण आमी...''

''तेचेवयर एक कुडवाची शीर मेळची ना. नाका तर परते वचात. फाल्यां तरसादीचे घाये पडटकीर मुतत येतले आमकां किरिस्तांव करात म्हण.''

''हांव राजी आसां व्हड मनशा, पूण म्हाका गुण्याशेतांतली जमीन जाय.''

''मागिल्ली मेळटली. पूण आदीं किरिस्तांव जावन येवप आनी मागीर शेतांत कुदळ मारप.''

''गांवान आडायल्यार?''

''आमचे काब, सोल्दाद हातांत तरसाद घेवन उबे आसतले शेतांत तुजे राखणेक. आनीक एक सांगतां, म्हाल गांवकारान पुर्तुगालच्या रायाक बरोवन दिल्या ती जमीन.''

पाद्री कुलासू येदोळसान मुरकटत हांचें उलोवप आयकतालो. तो खोशी आसलो. पयल्याच धेपाक णव जाण किरिस्तांव जावंक उठिल्ले. ताणें सांगलें, ''येता त्या आयताराक सां लॉरेन्सीचे इगर्जेंत तुमचो बातीज्म जातलो. सक्काळीं तांबडें फुटचें पयलीं घराब्यांतल्या सगळ्या जाणांनी हांगा येवचें. आमी आसतले. वांगडा बातिज्मा वेळार घालचीं धवीं वस्त्रां तुमकां इगर्जेंत मेळटलीं. ते भायर जण एकल्याक चार भांगराचे क्रुसाद.''

'बरें, उतर गेलें' म्हण सुखडो चेडयांक घेवन फाटीं फिरलो. शेफ बेताळा देवळाच्या दारार उबो रावलो. ताणें धमकायल्लेवरी व्हडान म्हटलें, ''सुखडो नायक, उतर दिलां तुवें. उतर फिरयल्लें म्हाका मानवना. तशें केल्यार शेतय ना आनी धर्मय ना जातलो तुमकां.'' उतरां काळखांत चोंय वाठारांनी घुंवलीं. सुखड्याक भिरांत

दिसली, गांवच्या कोणाल्याय कानार हीं उतरां पट्टीत म्हण. ते घुम्म मोन्यांनी परत घरा येयले. घरांतल्यो तिगीय बायलो भायर तेण्यार बशिल्ल्यो. तांचे मांडयेर तांगेलीं सान भुरगीं आसलीं. धाकलो पूत वासू सालांत शेनरी घालून न्हिदिल्लो. हे येतकीर दोगीय सुनो उठून भितर गेल्यो पूण आवय तशीच मांडून उबी रावली. मगेर अचकीत रागान झिडपल्लेवरी तिणें म्हटलें, "खंय गेल्लो तूं रातचो पुतांक घेवन? पोट भरना जाल्यार माती खावन रावचो आसलो. हीं नश्टपणां, घातकीपणां कित्याक?"

सुखडो एकदम तापलो. "वोगी राव. बंद कर तुजें तोंड. अवचित्र रांड खंयची. तुका जावचें ना जाल्यार जावं नाका. हेरांक आडायल्यार तकली फोडटलों. दोंके मोडून घालतलों."

व्हडले सुनेन मदींच तोंड घातलें. "हेरांक म्हटल्यार कोणाकोणाक?"

सुखड्यालो आवाज आतां मोव जालो. "आमी, आमी सगळे जण घरभर लोक, व्हडले सुने. तुवेंच आतां मनार घेवंक जाय. व्हडली, व्हडल्या मानाची तूं. कांयच ना. वयचें, इल्लें शास्त्र करून घेवचें, परत येवचें. मागीर आमचे आमी, तेंचे ते. जाय तितली सकल्ल्या तळांतली शेतजमीन दितां म्हटलां तेणी आमकां."

व्हडली ओगीच रावली. मुखाल्ले तीन दीस घरांत मसुंड सामसूम आनी तणाव पातळिल्लो. मदींच दोगीय जावो फुतफुतताल्यो. धाकले पार्वतेन सगळें वयल्यावयल्यानच घेतिल्लें. पूण व्हडली गोपीक मात भोवच थतरवितर. भियेल्ली, हुस्क्यांत पडिल्ली.

पूण मांय घुंविल्लेवरी पयसपयसच रावताली. बेठीच भायर भितर करीत रावताली. केन्ना मागीलदारांतल्या पोरसांत वचून बांयसरी सुन्न उबी रावताली. बांयचो आधार मागतलेवरी. तिच्या मनांत एक अंतरगर्भी असो कल्लोळ... तिका दिसतालें, ह्या घराच्यो वणटी, वांशे बागवोन सकलसकल येवंक लागल्यात. आतां खंयच्याय खिणाक हें घर बसतलें. सकल्ले भुंयेर आतांच तायखुळो किल्लवंक लागला. एक दरया उठून ह्या घरार लखतलो आनी सगळें धुवन वयतलें. म्हजो मांव सांगतालो, तेगेल्या भुरगेपणाक हें घर बांदतना व्हडली व्हडली आडी, पाटयो आनी वांशे वयल्या रानांतल्यान बांदून ओडून हाडिल्ले. आतां हें सगळें करमेलां, बड्डेलां. आतां हेर घर घटणासयत पडलेबगर रावचेंना. हो तेगेलो मोटवो चेडो कुळघातकी. सगळें मातयेक लायलेबगर सोडचोना...

"अरे ये वासू, म्हगेल्या बाळका, बम्र्याकडेन जोगवणेक कोंबो व्हरूंक जाय मुरे? रगताचो अभिशेक तेका. ना तर तो कोपतलो. घरवडेचे गोमटेर बसतलो... आगो धाकले, पार्वते, वयता मुगो तूं घोवावांगडा? घोवान ऐरावतार बसयल्यार बसचें, घोवान खांक्याक भिकेझोळी बांदल्यार तुवेंय बांदची... सीतेक पळयलें ना,

घोवावांगडा रानांत कांट्याकुट्यांनी हेडहेड हेडली. निमणें घोवान उज्यार परीक्षा दी म्हणटकीर मोन्यान उज्यार चडली. ह्या दादल्यांचें एक खरें न्हू. शेवटा उजो माड्डोवंक लायतलेच...'' खरें म्हटल्यार म्हालकूम अर्द मनीसभायरीच जाल्ली.

शेनवारा तिनसांजे व्हडलो मोलू बायलेसरीं गेलो आनी ताणें सांगलें, ''फाल्यां सकाळीं नसकाक वचूंक जाय. ते मगेर आमकां घेवन दुसऱ्या गांवांत वयतले. भुरग्यांकय घेवन वचूंक जाय.''

तागेली बायल गोपीक हातापांयांतल्या केंसांमेरेन कांय वेळ थरथरिल्ले वरी जाली. मगेर दाडमणां चाबुनशें तिणें म्हटलें, ''ना, ना. हांव येवचीं ना. हांव येवचीं ना...'' मगेर एकदम अवसराचो भार आयल्लेवरी ती उब्याउबीच खुदूंक लागली. मांय म्हालकूम म्हऱ्यान आयली. तिणें म्हटलें, ''देवी ती. पयलीं पसून कुळारचे म्हामाय देवीचें वारें आसलें तिचे कुडीर.''

सुखड्याक आदीं बायलेच्या उलोवण्याचोच राग आयलो. ताणें रागान म्हटलें, ''ढोंगां, सगळीं ढोंगां. देवी खंय. खंयचें भूतखेत कोणाक खबर. रोतां पडूंक जाय चार.''

घोवान मोलून तिच्या बावल्यांक धरून जोरान हालयली आनी व्हडान म्हटलें, ''अगो, कितें जाता तुका?'' ताणें भितरल्यान तांबयोभर उदक हाडून तिचेर रकयलें. ल्हवल्हव तिचेवयलो अंवसर देंवलो आनी ल्हान भुरग्यावरी ती रडूंक लागली. कांय वेळान ती भितर गेली आनी भुरग्यांक म्हऱ्यांत ओडून घेवन न्हिदली. घोव मोलू बेठोच तणतणटालो, ''सुक्या वांगडा ओलें. ना म्हटलें म्हण जळचें उरता? धर्मबीर्म सगळ्यो मूळ तुरी नाशिल्ल्यो खबरी. चोडण्यां, गोंय पाटणांत तेंणी कितलीं देवळां मोडलीं तेन्ना खंय गेल्लो देव? घण पारय घालतना एकाय पाखल्याचो हात धरलोना कित्याक तेणें? कांय ना. फाल्यां सकाळीं उठचें आनी लागचें चलूंक. फाटीं आनी काशीयात्रेक आवय वयता म्हणटाली. वच, वच. वचून गंगेंत घालून घे.''

कांय वेळान घर सामकें थंड जालें. गोमटी आंवुळिल्लेवरी.

रातचो सुखडो न्हिदिल्लेकडेन हांथरुणार तळमळटालो. फाल्यांच्या आपल्या कर्तुबाच्या बरेंवायटपणाविशीं तकली खरवडावन चिंततालो. शेतामेरेसरीं एकेक बिच्च शेताखातीर झगडपी आमी, आतां ही आयती एक घराबो पोसची तांक आशिल्ली जमीन मेळटा, कशी सोडची ती? फाल्यां आनीक कोणय हात मारून वयतलो. फाल्यां भुरगीं तरी उपाशीं पडचीं नात. फाल्यां भुरग्यांचे वळवळे पळोवचे परस हें कितें वायट? धरतरे मांय, तूं देवी, अन्नद तूं. तुजे खातीरच हांव सोताक विकूंक उठलां.

सकाळीं नसकाक सगळेजाण उठले. दादल्यांनी आंगाक बंडी घातल्यो.

दांडयेवयली दुसरी वाल्या कास्टी कमरेक आडवी लायली. रामकुस्टा बायल पार्वतेन पेटाऱ्यांतल्यान लांब हातांची चोळी काडून घातली. तिच्यो वादयो पोटासरीं हड्ड्यासरीं आंवळून बांदल्यो. आंगावयलें पोत्रें कापड झाडलेंशें करून तिणें नीट कास मारून न्हेसलें. कास मारतकीर तें धोंपरा वयर पावलें. केंस लाकडा फणयेन मात्शे वळयलेशे करून ते फाटल्यान ओडून घेवन ताणें आंबाडो घातलो आनी तो केळीवायान घट बांदलो. पार्वत तशी उमेदींतच आसली. पूण व्हडली जाव गोपीक पळयल्यार घरांत ना. बेगिबेगीन सगळ्या लोकांनी तिका चोंयवटेन सोदली. घरा फाटल्यान इल्ले पयस एक रोयण आसली. ताका चोंयवटेन कितलींशींच लिंगां आसलीं. तांचेर बरींच कांट्यांचीं झाडां वाडिल्लीं. थंय आनीक एक हेदीचो रूख आसलो. ताका पुरूसभर उंच आनी वांवभर खोल घोल आसली. दादले दिसाचे लेगीत थंय वचूंक भियेताले. थंय ती वचून बशिल्ली. घोवान आनी देरान वचून तिका आफोवन हाडली. तिचें तोंड सामकें निस्तेज, रडकुरें दिसतालें. जावेन तिका चोळी काडून दिली. तिणें थंडपणान ती घेतली आनी आंगाक घातली. जावेनच तिचे केंस बांदले. ती एकल्या भुरग्याक हांडीर मारून आनी दुसऱ्याक हातीक धरून मेल्ल्या पावलांनीशी चलूंक लागली.

म्हालकूम सकाळसावन ओगी आसली. सगळे भायर सरतकीर बेगिबेगीन हातीन पिनरेचो करंड घेवन ती पावळेंत येयली. पयलीं तिणें सुनांक कुकूम लायलो. मागीर धाकल्याक - वासूक तिणें म्हऱ्यांत आपयलो आनी मूठभर पिनरीचो बुको वासूचे तकलेवेल्यान उडयलो. ताची तकली, मान, आंगावयली बंडी पिनरीन भरून गेली. तिणें हें अशें कित्याक केलें, सगळ्यांकच अजाप. सुखड्यान मात दांतओंठ खायतशें तोंडानच म्हटलें, ''पिनर शिपडिता? आमी कितें तेंकां खेत्र्यांक बळी दिवंक व्हरतात?''

सकाळीं वेळ उदेवंक ते सुटिल्ले. वाट फातरांची, शेंकऱ्यांची आनी मदींच चिखलांत भरिल्लीं शेतां खाजनां. वाटेर एकादरो व्हाळ लागतालो. धिमीभर उदकांतल्यान चलून पार वचचें पडटालें. वांगडा पाद्री आनी तीग सोल्दाद आसले. तेवूय चिखल मांडयत तांचे वांगडा चलताले. पाद्री वाटभर मंत्र म्हणिल्लेभशेन किरिस्तांव धर्माची व्हडविकाय तांकां समजावन सांगतालो, ''जेजुच्या नांवान रोजार करात, संकस्टाचीं ओजीं पयसावतलीं. तुजें बुडिल्लें तारूं उदकार हुबतलें आनी तुमकां तडीक पावयतलें. निमाणें, तुमकां सोर्गाचें दार उकतें जातलें. जेजू दयाळ देवबापाचो मायाळ पूत...''

वेळ माथ्यार चडूंक ते आगशेच्या सां लॉरेन्स इगर्जेसरीं पावले. इगर्ज म्हणटा ती एक व्हडली तणां चुडटांची खोपच कशी आसली. थंय लागींच एक देवूळ मोडून घातिल्लें. ताचे व्हडले व्हडले चिरे फापसून पडिल्ले. ते इगर्जेचे खोंपी भोंवतणीं नवे इगर्जेची बुनयाद मारचें काम चालू आसलें. व्हडले व्हडले चर मारिल्ले आनी तांतूंत

देवळाचे चिरे फातर हाडून घालताले. घट दांड्यांक मर्दीं तांणी दोरयो बांदिल्ल्यो. त्या दोरयांत चिरो फारावन दांड्यांक दोनय वटेन दोग माथें मारून ते व्हडले चिरे हाडून त्या चरांत उडयताले. दांड्यांक खांदे दितना, पावलां मारतना, चिरे देंवयतना ते थारावीक कांय उतरां गायताले. तांचें तें काम एका सुरांत जशें चलिल्लें. लोक सांगताले, आतां हांगा एक व्हडली चिऱ्यांची इगर्ज उबी जातली म्हण.

इगर्जेंत भितर सरचे पयलीं बायलांच्या आंगावयली गळसरी आनी कुकूम देंवोवंक जाय आसलो. पार्वत व्हडलिशी खंत धरिनासतना येयल्ली. पूण गळसरेचें नांव घेतकीर ती व्हडाव्हडान रडूंक लागली. मगेर रडटां रडटांच तिणें गळसरी काडून घोवासरीं दिली. आदींच हुमेन व्हांवन गेल्ल्या कुकमावयल्यान तिणें तळवो ओडलो. गोपीक मात कशीच गळसरेक हात घालिना जाली आनी हेरांकय हात लावंक दियना जाली. हात घालूंक गेल्यार 'नाका रे देवा' म्हण आड्डताली आनी दोनय हातांनी गळसरी घट धरून रावताली. घोवान सट् करून धरून एका हातान तिका आपणासरीं आवुळ्ळी आनी दुसऱ्या हातान मानेसरीं गळसरी धरून दांतान तुटयली. गळेसरेचो मणी, पिरडुकां पांयासरीं फापसून पडलीं. तिणें बेगिबेगीन बागवोन तीं मातयेसयत एकठांय केलीं आनी पदराच्या शेवटाक बांदलीं.

इगर्जेचे खोंपींत चिऱ्याचो एक कटो करून ताचेर एक खुरीस, कांट्यांचो मुकूट घातिल्ल्या जेजुची आनी मारिया मांयची लाकडी प्रतिमा उब्यो केल्ल्यो. भितरलो पाद्री बरोच जाण्टो आसलो. ताचें खाड, तकलेवयले केंस पिकून ताचो कापूस जाल्लो. तांतूंत तो गोरोपिट्ट. ताच्या हाताकडच्यीं, गळ्याकडच्यीं वस्त्रांय धवीं आसलीं. तो लोकांक सांगतालो, ''सिन्योर आल्बुकेर्क गोंय घेवंक गोंय पाटणांत भितर सरतना हांव तेच्या तारवार आसलों. हांवें आल्बुकेर्काक मीस दिल्या. तेणी गोंय पाटणांत पयलीच उबी केल्ले सां कातारीन इगर्जेचो हांव पादकूर आसलों.''

आज बातिज्म घेवंक चोंय वाठारांतल्यान तिशेक तरी लोक येयल्ले. भायलेवटेन कुशीन एक माटोव आसलो. तांतूंत पोल्लेर एका भाणांत पेज शिजताली. बातीज्म घेवंक येयल्ल्याक आदीं मातयेचे मायटेंत पेज जेवंक दिताले, मगेर कुशीक सकल्लेवटेन आशिल्ले तळयेंत न्हावन येवंक सांगताले. थंयच ताका धवीं वस्त्रां मेळटालीं. बायलांक आंगावेल्यान घेवचें एक धवें वस्त्र आनी दादल्यांक लांब कोट कशें खोमीस. बायलो त्या वस्त्रान खांद्यासावन कमरामेरेन आपलें आंग धांपून घेताल्यो. केन्नाकेन्ना दादल्यांच्या आंगार वयर खोमीस आनी सकल कास्टी कशी अवतिकाय आसताली. वट्ट ते लोक धरून हाडून सोडिल्लेवरी दिसताले. भियेल्ले, कांचवेल्लेशे. धडधाकट उंच आंगलोटाचे दादले आसले, पूण तेवूय थतरवितर. एकलो अरवळ तरणाटो पाद्रीक आनी थंयच्या अंमलदारांक सांगतालो, ''हांव मामागेर जेविल्लों. मामागेर वयचो

म्हाका भोव आंवडो. डोंगरे म्हजो माम. तो बाटिल्लो. एक दीस हांव मामागेर गेलों. तेगेल्या बागांतलीं खूब भिण्णां खायलीं हांवें. म्हाका चडच भूक लागली. माम जोताक गेल्लो. हावें मामयेक म्हटलें, म्हाका व्हाड. मामी अनमनूंक लागली. हांवें भितर वचून बुडकुल्यांतलें शीत व्हाडून घेतलें. मगेर मात मामयेन म्हाका म्हऱ्यांत बसून मायेन व्हाडलें. तेन्ना एक विघ्नाळो शेजारी घरांत येयलो. तेणें गांवभर फेंफें केलें. खबर आमच्या गांवांतय पावली. वाड्यार मद्दीं घर आमचें. चोंय भोंवतणीं आनीक घरां. गांवांत आतां मोटें झगडें पेटलां. आमकां गांवांतल्यान भायर धांवडावंक सोदतात. आवय बापायक भेसडायतात. आमकां घरांतल्यान भायर सरूंक दियनात. भोंवतणी दांडे घेबन उबे राबतात. बांयचें उदक भरूंक दियनात. गांवान घराक कुशीक काडून दवरलां. रातचो दिवो लायल्यार पालय म्हणटात. आतां म्हाका कोणें सांगलां, हांब किरिस्तांव जाल्यार म्हाका रायाली राखण मेळटली म्हण.''

थंयच्या एका ल्हान पाद्रीन ताका सांगलें, ''हय, मेळटली तुका आनी तुज्या घरच्यांक राखण. तुमकां कोण हातबोट लावंक तांकचो ना.''

''म्हज्या घरांत म्हजी आवय, एक चुलती, दोगी भयणी मेळून आनीक चार जण आसात. हांवें एकल्यान बातिज्म घेतल्यार तेंकां पावचो ना? सगळ्यांनीच घेवंक जाय?''

त्या पाद्रीन सांगलें, ''तूं आदीं एक बरो किरिस्तांव जा आनी तेंकांय किरिस्तांवपणाची वाट दाखय. जेजुचे वाटेन येतलो जाल्यार जणएकल्यान बातिज्म घेवप गरजेचें. तरच तेचेर जेजुचें बेसांव पडटलें.''

किरिस्तांव जावंक येयल्ल्या सगळ्यांक तांणी सकल्लेवटेनआशिल्ले तळयेर वचून न्हावन येवंक सांगलें. दादले, बायलो वांगडाच तळयेंत बुडक्यो मारून येयल्यो. आंगारच वस्त्रां पिळून बायलांनी तांणी दिल्लें धवें वस्त्र आंगार घातलें. दादल्यांनीय धवें खोमीस घातलें. चडशे दादले मुंजीक कास्टी आनी आंगार धवें खोमीस ह्याच भेसांत आसले. दोगच दादले वाले न्हेशिल्ले. ते दोगूय भटपण करपी कराडे बामण आसले. दोगय बाणस्तारचे, गोंय जुंव्यार येवन वचून रावताले. हांगाच्या लोकांचें देबस्पण, स्राद्ध, म्हाळ, मरणाचें क्रियाकर्म चोरून करताले. गोंय जुंव्यार भटपणाक सामकी बंदी आसली. एक दीस क्रियाकर्माचें सामान पोतयेंत घालून मसणवटीर वयतना तांकां सोल्दादान धरले. बंदखणींत उडोवंक व्हरतना ते गळसणले. किरिस्तांव जावंक तयार जाले.

तो जाण्टेलो पाद्री हातांत उंच दांडो घेवन इगर्जेचे खोंपींत कट्यार उबो आसलो. बातिज्म घेवपी सगळे ताचे मुखार निखटे भुंयेर धिमी मारून आसले. पाद्रीन परत एक फावट तांच्या आंगार चेंबुतलें पवित्र उदक शिंपडलें. मंत्रां म्हणत पवित्र तेलाचो हात

तांचे ताळयेक कानसुलांक लायलो. आनी हड्ड्यार खुरीस ओडलो. निमणें, जेजुच्या निमण्या जेवणाचो - ताच्या रगत मासाचो प्रसाद तांकां खावयलो. सगळ्यांनी पाद्रीक नमस्कार केलो. उपरांत पाद्री आपले सुवातेर येवन उबो रावलो. ताणें जण एकल्याच्या नांवाचो कागद वाचलो. जण एकल्याक तांणी किरिस्तांव नांव दिल्लें -

''सुखडो नायक तूं जेजुचे कुर्पेन जाला - साल्वादोर दियश.

मोलू नायक तूं जेजुचे कुर्पेन जाला - मानुयेल दियश.

रामकुस्ट नायक तूं जेजुचे कुर्पेन जाला - पेद्रू दियश.

वासू नायक तूं जेजुचे कुर्पेन जाला - जुजे दियश.

अस्तुरी गोपीके, तूं जेजुचे कुर्पेन जाल्या - मानुयेल दियशाची पतीण इजाबेल.

अस्तुरी पार्वते, तूं जेजुचे कुर्पेन जाल्या पेद्रू दियशाची पतीण फातीम.''

मगेर ताच्या तिगांय भुरग्यांलींय नांवां पाद्रीन वाचलीं. बातिज्म घेवंक येयल्ल्या सगळ्यांचीं नांवां वाचतकीर आपल्या धीरगंभीर आवाजांत तांचे पासत मीस म्हटलें, ''देवा, सर्वेस्वरा, देवाच्या पुता, जेजू ख्रिस्त भगवंता, आमी बाळकां नवो जल्म घेवन तुज्या पांयासरीं येयल्यात. तुजें शिकप आपणावंक, कुडी आत्म्यान तुजे जावंक. तुजी राखण, तुजो विस्वास, तुजो भावार्त जावचो आमकां फाव. आमच्या पातकाचो जावचो लासून गोबोर. आनी उकतें जावचें आमकां सर्गाचें दार. पाळो दितले आमी तुज्या शिकपाक, राखतले आमी आमचो धर्म निर्मळपणान. तुजें बेंसांव घाल आमचेर बरे किरिस्तांव जावंक... आमेन... जेन्ना धतरीर बिण्ण काळोख भरून आसलो तेन्ना तेणेंच पेटयली उजवाडाची वात. काळोख आनी उजवाड, रात आनी दीस, मळब आनी धरतरी, भूंय आनी उदक, जीव आनी जिवाणीं हीं तेचीच निर्मणी. मोगाच्या आनी मनीसपणाच्या राज्याचो पातशा. मनशाच्या मोगाक लागून तेणे आपलो पूत जेजूक धाडलो मनीसलोकांत. मोगाचें आनी दयाळपणाचें तो सांगणें घेवन येयलो आमचेसरीं. तेच्या येवपान आमी किरकोळ मनशां भाग्यवंत जालीं. काकुळटेन भरिल्लें दरयायेदें अंतस्करण तेगेलें. तेचो हात मागात. तो तुमकां दाखयतलो वाट, संतोसाची, समाधानाची आनी मोगाची. सगळ्या पातकांतल्यान जातलो तुमचो सुटावो. जेजुसरीं मागात, देवाच्या पुता तूं दाखय आमकां सत्पणाची आनी नितीची वाट, जे वाटेवरवीं आमी तुजेसरीं, तुज्या अंतस्करणासरीं पावतले. तेचेसरीं मोग आनी काकुळट हांचेबगर कांय नासलें. एक फावट एक दुखेस्त आवय रडत जेजुसरीं येयली. तिणें म्हटलें, आंकवार मारियेच्या पवित्र कुसव्यांतल्यान जल्मल्ल्या देवाच्या पुता, म्हजो पूत मरून पडला तेका तूं वांटय, तेका तूं जितो कर. जेजू तिचे वांगडा तिच्या घरा गेलो. भुरग्याक पळोवन जेजून म्हटलें, तुजो पूत मरूंक ना, तो बरो न्हिदलो. हाचेर कुशीचो लोक हांसलो. तेणी ताच्यो बकच्छायो केल्यो. जेजू मुखार गेलो आनी ताणें भुरग्याक हात

लायलो आनी उलो दिलो, मायेच्या पुता, उठ. तेसरशीं भुरगो उठून बसलो... तुमच्या सगळ्या दुख्खाचें आनी पिडेचें वखद तेचेसरीं...''

येतना तांकां जणएकल्याक चार चार क्रुसाद दिल्ले. ते हे पुर्तुगेज दुडू पयलेच फावट पळयताले. हाचे पयलीं तांणी शेराफींय, टांक, रीय हे मुरांचे दुडूच पळयल्ले. येतना वांगडच्या पाद्रीन तांकां सांगलें, ह्या एका क्रुसादाक एक खंडी तांदूळ ना तर शंबर नाल्ल मेळटात म्हण. गोंय पाटणांत ह्या एका क्रुसादाक एक कांबळ ना तर अस्तुरेचें न्हेसचें कापड मेळटा, अशेंय पाद्रीन तांकां सांगलें. सुखडो बरोच खोशी जालो. ताणें सगळ्यांले ते छत्तीस क्रुसाद एकठांय केले आनी कास्टेच्या शेवटाक बांदले आमी मुंजीक खोवयले.

ते गांवचे शिमेर पावसर वेळ मावळूंक गेल्लो. गोपीक गांवच्या आवाठांत पावली आनी एकदम गळसणून थंयच्या ओंवळी रुखापोनाक धप्प फतकल मारून बसली. आपूण गांवांत येयच ना, खंय तरी वचून जीव दितां म्हणूंक लागली. येदोळ येतनाच ती वाटभर परती परती रिंते गोमटेवयल्यान हात भोंवडायताली. कुकूम सांसपिताली. पदराक बांदिल्ली गळसरी, मणी हांची गांठ रावन रावन अंदिताली. घोवान धेंगसो घातलो तरीय ती बशिल्ली उठना जाली. जाव पार्वत मुखार गेली. तिच्या खांदाक धरून तिणें म्हटलें, ''आको, आमी या. भोग चुकूंक येयल्ले नात गे!''

ती पार्वतेचेर एकदम किसळ्ळी. ''कसल्या भोगाक रडटा तूं? घोव आसतना रांड जाल्या मुगो तूं. तेणी रांड केल्या मुगो तुका? सोनचेडी तूं! तुका कांय लागचें ना तें. गानुल्ल्यान माल्लें, तायखुळ्यान पुसयलें. पोटलो मेळटलो म्हण थुळेता तूं.''

''आको, कितें उलयता तूं हें?'' पार्वत रडूंक पावली.

''पळयलें मुगो, असले हे घोव. हातांत बडी घेवन बायलांक बाटोवंक व्हरतात. रांडपण भोगचें आतां आमी !''

थंय आतां कांय वेळ किण्ण शांतताय पातळ्ळी. पार्वत वाटभर सडसडीत पावलां उखलीत येयल्ली ती आतां घुम्म मोनी जावन रडूंक पाविल्ली. कोण कांय उलयनासलो. पाद्री कुशीन उबो आसलो. तांचें ते पळोवन घेवं म्हणिल्लेवरी. आतां पाद्री कुलासू तांचे म्हऱ्यांत येयलो. ताणें म्हटलें, ''एक फावट बातिज्म घेतकीर उलोवप ना. चड उणें केल्यार इन्क्विझासांवाकडल्यान लासून मारचेली ख्यास्त. बरे किरिस्तांव जावचेलो सोपूत घेतला तुमी. आतां आड उलयल्यार बोगसणी ना.''

सुखडो दुडवांची पोटली मुठींत घट दामून घेत सुनेचेर तापलो. ''उपाशीं पडटकीर हातांत कट्टी दिवन हिका भीक मागूंक धाडूंक जाय आसलें. मानान भौमानान हें सगळें मेळटा तें वोगी घेयात. हो धर्म कितें आनी तो धर्म कितें, इस्वर म्हटल्यारच बीं कोंबेतलें आनी येसू म्हटल्यारय बीं कोंबेतलें. पोट आदीं. गळ्यांतलेंच काडलें न्ही?

हातपांय तोडून घेतले नात मू?''

गोपिकेन चिरक्या आवाजांत म्हटलें, ''मात्सो काळोख जावंदी. गांवाक तोंड कितें दाखयतलो?''

''आगो ह्याच गांवांत आयुश्य काडचें आसा.''

''जावंदी मात्सो काळोख.''

पाद्रीन म्हटलें, ''ह्या गांवातच हें सगळें नवें. हेर गांवांनी शेंकड्यांनी बायलो किरिस्तांव जाल्यात. दोन दीस रडटात आनी मगेर रावतात ओगी.''

''जावं दी. आमचें आमकां. इल्लो काळोख जातकीर या.''

''तो पळय, वेळ बुडूंक दोंगरा माथ्यार पावला. गांवांत पावसर जातलो काळोख.''

ते सगळे एके हारीन चलूंक लागले. मगेर गोपीकय उठली आनी तेंचे फाटल्यान येयली. तिचे फाटल्यान तिगेलो घोव मोलू. ताच्या खांदार तांगेलें धाकलें भुरगें. गोपिकेचो सगळो अवतार जाल्लो. पदर कुशीन पडून भुंयेर लोळटालो. आंग सगळें हुमेन भरिल्लें. चलतना तिका लखण मारताली. एका भुरग्याक धरचोच त्राण तिका नासलो. तरीय तिणें मुखार चलतले आपले जावेक - पार्वतेक बारीक पळयलें. नेण्टीच, एकशिवडी आंगलोटाची, तामशे आंगकातीची तरतरीत पार्वती, तिचोय आतां त्राण सोंपिल्लेवरी जाल्लो. पांय कडकडटाले आनी बांकडे तिकडे पडटाले. गोपिकेक दिसलें, हेंवूय म्हजेवरीच वाटेर लखून पडटलें काय कितें! तिणें व्हडान म्हटलें, ''पार्वते, मनाक चड लावन घेवं नाका तूं. सोताक राख. ना तर तुज्या आनी म्हज्या भुरग्यांक कोण राखतलो? मांयन तर धरतर धल्ल्या आसतली.''

घोवान मोलून - मानुयेलान पिशेक पळयल्लेवरी बायलेक पळयली. तिणें घोवाक विचारलें, ''म्हजें नांव कितें दवरलां तेणी?''

मोलून चाचरलेंशें करून म्हटलें, ''इजाबेल.''

''आनी तुजें?''

''मानुअेल.''

गोपीक खुक् करून हांसली. मगेर इजाबेल मानुयेल हीं उतरां कांय वेळ घोळयत रावली. धाकल्या देरान - वासू - जुजेन म्हटलें, ''होनये, दादोचें नांव घेता तूं?''

परती ती तशीच हांसली. ''कुकमातिळो नाशिल्लो घोव कसलो? ह्या वर्साक वड पुजप ना, लिंगपुजा करप ना. ते म्हा-सतीच्या बोडकार हांव एक फूल घालचें ना. तिकाय बोडकीच करप. मार सासणाची अयाव रावंक उज्यांत हुडी घेतिल्ली!''

तिचें उलोवप सगळ्यांक विचित्र दिसतालें. पूण कोण कांय उलयनासतना चलतालो. परतें तिणें मदींच म्हटलें, ''अरे, मदल्या देरा, ह्या वर्साक म्हाका आशाडी

एकादस करूंक दितले मुरे? ह्या वर्सा कडकडीत तीन चिपी उदकाचो उपवास म्हगेलो. गेल्ल्या वर्सा एकादशेक निसरड्या रुखार चडून पणसूल काडून हाडिल्लें म्हगेल्या देरान.''

गांवांत पावच्याक पुराय काळोख जावंक नासलो. गांवांत एक किण्ण थंडसाण, शांतताय पातळिल्ली. देवळामळार, पिंपळा पेडासरीं, मगेर शेतांतल्या अर्जुनासरीं, गांवच्या आकाड्यांत कोणकोण दादले आसले. हांकां फक्कत तेळटाले. कोण कांय उलयनासले. दिसतालें, कोणेंय कितेंय उलयल्यार हांगाच हाणामारीचें झगडें सुरू जातलें. दोनूय वटेन मोनो घुस्मट, मोनें दुस्मानपण - उजो लावंक राविल्लेपरी. सुखडो मनांत म्हणटालो, आमकां जमीन मेळटली तें हांकां कळ्ळें काय! पिशें मारिल्ले दुस्वासी लोक हे. सट् करून कोणें चुकून किरिस्तांवांल्या हाताचें खायल्यार ताका जातीभायरे करतले आनी कोण आपखोशयेन किरिस्तांव जाल्यारय ताचो दुस्वास करतले, बाटगो म्हण हिणसायतले.

निमणे वाटेर सोडून वयताना पाद्रीन, पावल कुलासून तांकां सांगलें, ''एका वेळार तुमच्यान तुमचें निजाचें नांव घेवंक येता, पूण तुमच्या घराब्याचें आडनांव तुमी कशेंच लावंक फावना. आतां आमी दिल्लें दियश हेंच तुमच्या घराब्याचें नांव. फाल्यां सकाळीं हांव तुमच्या घरा येतलों तुमकां किरिस्तांवपणाची देख दिवंक आनी तुमच्या घराचेर किरिस्तांवपणाचें बेंसांव घालूंक.''

ते घरासरीं गेल्यार आवय म्हालकूम घरामुखावयले खोपीच्या दारार बशिल्ली हांकां पळोवन हामेऱ्यांनी रडूंक लागली. सुखडो एकदम तिचेर तापलो. ''अगे, कोण मेला म्हण अशी रडटा तूं?''

मदलो रामकुस्ट चिंततालो, खरोच कोण मेला? आनी कोण जाला? मेल्लेवरी आनी जाल्लेवरी कितें तरी घडलां खरें! म्हालकुमेन एक बुडकुलो, एक खुळणें आनी मायटी घरांतल्यान व्हरून खोंपींत तीन गुंड्यांची पोल्ली मांडिल्ली. तिणें उठून ताका खोंपींतली मातयेची कळसुली दिली. म्हटलें, ''भायर वचून न्हावन येवन घरांत वचात.''

सुखड्यान रागान म्हटलें, ''मातये कळशान शेळें उदक न्हावन येवंक आमी कितें मसंडेर कोणाक लासून येयल्यात? तांब्याची कळशी खंय?''

''आसतली घरांत.''

''हाडून दी मुगे मात्शी.''

''हांव वचचें ना त्या घरांत. किरिस्तांवांलें घर तें आतां.''

रामकुस्टान म्हटलें, ''हांव वचून घेवन येतां. आतां कितें उल्लां? एक फावट खणी हुडी घेतकीर उजो कितें आनी हुलोप कितें! बाप्पाक दिसता हिन्दू आनी

किरिस्तांव दोगांलींय सवंगां करूंक मेळटलीं म्हण. सोड ती खबर.'' तो घरा भितर सरलो. पूण उंबरा भितर सरतकीर ताच्या आंगार शेळें उदक रखयल्लेवरी जालें. अनामीक भिरांतेन काळीज कलकललें. परक्याल्या संवकळ नाशिल्ल्या कोणाल्या तरी घरांत रिगिल्लेवरी तो भियेत भियेत भितर गेलो आनी तांब्याकळशी उखलून घेवन येयलो. सगळे पडिंग बांयचेर वचून न्हावले. तांकां भिरांत दिसली, गांवचे नव्या बांयचेर न्हावंक गेल्यार गांव एकठांय जावन येवन आमकां तोण्यांनी बडोवंक लागतलो. आंगावयल्या ओल्या कपड्यांनीच ते घरांत येयले.

दोगीय जावो न्हावन येतना मांय तांकां सांगताली, ''आतां ती पडिंग बांयच तुमच्या नशिबांत. आतां नवे बांयचेर कांकणां व्हाजोवंक मेळचीं नात. आतां खळ पुजूंक कांकणां हाताची सवाशीण खंयच्यान हाडटलो खंय तो? पुता वासू, म्हाका नज जाल्ल्या काळाक अन्न उदक तूं घालतलो म्हण केल्लें हांवें. पूण तुका तेणी किरिस्तांव केला. तुज्या हाताचो उजो लेगीत म्हजे कुडीक मेळचो ना. आतां हांव पंढरेचे वारीक वयतां आनी थंयच चंद्रभागेंत कूड घालून घेतां.''

पार्वतेन व्हडलो जाळ करून चुलीर आदन दवरिल्लें. चुलीसरीं तकलेर हात घेवन ती बशिल्ली. मदींच तिणें घोवाक उलो मारून म्हटलें, ''अटमासोलांची इल्ली तामोळी करतां. तेचेनच जेवचें. वांगडा सुकें नुस्तें आसा.''

घोव कांय उलयलो ना. गोपीक उंडेला वातीच्या उजवाडांत आपली सुटिल्ली गळसरी गुंथूंक गुल्ल जाल्ली. बळाबळ तिणें एक फोड गुंथलो. ताका मणी ओंवयलो आनी एकच फोड गळ्याक बांदून घेतलो. हेदोळ न्हावन येवन बेगीबेगीन तिणें कपलाक कुकुमय लावन घेतिल्लो. गळ्यांत गळसरे दोर पडटकीर ती मात्शी थाऱ्यार येयली. रांदचे कुडींत वचून थंय तकलेर हात घेवन बशिल्ले पार्वतेक तिणें म्हटलें, ''बसल्या कित्याक गो अशी? व्हाडूंक नाका तेंकां? सकाळसान उपाशीं आसात.''

पार्वतेन मेल्ले नदरेन तिगेल्या गळ्यांतले गळसरेसरीं, कपलावयल्या कुकमासरीं पळयलें. थकिल्ल्या आवजानशें तिणें म्हटलें, ''आको, इल्लें तामोळेक काडून दी म्हाका. हांव वाट्टां फातरेर.''

दुसऱ्या दिसा सकाळींच पाद्री पावल कुलासू आनी दोन सोल्दाद तांच्या घरा येयले. वांगडा एक कामदार. तो कामदार शिरदोनचो, नव्यानच किरिस्तांव जाल्लो. गेल्लो म्हयनोभर तांचे वांगडाच रावतालो. दोगय सोल्दाद आंगणा मेरेभायरच आंब्या पोंदा उबे रावले. पाद्रीन त्या कामदाराक आंगणामेरे सरीं खुरीस उबो करूंक सांगलो. कामदारान तेंगेल्याच खुंटा वज्यांतले बरे नीट दोन झांब्याचे खूंट काडले. तांकां खापां मारून वांगडा हाडिल्लो खिळो मारून तात्पुरतो खुरीस घडयलो. तो मेरेसरीं उबो केलो. पाद्रीन सुखड्याक सांगलें, दर एका किरिस्तांवान दारांत खुरीस उबो करप

गरजेचें. ती घराब्यांच्या किरिस्तांवपणाची निशाणी आनी घराब्यांची राखण. त्या कामदारान तागेलीच कुदळ घेवन दारांतली तुळस खणून उडयली. आंगणाची मेर मात पाद्रीन सुखड्याल्या दोगय चेड्यांक लावन खोऱ्यान काडून उडोवंक लायली. तांणी वोग्गी व्हडाव्हडान खोरीं मारून ती काडून उडयली. मगेर पाद्री तांच्या घरांत गेलो. चोंयवटेन हड्डेंभर उंच वणट्यो. तांचेर व्हड व्हड आडी, वांशे, कोनवांशे घालून घडयल्ले गडगंज पांखे. तांचेर वर्ससंकिनचो घैरांव. सकल शेणान सारयल्ल्यो काळखाकुडी. तो मोटो मोटवो पाद्री सोताक राखत भितर गेलो. पार्वतेन बेगिबेगीन चुलीर चुट्टी पेटोवन दिवो लायलो. पाद्रीन लातीन भाशेंत मंत्रां म्हणीत घरांत घरभर पवित्र उदक शिंपडून घरार बेंसांव घातलें. एक म्हालकूम सोडल्यार घरांतले सगळे लोक भितर सालांत एकठांय जाल्ले. भावार्तान हात जोडून उबे आसले. ताका लेखून पाद्रीन म्हटलें, ''आतां ह्या घरांत रयवास जेजुचो आनी जेजुची मांय दयावंत आंकवार मारियेचो. तेंचेंच बेंसांव आतां तुमचेर. खंयच्याय आकांताच्या खिणाक मारात तेका उलो, तेका पाराथात, तुमचीं सगळीं अद्रस्टां पयसावतलीं, दुखखां निवारतलीं... आमेन...'' मगेर ताणें तांचे पासत देवासरीं मागलें, ''देवा जेजू धनया, तुज्या घराब्यांत येयल्यात ते नवो जल्म घेवन. घाल तेंचेर बेसांव, कर तेंची मनां नितळ आनी निर्मळ. करूंक मोग तेंच्या घराब्याचेर. तशेच परी शेजाऱ्यांचेर आनी दुर्बळांचेर. तांकां दी बरी देख तुजो धर्म पाळूंक आनी बरे किरिस्तांव जावंक... आमेन...''

सुखडो ल्हवूच घरच्यांक सांगतालो, हो धर्म आनी तो धर्म. शेवटाक सगळ्यांक सांगचें एकच. आपणें कस्ट करून खावचें हेंच खरें. सुखडो भितरल्यान इल्लो खुशाल जाल्लो दिसतालो.

पाद्री वचूंक आंगणा मेरेसरीं गेलो आनी ताणें फाटीं वळोन म्हटलें, ''ते एके अस्तुरेचे - जाका इजाबेल म्हण नांव दिलां - तेचे गोमटेन गळसरी आसा. कपलाक तांबडें आसा. किरिस्तांव धर्माच्या नेमा भायर तें कर्तुब. बरे किरिस्तांव जातले म्हण तुमी भास दिल्ली आसा.'' पाद्री परत तेंचे पावळेंत आयलो आनी ताणें सांगलें, ''गोंयचे धर्मसभेन नव्या किरिस्तांवांक लेगून कांय खर नेम घालून दिल्ले आसात. ताका पाळो दिवप चड आनी चड गरजेचें. त्या नेमां आड कर्तुबां केल्यार इन्क्विझासांवाचे मनीस तुमकां धरून व्हरून घालतले 'व्हडल्या घरा'चे बंदखणींत. तुमी गुन्यांवकारी म्हण गोमल्यार तांचे पदवेदार 'भावार्ताच्या कर्तुबा दिसा' लासून मारचेली ख्यास्त दितले तुमकां. धर्मसभेन घालून दिल्ले नेम हांव आतां सांगतां तुमकां थोड्यांत - दारांत कोणें तुळस पुजची न्ही, आंगण धरचें न्ही आनी घरा मुखार केळ कवाथो लावचो न्ही. बायलांनी रांदचे पयलीं न्हावन येवन सोवळ्यान रांदचें न्ही. शीत वाळचे पयलीं शितांत मीठ घालिनासतना रावचें न्ही. दादल्यांक मुंज

करची न्ही, बायलांक फळ-सोबण करचें न्ही. बायलांनी गांठी चोळी घालची न्ही आनी दादल्यांनी पुडवें धोतर न्हेसचें न्ही. दादल्यांनी जानवें घालचें न्ही, शेंडी दवरची न्ही. बायलांनी गोमटेंत गळसरी घालची न्ही, कपलार तांबडें लावचें न्ही. जल्मा उपरांत भुरग्याची सठी, बारसो करचो न्ही. लग्न थारायतना दायज्यांक, गोत्र्यांक आफोवचें न्ही, नाल्ल फोडचो न्ही. न्हवऱ्याक, व्हंकलेक हळद, तेल, रोस आंगाक लावचो न्ही. व्होंवयो गावच्यो न्ही. पानाविडो दिवचो, दवरचो न्ही. न्हवऱ्या व्हंकलेच्या कपलाक कोणें तांदूळ लावचे न्ही, शेंस भरचें न्ही. पांच परथवण करचें न्ही.एकादशेक आनी हेर वारांक उपास धरचो न्ही. आमास पुनवेक परब करची न्ही. चवथीक गणेस पुजचो न्ही, शिगमो नाचचो न्ही, दिवाळेक दिवे लावचे न्ही. मरतकीर फाटल्यान हांथरूण उडोवचें न्ही, मेल्ल्या सुवातेर शेण काडचें न्ही, दिवो लावचो न्ही, भटाक आफोवन बारावो, तेरावो करचो न्ही, तकलेचे केंस तासचे न्ही, कावळ्याक वाडी घालची न्ही. हिन्दू धर्माचीं पुराणां आनी हेर पुस्तकां घरांत दवरचीं न्ही, तीं वाचचीं न्ही. हिन्दू वैजाचें वखद घेवचें न्ही, हिन्दू वैजीण बाळंतचाराक हाडची न्ही. भटाक जोशाक घरा आफोवचें न्ही, तेंकां नमस्कार करचो न्ही, बुवांचें कीर्तन आयकुवचें न्ही, घाडी कुदोवचो न्ही. वट्ट कितें तर, तुमच्या पयलींच्या धर्माच्या खंयच्याच कर्तुबाक, शास्त्राक पाळो दिवचो न्ही आनी किरिस्तांव धर्माआड वचचें न्ही.''

पाद्री आनी ताचे वांगडी वचूंक गेले. सगळ्यांनी एक फावट कांचवेवन गोपिकेले गळसरेसरीं पळयलें. पूण कोण कांय उलयलोना. गोपिकेन बेगीबेगीन गळसरी पदराआड लिपयली. खरें म्हटल्यार सकाळसान सगळे खपखप्यानच आसले. तुळस फोडटना, आंगणामेर काडून उडयतना, तांचो आवरोच हुडिल्लो. दोगूय भावांनी येदोळ आंगणामेर त्याच आवऱ्यान एका किंवाट्यान खणून काडून उडयल्ली. ना म्हटल्यार येदोळ पाद्री मंत्रां म्हणत घरार बेसांव घालतना मन इल्लें थीर, सावचीत जाल्लें. पूण आतां पाद्रीलें सांगप शिटकावप आयकोन ते चडच वयरसकयल जाले. म्हालकूम खोंपींत थंयच्या गोबरांत थार पडिल्ली आनी लोळटाली. तिच्यान काळजांतलो खपखपो आवरूंक जायनासलो. हेदोळ तुळशीर कुदळ घालतकीर तिणें एकच किळांच मारिल्ली आनी थंयच सास्टांग पडिल्ली. अजून सावचीत जावंक नासली. धाकलो पूत वासू तिचेसरीं वचून ताणें म्हटलें, ''आवो, ऊठ गे. अशी कित्याक पडल्या? कितें जाता तुका?''

''वासू, पुता तूं पोटांत आसतना म्हाका रानां पेटिल्ल्याची सपनां पडटालीं. पूण पुता, तुंवें आतां म्हजे कुडीकय उजो दिवंक फावना. आतां हांव वयतां आनी दरयांत हुडी घेवन जीव दितां.''

वासू रडत तिचेसरींच उबो रावलो.

मदल्या रामकुस्टाक इल्लो तापट तकलेचो मनीस म्हण सगळे वळखताले. ताका पयलींसानच दिसतालें, बापूय कितेंतरी व्हडली चूक करता. पूण ताणें पोटाचो प्रस्न उबो करून असो ताका उतरांत घुस्पायल्लो, तो वोगीच राविल्लो. मेंदवाकय काजळी मारिल्लेवरी जाल्ली. पूण आतां ताका घरादाराचीं खांवटां उडयल्लेवरी दिसलें. घर एका भोंवऱ्यांत गावलां आनी ताचे वांशे घुंवंक लागल्यात. ताणें एक फावट आवयवटेन आनी मगेर बापायवटेन रागान पळयलें आनी म्हटलें, "शेत पिकोवन खावंक पावतले काय ते आदींच सगळ्यांचें निसंतान जातलें देवाक खबर. शेत जाय आसलें शेत! हड्ड्यार मारून घेयात आतां शेत." मगेर तो किंवाटयान खोंपींत आवयसरीं गेलो. "पडल्या कित्याक अशी? तिगूय पूत मेले म्हण भुंयेर कपल आपटून जीव सोडटा?" ताणें दोनूय हात तिच्या आंगापोनाक घालून तिका उखलून घेतली. हातांत घट आंवळून धरून तिका हाडून सालांत शेंदरेर घातली. "मर हांगा. हांगाच पडून राव. मेल्यार लासतले ना तर पुरतले. फाल्यां पिणग्यांत घालतां आनी व्हरून किरिस्तांव करून हाडटां. चार क्रुसाद तरी मेळटले." मगेर ताणें बापायक मांडून पळयलें.

आवय जीव गेल्लेवरी हातपांय सोडून पडिल्ली आनी रडत लांब सूर काडून कितेंकितें उलयताल्ली. भितर रांदचे कुडींत गोपीक गळसरी गच्च मुठींत धरून वोगी उबी आसली.

पाद्री येवन दारांतली तुळस आंगणाचेर काडून उडोवन गेलो त्या दिसा वाड्यावयले लोक पयस पयस उबे रावन, दोपून वोगी पळयताले. कोण म्हणटालो, हो पुराय घराबो अशें पिशें चाळवल्लेवरी एकदम किरिस्तांव कसो जालो?

"सुखडो तो. बरो पोटलो मेळ्ळो आसतलो. ते बगर किरिस्तांव कित्याक जातलो? आतां वाड्यार हें अपसरण. जातकुळयेंतलो एक घराबो कोणाक सांगिनासतना वचून किरिस्तांव जाता म्हटल्यार कितें? कशें जातलें रे देवा ह्या गांवाचें!"

सातण नायक गांवकार म्हऱ्यांतच उबो आसलो. ताचे तकलेंत घडये तें घोळटालेंच. पाखले किरिस्तांव जातल्यांक जमीन पयसो दितात हें ताच्याय कानावेल्यान गेल्लें. अशी जमीन मेळ्ळ्यार आपणें थोडी घेवची ही चिंतनाय ताच्या मनांत घुंवून गेल्ली जावंये. ताणें आतां हेरांक सांगलें, "शेर्त हांव सांगतां, सुखड्यान गांवकेची जमीन घेवनच तो किरिस्तांव जाला. सुखडो तो, दुडू मेळ्ळ्यार चामडीय काडून दिवपी."

लोक आतां दांत खावनशे सुखड्याल्या घरावटेन पळोवंक लागले.

शिरवाड्यार बाटिल्लो हो पयलोच पुराय घराबो. दुसऱ्या दिसा शेजारी जना

नायक न्हावन येवन तुळशीक उदक घालतना, प्रदक्षिणा काडटना व्हडाव्हडान देवालीं नांवां घेतालो. श्ळोक म्हणटालो. घरा भितर वयतांवयतां ताणें व्हडानच बायलेक म्हटलें, "वारो तेवटेनचो तेवटेनच व्हांवन वयता म्हण बरें. नातर आमकांय बाट लागचेली."

नेमकी पांचव्या दिसा आमास येयली. आमासेक वाडी घालतना जनान कावळ्यांक आफोवंक म्हण घडघड घातलो. बरोच वेळ तो व्हडाव्हडान 'अय अय' करून कावळ्यांक आफयतालो. आयकोन सुखडो वोगी घरांत गेलो. तो चिंततालो, व्हडलो भट सोमण्ण केन्ना सांगतालो, मेल्ले पितर पुताल्या हाताच्या गिरासाक हां हां करून तिस्टत तळमळत रावतात. आमास, पुनवेक तेंकां अन्न उदक घालूंक जाय. देवा, आतां म्हज्या आवय बापायचें कशें जातलें! आनी हांव फाल्यां मेल्यार म्हाका अन्न उदक कोण घालतलो? म्हजीय गत तीच जातली. घोंटभर उदकाक तळमळत रावचें पडटलें! ह्या चिंतनासरशीं तो एकदम गणसणिल्लेवरी जालो. एक अनामीक भिरांत ताचे भितर पातळ्ळी. मेळिल्ल्या दोन खंडयेच्या शेतावेली वानसा हुडिल्लेवरी जाली. कामळी घडी उडोवन तो वण्टीक तेंकून कांय वेळ ओगी बसलो. मदींच सट् करून बायलेर किसळ्ळो, "जावं नाका तूं किरिस्तांव, जावं नाका. तशीच कुसत पड घरांत. मदींच हुमकळत राव. नरकांत पडटली तूं फाल्यां पळय."

म्हालकुमेन न्हिदिल्लेकडच्यान घोवासरीं पळयलें. "जालें हांव किरिस्तांव. किरिस्तांवाल्या घरांत रावन बाटिल्ल्या सुनांच्या हातचें हांवें खायलें. जालें हांव किरिस्तांव. घोव थंय बायल. आतां पातक पुण्य तुज्या बोडार."

सुखड्याक बायलेचो बरोच राग येयल्लो. पूण तो दांतओंठ चाबून ओगीच रावलो.

गेल्ले तीन म्हयने गुणा नायक भितरले भितर रागान खतखततालो. फाटीं गांवकेच्या दिसा शेफीन ताका पालमात्रेन फोडून काडिल्लो. ती दूख, त्या दुकांचे जशे रसरसते इंगळे जाल्ले आनी मनांत पेट्टाले. केन्ना दिसतालें, माकडेंतल्यान कोयती काडची आनी एकलोच झुडोन वचचें तांचेर. चोंयवटेनचो आपलो लोक ताणें कितेंय खर उलयल्यार 'थुमेकाल' म्हणिल्लेवरी म्हणटाले, 'व्हडान उलोवं नाका. ते केन्ना खंयच्यान येत, सांगूं नज. मनीस न्ही, सात समुद्राभायले देंवचार ते! दयामाया ना तेंकां.'

मगेर ताचें उलोवप सोंपतालें. वाड्यावयलेच दोग ताचे इस्ट आसले. भावबंद आनी इस्टय. राया आनी शाबी. ताचेपरस तीन चार वर्सांनी ल्हानच ते. गुणान कितेंय

सांगल्यार भावार्तानशे आयकताले आनी मगेर भियेल्लेवरी जाताले. पूण ते सदांच ताच्या सांगाताक आशेल्लेवरी ताचे आशिकुशीक रावताले. तुंवें कितेंय सांगल्यार तुजें उतर आमी मोडचे नात गुणाभावो, असो तांचो भावार्त आसलो.

गुणा सगळ्याच कामाक फिशाल. ताणें रानांतल्यान बांदून हाडिल्ले खुंट, कांटयेचें वजें चेडूं कशें सोबीत. ताणें घातिल्ले धानाचे गुडये उब्बे ज्युस्त कांतयल्ले. शिगम्याच्या तोणया मेळांत ताचो खेळ पळोवपासारको. जागरा काल्याक घुमटां सुंवारी ताचेकडेन. घर शिंवंक घरार चडल्यार हेर तीगतीग जाण एक बोर उस्तून परती घालसर हाची एकल्याचीच एक बोर जाताली. उंच शिडशिडीत आंगलोटाचो गुणा. गंवा रंगाची नितळ तुकतुकीत कांत. तोंड इल्लें लॅांबट, घोड्याच्या तोंडावरी. दोळे इल्ले भायर येयल्लेशे पूण खर तेजिस्ट. तो जोड वालो न्हेसतालो. एकाची रुंद कास्टी मारतालो. दुसरो कमरे भोंवतणीं गुठलावन घेतालो. पावस गीम आंगाक केन्नाच कांय घालिनासलो. सदांच खांदार कामळी घडी आनी कमरेक माकडी. माकडेंत हातभर लांब कोयती. सोबावान इल्लो तापट. कितेंय आड वांकडें दिसल्यार सट् करून किसळटालो. पूण एक बापोलयो रुखावेल्यान पडून हातपांय मोडून घेतिल्ले तेन्ना गुणान ताची सेवा चाकरी म्हण केल्या, लोक सदांच याद काडटात. म्हणटात, पोटांत पिकिल्लो पूत लेगीत इतलें करचें नासलो.

आयजवेर शिरवाड्यावयले चारच जाण किरिस्तांव जाल्ले. तांतलो एकलो अबुद्द भुरगो अण्णू आनी दुसरो जाण्टेलो मंजू. आनी आतां किरिस्तांव जाल्लो तो सुखड्यालो पुराय घराबो. अण्णूक खंय बातिज्म दिनाफुडें एका पुर्तुगेज फिदाल्गान इगर्जेच्या दारांतल्यानच आपल्या घरा व्हेल्लो. वावराडो म्हण घोळोवन घेवंक. मंजू नायक आपले रानाकडचे खोंपींत रावन भिण्णां तेंपाक भिण्णां बियांचें तेल काडून विकतालो. गोरवांक किंवणा पडल्यार थापचो एक लेपय तो तयार करतालो. सांज जातकीर कासाळ व्हाजयत सरभरशीं भजनां म्हणटालो. तांतूंत जेजुचें, ज़ुदेवाचें नांवय गुंथतालो. केन्ना पाद्री सिमांव पिरिसाच्या पांयांसरी येवन भावार्तान बसतालो. सिमांव ताका हिन्दू धर्माचीं गायनां म्हणचीं न्हय म्हण शिटकायतालो. इन्क्विझासांव धरून व्हरतलें म्हण सांगतालो. तो मगेर तितल्याच साबळेपणान म्हणटालो, 'हांव जायते फावट जेजूचेंय नांव घेतां भजनांत.' ताणे भजनाच्यो ओळीच एक फावट म्हणून दाखयल्यो - इश्वराच्या नांवा जेजुच्या गा जिवा! आजचो गिरास आमकां गा देवा!

सुखड्यान गांवकेची जमीन घेवन तो घराब्यासयत किरिस्तांव जाला म्हणिल्ली खबर गांवांत रोखडीच पातळ्ळी. आयकोन गुणाक भारी राग येयलो. कसलो घातमारो मनीस हो, दुस्मानाक वचून मेळ्ळा, तेवूय गांवकेची जमीन खावन! ताका हांव सोडचों ना, बुद्द शिकयतलों जल्माची.

तो तसोच उठून रायगाळी म्हाल गांवकार घना शणैगेर गेलो. घना शणै हांथरुणाक लागून पडिल्लो. गुणा म्हऱ्यांत वचून उबो रावतकीर तो उठून बसलो. तो सामको पिळून काडिल्लेवरी जाल्लो. मोटीं हाडां तितलींच दिसतालीं. खाडा बोडाचे केंसय व्हाडिल्ले आनी आतां ते पुराय धवे जाल्ले. तकलेचे केंस व्हाडिल्ल्यान वयलो भंवरो लिपिल्लो. शेंडी तितलीच लांबताली. व्हडल्या गांवकाराची ती अवतिकाय पळोवन गुणाक भोवच दूख भोगलें. वांगडा सुखड्यावेलो राग चडच उफेवन येयलो.

घना शणैन थकिल्ल्या आवाजांत विचारलें, ''कित्याक येयल्लो गुणा? आतां कितें उल्लां म्हजेकडेन? म्हाका पळोवंकच येयल्लो जाल्यार पळोवन वच. व्हडल्या गांवकाराची ही आवतिकाय. जर्जर कूड एक फावट मसुंडेर पावल्यार पुरो जालां. गांवाकडच्यान छी थू करून घेतिल्लें पुरो जालें.''

गुणाल्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं. तरीय दुकां आवरून इल्लो निबर जायतच ताणें म्हटलें, ''तुजे कडच्यान तेणी जबरदस्तेन गांवची जमीन बरोवन घेतली तेन्ना तितली खंत भोगूंक नासली. पूण सुखड्यान आज तांतली दोन खंडयेची जमीन घेवन तो किरिस्तांव जाला खंय. तें आयकोन म्हजी तकली घुंवल्या. त्या शेतांत तो पांय कसो दितां तें पळयतलों.''

''वायट वारें गुणा. बेठीच तकली तापोवन घेवं नाका. सुखड्यान ती जमीन तशी घेवंक फावनासली. तशीच पडिंग दवरूंक जाय आसली. गांवांत एकचार आसा हें तांकां दाखोवन दिवं येतालें.''

''पूण हांव सोडचों ना तेका व्हडल्या गांवकारा.'' तो भायर येयलो. आंगणांत कांय वेळ उबो रावलो. घना शणैलो धाकलो भाव रुद्रा भितरले कुडींत वचून वोगी बशिल्लो. पुराय बामणवाड्यार एकलो शणै खंय भायर दिस्टीक पडनासलो. तेच्या कुळागरांत वावर करपी मानाय तकली सकल घालून मोन्यांनीच वावर करताले. एका घराच्या जनेलांत ताका कोण तरी झळकलो. ताणें मोट्यान म्हटलें, ''मोटे तुमी. पयलीं गावकेंत सदांच तुमकां मानाचो पाट जाय आसलो. आतां गांवार संकस्ट येयल्यार मुखार सरनात. तुमकां कित्याक पडलां तें? गांवकेच्या शेताचो जोण मेळ्ळो ना म्हण उपाशीं पडचे नात तुमी. तुमकां तुमचीं कुळागरां, दोन पिकेचीं शेतां आसात.'' तो तसोच शिरवाड्यावटेन चलूंक लागलो. ताका खिणभर दिसलें, पयले वटेन व्हडलो भाटकार केंकऱ्यासरीं वचचें. पूण ताणें चिंतलें, सदांच गांवाभायलो कसो वेगळो रावता तो. गांवकेंत केन्ना पडना आनी जोणय खायना.

गुणान शिरवाड्यावयल्या नायक गांवकारांक हेविशीं सांगल्यार ते म्हणूंक लागले, 'म्हाल गांवकारा कडच्यान रायाल्या पदवेदारान ती बरोवन घेतली आनी तेका दिली, आमच्यांनी कितें करूं येता? आडावंक गेल्यार बेठोच रगतपात जातलो. तेंचे मुखार

आमी खंय पावतले?'

गुणा दुसऱ्या दिसा दनपरां रायाक आनी शाबीक घेवन सुखड्याल्या घरासरीं गेलो. सुखडो सुंबादोरी वाळत वासरेंत बशिल्लो. एके वटेन तो चिंततालो, पोटाक लागून हें पत्करिल्लें कशें तडीक लागतलें? गांवाक कशे तोंड दितले? कोण काळाचे हे वांगड, तेंची गांवकी आनी ही रासवळ जमीन कोण जाणा! तो भितरल्यान इल्लो शेळेल्लेवरी जाल्लो. इतल्यांत गुणाची गर्जण आयकोंक येयली. ''सुखड्या, चोरा, घातमाऱ्या, तुवें भौसाची जमीन घेवन तूं किरिस्तांव जाला? तुका त्या शेतांत पांय दवरूंक दिवचे नात. पांयां तांतीं कातरून उडयतलों. शेतांतच मडीं घालतलों तुमचीं.''

आयकोन सुखडो एकदम गळसणिल्लेवरी जालो. बशिल्लेकडच्यान उठून पावळेंत येयलो. गुणाक पायें पडूंक राविल्लेवरी पावळेंत वोगी उबो रावलो. ताची शक्त तो जाणा आसलो. हाच्या तोंडांतल्यान सोडवणूक करून घेवंक जाय. खरेंखोटें कितेंय सांगूंक जाय.

ताणें म्हटलें, ''गुणा, तूं आमचोच. आमच्या वाड्यावयलो भावबंद. पूण आमचें घर अशें कुशीक. हिंगा कितें घडलें, कसलें अरिस्ट आमचेर येयलें तूं नकळ. ते रातचे येवन आमकां धमकायताले. पोटाक तरसाद लावन किरिस्तांव जातात काय ना म्हण विचारताले. ना तर घराक उजो घालता म्हणटाले, दोंगुल्लेचेर व्हरून सगळ्यांक गोळाक मारतले म्हणटाले.''

''फट उलयता तूं. मगेर तुवें गांवकेक कित्याक उलो घातलो ना? गांवाक कित्याक सांगलें ना?''

''फाटीं गांवकी जाल्ली पळोवंक ना तुवें? म्हाल गांवकाराल्या हड्ड्यार तुबकाचें मूळ माल्लें तेणी. तुकाय बडयेन मारून फाट फोडिल्ली. वयल्यान आनी किरिस्तांव जाल्ल्यांक गांवकारपण आदीं दिवंक जाय म्हणटाले.''

गुणान तिडकलेंशें करून म्हटलें, ''तुंवूय जातलो आतां गांवकार, म्हाल गांवकार. तुका पयलो मान मेळटलो. तुजें घर शिंवप सगळ्यांत पयलीं जातलें. तुका सुराची कट्टी पयली फाव जातली. तुका सांगतां सुखडो नायक, तुवें त्या शेतांत पांय दवल्ल्यार त्याच शेतांत फोंड काडून तुका पुरतलों तुज्या तिगूय पुतांसयत.''

सुखड्याचो व्हडलो पूत मोलू तेण्यार बापायफाटल्यानच आसलो. मदलो रामकुस्ट आंगणा भायर खोपीसरीं आसलो. मोलू बापायचे फाटल्यान थंड उबो आसलो. रामकुस्ट मात गुणासरीं रागान पळयतालो. खिणाखिणान ताचो राग फुटूंक पावतालो. गुणानच मुखार म्हळें, ''पांय दिवनच पळयात तुमी त्या शेतांत.''

इतलो वेळ रागान खतखततालो त्या रामकुस्टान सट्करून खोंपीसरचो एक दांडो ओडून घेवन मुखार येयलो. ''कोणाक गाळी संवता तूं? कोणाक धमकायता

मायझंया गुणा? कितें करतलो तूं, चल कितें करता तें कर. चलूंक लाग आमच्या दारांतलो. तुका भियेवचे नात आमी. फाल्यां वयतां आनी बांदतां जोत त्या शेतांत.''

गुणा ताचे म्हऱ्यांत गेलो. ''तूं दांडो घेवन म्हज्या आंगार येता, त्या शेतांत जोत बांदतलो म्हणटा?'' गुणान सट्‌करून दावो हात ताच्या दांड्याक घातलो. दांडो हातांतलो झोमून घेतलो आनी उजव्या हातान ताचेर चार थाडथाड थापटां दिलीं. सुखडो पुताच्या आधाराक मुखार येयल्लो ताकाय गुणान बळान धुकल्लो. पयर काडून उडयल्ल्या आंगणामेरे सरीं कांय चिऱ्यांची मुरमां आसलीं. तो तांचेर पडलो. कानाकडची वयली तकलेची बाजू आपटली आनी कोंक पडून रगत येयलें. तो ती तशीच दामून घेवन उबो रावलो. मजगतीं राया आनी शाबीय मदीं पडिल्ले. तांणी एके वटेन मोलूक आनी दुसरे वटेन रामकुस्टाक घट धरिल्ले. तांकां मार पडिल्लो पळोवन बायलोय धांवत येयल्यो आनी बोबो मारूंक लागल्यो.

गुणान म्हटलें, ''परत सांगतां, भौसाच्या शेतांत पांय दिल्यार आनीक रक्तखेव जातलो.'' तो तांकां फाट फिरोवन चलूंक लागलो. ताचे फाटल्यान रायू आनी शाबी.

मोलून ताका फाटल्यान म्हटलें, ''गांवांकच मार लागला गुणा, उजो पेटला गांवाक. तुंवूय लासून वयतलो तेंतूंत. भस्म जातलें तुजें. म्हगेल्या भावाक मारलो तुंवें, हांव तुका शिरापतां, तूं कोंकणोय उरचो ना आनी किरिस्तांवय जावंक पावचो ना. म्हारू कसो मदींच हुमकळत रावतलो.''

शेजारी जना नायक सगळें मजेनसो पळयतालो. पूण तो मुखार येयलोना.

कांट्यांचें चरकण आंगावयल्यान गेल्लेवरी मदीं एक दीस गेलो. दिसभर हुस्को आनी खपखपो. पत्करिल्लें हे तडीक लागूंक दिवचेनात काय कितें? सुखड्यान पुतांक म्हटलें, ''तेणी दिल्लें तें शेत, तेंकां आफोवन बेगीनच हद्दे फातर घालून घेवंक जाय. जाल्यार रोखडेंच कसून उडोवंक जाय. तेंचे हुजीर तेंचे राखणेंत तांतूंत पांय दवरून आपलो हक सांगलो म्हणटकीर बऱ्याक पडटलें.''

मोलून म्हटलें, ''गांवचे लोक मारामारी करूंक येयले बगर रावचे नात. गुणा खुबळावन घालतलो तेंकां.''

रामकुस्ट ताणशेलो. ''येवंदी मारामारी करूंक. खोऱ्यान कुदळीन एक-एकल्याचीं बोडां फोडटलो. आतां सोडचो ना.''

गोपीक एकदम विज्ज कशी भायर येयली. ''कसलीं बोडां फोडची भास उलयता तूं? पयलींच घोव आसतना आमची गळसरी आनी कुंकूम पुसोवन आमकां बोडकां करून दवरल्यांत. आतां बोडां फोडून घेवन आमकां रांडकां करात! तुमी त्या कलागत

शेतांत पांय दवरचे पयलींच आमी वचून न्हंयंत ना तर बांयंत हुडी घेवन जीव दितात! ही रगत व्हावोवंचेली भास उलोवं नाकात.'' तिणें गळ्यांतले गळसरेचो एकच फोड हातान घट धरिल्लो. तिची सगळी कूड थरथरताली.

सुखड्यान म्हटलें, ''तशें कांय एक जावचें ना सुने. तूं वोगीच दादल्यांमदीं पडूं नाका. आमी सोल्दादांक घेवनच शेतांत देंवतले.'' मदींच तो तापून उलोवंक लागलो, ''इतलें बरें शेत मेळटा, स म्हयन्यांचें तरी पोट वयतलें, इल्लो त्रास घेवंकच जाय. गांवकेचें हेंच शेत पावणेर करतना धा धा खंडी भात माथ्यार मारून व्हरून उग्राणांत पावयतले. ह्या वर्साचें शेत फुडल्या वर्सा कोणाल्या हातांत पडत म्हण सांगूंक जायनासलें. आतां कोणय आडावंक येयल्यार ओगी रावचें न्ही. तेचोच आधार आतां. त्या गुणाक एक बुद्द शिकोवंक जाय. थापटां मारून वयता. आमकां कोणाचो आधार ना म्हण समजला तो. आमी आतां तेंच्या धर्मांतले लोक. तेंचोच आधार आलाशिरो आमकां.''

पार्वतेन म्हटलें, ''मांवा म्हगेल्या, तूं वच आनी तेंकां विचार, तुमी आमकां राखण दिता म्हणिल्ली, तो मारून कसो गेलो काय म्हण. तुमी आतां कितें करतात काय म्हण विचार. तुमच्या धर्मांत येयल्लो हो पाळो काय म्हण?''

दुसऱ्या दिसाक सकाळींच उठून सुखडो सोल्दादांल्या राबित्यासरीं गेलो. भायर उबो आशिल्ल्या देशी सोल्दादाक नमस्कार करून ताणें म्हटलें, ''तुमच्या व्हडल्या पदवेदाराक म्हाका भेटय. आमी तुमच्या धर्मांतलीं मनशां. आमकां राखण दिवचेलें उतर तेणें दिल्लें.'' ताका पळोवन पाद्री पावल कुलासू भायर येयलो. ताणें विचारलें, ''बऱ्या किरिस्तांवा, तुवें जेजूसरीं सकाळचें मागणें केलें?''

सुखडो ओगीच रावलो.

''यो, असो यो. ह्या खुरसा मुखार धिमी मार.''

सुखड्यान दारांत उबो केल्ल्या खुरसा सामकार धिमी माल्ली. ''म्हण... आतां मागणेचीं उतरां म्हण...''

''देवा म्हज्या बापा, हांव तुका नमस्कार करतां
देवा म्हज्या बापा, हांव तुजो मोग करतां
देवा म्हज्या बापा, हांव तुका दिनवासतां
देवा म्हज्या बापा, म्हाका तुजीच गरज
म्हज्या देवा आयच्या दिसा म्हजें काळीज, अदीक आनी अदीक
तुज्या आनी सगळ्या मनशांच्या मोगान भर.''

पादरी भेटवणेचीं उतरां गायतालो. ताचे फाटल्यान सुखडो तीं उतरां मोडकींतोडकीं म्हणटालो. इतल्यान शेफ कामील रिबेर तळये वटेनच्यान येतना दिसलो. ताणें

खांदावयल्यान एक ओलें वस्त्र घेतिल्लें आनी कमराचे दोरयेक रुंद कास्टी मारिल्ली. कास्टीय ओली आसली आनी तांतुंतल्यान उदक गळटाले. तो उमेदीन हेरांक सांगतालो, ''आमी तळयेंत न्हावंक देंवतसावन तेंची तळय बाटली खंय. भट आतां तळयेंतलें उदक देवापुजेक व्हरना. येता ते जत्रेक देव न्हावंक तळयेंत देंवचो ना खंय. वाऱ्याक आनी उदकाक बाट म्हण आसा. हरशीं हें बरेंच जालां.''

सुखड्याक पळयतकीर तो वळखलो. सुखडो हात जोडून उबो आसलो. ताका राव राव म्हण तो भितर गेलो. बेताळा देवळाक आतां नीट दार लावन, चोंय वटेन कडवे करून ताका तांणी आतां व्हडलें घरच केल्लें. दोगूय पाद्रींक आनी शेफीक न्हिदूंक भुंयेर पळी घातिल्ल्यो. हेर काब, सोल्दादांनी सकयलच मांदऱ्यो सोडयल्ल्यो. कांय वेळान शेफ आंगार मुस्तायकी घालून भायर येयलो. सुखड्यान परत एक फावट ताका नमस्कार केलो आनी सांगलें, ''तुमच्या उतराक पातेवन आमी किरिस्तांव जाल्ले, आमकां पोटाक गिरास मेळटलो म्हण, आमकां तुमची राखण मेळटली म्हण.''

''आमचें उतर तें पुर्तुगालच्या रायालें उतर. तें आमी केन्ना मोडचे नात, फाटीं घेवचे नात. रायाले आज्ञेन आमी दर एका बऱ्या किरिस्तांवाक राखण दिवंक बांदिल्ले आसात. पूण सकाळीं सकाळीं येवंक तुजें कितें जालां?''

''किरिस्तांव जाले म्हण आमकां हिणसावन धपकायतात. शेतांत पांय दिल्यार जीव घेतले म्हणटात. काल तो गुणा नायक गांवच्या लोकांक घेवन येयलो, आमकां सगळ्यांक धरून ताणें खूब बडयले. म्हजी ही पळय तकली फोडली. म्हजो एक पूत तर आंग धाडावन हांथरुणार पडला.'' ताणें आंवडो घोटलो.

''कोण तो गुणा नायक?''

''मोटो दुश्ट करवादी मनीस. झगडूंक मारामारी करूंक सदांच मुखार. फाटीं आनी गांवके वेळार तुमच्या व्हडल्या पदवेदारा वांगडा झगडिल्लो. लोकांक तुमचे आड खुबळावन घालता. तुमकां मारून धांवडावंक जाय म्हणटा. कोण किरिस्तांव जायनाकात म्हणटा.''

शेफीक याद जाली गुणाची आनी ताच्या मस्तेपणाची. आतां ताचें हें कर्तूब आयकतकीर तो रागान आकांताचो झिडपलो. ''तेका बुद्द शिकयतलों हांव. तेचें हाडानहाड मोडून घालतलों. किरिस्तांवांक मारता तो. तेका सोडचो ना हांव.'' मगेर ताणें सुखड्याक म्हटलें, ''तूं आतां वोगी घरा वच. भियेवं नाका तूं. तूं आतां एक बरो किरिस्तांव. किरिस्तांवांक ह्या राज्यांत कसलीच भिरांत ना.''

सुखडो परतो येयलो. शेफीन पाखलो काब रेमेंत नोरोन्यीक आनी स जाण सोल्दादांक पुराय मुस्तायकी घालून भायर आफयले. तांकां फर्मायलें, ''शिरवाड्यार

वचून त्या मस्त्या गुणा नायकाक बांदून घेवन येयात. बांदून गोरवावरी बडयत ओडून घेवन येयात. येतना वाटभर तेच्यो बोबो पडूंक जाय. गांवान आयकोंक जाय त्यो. आमचे आड येतल्यांक कसली ख्यास्त भोगची पडटा तें कळूंक जाय सगळ्यांक.'' शेफीची उंच धिप्पाड कूड रागान थरथरताली. घोणी चोंचीच्या नाकाचो शेंडो तांबडो जाल्लो.

काब नोरोन्य सोल्दादांक घेवन गुणाल्या घरासरीं येयलो. ताच्या हातांत चामडें चडयल्ली बडी आसली. सगळ्यांच्या कमरांक तरसादी आनी हातांत दांडे. काबान आंगणांतल्यानच गरड माल्ली. ''गुणा नायक, घरांतल्यान भायर सर. असो ओगी भायर यो.''

घरांतल्यान गुणाचो बापूय, आवय आनी धाकलो भाव भायर येयले.

''गुणा खंय?''

बापायन सांगलें, ''तो भिल्ल माडाच्यो रिसी फोडूंक वयल्या रानांत गेला.''

''फट उलयता तूं. तो घरांतच लिपून बसला.''

सगळ्यांची भियेवन गुळी जाल्ली. बापायन चांचरतशें म्हटलें, ''ना... ना तो घरांत...'' काबान हातांतली पालमात्री तेचे उकते फाटीर शेडायली. तो आवयस्स् करून न्हिन्नाळलो. बायल एकदम म्हऱ्यान मदीं येयली. धाकलो पूतय बापायक थातारूंक येयलो. काबान परत भावाक विचारलें, ''गुणा खंय?''

''ना. तो सकाळीं बेग्गीं नसकाकच उठून गेल्लो.''

काबान आतां पालमात्री ताचेर मारली. ती काबान इतल्या जोरान मारिल्ली, तिचो रंऽऽव आवाज सगळ्यांल्या कानांत घुंवलो. त्या भुरग्यान कितल्या तरी व्हडान आवयस्स् म्हण हुयेल मारली. काब ताणशेलो, ''जेजुच्या मनशांक, किरिस्तांवांक मारता आनी लिपून बसता तो!'' ताणें वांगडाच्या सोल्दादाक सांगलें, घरांत घुसात आनी पळयात खंय लिपून बसला तो. दोग सोल्दाद घराचीं सोपणां चडले. तेसरशीं घरांतल्यो तिगीय बायलो, मांय आनी दोगी सुनो दार धरून उब्यो रावल्यो आनी हुयेल्यांनी रडूंक लागल्यो - ''देवा, हे किरिस्तांव आमचें घर बाटयतले. आमी वाऱ्यार पडटलीं. आमकां जातीभायरे करतले !''

काब रेमेतीन त्या दोगूय सोल्दादांक फाटीं आपयले. घरांत घुसूं नाकात म्हण सांगलें. फाटीं तो बारदेसांत आसतना एक वायट प्रकरण उपराशिल्लें. मगेर ते कोर्टांत गेल्ले -

एका हिन्दू दादल्यान आपले तरणाटे बायलेक मारून बडोवन भुरग्यां सयत घरांतल्यान रातचेच भायर काडिल्ले. बायल भुरगे भायर थंडे कुडकुड्यांत आनी घरांत भितर नायकीण. ती बायल रातभर भायर पावळेंत पडून रावली. सक्काळीं

आपल्या वर्साच्या भुरग्याक घेवन गोंया भायर न्हंये पलतडीं आशिल्ल्या आपल्या कुळारा वचूंक सुटली. न्हंये तडीर तारीची वाट पळयत ती बशिल्ली. रडून रडून तिचे दोळे सुजिल्ले. आंगावेलीं वस्त्रां म्हेळीं जाल्लीं, फापसल्लीं. कपलाचो कुकुमूय पुशिल्लो. पूण गोंयची शीम बळांटून तारीर बसूंक वयताना तिका सोल्दादान हटकिली. ताणें कितेंय विचारल्यार ती चांचरूंक लागली. सोल्दादांक दिसलें, बापूय मेल्ल्या अनाथ भुरग्याक किरिस्तांवपणापसून वाटोवंक ही बायल त्या भुरग्याक गोंया भायर व्हरता. अशें करप गुन्यांव आसलो. अशें करतना कोणय मेळ्ळ्यार तांकां रोखडेच धरून इगर्जेंत हाडटाले. त्या उबारून व्हरतल्याक आनी त्या भुरग्याक दोगांकय वांगडाच बातिज्म दिताले. अशेंच एक फावट आज्याक आनी नातवाक वांगडाच बातिज्म दिल्लो. ते बायलेक इल्ली भेसडायतकीर तिणें खरें तें सांगलें. तिका घोवान घरांतल्यान भायर काडल्या म्हण कळटकीर ते भुल्लुशिल्लेवरी जाले. एक असहाय्य अस्तुरी आनी तिचें भुरगें आयतेंच हाताक गाविल्लें किरिस्तांव करून उडोवंक. त्या तेंपाक कापितांवाक आनी पाद्रींक खोशी करूंक किरिस्तांव जावंक मनशां हाडून दिवची एक सर्तच सोल्दादांमदीं लागिल्ली. चड करून देशी सोल्दादां मदीं, जे आदींच किरिस्तांव जाल्ले. तांकां एके रातीक पुराय गोंय किरिस्तांव जावन गेलां अशीं सपनांय पडटालीं. आपणावरीच सगळे किरिस्तांव जावचे अशें इल्लें 'आपलेपणय' तांतूंत आसतालें. तांणी ते भियेल्ले दुखेस्त अस्तुरेक सांगलें, 'तुका बरे भशेन वांगडा दवरून घे म्हण ताचेर चेपण हाडूं येता. ह्या गोंयांत किरिस्तांव जावप म्हटल्यार मानाचो पाट जोडप. तुजें मगेर कोण्ण कांयच वांकडें करूंक तांकचो ना. तुजो घोव तुको सोडूंक तांकचो ना. तुका आनी तुज्या भुरग्याक व्हिसरायाली राखण, रायाली कुर्पा, पाद्रीलें बेंसांव...'

ते अस्तुरेन चिंतलें, आपलो असो तुटिल्लो मोडिल्लो संवसार. तो परत घडटा जाल्यार हांवें किरिस्तांव जावप वायट न्ही. भुरग्याक घेवन परतें कुळारा वचचे परस हें बरें. हरशींय हांव कुळारा वचचे परस जीव दिवचेंच चिंततालें. ती अस्तुरी तांचे वांगडा वचूंक राजी जाली. ते तिका साळगांवचे इगर्जेंत घेवन वचचे आसले. धा बारा मैलांची वाट. रातीं सावन उपाशीं. वांगडा भुकेल्लें भुरगें. उपाशीं पोटानच ती तांचे वांगडा चलताली. बरी तरणाटी बायल ती, पूण मनान आनी कुडीन थकिल्ली. हुस्क्यान आवरो हुडिल्लो. वाटेर वाटेकुशीक झाडांत ओडून व्हरून त्या सोल्दादांनी तिचेर बळजबरी केली. ती बरोच वेळ रडत थंय बसली. त्या सोल्दादांनी तिका भेसडायलें, हे विशीं कोणाकय सांगल्यार तुज्या भुरग्याक तरसादेन कापून मारतले म्हण. ती वोगीच रावली. एक आस्त... आपलो संवसार घडये परत घडत. हातांत तरसाद आशिल्ले हे सोल्दाद. तांचें बळगें मोटें. घडये घोवाक धमकावन हाडून वांगडा

किरिस्तांव करतले. बायले वांगडा संवसार करून राव म्हण सांगतले. ती उठली आनी तांचे वांगडा लखत लखत चलत साळगांवचे इगर्जेंत येयली. पावसर दनपार देंवन गेल्ली.

त्या सोल्दादांनी तिका इगर्जेच्या गोऱ्या पाद्रीसरीं दिवन सांगलें, 'ही घोवान सांडिल्ली अस्तुरी. गोंय सोडून धांवन वयताली. आमी बरें समजावन किरिस्तांवपणाची व्हडवीक सांगून हाडल्या. आतां ती आपखोशयेन किरिस्तांव जावंक राजी आसा.' मागीर ते ओगी उठून गेले.

पाद्रीन तिका विचारलें, 'तूं आपखोशयेन किरिस्तांव जावंक तयार आसा?' तिका पाद्रीलीं उतरां नीट कळ्ळीं नात. तिणें बेठीच तकली हालयली. उपरांत ती पाद्रीक कितें सांगूंक सोदताली, पूण पाद्रीकय तिचें उलोवप नीट कळनासलें. ताणें तिचें चड कानामनारय घेतलें ना. दोगां आयतींच किरिस्तांव जावंक हातांत मेळ्ळ्यांत हेच खोशयेंत तो आसलो. तो संवकळेन आतां बेस बरो जाणा जाल्लो, एक फावट बातिज्म घेतलो म्हणटकीर हांच्यो सगळ्यो वाटो बंद जातात. बातिज्म दिता मेरेनच, मागीर कसलीच भिरांत ना.

ते रातीं ती ते कच्चे इगर्जेच्या एका कोनशांतच पडून रावली. काळोख पातळटा तसो भियेवन तिची गुळी जाल्ली. खंयूय खुट् जाल्यारय आंग काडटाली. भुरग्याक खाकोळांत ओडून घेवन धीर घेवचेलो यत्न करताली. मदींच ते आडदांड सोल्दाद, तेंची उक्ती तरसाद दोळ्यांमुखार नाचताली. बळजबरेन भश्टल्लें, दुखावल्लें आंग काडून उडोवचें अशें दिसतालें. मदींच रडूंक येतालें. पूण खिणांत दिसतालें, आपूण रडच्याय पेल्यान पावलां.

आपणाक झेम लागल्या काय तशेंच उक्त्या दोळ्यांनी बसून आसां, कितलो काळोख, कितली रात जाल्या? फाटल्यान भितर इगर्जेंत एकच दिवो पेट्टालो. ताचो उजवाड तेचेमेरेन पावनासलो. पांजेलावयल्यो तरातरांच्यो प्रतिमा साप्प अनवळखी, भिवोवंक राविल्लेवरी दिसताल्यो.

व्हडे रातीर कोण एकलो इगर्जेची ताटी धुकलून भितर सल्लो. तिणें आंग कवळ्ळें. 'नाका' म्हणिल्लेवरी हाताचो चपको मुखार केलो. तो एके ताटलेंत शीत काडी आनी तांबयोभर उदक घेवन आयल्लो. ताटली ताचे सामकार दवरून वोगी उबो रावलो. काळोख उजवाडाचे धारेर तिका ताचें तोंडय दिसनासलें. ताटलेंत शीत कडी आसा काय मास रगत आसा तेंवूय कळनासलें. तरीय तिचें मन दिनवासान भरून येयलें. वळख मेळना तरीय हें किरिस्तांवाल्या हाताचें जेवणा ताट मुखार ओडून घेवंक मन जायना जालें. पूण पोटाची खर भूक, पाड अवतिकाय, वांगडा भुकेल्लें भुरगें! आदींच कुडीन भश्टलां हांव. कित्याखातीर आनीक सोवळेपण, देवधर्म हांवें राखचो? घडये

फाल्यां घोवान किरिस्तांव जावन म्हाका आपणायल्यार सगळें भरून वचत!

तिणें ताट मुखार ओडलें. पयलीं इल्लें भुरग्याक भरयलें. उरिल्लें तिणें जेवन सोंपयलें. वयल्यान ती उदक पियेली.

पेद्यान तिका विचारलें, 'एकलीच हांगा न्हिदतली? भिरांत दिसची ना?'

ती ओगीच रावली. कांय वेळ सगळें शांत. ती त्या पेद्याल्या चेहऱ्यावरी दोळे ताणून पळयताली पूण काळखांत कसलीच वळख मेळनासली. तिका विचारचें अशें दिसतालें, 'भावा, ह्या अद्रस्टांतल्या म्हजो सुटावो कसो जायत?' पूण दिसभराच्या धपक्यान ती इतली जीर्ण जाल्ली, इतली भियेल्ली, एक उतर फुटना जाल्लें. कांय वेळान पेद्यानच म्हटलें, 'न्हीद तूं हिंगाच. हांव दार लावन घेतां भायल्यान.' तो उठून गेलो.

दुसऱ्या दिसा बातिज्म घेतकीर तिची वासपुसय कोणें केली ना. तो रातीचो पेदोय खंय दिसनासलो. वळख मेळनासली. तांणी दिल्ले आठ क्रुसाद आनी आंगार धवें वस्त्र घेवन ती इगर्जे मुखावेल्या एका कट्यार रडत बसली. बऱ्याच वेळान थंय तो पाद्री पावलो. ताणें विचारलें, 'अस्तुरे, आपखोशयेन बरें किरिस्तांवपण आपणावन तूं कित्याक रडटा, कितें जालां तुजें? जेजूचेर भावार्त दवर, तुजें कसलेंय संकस्ट पयसावतलें.'

ती अस्तुरी आपली कर्मकाणी त्या पाद्रीक परत सांगूंक सोदताली. पूण तिचीं उतरां ताका कळनासलीं. पाद्रीन उलो मारून इगर्जेच्या एका कामदाराक आफयलो. 'जुवांव, ही अस्तुरी कितें म्हणटा तें सांग म्हाका.'

जुवांवान कांय वेळ तिचेसरीं भासाभास केली. मगेर पाद्रीक ताणें इल्लें आपलेभशेन घुंवडावन सांगलें, 'हे अस्तुरेक घोवान सोडल्या. किरिस्तांव जाल्यार इगर्जेची आपणाक राखण मेळटली, आपल्या घोवाक ते धरून हाडून किरिस्तांव करून आपणाक वांगडा दवरून घे म्हण सांगतले म्हण ती सरादेवयल्या सोल्दादा वांगडा आपखोशयेन येवन किरिस्तांव जाल्ली. आतां ती म्हणटा, सोल्दादान घोवाक धरून हाडून किरिस्तांव करचो आनी आपलो घरसंवसार परत घडोवचो.'

पाद्रीन म्हळें, 'तुजी म्हाका काकुळट दिसता अस्तुरे. पूण हिंगा कायद्याचें आनी न्यायाचें राज्य चलता. राजान नेमिल्ले जुईज पक्षपात करिनासतना लोकांक फाव तो न्याय दितात. कोणाकय बळान ओडून हाडून किरिस्तांव करप हो गुन्यांव. तूं आतां घरा वच. निर्मळ उकत्या मनान तूं तुज्या घोवाक सगळें सांग. तेचेविशीं तुजो मोग आनी मयपास उकताय. मोगाचें बळगें मोटें. जेजू तुजे फाटल्यान आसा. तुका तो सगळ्या अद्रश्टांतल्यान वाटायतलो. तुज्या घोवाक बरो किरिस्तांव जावंक मत दितलो.' मगेर पाद्रीन त्या कामदाराक म्हटलें, 'जुवांव, तूं हे अस्तुरेक तिच्या घरा व्हरून

तिच्या घोवासरीं पावय.'

जुंवावान परत एक फावट पाद्रीचीं उतरां तिका समजावन सांगलीं. आपूण येवंक तयार आसां अशेंय ताणें सांगलें.

पूण ते अस्तुरेन ताका नाका म्हण सांगलें. ती भुरग्याक घेवन उठली आनी कांय उलयनासतना तांकां फाट करून एकलीच चलूंक लागली. काल धा-बारा मैलांची वाट माड्डोवन येयिल्ली ती. आतां एकेक पावल जड मणाचें जाल्लें. ती दिशाहीण जावन चलताना चिंतताली, काल पसून हांवें कितें कितें वगडायलें... घोव संवसार आदींच वगडायल्लो. आतां कूडय भश्टल्या आनी धर्मय वगडायला. आतां म्हाका कुळारय उरलें ना आनी घोवाचें घरय-उरलें ना. घोव आदींच रागाची चूड. किरिस्तांव जावन येयल्या म्हण कळ्ळ्यार म्हजें मडेंच घालतलो.

ती चलून येतना तिणें वाटेवयल्या एका देवळा मुखाल्ले तळयेंत भुरग्यासयत जीव दिलो.

मगेर हे बाबीचो खूब बोबाट जालो. गांवचे गांवकार एकठांय जाले. घोवय उठलो, सोता सुगूर रावंक म्हणूंक लागलो, 'म्हजी बायल काय बरी आठ दीस कुळारा वचून रावन येता म्हण गेल्ली, वाटेर तिचो घात माल्लो. म्हजी धुवय गेली रे देवा!' म्हण रडूंक लागलो. गांवच्या बामण गांवकारान रायाक, व्हिसरायक चिटी बरयल्यो. कोर्टांत केस उबी जाली. कोर्टान बातिज्म दिल्ल्या पाद्रीक पुर्तुगालाक परतो धाडलो. दोगांय सोल्दादांक स म्हयन्यांची बंदखण फर्मायली.

पूण अशें हें खुब्ब उणे फावट घडटालें. बाटाबाटीचीं प्रकरणां चड करून कोर्टांत उबींच जायनासलीं. उबीं जाल्यारूय ताका पळवाटो चड आसल्यो. पाद्री कोणाकय बातिज्म दिवचे पयलीं 'आपूण खोशयेन किरिस्तांव जातां' म्हण भास घेताले. कोर्टाक असो एक गवाय मेळ्ळ्यारूच पुरो जातालें. कायद्यान आवय बापूय मरून निराधार जाल्ल्या भुरग्यांकय कसलेच आडखळीबगर बातिज्म दिवंक येतालो. म्हण हेरांक किरिस्तांव करतना हांयस दाखोवन, कचाट्यांत सांपडावन, धपकावन, गांवच्यान धांवडावन घालची भिरांत घालून किरिस्तांव करताले. पूण शेवटा तेंचेकडल्यान भास घेताले, 'हांव आपखोशयेन किरिस्तांव जातां.' कोणाकय दिल्लो बातिज्म कोर्टान बेकायदेशीर थारायलो तरीय त्या मनशाक परत आपलो धर्म नासलो. हिन्दू धर्मांत तर दार फक्कत भायर पडचेलें, भितर रिगचेलें तेका दारच नासलें. आपल्या धर्मांतल्यान लोकांकडच्यानच सुण्यापास्ट करून घेवचे परस किरिस्तांव धर्मच तेंकां बरो दिसतालो.

युरोपांतल्या खंयच्याय देशा इतलीच बरी गोंयची न्यायसंस्था आसली. पूण म्हा-मस्तें शासन आनी विद्वाटी धर्मसंस्था, अन्नाडी लोक आनी आडमुठो हिन्दू धर्म हांकां लागून बाटाबाटीच्यो केशी कोर्टांत पावच नासल्यो. त्यो कोर्टांत पावल्यार

मात तेंचो न्यायनिवाडो नीट जातालो. म्हण मदांद, मस्त्या बैलावरी मेकळ्या सुटिल्ल्या शासनाक तेचीच इल्ली भिरांत आसली. काब रेमेंत नोरोन्य गेल्लीं विशेक वर्सां चाकरेक आसलो. धपके खायिल्लो, शिणिल्लो मनीस. ते अस्तुरेची खबर पुराय तो जाणा आसलो. म्हणच तेणें आपल्या दोगय सोल्दादांक फाटीं आफयल्ले.

बायलांच्यो बोबो उण्यो जाल्ल्यो पूण त्यो दारासरींच दार आडावनशो उब्यो आशिल्ल्यो. काबान तांचो शेजारी रवळू नायकाक आफयलो. रवळू अनमनूंक लागलो. घरांतल्यान भायर सरना जालो. तेणें तेका धेंगसो घालूनच आफयलो. एक हात तलवारेचे मुठीर. रवळू आतां भायर येवन ताचे मुखार ओगी उबो रावलो. काबान विचारलें, "तूं हिन्दू?" तेणें तकली हालयली. काबान परतें विचारलें, "तूं चाड्डो?" तेणें परती तकली हालयली आनी तो हयकारलो.

"तशें जाल्यार तूं हेंच्या घरांत वच आनी गुणा भितर लिपून बसला काय चोय. कोनशान कोनशाक पळय."

रवळून सट् करून म्हटलें, "ते म्हजे दुस्मान. तेंच्या घरांत हांव कसो वचूं?"

"चल तूं, चल. तेंकां दुस्मान घरांत गेल्लो उपकारतलो पूण किरिस्तांव उपकारचोना. हळशीक जिवाणें घरांत गेल्यार घर बाटना तेंचें. म्हार घरांत गेल्यार बाट्टा. सतरा फावट शेणाशिंतोडो घालीत बसतले. पडमूर जात तुमची. चल तूं. वचून पळय. खोटेंबीन सांगल्यार मरतलो तूं जिवानशीं."

रवळू भियेत भियेत पूण उश्णी धिटाय दाखयत भितर गेलो. घरांतले दादले बायलो सगळ्यो ओग्गी रागानशो कुशीक राविल्ल्यो. रवळू कांय वेळान भायर येयलो आनी ताणें काब रेमेंत नोरोन्याक सांगलें, "तो घरांत ना. पुराय सोदलें हांवें."

काबान आतां घरांतल्या लोकांक धपकायले. "तो जाय आमकां. तेका सोडचे नात आमी. किरिस्तांवांक मारप म्हणजे कितें तें दाखयतले आमी तेका." मागीर ते सगळे वचूंक गेले.

माघाचे दीस लागीं पाविल्ले. गुणा आंगणांत माटोव घालूंक वांशे हाडूंक वयल्या रानांत गेल्लो. तो परत येवचोच वेळ जाल्लो. गुणाले बायलेन धाकल्या देराक म्हादूक रानावटेन धांवडायलो. सांगलें, 'तेका घरा येयच नाका म्हण. सडगाळी शेतावयल्या गवळांत वचून राव म्हण सांग. आमी पेज शीत हाडून थंयच पावयतात म्हण सांग.'

म्हादू बेगीबेगीन वचूंक गेलो. पंदरा सोळा वर्सांचोच तो भुरगो. तेच्या आंगार फक्कत कास्टी आसली. अजून कुडीन पुराय व्हाडून नासलो, मिशो अजून पुराय काळ्यो जावंक नासल्यो. इल्लो शाणो, बरोच अबरगत. आंगार बोरे, कसलीं कसलीं खतां आनी मांवां. आंगान इल्लो वाडिल्लो, पूण दोळ्यांत, गालाच्या तांबूसपणांत अजून पुराय भुरगेपण. काबान येदोळ तेचेर दोन पालमात्री शेडायल्ल्यो. त्यो पुराय

फाटीर हाताच्या दंडार एक दुसऱ्याक खुरीस करूनश्यो उदेल्ल्यो. काळेनिळे रगशेल्ले ∴वळ.

तो मैलभराची वाट धांवन येयलो आनी वयल्या रानांतल्यान सकल देंवच्या धेंगणार उबो रावलो. बरोच वेळ वाट पळयत उबो रावतकीर वयर पयसुल्ल्यानच कमरेचे माकडेचो खट् खट् आवाज येवंक लागलो. मगेर लागींच घप् घप् पावलां वाजूंक लागलीं. वयल्यान गुणा आनी शाबी कळकीच्या वांशांचीं वजीं घेवन येताले. एकएकल्याच्या बोडार पांच स पांच स वांशे आसले. हे लांब वांशे. म्हादूक पळोवन तेंकां अजाप जालें आनी हुस्को लागलो. गुणान व्हडान विचारलें, ''कितें जालें म्हादू, हिंगा कित्याक येवन उबो रावला?''

''वजीं तेंकयात भावो. सांगतां.'' तेणीं वजीं तेंकयलीं. ''कितें जालें म्हादू?'' म्हादून तेंकां सगळी हकीगत सांगली आनी म्हटलें, बाप्पान आनी व्हनयेन तुका शेताच्या गवळारच वचून राव म्हटला. पेज शीत थंयच हाडून पावयता म्हटलां चार दीस.

गुणा रागान आकांताचो झिडपलो. तेन्नाच म्हादूल्या आंगावयले वळ तेचे नदरेक गेले. ''म्हादू, तुका माल्लो तेणी? बाप्पाल्याय आंगार हात घातलो काय कितें?'' म्हादू ओगीच रावलो. तो माकडेंतली कोयती काडून धांवंक लागलो. म्हणूंक लागलो, दाखयतां तेंकां. वांशे हाणिल्लेवरी हाणून उडयतां एकएकल्याक. पूण म्हादून तेका फाटल्यान घट धरलो. शाबीनय समजायलो. म्हटलें, तेंच्या बळग्याफुडें तुजी कोयती कितें करतली? मरचेंच आसल्यार असो फुक्याचो मरूं नाका. तेंकां लिपून आडवाटेनच बुद्द शिकोवंक जाय.

वांशे मारून वजें घेवन येवन आदींच पुरो जावन घामाघूम जाल्लो गुणा थंयच्या फातरार कांय वेळ बसलो. तेचे इल्ले मुखार सरिल्ले दोळे राग आनी तिरस्कारान भरिल्ले. सूड घेवचेल्या चिंतनान तो उबो पेटिल्लो. अचकीत तो आड्डलो, ''हांव जाणां, आमच्या बाप्पाच्या आंगार तेणीं बडी मारल्या. तेंकां सोडचों ना हांव. तेंच्या उज्यांतल्यान आरपार वचून तेंकां चांचायतलों.''

ताणें वजें सोडलें. तांतले दोन वांशे काडून ते ल्हव केले आनी म्हादूल्या बोडार दिले. उरिल्ले दोन वांशे खांदार घेवन तो सडगाळी शेतावयल्या गवळार वचूंक गेलो. गांवापसून चार उल्या भायर गांवाक आडवी ती दोंगुल्ली. तेचे पयल्यान रानाकडेन सडगाळीचें शेत. गवळ तर सामको शेतावयर रुखावळींतच. थंय शेताकडेर दोन उब्बीं तळपां आसलीं. तेंचे मदीं एक खोल खोबणशी आसली. तेंतूंत बाराय म्हयने उदक आसताले थंय वचून गुणा पोशे भरभरून उदक पियेलो. मगेर गवळाची ताटी कुशीक काडून दारारच बसलो. गवळावयर एक आकांताळो आंब्यारूख आसलो. तो रूख

इतलो व्हड, इतलो खांद्याताळ्यान भरिल्लो, तेणें गवळावयलें मळब धांपून उडयल्लें. तेचे थंड सावळेंत वारो घेत बसून गुणा चिंततालो, हो येद्दो व्हडलो रूख खरो, पूण हेचो आंबो मात इल्लो उंडीफळा येदो. अशें कशें हें ! हेका तर नाल्लायेदो आंबो येवंक फावो. मगेर अचकीत ताचीं चिंतनां घरावटेन गेलीं; म्हज्या बापायचेर, भावाचेर हात घातला तेणी, हांव तेंकां चाचायतलों !

जेवंक घेवन केंन्ना बापूय, केन्ना भाव, केन्ना बायल येताली. चार दीस जाल्ले, तो गवळार येवन मदीं दोन फावट सोल्दाद घरा येवन गेल्ले. बापायन सांगिल्लें, तो गोंयां भायर खंय तरी वचूंक गेला म्हण. घरांतल्या लोकांक अजाप दिसतालें, गांवच्या सुखड्याल्या चेड्याक माल्लें म्हण हे इतलें कित्याक घेवन बसल्यात?

पूण तांचें गणित वेगळें आसलें. किरिस्तांव जाल्ल्यांक आपशींच व्हडपण मेळटा, तेंकां रायाली राखण मेळटा हें गांवाक दाखोवन दिवचें आसलें. जाल्यार तेंच्या कामा आड येतल्याक ख्यास्त दिवन गांवाक भेसडावंक जाय आसलें. जाल्यार ताच्या गुन्यांवाची ख्यास्त म्हण तेका किरिस्तांवपण आपणावंक लावं येतालें.

गुणाक गवळार मन लागनासलें. तो वाजेल्लो तिडकल्लो आसतालो. गांवावटेन धांवंक लागचें अशें ताका दिसतालें. जेवंक घेवन येयिल्लेकडेन एक दीस ताणें बायलेक म्हटलें, ''साटली पोटली बांदून तयार रावात तुमी. हो गांव आमकां बेगीचे बेगीन सोडूंक जाय. तेंकां एकादोगांक आड घालचे आनी सगळें तकलेर घेवन धांवन वयचें. हरशींय आमकां हो गांव सोडचोच आसा. ते ह्या गांवाक पुराय बाटयले बगर रावचे नात. तेका लागुनच ते हिंगा थळ मारून बसल्यात. गांवचो लोक अन्नाडी, बिजूट आनी सुवार्थी. हेर गांवांचें पळोवनय बुद्द घेयनात.''

गांव सोडच्या चिंतनान गुणाली बायल देवकी मूळ धरून ओडिल्ले वरी थतरवितर जाली. तिणें म्हटलें, ''गांव सोडून वचून खंयच्या शेंकऱ्या सड्यार वचून पडटले आमी?''

''सड्यार कित्याक? शेतकाराकडेन जोत आनी नांगर जूं आसा तोंवेर तेका मरण ना. खंयच्याय रानांत वचून खंयचेय मळ मेरो घालून कसचें. पिकोवन खावचें. कुमरींत गोणो रोवन गोण्या आमील खावन रावचें. पूण ह्या बिजूट, सुवार्थी लोकांत रावचें न्ही.''

देवकी ओगीच रावली. घोवाविशींच्या भावार्तान तेचे हड्डें फुलून येयलें. ह्या एका एकसुऱ्या गवळांत घोवान आपणाक लागीं ओडून घेवचें अशें दिसलें. पूण घोव तसोच अस्वस्थ बसून आसा हें पळोवन देवकीच तेच्या म्हऱ्यांत सरकली आनी तेणी आपली तकली तेच्या हड्ड्यार तेंकयली. ती तांबें बडोवन घडयिल्लेवरी तांबशा रंगाची सुडसुडी लांब आसली. ज्युस्ताज्युस्त घोटिल्लो आंगलोट. लग्नाक स वर्सां

जाल्लीं आनी तीं दोगां भुरग्यांची आवय आसली. पूण शेतांतलीं, रानावनांतलीं कामां करून तीं दोगां घोव बायल कुडीन वावट चिवट जाल्लीं. तेणें तिका म्हऱ्यान ओडून आंवळून घेतली.

जेन्ना ती वचूंक भायर सरली तेन्ना वोता किर्णां सामकींच मोव पडिल्लीं आनी सूर्य दोंगराचे धारेक तेंकिल्लो. "घरा पावता म्हटल्यार काळोख जातलो तुका देवके."

"सरसरीत वयतां हांव. आत्तां पावतलें."

"चिंचोळे मेरेन पावोवन येतां हांव."

"पूण थंयच्यानच फाटीं फीर आं. ते चंवचाळिल्लेवरी गांवांत भोंवतात. काल सुखड्यान आनी तेगेल्या पुतान मेळूंन गांवकेच्या शेतांत मेरो धल्ल्यो आनी जोत बांदलें. दोग सोल्दाद तरसादी घेवन थंय उबे आसले. गांवचो लोक गांवाकडेर उबो रावन पळयतालो. एकलो मुखार गेलो ना."

गुणान बेठेंच हूं केलें आनी तो ओगीच रावलो. मगेर बायले वांगडा वचूंक सुटलो. शेत सोंपतकीर मुखार दोन दोंगुल्ल्यो एकामेकांक तेंकूंक येयिल्ल्यो. तांचे मदल्यान एका उल्याची तरी झिली-झोंपान रेवाडिल्ली अस्कड वाट. उपरांत मागीर आनीक उकतें शेत, तेंच्या घरामेरेन पातळिल्लें. मदीं एक दोन व्हाळ व्हाळयो. एक व्हाळ तर बरोच रुंद आसलो. दोनय वटेच्या बांदार व्हडले व्हडले गच्च रूख आसले. व्हाळ बळांटून वयताना वयले वटेन व्हाळ उकतो पडून सडो कसो वयर सरिल्लो. थंय देऊळवाड्यावयले कांय लोक मडीं लासताले. व्हाळ बळांटून वयताना पयसुल्ल्यान लाशिल्ल्यो गोबराच्यो राशी बीन दिस्टीक पडटाल्यो.

गुणा ताका चिंचोळ्या वाटेपार पावोवन फाटीं फिरलो. सूर्या आतां मावळिल्लो. आतां क्षितिजार बाण कर्शी वयर सरिल्लीं किरणां त्या उंच दोंगरावेल्या खुर्सारय पडिल्लीं. निकतोच चुन्यान पितारिल्लो तो खुरीस ह्या तेजहीण काळ्या उजवाडांतय पुराय स्पस्ट दिस्टीक पडटालो. गुणा मदींच एका उंचवट्यार थारलो. तेणें बायलेक उलो मारून सांगलें, "राया आनी शाबीक हायें आफयला म्हण सांग. चार दीस जाले हेवटेन येयलेनात म्हण हांव गाळी संवतलों म्हण सांग."

देवकी घरा येवन पावली तेन्ना दिवो लावणेचो वेळ जाल्लो. तो व्हाळ बळांटून येतना तर तेणें काळजाचेर फातरच दवरिल्लो. घरा पावतकीर मांयन विचारलें, "इतलो कळाव कित्याक जालो गो? कितें करताली?"

देवकेन सट्करून म्हटलें, "उलयत बसलें कांय वेळ." तिचीं हीं उतरां चिंचेबोट चोखिल्लेवरी दिसलीं मांयक.

मांयन कांय वेळ तेचेसरीं बारीक पळयलें. मगेर तिणें म्हटलें, "त्या रानात आनी कितले दीस पडून रावतलो खंय? नाका जाल्लें जाय तेका. आतां आमच्या

जिवाक घोर. चार दीस दोळ्यांक झळपण लागली ना म्हज्या. देवा, कितें जातलें? खंय पावतलीं आमी?'' ती रडूंक लागली.

देवकेन म्हटलें, ''कांय जावचें ना. रडटा कित्याक तूं? प्रसंग पडल्यार सोडून वयचें सगळें.''

''तेणीच सांगलां आसतलें तुका हें. देवा, कसले भोग रे हे ! हो गांव सोडून, देवधर्म सोडून, अठरा पिळग्यांची मिरास पाड घालून खंय वयतले आमी !''

आयकोन मांव भितर येयलो. बायलेचो वितराग खरोच म्हणिल्लेवरी कांय वेळ ओगी उबो रावलो. मगेर ताणें ल्हवूच म्हटलें, ''रायगाळी गेल्लों हांव येदोळ. ते तरी कितें सांगतात काय पळोवंक. सगळेच भियेवन आसात. कोण एक उतर काडूंक ना. सुब्राय शणै कितें म्हणटा जाणा, गुणा खोशयेन किरिस्तांव जाल्यार ते ताका भोगशितले खंय.''

देवकी मांवाचेर आड्डली, ''जीव काडलो तरीय तो किरिस्तांव जावचो ना. सोडात तुमी तें. धमक आसा तेका सड्यार सरदें पिकोवची.''

''तेका आसा धमक. तेचें रगत सळसळटा तें चयलें ना आमी? पूण आमी जाण्टेल्यांनी कितें करचें? खंयचो घाट चडून खंय मोव खावंक वयचें? आमी आतां तेंकल्यात. कांय़ जावचें ना आमच्यांनी.''

''जावचें ना तर तो फाटीक मारून व्हरतलो. कावड मारतलो खांदाक.''

''सुने, असली भास तुवें तेका शिकयल्यार तेची तकली आनीक घुंवतली. तुका सांगतां, आमी कशेच येवचे नात गांव सोडून. गोंयांभायर वचून आमी मेले काय जिते आसात हेची खबर घेत रावात. जाल्यार धाकल्याकय घेवन वचात. आमचें मरण हेच मातयेंत.''

मांवाचो आवाज केन्ना ना तो आज चडिल्लो. देवकी वोगीच रावली. हरशीं मांव सादोच मनीस आसलो. वाटेन चलताना पत्र्यार पांय पडल्यार आवाज येत म्हण पत्रो चुकोवन चलपी. आतां हें मोड आंगार घेवंक तो तांकनासलो. सामको हुस्क्यान गांवांत खंय खंय वयतालो आनी कोणाकय बुद विचारतालो. पूण सगळेच गोंदळांत घुस्पल्ले. एक फावट तेका दिसलें, समतोच शेफ रिबेरीसरीं वचचें आनी भोगसणी मागची. पूण तो गेलो ना. तेच्या मनाक मानवलें ना. तो रिबेरीक भियेतालो म्हण न्ही, तर तांणी हालींहालीं गुणाचो बापूय म्हण एक उंचाय घेतिल्ली. दुसरें, तो जाणा आसलो, रिबेरीसरीं गेल्यार तो आपणाक कसल्या तरी कचाट्यांत धरले बगर रावचो ना. फाटीर पडिल्ले बडयेची इल्ली तिडक मनांत आशिल्लीच.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं उठून भायर येयल्यार गुणाची नदर नेमकी त्या खुर्साचेर. निकत्याच उदेल्ल्या वेळाचीं किर्णां सामकीं तेचेर पडिल्लीं आनी तो रुपयाचो कसो

झगझगतालो. पयस एके दोंगुल्ले पेल्यान दोंगराच्या आंगार मद्दीं तो आसलो. दोन मैलां भायर आसूनय त्या वोतांत तो लागींच हाताकडेन आसा असो दिसतालो. गुणान मनांत म्हटलें, गांवच्या हड्ड्यार कुदळ मारून तो उबो आसा !

दीसभर तो मुखावेली माण्णी घालतालो. त्या दिसा राया, शाबीय तेका मेळूंक येयले नात. धांकलो भाव म्हादूच दोनय वेळचें जेवण घेवन येयलो. विचारल्यार म्हणूंक लागलो, 'म्हाका खबर ना, व्हनयेनय कांय सांगलें ना.'

म्हादू तितलो शिटूक नासलो. तेच्या फुगऱ्या पोल्यार व्हडव्हड दोळ्यांत कसलें तेजय नासलें. शेताकामांत चार खोरीं मारतकीर तेका धांप लागताली. पूण गुणाक ह्या भावाचेर भोव माया आसली. तो केन्ना म्हणटालो, शिरशे व्हाळ आडावन तेच्या उदकार हांव भावाक बामणाभशेन कुळागर करून दितलों.

खरें म्हटल्यार देवकेन रायाक आनी शाबीक सांगणेंच पावोवंक नासलें. आमचेमदीं आनीक कोणाक हाडचें नाका, आमी आमचें पळोवन घेवचें ह्या विचारान ती वोगीच रावली. घोव सडगाळी शेतार आसा हें चारचौगांक कळचें न्ही अशेंय तिका दिसतालें.

पौशाचो कृष्णपक्ष आसलो. देवूळवाड्याचे सकल्लेवटेन शिरवाड्या आंगाक खेत्रपाळाचें ल्हानशेंच देऊळ आसलें. देवळाचे खांबे हेर देवळावरीच गडगंज आसले. पूण ते कड्डान शिंविल्ले. त्या देवळाक तण, चुडटां घालूंक उपकारनासलीं. फक्कत कड्डान शिंवप. पौश लागलो म्हणटकीर एक दीस बामण सोडून गांवचे सगळे लोक रानांतल्यान रासवळ करड काडून हाडटाले. मगेर ते सगळे मेळून शिंवताले. आपल्या हाताचो एक तरी पेंडो देवळाच्या पाख्याक पडचो अशें जण एकल्याक दिसतालें. एकलो तो सुवाळो चुकयनासलो.

मगेर देवळा मुखार तीन दीस जागर जातालो. दर दिसा जागराचीं नाटकां, नाच गायनां आनी फोवांकालो. रातभर जागर. जागराक कोणाच्यानूय नाचूंक आनी गावंक येतालें. जांकां हुकी येता तो उठ्ठालो आनी नाचूंक गावंक लागतालो. तातूंत आनी पुर्वाचारासावन चलत येयिल्ले खेळ आसताले. वाजंत्रां वाजोवपीय कुशीक बशिल्ले आसताले. मदींमदीं तेंची व्हाजोवची सुंवारी जाताली. ते ढोल, घुमटां, जांगाटी, घोळ, चवंडुकी व्हाजयताले. मदीं फोवांकालो जातालो. दर दिसा एका वाड्याचो फोवांकालो आसतालो. एक पिणगे फोव, एक कळसुली पातळ गोड, एकवीस नाल्ल, एक वजें उशीकांडे घालून फोवां कालो जातालो. उशीकांडे सोलून बारीक फोडून कुडके करून घालताले. मगेर तो कालो सगळ्या लोकांक वांट्टाले. देवाकय त्या काल्याचोच निवेद्य. जेवणरातीर सुरू जाल्लो जागर सकाळपाराक नखेत्रां मावळमेरेन चलतालो.

मदींमदीं जागराचीं वाजंत्रां गवळार गुणाल्या कानार पडटालीं. दरवर्साक एक घुमट तेच्या हातांत आसतालें. जागराक दोनतरी घुमटां फुट्टालीं तेच्या हातान. वाजंत्रां कानार पडूंक लागतकीर तो उठलो आनी गांवावटेन वचूंक सुटलो. ताचे तकलेंत हेरच कितें घुंवतालें. राकेस रिगिल्लो ताचे तकलेंत ! ताणें मनांत म्हटलें, कसलो जागर खेळटात मडसरेचो! फाल्यां ह्या खेत्रपाळाच्या देवळाच्या करडाक तेणी उजो घातल्यार कोणाल्या हातांतलो दांडो उठचो ना. ताका दिसलें, जागराच्या मांडावयली वाजंत्रांची सुंवारी आज मळबाक तेंकची आनी पुराय गांवान हरहर महादेव करीत हाताक मेळटा तें घेवन तेंचेर झुडोन वयचें. अशें मरचे परस तशें मरचें.

काळखांतल्यान ल्हवल्हव चलत तो देवळालागीं पावलो. पूण ताका दिसलें, ह्या वर्साच्या जागराक कसलोच जोर ना, उमेद ना, उल्लास ना. गायतले रडिल्लेवरी गायतात, नाचतले मसणवटीर खांदार फुटकी कळशी घेवन चितेक भोंवतळ्यो काडटलेवरी नाचतात, वाजंत्रां व्हाजयतल्याच्या मनगटाक जसो आर मारला. तो मांडासरीं येयलो आनी इल्लो कुशीक झाडा अडसराक उबो रावलो. तो दिवटेच्या उजवाडांत सोदतालो शाबीक आनी रायाक. हतील्या पांयांयेदी मोटी दिवटी मांडाचे एके कुशीक उबी केल्ली. दिवटेकारान तेचेर दिरये तेल ओतलें म्हणटकीर ती भगभगताली. तेचो उजवाड थंय बशिल्ल्यांच्या तोंडार सावळ्यो हालयत नाचतालो. अशें एक फावट तेल ओतिल्लें तेन्ना गुणाक शाबी दिसलो. बारीक पळयतकीर तेका कळ्ळें शाबी आनी राया म्हऱ्यानच बसल्यात. शिंयाचे दीस आसले. दादल्यांनी आंगावयल्यान कांबळी कांबरून घेतिल्ल्यो. गुणान आपल्या खांदावयली कांबळ सरसरीत सोडयली. ती तकलेवयल्यान कान धांपून कांबरून घेतली. काळखांतल्यान सरकत शाबी, रायासरीं येयलो. इस्टागतीच्यो कुरू जाल्यो. ते एक दुसऱ्याक काळखांतय वळखले. पयलीं राया ल्हवूच उठून ताचेवांगडा काळखांत रिगलो. फाटोफाट शाबी उठून येयलो. कोणें तांचेवटेन पळयलें काय ना तें खबर ना. पूण एक फावट कोणाली तरी मान तेंचेवटेन घुंविल्ली.

आतां ते तिगय घोळयेदोंगर चडटाले. रायाल्या खांदार एक जडमसण पारय आसली. ती तेणी धाकू गवंड्याले पडवेंतल्यान उखलून हाडिल्ली. धाकूनच खुरीस बांदिल्लो. खेत्रपाळाच्या जागरा मांडार रावन रावन वाजंत्रां व्हाजतालीं. गायनाचे सूरय आयकोंक येताले. दोंगरार बिण्ण काळोख आसलो. खांद्याताळ्यार नखेत्राची इल्लीइल्ली उजवाडा निवळी पडिल्ली. तेचेरच ते मुखाल्लो माग काडटाले.

ते खुरसा मुखार येवन पावले आनी काळखांतय तो खुरीस दोळ्यांसामकार लखलखिल्लेवरी जालो आनी आंगार लखून येयलो. आतां ते सैतानाचे रगशेल्ले नदरेन त्या खुरसासरीं पळयताले. मनशामदली अदीम हिंस्र तमसवृत्ती उफाळून

ायिल्ली. सुडाचे वावटळेंत मनीसपण शेणिल्लें. दोळ्यांमुखार फकत दुस्मान आनी दुस्मानपण! दुस्मानाच्या हड्ड्यार पारय घालची तशी गुणान त्या खुरसार पयलीं पारय घातली. खुरीस थरथरलो पूण पडलो ना. तशें ताणी तकली धाडायली तरीय तो पडचो नासलो. फक्कत तेंच्यांनी चिरे निखळावंक येताले. खुरीस पाडची तांक तेंचेमदीं नासलीच. कारण ते एकले एकसुरे आसले. एका एकसुऱ्या वांज किंवाट्यान उठून येयिल्ले. खुरीस उबो करतल्याक आनी तो मोडून उडयतल्याक दोगांकय दिसतालें, आमी मोटे नितीचें, देवाचें धर्माचें काम करतात म्हण. घडये दोगूय खरे आनी घडये दोगूय खोटे. धर्म नांवाच्या नरकासूरान घालून दवरिल्लो मोटो गोंदळ. देवाच्या नांवार धर्म आनी धर्माच्या नांवार अनाचार. देवेंच ह्या झगड्याचें मूळ!

तेणी खुरसाचो एकान एक चिरो निखळावन उडयलो. सुपूर समाधानान एक फावट तेणी त्या तुटिल्ल्या चिऱ्यांसरीं पळयलें. शाबीन म्हटलें, ''ह्या खुरसासरीं हाडून तेंचो धर्म नाका म्हणिल्ल्यांक सुळार मारचे आसले ते.''

गुणान म्हटलें, ''खुरीसच कित्याक जाय? तेंचे मतींत आयल्यार ह्या काऱ्या रुखारच शें-दोनशें लोकांक गोळार मारूंक तांकतात ते. आमी आमचो बिजूट राग ह्या खुरसार काडलो, जालें. चल, या आतां.'' किरिस्तांव धर्माचें ह्या गांवांतलें पयलें बांदकाम तेणी अशें मोडून उडयल्लें.

तेणी ती पारय एके घळींत शेंवटून उडयली आनी ते मोन्यांनीच दोंगर देंवन येयले. जागरा मांडावयलीं वाजंत्रां व्हाजतच आसलीं. सकल येतकीर गुणा आपले वटेन गवळार वचूंक गेलो. वयताना ताणें तुमी 'हें आमी केलां' म्हण कोणाक सांगूं नाकात अशें फर्मायलें. ताणें इतलेंच म्हटलें, ''हो गांव आमकां एक ना एक दीस सोडचोच आसा. सांगून दवरात जाण्टेल्यांक, आमचें आमचें म्हण बेठीच मिठी मारून रावं नाकात म्हण.''

'खरें तुजें गुणाभावो' म्हणिल्लेवरी ते ओगीच रावले. ते परते कांबळ कांबरून त्या जागराचे गर्देंत घुसले. कांय वेळ ते ओगी बसले. खरस जिरयत बशिल्लेवरी. मदीं एक गडो जागरा मांडावयल्यान गायन सोंपोवन कुशीक गेलो. अचकीत राया उठलो. ताणें कांबळ काडून शाबीचेर उडयली. तो सरसरीत मांडार गेलो. तेच्या आंगार हातकापी बंडी आसली. कास्टेचें शेवट धोपरा सकल लांबतालें. तो मांडार उबो रावन गावंक लागलो. कुशीचे दिवटेचो उजवाड लपलपत जिबल्यो कसो तेचेवयल्यान घुंवतालो. कोणेंतरी म्हटलें, तो पळय राया गायता, मगेर 'राया राया' म्हण तेच्या नांवाचो कलकल जालो. रायाल्या गायनाक जोर नासलो तरीय तो आकूळपिकूळ जावन गायतालो, काळीज खरवडून -

दारांतले तुळशीचे मांयन थापट मारिला गा ।

कसलो न्हिंदेचो न्हिदगार शाणुलो न्हिंदिला गा ।
सातनी कुयांचें तारूं तडीक लागलां मू ।
सातनी कुयांचें तारूं तडीक लागलां मू ।
तडीक लागून तेणी तरसाद काडिला गा ।
तडीक लागून तेणी तरसाद काडिला मू ।
दारांतले तुळशीचे मांयन थापट मारिला गा ।
दारांतले तुळशीचे मांयन थापट मारिला मू ।
कसले न्हिदेचो न्हिदगार शाणुलो न्हिदला गा ।
कसलो न्हिदेचो न्हिदगार शाणुलो न्हिदला गा ।
सुडबुडी बुडबुडी उठोन शाणुलो बसलो गा।
सुडबुडी बुडबुडी उठोन शाणुलो बसला मू ।
कमरेचो गोफ नी तेणे आंवळुनी बांदिला मू ।
कमरेचो गोफ नी तेणे आंवळुनी बांदिला मू ।
कमर बांदुनी तो माणार धांविला गा ।
कमर बांदुनी तो माणार धांविला मू ।
उल्यार उले नी दिवन गांवाक सादयले गा ।
उल्यार उले नी दिवन गांवाक सादयले मू ।
उलेनी सादनी तेचे रानांनी शेणले गा ।
उलेनी सादनी तेचे रानांनी शेणले मू ।
शाणुलो धिमीनी मारून भुंयेर लोटलो गा ।
शाणुलो धिमीनी मारून भुंयेर लोटलो मू ।

राया गावन येतसर भोव थकिल्लो. हेदोळ खुरीस पाडटाना थकूंक नाशिल्लो तितलो थकिल्लो. पूण लोक मात तेचेसरीं अरवळावरीं पळयताले.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं शेफ कामील रिबेल उठलो आनी भायर येयलो. सदचेवरी खुरसाक नमन करूक म्हण हात वयर घेवंक गेल्यार मुखार खुरीस ना. दोंगरार धुंवर ना काळोख ना. सगळें तर उजवाडांत नितळ दिसता. मगेर खुरीस खंय गेलो? हेवटेन तेवटेन, वयर सकयल नदर घुंवडावन तेणें आनीक कांय वेळ खुरीस सोदलो पूण खुरीस दोंगरार ना. ह्या गांवांत तेणे केल्ली ही तेच्या धर्माची पयली निर्मणी!

कामील रिबेर आदीं भियेल्लेवरी जालो. भितरल्यान ताका भोव दुखिल्लेवरी दिसलें. मागीर तो रागान आकांताचो झिडपलो. रागान वयर सकल सांवार येयिल्लेवरी

ारथरूंक लागलो. तेणें सगळ्या काबा सोल्दादांक भायर आफयले आनी फर्मायलें, 'वचात, सोदून काडात खुरीस. उजो घालात गांवाक. खुरीस पाडटल्यांचीं मडीं ाडूंक जाय. तेंचीं मडीं हाडून ह्या पाद्रींच्या पांयांसरीं घालात.''

सगळे सोल्दाद रोखड्यारोखडे मुस्तायकी घालून दोंगरावटेन धांवंक लागले. ाटेर मेळिल्ल्यांक ते खुरसाविशीं विचारताले. तांणी समा जाप दिली ना म्हणटकीर तांकां पालमत्रेन फोडून काडटाले. देवळामुखार अशेच तांणी दोग तीग जाणांक माल्ले. ते धांवत वचून देवळांत लिपून बसले. तांचे फाटल्यान शेफय येवंक सुटिल्लो, थंयचे पाद्री ताकाच गुन्यांवकारी कसो धरून तिडायताले. परते परते रोजार करून आनी भोगसणी मागून म्हणटाले, ''तूं राखणदार ह्या वाठाराचो, तसोच किरिस्तांव धर्माचो. आमचीय राखण तुजेसरीं. आज तांणी खुरीस मोडलो. फाल्यां तेच्या म्हुणयारांक आमकां ते मारतले. आमी रायाक म्हणटले, तुज्यान जाली ना राखण दिवंक किरिस्तांवपणाक. खुरीस मोडटात हिंगा, किरिस्तांव जाल्ल्यांक मार खावचो पडटा हिंगा. अशें जालें ना खंयच्या गांवांत. किरिस्तांव धर्माचे आड वयतल्यांक खर ख्यास्त भोगयल्या.''

शेफ कांय उलयलो ना. ओगी घोड्यार दांग मारून दोंगरावटेन वचूंक सुटलो. तेचो सगळो राग दोळ्यांत देंविल्लो आनी दोळे रागान तांबडेगुंज जाल्ले. रगत शेनेल्लेवरी.

ताणें दोंगरार वचून तो मोडिल्लो खुरीस पळयलो. ताच्या रगताळिल्ल्या दोळ्यांत दुकां देंवलीं. ताणें त्या मोडिल्ल्या खुरसासरीं धिमी मारली आनी भोगसणी मागली. मागीर तो फाटीं फिरलो. सकल वाटेर सुबा तेळूलें घर आसलें. तो त्या घरासरीं गेलो. ताचे फाटल्यान सगळे सोल्दाद. सुबा गाडग्यांत पेज घेवन पिवंक बशिल्लो. कोणें एका देशी शिपायान म्हटलें, ''शेफ, हो गांवचो तेळू. गांवचो राखणदार.''

शेफीन विचारलें, ''तूं गांवचो तेळू?''

''हय गा देवा.''

''रातचो भोंवता तूं राखणेक?''

''पीक फसल आतां घरांत येवन पडल्या. आतां चड भोंवना हांव. तिनसांजची एक फेरी मारतां. देऊळवाड्या वयल्यान शिरवाडो आनी थंयच्यान रायगाळी. येतना शेतांतल्यान घाण्यातिठ्यावयल्यान येतां.''

''काल रातचो गेल्लो पाऱ्या फेरयेक?''

''हय, गेल्लों गा.''

''तो वयलो दोंगरावयलो खुरीस कोणें मोडलो तें जाणा तूं?''

''ना गा देवा, म्हाका खबर ना. हांव नकळ.''

शेफीन पालमात्री उखल्ली. ''खरें सांगता तूं हें?''

ती पालमात्री पळोवन जाण्टेलो सुबा तेळू इतलो भांबावलो, तेका कितें उलोवचें कळ्ळेंच ना. तेणें चाचरत म्हटलें, ''जागराचीं वाजंत्रां. रातभर जागर. चेडो आनी सून जागराक गेल्लीं. हांव एकलोच आसलों. कोणें तरी उलो मारलो. ना ना, उलो दिलो ना. बेठेच चलून गेले ते तेवटेन. काळखांत कांबळ कांबरून घेवन.''

''कोण ते?''

''नांवां आनी कित्याक तीं? हांव वळखना गा देवा.''

शेफीन रंऽऽव करून पालमात्री शेडायली तेच्या आंगार. तेसरशीं तो भुंयेर आड पडून लोळ्ळो आनी तेणें दुखावल्ली फाट भुंयेक तेंकयली.

''नांवां सांग तेंचीं.''

दुखीच्या ओगासरशीं तो तोंडांतच उलयलो. ''कोणाचीं नांवां, कसलीं नांवां? कितें करतले, शिरा मारतले? पाड पडूं तीं नांवां.''

खुळखुळ्या बडी घेवन सदा एकेच वाटेन नीट चलपी सुबा तेळू इल्लो अबरगतच आसलो. आतां हे सोरोप समजून दोरी बडयताले. रागान आनी सुडाचे भावनेन शेफ इतलो कुड्डो जाल्लो, ताणें सोल्दादांक फर्मायलें, ''उजो घालून लासून उडयात हेचें घर.''

पांच स सोल्दाद एकेच फावट घरांत धांवले. घरांत फोडिल्ल्या वांशाच्या कुडा आड ताची सून आसली. कमरेवयर धड वस्त्र नासलें तिच्या आंगार. ती किळांच्यो मारीत भायर धांवली. सुबान पडिल्ले कडच्यान तसोच मुखार सरून शेफ रिबेरीचे पांय धरले. पूण कोणें कांय आयकलें ना. तेंचेच चुलींतलो उजो घेवन तांणी तेचें घर लासलें. पाख्याच्या तणा चुडटान भगभगीत उजो घेतलो. खिणांत सगळें उज्याचे भकीक पडलें. घरांत आसलें गांवकेच्या रासवळ शेतांतल्यान मेळिल्लें कुळाचाराचें स खंडी भात. वर्सभराचें पोट. तेचोय लासून गोबर जालो. ते आतां तो अख्खो क्रूर उजो खायिल्लेवरी चडच सैतान जाले आनी नव्या बळीच्या सोदांत वचूंक गेले.

सुबा तेळू जळिल्ल्या घटणामुखार बशिल्लो आनी रडिल्लेवरी बडबडटालो, ''खंय कितें मोडलें म्हणटाले ते? कोणाचें नांव सांग म्हणटाले? देवळाकच उजो घालतात म्हण आयकल्लें मुगो सुने. जाय जाल्यार घालचो आसलो देवळाक उजो. घराक कित्याक घातलो? पावस वाऱ्याक तकली धांपची मठी ही. सुने, भातय लासून वडयलें गो? म्हजे तेळूचें भात तें. म्हजो गिरास मुगो तो. खंय धुवतले ते तीं पातकां? पातकीच उरतले ते.''

सून कुशीक उबी आसली. हे घडणुकेन, ते उज्याचे लोट पळोवन ती इतली भियेवन भांबावन गेल्ली, मत मेल्लेवरी धुंवर येवपी गोबराचे ते राशीसरीं पळयताली. दोळ्यांत एक दूक नासलें. फक्कत भियेवन थरथरताली. हेदोळ हड्ड्यार बळयां ओडून

घेतिल्लें इल्लें पिनकरें वस्त्र आतां सकल पडिल्लें. तेचीय सुद्द ताका नासली.

मुखावेले दोन दीस ते मेळत तेका धरताले, विचारताले. नीट जाप मेळ्ळी ना म्हणटकीर धरून धाडायताले, बडयताले. एक दीस तांणी खुरीस बांदिल्ल्या धाकू गंवड्याक धरून व्हयलो. धाकू इतलो भियेवन गेलो, आपली पारय पडवेंतल्यान ना जाल्या हें ताणें सांगलेंच ना. ताणें इतलेंच म्हटलें, "कितेंय बांदून काडलें म्हणटकीर तें म्हज्या हातचें बाळक. जावं खुरीस जावं तुळस. हांव कसो मोडटलों? कोणें मोडल्यारय म्हाका संताप येवचो. हें कोणा ताकदवान जुवान दादल्यांचें काम."

पालमात्रेबगर सुटिल्लो तो एकलोच.

•

पाद्री सिमांव पिरीस हांचेमदीं पडनासतना आपलेपरीन काम करीत आसलो. तो धर्मप्रसाराकच म्हण येयिल्लो. सामाजीक वावर करूंक काय न्ही. पूण मुळांतच ताका सामाजीक नदर आसली हें मात खरें. आपले आवयचेर बापायन, मागीर संत्राच्या बागाच्या मालकान केल्लो अन्याय तेणें दोळ्यान पळयल्लो. दुबळ्यांचेर जावपी अन्यायान तो संतापतालो, तेंच्या दुख्खान तो दुखावतालो. ताका दिस, दीन दुबळ्यांची सेवा करूंक, तांकां जेजूच्या मोगाचे वाटेर हाडूंक पाद्रीपण म्हटल्यार एक व्हडली भांगरा संद. पूण गोंयां येवन ताचो भ्रम तुटिल्लो. तो गळसणिल्लो. पूण निराश जावंक नासलो.

हांगाच्या लोकांची सामाजीक जाणविकाय पळोवन तर ताका काकुळट दिसताली. आमी कोणाक तरी भियेतात, आमी कोणाचो तरी अन्याय सोंसतात हाची तांकां जाणविकायच नासली. अन्याय हें उतर घडचेंच आसलें.

हिन्दू धर्मांतलो जातीभेद, हाफुडभश्ट म्हटल्यार ताका एक मोटो अनाचार अशें दिसतालें. सगळ्या अन्यायाचें मूळ हांगाच आसा अशें तो मानतालो. म्हण केन्ना केन्ना ताका किंवाट्यान दिसतालें, हिन्दू धर्मांतल्या सगळ्या लोकांक एके रातीकच किरिस्तांव धर्मांत ओडून हाडचे आनी सगळो भेद पुसून उडोवचो. बामण आनी म्हार, चाड्डे आनी चामार हांणी सगळ्यांनी धिमयेक धिमी लावन इगर्जेंत रोजार करचो. तेणी आपखोशयेन हां म्हणिल्लें जाल्यार तो सोता तेंच्या बातिज्माचो मीस सांगचेलो.

म्हणच गेल्ल्या देड दोन म्हयन्यांत ताचेकडच्यान दोन बरींवायट कर्तुबां घडिल्लीं. गांवच्या लोकांक इल्लो रागच सोंसचो पडिल्लो.

दुगा म्हारालो चेडो घुंगो एक दीस सकाळीं ताचेसरीं येयलो. ताच्या मांगरामुखार पेल्यान भायर बसलो. पाद्रीचो सेवक आनी राखणदार तोमासान ताका पळयलो

आनी म्हटलें, ''मांयझंया, भश्ट बायलेवरी मेरेभायर कित्याक बसला? यो, असो भितर यो. हें भटबामणालें घर न्हू. तुवें मिठी मारल्यारय आमी बाटचे नात.'' घुंगो भियेत भियेत दारासरीं येयलो. तोमासान हाताक धरून ओडून ताका भितर घेतलो आनी थंय बसयलो.

पाद्री खूंट बांदून केल्ले बाज्जेचेर आड पडिल्लो. तो 'कोण येयला रे तोमास' म्हणत उठून बसलो. पाद्रीन घुंग्याक पळयलें आनी ताका तो वळखीचो कसो दिसलो. तो लिप्प काळो आसलो. पूण दोन व्हड व्हड काळ्या दोळ्यांत अजापाची लिकलिकसाण आसली. ताणें एक बारीक कास्टी मारिल्ली आनी तो पुराय उकतो आसलो. हो उंच घटमूट आंगलोट. पूण बारीक पळेल्यार ताच्या आंगार आंगभर माराचे वळ उठिल्ले दिसताले. पाद्री एकदम उठलो. ताणें ताचें आंग सांसपीत म्हटलें. ''हें कितें जालें म्हज्या भावा तुका? कोणें मारलें? तोमास, कोण रे हो? चुरचुरे मुरे तेचे.''

''तो म्हार दुगालो चेडो पाद्रीबापा.''

पाद्री तेका वळखलो. फाटीं धोर सोलून मास काडटना तेका ताणें बापायवांगडा चयल्लो. पाद्री तेचें आंग सांसपितच आसलो. ''कितें जाय तुका भावा?''

तो आतां रडूंक लागिल्लो. रडटां रडटां ताणें सांगलें, ''एक धोर पडिल्लें शिरवाड्यार एकल्याले गंवणींत. पयलीं सांगलेंना. हायें वचून पळेल्यार तेचें पोट फुगून दोंगर जाल्लें. घाण वास मारतालो. पांयाक धल्ल्यार पांय तुटून येतले अशें जाल्ले.''

''मागीर?''

''ते म्हाका कशेय करून वोडून व्हरून उडय म्हणूंक लागले. तुजें काम म्हणूंक लागले. बापायक घेवन यो म्हण सांगूंक लागले. हायें म्हुटलें जायना. तुमी जाग्यारच फोंड काडून पुरात.''

''मागीर?''

''ते खोरें म्हुज्या हाताक दिवन म्हाकाच फोंड खण म्हणूंक लागले. हायें म्हुटलें जायना. म्हारान धरतरेक खोरें कुदळ लायल्यार तुमकां कोण लेखतलो? तुमी खणात फोंड. हांव धोर धुकलिना. वट्ट हेचेर तेंकां राग येयलो. वंयेंतल्यो बडयो मोडून तीगचार जाणांनी म्हाका खूब माल्लो. भुंयेर घालून माल्लो.''

''भावा, तूं बरो जुवान आसा. कुडीनय घटमूट आसा. तुज्यान तेंचेर एक खोंट मारूंक जालेंना?''

''च् च् च्, तशें कशें जातलें? दवरीत ते आमकां. मनशांसयत घरादाराक उजो घालतले.''

"आतां हिंगा कित्याक येयिल्लो तूं?"

"हायें आयकलां पाद्रीबापा, तुमच्या धर्मांत ल्हान व्हड ना, आफुडभश्ट ना म्हण. सगळे मेळून देवळांत वयतात आनी सगळे मेळून जेयतात म्हण."

"हय, आयकलां तें सत तुवें."

"तशें जाल्यार हांव तुमच्या धर्मांत येतां. म्हाका करून घेयात तुमी किरिस्तांव."

"दुबाव नाका. करून घेतलों हांव किरिस्तांव तुका. पूण एक सांग, तुका आवय बापूय आसात?"

"हय."

"तुजें लग्न जालां?"

"हय."

"तशें जाल्यार तुज्या घराब्यांतल्या सगळ्यांक समजावन म्हजेसरीं घेवन यो. जाल्यार हांवय तेंकां समजायतां. हो धर्म मोगाचे वाटेन व्हरचो. दुस्मानाचोय मोग करूंक लावचो."

तो उठलो आनी बरें म्हणून चलूंक लागलो. पाद्रीन विचारलें, "तोमास, तो परतो येतलो?"

"सांगूं नज. बिजूट जात ती. तें वीख बळ्ळां तेंच्या आंगांत."

"तो येवचो, आपल्या पुराय घराब्यासयत येवचो अशें म्हाका दिसता."

"म्हणजे तूं तेंकां फोर्सान किरिस्तांव करूंक सोदता?"

"हय. हिन्दू धर्माच्या रागान हांव तेंकां किरिस्तांव करूंक सोदतां."

तोमास हांसलो. "खोशी जाली म्हाका आयकोन पाद्रीबापा. ती पाड खबर आयकतसावन म्हाकाय तशेंच दिसता, पाद्रीबापान फोर्सान सगल्यांक किरिस्तांव करून उडोवचें."

"कसली खबर तोमास?"

तोमासाल्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं. ओल्या घोगऱ्या ताळ्यान तेणें सांगलें, "म्हजी बायल दोगांय भुरग्यांक घेवन आपल्या आवय बापाय वांगडा गोंय सोडून गेली. आपूण किरिस्तांव जातां जातां म्हण फटी माल्ल्यो तिणें दोन वर्सां. जाली ना ती किरिस्तांव."

"म्हाकाय वायट दिसता तोमास."

"तीन दीस जाले खबर कळून. तुका आनी सांगचें नाका अशें दिसतालें. आतां हांव म्हजें अख्खें जिवीत तुका ओंपतां. तुजेखातीर मरूंक लेगीत तयार आसां हांव पाद्रीबापा."

पाद्री वोगीच रावलो. तेणें विचारलें, "तुजे बायलेचें कुळार खंय तोमास?"

''न्हंये पलतडीं सांखवाळे.''

''तेवटेनय निकतेंच सुरू जालां हें सगळें.''

तिसऱ्या दिसाक खरोच घुंगो बायलेक, आवय बापायक आनी दोगां ल्हान भयणींक घेवन येयलो. बायलेन आनी आवयन न्हेशिल्ल्या पिनकर वस्त्रा कुडक्याचो एक शेव हड्ड्यावयल्यान ओडून घेतिल्लो. ते देग नाशिल्ले बेठे वस्त्रा कुडके आशिल्ले. कास मारुंकय ते पावनासले. दोगीय भयणी निकत्योच वयार येताल्यो. पूण तेणी कमरेभोंवतणीच म्हेळ वस्त्रां गुठलावन घेतिल्लीं. पाद्री सिमांव एकदम तांचेमदीं गेलो. ''दुगा, वळखलो तूं म्हाका?''

''हय व्हड मनशा. तुयेन म्हाका एक फावट हाफुडिल्लो, आपूण जावन.''

''मागीर तूं घरा वचून शेणा शिंतुडो घालून न्हावलो ना?''

''आमकां आनी आफुडभश्ट खंयचें? आमचें आंग मात हेरांक गुवामुताचें.''

''तुका खरेंच हेरांनी आपणाक हाफुडचें अशें दिसता?''

''ना. केन्ना कोणालो चुकून हात लागल्यारय रातरात झेम पडना.''

''मगेर तूं हिंगा कित्याक येयला तर?''

''घेवन येयला तो. येयना जाल्यार आपूण जीव दिसलो म्हणूंक लागलो. कितलें समजायलें, आयकना तो.''

''म्हणजे तूं खोशी ना तर किरिस्तांव जावंक?''

''आमकां कितें उज्यान घायल्यारूय लासता, तेलांत घायल्यारूय लासता.''

''मगेर कितें उरलें तर?''

''पोटापाणयाचो प्रस्न गा. वर्साक गांवकेचो वांटो मेळटा वांटेली म्हण. परब जत्रेक सात्रां, हीटय उडयतात ते चोंब्यांत. तेभायर एक धोर ओडूंक तीन आटोव तांदूळ मेळटात.''

घुंगो मदींच तापलो. ''तेंच्या दारांत भीक मागत रावचें आनी मार खावचो.''

''तें जल्माकच बांदून घेवन येयल्यात आमी. संवसारांत खंयूय गेलो तरीय म्हारच उरतलो तूं. धोर ओडचें चुकचें ना. किरिस्तांव जावन बामण जावंक पळयता तूं? सोड तें. पूर्वचाराचो गिरास मात सुट्टलो.''

पाद्रीन समजायत म्हटलें, ''हें चय दुगा, जशी जात ही तुजी, तसो तुजो धंदोय तुजोच. तेका आनी कोण हातबोट लावचो ना. कोण तुजो धंदो काडून घेवचो ना. वांटेली म्हण तुजो वांटो बंद केल्यार तुज्या दर वावराचें मोल तुका दिवचें पडटलें. हांव सांगतां, गांवांत तुजें वांटेलीपण सुगूर उरतलें. कारण आतां गांवकेंत किरिस्तांव गांवकार येतले. तेंचो मान पयलीं आसतलो. कोणें सांगचें गांवकी तरी उरतलीच काय ना तें. बरी बरी रासवळ जमीन ते रायाल्या नांवान ताब्यांत घेवंक लागल्यात.

ते ती नवे किरिस्तांव जाल्ल्यांक वांटून दितात.''

''कितें करतात तें करात तुमी. हांव मात कांबरून वोगी बसतां. तो घेवन बसला न्ही एक पिशें. फाल्यां सांगिनासतना किरिस्तांव जाले म्हण गांवान माल्ल्यार बडयल्यारूय ते घाये आंगार घेतात.''

''भियेनाका तूं दुगा. तुका आनी तुज्या घराब्याक राखण मेळटली शेफ सोल्दादांची. गोंय राज्यांत किरिस्तांवांक कोण हातबोट लावंक तांकचो ना. तूं आतां रायालो मनीस.''

पाद्री सिमांवान मनांतच भोगसणी मागली जेजूची आनी तो ते कितें म्हणटात तें आयकोंक रावलो.

दुगान म्हटलें, ''तुमकां जाय तशें करात तुमी पाद्रीबापा. घुंग्याच्या मनासारकेंच जावं दी. म्हजो एक बापोलभाव आसा. रानांत पातें हाडूंक गेल्लों तेन्ना कसली तरी कांट्याची वाल लागिल्ली. पांय कुसत आसा. एकच पूत तेका. आमी येतना हामेऱ्यांनी रडटालो. तुमी वयता थंय हांव म्हणटालो. आमकां सोडूं नाकात म्हणटालो.''

''बरें आसा. खोशी हांव. फाल्यां आयतार. सकाळीं वेळ उदेवचे पयलीं तुमी सगळे मेळून येयात हिंगा. उपरांत कालापूरा इगर्जेंत वयचें, बातिज्म घेवंक. थंय तुमकां धवीं वस्त्रां आनी जण एकल्याक चार चार क्रुसाद मेळटले. एक क्रुसाद म्हळ्यार कितले जाणा? एका क्रुसादाक एक खंडी तांदूळ मेळटात.''

ते सगळे वचूंक गेले. एक आवय सोडल्यार, घुंगो, तेगेली बायल, दोगीय भयणी भुल्लुसुनूच गेल्ल्यो आनी उमेदीन हांसताल्यो. आवय मात अटंग्या रानांत शेणिल्लेवरी ओग्गी आसली.

तेंकां बातिज्म दिल्ल्या बारा दिसांनीच आनीक एक प्रकरण घडलें. त्या प्रकरणान तर पाद्रीक कसाकच लायलो आनी तेचो अंत पळयलो.

गांवांत फक्कत सोळंखे ह्या घराब्यामदींच सतीची चाल आसली. एक फावट तेंचें क्रूरपण, दयामायाहीणपण पळोवन पाद्री काळजांतल्यान हालिल्लो. व्हिसरायान ती बंद उडोवचेले यत्न केल्ले. पूण ते तितले फळादीक जावंक नासले. जंय थंय ती चालूच आसली. व्हिसराय कोन्स्तान्तीन ब्रागांज हाणें मनीसपणाचे नदरेंतल्यान ती बंद करची म्हण ऑर्द काडिल्ली. पूण तसो कायदो अजून पुर्तुगालच्यान येवंक नासलो.

एक दीस मध्यान राती उपरांत पाद्रील्या मांगरा भायर कोणाले तरी ल्हव ल्हव उले आयकूंक येवंक लागले. तोमास 'कोण? कोण?' म्हणत आदीं उठलो. मागीर पाद्रीय उठलो. तोमासान चुलींतल्या इंगळ्यार करड धरून ते आदीं पेटयले आनी मागीर उंडेला दिवो लायलो. तो घेवन ते भायर येयले. पावसाळो निकतोच सुरू जाल्लो. भायर जोराचो वारो खेळटालो आनी बारीक पावसय पडटालो. भायर इतलो

काळोख आसलो. दोळ्यांत बोट घातल्यारय दिसचें नासलें. तोमासान हाताचो कोल्लो करून दिवो राखून घेतिल्लो. भायर एक दादलो आनी एक चेडूंभुरगें उबें आसलें. न्हेसणावयल्यान तें चेडूंभुरगें लग्न जाल्लें म्हण कळटालें. तें खूब भियेल्लें, आनी ताचो चेहरो खूब दुख्खी कस्टी जाल्लो दिसतालो. त्या चेडवाच्या तोंडार इतलें निरागस भुरगेपण आसलें, तें आवयसरीं हट करून आतांच खूब रडून दोळे सुजोवन घेवन येयलां अशें दिसतालें. तोमास दिव्याच्या उजवाडांत त्या दादल्याक वळखलो. ''पाद्रीबाबा, हो शिरवाड्यावयलो मर्तो नायक.''

इतल्यान दिवो वाऱ्यान पालवलो. ते ताका घेवन भितर येयले. तोमासान परतो दिवो लायलो. पाद्री सिमांवान विचारलें, ''अशे तुमी संकस्टांत गाविल्लेशे, दुखेस्त जावन कित्याक येयल्यात? सांग तूं तुजीं कस्टां म्हाका. म्हजेपरीन हांव आधार दीन.''

मर्तो उलोवंक करतालो. पाद्रीन मदींच म्हटलें, ''तोमास, काकुळट ह्या भुरग्याची. भिजिल्ल्या वस्त्रांत चय तें शिंयान कशें कुडकुडटा. तेका एक सुकें वस्त्र दी न्हेसूंक. म्हज्या खांदावयलें दिल्यारय उपकारता.'' तोमासान वळणेवयल्यान एक वस्त्र काडलें आनी तें त्या चेडवाक दिलें. आतां भायर पावसाचो जोर वाडिल्लो. त्या चेडवान मुखार येवन दिवो पालयलो आनी कुशीक वचून तें धवें वस्त्र नीट न्हेसलें. काळखांतच ओलें वस्त्र पिळ्ळें आनी तें खांदार घेतलें. आतां परत तोमासान दिवो लायलो ना. पाद्रीनय लाय म्हटलो ना. काळखांतच बशिल्लेकडेन पाद्रीन विचारलें, ''सांग कितें जालां तें.''

दुकां आवरून मर्त्यान सांगलें, ''ही म्हगेली धूव गुणाय. तेरा वर्सां सरल्यांत तेका निकतींच. दोन वर्सांफाटीं तेगेलें लग्न जाल्लें भंवर सोळंखेल्या पुतालागीं. दोन म्हयन्या फाटींच फोळसोबण करून तेका घोवाघरा पावयल्लें हांयें. तेगेल्या घोवाक फाटीं पांयांक खोऱ्या घाय पडिल्लो. तो कसोच फेंकना जाल्लो. काल दनपरां तो आंकडी येवन सोंपलो. हातपांय, मान घट जाली. पडिल्लो उठलोच ना. तोंडार पुराय फेण येवन भरिल्लो खंय.'' तोमासान मदींच च् च् केलें. तें चेडूंय नाक ओडून भितरले भितर रडटालें. भायर भितर पुराय काळोख पातळून आसलो तरीय तांचे तळमळे पुराय कळटाले. मर्तो ल्हव भियेल्ल्या आवाजांत सांगतालो, ''ते आतां म्हजे अपुरबुद्द धुवेक सतीसगमन करूंक जाय म्हणटात. घोवाचे सरयेर लासून मारूंक सोदतात. पाद्रीबाबा, म्हजी ही एकलीच धूव. म्हजे धुवेचेर भोव माया म्हाका. तेका हांव तसो मारूंक दिवचों ना. कशेंय जाल्यार तें जितें रावंक जाय. धुवेक पाचारूंक वयतकीर धुवेनय म्हाका मिठी मारून म्हटलें, 'आबो, म्हाका मारूं नाकात रे!' म्हजें काळीज तुट्टा पाद्रीबापा.''

काळखांत मोन्यांनीच पाद्रीन तेच्या खांदार हात दवरलो.

"हायें म्हजे धुवेक म्हटलें, हांव घरामुखावेल्या भेडशी पोनाक आडसराक बसून रावतां. चड रात जातकीर हेरांचे दोळे चुकोवन यो. चवंया मागीर कितें जाता तें. तें येयलें. पाद्रीबापा, हांव हेका हिंगा दवरून वयतां. तुजेसरीं ताका पातयेवन. तूं तेचो सांबाळ कर, तेका किरिस्तांव करूंकय हांव ना म्हणचों ना. तुका जाय तशें कर. पूण म्हजी धूव मरूंक फावना. हांव तेका घरा व्हरतां आसलों. पूण ते लोक आमकां जियेवंक दिवचे नात. पिनून खातले. दोनय कडचे लोक, तेंचे आनी आमच्याय शिरवाड्यावयले. ते सोळंखे घोवाचें प्रेत एकोडें लासनात. आमचे मदीं ती सतीची चाल ना. पूण हेंच्या धुवांनी दिल्लेकंडेन लासून मेल्यार उपकारता."

पाद्रीन ताचो खांदो थापटीत म्हटलें, "तूं हुस्को करूं नाका तुजे धुवेचो. तेची जापसालदारकी आतां म्हजेर. जेजूच्या त्या खुरसार गळिल्ल्या रगताचो सोपूत घेवन हांव तुका भास दितां, तुजी धूव बऱ्याक पावतली. तेच्या केंसाक धको लागचो ना."

"तेणी विचारल्यार हांव तेंकां सांगतां, म्हजी धूव खंय गेली तें म्हाका खबर ना. तुमी बांयो न्हंयो सोदात. तूं तेंकां एक दोन दिसांत खंयूय पयस व्हरून पावय. गोंय पाटणांत तुमच्यो साळा आसात म्हण आयकलां. थंय पावयल्यार बरें जातलें."

"तूं हुस्क्यामेकळो जावन घरा वच भावा मर्तो. हायें भास दिल्या तुका. पूण एक सांगतां, आमी कितलीय धडपड केली तरीय आमचे फांस दैवाच्या हातांत आसतात. संकस्टाक फुडें करची आमची तयारी आसूंक जाय. बस्स."

"हांव येतां पाद्रीबापा." तें चेडूं उठलें आनी बापायक मिठी मारून रडूंक लागलें. पाद्रीन तेका बापायपसून कुशीक काडलें आनी व्हरून आपले बाज्जेर घातलें.आपलेंच कांबरूण तेचेवयल्यान ओडून घातलें. तोमासाकडच्यान एक कांबरूण घेवन तो थंयच कुशीक भुंयेर लवंडलो. भायर पावस व्हाजळींनी पडटालो. त्या पावसान भिजतच काळखांतल्यान मर्तो वचूंक गेलो.

दुसऱ्या दिसा सोळंखे थंय आनी शिरवाड्यार मोटो आकांत जालो. सगळे चोंय वाटो सोदताले. मर्त्याच्या घरच्यांक मेरेन गुणाय खंय गेलें खबर नासलें. आवय तर हुयेल्यो मारताली. एक फावट मर्त्यान रागान बायलेक म्हटलें, "ते उज्यार लासून मेल्यार तूं इतलें रडचें नासलें. उज्या परस उदक वायट न्ही. हांव पुराय व्हाळ तेची कोंड सोदून येतां" म्हण मर्तो भायर सरिल्लो दिसभर भायरच आसलो.

सांजचें उसरां तांणी घोवाचें प्रेत एकोडेंच लासलें. लासतना धा सुतकी तोंडान ते वावुरताले. त्या मेल्ल्याक सोर्गांत बायल मेळची ना आनी ताचो आत्मो हुलपत तळमळत उरतलो अशें ते घडये चिंतताले.

प्रेत लासलें म्हण कळटकीर पाद्रीक सू जालें. ताणें मनांत म्हटलें, आतां सोड

बिशाद. दुसऱ्या दिसा सकाळींच तो आनी तोमास गुणायक घेवन गोंय पाटणाक वचूंक गेले. ते उजवाडचे पयलींच सुटिल्ले. वाटेर कोणाल्याय पावलांचो आवाज येयल्यार ते गुणायक झिलींत लिपोवन दवरताले. मगेर तोमास मुखार वयतालो. कोण ना म्हण कळटकीर तोमास तांकां येवंक उलो घालतालो.

ते ताका घेवन गोंय पाटणांत एका फ्रान्सिसियान कोवेंतांत गेले. तेन्ना फ्रान्सिसियन एक कोवेंत चलयताले. पयलेच फावट देशी बायलांक तांतूंत कांय सुवाती दवरिल्ल्यो. कोवेंतांतलो एक फ्रान्सिसियन पाद्री रेनात फेर्नांद वळखिचो आसलो. वेटिकनांत ते मेळिल्ले आनी एक दुसऱ्याक बरे वळखताले. गुणायची हकीकत सांगतकीर ताणें म्हटलें, ''तेका घेवं येता कोवेंतांत. पूण कोवेंत आसा-किरिस्तांवांक लागून. तेतूंत घालचे पयलीं तेका बातिज्म दिवचो पडटलो.''

उपाव नासलो. ते गोंय पाटणांत तीन दीस उरले. आयतारा गुणायक बातिज्म दिवन कोवेंतांत घालून ते येयले. गुणायक तेंणी नांव दिल्लें अनारीत फेर्नांद.

पूण गुणायक गोंय पाटणांत पावयलें म्हण खबर कशी कळ्ळी कोणाक खबर. दुसऱ्या दिसा सकाळींच सोळंखे घराब्यांतले चौग दादले पाद्रीसरीं येयले. ताका धपकायत म्हणूंक लागले, ''तुवें आमचे घरवडेंतले सुनेक लिपोवन दवरून हेर गांवा कशी पावयली? आमच्या धर्मा आड येयलो तूं. आमी पळोवन घेतले. व्हिसराया सरीं वयतले, रायाक कळयतले. ह्या गांवांत पांय दवरूंक दिवचे नात तुका. मोडून घालतले हातपांय.'' कांय वेळ त्या चौगांनी कलकल केलो थंय.

पाद्रीक इतलो राग येयलो, तो हातांत दांडोच घेवन उबो रावलो. ''कोण येता हातपांय मोडूंक येयात मुखार. बायलांक लासून मारतात, गुन्यांव करतात आनी वयल्यान शापातां. तुमी नकळो व्हिसरायान ऑर्द काडल्या म्हण सती चालीचे आड. तुमी कित्याक, हांवच वयतां व्हिसरायासरीं आनी सांगतां, हे लासून मारतात म्हण बायलांक. तेंकां आस्पदीचो वांटो दिवचो पडटलो म्हण तेंची हत्या करतात तुमी. मनीस न्ही, राकेस तुमी. हेचेफुडें कोणाकय सती वचूंक लायल्यार पाखल्या सोल्दादांची फौज गांवांत हाडटलों आनी तुमकां बांदून व्हरतलों. व्हडले खेत्री खंय. कसले बायलांक लासून मारचे खेत्री. गुणाय जीव दिवंक कोंडीर गेल्लें, हांवें तेका वाटायलें आनी म्हाका जाय थंय पावयलें. तुमकां जाय तें करात तुमी.'' रागान पाद्रीच्यो नाकापुडयो फुरफुरताल्यो. तांबड्या चेहऱ्यावेल्यान हूम न्ही तर रगत निशेता अशें दिसतालें.

तांणी एक फावट पाद्रीक रागान पळयलें आनी ते वोग्गी वचूंक गेले. ह्याच लोकांनी एक फावट पाद्रीक तेचे मसणवटीर खोंटांनी आनी दांड्यांनी मारिल्लो. तेन्ना ते घडणुकेचो अर्थच तेका कळूंक नासलो. पूण गेल्ल्या वर्सभरांतच हे समाजजिणेचो

बेस थाव तेका लागिल्लो. तो एक जाणा जाल्लो. हिन्दू धर्माचें मूळ तत्त्वगिन्यान आनी हेंचें आतांचें शास्त्र आनी धर्मकर्म हांचो मेळ बसनासलो. म्हण हांचें जिवीत भोव विद्रूप जाल्लें. आनी ते तितलेच भितरल्यान करमेल्ले, दुबळे जाल्ले. तेचेर धपको घालप भोव सोंपें जाल्लें. म्हणच अतिरेकी जेजुयटांचें फावो जाल्लें. आनी खंय गेली हेंच्या बावळ्यांची शक्त? एक पाखलो हातांत तरसाद घेवन उबो रावल्यारच झुंडींनी लोक धांवन वयतात. मनशाक फकत हातपांयेच आसून उपकारनात. तेच्या काळजांत चैतन्य फुंकपी एकाद्रो शूर सिकंदर जाय आसता. मगेर हातापांयांक वागाचें बळगें येता.

•

खुरीस मोडटकीर शेफ कामील रिबेरीन आनी ताच्या सोल्दादांनी जो अच्छेव केलो तो तेच्याय कानार येयिल्लो. तांचे मदीं पडचें न्ही अशें ताणें आदींच थारायल्लें. पूण केन्ना केन्ना सोंसूं नज जातालें. दोन घरां तांणी लाशिल्लीं आनी कितल्याशाच जाणांक धरून बडयल्ले. एकएकल्याक इतलो मार पडिल्लो, कांय जाणांचें आंग सोलिल्ले बेबे कशे तांबडें जाल्लें. तिसऱ्या दिसाक रायगाळीचे मुंगरू शणै, सुब्राय शणै, शिरवाड्यावयले दत्तू नायक, वेंटू नायक आनी देऊळवाड्यावयले मादू गुरव हे पांच जाण मेळून पाद्री सिमांव पिरीसासरीं गेले. तांणी सांगलें, ''पाड कामां आरंभल्यांत तांणी. कोण काळाचो सुखी समाधानी गांव. गांवकी जावंक दियनात ते. गांवकेचें शेत काडून घेतलां. लोकांक भेस्टायतात, मार बडय करतात. कोणें मोडलो खुरीस कोण जाणा, सगळ्या गांवार संकस्ट. तूं सांग तेंकां थांबयात म्हण हें. जाल्यार खुरीस बांदून दितात म्हण सांग.''

मुंगरू शणैल्या ह्या निमाण्या उतरांनी पाद्रीक शिट् जालें, पूण तो वोगीच रावलो. ताणें म्हटलें, ''तुमीच कित्याक गेले नात तेंचेसरीं?''

वेंटू नायकान म्हटलें, ''तेंचेसरीं वयची माणसुकी आसा? पालमात्री हातांत घेवनच उलोवप. आतां आनी चडच सांवार तेंचेर. धर्माचें काम म्हणटात पूण मनीसपण ना तेंकां.''

''बरें आसा. हांव वचून सांगतां तेंकां. हांव कसलेंच उतर दियना तुमकां. म्हजें सांगप तेणी आयकल्यार बरें आसा, ना तर सोडून दिवचें ते. आनीक एक फावट पडिल्लों हांव तेंचेमदीं. तो राग अजून ते धरून आसात.''

''तुमचें आयकतले ते. कितलेय जाले तरी तुमचींच मनशां तीं.''

पाद्री बेठोच सुसकारलो. ते वोगी उठून गेले, आस्त सोडिल्लेवरी.

ते गेल्ले फाटल्यान पाद्रीन आपली पाद्रीपणाची पुराय मुस्तायकी आंगार घातली.

झोगळो लोब, गोमटे पटो, हातमोजे, गळ्याखुरीस. आनी तो शेफ कामील रिबेरीसरीं वचूंक गेलो. सांज जावंक येयिल्ली तरीय सुर्याचीं आडवीं किर्णां झाडांझाडां मदीं भुंयेर पडिल्लीं. पांचवींचार झाडां आनी तांचेमदीं हळडुवीं किर्णां. पाद्री सिमांव तेंच्या राबित्यासरीं पावलो तेन्ना शेफ कामील रिबेर भायरच उबो राविल्लो दिसलो. ताचो घोडो मुखार एका झाडाक बांदिल्लो. ताचे फुड्यान शिजयल्ले कसले तरी अन्नाचे मुदे पडिल्ले आसले. पयल्यान आनीक कांय सोल्दाद गणमणटाले. म्हऱ्यान पावले तरीय शेफीन ताका नमस्कार केलो ना. ताणें एक फावट पाद्रीक मांडून पळयलें आनी विचारलें, ''कित्याक येयिल्लो? कितें काम पडलां?''

पाद्री सिमांव कितें तरी सांगूंक सोदतालो पूण ताणें ताचेसरीं दुर्लक्ष केलें आनी भितरल्या पाद्रींक उलो मारलो. ''पाद्री कुलासू, तुका मेळूंक येयला तो. चोयात कितें म्हणटा तो. तेचेविशीं सदांच कागाळ तुजी म्हजेकडेन. आतां कितें तें चोयात.''

पाद्री पावलू कुलासू आनी पाद्री बेनेदीत फेर्रांव भायर येयले. आतांय तांचेमदीं कसलीच मानाच्या उतरांची दी-घेव जावंक ना. एक दुसऱ्या मुखार झगडूंकच राविल्ले वरी ते उबे आसले. ह्या गांवांत पयलींच येयिल्ले तेन्ना हे दोगूय पाद्री अबरगत कशे थंड आसले. भियेत भियेत वावुरताले. आतां साताठ म्हयन्यांत तेंकां शिंगां फुटूंक लागिल्लीं. शेफ रिबेरीकय ते केन्ना धारेर धरताले. ल्हानसान गजालींक 'आमी बीस्म सायबाक सांगतले, रायाक चीट बरयतले' म्हणटाले. खरें म्हटल्यार ते वेळेची अवतिकाय इतली विचित्र आसली, राज्यकारभाराची सगळी शक्त धर्मांतराक वापरूं येताली. कोणें फाटींफुडें केल्यार सरळ रायासरीं कागाळ करूं येताली. हांगाच्या धर्माच्या मुणयाऱ्यांच्यो वर्सांक कितल्यो तरी चिटी रायासरीं पावताल्यो. ते वेळेचो पुर्तुगालचो राजा तिसरो जुवांव आनी गोंयचो व्हिसराय कोन्स्तान्तीन ब्रागांज धर्मांतराक इतलें बळगें दिताले, तांणी कितेंय केल्यार उपकारतालें.

हे पाद्री आनी पाद्री सिमांव पिरीस हांचे मदीं एक झडें फाटीं उप्राशिल्लें आनी बरेंच कोडूपण येयल्लें. पुर्तुगालच्या कायद्याप्रमाण आवय आनी बापूय दोगांय मेल्ल्या भुरग्याकच अनाथ म्हणूं येतालें. आनी अशा अनाथ भुरग्याक हाडून बातिज्म दिवंक येतालो. पूण गोंयचे कांय पाद्री बापूय मरतकीर आवय आसतनाय भुरग्याक काडून हाडून बळयां बातिज्म दिताले. कुंबारवाड्यावयलो घांटू कुंबार मेल्लो. तेगेलो चार वर्सांचो भुरगो आवयले होटयेंत आसलो. पयलींचे गांवकेच्या कामाक पूर्वाचारसान नेमिल्लो एक पटेकार आसलो, दबा देवळी. तेका आमचेसरीं चाकरी दिता म्हण सांगून आनी थोडें शेत दिवन किरिस्तांव केल्लो तांणी. तो आतां तांचो खबरेकार कसो गांवांत भोंवतालो. कोणेंय ताच्या ह्या पडमूरपणाविशीं विचारल्यार तो सांगतालो, ''आमी देवळी. आमकां दिसाचो बापूय ना रातची आवय ना. आवय बापूय नाशिल्ले

आमी. आमकां हें कितें आनी तें कितें. पोटाक मेळटा थंय वयचेलें.'' केन्ना केन्ना तो नवे दांत फुटिल्लेवरी म्हणटालो, ''मांयझयांनो, तुमकां आमच्यो आवशो जाय न्ही! आतां तुमचे दांतच पाडटां पळय्नात.'' खरें म्हटल्यार तो आतां कोणाक कॅर करिनासतना गांवांत भोंवतालो. ताणेंच येवन घांटू कुंबार मेल्ल्याची आनी ताच्या पुताची खबर सांगिल्ली.

पाद्री पावलू कुलासू आनी तीग सोल्दाद त्या भुरग्याक ताब्यांत घेवंक गेले. ते येतात म्हण कळटकीर त्या भुरग्याल्या आज्यान भुरग्याक व्हरून सोमण मेस्ताल्या घरांत लिपोवन दवरलो. मदल्यान शेतांतल्यान धांवत वचून त्या जाण्टेल्यान रुद्र शणैक आफोवन हाडलो. पूण ते कोणाचें कांयच आयकोन घेवंक तयार नासले. रुद्र शणैन विचारल्यार म्हणूंक लागले, 'घोव मेल्ले बायलेक कसलो हक अधिकार ना. तेका आस्पतेचो वांटो मेळना तर भुरगो कसो मेळटलो?' हातांत उकती तलवार घेवनच व्हडल्यो व्हडल्यो जाणवायो सांगूंक लागले. एक फावट तर ते घरांतच घुसूंक गेले. जाण्टेलो आजो बागलांत थार आडवो पडलो. तांणी एक फावट तरसाद उखल्ल्यार 'मार, घाल म्हजेर तरसाद' म्हण तेंकांच दटायले.

सोमण मेस्त मेरेभायर उबो रावन सगळें चयतालो. तो त्या भुरग्याल्या आजा इतलोच जाणटो आसलो. तो ल्हवच थंयच्यान कडसरलो आनी धांव मारून पाद्री सिमांवासरीं येयलो. पाद्री सिमांवालो मांगर थंयच्यान लागींच आसलो. ताणें पाद्रीक सांगलें, 'अबुद्द दूदपित्या भुरग्याक ते आवयले होटयेंतल्यान चिंवाचे ओडून व्हरतात. तूं कितेंतरी सांग तेंकां.'

पाद्रीन सांगलें, 'हांव तेंचेमदीं पडना. बरें जावचें ना तें.' तो जाण्टेलो मेस्त इतलो आकुळपिकूळ जावन तेका आफयतालो. पाद्रीच्यान रावं नज जालें. बेगीबेगीन लोब आंगार लखयलो आनी तो मेस्तावांगडा येयलो.

पाद्री सिमांवाक ते सगळे रागान मांडून पळोवंक लागले. पूण कांय उलयले नात. सिमांवान तांकां भोव नमळकायेन संबंदीत कायद्याची विसकटावणी करून सांगली. तेची व्याख्या आनी अर्थ सांगलो. पाद्री कुलासू जेन्ना जेन्ना मदीं तोंड घालूंक पळयतालो तेन्ना तेन्ना आपल्या गाढ गिन्यानाच्या बळग्यार हुशारकायेन ताचें तोंड बंद केलें. ताणें मुखार सांगलें, शिवाळी बारदेसचें असलेंच एक प्रकरण वयल्या कोर्टांत गेल्लें. तेन्ना पाद्रींच्या कर्तुबा आड कोर्टान निर्णय दिल्लो. पाद्री कुलासू 'बरें आसा' म्हण म्हणून वांगडाच्या सोल्दादाक घेवन परतो गेल्लो. मुळांत पाद्री सिमांवाचें अशें उंच, धिप्पाड, गोरें सोबीत दिलखुलास व्यक्तिमत्व आसलें. ताका पळयतकीर कोणय दिपकावतालो. पिकिल्ल्या दाडीमिशां मदीं दोन लिकलिकपी तेजिस्ट दोळे. तेतूंत गाढ गिन्यानाची सया पुराय व्यक्तिमत्वाचेर.

पाद्री कुलासू वोगी गेल्लो खरो. पूण तो भितरल्यान रागान खतखततालो. तो कायदो सामकोच नकळ आसलो अशें न्हय. तो जाणा आसलो, अशा भुरग्याक बातिज्म दिलो म्हणटकीर ताची आवयूय आपशींच बातिज्म घेता. जाल्यार हेर भावंडांय. कित्याक, किरिस्तांव जाल्ल्या भुरग्याकच पुराय आस्पद वचची न्ही म्हण. तो हेंवय जाणा आसलो, असल्यो केशी कोर्टांत वचच नासल्यो. कारण बातिज्म जाल्ल्याक परत आपलो धर्म नासलो. कोर्टान आड निर्णय दिल्यारूय. पूण पाद्री सिमांव मर्दी पडिल्लो. ताणें जसो ताका उक्तो केल्लो. ताका इतलो राग येयिल्लो, दिस, खर ख्यास्त भोगोवची हाका!

आज पाद्री सिमांव परत येयिल्लो तांचेसरीं. ताणें म्हटलें, ''चुकलें तें.अज्ञानी गांवठी लोक. ते कितें करतात तें तेंकां कळ्ळें ना. खुरीस म्हणटात ती एक निखटी फातराची घडणी अशें धरलें तेंणी. जेजूच्या नांवान भोसगणी दियात तेंकां. जेजूच्या नांवार बायबलांत हेंच सांगलां. मोग, काकुळट आनी भोगसणी हें बायबलाचें मूळ तत्त्वगिन्यान. बायबलाची शिकवणच आमी कुशीक सारली जाल्यार धर्म वाडोवन कितें करतले?''

''म्हणजे आमी बायबल मानिनात अशें म्हणचें आसा तुका?''

''तशें म्हुटलें ना हांवेन. घडये तेचो चुकीचो अर्थ काडला जायत तुमी.''

पाद्री कुलासू भितरल्यान रागान थरथरलो. तरीय तो तेका पुराय घुस्पावंक पळयतालो. ''तुज्या नाड्यार खुरीस मोडलो तेणी. तूं तेंचो पाखो घेता म्हण ते जाणात. ना तर तेंकां येदी कापास्ताद येवची नासली. वयल्यान तूं म्हणटा, खुरीस म्हणटात ती निखटी फातराची घडणी म्हण.''

''कांय अंशीं तथ्य आसा तेतूंत. मोग, मयपास नासत तर खुरीस म्हणटात तो फातराची घडणीच कशी दिसचेली तेंकां. मोगाबगर देव ना, सत ना, भावार्थ ना. फक्कत खुरीस उबे केले म्हण खरो धर्म वाडना. खुरीस फ्कोंरावचो पडटा मनशाच्या काळजार. तो एक फावट मनशांतल्या काळजांत रिगलो म्हणटकीर असले कितलेय खुरीस उबे करूंक जातात. तुमी जाणांत, ह्या गोंय जुव्यांत फोर्सान बाटयल्ले कितलेशेच लोक परते आपल्या धर्मांत वचूंक सोदतात वो ते किरिस्तांव धर्माचीं तत्वां मानिनात. म्हण आमकां इन्क्विझासांवाचो आलाशिरो घेवचो पडटा.''

''पुरो जालें पाद्र सिमांव. तुवें किरिस्तांवांल्या पवित्र खुरसाचो अपमान केलो. तूं इन्क्विझासांवा आड उलयलो. वच तूं आतां. वोगी वच. शेफ कामील रिबेर, तूं आसा हिंगा. हेंकां वचूंक सांग.'' पाद्रीन पळयल्यार शेफ रिबेर पयस वचून तोंड फिरोवन उबो आसा.

''हांव आड उलयलों ना कोणाच्या. कोणाचो अपमान करचो म्हजो हेत ना.

ाव हांगा येयिल्लें तें काम, त्या मोडिल्ल्या खुरसाक लागून लोकांक आनी पिडापीड ोगोवं नाकात.''

''ना, आमी आनीक कोणाक कितें विचारचे नात. कोणाक ख्यास्त दिवचे ात. कांयच करचे नात. वच तूं आतां.''

पाद्री सिमांव वचूंक गेलो. पूण तेका दिसतालें, आज विचित्र वागले हे लोक. देशिल्लें, म्हजेर झुडोन येतले हे. पूण बेगीनच मानून घेतलें तांणी. इल्लो गोंदळलोच ो. आतां बरीच सांज जाल्ली. गोरवां गोट्याक घालचो वेळ जाल्लो. अचकीत ्कलो मुखार येयलो. हड्डें बशिल्लोसो, कास्टेसरीं पोट मुखार येयल्लें. हें हें करून ांसत गेलो तो.

पाद्री ओगी आपल्या मांगरार येयलो. ''तोमास, आज हवेंत चड उबाळ आसा?''

''ना पाद्रीबापा. शींय खाता.''

''इतले बेगीन काळोख कसो जालो?''

''वेळ बेगीन मावळटा ह्या दिसांनी.''

''तरीय अजून एक नखेत्र दिसना मळबांत.''

''घुस्पल्यांत तीं उजवाड आनी काळोख हेंचे मदीं.''

''भुरगेपणाक मुरे हो सांजचो काळोख पळयतकीर दिसतालें, हें निमाणें. आनीक आनी उजवाड हिंगा पडचो ना. पूण दुसऱ्या दिसाक पडिल्लो उजवाड पळोवन हांव धराकडच्यान त्या तकली तुटिल्ल्या पुतळ्यामेरेन धांवन वयतालों. उजवाड पळयतकीर कानांत वारो भरिल्ल्या वासरावरी म्हजी गत जाताली. आमच्या घरामुखार एक ओकाचें झाड आसलें. शिंया दिसांनी तेचीं पानां पुराय झडटालीं. तें पानां झडिल्लें झाड पळोवन म्हाका दिसतालें, हें झाड आतां मेलां. तें कुराडेन चांचोवन मारून उडोवचें. पूण उबाळ येतकीर तेका परत आंकऱ्यो, पालय येताली. त्यो पळोवन हांव भुल्लुसतालों. जाणा मुरे तोमास, गेल्लीं सदतीस वर्सां हांव म्हज्या गांवांत गेलों ना. म्हाका एक सवतभाव आसलो. तो जल्मतनाच तेच्या भुजार काळें लाशें आसले. लोक म्हणटाले, तें स्पेनाच्या नकाशावरी दिसता म्हण. म्हजे आवयन खुब्ब कस्ट काडले तोमास. बापूय पुर्तुगालांत धांवन वयतकीर अवतिकाय जाली तिची. एक दीस संत्रांच्या बागाच्या मालकान म्हजे हुजीरच तिका संत्रांचे राशीर आड घातली आनी तिचीं वस्त्रां फेडलीं. हांव तेन्ना चार वर्सांचो आसलों. पूण म्हाका अजून घट याद आसा, तिची ती उकती कूड सदांच म्हाका मांय मेरीले कुडीवरी पवित्र दिसता. जाणा तोमास, संवसारांतल्यो सगळ्यो आवश्यो मेरीवरी पवित्र आनी मायेमोगाच्योच आसतात. खऱ्यांनी सांगूं, आयजवेर खंयचेच अस्तुरेक हायें वायट नदरेन चयलें ना. दर एक अस्तुरे मदीं म्हाका म्हजी आवय नातर मांय मेरी दिसताली.''

तोमास वोगी तेका चयतालो. आज कित्याक असो धरबंद सुटला हेचो !

दुसऱ्या दिसाचो उजवाड काय जसो नितळ लखलख घेवन येयलो ना. धुंवरेल्लो उजवाड झाडापेडांच्या शेंड्यार गोबर थापिल्लेवरी दिसतालो. त्या बुरशा उजवाडाक पळोवन ताका जाय तशी उमेद येवंक ना आनी तो दीसभर मांगरांतच बसून रावलो. त्या दिसाची सांज तर चडच निर्शेणेची उबगणेची गेली. तो बसून रावलो दुसऱ्या दिसाच्या सुर्याची वाट पळयत.

सकाळीं उठून तोमासान सुरय तांदळाची पेज केली. ती खाऱ्यावांगडा ताटलेंत घालून पाद्रीक दिली. सकाळचो रोजार सोंपोवन तो पेज पिवंक उठलो. आज कितलो वेळ तरी तो खुरसा सामकार दिमी मारून आसलो. वोगी दोळे धांपून. पेज पितां पितां ताणें म्हटलें, ''मुरे तोमास, म्हाका जेजूवरी खुरसार मारून मरचें अशें दिसता. पूण कोण मारतलो म्हाका खुरसार...''

चडट्या ओतांत ते येयले. ते तीग जाण दारांत उबे आसले. एकल्याच्या हातांत उकती तरसाद आसली. हेर दोगांल्याय हातांत दांडे आनी दोर आसले. तेंकां पळोवन तोमास एकदम भियेवन गेलो आनी मागीर खिणांत तो शादूर जालो. मेडीक हुमकळावन दवरिल्ली आपली तरसाद ताणें कमरेक बांदली. उकती तरसाद हाताक आशिल्ल्या ताणें सांगलें, ''हांव गोंय इन्क्विझासांवाचो अंमलदार. इन्क्विझासांवाच्या मुखेल्यान म्हाका ऑर्द केल्या, पाद्री सिमांव पिर्रासाक धरून हाड म्हण.''

पाद्री सिमांव ताचेसरीं पळयतच रावलो. आपूण भियेलां, गोठेलां काय नीट उबो आसां हें ताका खिणभर कळ्ळेंच ना. ताणें थंड पूण थरथरत्या आवाजान विचारलें, ''कित्याक? कसल्या गुन्यांवाक लागून?''

''तें हांव नकळों. व्हडल्या धरा तेंचे मुखार वयतकीर कळटलें.''

पाद्री सिमांव इन्क्विझासांवाची शक्त, ताची ख्यास्त सगळें जाणा आसलो. ह्या ल्हान मनशासरीं उलोवन कांय उपेग ना. तो वोगीच रावलो. ताका कळून चुकिल्लें, पाद्री पावलू कुलासून आपणा आड कागाळ केल्या म्हण. अंमलदार मुखार येयलो आनी पाद्रील्या हातांक धरून ताणें हेरांक म्हटलें, ''चलात, बांदा दोर तेका.''

इन्क्विझासांवाचें नांव घेतकीर तोमासाक शेळो घाम फुटिल्लो. पूण आतां पाद्रील्या आंगाक तेणे हात लायनाफुडें तो चंवचाळून उठलो. ताणें मुखार सरून अंमलदाराचो हात काडून उडयलो. हातांत उकती तरसाद घेवन ताणें गर्जण माल्ली, ''कोण कसो पाद्रीबापाक धरता हांव चोयतां. सरात फाटीं. पाद्रीबापा, तूं वच धांवन.

ह्या पातकी राज्याभायर खंयूय वच. म्हजो कोण ना. ह्या संवसाराक तूं जाय. जेजूवरी तूं!''

कांय खीण तो उकतो तरसाद जोखूनसो उबो आसलो आनी पाद्रीक धांवच वचूंक सांगतालो. घडये पाद्रीन एक पावल फाटीं घेतलेंय आसत. इतल्यान एकलो हातांत दांडो आशिल्लो जो इल्लो पयल्यान आशिल्लो ताणें दांडो घुंवडायलो आनी तोमासाल्या तरसाद आशिल्ल्या हातार माल्लो. तरीय तोमासाली तरसादेची मूठ सुटली ना. तेणें ती तरसाद तशी दांडेकाराचेर घातली. तो इल्लो कुशीक आसलो. तरसाद दांडो आशिल्ल्या हाताचेर पडली. तीन बोटां कापून गेलीं आनी दांडो सकल पडलो. इतले भितर अंमलदारान आपली तलवार ज्युस्त तोमासाचो खांदो आनी मान हांचेमदीं मारली. दुसरे फावट ती सारक्की मानेर घातली. तोमास सकल पडलो. पाद्रीन तेचेसरीं धिमी माल्ली. धिमी मारिल्लेकडेनच तेणी तेका दोरान बांदलो आनी ते पाद्रीक ओडून घेवन गेले.

गोंय पाटण मेरेनची सोळा मैलांची वाट चलून येयसर वेळ माथ्यावयल्यान सरून बरोच सकल पाविल्लो. वाटभर तांणी पाद्रीच्या हाताक, कमरेक बांदिल्लो दोर सोडलो ना. एकलो ताचीं पोतां सारको हाताक धरून चलतालो. पावस निकतोच सोंपिल्लो. पूण व्हाळ हाळशो भरूनच आसल्यो. तेतूंतल्यान ते तशेच ताका ओडून घेवन वयताले. एकेकडेन तान लागून उदक पितां म्हटल्यार ताणीं ताका तशीच धिमी मारून उदकाक तोंड लावन उदक पी म्हण सांगलें. पुराय लोब चिखलान भरून गेलो. तो बोटां गेल्लो सोल्दाद आपलो हात धरून केन्नाच मुखार धांवन गेल्लो. पाद्रीवांगडा दोगच जाण आसले. भियेल्लो अंमलदार आतां इतलो शादूरआसलो, वाटभर उकती तरसादच घेवन फाटल्यान चलतालो. गोंय पाटणांत पावसर पाद्रीचे धोंपरामेरेनचे पांय, आंगावेलीं वस्त्रां पुराय चिखलान भरून गेल्लीं. हूम येवन येवन आंगार सुकिल्ली. तकलेचे, खाडाचे लांब धवे केंस भिजून फापसल्ले आनी विद्रूप दिसताले.

गोंय पाटणाच्या त्या रस्त्यार पावतकीर लोक एकदम रस्त्यावेल्यान कुशीक सरताले. जो तो भियेवन पळयतालो. एकलो पादरी पच् करून सिमांवाचेर थुकलो आनी ताणें तोंडांतच एक गाळ घातली. चलून येवन शेवटा ते दावे वटेन भितर सरून 'व्हडल्या घरा'सरीं पावले. तेंकां पळोवन थंयचे दोग जाण पारेदार धांवन येयले. तेवूय पाखलेच आसले.

ही इमारत मोटी अजापाची आसली. शंबर हात आडवी आनी देडशें हात उबी. वांव वांव जाड वण्ट्यो. व्हडलीं व्हडलीं दारां आनी जनेलां. म्हाल दारांतल्यान भितर सरतकीर एक व्हड वासरी आसली. थंय गेल्ल्या 'भावार्ताच्या कर्तुबा' दिसा लासून

मारिल्ल्यांचीं चित्रां आनी नांवां बरयल्लीं आसलीं. मगेर एका दरवाजांतल्यान अटग सोपणां चडून वयतकीर उंच सुवातेर म्हाल मांज आसलो. थंय एक तीन पुरीस उंच खुरीस लायिल्लो. ताचे सकल एक व्हड मेज आसलें. थंयच इन्क्विझासांवाचे धर्माक न्यायाधीश बसताले आनी 'धर्मद्रोही' गुन्यांवकारांक ख्यास्त फर्मायताले. थंयचो सगळो आंवाठ भोव नितळ आसलो आनी आशिकुशीक खूब झाडां आसलीं. तितलोच तो वाटार शांत गंभीर आसलो. मदींच एकादऱ्या कैद्याची किळांच, व्हडान रडप आयकूंक येतालें. मगेर परत सगळें शांत जातालें. थंयचे सगळे पारेदार, सेवक इतल्या ल्हव पावलांनी चलताले आनी इतले ल्हव उलयताले, दिसतालें, सगळे एके अज्रंवर भिरांतेच्या दावखुला खाला वावुरतात. दर एक पावल मरण चुकोवंक घातिल्ल्या पावलावरी. दर एक उतर मरण चुकोवन उलयिल्लेवरी. फक्कत भितरल्या कामदारांपुरतेंच न्ही, तर अख्ख्या गोंय जुंव्यार हीच दहशत. इतली दहशत आनी तितलेच भिरांतेचें चेपण. त्या 'व्हडल्या घरा'वटेन बोट दाखोवंकच भिरांत दिसप. तेचें येवचें मरणय सादें न्ही. भयंकर छळ, एकसुरेपण, दुख्ख आनी कश्ट! ख्यास्तींनी वाट पळयत केन्ना आदींच मरून वचप. आनी तेणी केन्ना निर्दोशी सोडल्यारूय मनान आनी कुडीन सासणाचें अपंगूळ जावन पडिल्लें आसप.

पाद्री सिमांव त्या व्हडल्या घराचे मुखार पावलो आनी एकदम सासणाचो काळोख जाल्लेवरी, पुराय पानां झडून गेल्लेवरी भयंकर निर्शेवन गेलो. ताका आड्डून 'व्हडल्या घरा'च्या मुखेल्याक विचारचें आसलें, आपलो गुन्यांव कसलो काय म्हण. पूण थंयच्या त्या पडिंग वातावरणांत, ते निर्शेणेन ताचो ताळो चेचिल्लेवरी जालो. तेका आतां भिरांत दिसली, म्हजो पुराय भूतकाळ - म्हजें शिकप, म्हजें पाद्रीपण, म्हजो मोग गळून पडटलो. ते पुरून घालतले. आनी हांव हांगा एक सादो कैदी म्हण जियेतलों. एक क्षुद्र मनीस म्हण मरतलों. म्हजो गुन्यांव कितें तर बायबलाचो अर्थ हांवें बेस बरो काडिल्लो. जेजूची शिकवण म्हाका बेस बरी कळिल्ली आनी हांव मोगान मनशांचीं काळजां जिखूंक पळयतालों! हे बंदखणीच्या दारार मेरेन हांव आड्डून सांगन, बळजबरेन तुमी धर्म वाडोवंक तांकचे नात. उरफाटे, सासणाचें नांव घाण मात जातलें. मुखावेलीं कितलींशींच शतमानां तुमकां भोगसणी दिवचीं नात. संवसारांतल्या एका पवित्र, मायमोगी धर्माक तुमी काळें लायतात !

अंमलदारान ताका थंयच्या पारेदाराच्या ताब्यांत दिलो. ते ताका घेवन व्हडल्या घराचे दावे वटेन गेले. ती आदीं त्या व्हडल्या घराची पडवी आसुंये. आतां थंय एके हारीन कितल्योशोच बंदखणीच्यो कुडी आसल्यो. ते बंद कुडी मुखावेल्यान वयताना फक्कत पावलांचो आवाज आयकोन एक कैदी आड्डतालो. 'म्हाका पोटभर खाऱें खावयलें तेणी. आतां उदक पिवंक दी म्हटल्यार दियनात. म्हाका खरें कितें तें सांग

म्हणटात. आतां आनीक खरें कितें सांगचें हायें? म्हाका कोणूय इल्लें उदक दियात रे पिवंक, दियात रे. तानेन मरतां हांव !'

एके कुडीमुखार व्हरून ताका लायिल्लें वजाचें कुलूप काडून पारेदारान दार उकतें केलें. तेसरशीं दोन हुंदीर धांवन गेले. वणटीर कितलेशेच जल्ले सरसरले. एकदम बुट्टाण वास भितरल्यान आंगार येयलो. ती कूड इतली ल्हान आसली, पांय पुराय पसरावन न्हिदूंकय जायनासलें. तांणी पाद्रीक ते कुडींत धुकलला आनी दार लावन घेतलें. काळो, बुरसो, गोठेल्लो काळोख ते कुडींत भरलो.

•

दनपारमेरेन तोमासाची कूड तशीच मांगराच्या दारांत रगताच्या कोंडांत पडिल्ली. कितेंय जालें तरीय तो किरिस्तांव आसलो. तेचें मरण करचें तांकां चुकनासलें. दनपरां उसरां शेफ रिबेर सोल्दादाक घेवन थंय येयलो. ताणें तेचे कुडीविशीं म्हायती कागदार बरोवन घेतली. घाये माजले आनी तांचें मेजमाप बरोवन घेतलें. मांगरांतलें सगळें सामान एकठांय करून तेची वळेरी केली. मागीर एका फळकुटार घालून ताका उखलला. कुडींतलें पुराय रगत वचून ती बरीच ल्हव जाल्ली. पाद्री पावलू कुलासू काल गोंय पाटणांत गेल्लो, अजून परतो येवंक नासलो. दुसरो पाद्री बेनेंदीत फेर्रांव प्रेता फाटल्यान मोन्यानच चलतालो. तेचेपासत तो कांय मागनासलो, प्रार्थना करनासलो. तांणी तें प्रेत व्हरून देवळा वयले वटेनच्या ओपणे मळार पुरलें, जंय फाटीं सोरपान चाबिल्ल्या सोल्दादाक पुरिल्लो. हीच तांची मसुंडी जाल्ली.

एका खिणाच्या मोहाक बळी पडून तोमास किरिस्तांव जाल्लो. तरीय एक प्रामाणीक, एकनिश्ठ मनीस ताचे भितर खरपणान उबो आसलो. क्रुसाद चोरिल्लो तो खीण आनी पाद्रीखातीर हुतात्मो जाल्लो तो खीण एकाच मनशामदलीं प्रत्यकारी दोन रुपां! दोनूय रुपां खरीं. म्हणच मनीस म्हणटात तो एक कुवाडें! आपली बायल भुरगीं आपणासरीं येतलीं म्हण ताणें खूब वाट पळयली. पूण तीं येयलीं नात. घोवापरस बायलेक धर्म व्हड दिसलो काय? किरिस्तांव जाल्ल्या घोवाच्या नांवान ती मणी बांदताली, कुकूम लायताली. पूण किरिस्तांव जावन घोवासरीं येयनासली. घोव जितो आसूनय मेला आनी मरुनूय जितो आसा असली गत. निमाणे फावट तो बायलेक मेळूंक गेल्लो तेन्नाय तो भायरच तेण्यार बशिल्लो. बायलेन हाफडिनासतना तेका वयल्यान वाडिल्लें. भायरच वचून तोंड धुवन येवंक गाडग्यांत उदक दिल्लें. ती मातयेची ताटली आनी गाडगो तेणेंच धुवन भितोडेंत पावळेंत घालून दवरिल्ली. दिसान वाऱ्याक येनासली. पूण रातची चोरून येवन ती कुडीसूख घेवन गेल्ली तेन्ना तिणें कसलोच धरबंध धरूंक नासलो. अजाप दिशिल्लें तोमासाक आनी तो निर्शेल्लोय.

तेंच निमाणें. परत म्हण तो थंय गेलो ना. तिकाच आपखोशयेन येवंदी म्हण रावलो. पूण ती येयली ना.

खुरीस मोडून सात दीस जाल्ले. आठव्या दिसा सकाळींच तांकां तो मोडिल्ल्यांचीं नांवां कळ्ळीं.

सगुण हो रायागेलो दायजी. रायालो चुलत बापोलयो म्हटल्यारच जाता. तांचेमदीं सदांच झगडीं चलतालीं. शेताचे एके शिरेक लागून सुरू जाल्लीं तीं झगडीं खंयखंय पाविल्लीं म्हण कोंत ना. खरें म्हटल्यार ती शीर रायाल्या बापायन माती काडून तयार केल्ली. पूण माती काडचे पयलीं तो जागो आपलो आसलो, ती शीर आपली आसली म्हणूंक लागले. माती काडटना ओगीच रावलो. माती काडून जातकीर झगडीं सुरू जालीं. मदीं सगुणालो एकलो चौदा वर्सांचो भुरगो बांयंत पडून मेलो तर सगुण आपल्या भुरग्याक रायाल्या बापायनच बांयंत धुकलून उडोवन माल्लो म्हण बोबो मारपाक लागलो. भुरगो मेलो म्हण रडटानाय घरांतले लोक 'म्हज्या पुतान दुस्मानान मारून उडयलो रे देवा' म्हण रडटाले. गोरवां, पांयान, तोंडान लागल्यारच दुस्मानान करणी करून गोट्यांत उडयलीं म्हण गांवभर सांगताले. दोनय कडचे लोक तशेच.

दुस्मानाचेर नदर केन्ना चड आसता. त्या दिसा जागराच्या मांडावयल्यान शाबी आनी राया उठून गेल्ले आनी परत येवन बशिल्ले ताणें पळयल्ले. तिसरो तो काळखांत उबो आशिल्लो कोण म्हण मात तेका कळूंक नासलें. सगुणान म्हटलें, हीच संद. म्हजी शेता शीर खायली, म्हज्या पुताक बांयंत धुकलून उडयलो. हांव तेंकांय बुद्द शिकयतलों. गांवच्यान धांवत वचूंक जाय तेणी. पयले पांच स दीस ताका धीरच जावंक ना वयचो. त्या लोकां मुखार वचूंकच तो भियेतालो. पूण ताणें आज मन घट केल्लें. भितरल्यान तर दुस्मानकायेचो उजो पेटिल्लो. त्या वोगांतच तो उजवाडचे पयलींच उठून तांचेसरीं गेलो. एकलो देशी सोल्दाद तळयेर उदकाक वयतालो. ताकाच ताणें सोपूत घेवन तांचीं नांवां सागलीं आनी तो परतो येयलो. 'चल, शेफीसरीं या' म्हटल्यार तेणें आयकलें ना. थंयसान धांवच मारली.

शेफीक कळटकीर ताका राग बीन तसो येवंक ना. तो कांय वेळ तकली हालयत रावलो आनी सट् करून ताणें म्हटलें, ''तो तिसरो कोण जाणा तुमी? तो गुणा. फाटीं सुखड्याक मारिल्लो. तो गोंय सोडून गेलो म्हणटाले. ना. गांवांतूच लिपून भोंवता तो. शेर्त तो गुणा!'' ताणें काब सोल्दादांक ऑर्द दिली, ''चला, तयार जायात. हाडुंया धरून तेंकां.''

पाद्री पावल कुलासू मुखार येयलो. ताणें सांगलें, आदींच ख्यास्त दिवं नाकात.

आपखोशयेन तीनय घराबे किरिस्तांव जातात जाल्यार भोगसणी मेळटली म्हूण सांगात. धपकायात बरेच. आपल्याच मनांतलें पाद्री उलयलो म्हणिल्लेवरी शेफीन बेठीच कांय वेळ तकली हालयली.

शिरवाड्यार तांच्या घरासरीं गेल्यार ते तिगय नासले. तिगांल्याय घराकडच्यांनी एकच सांगलें, ते गोंया भायर कार्तिक जत्रेक गेल्यात म्हण. हाचेर कामील रिबेर इतलो तापलो, ताणें म्हटलें, ''फट उलयतात तुमी. गांवांतच दड मारून आसात ते खुरीस मोडून. बरे भशेन तेंकां आमचे सुवादीन करात. ना तर गोमटी कातरतलों सगळ्यांच्यो तरसादेन. घराक मनशांस्यत उजो घालतलों. घरांतल्या एकल्याक जितो सोडचों ना.'' मगेर शेफीन आवाज देंवयलो. तो रामागेल्या घराच्या तेण्यार बसलो. ताणें तिनय घरांतल्या जाण्टेल्यांक म्हऱ्यान आफयले. वाड्यावयलो हेर घरांतलो लोक खंयचे पोखल्लेंत वचून पडिल्लो देवाक खबर. सगळ्या घरांचीं दारां लिप्प बंद आसलीं. कोण्णाचोआवाज नासलो. शिरवाड्यार मेज्जून सव्वीस घरां आसलीं. तांतूंत आनीक कांय वेगळ्यो चुली. पूण गांव वर्सासंकिनच्यान पडिंग पडिल्लो अशें दिसतालें.

त्या तिनय घरांतल्या जाण्टेल्यांक शेफीन समजायल्लेवरी सांगलें, ''गुन्यांव मोटो आसा. कळ्ळ्यार राया पुर्तुगालसावन फौज धाडटलो तुमकां काबार करूंक. तरीय रायान गोंय राज्यांतल्या लोकांक एक भास दिल्ली आसा. जे कोण किरिस्तांव जातले तेंकां सगळ्या गुन्यांवांची भोगसणी मेळटली. घरांतल्या सगळ्यांनी किरिस्तांव जावचें पडटलें. हें हांव तुमच्या बऱ्याक सांगतां. मुखावेलीं तुमचीं मरणां चुकोवंक जाय तर तुमी किरिस्तांव जाल्ले बरे.''

मागीर ताणें दर एका घरांत कितले लोक आसात हेचो हिशेब केलो. वट्ट एकवीस लोक जातलो. ''फाल्यांचो एक दीस हांव तुमकां दितां. परां सकाळीं म्हाका तुमी कितें येवन सांगूंक जाय. ना तर घराक शेर्त उजो पडटलो.''

शाबीले आवयन चिरक्या आवाजांत म्हटलें, ''तेंकां येवंदी, सांगतात आमी.'' वचूंक घोड्यार दांग मारतां मारतां शेफीन म्हटलें, ''येवचेंच पडटलें तेंकां. येवप कशेंच चुकचें ना.''

तो गेल्ले फाटल्यान रायालो बापोलयो घरांतल्यान भायर येयलो. एकाच घरांत तांगेल्यो वेगळ्यो चुली आसल्यो. तो येदोळ आपलें दार बंद करून बायलेक भुरग्याक घेवन चुलीसरीं वोगी बशिल्लो. आतां तो रागान किरकिरूंक लागलो. ''घराक उजो घालतले खंय. घर कितें तेगेल्या एकल्याल्याच बापायलें? कित्याक जाय आसलें हेंकां हें? हो हुंवाळिल्लो गांवार वचून घातमारीं कर्तुबां करून येता आनी आतां आमकां हो त्रास.''

शाबील्या बापायन विचारलें, ''तेणें खुरीस मोडला म्हण तूं जाणा, तुवें पळयला?''

''पळोवंक कित्याक जाय? सगळे लोक उलयतात. नाक धरलें म्हण वास मरना. घराक उजो घालतात खंय. तुमीच आदीं वचून खंयूय खोंपींत ना तर गवळांत वचून रावात. तुमचें तुमीच भोगात.''

हाचेर कोण कांयच उलयलो ना. गेल्ले स सात दीस शाबी आनी राया घरा आनी गवळार यो वच करुनच रावताले. गांवार अच्छेव येयिल्लो पळोवन ते भोव शादूर आसले. येदोळ शेफ येवच्या पंदरा मिनटां पयलींच ते घरांतल्यान गवळार वचूंक गेल्ले. गुणाय तांचे वांगडा आशिल्लो. आतां तांची तिगांयची सारक्की तोळी जाल्ली.

शाबीलो बापूय जीवा, रायालो बापूय गणेस आनी गुणालो बापूय शिवा तिगूय मेळून बेगोबेग गवळार वचूंक गेले. तिगांल्यांय आंगार निखटी कास्टी आसली. कमरेक माकडी आनी खांदार कांबळ. ते धांविल्लेवरी चलताले. चलतना माकडेचो खोट् खोट् रासवळ आवाज येतालो. गवळार पावतकीर कांय वेळ सगळे वोगीच रावले. गुणान विचारलें, ''कित्याक येयल्यात मेळून?''

गणेशान सांगलें, ''ते येयल्ले. तुमी खुरीस मोडला म्हण कळ्ळां तेंकां. मरणाची ख्यास्त दितले म्हणटात. मनशासयत घराक उजो घालतले म्हणटात.''

ते तिगय ओग्गी.

''पयर त्या बापूय पाद्रीक धरून व्हयलो तांणी. तेच्या राखण्याक जिवाशीं माल्लो.''

गुणान सट् करून म्हटलें. ''नश्टें कर्तूब हें तेंचें. तेंकां पानवळ भोगोवंक जाय.''

हाचेर तागेलो बापूय शिवा तापलो. ''पुरो जालें ना पानवळ दिल्लें? आमकां किरिस्तांव जा म्हणटात ते. तरच भोगसणी मेळटली म्हणटात. ना तर घरादाराक उजो. कितें तुमचें म्हणणें, जातात किरिस्तांव?''

तिगांनीय एकदमच आड्डून म्हटलें, ''ना, ना. आमी जावचे ना किरिस्तांव.''

''मागीर कितें करचेंआमी? पोराबाळां सयत घराक उजो घालून घेवचो? ते दवरचे नात काळ.''

गुणान विचारलें, ''बाप्पा, जिवादाद, गणेसदाद, तुमी सांगात. तुमकां किरिस्तांव जावचें अशें दिसता?''

कांय वेळ चिंतनांत पडिल्लेवरी ते वोगीच रावले. मगेर गणेसान म्हटलें, ''आमचो धर्म सोडून दुसऱ्या धर्मांत वयचेंशें कशें दिसतलें कोणाक? आमचो देवधर्म सोडचो आनी पातकांत पडचें!''

''हय तर. तेंचें कितेंकात म्हण कोण जाणा. कितें खातात आनी कितें ना. बायलांचें तर मरण जातलें.''

''सुखडो वयच्याक गेलो तेंच्या धर्मांत. पूण भितरल्यान हालला तो. घराक घरपण ना. उमास पुनव ना. पुर्वजांक वाडी गिरास ना. पयलींचें कांयच पाळूंक दियनात खंय ते.'' जिवा हुस्क्यान उलयतालो.

''जालें तर. थारलें आमचें. गांव सोडून वयचें ''

गणेसान रडिल्लेवरी म्हटलें, ''गांव सोडून वयचें?'' आतां ते तिगय इतल्या घोर चिंतनांत आनी हुसक्यांत पडिल्ले, तांच्या तोंडार फकत दुख्खाचें सांवट पातळिल्लें.

''आनीक कांय उपाव ना गणेसदाद. हांव जाणां, आज ना फाल्यां ते पुराय गांव बाटयतलेच. कोणाकच तें चुकूंक येयल्लें ना. एक तर बाटून वयचें ना तर गांव सोडून वयचें.''

''केन्ना कोणें खुंटी मारून मठी बांदिल्ली ह्या गांवांत देवाक खबर. कितल्यो पिळग्यो गेल्यो काय. आमच्या नशिबांत मात हे भोग! देवाक फाटल्यान उडोवन आमी वयचें.'' जिवा आतां रडूंकच लागिलो. तो रडटा तें पळोवन सगळ्यांच्याच दोळ्यांत दुकां येयल्लीं.

आतां रडून कांय जावचें ना जिवादाद. ना तर आमी अशें करतात, आमी तिगय गुन्यांवकार. आमचे पासत तुमकां कश्ट नाका. आमी तिगय तेंचेसरीं वयतात आनी किर्ते करतात तें कर म्हणटात.

तिगांय जाण्टेल्यांनी एकच फावट तें न्हयकारलें. ''नाका पुता, तुमी आनी वचूं नाकात तेंचेसरीं. तुमकां दवरचे नात ते. ते आनी भोग नाकात. आमी गांव सोडुंया पूण ते नाका. तुमचे बगर आमी बेगीन मरतले. मरणा बगर मरतले.''

''फाल्यां आमी सगळीं गोरवां हाडून गवळार एकठांय दवरतात. तुमी शेनरी, कांबरुणां आनी शेताचीं सगळीं आवतां घेवन येयात. ते भायर एक खांडी तांदूळ आनी एक खांडी बीं जण एका घराब्यान वांगडा घेवचें. फाल्यां सांजचे काळोख जातकीर सुटात.''

''खंयचे दिकेन वयचें म्हणटा?''

''हायें आयकलां, अंत्रूज, सांगें म्हालांत खूब शेतजमीन पडिंग आसा म्हण. कांय भिरांत ना बाप्पा. जोत आनी आवतां वांगडा आसल्यार खंयचेंय मळ पिकोवन खावं येता. गेले की पयलीं उदक पळोवन खंयूय वांयगण रोयचें. कोणय खंयूय देवाच्या रुपान पावतलो. देवाचेरच पातयेवन वयचें.''

तिगय ते जाण्टेले वोगी उठून गेले. तांणी आतां पन्नाशी हुपिल्ली. पूण ते तशे हातापांयान घट आसले. एका दमांत धा वांव मेरेक कवळां घालूंक तांकताले. नवीन गांव वसोवचो पडटलो म्हण तेंकां भिरांत हुस्को नासलो. तेंची आंतडी तुट्टाली ती हो गांव सांडून वयचें पडटा म्हण. मातयेचे, वर्गणाचे ओडीन आकुळपिकूळ जाताले.

ते गेले आनी कामाक लागले. सामान चड नासलेंच. दायें, दोरी, सूप, चोबे, हांतऱ्यो आनी नांगर जूं, ओळय खोरें हीं शेतकामाचीं आवतां. माथ्याक मारूं जाता तितलें तेणी एकठांय केलें. उरिल्लें घरांत व्हरून सारकें दाळून दवरलें. वाड्यावयल्या लोकाक होलमतालें, जड काळजान हांचें कितें तरी चल्लां. कोण कांय उलयनासलो, विचारिनासलो. कांय जाणांक तर दिसतालें, हे गेल्यार घडये घर, गांव वाटावतलो. चोंयवटेन उजोच असो पेटिल्लो. मनीसपणय गोळाक लागिल्लें. आज हेराच्या मरणांत दरएकलो आपलें फाल्यांचें मरण पळयतालो. हीं मरणां आतां सासणाचीं हें खबर आसुनय आस सुटनासली. मातयेंतल्यान काळजामेरेन गेल्ले एकेक दांव तुट्टाले आनी दोळे व्हांवताले. आतां एक दरयो काळजांत दामून घेतलेबगर उपाय नासलो.

फक्कत एक आस, मनसमजावणी, म्हापुरांत सगळें व्हांवन वयतानाचे तळमळे. वचूंक उठ्ठकीर तेणी आपल्या दायज्यांक सांगलें, "भायर गेल्ले भायरच रावचे नात. आज ना फाल्यां येतले. कितेंय आशिल्लें राखून दवरात."

एके हातरेयेदे शेता शिरेखातीर हाणामारी करपी हे, आज एक अख्खो गांव हातांतल्यान सुटिल्लो.

दायज्यांनी फकत तकली हालोवनच 'आं' म्हटलें. मरणार किरवडेफाटल्यान रडत वचपी हे लोक, आज शतमानाचो सांगात सुट्टना गळ्यांत पडून रडले नात कित्याक! जण एकलो एकच संकस्टांत गाविल्लो आनी आपणा भोंवतणचें कवच घट्ट करतालो! बुडट्या व्हड्यांतलीं वोजीं काडून उदकांत उडोवचीं तशें आपूण सुगूर रावंक पळयतालो!

इल्लो काळोख जातकीर ते सुटले आनी रोखडेच गवळार पावले. थंय गोरवां एकठांय केल्लीं. जण एक गोरवाल्या गळ्यांत फिरयल्लें दांवें आसलें. तिनय घराब्यांचीं तेरा गोरवां आसलीं. तेरा गोरवां आनी एकवीस मनशां. आतां तीं काळखांत हामुडचीं एके अज्ञात दिकेन.

येदोळसान भितरले भितर रडत, दुकां गळयत येयिल्ल्यो बायलो गवळाकडच्यान मुखार वचूंक सुट्टकीर मात हामेऱ्यांनी रडूंक लागल्यो. अच्छेव केलो तांणी. तेंकां वोगी करूंक दादल्यांक धेंगशे घालचे पडले.

वट्ट एकवीस मनशां. तिगांले आवय बापूय, भावंडां, बायलो, भुरगीं. धा वर्सांचें भुरगें धरून जाण्टेलो जिवालो ब्यात्तर वर्सांचो बापूय मेरेन सगळ्यांच्या खांद्या तकलेर कितें ना कितें तरी आसलें. गणेस एके चडटेर थारलो. तेणें फाटीं वळोन सोडून येयिल्ल्या चोंयवटेनच्या वाठाराकडेन पळयलें आनी म्हटलें, "आमी आमच्यो धुवो दिल्यात ह्या वाठारांत. आमच्या काळजाचो गोंड त्यो. तेंकां तशेंच ह्या वाठारांत शेणून येयल्यात आमी. येताना तेंकां सांगलें लेगीत ना. आतां कुळारा येवन रडटल्यो

आनी वयतल्यो. म्हजे निमणे धुवेक फुलां माळोवचें तशेंच उरलें. म्हजी निमणी धूव... म्हजे अपुरबायेची...'' तो हुंडक्यांनी रडूंक लागलो. तेगेली बायल ओंवळाय इल्ली फाटीं आसली. तिणें येवन विचारलें, ''कितें जालें, कित्याक थाल्ला तूं? आनी रडटा कित्याक?''

''म्हाका म्हज्या धुवांची याद येयली गो. तेंकां तशींच सोडून येयलीं आमी.'' आयकोन ओंवळायूय रडूंक लागली. शिवान फाटीं येवन थातारून व्हयले तांकां दोगांकय.

गवळापासून दोन उल्यारच ते पाविल्ले. कार्तिक पुनवेक त्रयोदशीचो चंद्र उदेल्लो निकतोच. जिवालो बापूय देवू मदींच एका फातरार बसलो. म्हणूंक लागलो, ''हांव आनीक कित्याक येयलों तुमचे वांगडा? कसलो अवचिन्न मनीस हांव. म्हजें कितें उरलां? म्हगेलीं हाडां तेच मसणवटीचेर लासचेलीं. पुता जिवा, म्हज्या नातवा शाबी, हांव वयतां परत. तुमचें कितें फाटीं उरलां तेची राखण जाता जाल्यार करतां. म्हजें कितें करतले ते? कितें करतात ते करूं. हांव वचून रावतलों म्हज्या गांवांत. मेल्यार भावबंद कोणय लासतले म्हाका. तशेच कुसूंक उडोवचे नात. हांव वयतां.'' तो उठलो आनी सडसडीत देंवती देवंक लागलो. जिवा एकदम तेचे फाटल्यान धांवत येयलो. ''आबो, वचूं नाका तूं परत. सगळे वांगडाच रावंया!'' तो कांय एक आयकनासतना चलत रावलो. जाण्टो जाल्लो तो. पूण धांवतच देंवती देंवतालो. केन्नाच तो झाडां आड गेल्लो. कांय वेळ जीवा थीर बापाय वटेन पळयत रावलो. मगेर तो फाटीं फिरलो आनी आपल्या पोंव्याक येवन मेळ्ळो. पोंवो तर वाग फाटीक लागिल्लेवरी धांवतालो.

एक पोंवो उक्त्या मळबाच्या अथांगांत वाट सोदतालो, तळ सोदतालो, उदक सोदतालो. खंयच्या तरी अज्ञात पाणथळार वायंगण पिकोवचें, सड्यार सरदे पिकोवचें सपन पळयतालो आनी पुराय ताकतीन वाट मांडयतालो.

सारक्के मध्यान रातीर ते पाळयेचो दोंगर देंवन ताच्या मुळसाक पावले. कार्तिकांतलें शीं हाडां फोडटालें. उक्त्यारच एका झाडापोंदाक तांणी आपलें सामान दवरलें. गोरवां एकठांय करून गोठणाक घातलीं. पालो, पतरो, लाकडां एकठांय करून फातरा चकमक्यान उजो केलो. उजो शेकतां शेकतां एकएकलो आड पडलो.

सगळीं गोरवां म्हन्यानच सुस्त गोठेल्लीं. पूण ते शादूरच आसले. आतां गोरवां म्हण्टा तेंच धन!

फांत्या पाराक तांकां मात्शी झेम लागली आनी ते इल्ले उसरांच उठले. रायान उठून पळयल्यार तेगेलें जोत ना. ताचेर समतोच कलकल. बापूय पळोवन तर तकलेर हात मारून घेवन बसलो. ''जोता बगर मुखार कशें जातलें आमचें? वीख घेवन

मरची पाळी !''

गुणान म्हटलें, ''सकाळपाराकच सुटल्यात ते. अर्दवाटेरच आसतले. आमी वचून घेवन येतात.'' सगळे वोगीच रावले. तेगेले आवयन सादोवनशें म्हटलें, ''गांवांतबीन वचूं नाकात. रानाकडेर मेरेनच सोदून येयात.''

रातभर चलून ते थकिल्ले तरी धांवत्या पावलांनीच ते चलताले. रातीं केन्ना तांकां झेम लागिल्ली, कितली रात जाल्ली, केन्ना जोत उठून गेल्लें, तांकां कांयच अदमास लागनासलो. पूण तांकां बैल मेळ्ळे ते गांवांत भितर सरचे निमणे देंवतेर. रायान 'हऽऽय ह ह' करून बैलांक रावयले आनी गळ्यांत फिरोवन घातिल्लें दायें धरलें. मगेर ताणें बैलाक त्याच दायांनी थंयच्या एका रुखाक बांदलो. थंयच्यान रायगाळी सोडल्यार पुराय गांव दिस्टीक पडटालो. शिरवाडो जातकीर मदीं शेत. उजवे वटेन खुंटकार साळोंखेचीं चार घरां. मुखार देऊळ आनी देवुळवाडो. दावेवटेन घाण्यातिठो. पूण पाखल्यांचो राबितो - तें बेताळा देऊळ दिसनासलें. ताचे आयले वटेन खूब झाडांपेडां आसलीं. ते थंय कांय वेळ बसले. गांव सगळो थंड आसलो, इल्लोय खंयच्यान आवाज आयकोंक येनासलो. इतल्यान गांवा सकल्लेवटेन मोर आड्डल्लो आवाज पयसुल्ल्यान येयलो. तांच्या आंगार सर्र करून कांटो फुल्लो. गांवच्या फाटल्याफुडल्या यादींनी तांचो जीव थतरवितर जालो. गुणाक परती खंत भोगली, ह्या गांवांतल्यान नामर्द कशे भियेवन पळोन गेले आमी!

मगेर आनीक कांय वेळ गेलो. दोगूय वोग्गी. पुराय गांव दोळ्यांत भरून घेतलो. बैल मात बांदिल्ल्या रुखाक शिंगां आपटून घेताले, जशे म्हणटाले, आमकां सोडून घालात बेगीन. इतल्यान बेताळा देवळाकडचे वाटेन कोण तरी दोग जाण येयले आनी सकल शेतांत देंवले. थंयच्यान ते शिरवाड्या वटेन येवंक लागले. पूण ते शिरवाड्यार येयले नात. निळू नायकाल्या घरावटेन वचूंक ते वाटेवयले रुखावळींत घुसले. गुणा उबो रावन बारीक पळयतालो. ताची नदरय तेज आसली. तो ज्युस्त वळखलो, ते मुस्तायकी धातिल्ले सोल्दाद म्हण. ताणें रायाक म्हटलें, ''सोल्दादच ते. निळूगेल्या घरावटेन वचूंक गेल्यात.''

निळू ह्या नायकांचे घरवडींतलोच. पूण ताचें घर शिरवाड्यासून इल्लें कुशीक. शिरवाडो आनी ताच्या घरामदीं गच्च रुखावळ आनी झिली झोंपां. ताचें थंय कुळागर आशिल्लें आनी मानाय लावन तो शेतय चड वायंगण, सरदें रोयतालो. सोल्दाद थंयच्यान केन्ना दाणोगोटो, तरकारी, नाल्ल बीन हाडटाले.

गुणान म्हटलें, ''राया ऊठ.''

''वचुंया न्ही परते?''

''ना. बैलांचीं गळ्यांतलीं दायीं नीट आसात काय ना तें चय. आमी गांवांत वचुंया.''

''गांवांत? गांवांत कित्याक?''

''आमी त्या सोल्दादांल्या मागार रावुंया, वाटेवयल्या झिलींनी लिपून.''

''मागीर?''

''मागीर कितें करचें सांगतां तुका.'' ताणें बैलांच्या गळ्यांतलीं दायीं गच्च केलीं. माकडेंतली कोयती काडून हातांत घेतली आनी ते देंवती देंवंक लागले. गांवाक बगल दिवन भायलेवटेनच्यान झाडांझोंपांच्या अडसरांतल्यान ते निळूच्या घरासरीं वयचे वाटेर पावले. मदीं वाट आनी दोनय वटेन गच्च झिली झोंपां. ते एका झिलींमदीं लिपले. खांदार कांबळ आनी हातांत कोयती. गुणान रायाक सगळी माण्णी सांगली. रायान म्हटलें, ''तकलेवयल्यान कांबळी खोले घालून घेवया.''

''नाका. तेंकां कळूंक जाय, गुणाचेंच काम म्हण हें. ना तर गांवाक बेठी पिडापीड करतले ते. चयलें ना, खुरीस पाडलो तेन्ना कितें जालें तें.''

अर्दवर चड ते थंय बशिल्ले. मदींच वंशावळ वाचपी भायल्या गांवचो मामुडो ते वाटेन वचूंक गेलो. कांय वेळान निळूल्या घरावटेंच्यान कों कों कोंबो आड्डल्लो आवाज येयलो. कांय वेळान ते येवंक लागले. एक देशी सोल्दाद आनी दुसरो पाखलो. पाखल्याच्या कमराक तरसाद आसली. ताणें एका हातांत पांय बांदिल्ले दोन कोंबे घेतिल्ले. दुसऱ्या खांक्यांत केळीपानांत बांदिल्ली तरकारी दामून घेतिल्ली. त्याच हातांत दोन तांतयां धरिल्लीं. देशी शिपायाल्या खांदार एक चोबो आसलो. तो तो आरतो परतो खांदार तकलेर घेतालो.

आतां कांयच खीण. लिपिल्ल्या झिलींपसून मुखार ते वांवभर पावले. गुणा आनी राया सट्‌करून उठले. दोळ्याची पातीं लवंता ना लवंता, दोगांनीय एकल्या एकल्याली पांयांचीं तांतीं कोयतेन कापलीं. धपको इतलो जोरगत आसलो, पोवटे सकल पावला वयर एकल्याएकल्याचो एकेक पांय कापून गेल्लो. ते दोनतीन पावलां हुडलेशे करून चल्ले आनी थंयच पडले. गुणा त्या पाखल्यासरीं येयलो. तेणें तागेली कमरेची तलवार सर्रर करून ओडून घेतली. तो भिवन गेल्लो. आपणाक आनी मारूं नाका म्हण विनयतालो. गुणा आनी राया आतां वेगान धांवन बैलासरीं येयले. बैलांक सोडून दांड्यांनी वडयतच तांणी तेंकां धांवडायले. रानांत घमघस घालत ते धांवंक लागले. रायान मदींच म्हटलें, ''आतां शिपाय आमचे फाटल्यान धांवन येयलेबगर रावचे नात.''

''ह्या गांवाक सतरा वाटो. खंयचे वाटेन गेल्यात म्हण येतले? येवंदी. ते पडिल्लेसरीं कोणय येवन पावता. तेंच्या राबित्यार सांगणें पावता. ते येतात म्हणसर वरां वयतलीं. आतां म्हजेसरीं तलवार आसा राया. हांव जाणां ती खेळूंक. भुरगेपणाक घरआवयले मटयेंतली तरसाद घेवन हांव खेळटालों. कितले दळदिरे आमी, ती तरसाद

आतां कळमेवन गेल्या.''

ते आपल्या पोव्यांत येवन पावले तेन्ना हूम तेंगल्या आंगावयल्यान रखताली. बैलांची कातडी, लवां हुमेन बुडिल्लीं. तेंच्या तोंडांतल्यान फेण गळटालो. काल येतना ते वाटेक तांकां तीन वरां तरी लागिल्लीं. आतां ते ती वाट देड वरान हुपून येयिल्ले. तांणी भिवन तांकां विचारलें, ''कितें जालें? इतले घामाघूम कशे तुमी?''

गुणान सरळच सांगलें, ''तेंकां मारून तेंची तरसाद घेवन येयलां हांव. ही तरसाद आतां नव्यान खुंठी मारून मठी बांदतां थंय पुजची. पोन्नी तरसाद तुमची कळमेवन गेल्या.''

तांणी पेजेनिवळ करून दवरिल्लो तो तांणी घोंटलो. ताकतिकेन तांणी सगळ्यांक उठयले आनी मुखाल्ल्या मार्गाक लागले. आतां वाटेर खाजन कशें चिखलाचें शेत आसलें. तांतूंत पुड्डो, भेडस, सुरसुरो, कांदळी जंयथंय पुरूसभर वाडिल्ली. तेंतूंतल्यान वाट काडीत, चिखलांत पांय ओडत ते चलताले. मुखार गोरवां आसलीं. तेंकां मारकय न्हंयेसरीं वचून ती बलांटून अंत्रूजांत वचूंक जाय आसलें. खरें म्हटल्यार, ते अदमास बांदून लागींचे वाटेन वयताले. खंयच्यानय जावं, पूण बेगीन गोंया भायर पावूं हो हावेस !

निळूगेल्या कुळागरांत फोफळां काडूंक एक मानाय माडयेर चडिल्लो. कोण तरी बोबो मारतात तें ताणें आयकलें. अर्द माडयेवयल्यान देंवन तो तेवटेन धांवलो. ते पडिल्ले पळोवन तो तसोच धांवत परत येयलो आनी ताणें निळूक खबर सांगली. निळू ताका घेवन ते पडिल्लेकडेन येयलो. ते आपणाक वाटायात म्हण विनयताले. रगत घायांतल्यान सारक्कें व्हांवतालें. निळू बरोच जाण्टो आसलो. मनान मोव, दयाळ मनीस. ताणें त्या मानायाक तांच्या राबित्यार धांवडायलो. आपूण वचून घराकडच्यान तांब्यांत उदक घेवन येयलो. तो तेंच्या तोंडांत इल्लें इल्लें उदक घालतालो आनी तेंकां 'तुमी भियेनाकात, बरे जातले' म्हण धीर दितालो.

ते एकदम धा-बारा जाण धांवत येयले. बेगोबेग तांकां गोंय पाटणांतले आस्पत्रेंत व्हरूंक सोदताले. पूण कशे व्हरचे कांय कळनासलें. शेफ रिबेर आदल्या दिसाकच गोंय पाटणांत गेल्लो आसलो. निळून सांगून आपल्या घरांतलींच दोन पिणगीं आनी दोर हाडूंक लायले. ताणेंच दोर पिणग्यांक घातले. मुखाल्ल्यान फाटल्यान त्या दांड्यांक दोगादोगांनी खांदे माल्ले. पिणग्यांची ती कावड घेवन कशे धांवचे, एकल्याक पुरो जातकीर दुसऱ्यान कसो खांदो मारचो हें ताणें तांकां सांगलें. पिणग्याक खांदे मारिल्ले ते घेवन धांवंक लागले. फाटल्यान आनीक कांय सोल्दाद धांवताले. तेन्नाच काब

ेकोलांव पेरेर चौग सोल्दादांक घेवन दोंगरा वटेन धांवंक लागिल्लो गुणाक धरूंक. ूण खंयच्यान खंय धांवचें तें ताका कळनासलें.

दुसऱ्या दिसा सकाळींच शेफ रिबेर आनी वांगडा कापितांव दियोग बार्रेत घोड्यार ब्रसून येयले. दोगय इतल्या ग़ंभीर चेहऱ्यान आसले, येतना ते कांय उलयनासले. ते ाशेच येयले आनी तांच्या राबित्यार रावले. शेफीन कापितांवाक बसूंक चामड्याची ख़ुर्ची हाडून दिली. कापितांव रागांतचसो आसलो. येतना वाटभर इश्टागतीचें अशें गो कांय उलोवंक ना. ताणें म्हटलें, ''नव्या किरिस्तांवांक मारिल्ले तेन्नाच ताका धरून हाडून ख्यास्त दिवंक फावो आसली.''

''रानांत वचून लिपून रावलो तो. घरच्यांनी सांगलें, तो गोंया भायर गेलो म्हण.''

''खुरीस मोडलो तेन्ना कित्याक धरलो ना तेका?''

''आदीं कोणें मोडलो म्हण कळ्ळें ना. नांवां कळटकीर तेंच्या घरा गेल्यार ते मेळ्ळे नात. धांवन गेल्ले खंय तरी. म्हजी माण्णी आसली, त्या तिनूय घराब्यांक भेसडावन, कचाट्यांत सांपडावन किरिस्तांव करचे. पूण उलटें जालें. हांव भोगसणी मागतां सिन्योर.''

''तेंचे पायें कातरतकीर बेगोबेग तेंकां धरूंक तरी धांवंक जाय आसलें.''

''काब निकोलांव पेरेर चवग सोल्दादांक घेवन दोंगर चडून गेल्लो खंय. ती खबर मेळटा, तेंकां आस्पत्रेक धाडटा म्हणसर वोगोत जाल्लो. ह्या गांवाभायल्यो वाटोय तांकां नीट खबर नासल्यो.''

''तो अहवाल आतां व्हिसरायाक वतलो. थंयच्यान मागीर रायाक पुर्तुगालाक चीट वतली. पळोवंया मागीर ह्या गांवाविशीं ते कितें थारायतात तें. तुका आतां हो गांव पुराय किरिस्तांव करूंक नेटान कामाक लागूंक जाय.''

''ह्या गांवांत इगर्ज ना बातिज्म दिवंक. खंयूय कालापुरा, आगशी इगर्जेंत व्हयल्यार ते 'आपखोशयेन किरिस्तांव जातां' म्हण कबलात घेतात.''

''उपाय येवजूंक जाय. ह्या गांवांत लोक कितलो आसा?''

''संयशीं तरी जातलो.''

''कितले किरिस्तांव जाले आयजवेर?''

''चाळीस आनी दोन.''

''तेतूंत पाद्री सिमांव पिरीसान केल्ले कितले?''

''बारा जाण.''

''वायटशें ना. जातासलें तेंचेकडेन हें काम. पूण वर्सां लागतासलीं. पूण पाशेंस कोणाक आसा? शेफ रिबेर, पाद्र सिमांवाक इन्क्विझिसांवासरीं दिवचें खरेंच गरजेचें आसलें?''

''पाद्र कुलासूचें तशें मत्त आसलें. तेणेंच तेका लावन दिला. घडये तेका दिसताल
आसुंये, पाद्र सिमांव गांवांत आपणापरस चड मान जोडटा म्हण. म्हाकाय दिसतालें
पाद्र सिमांवाक लागून फुडाराक आडखळी उप्रासतासल्यो म्हण.''

तेन्नाच गांवदेवळाची घांट ल्हवल्हव वाजली. ताचो आवाज ल्हाराल्हारां
तांचेसरीं येवन पावलो. ताणें म्हटलें, ''हें मूळ खणून उडोवंक जाय. हो कांटो तेंक
बांदून दवरता. सिन्योर, हें देवूळ मोडून उडोवंक फर्मान दियात तुमी.''

कापितांवान कांय वेळ तकली हालयली. मगेर म्हटलें, ''पडटलें तें देऊळ आन
जातली उबी इगर्ज. जाणा, बारदेसचे कांय गांवचे गांवकार देवळां मोडलीं म्हण
जुविजासरीं गेल्यात. तेका बीस्म सायब गास्पार पेरेरीन खर आक्षेप घेतला. चोवय
कितें जाता तें. हांव व्हिसरायासरीं वचून ऑर्द हाडटलों. राव तूं कांय तेंप. तूं जाणा
ह्या गोंय बेटांत खंयच्याच हिन्दूक घराच्या हुमऱ्याभायर देवाकाम करचो अधिका
ना. तेंच्या आंगणांत लेगीत तेंच्यांनी काजार, पूजा, परब करूं नज. हे बीस्म सायबा
आज्ञेक व्हिसरायान पुराय मान्यताय दिल्या.''

''जाणा सिन्योर, आनीक कांय लोक किरिस्तांव जावं म्हण हांव वोगी आसलों
आतां तोच कायदो लागू जातलो हिंगा. आतां तुमी पळयाच कसो हेंकां नाचयत
हांव. सोल्दादांचे पांय कापिल्ल्याचो सूड गांवाचेर घेतलों हांव.''

कापितांवान ताका कांय वेळ पळयलो. तेच्या दोळ्यांसकल्ल्या काळ्या पट्याचे
चडच काळसाण दाटून येयल्ली. दोळे मात तांबडे जाल्ले. ''सूड घेवची भाशा त
उलोवं नाका. इल्लें समजिकायेन घे. तूं कितें करतलो तेका म्हजो तेंको आसा. पूण
तरसाद कमरेंतल्यान काडिनासतना कितें करता तें कर. चल, या आमी शिरवाड्यार.''

कापितांव बार्रेत उठलो आनी ताणें घोड्यार दांग माल्ली. शेफीन ताचेसर
बारीक पळयलें. असो कसो मोव उलयलो हो कापितांव! ताचे चालीक, घोड्या
दांग मारचे हुडयेक व्हडलो जोम नासलो. गेल्ल्या स म्हयन्यांफाटीं तो पयलेच फावट
आमकां ह्या गांवांत घेवन येयल्लो तेन्ना उमेदीन जसो हुडक्यो मारतालो. हातांतर्ल
पालमात्री रंवरंवताली.

ते शिरवाड्यार वचूंक बेताळा मळावयल्यान सकयल शेतांत देंवले. शेत लुंवन
व्हेल्लें आनी ते कापिल्ले देंठ अजून तशेच उबेआसले. मदीं मदीं उदकय आसलें.
मेरेवयली वाट अजून ओली निसरडी आसली. घोडे ल्हव पावलां घालताले. ''जाणा
शेफ, सात वर्सां जालीं म्हाका पुर्तुगालसावन येवन. परतो गेलोंच ना हांव. म्हजो
बापूय लिस्बोआ शाराचो कांय वर्सां आदमिनिस्त्रादोर आसलो. आतां रिमार्फ जाल
तो. म्हजी आवय सां पियेदादी कोवेंत चलयता. आमचो घराबो, नोब्र म्हण वयले
पतीचो. फिदाल्गा परस वयले पतीचो. जाणा शेफ, म्हजो गोंय पाटणांत पोरोब म्हण

्का बामणाच्या चेडवा वांगडा मोग आसलो. दोन वर्सां फाटीच किरिस्तांव जाल्यात ।. फेरांव म्हण नांव दिलां तेंकां. आमी रोखडेंच काजार जावचीं आसलीं. हो क्रिसमस गालो म्हणटकीर आमचें काजार आसलें. एक दीस कितें जालें जाणा, तेगेले आवयन उपवास केलो. उपवास केलो आनी हिन्दू अस्तुरेचीं वस्त्रां करून कपलाक कुकूम नावन, गळसरी घालून गायेक गिरास दिलो.''

''मागीर कितें जालें सिन्योर?''

''तिणें हें सगळें चोरुनच केल्लें. पूण शेजाऱ्याक कशें कळ्ळें कोण जाणा. एका घातमाऱ्या शेजाऱ्यान इन्क्विझासांवाक लावन दिली. तोवूय एक किरिस्तांव जाल्लो बामणच आसलो. पोरोब बरो गिरेस्त आनी गोंय शारांत नांवाजतो आसलो. दुसऱ्या दिसाक तेगेले बायलेक इन्क्विझासांवाचे मनीस धरूंक येवचे आसले. पूण एका ल्हान पाद्रीन ती खबर आदल्या दिसा रातचीच येवन पोरोबाक सांगली. पोरोबाकडच्यान बरेच दुडू बीन घेवन गेलो तो. तो पाद्री कोण म्हण कोणाकच कळ्ळें ना.''

शेफ आयकोन बरोच अस्वस्थ जालो. ''मागीर सिन्योर?''

''तेच राती व्हड्यार बसून पुराय घराबो गोंय पाटण सोडून गेलो. वयताना लुसी म्हाका मेळ्ळेंच ना. तेचें पयलींचें नांव जायू आसलें. जायू म्हटल्यार कितें जाणा शेफ?''

''हय, एक माणकुलें सोबीत फूल तें. तेका बेस बरो सुवास येता. तो घेवनच पळोवंक जाय.''

''तें फूल धवें आसता न्ही शेफ?''

''हय, सोबीत धवें आसता तें.''

''जायूय गोरेंच आसलें. त्या गोरेपणामुखार म्हजें गोरेपण विद्रूप दिसतालें. जायू म्हज्या जिविताचो सुवास घेवन गेलें !''

शेफ ओगीच रावलो. ते आतां शिरवाड्यार येवन पाविल्ले. पावतकीर कापितांवान घोड्यावयल्यान हुडी माल्ली. तो रागान आतां झिडपल्लो. तेणें फाटल्यान येवपी सोल्दादांक सांगलें, ''हातांत चूड घेयात पेटोवन. पुराय गांव लासून उडयतां हांव.'' त्या सोल्दादान एक सुकें चुडीत काडून घेवन खरीच एक चूड केली आनी ती लायली. ताचेकडेन लोखणाच्यो कशो दोन पटयो आसल्यो. एक गुळगुळीत तर दुसरी खरखरीत. एके तरेचो आगळोच कापूस दवरून त्यो घांसल्यो म्हणटकीर उजो पेट्टालो.

शिरवाड्यार येयल्यार मनशांचो मागमूस ना. सगळीं घरां लिप्प बंद. ते आदीं रायाल्या घरासरीं गेले. तें पयलीं लागतालें. घरांत रायालो बापोलयो आसलो. सोल्दाद

चूड घेवन येयिल्ले पळोवन तो इतलो भियेलो, घरांतलीं सगळीं - तिगां भुरगीं, बायल आनी तो दाराचेर आड पडून व्हडाव्हडान रडूंक लागलीं. तकली धाडावन घेवन रडटालीं आनी आपलें घर लासूं नाकात म्हण विनयतालीं. चूड घेवन राविल्ले सोल्दाद तर आज्ञेची वाटच पळयताले. ते तशे रडटात तें पळोवन कापितांवाक इतलो राग येयलो, तेणें हातांतली पालमात्री घेवन सटसट दादले म्हणिनासतना, बायलो म्हणिनासतना तेंचेंर ओडल्यो. "येऽ, रावात गप्प!" ताणें शेफीक विचारलें, "हे कोण तेंगेले?"

"गुणालो सांगाती राया म्हण. तेगेलो बापोलयो हो. वेगळी चूल आसा तेगेली. रायालो आतां कोण ना ह्या घरांत."

कापितांव फाटीं फिरलो. "तो गुणा म्हण तेगेलें घर खंय?"

ते सगळे गुणाल्या घरासरीं गेले. घराचें बागल लायिल्लें आसलें. सामकें दारांत एक सुणें गोठिल्लें. थंयच लागीं एक माजर आसलें. तें माजर सुण्याक लागींलागीं तेंकूनच पडिल्लें. पूण सुणें आंग हालयनासतना ओगी आशिल्लें. हेंकां पळयतकीर सुणें गुरगुरलें. कापितांवान म्हटलें, "होच मुखेल गुन्यांवकारी." मगेर तेणे सोल्दादांक सांगलें, "घरांतलें सगळें सामान काडात आनी कुशीन व्हरून दवरात पयस."

घरांत एक व्हड पेट, लाकडाचें एक धोण, एक लाकडाची व्हड कोटंबी. लाकडाचोच व्हडलो एक शेवयां दांतो आसलो. तो कंबरभर उंच आसलो आनी उबे रावन धरून दामून शेवयो पिळूं येताल्यो. ल्हान व्हड मडक्योय खूब आसल्यो. तेभायर पोत्री पिणगी, चोबे, वल्ली, कुरकुलां, वल्ले. निकतीच पीक येयिल्ली घरांत. सात बिंयामुडे आनी कणात्तार भरून भात आसलें.

धायेक सोल्दादांनी घडघड घालीत सगळें सामान हाडून भायर उडयलें. मुडे दाळावयल्यान लखोवन ते घुंवडायत सोपणावेल्यान सकल उडयले. घरांत एक पोत्रो हातर आसलो तो तांणी पयस व्हरून सोडयलो आनी कणात्तरेंतलें सगळें भात हुपसून हाडून त्या हातरार घातलें. कणात्तरेचे पास तुटोवन ती सोडयली आनी भात काडलें. पंचवीस खांडी तरी भात आसलें. कापितांवान सांगलें, "फाल्यां गांवाक कळीत करात आनी हांची पावणी घालात. पयसो सरकारी तिजोरेंत भरचो." पुराय सामान भायर येतकीर ताणें म्हटलें, "लायात चूड."

सोल्दादान पालवंक येयिल्ली चूड फूंक मारून परत पेटयली आनी ती वयर करून मुखावेले पावळेक लायली. सुकीं चुट्टां, कोलू पेटूंक लागलीं. पळयतां पळयतां तो वयर मुगळार पावलो. शिगम्या सुवाळो पळयल्लेवरी सगळे सोल्दाद खुशालभरीत जाले. ताळयो मारच्यो तितल्योच उरिल्ल्यो. फाटीं सुबा तेळूलें घर लासतना, आज हें गुणालें घर लासतना चूड देशी शिपायाल्याच हातांत आसली. तांचीं पातकां चड

ल्यार तांकां सर्गार वचूंक मेळचें ना म्हण ते चूड देशी शिपायांल्याच हातांत दिताले. नी ते तांचे आज्ञेन चूड लावंक मोटी फुशारकी मानताले.

उपरांत शाबील्या घरासरीं गेले. शाबीलो आजो, जाण्टेलो देवू बागलांत बशिल्लो नी भायर तोंड काडून पळयतालो. ह्या दोन दिसांत तो सुकून बरगून गेल्लेवरी ल्लो. कुडीन मनान तेंकिल्लो.

कापितांवान विचारलें, ''कोण तूं?''

''हांव ह्या घरचो घरकार. जिवालो बापूय, शाबीलो आजो. म्हजो बापूय झेंगट यक.''

''तुजो चेडो, नातू खंय?''

''ते पावले तीन न्हंयो बलांटून शिंवेसरा.''

''शाबीन खुरीस मोडलो?''

''हांव नकळ.''

''शाबीन सोल्दादांचे पांय कातरले?''

''हांव नकळ. इल्लो तकलेन तापट तो. खेत्र्यालें रगत.''

''आमी तेच्या घराक उजो घालतात.''

''घालात. घर तेचें खंयचें? घर म्हगेलें. हायें आनी म्हगेल्या बापायन ह्यो ाटयो, हे वांशे तकलेर मारून हाडिल्ले. घालात उजो. हांव त्या म्हाल खांबाक मिठी घालून बसतां.''

कापितांवान सट्करून म्हटलें, ''आमी व्हरून तुका किरिस्तांव करतात.''

''करात. किरिस्तांव करात ना तर आनीक कितें करात. किरिस्तांव जालो म्हण म्हाका शिंगां फुट्टलीं काय शिंगां झडटलीं? आतां हेवटेन उबो रावन देवाक पांये पडटां, फाल्यां तेवटेन तोंड करून उबो रावन पांये पडटलों. सगळें पातक तुमचे तकलेर.''

''मगेर तुगेल्या नातवान खुरीस कित्याक म्होडलो तर?''

''तुमी लिंगां कित्याक मोडटात? हें झगडें धर्माचें खंय! आडमुठ्या मनशांलें झगडें तें. वोगीच देवाक धर्माक मदीं ओडटात.''

शेफ रिबेर आयकतालो. तो मदींच तापलो. ''चड शापातेर तो जाण्टेलो. तेचेसयत उजो घालूंक सांगात घराक.''

कापितांवान 'आसूं' म्हटलें आनी तो वचूंक सुटलो. ताणें शेफीक वयतां वयतांच म्हटलें, ''त्या दोनय घरांतलेंय सगळें सामान फाल्यां भायर काडात आनी पावणेर घालात. घरां आसूं दीत. तो रायालो बापोलयो, तेका भेसडायात, किरिस्तांव जाता जाल्यार घर दवरतां, ना तर उजो घालतां म्हण सांगात. जातलो तो किरिस्तांव. बिजूट

तो. हे बिजूट सुवार्तीय आसतात.''

दनपार जावन गेल्ली. वेळ उतरतेक लागिल्लो. कापितांव 'हांव वयतां' म्हण सुटलो. जेवन वच म्हटल्यार रावलो ना. शेफीन दोन सोल्दाद ताचे फाटल्यान धाडले. पूण ताणें घोडो हामुडलो आनी धांव माल्ली. पांयांवयले सोल्दाद फाटींच उरले. तो पयस पाव मेरेन तागेलें खांद्याचें तुबक कानापसून वयर गेल्लें दिसतालें. ताणें तें आज खांद्यापसून एकय फावट काडूंक नासलें. शेफीन मनांत म्हटलें, 'कापितांव बदल्ला, बदल्ला तो. नातर आज ह्या अख्ख्या शिरवाड्याचो गोबर जातासलो.'

शिरवाड्या वयलो सगळो लोक दारां बंद्र करून घरांत आसलो काय गांव सोडून रानांत वचून राविल्लो! इतलें रामायण जालें पूण एकलो दार उकतें करून भायर येवंक ना. मदींच एकादरें भुरगें घरांत रडिल्ल्याचो आवाज येतालो. ना तर सगळी मसुंड शांतताय. हां, एकलो सुखडो येवन पुराय वेळ पयस पयस उबो आसलो. पूण ताका कोणें पाचारलोच ना. आतां हे वचूंक लागतकीर कोणकोण दारांत बीन येवन उबे राविल्ले दिसले. काब रेमेंत नोरोन्यीन म्हटलें, ''चोयलें शेफ, आतां घुगमावरी तोंड काडटात.'' काबान आड्डून म्हटलें, ''फाल्यां पावणी जातली बियां मुड्यांची आनी भाताची. हेरांकय सांगात.''

दुसऱ्या दिसाक पावणे वेळार शिरवाड्या वयलो सगळो लोक भायर सरून आशीकुशीक गणमणटालो. गुणाल्या घराक घातिल्लो उजो अजून पुराय न्हिवंकच नासलो. कांय खांबे, पाटयांतल्यान धुंवर येतच आसलो.

तीनय घरांतलें भात मेळून तीन कुंभ म्हटल्यार साठ खांडी जाल्लें. ते भायर अठरा बियां मुडे. सामान, भात घरांतल्यान भायर काडटना म्हातारो देवू वोग्गी बसून आसलो.

पुराय भात पसरकार हरी पाटकार आनी तांदूळ भाताचो व्यापार करतलो रवळू डांगी हांणी पावणेर घेतलें. मुडे मात सुब्राय शणै आनी इंद्र शणैन घेतले. बेठेच ते व्हडाव्हडान म्हणटाले, गांवांतलें बीं भायर वचूंक दिवचें न्ही म्हण आमी ते मुडे घेतले. हेर चडशा सामानाक कोणें पावणी उलयलीच ना. ते तें थंयच उडोवन येयले. सांजचे कोणेंकोणें तें उखलून व्हयलें. एकान एक उखलून व्हरतकीर सगळ्यांनीच मगेर लूट केली.

कापितांवान सांगिल्ले भशेन काळू नायक - रायालो बापोलयो - घराक उजो घालिनात, रायागेल्या वांट्याचें थोडें शेत दितात म्हणटकीर किरिस्तांव जावंक तयार जालो.

ते पावणेचें काम सोंपोवन दनपरां परत येतना एकलो शेफी फाटल्यान फाटल्यान येतालो. शेफ रिबेरीन फाटीं वळोन पळयतकीर तोंडार गरीब लाचार भाव हाडून ताणें

तेनतीन फावट नमस्कार केलो. रिबेरीन विचारलें "कितें जालें? कितें जाय?"

"हांव कुशा गुरव. फाटीं आमचेकडेन एक खांडयेची नमशी आशिल्ली खंय. आमचो आजो भायल्या नादाचो आसलो. नमशेचें शेत देवळाच्या मिराशाक सांगिनासतना तेणें गांवाभायल्या खुंटकाराक घाणाक घातलें. कळटकीर गांवकारान नमशीय काडून घेतली आनी देवाचें कामय काडून घेतलें. ती नमशी सोडोवन घेवन तेणी हेरांकच दिली."

"तुज्यो बाश्कळ खबरी नाकात. कित्याक येयला तें बेगीन सांग."

"आतां आमचेकडेन कांय ना. शेताचो एक कुडको ना. वायट दीस येयल्यात. तुमचेसरीं खूब शेतां आसात. तीं दितात खंय तुमी..."

"किरिस्तांव जाता?"

"पोटाक लागून..."

"कितलीं जाणां आसात घरांत?"

"पांच जाणां."

"देड दोन खांडये वयर शेत मेळचें ना. फाल्यां सकाळीं यो. पाद्री मुखार कबलात करची पडटली. फाल्यां येयल्यारच मेळटली. परां न्ही."

तेणें बरें म्हटलें आनी परत दोन फावट नमस्कार केलो. शेफीन परत ताका एकय फावट नमस्कार करूंक ना. ताच्या तोंडावयली ती लाचारी पळोवन ताका वीट येयिल्लो.

हरी पाटकाराली लग्न जाल्ली धूव चिंबळासावन येयल्ली. एकलीच, चार वर्सांच्या भुरग्याक घेवन. दोंगराचे वाटेन ती येयली आनी देवळामुखार पावतकीर कोण मरून पाचारूंक येयिल्लेवरी हामेऱ्यांनी रडूंक लागली. देवळांतले, देवळा मुखावयले लोक तिचेसरीं पळयतच रावले. ती रडत तशी सकल्ले वटेन बापायल्या घरासरीं वचूंक गेली.

बापायल्या आंगणांत पावतकीर होळोम काडून रडत भुरग्याक सकल आपटीत तिणें म्हटलें, "हांव कितें करूं आतां? खंय वचून जीव दिवं? घोवाघरचे लोक हेका घरांत घेवंक तयार नात. तेका व्हरून उडय म्हणटात इगर्जेच्या दारांत आनी यो म्हणयात. ना तर दोगांय वचून जीव दियात म्हणटात. कशें करून धुकलूं हांव तेका न्हंय बांयंत?"

आवय बापूय, सगळीं भावंडां घरांत येयलीं. पाटकाराल्या पसऱ्यार येयल्ले लोक पळयतच रावले. आवय भियेवन काचाबूल जावन मुखार येयली आनी तिणें

तिच्या हाताक धरून विचारलें, ''कितें जालें बाय?'' तें तशेंच भुरग्याक हाताक धरून घेवन येवन भायल्या तेण्यार रडत बसलें. भावंडां येवन भुरग्याक घेवंक सोदतालीं पूण ताणें तांकां धुकलून उडयले. आवयन परतें विचारलें, ''कितें जालें गो?''

''म्हज्या पुताक ते किरिस्तांव बायलेन नाका जाल्लें खाववयलें, तो बाटला आतां... खंय घेवन वचूं तेका आतां...''

पाटकाराली ही धूव जनें चिंबळांतल्या शेटकारागेर दिल्ली. तेंचो खोबरेलाचो आनी उंडेलाचो घाणो आसलो. एक दीस जनें आपले एके शेजान्नीक घेवन गोंय पाटणाच्या व्हडल्या बाजारांत गेल्लें. ताका फणयो, लिखोण्यो, कांकणां, मणी बीन हाडचो आसलो. आनी एक कापड आनी गांठीची चोळी. सक्काळीं तांदळाच्यो भाकऱ्यो खावन त्यो सुटिल्ल्यो. वेळ माथ्यार येयसर ताणें आनी शेजान्नीन बऱ्योच वस्तू विकत्यो घेतिल्ल्यो. एक शेराफींय आनी चार टांक दिवन एक कापड घेतलें. दोन टांकाचें चोळये कापड घेतलें. शेजान्नीनय कांय वस्तू घेतल्यो. वांगडा चार वर्सांचो भुरगो आसलो. भुरग्याक व्हरूं नाका म्हण मांव सांगतालो. पूण ताणें आयकनासतना ताका वांगडा हाडिल्लो. तो वांगडा ना जाल्यार ताका चुकलेंशें जातालें आनी खंयच मन लागनासलें. घरांत वावर करतना, खोबरें चिरतना, उंडी फोडटना तो दोळ्यांमुखार जाय.

व्हडलो नदर पावना जाल्लो बाजार. पिनर, फणयो, कांकणां, मणी हांचे पसरे वेगळे, वस्त्रांचे वेगळे आनी तामणाचे वेगळे. मासाचे, पावाचे मांड, सोऱ्याच्यो गादीय कुशीन आसल्यो. एकेकडेन वादये कांबळीच्यो राशी पडिल्ल्यो. बाजारांत अठरा पगड जातीच आनी तरातरांचे लोक भोंवताले. काळे कुळकुशीत शिद्दी, गोरे पाखले, सोल्दाद आनी देशी लोक. कांय लोक पालखेंत, घोड्यार बसुनय रस्त्यान वयताले. मदींच एकेकडेन काळ्या बुरश्या लोकांचो एक सरभरशी चोमो येयलो. दादले बायलो, भुरगीं. तेंकां एक दुसऱ्यांक दोरयेन बांदिल्ले. तेच्या आंगार भोव उणीं वस्त्रां आसलीं. दोरी बांदिल्लेकडच्यान रगत व्हांवतालें. एकलो गोरवां हामुडिल्लेवरी तेंकां हातांत दांडो घेवन हामुडटालो. शेजान्नीन सांगलें, ''हेंकां एकएकल्याक कट्यार उबे करून हेंची पावणी घालतात. मागीर लोक मुठी मारून पारखून विकते घेतात. बायलांक विकते घेतना तेंचे तकलेर थंयचो एक फातर दितात आनी शक्त पारखितात.''

जऱ्याक कशेंशेंच जालें. मागीर ताका याद येयली, दोन वर्सांफाटीं एकलो बारीक किरकोळसो मनीस गांवांत येयिल्लो. ताका आमची भास कळनासली. पूण ताची भास इल्ली इल्ली कळटाली. खेमू कामतीन सांगलें, तो मलबार गांवचो गाबीत. नुस्ते धरूंक दरयांत गेल्लेकडेन तेका धरून हाडिल्लो. पूण पंदरा दीस बाजारांत पावणेर घालूनय तो खपना जाल्लो. एक दीस ताका ताच्या धनयान चाबकान माल्लो. रातचो

तो पळोन रानांत गेलो आनी चुकून ह्या गांवांत येवन पावलो. तो गांवांत कसलें तरी काम मागतालो.

तांणी दोगांनीय आतां बऱ्योच वस्तू विकत्यो घेतिल्ल्यो. आतां घरा वचूंक जाय. चलून इल्लीं पयसूच पाविल्लीं. मदींच जन्याक उगडास जालो, आपणें चेड्याक कानाची भिकबाळी घेतलीच ना. चेड्याले कान तोंपतकीर बेठी तुळशीची काडी घालून दवरिल्ली कानाच्या बोत्यांत. आतां पंचधातूची भिकबाळी घेवंक जाय आसली. जन्यान शेजात्र सुबीक म्हटलें, "तूं भुरग्याक घेवन हिंगाच राव. हांव वयतां आनी बेगीनच येतां. हिंगाच रावात तुमी."

तें वचूंक गेलें. लागींच फातराचें एक व्हड घर आसलें. बसूंक मुखार व्हड तेणो आसलो. घरांत तर कोणच दिसनासलो. शेजात्री सुबी भुरग्याक घेवन एका तेण्यार बसली. ताका सट्करून उगडास येयलो, मांयन आपणाक रगतचंदनी बावलें हाड म्हणिल्लें. तिगेलीं धोपरां परतीं परतीं सुजतात. तें झरोवन लायल्यार बरें जाता म्हणटाली. व्हरना जाल्यार खेपतली आनी दीसभर जेवण घालची ना. पूण आतां कितें करतलो? जनें तर चेड्याक म्हजेसरीं दवरून गेलां. हाका उखलून घेवन भोंवप कठीणच. इतल्यान त्या घरांतली बायल भायर येयली. तिणें एक व्हड आंगलें घातिल्लें. ती बरीच मोटी गुबगुबीत आनी गोरी आसली. ती तांकां पळोवन तोंड भरून हांसली आनी आपले आगळेच कोंकणींत विचारलें, "खंयची गे तुमी, खंय येयल्यात?"

सुबीक देव पाविल्लेवरी दिसलो. तिणें म्हटलें, "बाजाराक येयल्लीं आमी. म्हजी शेजात्र परती आनीक कितें तरी हाडूंक गेल्या. म्हगेलेंय उल्लां इल्लें हाडचें. ह्या भुरग्याक मात्सो हिंगा दवरतां आनी वचून येतां." तिणें त्या भुरग्याक त्या घराचे वासरेंत दवरलें आनी तेंवूय वचूंक गेलें. तो पोर कां कूं करतालो पूण सुबीन ताका दवरून धांवच मारिल्ली.

पोर मागीर आनीक रडूंक लागलो. ती बायल ताका घरांत घेवन गेली आनी वोगी करूंक लागली. तेच्या आंगार एक म्हेळ वस्त्रा कुडको आसलो. उजव्या खांदार गांठ मारून सकल हाडून कमरेसरीं दावे वटेन परती गांठ मारिल्ली ताका. ते बायलेन तेचेवयल्यान आपल्या भुरग्याचें एक नितळ आंगलें घातलें, जें तिगेल्या भुरग्याक ल्हान जातालें आनी घरांत पडिल्लें.

दनपारच्या जेवणाची वेळ जाल्ली. हीं दोगांय बाजारांत गेल्लीं जत्रेपिशें लागिल्लेवरी बरोच वेळ बाजारांतच उरलीं. कितलो व्हड तो बाजार आनी तांतूंत एकेक वस्त घेवप म्हटल्यार अवघडच. भुरगें आनीक रडूंक लागतकीर ते बायलेन भुरग्याक बरें व्हाडलें आनी आपणेंच भरयलें.

तीं दोगांय वांगडाच परतीं येयलीं तेन्ना ताचें जेवन जाल्लें. तांणी 'बाबुनी, बाबुनी'

म्हण उलो दितकीर तो भुरगो उश्टें भरिल्ल्या तोंडानच भायर येयलो. जन्याक कच् जालें. ''कितें खावयलें गे तुवें म्हज्या पुताक?''

''आयज आयतार न्ही, गाये मांस रांदिल्लें. बरो जेवलो तो. बचकभर तरी फोडयो खायल्यो ताणें.''

''कितें? गाये मास खायलें तेणें?''

''कित्याक? तुमी खायनात मास?'' ती बायल किरिस्तांव म्हणच गोंय पाटणांत ल्हानाची व्हड जाल्ली. तिचो आवय बापूय घडये बाटून किरिस्तांव जाल्ले आसत, पूण ती किरिस्तांव म्हणच जल्मल्ली आनी तिचें लग्न पिरायेच्या पंदरा वर्सार एका गिरेस्त पाखल्याकडेन जाल्लें. कोण तरी कसलें तरी मांस खायनात म्हण ती इल्लें इल्लें जाणा जाल्ली. कोण कितें कात ती नकळ आसली. हें तर सान भुरगें, गोस्तान खाता जाल्यार तेतून कितें आसा?

जन्याचो आवरोच हुडलो. सुबी विचित्र दुबावाचे परके नदरेन तांचेसरीं पळयतालें. तें भुरग्यासरींय गेलें ना. पयस पयसच रावलें. जन्यान बेगीबेगीन तेच्या तोंडार इल्लें उदक मारून तेका तें घेवन येयलें. सुबी ओगी फाटीं फाटी, ती मोन्यानीच गांवावटेन चलताली. ''आतां कितें करचें गे सुबीआका?''

सुबी ओगीच.

''तूं आनी घरासरीं कांय सांगूं नाका. पांय पडटां तुजे.''

आतां सुबी सट्करून किसळ्ळें, ''ना सांगून लिपोवन तूं घरदार बाटयतलें, पुराय घरवड बाटयतलें. देवाधर्माचें घर तें, पातक लागतलें तुका. फाल्यां कळ्ळ्यार सगळे सुळार दितले तुका.''

''तुयेंच सांगल्यार कळचें न्हू.''

''ना सांगून हांव आनी त्या पातकांत पडूं?''

''आज खायलें फाल्यां हागून गेलें. तेतूंत आनी कसली बाट?''

''गाये मास खायलां आनी कसलें उलयता गो तूं? आमच्या घराक तेंकून तुजें घर. कूळमूळ, तुळस, खुंटी एक. आमच्या देवकाऱ्याक तुमी आनी तुमच्या देवकाऱ्याक आमी.''

''ल्हान गो तो भुरगो, अपुरबुद्द.''

''बारीक भुरगो कितें आनी दादलो कितें, तोच फाल्यां घरांतलें देवाधर्माचें काम मुखार चलयतलो.''

आतां जन्याक सुबीचो भारी राग येयलो. व्हडली म्हणिनासतना तिणें रागान म्हटलें, ''तुका रांडेक पळय म्हणिल्लें भुरग्याक. तुजेर सोनचेडयेर पातयेवन गेल्लें हांव. तुवें घात माल्लो. अपुरबुद्द भुरगो बाट्टा. घोव आसतना मिणाखाला पडटना

बाटनात तुमी.''

सुबीक तेची इतली तिडक मारिल्ली, हरशीं जाल्यार तिचीं केसतडां धरून हुमटिता आसलें तें. एक फावट ताचेसरीं रागान पळयलें आनी तें चलूंक लागलें सडसडीत. तेका पिशें लागलां आतां, हें आडवाटेर आनी कसलीं झगडीं करतलें! तें तांकां सोडून बरेंच मुखार पावलें.

आतां जनें रडूंक लागलें. 'देवा, कितें करचें रे देवा...' म्हण सूर काडून तें वाटभर रडत येतालें. बरोच वेळ एकेकडेन वाटेर बसून तें रडटालें.

तें घरा येयलें आनी वोग्गी वासरेर खांब्याक तेंकून बसलें. चेडो येतना आंगारच न्हिदिल्लो. ताणें तेका जमनीरच घातलो. तो सुस्त न्हिदिल्लो. सुबीन आदीच सांगिल्लें आसतलें. घरांत सामकी थंडसाण आशिल्ली. सामको जीव खावपी कांच. कोणय घरांत मेला पूण रडूंकय जायना असलो घुसमट. घोव एक फावट भायर येयलो आनी कांय वेळ थीर पळोवन गेलो. व्हडली जाव मात दारांत वोगी उबी आसली. तिगेले तिगूय पूत थंयच गणमणटाले. ते सान भुरगे लेगीत मुखार येनासले. कांय वेळान मांव भायर येयलो. पयल्यान कोनशांतले शेनरे कवळ्यार बसलो. ताच्या दोळ्यांत दुकां आसलीं.

''ताका एकल्याक थंय कित्याक म्हण उडोवन गेल्लें तूं? वांगडाच घेवन भोंवचें आसलें.''

''ती आशिल्ली सुबीआका. तिचेकडेनच खिणभर दवरून गेल्लें.''

'ती आशिल्ली?'

''हय. पूण तिवूय मागीर खंय गेली. तेका एकल्याक दवरून.''

''कांय सांगलेंच ना पळय.'' मगेर ताणें पुताक उलो माल्लो, ''सदा, अरे सदा, कितें करचें रे आतां?''

सदा भायर येयलो. हो उंच, बारीक, हड्डें बशिल्लोसो सदा. तो रागान म्हणूंक लागलो, ''नाका म्हटलें आसतना नाचत गेल्लें फुलगें. पोराक राखूंक जालेंना. दोगांय वाटेर बुडून, हुलपून मेल्यार मरण तरी करतासलों. आतां गांवय ना आनी मसंडूय ना.''

जन्यान घोवालें मनार घेनासतना मांवाक म्हटलें, ''ल्हान अपुरबुद्द भुरगो तो. तेणें कितें गू खायलो आनी अन्न खायलें सारकेंच.''

''तुज्यो ह्यो जाणवायो कोण आयकोन घेतलो? फाल्यां सगळो गांव आमकां गांवा भायर काडून दवरतलो. आमचेसरीं अन्न उदक तुटयतलो. सगळी मानमर्याद काडून घेतलो. तुवें कितें पळयलां अजून? किरिस्तांवान रांदिल्ले चुलीर कोंकण्यान रांदून जेवले म्हण हिंगा गांवा भायर केल्लें आसा.''

जनें परत रडूंक लागलें. ताका आपले मेल्ले मांयचो आज भोव उगडास येयलो. ती आज आसल्यार घेतासली आमकां खाकोळांत. नातवाक अशें वाऱ्यार पडूंक दिवची नासली. आतां शेजारचे लोक आपल्या दारांनी आंगणांनी उबे रावन सुलूस घेताले. कान लावन राविल्ले. मांवान आंगार पैरण घातली. कास्टेचें शेवट सकल लांबयलें. आपूण जोशागेर वचून येतां म्हण तो गेलो.

भुरगो आतां उठून रडूंक लागिल्लो. जावेन मायटेंत थोडें शीत, कडी घालून हाडून मुखार दवरली. जनें सट्करून जावेर किसळ्ळें, ''सुण्याक अन्न घालतले वरी मायटी कित्याक हाडून दवरल्या? फोडटा ती हांव भुंयेर मारून.''

जाव ओगीच रावली. भुरगो चड रडूंक लागतकीर तेणें तातुंतलें शीत कालोवन चेड्याक भरयलें. चेड्याल्या तोंडाक उंडी लायतासतना तागेलो हात कडकडटालो. ताका भिरांत दिसताली. तो कोण तरी परको कसो दिसतालो. भरोवन तेणें ती मायटी धुवन भायरच पावळेंत दवरली. जावेन म्हटलें, ''तूं न्हाणयेंत वचून न्हावन यो घरांत जेवंक.'' पूण तें उठलें ना. चेड्याक मांडयेर घालून घेवन ओग्गी बसून रावलें. कांय वेळान घोव परतो भायर येयलो. ताणें म्हटलें, ''मगेली करमळेची मावशी किरिस्तांव जाल्या. घरचे सगळेच जाल्यात किरिस्तांव. तिचेकडेन दवरून येतां हांव.''

तिणें एकदम म्हटलें, ''ना, हांव दिवचें ना तेका. कितें जाता तें म्हजे वांगडाच तेचें.म्हज्यान रावंक जावंचें ना तेचेबगर.'' तें परत रडूंक लागलें. ''म्हजेकडच्यान म्हगेल्या पुताक काडून व्हरूंक पळयतात हे.''

उसरां मांव येयलो. तो सोतासरींच उलयल्लेवरी उलोवपाक लागलो. ''कसले पोल्लेंत घालचें हेंचें शास्त्र कोणाक खबर. फाल्यां तेच्या हातान खंय पितरांक गिरास वाडी पावची ना. देवाक पुजा नेवैद्य पावचो ना. घर खंय सात पिळग्यां मेरेन भश्ट उरतलें. तो म्हणटा, ताका रानांत व्हरून सोडूंक जाय. खंयचे दिकेन वयता थंय वचूंक दिवंक जाय.''

जन्यान चेड्याक काळजासरीं आंवळून धरलो. तें पुटपुटलें, ''बाळक तें म्हगेलें, बाळक.''

घोवान परत म्हटलें, ''बाप्पा, हायें म्हटलें, तेका हांव करमळे मावशेगेर व्हरून पावयतां म्हण. म्हाका कितें वायट दिसना? मनाक लागना? तूं आवय जाली म्हण कितें जालें, आमचो कोण न्ही तो?''

मांवाक खूब वायट दिसलें. ताचो गळो भरून येयलो. दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवली. ताणें रडतच म्हटलें, ''तांचें आतां तांचेकडेनच पावोवचें.''

''म्हणजे तेका किरिस्तांव करून तेंच्या देवाक सोडचें म्हणटा मामा?''

''आनी कितें उपाव आसा सुने? अशेच हुमकळत उरचे परस हें तरी करचें.''

"तो खंयूय आसल्यार ताचे वांगडा हांवूय मामा."

"आगो, पिशें लागलां तुका?"

तें कांयच उलयलें ना. सांज जातकीर आंगापोनाक एक शेनरी घेवन भायरच न्हिदलें चेड्याक घेवन. दीसभर ताणें कितें खायलेंच ना. जाव कितेंय घेवन येयल्यार तिचेर राग काडटालें.

दुसऱ्या दिसाक सकाळींच तें उठलें आनी भुरग्याक हांडीर मारून ताणें मांवाक म्हटलें, "हांव वयतां कुळरा. बाप्पा कितें म्हणटा पळयतां."

"तो आनीक कितें सांगतलो?".

"म्हाका याद येयल्या तेंची. कितें म्हणटात पळयतां."

मांवाक दिसतालें, ही गांठ कशी तरी सुटची. भायले भायर कोणेंय सोडयल्यार बरीच आसली. तो नातवासरीं गेलो. पूण हात वयर करून नातवाक हात लावचो धीर ताका जावंक ना. घोव मात आकाड्या मेरेन येयलो. ताणें म्हटलें, "यो तूं बेगीन. कालापूरच्यान कोणय सांगात घेवन वच."

मांवानय उलो मारून म्हटलें, "यो तूं परतें बेगीन."

ताका दिसलें, हे म्हाका परत आफयतात. पूण भुरग्याविशीं कांय उलोवंक तयार नात. हाका खंय तरी फोंडांत घातल्यार पुरो जालां तांकां. ह्या चिंतनासरशीं ताका चडच रडूंक येवंक लागलें.

मेरशी, कालापूरचे वाटेन येवन बांबोळी दोंगरार पावलें. पुराय दोंगर ल्हान व्हड झाडांझोंपांनी गच्च भरिल्लो. सावदां, सुकणीं, जिवाणीं तर हिसपा भायर आसलीं. पूण एक बरी वाट आसली. ही एक आदेसाची वाट आदोळशी सावन दोंगर दोंगुल्ल्यो पार करून बद्द गोंय पाटण मेरेन वचून पावताली. काब सोल्दाद हेच वाटेन यो वच करताले. वाटेर जितो जीव नासलो. तरीय ते धीट पावलां उडयत चलताले. मदींच खंय तरी पयस गोरवां राखण्यांचो गोरवां परतिल्ल्याचो आवाज, कुकार, नातर गोरवांल्या गळ्यांतलीं गडगडीं आयकूंक येतालीं. तेचेरच धिटाय घेवन ते चलताले. घोवान कालापूरच्यान सांगात पळोवन वच म्हणिल्लें. पूण ताचो जीव थाऱ्यार नासलो. पिशें लागिल्लेवरी जाल्लें. जशे ते पिशां बळारच चलताले. केंस फापसल्ले. आंग चिप्प हुमेन भरिल्लें. न्हेसणाची सुद्द नासली. आंगार घेतिल्लें भुरगें सकल देंवतालें.

बापायच्या गांवांत पावतकीर जसो तेचो दुःखबंद सुटिल्लो. पूण बापायन आनी आवयन सांगून समजावन तेका वोगी केलें. बापायगेर चार दीस तें तशेंच पडवेंत उरलें. भायरच पुता वांगडा जेवप खावप आनी न्हिदप. हांगाय ताच्या पुताक घरांत घेवप नासलें. हें ताच्या मावळ्याचें घर आनी आवयचें कुळार. वेल्यावेल्यान सगळें आपलें दिसतालें खरें, पूण हें घरचे परसूय चड पयसुल्लें आसलें.

एक दीस तें बापायक घेवन थंयच्या पाद्रीसरीं गेलें. ताणें ताका सगळी हकीकत सांगली. आयकून पाद्री पावलू कुलासू बरोच खुशालभरीत जालो. ताणें म्हटलें, ''किरिस्तांव जाल्यार तुज्यान तुज्या पुताक घेवन मानान भौमानान रावं येता. कोणाच्यान तुका हातबोट लावंक जायना. जाल्यार गोंय पाटणांत धाडून आमी तुजो सांबाळ करतले. किरिस्तांव जाल्यारच तुका घोवाले आस्पदेचो वांटो मेळटलो. ना तर एक टाक, रीय मेळची ना. पुतापसून आवयक वेगळे काडटात, बरे नितीदार लोक न्ही ते.''

तेच्या चवथ्या दिसाकच ताणें कालापूरचे इगर्जेंत वचून चेड्यासयत बातिज्म घेयलो. गळ्यांतली गळसरी काडटना, कुकूम पुसतना ताका भोव दुख भोगलें. पूण पुतापासत ताणें सगळें सोंसलें.

ताच्या दुसऱ्या दिसाकच बापायन - हरी पाटकारान आपल्या घराचे वयले वटेन एका उल्यार एक खोप उबी केली. चार कामदारांनी एकाच दिसांत खोंप उबी केली. आवयन आनी ताणें मेळून तेची तळभूंय सारयली. जनें एक बुडकुलो, खुळणें, दोन मायट्यो आनी शेंदरी, कांबरूण घेवन थंय गुपचूप रावंक गेलें. एक नवें किरिस्तांवाचें घर गांवांत उबें जालें. बापायगेलो लोक कोणय ताचे खोंपींत वचनासलो. भायल्यानच ताका कितें जाय नाका तें विचारताले. ताचे खोंपींत कुळारचो मनीस वचनासलो, ताच्या हातचें खायनासलो. आवय-बापायकच धुवेल्या ह़ाताचें खाण भश्ट !

ते खोंपींत तें देड वर्स उरलें. एक दीस घोवच किरिस्तांव जावन तेचे खोंपीमुखार येवन उबो रावलो. खोंपी भितर रिगून तो तागेले शेनरेर बसलो. ''जाणा मुगो जने, हांव तुका व्हरूंक येयलां.''

जनें सोपनांत आशिल्लेवरी उलयलें. ''कितें जालें तर? हांव किरिस्तांव. म्हगेलो पूत किरिस्तांव. तूं खोंपींत कसो येयलो? बाट लागची ना?''

''कितें जालें जाणा? आमचो तो म्हालगडो भावगो शेटकार. तूं जाणा, तेचो धेंक सगळ्या शेटकारांचेर आनी गांवचेर. तो केनरासान फातमारी भरून भात तांदूळ हाडटालो. एक दीस तागेली फातमार अरबांनी धरली. ते ती लुटूंक पळयताले. पूण पुर्तुगाली तारवां वचून तांणी ती सोडयली. मागीर पुर्तुगेजांनी म्हटलें, 'तूं आमचो. आमी तुका वाटायलो. तूं आतां हेच्या बदलाक आमकां कितें दिता? नातर हें निमाणें.' भावगो वळखलो. ताणें म्हटलें, 'हांव तुमकां म्हगेलो आनी म्हगेल्या भावबंदांचो धर्म दितां.' भावग्यान गांवकी आफयली आनी सांगलें, 'हांव बळिश्ट म्हण तुमचो धर्म इतलो तेंप उरलो. आतां हांव तेंचो जालां. तेंचे पांगीक पडलां. आमी सगळे मेळून वांगडाच जावंया किरिस्तांव. किरिस्तांव जाल्यार आमचो झेत वाडटलो, आमी गिरेस्त जातले, आमी सोर्गांत पावतले.' सगळ्यांनी हय देवा, हय देवा म्हणिल्ले वरी

'हय हय' केलें. आनी जाले किरिस्तांव. जने, हांवें तुका परतें आफयल्लें. तूं येयलें ना. आतां तुका आनी पुताक हांव व्हरूंक येयलां तुमचोच जावन.''

जन्यान पुताक खांदाक मारलो. खोंप तशीच उडोवन तें घोवाफाटल्यान वचूंक गेलें. सोपनांत चलतलेवरी तें घोवाफाटल्यान चलतालें. ताणें मदींच घोवाक म्हटलें, ''आमचे भगवती देवीची सासाय व्हड. पावली ती म्हाका. आंगवण घातिल्ली हांवें.''

आज कार्तिकाचो निमाणो सोमार. सकाळसान देवळांत थार दियनासतना घांटी वाजताल्यो. करंजाळ, नेवरें, पाळयेच्यान लोक येयिल्लो. ह्या वाठारांत हे कुशीन एकच धड देऊळ आसलें. नेवरें, कालापूर, करंजाळचीं देवळां मोडिल्लीं. पाळयेचें देऊळ बंद उडयल्लें. भेटेक, अभिषेकाक, प्रसादपाकळेक लोक रावतालो. रायण्णा भट देवरथ उबारून फूल मागतालो. तागेले पूत नाल्ल, बेल, फुलां घेवन लोकांक देवाची भेट दितालो बापूय आनी पूत दोगूय मदींमदीं व्हडान मंत्र म्हणटाले.

शेफ रिबेरीच्यान तो थार दिनासतना येवपी घांटींचो आवाज, कानार पडपी मंत्रांचे सूर आयकूंक नज जाले. तो उठलो आनी ताणें कमर बांदलें. काब रेमेत नोरोन्यीक आनी तीग सोल्दादांक ताणें वांगडा घेतले. सगळ्यांचे कमरेक तरसादी. सोल्दादाच्या हातांत दांडे. शेफ, काबाल्या हातांत पालमात्री. ते गेले आनी देवळाच्या सोपणांरच उबेर रावले. नोरोन्यीक एक संवंय आसली. खंयूय थारले म्हणटकीर तो कमरेची तरसाद काडून शेफीचे उजवे वटेन उबो रावतालो. आयज तो उकती तरसाद हातांत घेवन देवळाच्या दारांत उबो आसलो. गेल्ले णव धा म्हयने ते गांवांत आसले पूण केन्ना अशे देवळाच्या सोपणार येवन उबे रावंक नासले. सगळ्यांची भियेवन गुळी. भायल्या गांवचे लोक हांच्या कांचान इतले त्राशिल्ले, बऱ्याच जाणांनी कुशीच्या दारांतल्यान भायर धांव मारली आनी ते देवळा फाटल्यान वचून लिपून रावले. देवळांत आशिल्लेय भियेवन वोग्गी, अभिषेकाचें सामान तशेंच हातांत धरून. पूण भट तांचे सरीं दुर्लक्ष करूनसो ल्हवल्हव मंत्रां म्हणत आसलो.

शेफीन गर्जण मारली. ''भट रायण्ण, आनीक कोणय देवळाचो जाळवणदार आसल्यार अशे येयात.''

रायण्णान मंत्रां म्हणटां म्हणटां पुटपुटत म्हटलें, ''देवा, हांचें मडें घाल. आरान धरून ते देवळाच्या दारांतच पडूं.''

''भट रायण्णा, आयकलें ना तुवें?'' तो उठलो आनी दारांत तांचेसरीं येयलो. रायण्णा आतां इल्लो जाणटो जाल्लो. पूण ताचो मुदलांतलो हटी, रागीट सभाव आनी सुवार्थीपण तशेंच आसलें. आंगलोटानय तो किर्कोळच आसलो. बारीक

बागवल्लोसो, मुखावेले दांत पडून एके वटेन एक दांत भायर सरिल्लो. तो तसो ताठच तांचेमुखार उबो आसलो. भितरल्यान तो तसो कुळकुळिल्लोच, पूण भियेला म्हण दाखयल्यार सगळेंच हातांतल्यान सुट्टलें म्हण एक धूर्त माण्णी.

शेफ रिबेरीन सांगलें, ''पुर्तुगालच्या रायाची, गोंयच्या व्हिसरायाची आनी बीस्म सायबाची तिगांचीय आज्ञा आसा, ह्या गोंय राज्यांत हिन्दूंनी कसलोच धर्मसुवाळो, देवस्पण, पुजापाठ करूंक फावना. कसलीच मूर्ती पुजूंक फावना. तुज्या देवळांत मुर्तूय आसा आनी तूं देवस्पणय करता. तें बंद जावंक जाय बेगीन.''

''देवळांतली पुजा बंद करून आमी कितें करचें गा?''

''तुज्यान जाय तें करूं येता, जायतें जावं येता.''

''देवाचें कशें? आमच्या पोटापाणयाचें, बायल भुरग्यांचें कशें? अशें करूं नाकात गा. शतमानाचें मोटें जाग्रत देऊळ तें.''

''तुजें देऊळ मोटें जाग्रत आनी बार्देस तिसवाडींत शेंकड्यांनी देवळां मोडलीं तीं तांतले देव मेल्ले? तुज्या देवांत कसलें तेज सासाय ना भटो. आमचो पळय देव कितले ताकदीचो. एक खुरीस मोडलो तर दोन घरांचो गोबोर. अजून कितलेशेच जाण फाट सुजोवन घेवन भोंवतात.''

''देवळाच्या दारांत अशे उलोवं नाकात...'' भितरल्यान ताणें दोन सणसणीत गाळी माल्ल्यो.

''हांवेंय एक देऊळ मोडिल्लें भटो, पानेलीचे देवतेचें. पयलीं पारय घालतना दिशिल्लें, देवती म्हगेली पारय धरतली आनी म्हाका भुंयेर आपटितली. पूण कांय जालें ना भटो. एक सादो फातर कशी ती फुटून गेली.''

''भोगचें पडटा तें आज ना फाल्यां. मुखावेल्या जल्माक तरी.''

''तेचेर आमकां एक उपाव मेळ्ळा भटो. आमी किरिस्तांव धर्म आपणायला. थंय जाणां, पातकाची कबुली दिल्यार पातकां लासून गोबोर जातात. मगेर सोर्गार वचूंक मेळटा.''

''मगेर पातकां करूंक मेकळे. म्हणच पातकां चड जाल्यांत.''

''तूं किरिस्तांव जा भटो. म्हणजे तुज्या पोटापाणयाचो प्रस्न सुट्टलो.''

''आनी हें देऊळ? आनी देव?''

''तेची आमी इगर्ज करुंया. तुजो देव आमी फोडचे नात. तूं आनी गांवकार देवाचें कितें करतात तें करात. खंयूय व्हरून उडयात.''

भटान 'शिव शिव शिव' म्हटलें. फाटीं वळोन देवासरीं पळोवन तेणें पोले फोडून घेतले.

शेफीन एकदम आवाज चडोवन म्हटलें, ''हंयचो पुजापाठ बंद जावंक जाय

भटो. आमी तें बंद करून आडांबो मारतात देवळाक.''

आतां भट पुराय गळसणलो. मोड आतां तकलेर झडूंक लागलां अशें तेका दिसलें. ताणें काकुळटेन म्हटलें, ''देऊळ गांवच्या लोकांलें, गांवकारांलें. हांव फकत पुजारी. हांव.गांवकारांक सांगतां, गांवकी आफयात आनी कितें तें तुमकां जाप दियात म्हण. जाणा व्हड मनशा, कार्तिकाक पालखी आनी माघाक व्हड जात्रा ह्या देवाची. तें तितलें सुरळीत जावं दी.''

''केन्ना बसतली गांवकी?''

''आज आतांच तांकां सांगतां हांव.''

''फकत चोवीस वरांची मुजत तुमकां. चोवीस वरांत कितें तें थारायात.''

ते वचूंक गेले. फाटल्यान भटान सोतासरींच म्हटलें, ''मगेल्या तोंडाचो गिरास काडून घेवंक येयल्यात? सोर्पाचो वळतडो पडटलो पांयांक.''

गेल्ले आठ म्हयने गांवकी जावंक नासली. गेल्ल्या मार्गशिर्शाक जाल्ली गांवकी भौशीक शेताचे पिकावळीचो विलोव लावंक. नंतरची माघांत गांवकी जाल्ली भौशीक शेताचे पिकावळीक पावणेर काडूंक. निमाणी गांवकी जाल्ले ती बेताळा देवळांत भितर रिगिल्ले तेन्ना. उपरांत तांणी भौशीक जमीन काडून घेतली, लोकांक जबरदस्तेन किरिस्तांव करूंक लागले, खुरीस मोडलो तेन्ना अच्छेव केलो. पूण एक दीस सगळे मेळून विचार जालो ना. ते म्हणटाले, गांवकेंत किरिस्तांव गांवकाराक मान पयलीं. तें हांकां मान्य नासलें.

त्या दिसा भटान देवाचे काम कशें तरी सागशिलें. अभिषेकाक केन्ना खंयचे मंत्र म्हटले आनी देवरथार कोणाक खंयची फुलांपाकळी पडली तेका कळ्ळें ना. तो येयल्ल्या गेल्ल्याक सांगतालो, 'ते देऊळ पाडटात खंय. देवा काम बंद उडयतात खंय. गांवकार वांगड्यांक सांगात, गांवकी आफोवन विचार करात म्हण.' म्हाल गांवकार घना शणैसरींय ताणें भावाक धाडलो, तिमण्ण भटाक.

तिमण्ण रायण्णा परस बरोच ल्हान. बरींच वर्सां तो गोकर्ण क्षेत्रांत आसलो. एक दीस तो अचकीत तकली घुंविल्लेवरी आदोळशी भावासरीं येयलो. तो वेद, पुराणां, मंत्रां म्हणूंक भोव फिशाल आसलो. पूण तो आतां वोग्गी देवळाच्या एका कोनशांत लोट्यार बसतालो. भटपण तर ताणें सामकें सोडिल्लें. भावान कितेंय भायलें काम सांगल्यारच करतालो. येदोळ शेफ रिबेर देवळाच्या सोपणार उबो आशिल्लो आनी रायण्णासरीं उलयतालो तेन्ना तो म्हर्‍यांतच आसलो. ताणें घना शणैक पडिल्लेकडेनच सगळें सांगलें. चारच उतरांत सगळें सांगलें, ''ते देऊळ बंद उडयतले, मागीर मोडटले, थंय इगर्ज बांदतले. गांवकी आफय म्हटलां.''

ताचीं उतरां आदिमंत्रावरी इतलीं गंभीर आसलीं, तीं आयकोनच घना शणै

आनी तागेले बायलेक थरथरो भरलो. घना शणैन बेगोबेग सुब्राय शणैक आनी भद्र शणैक आफोवन हाडलें आनी सांगलें, ''गांवकार म्हण पळयनाकात, वांगड वांटेली म्हण पळयनाकात. भासाभास नाका, ठराव नाका. शिरवाड्यावयल्या नायकांक, देवूळवाड्यावयल्या गुरव, देवळ्यांक, घाण्यातिठ्यावयल्या मेस्तांक, कुंबरांक मेळटा तेंकां घेवन वचात आनी सांगात त्या कळिकाळाक, देवाक हात घालूं नाका म्हण सांगात. थोपोवन धरात ताचें हें वायट कर्तुब. शिगम्याचो मेळ संतयसर तरी थोपोवन धरात. सगळ्या देवांक वर्सुकी मान जातकीर कितें करता जाल्यार कर म्हण सांगात. होळये नास उचांबळ उल्ल्यार निसंतान जातलें म्हण सांगात. मगेर सगळें ताच्या बोडार.''

दुगा म्हार आतां दुर्मिंग जाल्लो पूण तो आफोवणें मेळटकीर रोखडोच येयलो आनी ताणें पेरगांव घातलें. खरें म्हटल्यार तो किरिस्तांव जालो म्हण तेचेर कोणाचो राग शीणय नासलो आनी ताचीं पयलींचीं कामां कोणें काडूनय घेवंक नासलीं. ह्या वर्साचें भौशीक शेताचें भात वर्समानाप्रमाण कुळकरणी बाळा शणैन कोणाक विचारीनासतना ताका आनी सुबा तेळूक दिवनय उडयल्लें. उरिल्लें भात उग्राणांत तशेंच पडून आसलें. उरिल्ल्या भाताचो विलोव लावंक गांवकेचे वांगडी आफोवंक जाय आसले. पूण गांवकी मोडिल्ली. ती केन्ना घडटली, देवाक खबर. तो मेरेन भात पाड जावन वचचेलें.

पेरगांव घालून आनी उले कुंकार दिवन शेवटाक पंचवीस तीस बोडां जमलीं. शिरवाड्या वयले इकरा गांवकार, रायगाळीचे सात बामण गांवकार आनी हेर गांवके भायले कांय लोक. तातूंत बऱ्याची गजाल म्हटल्यार तांच्या 'दरबारांत' जांकां मान आशिल्लो, शेफ रिबेर जांकां मानतालो, ते निळू नायक आनी राणू केंकरो आयिल्ले. राणू केंकऱ्याक सुब्राय शणै मुद्दाम घेवन आयिल्लो. हरशीं तो गांवकेंत चड पडनासलो. ताचें आपलें एक साम्राज्य आसलें. रायगाळी वयले वटेन ताचें कुळागर. तो हतीचे सोंडयेयेदो झरो आदीं केंकऱ्याल्या कुळागरांतल्यान व्हांवतालो आनी मगेर सकला हेरांल्या कुळागरांत येतालो. ताचें कुळागरय व्हड. ते भायर चोंय वटेन कितलींशींच शेतां. वीस तीस तरी कामदार कामेरी घोळटाले ताच्या जमनीभाटांत. देवळांत अभिषेकाक, जत्रेक येतना तो माचुलांत येतालो. तो केन्ना सांगतालो ह्या शणैंक आमी गांवांत हाडिल्ले म्हण. हो केंकरो गांवचो वांगड नासलो. तो गांवकेंत कित्याक ना हाचेविशीं एक जिबेवयलीं काणी आसली. ते पयलीं गांवचे वांगड आसले. पूण एक फावट गांवकेच्या रासवळ शेताचे पिकावळीचो वांटो 'जोण' मेळटकीर तागेल्या पुर्वजान 'हें कसलें कुस्कूट' म्हण ताका पांय मारलो आनी तें भात म्हारां, चामारांक वांटून उडयलें. मगेर रागान गांवान ठराव घेवन ताचो वांगड काडून उडयलो.

पूण तो आज देवळार हावळ येयल्या म्हण कळटकीर आयिल्लो.

ते सगळे मेळून ताच्या राबित्यासरीं आयले. ते बराबर तांचे सगळे पंदरा वीस काब सोल्दाद भायर येवन उबे रावले. चामड्या खुर्चेर बशिल्लो शेफ उठून उबो रावलो. वागावरी उबो रावन तो धीट नदरेन तो तांकां पळयतालो. ताणें चडट्या आवाजान विचारलें, ''कितें जालां? कित्याक येयल्यात?''

केंकरो मुखार आयलो. ताणें म्हटलें, ''कितें आडायलां तुवें हें? कित्याक मोडूंक सोदतात देऊळ?''

''तूं, तूं कयसरो. तुंवूय येयला?''

''हांव कयसरो न्हू, केंकरो.''

तो हांसलो. ''जाणां हांव. तुमी देवळाक लागून आनी देवस्पणाक लागून येयल्यात म्हणय जाणां हांव.''

''हय. आमचें देवूळ मोडून तुमकां कितें मेळटलें? तुमकां कोणें तो अधिकार दिलो?''

शेफीन ताचेसरीं पळयलें. हो शिरवाड्यावयलो वेंटू नायक. गोरो, मोट्या पोटाचो. हड्ड्याचे चिपये सकल ताचें पोट एकदम मुखार येयिल्लें. पयर शिरवाड्यार घरां लासूंक गेल्ले तेन्ना हो घरांत लिपून आसलो. पावणे वेळार मात गणमणटालो थंय. शेफीन ताका म्हटलें, ''तूं बिजूट, म्हाका अधिकार कोणें दिला काय म्हण विचारता? हो गोंय जुंवो, हो गांव आमी जिखून घेतला. पुर्तुगीज राजाचो म्हालमतो तो. तेच्यान कितेंय करूं येता. तिसवाडी बार्देसचीं हेर देवळां मोडलीं तीं खंयच्या अधिकारान आमी मोडलीं? कोणें आमकां आडायले? पुराय गोंय जुंवो किरिस्तांव करून उडोवंचो रायाचो हावेस. आमी जिखिल्ल्या ह्या जुंव्यार हिन्दूंनी आपलो देवधर्म पाळूंक जायना, ह्या जुंव्यार रावंक जायना. तांचीं भाटांबेंसां लेगीत आमच्यांनी ताब्यांत घेवं येतात. मानेस्त केंकरो, तूं येदीं व्हडलीं भाटां आनी शेतां कोणाक लागून भोगता? बावन्न वर्सां जालीं पुर्तुगेजांनी गोंय जुंवो जिखून पूण अजून मेरेन कोणें तुमकां हातबोट लावंक ना हें रायाच्या मनाचें व्हडपण. सिन्योर आफोंस आल्बुकेर्कान तुमकां भास दिल्ली, तुमी सुगूर उरतले म्हण. ताका लागून ह्या वावराक इल्लो कळाव जालो. आतां एक दीस लेगीत तुमकां ह्या जुंव्यार हिन्दू म्हण रावंक मेळचें ना.''

सगळे सुन्न ओगी आसले. कांय वेळान निळू नायकान म्हटलें, ''आमी आमचें पळोवन घेतात. गोंय सोडून वयतात ना तर सगळे मेळून वचून दरयांत हुडी घेतात. पूण देवळाक हात घालूं नाका तूं. शंबर पिळग्यांचें भावार्ताचें थळ तें. देवाची पुजा कोणें येवन करूं ना करूं. आसूं दी तें उबें.''

दोगय पाद्री - व्हडलो पाद्री आनी धाकलो पाद्री इतलो वेळ भितरले वटेनच

आसले. व्हडलो पाद्री पावलू कुलासू अचकीत भायर येयलो. शेफ रिबेर किर्ते तरी उलोवंक सोदतालो. ताणें ताका मदींच रावयलो आनी तो सोता उलोवंक लागलो. "दरयांत हुडी घेवची भास तूं उलयता. येद्दें व्हडलें जेजुचें मोगाचें राज्य, किरिस्तांवपण मुखार आसतना तूं दरयांत हुडी मारची पाड भास उलयता? मोगाचो, दयाळपणाचो धर्म तूं न्हयकारता. तुमच्या धर्मापरस व्हड धर्म हो. तुमच्या धर्मांतली एक खबर आयकल्या हावें. एका विखाळ सोर्प खंय मनशाक खातालो. ते लोक खंय त्या सोर्पाक पळोवन भिवन गुळी जावन धांवताले. कांय तेंपान तेणें पिडा दिवची न्हय म्हण तेची पुजा करूंक लागले. मगेर तोच तुमचो देव जालो. भिवकुऱ्यांचो देव!"

झुलो देवळ्यान एकदम म्हटलें, "ना, खरें न्ही तें. खोटें तें."

"तुमी गायेक पुजतात?"

"हय."

"तुमी सोरपाक पुजतात?"

"हय."

"तुमी हतयाचें तोंड पुजतात?"

"हय."

"तुमी हुंदीर, सुणीं, फातर लेगीत पुजतात. पिशेपणां सगळीं."

भद्र शणैन म्हटलें, "तुका आमच्या धर्मांतलें कांयच खबर ना. तुका कांयच कळचें ना. आमचो धर्म तुमचेवरी फक्कत एकाच मनशांत देव पळयना. मोनजातींतय देव पळयता तो. उज्यांत उदकांतय देव दिसता ताका. जें जें उबें आसा तांतूंत देव आसा. ही चराचर सृश्टी देवाचो अंश. म्हण आमचे तेत्तीस कुरोट देव."

"तेत्तीस कुरोट?" पाद्री बकच्छायेन हांसलो. "देव एकच. जो सोर्गांत रावता तेणें आपलो पूत जेजूक धरतरेर धाडलेलो मनशाची काकुळटाय करूंक. तेचो मोग होच आमचो किरिस्तांवांचो धर्म. तुमच्या अशा एका देवाचें नांव सांगशात जो मनश पासत मेलो? आमचो जेजू मनशाचीं दुख्खां पयस करूंक खुर्सार मेलो. जेजूचो धर्म आपणायात आनी रायाची राखण घेयात."

"आमचो आमकां देव आसा. आमची धरतर मांय सांतेर पळयल्या तुवें? तिचं आसा आमकां राखण. ती आमकां शतमानासावन पोसवण दीत आसा. मळबाक न्हय, धरतरेक देव मानतात आमी भावार्थी."

पाद्री रागान वयर सकल जालो. "कदीमकाळी रानटी लोक तुमी. आमचेसर बळगें आसा. तुबकां आसात, तरसादी आसात. मायेमोगाचो जेजू आसा. मोगा तुमी किरिस्तांव जाले ना तर तुमकां मारतले, फोडटले, धांबडावन घालतले."

सगळे वोगीच रावले. शेफीन म्हटलें, "देऊळ आनी इगर्ज एकाच गांवांत उरच

ा. तुमी इगर्जे वटेन येयात. तुमची गांवकी उरतली, शेतांभाटां उरतलीं.''

मदींच केंकरो चोम्यांतल्यान कुशीक सरलो आनी फाटीं वळोन चलूंक लागलो.

''केंकरो, तूं ह्या गांवचो फिदाल्ग. तूं जावो आमकां. हांव येतलों तुजेसरीं. क्न्याच्या बदलाक कयसरो म्हटला तुका हांवें.'' पूण ताणें फाटीं वळून पळयलें ना.

भद्र शणैन म्हटलें, ''तुमी रावात कांय तेंप. आमी चिंततात. ह्या वर्साची ामनाथाची आनी ताच्या परिवार देवांची वर्स मान्तूक, पुजा जावं दी. शिगम्याक नेमणे होळये नासासरीं होळी लासली म्हणटकीच वर्साचो उत्सव सोंपता. मागीर आमी कितें तें सांगतात.''

पाद्रीन मदींच म्हटलें, ''जावचें ना सिन्योर रिबेर तेंचें. कांय मानून घेवं नाका तूं.''

निळू नायकान विनवणेन म्हटलें, ''ह्या एका वर्साचीं शिगम्या मेरेन पुराय देवाचीं कामां करूंक दियात आमकां. मागीर तुमकां जाय तशें करात. गर्भकुडींतलो देव तरी वाटोवंक जाता जाल्यार चयतात आमी.''

निळू नायकाचे उपकार आसले तांचेर. केन्नाय तांदूळ गोटो उणो पडल्यार, कसलोय जिन्नस जाय जाल्यार ते रोखडेच निळूसरीं धांवताले. तो रोखडोच काडून दितालो. दुडवांकय रावतालो.

शेफीन म्हटलें, ''पाद्र, आमी तेंकां शिगम्या मेरेन आनीक तीन म्हयन्यांची मुजत दिवया. तो मेरेन आमची पारय आनी घण तयार आसतलो. एकाच मिसार शें-शेंकडो लोक बातिज्म घेवंक हांव आमडून हाडटां. उतराक फटिंग जाल्यार म्हजी तरसाद आसा. तूं ना म्हणचो ना पाद्र.''

पाद्रीक हें मानवलें ना. पाद्री ओगीच रावलो. पूण ताणें त्या लोकांक सांगलें, ''फकत देवळांतलें देवसपण तीन म्हयने चालू उरतलें. पूण देवळाची घांट वाजची ना. तशेंच, तुमी तुमच्या घरा भायर, भौशीक ठिकाणार कसलेंच देवस्पण करूंक फावना. घरा भायर काजरां करूंक फावनात, वाजंत्रां वाजोवंक फावनात, भटाक जोयशाक आफोवंक फावना. हो गांव हिन्दूंचो कसो दिसूंक फावना. हाचे आड गेल्ल्याक गोंया भायर धांवडायतले.''

अचकीत अख्ख्या चोम्याचो कणो मोडिल्लेवरी जालो. विज्ज पडून तोंडां काळीं जावचीं तशें जालें. ते वोगीच वचूंक गेले.

आपा म्हालो वयले वटेन एका झाडा आडसराक खांक्याक हडप मारून उबो आसलो. ताणें ताका ल्हवच विचारलें, ''कितें जालें? कितें म्हणटात?'' बरेच जाण ताका कांय सांगिनासतना गेले, पूण तानो गुरवान म्हटलें, ''तुवें आतां शेंडयो कापून पोट भरचें आपा. आतां मसुंडेर खऊर केल्यारच तुगेलें पोट भरतालें. फाल्यां कितें तासतलो तूं?''

सगळे वचूंक गेले. दनपार जावन गेल्ली. शिंयाचे दीस आसूनय हवेंत उबाळ
आसलो. आपा म्हाल्यान मनांत म्हटलें, वारो फिरला. फिरिल्लो वारो उबाळ घेवन
येता.

तो मात्सो रावलो. मगेर ल्हव ल्हव पावलां उखलून ताच्या राबित्यासरीं वचूंक
गेलो. तो येदोळ मसुंडेर भाना भोयाल्या क्रियाकर्माक खऊर करून येयिल्लो. जिवीतभ
माचुलां व्हांवन व्हांवन भानाल्या दोनय खांदार घटे पडिल्ले. ते घटे चामडें शिंवन
दवरिल्लेवरी दिसताले. गांवभर लग्नाचीं माचुलां, शणैगेलें रासवळ माचूल, केन्ना
केंकऱ्यागेलें माचूल तो आपल्या लोकां वांगडा व्हांवतलो. जाण्टो साठ वर्सांचो जाय
मेरेन भाना भोय़ माचुलां व्हांवतालो.

आपा बेताळा देवळा मुखार तेंच्या राबित्यासरीं येवन उबो रावलो. एका देशी
सोल्दादान विचारलें, "कितें जाय?"

"तुमी हजामत खंय करून घेतात?"

"गोंय पाटणांत गेल्ले तेन्ना करून येतात. पुर्तुगालसान तेणी हाडिल्ले वाख
आसात आमचेसरीं. तेचेन खाड काडटात सोमनाक एक फावट."

"पळय केंस कशे वाडल्यात तुमचे सगळ्यांचे करड वाडिल्लेवरी. बरें न्ही ते
केंस म्हटल्यार कली तो. रोगाचें मूळ. उयांचें हुराण. उयो कुडीचें रगत ओडून घेतात
रगत गेलें म्हणटकीर शक्त वयता. शक्त उणी जातकीर पिडा बाधता. तुमचो वडील
मनीस खंय?"

त्या सोल्दादान भितर वचून काब गास्पार पिन्तूक आफयलो. गास्पार पिन्तू
बरोच जाण्टो काब आसलो. गोंय घेतकीर आल्बुकेर्कान धरिल्ल्या मुरांच्या जुवा
बायलांचें लग्न कांय पुर्तुगाली सोल्दादांसरीं करून दिल्लें. तांचे पसूनच गास्पार पिन्तूच
जल्म जाल्लो. तो सामको पाखल्यावरी दिसतालो. तांचेपरसय गोरो. तो भायर येयत
आनी ताणें पळयलें. तो म्हालो म्हण तो वळखलो. "कितें जाय तुका?"

"केंस पळयात तुमचे. जटा कशे वाडल्यात. केंस म्हणटा तो कली. केन्नाय तु
सांगणें धाडल्यार धांवन येतां हांव."

"तूं अजून हिन्दूच आसा?"

"म्हाल्याक जात धर्म लागना व्हड मनशा. कोणय आमच्या हातांत तकल
दिता."

"तूं किरिस्तांव जाता?"

"म्हाल्याचेंच काम हें. किरिस्तांवांचें न्हू. किरिस्तांव जाल्यार फाल्यां म्हगेल
चेडो आपणाक व्हडलो मनीस म्हणटलो आनी तकलेक चेंपें घालतलो. हातांत वार
धरचो ना. मगेर सगळ्यांल्या तकलेंचीं रानां."

"बरें आसा. दर शेनवाराक येवन वच तूं. शेफीक सांगतां हांव."

म्हालो मुरकुटलोच. आपली जात, धर्म सुगूर उरतलो आनी धंदोय !

रातीं घरांत काळोख भरून गेलो तरीय गांवान दिवे लामणदिवे लायले नात. पोटांत प्रचंड खपखपो. जो तो तकलेर हात घेवन वासरेंत, तेण्यार बशिल्लो. घरांत दिवे लायल्यार ताचो उजवाड भायर पावत आनी कोणय धांवन येत, ख्यास्त दीत ही भिरांत. तांणी तर गांवांत कसलेंच देवस्पण करूंक फावना म्हण सांगलां.

तशींच तीन दिसांनी तुळशी लग्नां येयलीं. कितें करतलो, कशें करतलो ! लोकांचो जीव तुट्टालो. वर्सासंकिनचो नेम आनी निश्ठा आतां सुट्टली. शाप दितली दारांतली तुळस. चोम्या-चोम्यांनी लोक आंगणांत बीन उबे आसले. कितें करचें, सुचनासलें. वोगीच दिसतालें, भायर कोण तरी तेळत भोंवतात. ते घात मारतले. शेवटा तांणी काळखांतच तुळशींत जिन्या बडी पुरली आनी तिका सावरी कापसाची माळ घातली. तुळशी सामकार एक पणटी ना, एक घोलकें वाजलें ना. मगेर घरांत येवन पण्टी पेटोवन तांणी फोव चिरमुल्यो कालोवन खायल्यो.

सुखडो नायक आनी जना नायक हांचेमदीं गेल्लीं चार वर्सां तरी झगडीं सुरू आसलीं. तेंचेर अच्छेवच आयिल्लो. कोणें थुंकल्यारय आपणाचेर थुंकलो म्हणप आनी कोणें हांसल्यारय आपणाक हांसलो म्हणप. कुकडां मांजरांक संवल्यारय आपणाक संवलो म्हणप. जनाक इल्लीं उसरांच भुरगीं जाल्लीं. तेगेलो एक चेडो आनी दोन धुवो पंदरा वर्सां भितरल्योच आसल्यो. हाचे उरफाटें, सुखड्याले तीन जुवान चेडे आसले. जनाली बायल मात झगडूंक हुशार. कॅच् कॅच् करून दादल्यांचे मुखार येवन हात हेळयत झगडटाली. नानापरीन खेपताली. सुखड्याल्या घरांतले लोक तिकाच भियेताले.

एक दीस जनालो बैल सुखड्याल्या शेताचे वयले मेरेर पांय मोडून पडिल्लो मेल्ळो. सुखड्यानच तेचो पांय मोडलो म्हण जना आनी तेगेली बायल खेपूंक लागलीं. हाणामारीचें झगडें जालें. सुखड्यान भुंयेर हात मारून सोपूत घेतलो, पूण कांयच थाऱ्यार पडलें ना. एक दीस जनान सुखड्यालो एक आंबो आपलो म्हण पाडलो. खंडीभर तोरां हाडून आपल्या घरांत उडयलीं. मागीर जाल्ल्या झगड्यांत सुखड्याल्या चेड्यान रामकुस्टान ताका दोन थापटां मारलीं. झगडें वाडतच गेलें.

सुखडो किरिस्तांव जायतसावन जना ताका हीण हीण लेखतालो. जनेलांत बीन उबो रावन ल्हवूच धर्म बाटयलो, गांव बाटयलो, घरवड बाटयली म्हणटालो. कावळ्या-वाडी घालतना कावळ्यांक आफोवंक अच्छेव करतालो. व्हडाव्हडान कितलोसोच

वेळ आफयत रावतालो. देवळाकडेन बीन वचून येवन आंगणांत उबो रावन भुरग्यांक म्हणटालो, 'प्रसाद घेयात गो. जाणा मुगे सायत्री, प्रसादाक उजवी पाकळी झडली. अंदू जाता काम.' तुळशीलग्न पंदरा दिसांर आसतनाच आंगणांत उबो रावन भुरग्यांक सांगतालो, 'अंदू तुळशीमुखार एकशें एक पणट्यो लावच्यो.'

किरिस्तांव जायत सावन सुखडो आनी तागेलो घराबो मनान इल्लो सदळच जाल्लो. गुन्यावकारीपण मनाक खातालें. तातूंत तागेले बायलेन म्हालकुमेन वथरेणेन हांथरुणच धरिल्लें. सुखडो जनाचे वाटेक वचनासलो. तो आनीक कितें उस्तून काडत म्हण ताका भिरांत दिसताली.

एक दीस तुळशी लग्नाक आठ दीस आसतना, जना बायलेन दारांत शेड घालतां घालतां आंगणांत उबी आशिल्ले रामकुस्टा बायलेक पार्वतेक पळोवन म्हटलें, "घोव आसतना बोडकां जावन भोंवतात अवचित्राळ्यो."

तिणें तें ल्हवच म्हणिल्लें, पूण पार्वतेन ज्युस्त आयकलें. तिणें जाप घातली, "हय, आमी घोव आसतना बोडकां जाल्यांत. राव तूं, रोखडीच घोव मरून बोडकी जातली. आमचो मणी घरांतच आसा, तुजो मसुंडेर पावतलो."

घे लागलें झगडें. सुखड्याल्या घरांतले दादलेय मदीं पडले. दोनय वटेन गाळयांचो शिंवर. सुखडो रागान खतखततालो. इतले दीस सोंशिल्लें ओंकून उडोवचें अशें दिसतालें ताका. ताणें म्हटलें, "आमी धर्म सोडटले ना तर गायेक मारून खातले. तुका लागचें ना. तूं मसणो कोण न्ही आमचो. ह्या उप्पर कितें उलयल्यार सोल्दादांक हाडून फाट सोलतलों, तुजें मडें घालतलों."

"सुवार्थी, कुळघातकी तूं. खंडयेच्या शेता कुडक्याक लागून तुवें धर्म विकलो, सुनांक विकल्यो. आतां त्यो रंडक्यो जावन भोंवतात. नाक आनी वयर तुमचें."

हाचेर सुखडो रागान समतोच झपाटलो. सुद्दसुम्रत विसरलो. तो धांवत घरांत गेलो. घरांत अर्द जेवण उरिल्लो शिता बुडकुलो आसलो. तो ताणें उखल्लो. भायर जना मुखार हाडून तातुंतलें थोडें शीत सोताच्या तोंडांत ताणें चेपलें. मगेर तें तशेंच बुडकुल्यांत थुकलो. तो बुडकुलो घेवन तो जनाल्या घरासरीं धांवलो. तें उश्टें शीत ताणें भायले तुळशीर शिंपडून उडयलें. तो बुडकुलो घेवन तो तांच्या घरभर नाचलो. सगळें शीत जनाल्या घरभर शिंपडून उडयलें. तागेले चुलींत उडयलें. देवाकोनशांत देवार उडयलें. कांय खिणांतच ताणें हें सगळें केलें. जना धरूंक गेल्यार तो मेळ्ळो ना. उपरांत ताणें तो बुडकुलो आपटून ताच्या दारांतच फोडलो.

आतां जना बायल सायत्री कोण मेल्लेवरी दारांत बसून रडटाली. जना रडत रडत सुखड्याक खेपतालो. पूण ताच्या आवाजाक जोर नासलो. आतां सगळें सोंपलां म्हणिल्लो आवरो. कोणें तें सोंपयलें हाका अर्थ नासलो. घोव बायल दोगांय

सुखड्याक आनी ताच्या घरच्यांक खेपतां खेपतां ओगी पडलीं. आतां दोनूय घरांनी मसुंड शांतताय पातळ्ळी. ती पुराय सांज आनी पुराय रात घरांत मडें दवरून राखूंक बशिल्लेवरी कांच आनी थंडसाण.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं जना बायलेन रडत म्हटलें, "सोंपलें सगळें, सोंपयलें दुस्मानान. आतां आनी शुद्धाचार खंयचो? तोच आतां गांवाक सांगतलो व्हडविकायेन, आपणें तेंकां बाटयले म्हण. कितें करचें म्हणच कळना." ती कपलार हात घेवन बसली. कालसान ती घरांत सात्र मारताली, शिंतोडो घालताली, परत सात्र मारताली, शेण ओडटाली. तिचें घर नितळ करचें चालूचआसलें. तुळशीचेर तिणें धा दोडी उदक हाडून रकयल्लें. पूण समाधान नासलें. किरिस्तांवांलें उश्टें अन्न घरभर!

गांवांत खबर केन्नाच पातळिल्ली. जना नायकालें घर बाटलें म्हण. सदां सकल्ल्या घरची जानकी दांत्यार दळूंक येताली. सद्दां सकाळीं ती येताली पूण आज येवंक ना. आज आंगणांतल्यानय शिरवाड्यावयलो कोण नायक गेलो ना. देवळावटेन वयतलो जाल्यार शिरवाड्या वयल्या जायत्या नायकांक तांच्या आंगणांतल्यान वयचें पडटालें. पूण आज कोण झळकूंक ना. तांणी वाट बदल्ली काय!

सकाळीं उसरां जना नरहर जोशासरीं गेलो. सगळें सांगतकीर जोशान म्हटलें, "शिव शिव शिव, म्हापातक. पाताळ खणलें तरीय हाका शुद्धाचार ना. हेका शुद्दाचार एकच. अग्नीचे खणींत लासून घेवन वयर सरचें."

"म्हणजे आमी किरिस्तांव जावचे?"

"हांव म्हणना किरिस्तांव जा म्हण. हांव कसो म्हणन त्या चांडाळांच्या राज्यांत वचात म्हण? आतां तशेंच हुमकळत रावचें. स पिळग्यो हें पातक उरतलें. सातवे पिळगेंत पापक्षालन जातलें."

"म्हणजे स पिळग्यो आमी देव धर्म नासतना हुमकळत रावचे?"

"उपाव ना. चंद्रशीश राजा चांडाळाच्या अभक्ष उश्ट्यार पांय पडलो म्हण परिवाराक घेवन अरण्यांत गेलो. थंय स पिळग्यो वनवासांत रावन राज्यांत परत येयलो."

जनाक दिसलें, हो भोवच वायट उलयता. ताका तो दांत फुटिल्लो दैत्य कसो दिसलो. तो वोगी उठून घरा आयलो.

चार दीस अशेच गेले. कोण एकलो घरा भितर सरलो ना. तेवूय कोणागेर गेले नात. कोणाल्या घरांत गेल्यार कोणय घरांतल्यान भायर काडीत म्हण भिरांत. तांचेर थारयनासतनाच घातिल्लो पुराय बहिश्कार! एक दीस फोव चिरमुलेकात्र शेंवतें आयलें. चोबो दवरून दारांत बसलें. ताणें अचकीत जना बायलेक म्हटलें, "आको, बाटले तुमी?"

जना बायल ओगीच रावली.

शेंवत्यान म्हटलें, ''म्हाका कितें, कसली बांट ना. सुपांत फोव चिरमुले रखोवचे, सुपांतल्यान तांदूळ भात घेवचे. हांव सुखड्यामामाल्या दारांतल्यान हिंगा येयलां.''

जना बायलेन रागान म्हटलें, ''आमकां कांय नाका तुगेलें. लाग तूं चलूंक.'' शेंवतें चोबो उखलून घेवन वोगी गेलें.

सुखडो इगर्जेंत वचून किरिस्तांव जाल्लो म्हण ताचेविशीं सगळे आपशींच थारिल्ले. जनाक सुखड्यान उश्टें उडोवन बाटयिल्लो, दादल्यांमदीं बेठीच भासाभास जाली, पूण सूर होच आसलो. तो बाटलो ताका आमी कितें करतले, आमी कशे वयतले तांच्या घरा? कशे आपयतले ताका भौसांत? ताचें तेणें पळोवचें.

शिरवाड्यावयले हे नायक सोताक खेत्री म्हण घेताले. पूण खेत्रीपणाचीं कसलीं लक्षणां ताचेसरीं नासलीं. झुडोन वचूंक ते तांकनासले. गुणा तांचे आड उठिल्लो तेन्ना ते ताच्या फाटबळाक रावले नात. उलटे लिपून रावन खेबडां पळयताले.

जना एक दीस रायगाळी बामणवाड्यार गेलो. तांचीं जण एकल्याचीं एकेक मत्तां. इंद्र शणैन म्हटलें, 'राव तूं तसोच कांय दीस. वारें कशें व्हांवता पळोवंया. हे दीस अशेच उरचे नात.' भद्रशणैन म्हटलें, 'अशेच उठून गोंयाभायर वचून नायक म्हण रावचें. कोणें पळयलां. कोणाक कोण वळखता?' जनान म्हटलें, 'मन खातलें, म्हाकाच झेम पडचीना. देवाक हात लावंकय भिरांत दिसतली.' खरें तुजें म्हणिल्लेवरी भद्रशणै ओगीच रावलो. सुब्राय शणै मात सुखड्यालें कर्तूब आयकोन तापलो. ''कसलो घातमारो मनीस रे तो. तूं वच आती त्या पाखल्यांक सांग, तुमचो किरिस्तांव म्हण सांग तो. असलेच हे किरिस्तांव काय म्हण विचार. तुमचें नांव पाड केलां, तेका हाडून बरे बडयात म्हण सांग.''

जना उठलो आनी घरा येयलो. आतां ताका सुखड्याचो इतलो राग येयलो, तेणें मनांत म्हटलें, हांव बुद्द शिकयतलों हाका. खर ख्यास्त भोगयतलों.

तशींच आठ दिसांनी तुळशी लग्नां येयलीं. हेर तुळशींचीं लग्नां काळखांत करतना जनाय काळखांत बशिल्लो. पूण तेका सूऽ जाल्लें. तो भितरल्यान हांसतालो. जावं, सगळे एकेच पंगतींत !

दुसऱ्या दिसा सकाळीं उठलो तेन्ना ताका खरोच हुरूप येयिल्लेवरी दिसतालो. ताणें बायलेक म्हटलें, ''जाणा मुगो, तांणी कोंकण्यांचीं सगळीं भायलीं भितरलीं देवाकामां बंद उडयल्यांत खंय. कोणय कसलेंय देवस्पण करतना दिसल्यार जबर ख्यास्त दितले खंय. हांव वचून येतां. ते कितें म्हणटात तें पळयतां. तेंचेविशींय कागाळ करूंक जाय म्हाका.''

''तेंचेसरीं वयतलो तूं?'' सायत्रीन हुसक्यान म्हटलें. गेल्ल्या आठ दिसांत

सायत्रीची अशी दैना जाल्ली, सगळो ताठो भितरले भितर मोव पडून कापूस जाल्लो. भुरग्यांक म्हऱ्यांत घेवन ओगी बसून आसताली. तांकां आठ दिसांत फक्कत पेज शिजोवन घातिल्ली.

तांच्या राबित्यार गेल्यार शेफ नासलो. शेफ आनी पाद्री कुलासू गोंय पाटणांत गेल्ले. दोगय काब आनी धाकलो पाद्री बेनेदीत फेर्रांव आसले. काब गास्पार पिन्तून म्हटलें, ''तूं पिसो, आयतीच संद मेळ्ळ्या तुका. मानान भौमानान जा किरिस्तांव. फाल्यां धाडावन बडोवन किरिस्तांव जावचे परस हें बरें. तुका सांगतां आयक, जाय ती शेतजमीन पडलेकडेन आसा. भौसाची जाल्यार पळोन गेल्ल्यांची. तुका मेळटली एक दोन खांडयेची आयतीच.''

पाद्री बेनेदीत फेर्रांव मुखार येयलो. ताणें म्हटलें, ''उपकार आठय, तुका कोणें बऱ्याचे वाटेर हाडून सोडला. जी वाट तुका बरें जिवीत दितली, राखण दितली, जेजूचो मोग दितली. अख्खो गोंय जुंवो किरिस्तांव करचो हावेस आमचो. कोणाक तें चुकूंक येयल्लें ना.''

जना तांकां नमस्कार करून देवळावटेन वचूंक सुटलो. पाद्रीन फाटल्यान म्हळें, ''कितें तें थारय बेगीन. सोल्दाद येतलो फाल्यां तुज्या घरासरीं तुजे खबरेक.''

जना बद्द देवळा मुखार येवन उबो रावलो. आयजवेर जिवितांत ताणें प्रसाद घेतले बगर कसलेंच काम करूंक नासलें. पावल मुखार मारूंक नासलें. घरांत नवो बैल घेतलो जाल्यार, दोंगरापार खंयूय वयतलो जाल्यार लेगीत तो देवालो प्रसाद घेतालो. आज शेनवार आसलो. सोमार शेनवार दोन दीस प्रसाद जातालो. ताणें भटाक भायर आफोवन घेतलो. गरीब चेहऱ्यान ताणें म्हटलें, ''देवाचो कौल घेवंक जाय. हांवें म्हज्या घराब्यासयत किरिस्तांव जावचें काय ना तें विचारूंक जाय.'' भटान कांय वेळ दुबावान ताचेसरीं पळयलें. ''शा, शा, तशें कशें जातलें? पिशेपणां!''

''भटो, हायें इतलीं वर्सां तुज्या हातान प्रसाद कौल घातलो. आतां निमाणो. ना म्हणूं नाका. हांव अजून ह्या देवाचोच.'' जनान चेंचयेंतल्यान तीन टाक काडले आनी वयल्यान भटाल्या हातार उडयले. भट राव राव म्हणत भितर गेलो.

भटान खरेंच ताच्या नांवान देवरथ उबाल्लो आनी तो पाकळेक बसलो. जना बरोच वेळ देवळा मुखार खुरमांडी घालून बशिल्लो. आतां तो परत दीनहीण जाल्लो. ताचें काळीज हुस्क्यान भरिल्लें. देव कितें कौल दिता काय देवा! देवान ना म्हटल्यार कितें करचें? त्या घातकी सुखड्यान कसल्या धर्मसंकस्टान घातलो म्हाका!

कांय वेळान भट भायर येयलो. ताणें म्हटलें, ''देवान उजवो कौल दिला. जावंक जाता म्हटलां.'' ताणें प्रसादा फुलां वयल्यानच जनाल्या पोशांत उडयलीं.

जनाक दिसतालें, भटान आपणाक सांगचें आसलें, जना पापया, हो देवधर्म

सोडून तूं किरिस्तांव जायनाका. आमचो धर्म आमकां व्हड. पूण ना. देवाचो एक मनीस उणो जालो म्हण हाका इल्लीय खंत ना. ते मात तांच्या देवाचीं मनशां साबार करूंक लागल्यात !

कार्तिक पुनवेची पालखी कशी तरी पार पडली. वर्सा कितलो जल्लोस आसतालो. हरहर महादेवाच्या गजरांत पालखी उठ्ठाली. दर पेण्यार खांदे बदलतना, खांदे दिवपी बदलतना परतो हरहर महादेव. पालखे वांगडा सगळ्या तरांचीं वाजंत्रां वाजतालीं. मुखार दीपमाळ घेवन कलवंतां नाचतालीं. दर तोर्णार गांवकारांल्यो पालखेक आरत्यो जाताल्यो. पालखी फांत्यापाराक सुटून देवळाकडच्यान देवळाक प्रदक्षिणा घालून शिरवाड्यार येताली, थंयच्यान शिरवाडो आनी रायगाळी मदीं आंवळ वनांत वयताली. रायगाळीचे बामण आंवळवनांत पालखी पुजताले. पालखेंतले मुर्तीक चिन्न रामनाथ म्हणटाले. ताचो थातोमातो चड.

पूण अंदूं जीव नासलो. गळो धरिल्लेवरी हरहर करताले आनी जीव गेल्लेवरी पावलां उखलताले. तांच्या राबित्यामुखावेल्यान पालखी वयतना वाजंत्रां लेगीत शेळेल्लीं. जण एकल्याच्या ओंटांर एकच प्रस्न, खरेंच ही कार्तिक पुनवेची पालखी निमाणी काय? शतमानाच्या एका सुवाळ्याचो निमाणो अंतखीण काय! कोण कांय उलयनासले. मोन्यांनी पालखी व्हांवताले. वोगीच दिसतालें, ते केन्नाय खंयच्याय खिणाक हातांत तरसाद घेवन पालखे मुखार उबे रावतले, फाटीं घेयात पालखी म्हण फर्मायतले. मगेर केदो आकांत! पालखी अर्द वाटेवयल्यान फाटीं येयल्यार माणसुकी आसा!

जाण्टेले मुखार येवन थरथरत्या हातान पालखेक हात लायताले. तांच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळटालीं, ''देवा, तुजो उत्सव तूंच चालू दवर. आमी अबरगत!''

लोकांनी पालखेच्या नांवान आपल्या दारांत निमणीं दिवजां पेटोवन घेतलीं. मुखाल्लें वर्स उजवाडत म्हण कोणाच्यान सांगूं येता !

ताचें नांव अपरुपें. म्हण लोक म्हणटाले ताका अपू. अपू नायकीण सोबीत आंगलोटाचें आसलें. मोटवें, गोरेंच. दोळ्याच्यो पातयो सोबीत काळ्यो काळ्यो. दोळे भांगरा वर्णाचे ओले ओले भिजिल्लेशे. ताणें पिंपळेक शेंस भरिल्लें आनी ताच्या नांवान मणी बांदतालें. चाप्पून कास मारून पावलां मेरेन न्हेसतालें. मनगटा मेरेन चोळी न्हेसतालें. चोळयेचे गोंडे कमरार लांबताले. कोणेंय 'अपू, इतलें कित्याक

धांप्पून न्हेसता गो' म्हण विचारल्यार तें म्हणटालें, 'तुमच्या बायलां इतली सवाय न्ही म्हजी कूड उकती उडोवंक!' ताची आवय दारार सुपारे कुटणें घेवन बशिल्ली आसताली. घरा मुखावेल्यान कोणय झेताचो दादलो देवळावटेन वयताना दिसल्यार 'अगो अपू, भायर यो गो' म्हण उलो मारताली आनी कुटणें कांडूंक लागताली, खण् खण् करून.

देवळाचे वयले वटेन धेंगणार तांचें घर आसलें. थंयच आनीक इल्ले वयर शिवणाली माडये गादी आसली. ह्या गांवांत कोण सूर सोरो काडिनासले. न्हंये पलतडच्यान चिखलेच्यान माडये कळशे येताले. ते मगेर हे वटेन करंजाळ तेवटेन कालापूर, चिंबला मेरेन पावताले. शिवणाले गादयेर शिरवाड्यावयले नायक, हेवटेनचे देवळी, गुरव, मेस्त अदींमदीं वचून बसताले. केन्ना बामणय घरा फाटलेवटेन वचून थंयच्या आड्यार बसताले. ताल्ल्या बांगड्यां तेंपाक तणांत ताल्ले बांगडे भाजून तो दितालो. व्हडलीं सुंगटां मिरसांगांत उकडून दितालो. पावसांत कोंगे कुल्ल्यो भाजून दितालो.

हेर जातींत देमू गुरव एकलोच गांवकेचो वांगड आसलो. ताका शेतांय खूब आसलीं. देवाची नमशी ते भायर सोताचें मिराशे शेत. तो केन्ना म्हणटालो, आमची पिळगी रामनाथा इतलीच आदली. रामनाथा देवळाचो पायो मारतना पुजेक गुरवपण आमच्या पूर्वजांनी केल्लें. भटबीट हे मागीर. हांकां हाडिल्ले देवाचे चाकरेक. आमी मुळावे.

तो आतां इल्लो जाण्टो जाल्लो. पूण मुळावो झेत, ताठो तसोच आसलो. पयलीं पसून तो इल्लो अभिमानी, अहंकारी मनीस म्हणच लोक वळखताले आनी भियेवनच रावताले. हो ऊंच, गंवाळ आंगलोट, ताठ चलप. चलतना पोंवटेकडची शीर तडतड हुडटाली. ताका तीग पूत आसले. व्हडलो इल्लो सादो साबळो आसलो. धाकलो मात भोवच शाणो शिटूक आसलो. झाडाचे तुरयेर मेरेन वचून तें झाड सकाळटालो आनी तासणेन बेस सोबीत नांगर, जुंवां तासतालो. मदलो दासू मात भायले गोडयेक लागून सामको हाताभायर गेल्लो. केन्ना कोणाक मानिनासतना भाताचे पिणगे भरून घेतालो आनी काशील्या लोट्यार ना तर पाटकाराल्या पसऱ्यार व्हरून उडयतालो. नाल्ल म्हण ना सुपारी म्हण ना, कितें दवरिनासलो. एक फावट कामतांत केल्ल्यो मिरसांगो आनी हुडीद लेगीत ताणें व्हरून विकल्यात. बापायन सुरवेक भोव माल्लो धाडायलो पूण तो आयकनासलो. आतां आतां तर बापायच्याय आंगार धांवन येतालो. तोवूय बापायवरी आंगलोटान बरो आसलो. हो सुदरतलो म्हण दोन वर्सां फाटीं बापायन लग्न केल्लें पूण बायल स म्हयने रावली आनी एक दीस कुळारा उठून गेली.

तो माडयेक संवकल्लो आनी अपूकय. अपुली आवय तो वयतकीर इतली लाडीगोडी करताली, तिच्या उलोवपानच अर्दो तृप्त. मगेर भितर आनी अपूले कुडीची गोडी. देमू गुरवालो पूत आमगेर येता हेंच त्या आवय धुवेक अपरूप आसलें.

बापूय आतां आतां खूबच शादूर रावतालो. ताणें ओंवरेक दार करून कुलूप लावन घेतिल्लें. गांवांत घडये हें पयलेंच कुलूप आसुंये. मुद्दम ताणें तें गोंय पाटणांतल्यान हाडून घेतिल्लें. सगळो म्हालमत्तो, दाणोगोटो चावेंत दवरूंक लागलो. भात मळटना खळार तो शादूर रावतालो. हातांत दांडो घेवन पाऱ्याक राविल्ले वरी रावतालो. तरीय एक दीस व्हडलो भाव खळार आसतना येयलो आनी खळावयलेंच पिणगें घेवन एक पिणगें भात घेवन गेलो. भावान कितलें सांगलें आयकलें ना. उलट मुठी आंवळून तांच्या आंगार गेलो. व्हडलो बापायक सांगचो नासलो. पूण खळावयल्या स रित्या पिणग्यांतलें एक पिणगें उणें जाल्लें. तें रितें पिणगें मगेर ताणें दुसऱ्या दिसा बापाय हुजीरच आंगणांत हाडून उडयिल्लें.

एक दीस तो माडी पिवन येयलो. ''बाप्पा, गांवचो राया म्हण समजता सोताक. पूण आपल्या पुताक रस्त्यार उडयला तुवें. येदी व्हडली तुजी आस्पद पूण म्हाका अन्नाचो मुदो फाव जायना.''

''तूं घर लुटून गांव हुंगूंक वच आनी अन्न फाव जातलें तुका? घरांतलें अन्न खावंक तुका तोंड आसा मुरे?''

''आवो, ये आवो, तूं हेंकां मेळ्ळ्या. हांव मेलों तरीय तुजें काळीज हालचें ना. बाप्पाक सांग, आस्पदेचो म्हजो वांटो उडय म्हण. हांव कितेंय करतां, खंयूय वयतां. परतो तुमच्या दारांत येवचों ना. म्हजो आडो नाका तुमकां.''

आवय ओगीच रावली पूण बापायन रागान फणफणून म्हटलें, ''वांटो खंय वांटो, कोणाची आस्पद? तुवें जोडिल्ली?''

''म्हज्या पूर्वजांली आस्पद बाप्पो. वडाकडची चार खंडयेची जमीन फाल्यांसान म्हजी.''

''कित्याक? नायकिणींक घालूंक काय सोऱ्याक घाणा घालूंक? चल, होसमार हिंगासल्लो. लाग चलूंक. बापूय आसतना वांटो मागता. ना एक कुस्कूट मेळचें ना हांव आसांसर.''

''बाप्पो, बाप्पो, बऱ्यान सांगतां, म्हजो वांटो उडय. गांव सांगता तुजेकडेन हांडोभर शेराफींय आसात म्हण. तेभायर भांगराचीं पोवनां.''

''आसात, आसात. एक कित्याक, धा हांडी आसात. पूण तुका एक पानदुडू मेळचो ना. शेताभाटाचो एक कुडवाचो कुडको मेळचो ना. हांव आसांसर.''

माडयेची घुंवळ बरीच चडिल्ली. ''दाखयतलों, तुका हांव दाखयतलों. तूं मरचे

पयलींच तुजेकडच्यान वांटो घेतलों.''

आवयन रागान म्हटलें, ''कितें उलयता तूं मडें पडिल्लो? जीब धरतली तुजी.''

''आवो, तूं मेळ्ळ्या ताका. हांव दाखयतलों. म्हजो वांटो वसूल करतलों.''

दासू तसोच संवत वचूंक गेलो. बापूय देमू गुरव रागान फुटूंक पाविल्लो. ताका दिसलें, ही मुडे बांदची पेटणी घेवची आनी ताचे तकलेर घालची! ताचो आवाज पयस गेलो आनी एक भिरांत ताचे भितर दावां मुळां पातळावंक लागली.

दुसऱ्या दिसा सांजचें गणपत देवळ्यान सांगलें, ''तुजो मदलो पूत सोल्दादांच्या राबित्यार गेल्लो खंय. कित्याक कितें म्हण खबर ना.''

देमू गुरवाल्या पोटांत धस्स जालें. खरें म्हटल्यार ह्या गणपत देवळ्यानच दासूक सांगिल्लें एक दीस, किरिस्तांव जाल्यार तुका बापूय आसतना बापायले आस्पदेचो वांटो आपसुकच मेळटा, सोल्दाद येवन वांटो काडून दितात म्हण.

देमू गुरव वोगी घरासरीं येयलो. दासूचो दोन दीस पत्तो नासलो. ताचो धीर खिणाखिणाक गळसणलो. त्या दिसा सांजेचो तो उठलो आनी अपूसरीं गेलो. खूब खूब धीर एकठांय केल्लो ताणें थंय वचूंक. अपूली आवय भायरच बशिल्ली. पूण देमूक पळयतकीर तिणें कुटणें कुटलें ना. ती वोगी बसून रावली. अपू भितरले वटेन जनेलांत उबें राविल्लें दिसतालें. आवय धूव भितरल्यान इल्ली भियेल्लीच.

ताणें विचारलें, ''दासू आसा? तो येयिल्लो?''

''ना, गेल्ले दोन दीस ताका चयलें ना.''

देमून दोळे वटारून तापोवनशें म्हटलें, ''तेका तुमी घेवं नाकात घरांत. दशा जाल्या तेची. वाट लायल्या जिविताची. तुमकां गांवांत रावंक जाय काय नाका?''

अपूले आवयक शिट् जालें. ती बारा बांयची उदक पियेल्ली. तिणेंय जुवानपणांत दादले खेळयल्ले. तिणें म्हटलें, ''आमी गांवच्यो रांडो. आमकां रांडो गांवानच करून दवरल्यात. फाल्यां आमी लग्न केल्यार तुमीच आमकां फातरान मारतले. राती वसतेक येता तो आमचो घोव. आमच्यान कोणा गांवकाराक ना म्हणूंक येना. दासू तर व्हडल्या गांवकारालो पूत.''

भितरल्यान अपूलो आवाज किणकिणलो. ''कित्याक चड उलयता गे आवो? दासू तर आपणाक घरच ना म्हणटा.''

''तेणी गांवांत रावंक जाय काय म्हटलें म्हण सांगतां. देवामानाच्यो आमी. गांवकारांवरी आमकांय देवाकडेन मान आसा. फाल्यां आमी दीपमाळ नाचयली ना तर पालखी भायर सरतली खंय? हे लग्नाक बायलो हाडूंक वयतना, दसऱ्याक सिमो काडूंक वयतना आमचेकडच्यान पानाविडो घेवन भायर सरतात मुगो.''

देमू गुरव वोग्गी फाटीं फिरलो. फाटीं केन्ना अपूले आवयची साळूची गांठ तेकाय

पडिल्ली. चड कितें उलयतलो हिचेकडेन? पंचळ बायल ती. दुसरे वटेन ताका तिडक मारताली दासूची. हो जाल्लो तेन्नाच मेल्यार बरो आसलो. आतां लेगीत ताचें मडें घालीन हांव !

तिसऱ्या दिसाक सांजचो तो पियेवन तर्रर जावन येयलो. आकाड्यांतल्यानच आड्डलो, ''बाप्पा, उडय वांटो. आतां तो दिवचो तुका चुकचो ना. आतां हांव किरिस्तांव जालां. आतां हांव राया, पुर्तुगालच्या रायालो हांव मनीस. सगळे काब, सोल्दाद म्हजे राखणेक. आतां बापूय मरचे पयलीं म्हाका वांटो फाव जातलो. बाप्पा, खंय आसा तुगेलो शेराफींय भरिल्लो हांडो? पोवनां तपलें?''

बापूय देमू गुरव आकांताचो रागान झिडपल्लो. सामको तो वयर सकल जातालो. आपूण भुंयेर आसां काय अधांतरी घुंवतां तें ताका कळनासलें इतलो तो सुद्द विसरिल्लो. ताणें आड्डून म्हटलें, ''फाटीं फीर दासू. किरिस्तांव तूं. देवाधर्माचें घर हें.''

''म्हजें घर तें. हांव घरांत भितर वयतलों, म्हजो वांटो घेतलों.'' तो पुराय घुंवळेंत. ''चयतां म्हाका कोण आडायता तो. कोणाक धमक आसा तें चयतां. चोरां म्हजो वांटो खावंक सोदतात, म्हाका नागयतात. हांव आतां किरिस्तांव. आदीं घर बाटयतां आनी मगेर वांटो घेतां.''

देमू गुरव दोन पावलां मुखार येयलो. ताका आडयत ताणें म्हटलें, ''पळय, घरांत येवं नाका. दिवचों ना तुका हांव घरांत येवंक.''

आवयूय मुखार येयली. तिणें एकदम ताळो फोडून तांकी भायर आड्डून सांगलें, ''येवं नाका तूं घरांत. चल, फाटीं फीर. आनीक राग हाडूं नाका तेंकां.'' पूण दासू कोणाक जुमानिनासतना तेण्याची मेटलां चडून वासरेंत येयलो आनी घरांत वचूंक लागलो. देमू गुरव रागान समतोच घुंवलो. ताणें थंयच कडासेक खोवन दवरिल्लो विळो काडलो आनी दासूच्या हड्ड्याचे चिपयेसरीं खोमून बद्द बोमलेकडच्यान भायर काडलो. पुराय आंतडी भायर. तो उंबरासरींच रगताच्या खळ्यांत पडलो आनी कांय खिणांतच सोंपलो. फक्कत एक रगताचें खळें. तेतूंत चिरिल्ली कूड!

देमू गुरव पडवेंत कुशीन वण्टीक तेंकून फतकल मारून बशिल्लो. वोग्गी. जशी ताची वाचा गेल्ली. दासू गुरव - जुजे बार्रूश - किरिस्तांव आसलो. शेजारचे गुरव, देवळी कुडीसरीं एकठांय जाले. पूण कोण एकलो मुखार वचून हात लायनासलो. मेलो काय जितो आसा तें पळयनासलो. रातभर प्रेत तशेंच उंबरासरीं पडून उरलें. रातभर आवयचें रडप सोडल्यार बाकी सगळें थंड आसलें. देमू तर वणटीक तेंकून बशिल्लो. हालनासलो.

दुसऱ्या दिसा सक्काळीं दोगातिगांनी वचून सोल्दादांक खबर दिली. दोग काब

आनी तीग सोल्दाद धांवन येयले. काब रेमेत नोरोन्यीन प्रेताची पुराय म्हायती कागदार बरोवन घेतली. म्हायती बरयतना तो तणापेड्यार पांय सोडोवन बशिल्लो आनी लेखणी शायेंत बुडोवन बुडोवन बरयतालो. उपरांत ताणें थंय उबे आशिल्ल्या पांच जाणांचीं नांवां बरोवन घेतलीं. प्रेत एका व्हड पिणग्यांत घालून उखल्लें. प्रेत उखलूंक नवे किरिस्तांव जाल्ल्या कांय जाणांक तांणी आफयल्ले. तातूंत सुखड्यालो चेडो मोलूय आसलो. प्रेत उखलतकीर सोल्दादान देमू गुरवाले हात फाटीं घेवन दोरान बांदले. एका सोल्दादान ताचो दोर धरलो. प्रेता फाटल्यान ते ताकाय घेवन गेले. तांच्या राबित्यार व्हरून तांणी तें प्रेत ब़रो वेळ दवरलें. थंयूय एक फावट शेफीन प्रेताची आनीक कांय म्हायती बरोवन घेवन तें प्रेत तांच्या धर्माचे रितीप्रमाण व्हरून पुरलें. तांचे नवे सिमितरींत पुरिल्लें हें तिसरें प्रेत.

देमू गुरवाक मात कादयेंत घालूंक तांणी काब गास्पार पिन्तू आनी तीन सोल्दादां वांगडा गोंय शारांत धाडले. देमू गुरव एक उतर उलयनासलो. ताच्या चेहऱ्यावेली शीर हालनासली. तांणी व्हरता थंय वोगी वयतालो. तांणी ताच्या दोळ्यां हुजीरच मसुंडेर व्हरूंक पुताचें प्रेत उखलिल्लें. पूण ताच्या दोळ्यांचीं पातींय ओलीं जालीं ना. ह्या मरणांत पुराय अच्छेव केल्लो तो फकत आवयन. दोगय भाव, भावाल्यो बायलो सगळें वोगी पळयताल्यो. थंड गंभीर नदरेन. ना म्हटल्यार फकत बापायक बांदून व्हरतना तांणी हुयेल्यो मारिल्ल्यो.

देमू गुरवाक गोंय पाटणांत व्हरतकीर आठ दीस ताची खबरच ना. काब गास्पार पिन्तू थंय राविल्लो आनी हेर तिगय सोल्दाद ताका कादयेंत घालून रोखडेच परते आयिल्ले. उपरांत खबर ना.

आठ दिसांनी पिन्तू परत येयलो. येयिल्लोच शेफीक सांगून पाद्री कुलासूक घेवन देमू गुरवाल्या घरा गेलो. तांचें घरच बशिल्लेवरी जाल्लें. आठ दीस घरांत कोण जेवंक नाशिल्लो आनी तांच्यो कुडी बरगून गेल्ल्यो. काब पिन्तून देमूले बायलेक आनी पुताक सांगलें, ''तेचो पुराय घराबो किरिस्तांव जाता जाल्यार ते देमूक सोडून दिवंक तयार आसात. हायेंच तेची काकुळट दिसून हेविशीं कापितांवाक सांगलें. कापितांवान व्हिसरायाक विचारलें. ताणें व्हिसरायाक म्हटलें, तेच्याच किरिस्तांव पुताक रागाभारार ताणें माल्ला. जर तो पुराय घराबो किरिस्तांव जाता जाल्यार तेका भोगसणी दिवची. व्हिसरायान बरें आसा म्हटलें. कापितांवान म्हाका विचारिल्लें, घराब्यांत कितले लोक आसात काय म्हण. हायें अदमासान म्हणिल्लें, सात जाण म्हण. खरेच तुमी सात जाण आसात म्हण म्हाका गोमलां. व्हडल्या पुतालीं दोगां भुरगीं आसात खंय.''

पाद्री कुलासून देमूचे बायलेक म्हटलें, ''अस्तुरे, तुमी किरिस्तांव जालीं जाल्यार

एका व्हड संकस्टांतल्यान तुमची सोडवणूक जातली. तुजो घरकार परतो येतलो. तुजो घराबो परतो उबो जातलो. एका मोगाळ धर्माची व्हडवीक तुमकां कळटली. पातकाक भोगसणी फकत किरिस्तांव धर्मानच येवजिल्या.''

येदोळ काब पिन्तून सांगतसान देमू गुरवाली बायल खोशयेन ल्हवपीक जाल्ली. तिणें सट्‌करून म्हटलें, ''तो सुटून येत जाल्यार हांव नरकांत लेगीत वचूंक तयार आसां. करात तुमी आमकां किरिस्तांव. म्हजे पुतय ना म्हणचे नात.''

पूण व्हडल्या पुताले बायलेन अंबान म्हटलें, ''आमी सगळ्यांनीच किरिस्तांव जावंक जाय? तिणें एकलेनच घोवा वांगडा जावचें. भुरग्यांक आनी नाका म्हगेल्या.''

व्हडल्या पुताक सपसप राग येनासलो. ताणें भोवच रागान बायलेक म्हटलें, ''जावचें पडटलें किरिस्तांव. जायना जाल्यार भुरग्यांक सोडून लाग तूं चलूंक. भायर सर ह्या घरांतली. हांव आनी भुरगीं किरिस्तांव जातात. तूं राव तशीच. किरिस्तांव घोवाच्या नांवान कुकूम लाय.''

अंबा वोगीच रावली. काबान म्हटलें, ''तेका आमी हाडटात कादयेंतल्यान. मागीर तुमी सगळ्यांनी पाद्री वांगडा कालापूर इगर्जेंत वचून बातिज्म घेवचो.''

सगळे वोगीच रावले. 'बरें आसा' म्हणिल्ले वरी. पूण देमू गुरवाले बायलेक किरिस्तांव जावचें पडटलें म्हूण दुख भांगनासलें. तिका दुख भोगतालें. चेडो जालो, व्हड जालो, पूण आमी तेचें मरणय करूंक तांकले नात. तेका भलत्यानच व्हरून पुरलो.

फादर पावल कुलासू एक दीस गोंय पाटणांत वचून येयलो आनी शेफ रिबेरीक सांगूंक लागलो, ''पुर्तुगालच्या रायान गोंयच्या व्हिसरायाक पुराय अधिकार दिल्यात, धर्मांतरांविशींचे कायदे करूंक. राया जाणा, व्हिसराय कोन्स्तान्तीन ब्रागांज किरिस्तांव धर्माचो खरो आधाराचो खांबो म्हूण. आमच्या सगळ्यांचे फाटल्यान तेची शक्त. तेणें एक नवो कायदो काडला आनी सगळ्या कापितांवांक ऑर्द धाडल्या, हेन मुखार जे हिन्दू शेता धनी सोता शेत कसनात, सोता शेतांत कामां करिनात, तेंचीं शेतां काडून घेवन सरकाराक जमा करचीं. कारण व्हिसरायाक अशें कळ्ळां, गोंय जुंव्यावेले बरेच हिन्दू शेतांधनी कामदार लावन शेतां करतात म्हण. फक्कत किरिस्तांव शेतां धनयांकच शेतांत कामदार लावचो अधिकार आसा. तेभायर बामण जमीनदारांचेर उणो वर्साक शंबर शेराफींय तिरवो लायला.''

शेफीन म्हटलें, ''बरें केलां हें, बरें जालां. हिंगाचे बामण शेतकार शेतांत फक्कत मानायांक घोळयतात. गोरवां हेंचीं. कसपी हेरच. गोरवां राखणेय हेरच. मेरांक एक

खोरें मारिनात ते. तरीय सुशेगाद तेंची जीण. गोंयचे फिदाल्ग कशे.'' शेफीक इल्लो राग आशिल्लोच तांचेर. जाणवायोच चड. ताका सदांच दिसतालें, गांवाक हांचीच फूस, हांचीच घटस्राण. कितेंय जाल्यार बामणांसरीं बुद्द घेवंक वयतात. तांकां निखळावपाक जाय. हे अडसर थारतले फाल्यां. आदीं तांचेर घुरी घालूंक जाय.

रामनाथ हो ग्रामदेव आसलो तरीय तो बामणांचो कुळदेव नासलो. तो कुळदेव नायकांचो आनी गुरवांचो. बामणांचो कुळदेव रवळनाथ जो रायगाळींतच आसलो. बामण गांवकेंत बळिश्ट वांगडी आसले खरे, पूण ते गांवचे देव-देवस्कीच्या, जोगवणी मान्तिकेच्या कामांत पडनासले. खंयच्या देवासरीं ते कुकड बोकडय मारनासले आनी जागर काल्याकय वचनासले. तरीय गांवदेवाचे उस्तवारीक, जत्रेक जो खर्च जातालो त्या खर्चाक गांवकेचे वांगडी म्हण तांची मान्यताय घेवची पडटली. देवाचे जमनीच्या व्यवहारांतय तांचें मत्त घेवचें पडटालें. रामनाथ तांचो कुळदेव नासलो तरीय गांवदेव म्हण ते पुराय भावार्तान मानताले. रामनाथाचे पालखेक हेरां वांगडा खांदे दिताले. रथाच्या दोराक हात घालताले. स्रावणांतल्या निमण्या सोमारा देवासरीं भौशीक अभिशेक जातालो. तेन्ना केंकरो, नायक, मिराशी, गुरव, सावंत हांच्या म्हालगड्यां वांगडा शणैंचो म्हालगडो घारसो शणै मांडयेक मांडी लावन बसतालो. सावंत केन्ना चार पिळग्यां आदीं ह्या गांवांत आयिल्ले. पूण ते कसल्या तरी कारणांक लागून गांव सोडून वचून कांसावले रावताले. स्रावणाक दर वर्सा न्हंयंत केदोय पूर आसूं, ते ती बलांटून येताले. पूण गेल्ल्या वर्साक ते येयलेच नात. तांचें कसलें सांगणेंय पावलें ना. तांचें कितें जालें कोणाकच कळ्ळें ना. गांवान इतलेंच म्हटलें, तेवूय गावले आसतले संकस्टांत.

शेफ रिबेरीक राग आसलो शणैंचेर आनी तांचो कुळदेव रवळनाथाचेर. ताणें मनांत म्हटलें, गांवदेव रामनाथा वांगडा रवळनाथाकय घेवंक जाय... ताचेय पाखे सकल येवंक जाय...

केंकऱ्याचीच तेका भिरांत दिसताली. पयलीं येयिल्लो तेन्ना तीन चार फावट तरी केंकऱ्यासरीं शेफ गेल्लो. ताणें ताची बरी उठबस केल्ली. अडसरांची पेंडच मुखार हाडून दवरतालो. येवंक सुट्टकीर पिणगेभर तांदूळ, नाल्ल कामदाराचे तकलेर दिवन फाटल्यान धाडटालो. आंब्या तेंपाक आंब्याचे चोबे धाडटालो. दिवाळेक तोपभर फोव धाड्टालो. तरीय पयर देवळाविशीं सांगूंक तो येयिल्लो तेन्ना जाणा जावन शेफीन ताका लेखूंक नासलो. ताका दिशिल्लें आसुंये, शेफ आपणाक मानान बसयतालो. म्हणूनच घडये तो मदींच काडून गेल्लो. मनशाचें पळय, ताणें म्हाका चड विनवंकय ना, इल्लो अपमान जालोसो दिसतकर काडून गेलो. जसो तो देवळा खातीर येवंक नासलो, तर सोताचो आब दाखोवंक येयिल्लो. पूण म्हाका ताकाय

हात घालूंक जाय. तशें पळोवंक गेल्यार मनशां विंगड विंगड जिखचे परस एक राज्य जिखचें सोपें आसता. दुसऱ्या दिसा गोंय पाटणांत वचून शेफ नव्या कायद्याची पुरा म्हायती घेवन येयलो. बामणांक दाळाक लावची माण्णीच तांतूंत आसली.

रायगाळी सकयल बऱ्याच शेतांत शणै वांयगण रोयताले. सरद्या परस वायंगणाचीच पीक चड आसली. तें शेत इल्लें सकल्या तळाक. पावसांत उदक भरून सरदे केन्ना केन्ना कुसून वयताले म्हण तांची वांयगणाचेर चड मदार आसली. आतां सामको वांयगणाक जोतां घालचो तेंप जाल्लो.

शेफीन नवे किरिस्तांव जाल्ले दबा देवळ्याक आनी कुशा गुरवाक आफोवन हाडले. तांकां सांगलें, "गांवांत मेळटा ताका सांगात, एक नवो कायदो येयला जाचेवरवी जे हिन्दू शेतां कसनात, शेतांत घोळनात, कामदारांक लावन शेतां पिकयतात, तेंची शेतां भाटां राया काडून घेतलो आनी सरकाराक जमा करतलो. फकत किरिस्तांवांकूच अधिकार शेतांत मानाय लावचेलो."

गांवांत हेरांक ते खबरेचें कांय दिसलें ना. पूण रायगाळी बामणांक ही खबर जेन्ना कळ्ळी तेन्ना तांचो आवरो हुडलो.

रायगाळी आदोळशेकार शणैंलीं सगळीं सात घरां आसलीं. ल्हान ल्हान कुळागरां. तांचे मदीं घरां. सुब्राय शणैल्या घरामुखार पठणशाळा. सगळ्यांचो मेळून कुळागराचो आंवाठ तिनशें हात रुंद आनी सातशें हात लांब आसलो. केंकऱ्यालें एकल्यालेंच कुळागर इतलें आसलें. शणैलीं वांयगणां पिकतात म्हणून बरें वयतालें.

दुसऱ्या दिसा सकाळींच शेफ रिबेर घोड्यार बसून सोल्दादांक घेवन रायगाळी गेलो. वचून तो पठणशाळे मुखार उबो रावलो आनी ताणें सोल्दादांक घराघरांनी धाडून घरच्या दादल्यांक आफोवन हाडले. ते सगळे कांयशे रागानशे, कांयशे झेतानशे येवन शेफी मुखार उबे रावले. देवराय शणैन घुसमटूनशें म्हटलें, "आमकां हांगा आफोवचे परस शेफीन आमच्या दारांत येवंक जायनासलें?"

शेफीन गर्जण माल्ली, "पुर्तुगालच्या रायालो शेफ कोणाच्या दारांत वचना शणै. तेंकां तो ओडून हाडटा तेका जाय थंय."

सगळे ओगी. "तुमकां सांगतां, जे लोक शेतांत देंवनात, शेतान भाटान कामां करून सोता शेत पिकयनात, तेंचें शेत भाट जप्त जातलें. ह्यान फुडें कोणाक शेतांत कामदार लावंक मेळचे नात. पुर्तुगालच्या रायाल्या नांवान गोंयच्या व्हिसरायान असो कायदो करून धाडला. तेभायर गांवांत जे गिरेस्त जमीनदार आसात, तेंकां वर्साक शंबर शेराफींय शेतपटी भरची पडटली, तीन कंतान. तुमकां सगळ्यांक ती लागू जातली."

पटयेचें आयकून तर सगळ्यांचें कंबर मोडिल्लेवरी जालें.

सुब्राय शणैन म्हटलें, "जे दुबळे, अपंगूळ आसात, जाच्यांनी वावर जायना,

ताणी कितें करचें? उपाशीं मरचें?''

''तेणी कितें करचें तें तूं बरो जाणा शणै.''

''तूं आमकां सगळ्यांक किरिस्तांव करूंक सोदता.''

''हय. राजालें फर्मान आसा, ह्या गोंय जुंव्यार किरिस्तांवांबगर हेर कोणेंच रावंक फावना. किरिस्तांव रायाली किरिस्तांव परजा.''

''तशें जाल्यार तूं आमकां सगळ्यांक एकच फावट बांदून व्हरून किरिस्तांव कित्याक करिना?''

''हिंगाच्या रायाच्या नांवान कायद्याचें राज्य चलता. रायान नेमिल्ले जुवीज आसात हिंगा. तेंच्या न्यायाक आमी भियेतात.''

''असले पाड कायदे करप आनी वयल्यान न्यायाच्यो खबरी...'' मुंगरू शणैन म्हटलें.

''कायदो तो कायदो. तो कसलोय आसलो तरी आमी आमचें सगळें बळगें वापरून तेची अंमलबजावणी करतले. हेनफुडें एक कामदार तुमच्यान मोलोवंक जायना. ह्या कायद्या आड गेल्यार दोरान बांदून गोंय पाटणांत धाडटले कादयेंत उडोवंक. वयल्यान आनी जमीन भाटां वयतलीं.'' तो फाटीं फिरलो. घोड्यार बसून परत येवंक सुटलो.

गाळ खाजनांतले कांय फडती, दोंगरांतले कुणबी, गांवचे देवळी, गुरव बामणांगेर आफयल्यार कामाक वयताले. तांचे मदीं एक हवाय पडिल्ली, आमी बामणांगेर कामाक गेल्यार आमकांय धरून व्हरून बडयतले म्हण.

बामणवाड्यार ती सांज घोर चिंतनांत गेली. सांज जाता तशी चिंतनां, हुस्को गाढ जायत गेलो. घरा सकल्लेवटेन वायंगण शेतांत अजून उदक भरिल्लें आसलें. तातुंतलो शेळो, पुड्डो ओडून काडूंक जाय आसलो. मेरो धरूंक जाय आसल्यो. मगेर तीन फावट कस, ओळय, दातय. रोवाक दवरचें, तो शिंपचें अवघड काम आसलें. तशे ते समतेच काम करिनासतना बसून रावताले अशें न्ही. आपल्या ल्हानसान कुळागरांत आळी करचें, तण काडचें, उदक फिरोवचें काम तेच करताले. गोरवांली गोठ्यांतली सगळी चाकरीय तेच करताले. पूण तांणी केन्ना जोत धरूंक नासलें. बामणांनी जोत धरचें न्ही, धरतरेचें पोट फाळचें न्ही असो एक समज. नांगर हें खेत्रीयांलें अस्त्र. तेका बामणांनी हात घालचो न्ही. शेतां कसतल्यांक कास्टे बामण म्हण हेर हिणसायताले.

वायंगणांतल्या उदकावटेच्यान व्हांवन येवपी वाऱ्यांत बरोच शेळाव आसलो. भितर चुलीसरीं बशिल्लेकडेन चिंतामण शणैन बायलेक म्हटलें, ''कितें करचें कळना जालां. कुळागरांतले नाल्ल आमकांच खावंक पुरो जायनात. फोफळांचेर चार पयशे

येतात म्हण. वायंगण रोयलें ना तर कशें जातलें? सरदे पिकून हातांत पडटलेच म्ह
शाश्वती आसा. कुसून गेल्यार गेले.''

बायलेन दुर्गेन सट् करून म्हटलें, ''आमीच रोवचें वायंगण, सगळें करचें आमी?

''करचें कितें, वायंगणाचो वावर उणो आसा? शेळो ओडूंक जाय. कसप ओळव
आसा, फाल्यां लुंवप मळप आसा.''

''करचें जाता तशें.''

''नांगर म्हटल्यार भिरांत दिसता. दैत्याचें अस्त्र खंय तें. तें आमी भुंयेक लावचें!

''किरिस्तांव जावचे परस वायट न्ही तें.''

''तरीय किरिस्तांव जावचें चुकूंक येयलां म्हण कशें सांगतलो?''

''प्रसंग येयल्यार वयचें सगळें सोडून.''

''तुज्यान जातलो मुगे शेताचो वावर?''

''जाता तशें करुंया म्हटलें न्ही.''

दुर्गे बारीकच आंगाचें पूण बरेंच लांब आसलें. कुडीच्या मानान हातपां
घसघशीत. भागिल्लोसोच चेहरो पूण नाक लांब धारेचें. त्या मानान चिंतामण आंगा
घसघशीत आसलो. फुगरे पोले, बोमलेसरीं पोट इल्लें मुखार येयिल्लें. बायल म्हणट
म्हण कितें जालें, चिंतामणाक काय धीर जायनासलो.

मदीं आनीक एक दीस गेलो. बामण अदींमदीं खंयूय बसून हेविशीं विचा
करताले, शेळेल्ल्या पडिल्ल्या आवाजानशे. पूण कांय थारनासलें. गांवार एक थं
शेळी अवतिकाय !

हेर दिसांक चिंतामणान खोरें हातांत घेतलें. फाटोफाट बायलेन हातांत विळे
आनी कोंके घेतले. तीं आपल्या कुळागरांतल्यान देंवन घना शणैल्या कुळागरांतल्य
आकाड्यांतल्यानं भायर सरलीं. रुमडीकडच्यान सकल देवन आपल्या शेतांत येयलीं
गेल्ल्या पावसाक सरदे रोविल्ले. ते अर्द कुसून गेल्ले. उरिल्ल्या धानाचीं वयल
वयलीं कणसांच कापिल्लीं लुवूंक येयिल्ल्यान. तीं धानाचीं मुळां, शेळो पुड्डो भरिल्ले
तळाक. चिंतामणान कमरेचो वालो कवळून वयर घेतलो आनी कमरासरीं खोवयलो
ताची आतां कास्टी कशी जाल्ली. खोरें मारताना जानीय खोऱ्या दांड्याक घुसपूंव
लागली. ती ताणें गुठलावन सरपळी कशी गळ्यांत घालून घातली. आपले सगळे
ताकदीन तो खोरें मारून कवळां काड्टालो आनी मेरेर दवरतालो. थोडें न्ही. चा
खांडयेचें वांयगण आसलें. दुर्गे कोक्यान तण, शेळो वोडटालें. ओडून येयना जाल्या
विळ्यान कापतालें. पांय चिखलांत पुरताले. पुराय ताकदीन तें पांय उखलतालें आनी
तो जवड व्हरून कुणगेच्या कोनशांत राशी घालतालें. चिंतामण खोरीं मारून थकतकी
मेरेर बसतालो. हा हा करून श्वास घेतालो. मागीर उठून परत कामाक लागतालो

दुर्ग्याचे पांये, कमर इतले भरून येयिल्ले. भुंयेर सास्टांग पडचें अशें दिसतालें. पूण आपणाक पुरो जालें हें घोवाक दाखयनासतना तें तो जवड ओडटालें.

वाड्यावयले हेर बामण, तांच्यो बायलो आपल्या कुळागराचे वंयेंत बीन उबे रावन ताका पळयताले. ''कसलो सांवार येयला हांचेर ! तडीक लागतलो हांचो वावर!''

सांज मेरेन तांणी दोन व्हडल्यो कुणग्यो नितळ केल्यो. तांकां मेरो धल्ल्यो. सांजचीं तीं शेतांतल्यान वयर सरलीं तेन्ना तांकां पुरो जावन आंगआंग निखळावंक लागिल्लेवरी दिसतालें. दुर्गें घरासरीं येयलें आनी तशेंच शेनरेर पडलें. फाट कमर जमनीक लावन. ताच्यान नज जाल्लें. ताचे णव वर्सांचे व्हडले धुवेन चुलीक उजो घातलो आनी आदन दवरलें. ताच्या नदर उणी जावन घरांत पडिल्ल्या मांवान म्हटलें, ''हाचे पयलीं आमच्या बायलांनी कुळागरा भायर पांय दवरूंक नासलो. पूण हें कितें आमकां दोळ्यंनी पळोवचें दैवांत येयलें. घरची सून शेतांत घोळटा. ते चांडाळ मरनात कित्याक!''

दुसऱ्या दिसा सकाळीं उठून तीं परत गेलीं शेतांत. पूण वाड्यावयल्या एकल्याक धीर जायनासलो शेतांत देंवचेलो. मदीं एक फावट इंद्र शणै हातांत खोरें घेवन कोसळिल्ल्या मेरांवयल्यान भोंवन गेलो. ताणें मदींच उबो रावन उदकान शेळ्यान भरिल्ल्या त्या शेतासरीं पळोवन म्हटलें, ''थाव लागना जाला शेताचो. एक आनी दोन तरांचो वावर !'' तो तसोच खोरें घेवन गेलो.

इल्लो वेळ चडटकीर भद्र शणै आनी तागेलो धाकलो भाव मादू शणै येयले. भद्र इल्लो जाण्टो जाल्लो पूण घट हाडाचो आसलो. तेचो भाव मादू मात आंगलोटान बरो आसूनय आळशी आनी भिवकुरो कसो आसलो. तेतून फाटीं तेच्या बोडार खांदार एक फावट नाल्लाची पुराय पेंड पडिल्ली. तेन्नासावन हांगा दुखता थंय दुखता म्हणत आसतालो. चिंतामणाल्या शेतावयल्यान तांकां वयचें पडटालें, वयतां वयतां भद्र शणैन म्हटलें, ''तण शेळो काडून नितळ तरी करून दवरचें. जाता तितलें जाता. रोयल्यार रोयलें, उरल्यार उरलें.''

ते आपल्या शेतांत देंवन जाता तशे कामाक लागले. त्या दिसा आनीक कोणच शेतावटेन येयले नात. दुर्गें आनी चिंतामणय पुराय ताकदीन वावराक लागिल्ले. घोव चड वेळ मेरेर बसल्यार तें म्हण, ''कितलो वेळ बसून रावता? जाता तशें कर न्ही.''

तिसऱ्या दिसाक आनीक एक घराबो शेतांत देंवलो. क्रशण शणै, तेगेली बायल सतवती आनी एक पूत. हे लोक अबरगत कशे इतले ल्हव काम करताले, मात्शे ओणव घेवप आनी अर्दवर उबे रावप. दुर्ग्यान मनांत म्हटलें, अशें करून हांचें शेत केन्ना नितळ जातलें, केन्ना हांचीं वायंगणां कामशी जातलीं?

बाकीचे वाट पळयताले. कोणाची कित्याक वाट पळयताले, तांचे तकलेंत कितें घोळटालें, कळनासलें. घडये तेंकां आनीक खंयच्यो तरी वाटो दिसताल्यो. त्यो कुडीच्या ह्या कठीण स्रमापरस घडये सोप्यो दिसताल्यो. जण एकलो वाट काडूंक धडपडटालोच. जिवीत आनी मर्णाचो प्रस्न आसलो. इतली सगळी आस्पद आसूनय फाल्यां भुरग्यांबाळांक उपाशीं उडोवचेली पाळी. वाडो मोठ्या कांचांत आनी हुस्क्यांत गाविल्लो!

दोन दीस ते एकदुसऱ्यासरीं हुस्को काडून उलयतालेच. पूण तिसऱ्या दिसा सांजचे ते पठणशाळेंत एकठांय जाले. तेंच्यो बायलोय येवन शाळेभायर उब्यो आसल्यो. हे बामण एक दुसऱ्यासरीं तशे गोडयेन वागताले. भितरलें कोडूपण ओंटार दाखयनासले.

सांजचे एकठांय जाल्लेकडेन मुंगरू शणैन म्हटलें, ''बामणांनी शेता कामां सोडून चार पिळग्यो जाल्यो. कामदारांचेर मदार दवरली. आमचे हात पांय मोडल्यात. तेतूंत ते देंवचार फाटीक लागल्यात. वर्साक शंबर शेरार्फीय फुकटचो दंड भरूंक जाय वयल्यान.''

''जाता तशें करुंया आमी.'' चिंतामणान बारीक आवाजांत म्हटलें.

''जाता तशें करुंया कितें? तुगेली बायल घट आसा म्हण तुजीं हीं बातां.''

दुर्ग्याक शिट् जालें. तें भायलेवटेन उबें आसलें. ताणें म्हटलें, ''घट कितें? घट आसा म्हण करिनात आमी. फाल्यां सरदेय पिकोवंक मेळ्ळे ना जाल्यार वर्सभर कितें खातले? सरद्याची म्हण शाश्वती आसा?''

''हय. शेत कशें तरी पिकयतले, चिखलांत रोंव उडोवन. पिकें तर पिकें, ना तर गुरू बसला भिके. पूण फाल्यां ह्या माडाचे नाल्ल कोण पाडटलो, फोफळां कोण देंवयतलो? एकएकल्यागेर धा धा वीस वीस गोरवां. तेंकां राखतलो कोण? अशींच वागा तोंडाकं दिवचीं तांकां?'' भद्रशणैन म्हटलें.

सगळ्यांक दिसलें, गुठली चडच घुस्पल्या. पूण सुब्राय शणैन सट्करून म्हटलें, ''मागीर सगळेच मेळून जावंया किरिस्तांव. तांचे फाटल्यान वचुंया. आंगार उदक घालून घेवन येवया. हरशींय तांणी घराभायलीं देवस्पणां बंद उडयल्यांत. देवळांय मोडूंक सोदतात.''

दुर्ग्यान रागान म्हटलें, ''किरिस्तांव जावंया कितें? आमी जावचीं नात किरिस्तांव. कशीं तरी धाडावन बडोवन शेत करतलीं. मोडुंदी देवळां. म्हणुंदी आमकां कास्टे बामणां.''

हेचेर मुंगरू शणैक राग येयलो दुर्ग्याचो. ''अरे चिंतामण, तुवें कितें काकणां घातल्यांत हाताक आनी बायलेक कमरेचो गोफ काडून दिला? दादले उलयतना तें कित्याक मदींच उलयता? बायलांनी उलोवचें काम ना हांगा.''

दुर्गों आतां वोगीच रावलें. आतां थंय एक कांचसो पातल्ळो. कांय वेळ कोण कांय उलयलो ना. मुंगरू शणैनच म्हटलें, ''इल्लो पयसो आटको आसा आमचे गांठीक. सामकेच दशेक लागिल्ले नात. सगळे मेळून गोंयाभायर वचून रावंया. थंय खंयूय शेत भाट सोदुंया, पडिंग ना तर कोणें वसयिल्लें. हेच दोनचार कामदार एकएकल्यान वांगडा घेवचे आनी गोरवांक हामडून घेवन सुटचे. कामदारांले तकलेर दिवच्यो साटल्योपोटल्यो. जाल्यार आमीय मारच्यो तकलेक.''

क्रशण शणै मदींच कितें तरी उलोवंक सोदतालो. मुंगऱ्यान ताका हातानच थोपयलो. ''हांव सांगतां तुमकां, ते आमकां कशेच रावंक दिवचे नात ह्या गांवांत किरिस्तांव जाले बगर. आतां एकेक मांण्णी तांच्यो. फाल्यां अनुकूल दिसलेंच तर येवचें परत गांवांत. हांगाचेंय तशेंच दवरचें आनी भायरय एक ठिकाण करचें आकांताक.''

क्रशणान तापसाणेनच म्हटलें, ''हांगाचें तशेंच दवरचें खंय! फाल्यां आमी हांगाच्यान वयतात काय पळयतले आनी सगळें लाटून उडयतले. हांगाचो एक मातये धेंपो मेळचो ना आमकां. मरण हड्ड्यार येवन बसना तो मेरेन हांगाच रावचें. गांवा भायर पावल घालचें न्ही आमी.''

सुब्राय शणैन म्हटलें, ''हातांत आसा तो इल्लो दुडू चार पुतल्यो, पोवनां हांगाच खलास करून बसचे? आनी मागीर गोंय भायर भीक मागूंक वयचें? आतांच नीट येवजियात. खंयसान दितले आमी तांकां वर्साक शंबर शेराफींय? वर्सभराचे नाल्ल, फोफळां विकलीं म्हण तरी तितले दुडू जायत?''

देवराय शणैन आपलो अपंगूळ पांय मुखार सोडयत म्हटलें, ''हांव हो असो थोटो, अपंगूळ. म्हज्यान शेतय करूंक जायना आनी भायरय वचूंक जायना. कितें म्हण करचें हांवें? खंय तकली धाडावची? हें सोडून गोंय भायर वचून म्हज्यान आनी नव्यान शेतभाट वसोवंक जायत? ते शंबर शेराफींय आनी खंयच्यान हाडचे?''

ताचे आतांचे आवतिकायेचेर कोण कांयच उलोवंक तयार नासलो. घडये तांकां दिसतालेंय जावंये, ह्या थोट्याक आनी कसलो धर्म. जावं दी ताका किरिस्तांव! एकलो तरी फाटल्यान गांवांत रावतलो.

रुद्रा शणै हेदोळसान वोगीच आसलो. ''सुब्रायतातून, मुंगरूअण्णान सांगलें तें खरेंच. भायर वचून एक ठिकाण करचें. मागीर जाल्यार यो वच करून रावचें.''

कृशण आपले सकल देंविल्ले ओंट हालयत रागान उलयलो, ''दोन व्हड्यांर पांय दवरतात तुमी. दोनय पांयांपोनांतल्यान सुट्टलीं. हांव मरणाची चोंच दिससर हांगाच रावतलों. जे वचूंक सोदतात तांणी वयचें.''

दुर्गों परत उलयलेंच. ''आमीय येवचीं नात गोंयां भायर. मरचें आसल्यारूय हांगाच मरतलीं.'' सगळ्या दादल्यांनी तेवटेन रागान पळयलें. पूण कोण कांयच उलयलो

ना. ताचेसरीं दुर्लक्ष करून सुब्रायान म्हटलें, ''देवाचोय प्रस्न आसा. गांवदेवाक शिगम्या मेरेनची मुजत दिल्या. ताचे उपरांत काय ते देऊळ दवरचे नात. मगेर आमच्याय देवळाचेर तांची पाड नदर पडटली. बामणांल्या देवांचेर तांचो चड राग. देवाकय उखलूंक जाय.''

आतां क्रशण, थोटो देवराय आनी चिंतामणी एकदम आड्डले. देवरायान म्हटलें, ''देव उरतलो जाग्यार. तेचें कितें जाता तें आमी पळयतात. आमकां उबंत उडोवन देवय घेवन वयतात?''

सुब्राय शणैन म्हटलें, ''देवराय, तूं फाल्यां किरिस्तांव जालोच तर कितें करतलो देवाचें?''

''तेंचो आनी आमचो दोनूय देव पुजतलों. दोनय देव म्हगेले म्हण मानतलों. तांणी उदकांत बुडोवन काडून किरिस्तांव केलो म्हण हांव किरिस्तांव जातां? हांव मनान हिन्दूच उरतलों. हिन्दू वा किरिस्तांव बामण. म्हगेली जात ते कशेच काडून घेवंक तांकनात.''

''पिसो तूं देवराय. फाल्यां हिन्दूंच्या देवाक नमस्कार केलो म्हण कळ्ळयार तुका धरून व्हरतले लासून मारूंक. जाणा, त्या बापूय पाद्रीक कसो धरून व्हयलो ताणीं, ताच्या राखण्याक जिवानशीं माल्लो तांणी.''

देवराय भियेल्लेवरी जालो आनी वोगीच रावलो. तांचें एकमत्तान अशें कांयच थरनासलें. जण एकल्यान आपली वाट धरची असोच सूर. तरीय ते देव घेवन वचूंक सोदतात म्हण कळटकीर क्रशण, चिंतामण, दुर्गे खुबळिल्ले. बसकेंत कांय उलयले ना. पूण दुसऱ्या दिसा कृशण गांवभर ताणशेवन म्हणटालो, ''देवाचें कितें जाता तें जावं हांगाच. मनशां वांगडा देव. मनशांच ना तर देव कितें करूंक? कोणें देवाक हात घातल्यार हांव देवळाच्या दारांत दांडो घेवन उबो रावतलों. बोडां फोडटलों.''

कोण कांयच उलयनासलो. सबंद बामणवाड्यार काळोख कांबरून घेतिल्लें एक काळें कूप. घुसमटिल्लें, झडूंक राविल्लें. कोणय बामण दुसऱ्यासरीं उलयतना आदीं आपल्या भोगाक रडटालो आनी मगेर जीव हुडिल्लेवरी उलयतालो.

दुर्ग्यालें शेता काम घोवाक घेवन नेटान चालूच आसलें. पूण तांचे उपरांत शेतांत देंविल्ले भद्र शणै, क्रशण शणै गळसणिल्लेवरी जाल्ले. तांणी आंग काडून घेतिल्लें. दुर्ग्याक मदींच भिरांत दिसली, आनी कोणेंच वांयगण रोयलें ना तर मगेलें शेत गोरवां पसून सावदां पसून एकलें कशें राखतलें हांव! तरीय जाता तें जाता म्हण तें वावराक लागलें.

मुंगरू शणैली सून तुळशीचें कुळार रायबंदरा. तागेलें कुळार तीन वर्सां फाटीं किरिस्तांव जाल्लें. तरीय बापूय म्हयन्याक एक फावट तरी येतालो. येवन भायर

तेण्यार बसून धुवेली खबर घेवन तसोच वयतालो. खरें म्हटल्यार ताणें धुवेगेर भायर बसून जेवंक खावंक येतालें. पूण तो उदक घेयनासलो. दर फावट दोळ्यांत दुकां हाडून परतो वयतालो. आपल्या बापायखातीर तुळशीचें काळीज तुट्टालें. कुळारची ताका इतली याद येताली, ताचे यादीन इतलें आकुळपिकूळ जातालें, बुडून हुबून कुळरा वयचें अशें दिसतालें. ह्या दिसांनी गांवांत पातळिल्लो कांच ताच्यान सोसूं नज जातालो.

त्या दिसा बापूय परत येयलो. ताणें घरच्यांक म्हटलें, ''आतां सुकें ओलें म्हण कांय उल्लें ना. वांगडाच लासूंक लागलां. आतां तुमी गांव सोडून खंय वयतले डोंबाऱ्यांवरी बारा म्हयन्यांक तेरा बिराडां करूंक? हांव जाणां तो तांणी बामणां आड केल्लो कायदो. तरीय म्हाका एकं जाणवलां, किरिस्तांव जाल्ल्या बामणांक ते भोव मानतात, मान दितात. रायबंदरच्या कांय तरणाट्यांक तांणी बऱ्या सरकारी चाकरेंक आफयल्यात.''

मुंगरू शणै म्हऱ्यांतच बशिल्लो. ताणें म्हटलें, ''आपलो धर्म सोडप म्हटल्यार भोव कस्ट गा. मन कशेंच मानिना. बिटकी कवळून घेवन खिणांत खंय तरी वचचें अशें दिसता.''

''खंय म्हण वयतले तुमी? भायर गेल्ल्यांची जीण सुण्यापाश्ट जाल्या. खंयच्याय गांवाक रावंक कुदळ माल्ल्यार गांवचे लोक हातांत दांडे घेवन बडोवंक येतात. गोरवांक बडोवन धांवडायतात. आपल्या गांवांत देसाय, हेरांल्या गांवांत गोंसाय.''

जांवय इंद्र शणैयूय म्हऱ्यांत आसलो. ताणें म्हटलें, ''सगळें थाऱ्यार पडसर भायर वचून रावन येवचें कांय दीस. हें अशेंच चलतलें? निवळटले दीस.''

''खबर सोड तूं. एक फावट सोडून गेलो म्हणटकीर गेलो. तुमी गेल्ल्या फाटल्यान सगळी आस्पद ताब्यांत घेतले आनी किरिस्तांव जातल्यांक वांटून दितले. फाल्यां तुमी परत येयल्यार तुमच्या घरांत चाड्डो नातर सुदीर राविल्लो तुमकां दिसतलो. माडाचें एक शिंयाळें काडूंक गेल्यार तो तुमकां आडायतलो.''

मुंगरून एक व्हडलो सुसकारो सोडलो. ''कितें करचें म्हणच कळना. व्हडलो पेंच हो.''

''तुमी वोगी बातिज्म घेवन येयात आनी कांय म्हयने तशेच रावात. हिन्दूच्यांय देवांक नमस्कार करूंक वचनाकात आनी किरिस्तांवांल्याय. सगळो देवधर्म सोडून ओगी रावात. तुमचें शेतभाट आनी तुमी. बायलांनी तितलो शिरंगार करना जाल्यार जालो.''

सगळे वोगीच रावले. तुळशी बापायन सांगिल्लें आयकोन भुल्लुशिल्लें. ताका केन्ना दिसतालें, जावचें आमी किरिस्तांव कुळारच्यांवरी. ताणें बारीक पूण खोशयेन व्हाजिल्ल्या आवाजांतशें म्हटलें, ''आप्पान बऱ्याचेंच सांगलां.''

शेनवार दीस सांजचो देवराय खुंटत खुंटत गांवच्या पाद्रीसरीं गेलो. पाद्रीकडच्यान येतनाच ताणें खाजनांतल्या फडत्यांक रकाद धाडलो, 'परां वांयगण रोवच्या कामाक येयात. सगळें थाऱ्यार पडलां.'

दुसऱ्या दिसा सक्काळीं ते उठले. बायलेन दोन पिणग्यांनी रोवांक बीं दवरून तें बरें शिंपलें. मगेर तो, तागेली बायल आनी तिगां भुरगीं बातिज्म घेवंक पाद्री बेर्नादीत फेर्रांवावांगडा कालापूरचे इगर्जेंत वचूंक गेलीं. देवराय शणैल्या थोट्या पांयांक चड नेट नासलो, पूण तो चड कडकडटालो अशेंय म्हणूं नज.

सांजचे ते किरिस्तांव जावन येयले आनी वोगी घरांत गेले. वाड्यार मद्दीं आशिल्लें घर बाटून किरिस्तांव जाल्लें आनी सरभोंवतणीं हिन्दू बामणांलीं घरां आसलीं. बामणांली व्हडली भौशीक तुळसय देवरायाल्या आंगणांतच आसली. पूण ताका बातिज्म घेतकीर सांगिल्लें, दारांत तुळस आसूंक फावना, आंगणाक मेर आसूंक फावना म्हण. मेर गेल्ल्या पावसांत धुवन गेल्ली ती अजून बांदूंक नासली. पूण ती फातराची तुळस. देवराय वोगी घरांत येवन बशिल्लो. सांजचो उसरां कृशण शणै आंगणांत येयलो. भायल्यानच वासरेंत बशिल्ल्या देवरायाक ताणें विचारलें, ''कितें जालें? कितें केलें? नांव कितें दिलां?''

देवराय वोगी उठलो आनी भितर घरांत गेलो. दुसऱ्या दिसा सकाळीं तो उठलो आनी भायर येयलो. दारांत तुळस... तांणी सांगलां, दारांत तुळस आसूंक फावना म्हण. दारांत तुळस दिसल्यार धरून व्हरून ख्यास्त दितले म्हण. तो चिंतूंक लागलो, धा जाणांली तुळस, कितें करचें हिचें! ताणें रोवांक दवरिल्ल्या पिणग्यावयलें फळें उखलून तण कुशीक सारून बीं पळयलें. तांकां निकतोच दोळो फुटूंक लागिल्लो. मगेर तो फाटीं घुंवलो, परत नदरे मुखार तुळस. ताणें खुंटयेवयली दोरी काडून घेतली. बागांत वयले वटेन तणा वळय घातिल्ली. ताणें एक वजें तण सरगून तें बांदून हाडलें. व्हडल्या पुताक आफोवन तें तकलेर उखलून घेतलें. तण हाडून तें पुराय तुळशीवेल्यान घातलें आनी ती कमरभर उंच तुळस पुराय धांपून उडयली. तेवटेच्यान भद्रशणैन विचारलें, ''अरे, अरे कितें करता? तुळस धांपली कित्याक?''

देवरायान कांय वेळ ताचेसरीं थीर पळयलें आनी मगेर तीख आवाजातशें म्हटलें, ''तुका जाय जाल्यार उखलून व्हर तुळस.''

ताचे जापेन भद्र शणै अजापलो. ताणें मनांत म्हटलें, असो कसो बदल्लो हो थोटो देवराय ! पूण गांवांत ताचे आड कसलोच बोवाळ नासलो. जो तो पळयतालो, वोगी वयतालो. पूण ते रातीक गांवाक दिसलें, खरेंच गांवाचेर कोणें काळी कांबळ घालून वाडो धांपून उडयला. आनी वाडो भितर निमणो स्वास घेता.

सकाळींच देवरायाल्या वायंगणांत काम करूंक दोन दादले आनी तिगी बायलो

खाजनांतल्यान येयिल्ल्यो. तांणी गोट्यांतल्यान जोत सोडून हाडलें. भितोडेंतलीं सगळीं आवतां व्हयलीं आनी ताच्या वांयगण शेतांतलो वावर सुरू केलो. बायलांनी तण शेळो काडलो म्हणटकीर एक दादलो जोत घालून कसतालो, दुसरो ताका मेर धरतालो.

भद्र शणैन शेताच्या वावरांतल्यान आंग काडून घेतिल्लें. क्रशण शणै सुशेगाद इल्लें इल्लें करतालो. पूण पुराय नेटान वावर करताली ती दुर्गें आनी तेचो घोव चिंतामण. तांणी सामके सात दीस लागून सगळें शेत निवळ केल्लें, ताका मेरो धरिल्ल्यो. आठव्या दिसाक सकाळीं तांणी जोत हाडून शेतांत उबें केलेंच. बैलांल्या खांदार जूंव दवरलें, कानी घातली पूण नांगर रीस जुंवाक खंय कशी बांदची तेंकां दोगांकय कळना जाल्लें. चिंतामण शेतावटेन चड नासतालोच. बापूयच शेतांतलो वावर करून घेतालो. नदर उणी जाल्ली तरीय तो हालींमेरेन कामेऱ्यां वांगडा शेतामेरेर उबो आसतालो. दुर्गें आगशेच्या घना रावालें चेडूं. ताचो बापूय आगशेच्या धक्यार उग्राणांत काम करतालो. ताका शेताकामाची संवकळ नासली. ते फडती कामदार पेल्यान देवरायाल्या शेतांत काम करताले. तांकां हेवटेन आफोवंकय भिरांत दिसताली. आनी तेवूय घडये भियेवन येवचे नासले. दुर्गें सोता तांचेसरीं गेलें. ताणें त्या जोत कसतल्याक बाबा पुता करून जोत रावोवंक सांगलें. मगेर ताणें रीस जुवांक कशी बांदची, खंयच्या खापार बांदची तें शिकून घेतलें. दुर्गें परतें येवंक सुट्टकीर त्या कसप्यान ताका सांगलें, नांगर भुंयेर खोचूंक लागल्यार एक खाप वयर घेवन बांद म्हण सांग, चड वयर वयर घुवंक लागल्यार एक खांप सकल घे म्हण सांग. दुर्ग्याक तेचे उपकार दिसले. पूण एके बायलेन कुच्छित्रीपणान फाटल्यान म्हटलें, ''हे बामण कास्टी मारून शेत कसूंक लागल्यार आमचीं पोटां कशीं भरचीं?''

तो दीस चिंतामणान कसो तरी वांकडो तिकडो नांगर घुंवडावन दीसभर कसलें. दनपरां ताणें तशेंच जोत बांदावयल्या असणी रुखा पोनाक रावयलें आनी आपूणय कांय वेळ ते सावळेंत बसलो. दुर्ग्यान ताका जेवण - शीत, रोस थंयच हाडून दिलें.

सांजचें ताणें सामकें तीन खंडी बीं रोवांक दवरलें. तें बरें भिजय भिजय भिजयलें आनी मगेर तें पिणग्यांनी घालून तणान धांपलें. वयल्यान चेपण दवरलें.

तेच रातीक हांथरुणार पडटकीर चिंतामणाक हुडहुडी भरून कवळे येवंक लागले. कांबळ, घरांतलीं सगळीं कांबरुणां दुर्ग्यान ताच्या आंगार घातलीं. पूण कवळे काय उणे जायनात. मांवान म्हटलें, चुलींत कोयती तापय आनी ती उदकांत बुडोवन तें उदक पिवंक दी. दुर्ग्यान तशेंच केलें आनी रोखडेच कवळे थांबले. पूण मध्यान रातीर ताका जोर येयलो आनी आंग जोरान खतखतूंक लागलें. ते रातीक ताका रातभर जोर येतालो. देंवतालो, परत येतालो. रातभर तें ताच्या आंगार हात दवरून बशिल्लें आनी चिंततालें, तीन खंडी बीं रोंव काडूंक भिजोवन दवरलां आनी हो जोरान थळपेता.

कशें जातलें रे देवा !

दोन दिसांनीच जाण्टेलो म्हाल गांवकार घना शणै भायर पडलो. तो ह्या दिसांनी भोवच जर्जर जाल्लो आनी सुम्रती भायर गेल्लो. तो रुद्रालो व्हडलो भाव. तागेल्यो दोन धुवो लग्न करून दिल्ल्यो. ताका पूत नासलो. रुद्रानच ताका अग्नी दिलो. ताच्या मरणार जण एकलो म्हणटालो, 'सुटलो बावडो. गांवचो म्हाल गांवकार, पूण वटवटे काडून मेलो. गांवकेचें शेत बरोवन दिल्लें खूबच मनाक लावन घेतलें ताणें. पूण वेळार गेलो.'

घना शणै नाका जाल्ल्या वेळार गेलो म्हण फडफडे पडिल्ले ते तागेले दायजी मुंगरू शणै आनी तागेलो पूत इंद्र शणैक. ते ह्या दोन दिसांतच बातिज्म घेवंक वयचे आसले. कामदारांक घेवन वायंगण रोवंक जाय आसलें. पूण इंद्रान बापायक म्हटलें, ''आमकां धर्म सोडटल्यांक सुतक खंयचें? बांयंत हुडी घेतल्याक शींय कितें आनी पावस कितें! तेंच्या धर्मांत हें सगळें ना दिसता. आमी वचुंया फाल्यां. ना तर मुखाल्ले तेरा दीस वाट पळोवची पडटली. पाद्रीकय सांगिल्लें न्हू? तो वाट पळयतलो.''

घना शणै मेल्ल्या तिसऱ्या दिसाक ते बातिज्म घेवंक गेले. घरांतल्यान भायर सरतना मुंगरू बायल खूब रडली. तिणें आदीं घरांतलें देव-देवस्पणा सामान, कुंकमा करण एका फाळ्याक बांदून माळ्यार उडयलो आनी मागीर ती भायर सरली. ती बडबडटाली, ''पुता, तुवें म्हाका गोकर्णांत व्हरता म्हणिल्लें मुरे, आत्मलिंगाक हात लावंक मेळटलें म्हण सांगिल्लें मुरे! हें आतां म्हाका खंय व्हरता? येतां हांव, येतां. म्हाका कितें, तुमी आसात थंय हांव. घोवान मणी बांदलो, काड म्हटल्यार काडटां. सुने, घोव आसा घट तुगेलो. ताणें पांय मारल्यार उदक येतलें. मणी काडूंक अनमनूंक नाका तूं.''

येदोळसान भुल्लुसुनच आशिल्ली सून तुळशी आतां रडूंक लागली. खरें म्हटल्यार तिणेंच पुराय घराक बातिज्म घेवंक कोमार काडिल्लें म्हटल्यार जाता. आपलें कुळार थंय हांव अशें ताका दिसतालें. पूण हे वाटेर पावतकीर मात ती थतरवितर जाल्ली.

घरांत तीन खांडयेचो रोव येवन पडिल्लो. पूण शेतांत कामशी कांय जावंक नासली. दुर्ग्यान वखदळ्यांक हाडले पूण गुण येनासलो. वखदळी तमा मिराशान दिल्ल्यो मुळयो लागल्यो नात आनी वखदळण शेंवतून दिल्लो कडोय लागलो ना. वरांवरां दुर्गें ताका धरून वोगी बसून रावतालें. सारक्के सात दीस तेचें आंग हुलपावन गेलें. सातव्या दिसाक रातचो इतलो घाम येयलो, आंगा पोंदचे गोजडीचो भिजून कसो जालो. उपरांत आंग इतलें थंड किरांव जालें, दुर्गें भिवन गेलें. बेगीबेगीन पोल्लेंतलो

हून गोबोर फाळ्यांत घेवन तेणें ताचें आंग शेकलें.

मगेर तेका खुब्ब अशक्तपण येयलें. हातापांयांच्यो बडयो जाल्ल्यो आनी उठून उबें रावंक त्राण नासलें. दुर्गें तकलेक घोर लावन घेवन बशिल्लें, इतलें करून शेत काय रोवंक जावचें ना. आतां तेची शेतपटी भरूंक जाय, मुखाल्ल्या वर्साच्या पोटाचोय प्रस्न आसा. सरदे तरी नीट रोवंक मेळटले म्हण खंय शाश्वती? केन्ना दिसतालें ताका, हांवें एकल्यानच वचून लागचें कामाक, मेरो धरच्यो, कडो कोनशे खणचे, जोत धरून कसचें. मागीर ताका दिसतालें, ना, जावचें ना तें म्हज्यान, म्हजे हात पावचे नात. घोवाबगर म्हज्यान कांयच जावचें ना. तो वांगडा आसल्यारच म्हजो झेत!

आतां दुर्ग्याल्या रोवांक तुसां सुटिल्लीं आनी तो सुकूंक लागिल्लो. तीन घरां वावुरतालीं वायंगण रोवंक. देवराय, मुंगरू आनी क्रशण शणै हांगेलीं. सकल जोतां हामुडिल्लो आवाज व्हडाव्हडान येतालो. कामदार खोरीं ओल्या उदकाचे भुंयेर घप्प करून मारताले. तें पळोवन दुर्ग्यालो जीव सकलवयर जातालो. देवराय शणै - दियेगो ग्रासियस. आनी मुंगरू शणै - मिंगेल ग्रासियस हांचे दोगांचेय घराबे किरिस्तांव जाल्ले आनी ते जाय तशे कामदार लावन काम करताले. पूण क्रशणाचें कितें समज नासलें. तो सोताच इल्लेंइल्लें करतालो.

रुद्रा शणैची बायल पुराय वर्स नानातरेच्या उपवासांत आनी देवपुजेंतच घालयताली. गायेक गिरास दिलेबगर ती जेवनासली. तिणें गोकर्ण क्षेत्राची यात्रा केल्ली. थंयच्यान येतकीर व्हडली म्हामदी केल्ली. सगळ्या गांवाक जेवणावळ घातिल्ली. सोता हातांत कासाळ घेवन ती काय बरी देवाचीं गायनां गायताली. तिच्या देवाचे दालयेंत सतरा देव आशिल्ले. तांकां सगळ्यांक न्हाणोवन तांची पूजा करता म्हणसर वेळ माथ्यार पावतालो. ल्हवल्हव रुद्रा शणैयूय तिचे भक्तीसाधनेंत रिगिल्लो. तिणें दिल्लो प्रसाद, फूलपाकळी भावार्तान घेतालो. भुरग्यांकय आपले आवयविशीं अभिमान दिसतालो. ती कुडीन अशी सडपातळ बारीक आनी बरीच गोरी आसली. पळयतकीर कोणाकय तिचेविशीं आदर दिसचो. रुद्राक भिरांत दिस, बेठे आमी किरिस्तांव जावया म्हटल्यारय ती वचून जीव दिवचेली.

सुब्राय शणै ह्या दिसांनी परतो परतो वचून कुळदेव रवळनाथाच्या देवळांत वचून बसतालो. काळजांत खपखपो घेवन देवाक पायें पडटालो. पिरायेच्या बावन्न वर्सांत ताणें देवाचे बावन्न वर्ससुवाळे पळयल्ले. कितलींशींच वर्सां देवळाचे उस्तवारीचें काम तोच पळयतालो. वयले पोन्ने पांखे काडून परते नवें लाकूड घालून ताणेंच घडोवन घेतिल्ले. तो म्हण, खंयूय परंतराक गेल्यार रवळनाथाचें नांव घेतल्यार

काळजांत, मनांत किणकिण अशी बारीक घांट वाजता आनी सगळी भिरांत, सगळीं संकस्टां पयसावतात. देवा, हांव आसां तुजे सेवेक. तुजी भक्ती करतां हांव. तूंच म्हाका शक्त दी. देवा, ते कितें म्हणटात जाणा, तुमच्या देवांत सासाय आशिल्ली जाल्यार ताका फोडटासतना तो आमच्या हाताक धरनासलो? पूण तांच्या देवान मात खुर्सार मारतना खुर्सार मारतल्यांक लेखून म्हटलें खंय, 'देवा, ते अपुरबुद्द, अज्ञानी. ते कितें करतात तें तेंकांच कळना. तेंकां भोगशीय.' देवा, तुंवूय घडये तांकां तेंच म्हणटलो. घडये आयजवेर तांणी गोळाक मारिल्ल्या देवानय तांकां तशेंच म्हणिल्लें आसुंये. पूण देवा, हांव तुका कोणाक हात लावंक दिवचों ना. तूं क्षमा करशी, पूण हांव करचों ना.

कुळदेवाची पुजाअर्चा हे बामणच वर्साक वांटून घेवन करताले. कोण भट गुरव नासलो. ही हावळ येतसान तर सुब्रायच सगळें करतालो. सुब्राय देवळांतल्यान उठलो आनी रुद्रागेर गेलो. दिवेलागणेचो वेळ जाल्लो. सालांत एका कोनशांत देवा मुखार दिवो लावन रुद्रा बायल सुमित्री चितळा चामड्यार फतकल मारून बशिल्ली. देवा मुखार हात जोडून ध्यान करताली. तोंडांतल्यान ल्हव ल्हव देवांचीं नांवां एका सुरांत भायर सरतालीं. मुखावेल्या मंद दिव्याचो उजवाड तिचे गोरे नितळ कुडीचेर तिचे सरभोंवतणीं पडिल्लो. तिचेन ती साळ्कांत बशिल्लेवरी दिसताली. ती तशी बशिल्ली आसतनाच सुब्रायान व्हडानच म्हटलें, "तुमी देव देव करीत घरांतच बसून रावात. घरचो देव पावल्यार पुरो, तुमी सुखी. भायल्या गांवदेवाचें, कुळदेवाचें तुमकां पडून गेल्लें ना. ते फोडात ना तर लासात."

सुमित्रेन दोळे उकते केले आनी ती देवांचीं नांवां घेतच उठून भायर आयली. "कितें भया, कितें म्हणटा तूं?"

"तुजी जाव खंय?"

"भितर बसल्या रांदचे कुडींत. कितें करूं, कितलेंय सांगल्यार आयकना." घना शणैली बायल सरस्पत घोव मरतसावन घरांतल्यान भायर सरनासली. वोग्गी रांदचे कुडींत बीन बसून रावताली. तशी ती सामकीच थकिल्ली बागवल्ली म्हण न्ही. बेठेंच तिणें आंग कवळून घेतिल्लें.

इतले भितर रुद्रा गोठ्यांतल्यान येयलो. ताणें शेनरी पातळायली, सुब्रायाक म्हटलें, "बस अण्णा."

सगळ्यांल्याच चेहऱ्यार एक संकस्टांत गाविल्ल्याचो हुस्को आसलो. एक दुसऱ्याचो आधार मागूंक राविल्लेवरी ते कांय वेळ ओगी बसले. "रुद्रा, जाणा मुरे, ह्या दिसांनी कांयच सुचना जालां. शेताचेर हावळ येयल्या, देवाचेरूय येतली, आमीय फाल्यां सुके सुट्टले म्हण सांगूंक जायना. हांगा रावल्यार ते आमकां कसलीय माण्णी

ाडून बाटयतले. केन्ना दिसता, मुंगरू आनी देवरायानच बरें केलें.''

सुमित्रेन रागान तीख आवाजांत म्हटलें, ''कितें बरें केलें म्हणटा? मोनजात पोट रना? शेताभाटा खातीर धर्म विकप? पातकां तीं, व्हडलीं पातकां.'' मदीं ती कांय ळ रावली. मगेर तिणें धिटायेन संथ आवाजांत म्हटलें, ''आमी गांव सोडून वचचें ारायलां भया.''

सुब्रायान तिचेसरीं कांय वेळ थीर नदरेन पळयलें. तिचो चेहरो आत्मविस्वासान कचकतालो. आदींच ती सोबीत. आतां ती चडच सोबीत दिसताली.

रुद्रान म्हटलें, ''फाल्यां हांचेकडच्यान विपस्टा करून घेवचे परस आतांच खंय री उठून गेल्लें बरें न्ही? हांगा आतां आमचें कांयच उरचें ना. देवधर्मच गेल्यार ानीक उरतलें कितें? गांठीक कितें आसा तें घेवन वयचें. ठिकाण मेळटासर चलत ावचें.''

''मगेर देवाचें कितें करचें? ताका कोण राखतलो?''

''तुंवूय चल अण्णा आमचे वांगडा. आमकां एकल्यांकच सोडूं नाका. देवय ेवंया वांगडा.''

''ताका व्हरून कितें करतले आमी दोन बोडां?''

''मनीस आसा थंय देव. आमी झोपडेंत जाल्यार ताकाय झोपडी. कुळदेव थापिल्लेकडेन आपशींच कूळ वाड्टा खंय.''

''केन्ना या म्हणटा?''

''या ह्या आठ दिसांत.''

''भद्र कांय दीस सगल्यांक घेवन बायलेच्या कुळारा वचून रावतलो खंय. ताकाय आमचे वांगडाच यो म्हण सांगुंया. एक व्हडें करचें आनी द्वारभाट मेरेन वयचें. थंय बैलगाडेय मेळटात खंय मुखार वचूंक.''

''होडेकार रातचे लोकांक चोरून तेवटेन व्हरतात खंय. चड दुडू घेतले ते अण्णा.''

''कितें करतलो रुद्रा? आतां सोंसूंक जाय सगळें. तेंचो शेतपटयेचो एक कंतच तीस शेरफींय मुरे. होडेकार द्वारभाट पावोवंक वीस शेराफींय वयर घेवचो ना. ते आनी चिंतामण आनी दुर्गें कितें करतात नकळ. शेताक मिठी मारून बसतले आनी फस्तीक पडटले.''

सुमित्रेन म्हटलें, ''सांगून पळयात तुमी. येयात म्हणात वांगडा. हांगा रावन शेतय ना आनी धर्मय ना जातलो म्हण सांगात.''

''सांगून पळयतां हांव. तें दुर्गें म्हणटात तो उजो. तें आयकत म्हण सांगूंक जायना. तेतून आनी चिंतामण जिवान बरो ना.''

''आयकना तर ताचे भोग ताचे वांगडा.''

सुब्रायान पुराय  हुस्क्यान परत विचारलें, ''केन्ना या म्हणटा?''

''बांदुया कितें आसा तें चीजवस्तू, कपडेलत्ते. या ह्या आठ दिसांत.''

सुब्राय शणै थंयच्यान उठून चिंतामणासरीं वचूंक गेलो. चिंतामण इतलो भागिल्लो, दुदासाय कशी कांत आनी हाडाचो सांपळोच आसलो. उठून बसतलो जाल्यार बायलेक धर म्हणटालो, तातूंत आनी शेताचें नांव काडल्यार ताका थरथरो भरतालो. काडिल्लो रोव सुकून गेल्लो. सुब्रायान पळयल्यार मोटे उमेदीचें, मोटे हिमतीचें दुर्गें, जाच्या तोंडार सदां हांशें उरतालें, तें तोंड आतां बाविल्लें. हांशा बदलाक दोळ्यांत दुकां आसलीं. दुर्ग्यान सुब्रायाक बसूंक मणय हाडून दिली.

''कसो आसा तूं चिंतामण? ऐन वेळार तुका ही पिडा. दुर्ग्यान कितलें सगळें केलें न्ही?''

''हांव वांचचों ना दादो. किरिस्तांव जावचे परस हें मरचें बरें. देवानच धाडलां हें मरण.''

''भुरगो मुरे तूं अजून आनी हें कितें उलयता? थुमेकाल म्हण.''

दुर्गें घोवाक रागान पळयतालें. ताणें म्हटलें, ''कोण व्हरूंक उठला तुका किरिस्तांव करूंक? कोणें विडे घेतल्यात? आपुणच मरता आनी आपुणच रडटा.''

''चिंतामण, आमी - हांव, भद्रा आनी रुद्रा मेळून घरच्यांक घेवन गांव सोडून वयतात. तांचे ते वर्साक शंबर शेराफींय कोणाच्यान दिवंक जातले? समज दिलेच, पूण किरिस्तांवपण चुकूंक आयलां म्हण कोणें सांगचें? तुमीय येतात जाल्यार वांगडाच वचुंया.''

''शेतां हीं अशींच सोडून वयचीं भया?''

घोव पडिल्लेकडच्यान तापलो. ''शेतां खंय शेतां. हाच्या शेतान जीव खायलो. शंबर शेराफींय म्हटल्यार कितले जाणा? शंबर शेराफीयांत चार बैला जोतां येतात. तुज्या शेताचें पुराय भात तितकें जावचें ना.''

''पूण ते तीन कंतान भरूं येतात न्ही थोडे थोडे?''

''हाका पिशें लागलां अण्णा. किरिस्तांव जावंक सोदता तें.''

''किरिस्तांव? हांव किरिस्तांव जातलें? असले शंबर गांव पांयार उडयले म्हण हांव किरिस्तांव जावचें ना आती तुकाय जावंक दिवचें ना.'' मागीर तें कांय वेळ चिंतूंक पडिल्लेवरी रावलें. ''भया, हाच्यान उठून धड उबें रावंक जायना. फाल्यां हंयच्यान भायर सरतकीर कितले दगदगे आसतले. कसल्या संकस्टांत पडूं सांगूं येता? हाच्यान सोसूंक जावचे नात ते दगदगे. पावल घालूंक जायना, आनी गांव माडोवन वयतलो हो? आनीक पंदरा वीस दीस पळयतात आमी. तुमच्यांनी रावंकं येता जाल्यार रावात आमकां.''

"सगळे वटेन संकस्टांत गो बाये, पळयतां हांव रुद्राक बीन विचारून." तो ालो. पयल्यान चिंतामणाचो जाण्टो बापूय बशिल्लो. दोळ्यांच्यो बावल्यो हालोवन ठोवंक यत्न करतालो. सुब्रायान ताका बेठेंच म्हटलें, "तातू, तूं रावता काय येता चे वांगडा?"

जाण्टेल्यान दोनय हात जोराजोरान हालोवन 'ना, ना' म्हटलें. "ते आसात थंय व."

सुब्राय वचूंक म्हण आंगणांत पावलो. फाटल्यान दुर्गे येयलें. "भया, रावात मी आमकां. कांयच उपाव ना जाला." ताच्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं. ताणें डतच सांगलें, "काल धाकलो भाव येयिल्लो. बापूय आगशेच्या धक्यार हालमत्याचो उग्राणी. ताच्या कापितांवान सांगलें खंय, किरिस्तांव जाल्यारच तुका ाकरेक रावंक मेळटलें. ना तर चाकरी सोडून वच म्हण. चार दीस तकली घुंविल्लेवरी ासलो खंय. एक दीस भिरकेंत इगर्जेत वचून एकलोच किरिस्तांव जावन येयलो. ातां सदां रातचो येवन वासरेर न्हिदता खंय. जेवपय भायर वासरेरच."

दुर्गे रडटा तें पळोवन भास्कराक वायट दिसलें. ताणें म्हटलें, "कितेंय जावं, ावतात तुका आमी कांय दीस. रडूं नाका. कितलें धिरिश्ट मुगो तूं."

शेफ कामील रिबेर बामणवाड्यार येवन तांकां शिटकावन भेस्टावन गेल्ल्या दुसऱ्या दिसाकच ताणें राणू केंकऱ्याक दोन सोल्दाद धाडून आपल्या राबित्यार आफोवन हाडिल्लो. हे फावट मात ताणें केंकऱ्याक बसूंक बसकी दिली. ताणें ताका नव्या कायद्याची सगळी म्हायती दिली आनी म्हटलें, "तुका एक कामदार कामाक लावंक मेळचो ना तें जालेंच. वयल्यान एक हजार शेराफींय वर्साक शेतपटी भरची पडटली."

केंकऱ्यान कांचवेवन विचारलें, "एक हजार शेराफींय?"

केंकरो असो उंच आनी गोरो, गोल तोंडाचो आसलो. ताणें बरींच व्हड मिशां दवरिल्लीं. तकलेक पागोटें, आंगार कोट, खोमीस आनी धोतर. कपलाक उबो गंधानामो. ताणें एक हजार शेराफींय म्हण अजाप उकतायतकर शेफीन ताका विचारलें, "तूं आतां पटेकारासरीं कितली पटी भरता?"

"अंयशीं शेराफींय."

"ते तुमचे रायगाळीचे शणै, जणएकलो वर्साक सात शेराफींय भरतालो. तेंकां आतां शंबर शेराफींय भरूंक लायल्यात. तुका एक हजार चड जावचे नात."

"हांव वीस तरी कामदार कायमचे दवरून घेवन शेताभाटाचो वावर करतां. तांचो आनी तांच्या घरच्यांच्या पोटापाणयाचें हांवच पळयतां. एक हजार म्हटल्यार

चड जातले.''

''भियेनाका. आतां हेनफुडें कामदारांचो खर्च तुका करचो पडचो ना.''

''मगेर आमी शेतांभाटां कशीं पिकोवचीं?''

''तूं जाणां, ह्यो कायदो फक्कत हिन्दू जमिनदारांखातीर आसा.''

''हांवय एक हिन्दू आनी हिन्दूच म्हण रावतलों हांगा.''

''मागीर व्हिसरायाचो कायदो पाळचो पडटलो. हांव सांगूं, हेचेपरस खर कायदे येवं येतात. व्हिसरायाची हिन्दूंक शिटकावणी ती. एक तर किरिस्तांव जायात, ना तर धांवन वचात गोंय जुंव्यावयले.''

राणू केंकरो वोगीच रावलो.

''हांव सांगतां तुमच्या बऱ्याचें. तुमी किरिस्तांव धर्म आपणायात. तुमकां कसलेच कस्ट पडचे नात. एक शेराफींय चड पटी लागची ना तुमकां.''

पाद्री पावलू कुलासू म्हऱ्यान आसलो. ताणें म्हटलें, ''किरिस्तांव धर्म बगर आपणावन जे गोंय जुंव्यार रावतात ते किरिस्तांव धर्माचो अपमान करतात अशें आमचें समजवप. तुमी किरिस्तांव धर्मा आडचे पातकी हिन्दू अजून ह्या आदोळशी गांवांत आसात ते शेफ रिबेरी सारखो फाटीं सरपी, घटसाण नाशिल्लो ओफिशियाल आसा म्हण. तूं आतां ऊठ आनी घरा वच. कितें तें बेगीन थारय. घडये आनीक घट हाताचे, बिजूट न्हीं तसले ओफिशियाल येतले ह्या गांवांत तुमकां जेजूचे वाटेर हाडूंक. तुमी गोंयां रावन जेजूचो आनी किरिस्तांव धर्माचो अपमान करतात तें चड दीस आतां आमी सोंसचे नात.''

राणू केंकरो एक हुशार, ज्ञानी मनीस आसलो. सोबीत, दिलखुलास व्यक्तिमत्व. ताका गिरेस्तकायेचें वजन. पाद्र पावल कुलासून हिन्दूंक पातकी म्हण संबोधन करतकीर तो दुखावलो आनी ताका रागय येयलो. ताणें म्हटलें, ''तुका हिन्दू धर्माच्या तत्त्वांची कांयच म्हायती ना म्हण तूं हें अशें उलयता. मुळांत हिन्दू आनी किरिस्तांव धर्माच्या तत्त्वांचे पाठ एकच. फाटभुंयेंत इल्लेंय वेगळेपण ना. तुमी जेजूची, मारिया मांयची आनी हेर सांतांची मूर्त घडयतात आनी तांचे मुखार धिमी मारून प्रार्थना करतात; आमी आमच्या देवांच्यो मुर्ती घडयतात. कुडीचें आनी आत्म्याचें वेगळेपण, आत्म्याचें अमरपण. ताचें दिव्य तेज तुमचेवरीच आमकांय मान्य आसा. आमीय सोर्ग मानतात. बऱ्या कर्तुबाचें फळ म्हण मनीस सोर्गांत पावता आनी पाड कर्तुबाचें फळ म्हण ताका नरक फाव जाता हें तुमचेवरी आमचोय धर्म सांगता. फरक इतलोच, आमच्या धर्मांत पातकाक भोगसणी ना. भोगसणी मागुनय ती मेळना. जण एकल्यान पातकाचें फळ भोगचेंच पडटा. तुमी जेजूक देवाचो प्रेशीत मानतात. आमच्याय धर्मांत अशे प्रेशीत येवन गेल्यात. एक न्हीं दोन न्हीं, धा प्रेशीत जावन गेल्यात. ताणी येतना म्हटलां,

ससारांत पातकां चड जातकीर, नीत आनी सत इबाडटकीर, सज्जनांच्या रक्षणा खातीर आनी दुर्जनांच्या नाशा खातीर हांव येतां. जेजूचेंय थोडेंभोव अशेंच आसलें. मोग, दया, क्षमा, करुणेचो सागर आसलो. मोगान मनशां जिखची तांक ताचेसरीं आसली. म्हणच जेजूचेर म्हजो पुराय भावार्त. हांव मनासावन मानतां ताका. पाद्री सिमांव पिरिसान आमकां ताचेविशीं खूब सांगलां. आयकोन आमच्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावल्यांत.''

सिमांव पिरिसाचें नांव घेतिल्लें पाद्री पावल कुलासूक मानवलें ना. सगळें खरें आसतालें, पूण मनांत बाळगिल्लो एक हेकेखोरपणा. हिन्दू धर्माविशीं इतलें वायट आयकलां आनी हो हें कितें सांगता! एका रानटी धर्माची तुळा किरिस्तांव धर्मा सांगडा करता! ना, हो केंकरो वायट मनीस. म्हाका पाडूंक सोदता, फोडूंक सोदता! तो सट्करून केंकऱ्याचेर किसळ्ळो. ''ह्यो बास्कळ जाणवायो नाकात तुज्यो. हो व्हयालो धर्म. पोप सायबाचें उतर घेवन सात समुद्रांभायल्यान येयल्यात आमी आमच्या बळग्यार. आमचे सोल्दाद तरसाद चलोवंक बरे जाणात. आमी किरिस्तांव परजा वाडयतले. सगळ्यांक किरिस्तांव करून उडयतले.''

केंकरो जाणा जाल्लो, हांकां धर्मतत्त्वाचें बीन कांय पडिल्लें ना. एक पिशें घेवन येयल्यात. धर्म वाडोवचो ना, तांकां धर्मांतर्ली मनशांच वाडोवचीं आसात. तो उठलो आनी वोगी चलूंक लागलो.

फाटले कांय दीस पाद्री पावल कुलासू आनी शेफ रिबेरी मदीं बरोच बेबनाव जाल्लो. भितरले भितर एक झगडेंच पेटिल्लें. खुरीस मोडिल्लो तेन्ना शेंपन्नास मनशां मारून देऊळ मोडूंक जाय आसलें अशें ताका दिसतालें. सोल्दादांक तांणी मारले तेन्नाय शेफ घट रावलो ना. गांवाक ख्यास्त दिली ना अशें ताका दिसतालें. देवूळ बंद करूंक शिगम्या मेरेनची शेफीन मुजत दिल्ली तेन्ना दोगां मदीं उकतें झगडेंच जाल्लें. पाद्री दर फावट इन्क्विझासांवाची भिरांत घालतालो. पाद्रीक दिसतालें, म्हज्या हातांतली तलवार शेफ चलयता. हांवें सांगिल्ल्याचेर ताणें घायो घालूंक जाय. पाद्रीन पाद्री म्हण घायो घालूंक फावना, पूण घायो घालूंक ओर्द करूंक येता अशें ताचें मत्त. येदोळ केंकऱ्या मुखार पाद्रीन शेफीचो मानभंग केल्लो. पूण शेफ उपरांतय वोगीच रावलो. शेफ तसो पुराय किरिस्तांवपणाचो काळजासान भावार्ती आसलो. पूण गोमटी कातरावन बातिज्म दिवंक उबे करप ताका मान्य नासलें. आपलेपरीन तो बळ वापरतालोच. पूण पाद्रीक एका घायाक दोन कुडके केल्ले जाय आसले. पुराय आदोळशी गांव एका दिसाक पुराय किरिस्तांव जाला वा ते गांव सोडून धांवन गेल्यात अशीं ताका सपनां पडटालीं.

राणू केंकरो घरा गेलो आनी जीव गेल्लेवरी पलंगार पडलो. कितें करचें सुचनासलें.

ते तीग भाव. वेणू फाटीं बिजापूर रायासरीं गेल्लो. पूण गेल्लीं पांच वर्सां परत येवंक नासलो. ताची खबर मात मेळटाली. गोंय पाटणांतल्यान व्यापारी, सरकारी चाकरदार बिजापूरांत यो वच करीत आसताले. धाकलो भाव पुरू मात ताचे वांगडाच रावतालो. मदींच ताणें वावराडेक सांगून धाकल्या भावाक आफोवन घेतलो. ताका सरळच ताणें विचारलें, ''पुरू, तूं किरिस्तांव जावंक तयार आसा?''

पुरून व्हडल्या भावालो अस्वस्थ चेहरो कांय वेळ पळयलो. ताणें विचारलें, ''धर्म व्हड काय भाटबेसां व्हड तातो?''

''पोट व्हड म्हज्या भावा !''

''खरेंच तुका तशें दिसता न्हू?''

''आकांताक जें दिसता तेंच खरें आसता पुरू.''

''मागीर, हांव किरिस्तांव जावंक तयार आसां.''

''तुजी बायल?''

''ती तुजे सांगणे भायर ना.''

''तरीय, तिचें मत्त घे तूं.''

तो वचूंक गेलो. हे तिगय भाव कांय कांय वर्सां ब्रह्मपुरींत शिकिल्ले. संस्कृत आनी कानडी तांकां वाचूंक बरोवंक येतालें.

दुसऱ्या दिसा राणू आनी तागेली बायल माचुलांत बसून गांव देवळांत रामनाथासरीं गेली. थंय तांणी रामनाथाची पूजा केली. बायलेक घेवन देवळाक प्रदक्षिणा घातल्यो. देवळाच्या तेण्यार बसून ताणें भटासरीं आनी देवळांत येयिल्ल्यांसरीं खबरो केल्यो. तेंगेर कामाक येवपी एक भोय देवळांत येवन बरो भावार्तान पांय पडून वयतालो. राणून ताका म्हऱ्यांत आफयलो, फकाणांनी विचारलें, ''कितें मागलें रे देवासरीं? पुताक चेडो मागलो काय धुवेक बरो न्हवरो मागलो?''

तो सगर्दन जालो. तेणें म्हटलें, ''म्हाका कांय मागूंक ना हायें धनया, हें देऊळ वाटाय म्हण हांवें देवासरीं मागलें.'' तो वचूंक गेलो.

आतां सट्‌करून राणूच्या लक्षांत आयलें, लोक घांट वाजयनासतनाच देवळांत येतात आनी मोन्र्यांनी पांय पडून वयतात. तोवूय येदोळ घांट वाजोवंक चुकिल्लो. ताणें घांटीवटेन पळयलें, आड्यांवयल्या चारय घांटींच्या वाजयण्यांक भटान वस्त्रां कुडके गुठलावन बांदिल्ले. राणूल्या काळजांत चर्र जालें. येदोळ तो येतसावन ताका जाणवतालें, देवळाच्या वातावरणांत एक कांच, हुस्को, दुख्ख भरिल्लें आसा. कोणाच्या तोंडार उमेद उल्हास ना. ताका आतां भोव दुख्ख भोगलें. हांवें केन्ना ह्या देवळाची आनी देवाची जाय तशी भावभक्ती केली ना. ताच्या व्यवहारांत लक्ष घातलें ना.

तो देवळांतल्यान उठून येवंक लागलो तेन्ना ताचे दोळे दुकांनी भरिल्ले. बायलय घुम्म मोनी जाल्ली. तांणी देवळाक एक फावट फाटीं वळोन पळयलें आनी तीं वचून माचुलांत बसलीं.

रातभर चिंतून राणू केंकरो एका निर्णयार पाविल्लो. हे माड माडयो, शेताच्यो बांदयो, घरांतले मुडे मुडयो, कामदारांच्यो जेवणावळी तश्यातश्योच उरतल्यो जाल्यार तो निर्णय घेवप गरजेचें आसलें.

ताच्या घराचे फाटले वटेन इल्लें वयर दोंगराकडेर एक कुणब्यांलो वाडो आसलो. तांचीं थंय सात घरां आसलीं. त्या घरांतले सगळे दादले बायलो मेळून विशेक जाण तांगेर कामाक आसले. घरांतलें काम, कुळागरांतलो वावर, वायंगण, सरदे रोवचो वावर तेच करताले. गोरवां राखणेक तीग जणआसले. दनपारचें सगळ्यांचें जेवण तांगेरच आसतालें. सद्दां दनपरां वीस पंचवीस लोकांची जेवणावळ. आपल्या घरा भुरग्यांकय ते दनपारचें जेवण केन्ना बांदून व्हरताले.

दुसऱ्या दिसा दनपरां घराकुशीचे ते व्हडले पडवेंत तेवीस पत्रावळी मांडिल्ल्यो. ताचेर तेवीस कामदार जेवंक बशिल्ले. बायलो, दादले, तरणाटे सरभरशीं. दादले पुराय उकते आसले. कमरेक फकत एक बारीक कास्टी. बायलांनी कमरेर एक आडवें वस्त्र गुठलावन घेतिल्लें. ताचो एक पदर हड्ड्यावयल्यान व्हरून गळ्याक बांदिल्लो. केंस फाटल्यान व्हरून बुचडो कशे घट बांदिल्ले. कुळागरांतल्या उदकाच्या पाटांत ते हातपांय धुवन येयिल्ले म्हण ते नितळ दिसताले. वायंगणाचो तेंप. सकाळसान कामां करून पोटां फाटीक लागिल्लीं म्हण ते बेगिबेगीन जेवंक आशेताले. पानार पयलो गिरास घरांतल्या कामेऱ्यांनी घातिल्लो. भाटकारान 'जेव' म्हणचे पयलीं आज कोणेंच जेवचें न्ही.

इतल्यान राणू केंकरो थंय येयलो. ''रावात, कोण जेवं नाकात. ही तुमची घडये निमाणी पंगत. हे निमणे पंगतीक हांव आज एक श्ळोक म्हणटलों. मागीर हांव कितें सांगतां तें आयकोन तुमी जेवचें.''

जेवंक बशिल्ले कामदार रानांत पडिल्लेवरी जाले. ''कितें सांगता भाटकारा?''

राणू केंकऱ्यान श्ळोक म्हणूंक सुरू केलो.

पूर्वे रामो तपोवनादि गमनम्<br>
हस्त मृगम् कांचनम्<br>
वैदेही हरणम्<br>
जटायू मरणम्<br>
सुग्रीव संभाषणम्<br>
वाली निग्राहरणम्

समुद्र तरणम्
लंकापुरी दहनम्
पश्चात रावण कुंभकरणादि हननम्...

''आमी इतलो काळ एकेकडेन काम केलें आनी एकेकडेन जेवले. पूण आयज हांव किरिस्तांव जालां. बातिज्म घेवंक ना, पूण मनान पुराय किरिस्तांव जालां. तुमी आज म्हगेर जेवल्यार बाट्टले. जे कोण म्हजे वांगडा फाल्यां बातिज्म घेवन किरिस्तांव जावंक तयार आसात तांणींच हे पंगतींत जेवचें. जांकां म्हजे वांगडा किरिस्तांव जावंक खोशी ना, तांणी उठून वयचें. मतींत धरात, आज हांव एक किरिस्तांव!''

कांय खीण थंय मसुंड शांतताय पातळ्ळी. सगळे तोंड वयर करून भाटकारासरीं थक्क पळयताले. कोणालो हात पत्रावळेवटेन वचनासलो. आनी कोण पंगतीवेल्यान उठुनूय वचनासलो. मगेर ते भाटकारावेल्यान नदर काडून एक दुसऱ्यावटेन पळोवंक लागले. कोणाक अन्नाक हात घालचो धीर जावंक नासलो. जाण्टेल्या जुगल्यान ल्हवल्हव मान सकल घेतली. एक फावट पत्रावळेवेल्या अन्नाक पळयलें आनी मागीर तेका नमस्कार केलो. हात शितावयल्या रोसांत बुडोवन ताणें एक फावट भुर्रकरून रोस भुरकिलो. मगेर शितांत हात घालून शीत कालोवंक लागलो. तेसरशीं कितलेशेच हात पत्रावळीवेल्या अन्नावटेन गेले. जेवच्या भुर्र भुर्र आवाजान ती पडवी भरून गेली. पंगतींत बशिल्लो जण एकलो पानावेलें अन्न जेवतालो.

केंकऱ्याल्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं. तो घरांत गेलो.

भास्कर शणैन आनी रुद्रा शणैन दुर्ग्याक 'आमी तुका रावतात' म्हण सांगिल्लें. पूण ताच्या दोन दिसांनीच वायट खबरो गांवांत येवन पावल्यो. न्हंये पलतडचें मंगेशाचें देऊळ पुर्तुगेजांनी पाडिल्लें. देव देवळांतल्यान खंय व्हरून पावयलो, काय देवासयत तांणी देऊळ पाडलें हें कोणाक सारकें खबर नासलें. कोण एक तारयो व्हडल्या गोंयच्यान लोकांक घेवन गेल्लो, थंयचो बोवाळ आनी धांवाधांव पळोवन तार तडीक लायनासतनाच परत येयिल्लो खंय. मंगेशाचें हें देऊळ खूब पोन्रें, खूब जाग्रुत म्हण लोकांचो भावार्थ आसलो. तें गोंयच्या सगळ्या बामणांलें तीर्थक्षेत्र जाल्लें. ज्या सारस्वत बामणांचो तो कुळदेव नासलो तेवूय ताका भजताले. अशें म्हणटाले, सरस्वती न्हंये तिरावेल्यान ताका हाडिल्लो तेन्रा ताका खंय स्थापन करतले म्हण प्रस्न येयलो तेन्रा मंगेशान सपनांत येवन सांगलें, तुमचे कपील गायेक चरूंक सोडात. ती जे सुवातेर पानेवन आपल्या पान्याचें दूद सोडटली, थंयच म्हजी स्थापना करात. अजापच, गायेन पान्याचें दूद सोडलें आनी ते सुवातेरच तेची स्थापना जाली. मागीर थंय देऊळ

उबें जालें. गायेचेंय पालन देवळाचे सुवातेरच जावंक लागलें. तांणी देऊळ मोडचें मोडून गायेकय मारून तेच्यो आंतकड्यो मुखावेले तळयेंत उडयल्ल्यो खंय.

वट्ट मोटो हाहाकार जाल्लो. देव खंय पावला काय तांणी फोडलो, खबर नासली. लोकांमदीं भिरांत पातळिल्ली. आदोळशी आदीं सामको कुशीचो गांव. खबरो बेगीं पावनासल्यो. पावल्यारूय मोडून तोडून, वाडोवन पावताल्यो. लोक म्हणटाले, एक राखेसरुपी कापितांव तिनशें सोल्दादांक वांगडा घेवन वाटेर मेळटात तीं देवळां फोडून उडयत, लोकांक बाटयत मुखार येत आसा. एकदोन दिसांनी न्हंय बलांटून हेवटेन येतलो. आदोळशीचींय देवळां तो फोडटलो, लोकांक बाटयतलो.

सुब्राय शणैचेर सगळो कलकल. तो परतो परतो देवळांत वयतालो, देवळांतल्यान येवन रुद्रा शणै, भद्र शणै हांच्या घरा वयतालो. "या आमी बेगीन. बांदात तुमी संवसार. वचूंक एक पावल फाटीं पडल्यार तो कोळ घुरी घालतलो." दुर्ग्यासरीं वचून तो म्हणटालो, "बाय गो, आमी वयतात. आयज रातचेच चल्ले. जातलें घोवाच्यान चलूंक?"

दुर्ग्याक कितें करचेंच कळनासलें. घोवाची अवतिकाय आनी तो रडटा तें पळयल्यार तो धुकलून व्हयल्यारूय एक पावल घालतसो दिसनासलो. बायलेन ताका विचारलें, "तूं येता काय हांगाच पडून रावया म्हणटा किरिस्तांव जावंक?"

"म्हज्यान हांगा हांथरूण सोडूंक जायना आनी तूं म्हाका खंयच्या वळख-देख नाशिल्ल्या गांवांत घेवन वयता? कितले गांव माडोवन वयचें पडटलें देवाक खबर. हांव काय पावचो ना, मदींच पडटलों."

"मागीर हांगा रावन किरिस्तांव जावंया म्हणटा?"

"नशिबांत आसल्यार चुकचें ना तें. दुर्ग्या, तूं म्हाका घेवन राव कांय दीस. मात्सो घट जाता काय पळयतां. तूं वांगडा आसल्यार हिन्दू कितें किरिस्तांव कितें."

दुर्गें ओगीच रावलें. ताणें सुब्राय शणैक सांगलें, "भया, तो हांथरुणार पडला. कुडीक इल्लें त्राण ना. कशीं येतलीं आमी? तुमी वचात मुखार. देवाक ठिकाणार पावयात. आमचें कितें जाता तें पळयतात."

भद्र शणैन, रुद्र शणैन आनी सुब्राय शणैन संवसार बांदलो. शेतां धंद्याचीं सगळीं आवतां, गोरवां तांणी थंयच शेणलीं. वस्त्रां, हांथरूण, कांबरूण, पितळेचीं, तांब्याचीं आयदनां, पयसो आटको, गरजेचे तांदूळ तांणी बांदले. सांगतकीर तांच्या शेताभाटांत काम करपी कामदार येयिल्ले. तांचें अन्न खायलां, जाता तें जाता म्हण ते तिनसांजचे येयिल्ले तांकां न्हंयेसरीं व्हड्यार पावोवंक. आनीक एक घराबो सुब्राय शणैल्या आंगणांत येवन उबो राविल्लो. घोव, बायल आनी तिगां भुरगीं - णव धा वर्सां पिरायेचीं. तांच्या आंगा खांदार बुरश्यो पोटल्यो आसल्यो. घोवाचे तकलेर एक

चोबो आसलो. हो बांदी म्हण घराबो. शिरवाड्यावयले वाटेर सकल्लेवटेन तांचें ल्हानशेंच घर आसलें. तीं दोगांय घोव बायल बामणांगेर कामां करतालीं. चड करून घरांतलीं कामां. सामक्या भुरगेपणासावन तीं तांगेर कामाक आसलीं. बायल इकरा वर्सार लग्न जावन येयिल्ली आनी लग्न जावन येयिल्ल्या दुसऱ्या दिसाकच तिणें बामणांगेलीं आयदनां पांट्यार व्हरून धुयिल्लीं. आज तीं बामणांवांगडा वचूंक सुटिल्लीं.

घोवान म्हटलें, "संवय ती. तुमचे वांगडा जिवीत गेलें. तुमच्या पांयार उदक घालूंक तुमचे फाटल्यान आमचे पांय..."

णव धा जाण कामदार आसले. सगळें सामान कामदारां मुखार दवरून ते सगळे देवळांत गेले. पयसो, भांगर मात बामणांच्या बायलांनी घट कनवटेक बांदून घेतिल्लें. वयताना तिगांनीय सगळ्यांक सांगलें, "आमी देव व्हरून सुखरूप ठिकाणार पावयतात."

बाटिल्ले दोगूय बामण - मुंगरू आनी देवराय - तांचीं घरचीं, देवळामुखार येवन पयस उबीं रावलीं. ल्हान भुरगीं सोडल्यार तांतलो एकानएक रडटालो. जाणटेलो मुंगरू तर सकल बसून हुडके दितालो. म्हणटालो, "देवा, आमकां भोगशीय. आमी पातकांत रिगले. उरिल्ल्यांक तरी वाटय. केन्ना ना तर केन्ना तूं आसा थंय हांव येतलों आनी तुज्या पांयार घालून घेतलों!" देवाचें भांगर तामण मुंगरू शणैसरीं आसलें. तो बाटिल्लो तरीय ताणें तें तुर्ताक ताचेसरींच आसूं अशें म्हणिल्लें. वाटेर कितें व्हाडून दवरलां, कोण जाणा !

क्रशणा शणै, जो मदींच हुमकळटालो, तो घरावटेच्यान गाळी संवत येयलो. "कोण अवचित्र राणग्याचो देवाक हात घालता पळयतां!" तो संवत येयलो आनी देवळाच्या दारांत उबो रावलो. "देवाक हात घातल्यार मडीं पडटलीं."

भद्र शणै ह्या तिगांत जाण्टो आशिल्लो. ताणें म्हटलें, "कितें करता तूं क्रशण? फाल्यां ते घण पारय घेवन येयल्यार देव उरतलो काय देऊळ? भायर सरल्यात ते. केन्नाय पावं येतात. पांये धरतां तुजे, देवाक व्हरूंक आडय नाका."

हाचेर क्रशण चडच रागान नाचूंक लागलो. सगळ्यांक गाळी सवंक लागलो. "घातमारे, नाड, देवाक घेवन वयतात. ना व्हरूंक दिवचों. जें गांवाचें जातलें तेंच देवाचें. व्हडले घेवन वयतात देवाक. तुमचोच देव म्हण समजल्यात काय कितें तुमी? देवाक सासाय आसल्यार देव वाटोवन घेतलो सोताक. फाल्यां आमी मेल्यार देवय मरतलो. ना, व्हरूंक दिवचों ना देवाक."

सुब्रायाक ताचो इतलो राग येयलो, तो देवळांत गर्भकुडी फाटल्यान आशिल्लो एक दांडो घेवन येयलो. "हुंवाळिल्ल्या, पातक्या, देवाक मारून उडोवंक उठला?" ताणें सटासट चार दांडे ताच्या भुजांर फाटीर घातले. तेन्ना रुद्राय मुखार येयलो. ताणें क्रशणाक हाताक धरून देवळाच्या दारांतल्यान सकल ओडलो. तो तोल सुटून सोपणार

पडलो. ताची तकली धाडावली आनी बारीक कोंक पडली. भद्रा शणैन बेगिबेगीन येवन घट धरून ताका उठयलो आती ताच्या घरावटेन धुकल्लो. तो संवतच वचूंक गेलो. ताच्या घरासरीं मगेर बरोच कलकल जायत रावलो.

क्रशण ह्या बामणांत इल्लो काळसोच आनी किरकोळ आंगाचो आसलो. पूण सदांच झगडूंक मुखार. तो आतां फाटल्यान कित्याक रावला, कसली माण्णी आसा, कांयच कळनासलें. लोकांलो ताचेर विस्वास नासलो. ताका लोक 'मतलबी क्रशण' म्हणटाले.

येदोळ हातांत दांडो घेतनाच सुब्राय शणैक भार येवंक लागिल्लो. आतां तो दांडो उडोवन, ताणें भाराच्या भरांतच सगळ्यांक सांगलें, ''येयात, अशे देवासरीं येयात आनी गाराणें घालात.'' तीनय घराब्यांचे लोक भितर गर्भकुडी सामकार येवन उबे रावले. भद्र शणैन गाराणें घातलें. ''आमी तुका देवा, भश्ट, नश्ट्या लोकांल्या चपक्यांतल्यान सोडोवंक गोंया भायर घेवन वयतात. तुवें कोपचें न्ही, आमकां शापचें न्ही. तुजी खंय खंयच्या स्थानार थापणूक करची तें तुवें आमकां सपनांत येवन सांगचें. ना तर आमी आमचे अल्पबुद्दीन थारोवन तुजी थापणूक करतले. गेल्लेकडेन बरकत दिवची, हाताक यश दिवचें. जाण्ट्या नेण्ट्यांक भुरग्यांबाळांक भलायकी दिवची, आयुश्य दिवचें. जे आमचे भाव तांचे भकीक पडून, उपाय ना जावन धर्म सोडून गेल्यात, तांचेंय कल्याण करचें !''

सगळ्यांनी 'हय देवा, हय देवा' म्हण घोश केलो. आतां सुब्राय शणैचेर चडच सांवार. ताणें गर्भकुडींत वचून देवाक हात घातलो आनी देव उखल्लो. गर्भकुडी भायर हांथरून दवरिल्ल्या तांबड्या रसमी वस्त्राचेर ताणें देव दवरलो. परत भितर वचून लामणदिव्याक हात घातलो. लामणदिवो ताणें पालयलो ना. तांतुंतल्यो पांचय वाती काडून देव बशिल्लो ते सुवातेर पेट्ट्यो दवरल्यो. उपरांत लामणदिवो हाडून त्या वस्त्रासरीं दवरलो. तसोच तो भाराच्या भारार देवळा भायर धांवलो. भायर रुमडी पोनांतले गुडयेंत रवळनाथाचो परिवार देव सिद्धनाथाची मूर्त आसली. ती ताणें उखलून हाडली आनी वस्त्रार दवरली. मगेर पांच सोनचाफ्या फुलां त्या वस्त्रार उडयलीं आनी वस्त्र बांदलें. बांदतना सुब्रायान म्हटलें, ''हीं फुलां, आमची तुका पुजा परत थापणूक करसर ती मदीं बावचीं नात, सुकचीं नात. तुजे सासायेन ताजीं परमळीत उरतलीं.''

ताणें म्हटलें, ''आंकवार धिंड्याले तकलेर ही देवाची साटली दिवंक जाय. थापणूक जायसर मदीं तेका भुंयेचो स्पर्श जावंक फावना. दवरचो आसल्यार रुमडी रुखाच्या खानवार दवरूंक जाय. देव तकलेर आसतना शरीरधर्म करूंक फावना.''

रुद्रालो व्हडलो पूत सोळा वर्सांचो आसलो. ताका घेवन रुद्रा मुखार येयलो. ताचे तकलेर ती देवाची साटली ताणें दिली. कामदार तकलेर वजीं घेवन उबे आसले.

उरिल्लें कांय सामान बामणांनी सोता खांद्यार तकलेर घेतलें. ते चलूंक लागले न्हंयच्या धक्याचे दिकेन. हेर किरिस्तांव जाल्ले बामण दोळ्यांत दुकां हाडून उबे आसले. वयतल्यांच्याय काळजांत दुखखाचो हुंवार फुटिल्लो. पूण कोण व्हडान रडनासले. मोन्यांनी सोंसताले. मुंगरू शणैन परत एक फावट तांकां सांगलें, ''देवालें भांगर आनी तामण म्हजेसरीं सुगूर आसा. तुमी देवाची थापणूक केली म्हणटकीर सांगणें धाडात. हांव हाडून पावयतां. आतां वाटेर चोर चांडाळांची भिरांत.''

तकलेर वजीं मारून सुटिल्लो एक दिशाहीण पोंवो. फाटल्यान नाल्लान, फोपळान भरिल्लीं तुश्ट शिरवंत कुळागरां, थंड सावळेंतलीं घरां, अमृताची धार कसो उदकाचो पाट आनी मुखार वळख नाशिल्ली आदि अंत नाशिल्ली फातरटवाट! मुखार एक तळपटो सडो! हे मातयेंत रुजवणेक घातिल्ली जल्मनाळ! मातयेंतल्यान मुळां हुमटून घेवन वचप म्हटल्यार मोटो आकांत आसलो. दुदाची साय कशी सारें घालून वाडयल्लो, वेगभर घेराचो, कुचकुचीत पेडींनी भरिल्लो तो कवाथो सोडून वचचेलें आत्मघातकीपण ते कित्याक करताले! मनीस एकच फावट दोन धर्मांचो धनी. शेवटा मनाचो धर्मच स्रेश्ठ. वाटेवयलीं वळखिचीं झाडांपेडां फाटीं पडटना, काळखांत बुडूंक लागतना तांकां दिसतालें, आपल्या जिवाभावाचीं मनशां अशीं दोळ्यांमुखार बुडूंक लागल्यांत. काळखांत दोंगरांतल्यान आनी खाजनांतल्यान देडेक वर चलत ते न्हंये तडीर पावले. थंय तीन व्हडयो आसल्यो. रित्यो. व्हडेकारय कोण नासले. लागींच एक ल्हान दोंगुल्ली आसली. थंय व्हडेकारांलीं तीनचार घरां आसलीं. भद्र शणैन ल्हवल्हव कुंकार दिले. एक गोमटी दामिल्लोसो परतो आवाज येयलो. कांय वेळान दोग व्हडेकार हातांत व्हलें, तावज घेवन आयले. काळखाचे कुडके सरकत आयिल्लेवरी मुखार येवन उबे रावले. हो साटल्यापोटल्यांचो चोमो पळोवनच तांणी म्हटलें, ''ह्या दिसांनी न्हंयेंतल्यान गोंयां पलतडी वचचें म्हटल्यार जिवावयलो काळ जाला. मदींच काळखांतल्यान खंयच्यान तरी येतात, व्हडें लुट्टात. कोणें आडायल्यार मारून न्हंयंत धुकलून दितात. केन्ना सगळ्यांक धरून व्हरून किरिस्तांव जावंक लायतात. कसलेंय बगलांट घालतात.''

सुब्राय शणैन म्हटलें, ''देव घेवन भायर सरल्यात. आतां फाटीं ना फुडें. तशेंच संकस्ट येयल्यार देवाक न्हंयंत विसर्जन करचें आनी सगळ्यांनी न्हंयंत हुडी घेवची. कशेंय करून एक फावट धुकल आमकां न्हयंत.'' सगळ्यांचीं हड्डीं धडधडलीं. अनवळखी वाठार. चोंयवटेन काळोख. हे आनी कितें सांगतात!

''सगळें तुमचे जापसालदारकेचेर. द्वारभाटी पावोवंक चाळीस शेराफींय पडटले.''

भद्र शणैन म्हटलें, ''कितें सांगता तूं तारया? पयलीं आमी पांच शेराफींयांत व्हडें व्हरून तातूंत वर्साचें सामानसुमान घालून परते हाडटाले.''

"ते दीस गेले गा आतां."

"दीस वायट येयल्यात खरें. तरीय आमकां दिशिल्लें, व्हडेकार वीस शेराफीयां वयर सांगचो ना."

"जावचें ना तितल्यांत. बायलेचें नाका मोकण तुळशींत दवरून येतात आमी."

सुब्राय शणैन म्हटलें, "आदोळशीचे बामण गांवकार आमी. पुराय गांवाचेर आमचो शेक चलतालो. आतां संकस्टांत गावल्यात. पंचवीस शेराफींय दितात."

"तीस शेराफींय दियात. तुमकां म्हण."

ते ओगीच रावले. सगळ्यांनी भराभर सामान व्हड्यांत उडयलें. मानायांचीं माथीं मेकळीं जालीं. व्हडेकारान तडींक तावजी कोंडो लावन व्हडें न्हंयंत धुकल्लें. व्हडें न्हंयंत रिगलें. ते मानाय, कामेरीं काळखांत 'येता मू भाटकारा, येता मू बाब, येता मू व्हडलें बाय, येता मू...' म्हण निमणो निरोप दिताले. तांच्या त्या उतरांनी न्हंयेतडीर इल्लो गजबज जालो. तांकांय बरें दिसलें.

रुद्रा बायल सुमित्री चिंतताली, हें आमचें वचप निमणें, सासणाचें हें खबर आसुनय हीं पिशीं कामदारां 'येतात मू' म्हण विचारतात! आतां सुमित्रीक आपली व्हडली जाव सरस्पतीचो भोव उगडास येवंक लागलो. कित्याक म्हण रावली ही अशी! घना शणैली बायल सरस्पत येतना निमाण्या खिणाक आपली पोटली घेवन सोपणार बसली. म्हणूंक लागली, "हांव वचून म्हगेले व्हडले धुवेगेर रावतां. हांव आनी कित्याक येवं? म्हजें कितें उल्लां आतां?"

सुमित्रीन म्हटलें, "पिशें लागलां तुका? तुजी व्हडली धूव केन्नाच बाटून किरिस्तांव जाल्या. थंय कशी रावतली तूं?"

"जावं, म्हजें रगत तें. तें किरिस्तांव जालां आनी म्हाका बाट लागले बगर कशी रावतली? रगतासरीं रगत धांवता. हांव फाल्यां उठ्ठां आनी वयतां शिद्दोणा. उदकार दांडो माल्लो म्हण उदक वेगळें जाता? तशेंच रगताचें."

शीड कवळिल्लें तें व्हडें कोंड्या काठयेर आनी व्हल्यार ते ताणटाले. लप् लप् हाताताळये कशें उदक चोंयवटेन हालतालें. काळखांत ते न्हंयक क्षितीज म्हण नासलें, तड म्हण नासली, अंत म्हण नासलो. भितरले सगळे व्हड्यांत पोटल्यांमदीं आंग कवळून बशिल्ले. एका अंतपार नाशिल्ल्या सागरांत तेंकां शेणिल्लेवरी दिसतालें. देवा, हें आनी व्हडें तडीक लागतलें !

रवळू मिराशार बेताळाचो अवसर येतालो आनी ताची पुजा जोगोवणीय मिराशाकडेन आसली. बेताळाचें देऊळ भश्टावन सोल्दाद भितर रिगतकीर आनी मूर्त

काडून झिलींत उडयतकीर रवळू मिराशान ती वांगडा घेवन अवसराच्याच भारार कोंडींत हुडी घेवन जीव दिल्लो. हे घडणुकेक आतां एक वर्स जावंक येयिल्लें.

रवळूलें एक निकतेंच न्हावंक लागिल्लें चेडूं आसलें. न्हावंक लागिल्ल्या चेडवालें बापूय मेल्ल्या वर्सापयलीं लग्न करूंक जाय, असो पुर्वाचाराचो नेम आनी शास्त्र आसलें. रवळूल्या धाकल्या भावान आपल्या भावाल्या चेडवाचें लग्न कुडकेच्या भिका सावकेल्या चेड्यावांगडा थारायल्लें. लग्न जाता तितले बेगीन जावंक जाय आसलें. पूण पुर्तुगेजांनी कायदो केल्लो, उंबरा भायर न्हिंदूंनी कसलेंच कार्य करूंक जायना म्हण. जोशाक, भटाक तर घरा आफोवंक सामकी बंदी आसली. पाळये एक भट आपले पोटलेंत वालो आनी पुजे सामान घालून आनी कास्टी न्हेसून लोकांगेर देवाकामाक, मसुंडेर क्रियाकर्माक वयतलो. घरांत वा मसुंडेर पावलो म्हणटकीर देवाकामाक बसचे पयलीं वालो न्हेसतालो. कांय लोक भटाक रातीक हाडून दवरून सकाळीं घरांत ताचेकडच्यान देवा काम करून घेताले.

रवळू मिराशाल्या भावाक आनी भिका सावकेक हें लग्न खंय व्हरून करचें म्हणची चिंता लागिल्ली. आदीं तीन तीन दीस दबाज्यान लग्नां चलतालीं, आनी आतां हें लग्न चोरून घरा भितर करचें तांकां मानवतालें. आदींच मिराशालें घर ल्हान, दोन पाख्यांचें. तातूंत दार बंद करून लग्न कशें करतलो! पुर्तुगेजांल्या कायद्याप्रमाण हिन्दूंनी लग्नां दार बंद करून घरांत करूं येतालीं वा व्हड्यांत बसून न्हंये मदीं वचून करूं येतालीं, वा गोंया भायर वचून.

गोंया भायर वचून लग्न करून येवचें बरेंच त्रासाचें आनी जिकिरीचें आसलें. गेल्ल्या मायाक शिरदोनचें एक दिबण लग्नाक म्हण अंत्रुजाक गेल्लें. लग्न लावन रातीं न्हिदिल्लेकडेन तांकां लुटले. व्हंकलेल्या गळ्यांतलीं पोवनां आनी पुतळ्यो लेगीत काडून व्हयल्यो. तें दिबण सामकें कंगाल जावन परतलें. ते वटेन अंत्रूज, दिवचल, सत्तरी, सांगें ह्या वाठारांत जायते कडच्यान अठरापगड जातींचो, नाना नमुन्यांचो लोक येवन भरिल्लो. आल्बुकेर्कान गोंय घेतकीर धांवन येयिल्ले मूर, नायटे, धर्मांतराक भियेवन धांवन येयिल्ले लोक, गुलाम म्हण हाडून विकिल्ले आनी मागीर सोडवणूक करून घेवन धांवन येयिल्ले गुलाम हांणी खेटाखेट केल्ली. हे लोक शिंवेसर, कॅनरा, बिजापूर, गोवळकोंडा वयचे वाटेर हांगा कांय तेंप वसती करून रावताले. हांगा तांचें थाऱ्यार पडना जाल्यार ते मुखार वचूंक सुटटाले. मुळाव्या लोकांमदीं आनी तांचेमदीं केन्ना हाणामारीचीं झगडीं जातालीं. गांवच्या गांवकारांक सांगिनासतना कोणेंय भायल्या लोकांनी गांवांत येवन रावल्यार गांवाक राग येतालो. म्हण हे लोक चड करून रानांत उदक आसा थंय आपलो राबितो करताले. मदीं मदीं झगडीं मारामारी लुटालूट चालूच आसताली.

म्हण सावकेक लग्न भायर वचून करचें मनांत नासलें. घरांत करतलो म्हटल्यार भट गांवांत येवंक सोपेपणान तयार जायनासलो. घरय ल्हान काळखी आसलें. शेवटा लग्न न्हंयेचे मदीं व्हड्यांत करचें थारलें. जुवारी आनी मांडवी न्हंयंत अशो कांय लग्नाखातीरच म्हण व्हडयो दवरिल्ल्यो. सरासर तांणी व्हडें, वाजंत्री, भट सांगले.

आदल्या दिसा दिबण वाजंत्रां नासतना न्हवऱ्याक बाशिंग बांदिनासतना येवन मिराशाल्या आंगणा माटवांत न्हिदले. दुसऱ्या दिसा सकाळीं दोनयकडचे लोक न्हांवन धुवन न्हवऱ्या व्हंकलेक घेवन वरभर चलून न्हंये तडीर गेले. व्हड्यांत येवन भट वाजंत्री आदींच बशिल्ले.

जाण्टेल्यान तडीवयले किंदळे पोनांत शेनरी सोडोवन न्हवऱ्याक बाशिंग बांदलें. कोणें तरी हात हालोवन वाजंत्र्यांक वाजय म्हण सांगलें. वाजंत्रां वाजूंक लागलीं. न्हवऱ्याक आनी व्हंकलेक तांणी व्हड्यांत घेतले. तांचे वांगडा कांय थारिल्लेच लोक. न्हवरो व्हंकलेले यजमानी आवय बापूय, करवली, धेडो, मावळे आनी कांय सामके लागींचे सोयरे. भट, वाजंत्री, देवळीण सोडून पंचविशेक लोक व्हड्यांत आसलो. तर चाळीशेक लोक न्हंये तडीर. व्हडेंकारान व्हडें न्हंयेंत बरेंच भितर घेतलें. व्हड्यार लग्नासुवाळो सुरू जालो. व्हड्याच्या पोटांत फळी घालून लग्नाक सुवात केल्ली. व्हड मातयेच्या पराथांत माती घालून ताचेर होम घातिल्लो. तडीवयल्या लोकांक न्हवरो व्हंकल मात्शींमात्शीं दिसतालीं. वाजंत्रां वाजिल्लो, भटाचीं मंत्रां म्हणिल्लो आवाजय मदींमदीं आयकोंक येतालो. अक्षदा उडोवचो खीण येयलो की कोण तरी हात हालोवन अक्षदा घालची कुरू करतालो. मगेर तडीवयलो लोक न्हवऱ्या व्हंकले वटेन अक्षदा उडयतालो. माळ घातिल्लें लोकांक दिसलें. मगेर लोक थंयच तडीर बसले. मिराशाल्या एका दायजान गोडा बेलीची सांगशी उकती केली. तडीवयल्या सगळ्यांक गोडाबेली वांटल्यो. तेन्ना व्हड्यारच एकलो गोडाबेली वांट्टालो.

पुराय लग्नविधी, शास्त्र जातासर आनीक देडेक वर गेलें. ह्या देड वरांत तडीवयल्यो व्हींवळ्यो मौजमस्ती, फकाणां करूंक गुंथल्यो. तडीवयल्या झाडांनीय ते भोंवताले. तांकां आतां गोडशें खावची भूक लागिल्ली. लग्न सोंपोवन व्हडें तडीक लागतकीर जाण्टेल्यान न्हवऱ्याक बेगोबेग देंवोवन घेतलें आनी तेच किनळे पोंदा व्हरून ताचें बाशींग सोडलें. आतां सगळें दिबण आदोळशी मिराशाल्या घरासरीं येवंक सुटलें. व्हाजंत्री जेवंक यो म्हटल्यार म्हणूंक लागले, हीं व्हाजंत्रां घेवन गांवांत वचूंक भिरांतच. वाजयलें ना तरीय आळ येवं येता. तुमी आमच्या जेवणावांट्याचे पड पड तांदूळ आमकां काडून दवरात, व्हरतात केन्ना येवन.

रांदपिणींनी घरासरीं रांदून दवरिल्लें. सगळे जेवले. माटवांत घरांत बसून. मगेर तसोच न्हवरो पागोटें, बाशिंग, सत्री, वाजंत्रां नासतना व्हंकलेक घेवन कुडक्यां गेलो.

तशीच शिरवाड्यार आनीक एक गजाल घडली सांगसारकी.

पुतू बायलेक भिकान्नीक लग्नाक बारा वर्सां भुरगींच जावंक नात. पुतू आनी सातण हे दोग भाव. तांणी दोगांनीय आस्पदेचे वांटे करून घेतिल्ले आनी ते एकाच घरांत वेगळे रावताले. सातणाक दिसतालें, भुरगीं नासतना भावान आस्पदेचो वांटो घेवन वेगळो रावंक फावनासलें. ताका राग आसलो भिकान्नीचो. भिकान्नीनच घोवाक कोमार काडून घोवाक वांटो घेवंक लायलो अशें ताका दिसतालें. वांटे करून घेतनाय तांचेमदीं जाय तीं झगडींबीन जालीं घर वांटून घेतना. तुमकां भुरगीं नात, चड सुवात कित्याक म्हण. एक रांदची पडवीच तितली तांकां सातणान दिवंक केल्ली. पुतूनय बरें म्हणिल्लें, पूण भिकान्नीक ताचीं उतरां मानलीं नात. ताणें म्हटलें, पडवी आमी घेतातच. मुखाल्ल्या सालाचीय अर्दी सुवात आमकां जाय. फाल्यां सालाक मदल्यान वणत घालून मुखाल्ल्यान हांव आनीक एक दार पाडटलें.

हाचेर सातणाक खूब राग येयलो. ताणें बोब मारीत म्हटलें, तुवें बांदिल्लें न्ही हें घर, घराक आनीक एक दार मारूंक? तुजी हूम गळिल्ली ना. म्हज्या बापायन बांदिल्लें घर. घराक आनीक एक बोतो पाडूंक कोण मुखार येता पळयतां. मोडून घालतलों हातपांय.

ह्या गांवच्या लोकांचें एक अजाप दिसतालें. चार चार चेडे आसले तरीय घरां रासवळ बांदतले, जशे आमी केन्ना वेगळे जावचेच नात. बापायन बांदलें तरीय तशेंच. फाल्यांच्या वेगळेचाराची कसलीच माण्णी नासताली. मगेर वेगळे जावचो वेळ येतकीर मात व्हडलीं झगडीं करून घेताले. घराक खंयचे खंयूय पोते पाडून बागलां बसोवन रावंक लागताले.

भिकान्नीन तशें सालांत वणत घालून.दुसरें दार बीन पाडलें ना, पूण एक भयण मरतकीर तागेलो देड वर्सांचो चेडो पोसूंक हाडिल्लो. भयणील्या पुताक ताणें भोव अपुरबायेन ल्हानाचो व्हड केल्लो. आतां तो भुरगो चौदा वर्सांचो जाल्लो.

पयलीं सातणाक दिशिल्लें, पुतून आनी भिकान्नीन हो भुरगो बेठोच पालन-पोशण करूंक हाडला म्हण. तो व्हड जाता तसो तांचो दुबाव बळावत गेलो, हो चेडो काय परत धाडूंक हांणी हाडिल्लो ना. हो हांगाच रावतलो आनी हांचे आस्पदेचो वारस जातलो. सातणाचो जळफळाट जालो. भितरले भितर तो दांतओंट चाबूंक लागलो - हो गांवावयलो म्हारू आमची आस्पद खातलो! मदीं त्या भुरग्यालो बापुयूय मेलो.

ताका कोणेंतरी सांगलें, आवय बापूय नाशिल्ल्या अनाथ भुरग्याक कोणें दवरून घेवंक फावना, ताका पाद्रीं सुवादीन करूंक जाय. ते मागीर ताका किरिस्तांव करतात. अनाथ भुरगें ही सरकाराची आस्पद असो कडक कायदो आसा म्हणय ताका सांगिल्लें. एक दीस तिनसांजचो तो तकलेवयल्यान कांबळ कांबरून घेवन सोल्दादांच्या राबित्यार

गेलो. पाऱ्याच्या सोल्दादा म्हऱ्यांत पाद्री बेर्नादीन फेर्रांव उबो आसलो. सातणान सामके ताकतिकेन सांगलें, ''शिरवाड्यार पुतू नायक आनी तेगेली बायल भिकात्र हांणी आवय बापूय मेल्लो एक बेवारशी भुरगो हाडून घरांत लिपोवन दवरला. म्हजेर फाल्यां कांय नाका म्हण तुमकां हांव सांगूंक येयलां. तुमच्या कायद्याप्रमाण तुमी कितें तें करात.''

तो तसोच फाटीं फिरलो. त्या सोल्दादान 'आरे तुजें नांव कितें?' म्हण विचारल्यार चाचरत 'सातण... सातण... पूण म्हजें नांव मात सांगूं नाकात' म्हणत चलूंक लागलो.

तो पाऱ्यार आशिल्लो सोल्दाद देशी किरिस्तांवच आसलो. ताणें पाद्री फेर्रांवाक सगळें विसकटावन सांगलें. पाद्री फेर्रांव गेल्लीं धा वर्सां गोंयांत आसलो. धा वर्सां फाटीं तो आपल्या बापायवांगडा पुर्तुगालसावन येयिल्लो. लिस्बोआचे सेमिनारींत तो पाद्रीपणाचें शिकप घेतालो. तेन्ना एक पाद्री सदांच सांगतालो, 'जेजूक खुर्सार मारिल्ल्याची ख्यास्त म्हण संवसारांतल्या पुराय मनीसजातीन किरिस्तांव धर्म आपणावंक जाय, ना तर तो तांकां फोर्सान आपणावंक लावंक जाय. पुराय संवसार जेन्ना किरिस्तांवपणाच्या माटवांत भितर सरतलो तेन्ना संवसाराचो रायाय किरिस्तांवूच आसतलो. पुराय संवसाराचो राया किरिस्तांव! तेखातीर कितलेंय बळगें वापरल्यार आनी रगत व्हांवयल्यार उपकारता. पयस दुसरेवटेनच्या संवसारांत गोंय म्हण शारांत आमच्या रायान किरिस्तांव धर्माची बुनयाद माल्ल्या. दुबाव ना, तेचेवरवीं त्या पुराय संवसारांत किरिस्तांव धर्म पसवतलो.'

जेन्ना तागेलो बापूय एक मुलकी अधिकारी म्हण गोंयां येवचो आसलो, तेन्ना तो पाद्रीपणाची दिक्षा घेवन बापायवांगडा गोंयां येयलो. कांय तेंप सा पावलू कालेजींत शिकतालो तो. उपरांतय तो गोंय पाटणांतच उल्लो. पूण गोंयच्या भितरल्या वाठाराविशीं ताका भोव उत्सुकताय आसली. म्हण तो मुद्दम विनवणी करून पाद्री कुलासू वांगडा आदोळशी गांवांत येयिल्लो. पयलीं ताका हो 'दुसरो अर्द संवसार' सानुलो आसतलो अशें दिशिल्लें. मगेर, सा पावलू कॉलेजींत शिकतना आनी मगेर ह्या गांवगिऱ्या वाठारांत येतकीर दिसूंक लागलें, हो एक महासागर. चीन धरून गोंय मेरेन पातळिल्ल्या ह्या संवसाराक अंत ना. आदोळशी येतकीर ह्या अर्द नागड्या, अबरगत, अन्राडी, अशिक्षीत लोकांक पळोवन तांकां किरिस्तांव करून उडोवचेली ताची वानसाच गेली. ताका दिसतालें, कितें जातलें हांकां किरिस्तांव करून आनी कितें मेळटलें हांचेर राज्य करून! कित्याक म्हण येतात हे पडत आनी मरत पुर्तुगालसान! कांय दिसांतच तो सामको उबगलो. मगेर ताका दिसूंक लागलें, हांव आतां खरो किरिस्तांव उल्लोंच ना. हो पाद्रीपणाचो लोब देंवोवन दवरचो. पूण आतां तें शक्य नासलें. हांव किरिस्तांव धर्माआड आसां म्हण कळ्ळ्यार इन्क्विझासांव म्हाका धरून व्हरचेलें. हो माथ्यार

माल्ला तो वावर हांवें करूंक जाय. ताचे तकलेंत एक विचार येयलो, म्हज्यान सा पावलू कॉलेजींत धर्म तत्त्वगिन्यान शिकोवपी म्हण वचूं येता. हायें शिकयलां तें थंय कांय तेंप !

पाद्री फेर्रांव थंयच आसा, तो देशी किरिस्तांव शिपाय उमेदीन भितर गेलो आनी ताणें पाद्री पावलू कुलासूक ही गजाल सांगली. पाद्री कुलासून शेफ रिबेरीक फर्मायलें, "फाल्यां एका काबाक आनी तीग सोल्दादांक धाडून दी शिरवाड्यार आनी घेवन येयात त्या भुरग्याक. पाद्र फेर्रांव, तुंवूय वच तांचे वांगडा."

"हांव आनीक कित्याक पाद्र, ते येतले घेवन."

"पाद्र फेर्रांव, तूं अजून तन्नाटो आसा. तुमच्या सारक्यांनी हो वावर मुखार व्हरूंक जाय, जाता तितल्या घट हातांनी, खरपणान. पूण तुजेसरीं कसली उमेद उर्बाच ना. किरिस्तांवपणाचो हावेस ना. तुका हें काम मोलाचें दिसना?"

"मोलाचें दिसता पाद्र. पूण ह्या गांवगिऱ्या वाठारांत म्हजें मन लागना. तुमी जाणात, हांव लिस्बोआ शारांत ल्हानाचो व्हड जालों. हांगाय हांव आठ वर्सां गोंय पाटणांत आसलों."

"पूण एक फावट पाद्रीपण आपणायलें म्हणटकीर जेजूच्या नांवान तुका खंयूय काम करचें पडटलें."

"म्हाका सा पावलू कालेजीन शिकोवच्या कामाक धाडात पाद्र. हायें शिकयलां थंय तीन वर्सां."

पाद्री कुलासू वोगीच रावलो. कांय वेळान ताणें म्हटलें, "तुका फाल्यां सोल्दादा वांगडा वचचें पडटलें त्या भुरग्याक हाडूंक."

"तुजी आज्ञा म्हाका मान्य आसा पाद्र."

दुसऱ्या दिसा सकाळींच ते शिरवाड्यार गेले. काब, तीग सोल्दाद आनी पाद्री फेर्रांव.

पुतूक आनी भिकाभ्रीक पुर्तुगेजांल्या ह्या कायद्याविशीं कांयच खबर नासलें अशें न्ही. तांकां दिसतालें, गेल्लीं बारा वर्सां भुरग्याचो सांबाळ केला, आतां तो अनाथ म्हण उल्ला? तो कायदो येवचो पयलींपसून भुरगो आमचेसरीं आसा. तरीय एक भिरांत पोटांत पांय पातळून आसली.

सकाळींफुडेंच सोल्दाद दारांत. दारांत उबो आशिल्लो सातण बेगीबेगीन भितर वचून आपले कुडींत लिपलो. पुतू आनी भिकाभ्रीचेर सामको आवरो. कित्याक येयल्यात हे काळ दारांत?

काबान पुतूक नांवान उलो मारून म्हऱ्यान आफयलो. "पुतू नायक तूं?"

"हय."

"तुजी घरकान्न? तिचें नांव?"

"ही भिकान्न."

"तुमी एका अनाथ दादल्या भुरग्याक घरांत लिपोवन दवरला म्हण गोमलां. अनाथ भुरग्याक लिपोवन दवरप मोटो गुन्यांव. तेका पादरी सुवादीन करूंक जाय केरिस्तांव करूंक."

एकदम भिकान्न आड्डली, "तो अनाथ भुरगो न्ही गा दयेस्ता. तो म्हगेलो भुरगो, म्हगेलो. म्हगेल्या पोटांत पिकिल्लो. आमी रगताचें उदक करून वाडयला तेका."

"खरें उलयता तूं अस्तुरे? तो तुगेलो भुरगो?"

भिकान्न एकदम रडूंक लागली. आपल्या हड्ड्यार हात बडोवन घेत तिणें व्हडाव्हडान म्हटलें, "हय, म्हगेलो भुरगो तो, म्हगेलो."

"तशें जाल्यार तुका गवाय दिवचो पडटलो, बाळंटेर केल्ले वैजिणीचो, सठयेक येयल्ल्या एकातरी बायलेचो आनी पांच गांवकारांचो."

आतां भिकान्न सामकीच गळसणली आनी कुडीचें त्राण गेल्लेवरी धप्पकरून दारार बसली आनी रडूंक लागली.

भिकान्नीले भयणीलो हो चेडो गिरी भोव मायेस्त आसलो. मायेस्त, हुशार आनी शिटूक. शिरवाड्यार सगळ्यांगेर तो मायेन वयतालो, हांसतालो, खेळटालो. सगळ्यांक तो जाय जायसो दिसतालो. ताका तो आपल्या वाड्यावयलो आपलोच कसो दिसतालो. कोणें कितेंय काम सांगूं, तो तें धांवत हांसत करतालो. भिकान्नय वेळवगतार लोकांक पावताली. चवथ जातकीर पीक अजून ग्रेवची आसतनाय शिरवाड्यार जायत्या जाणांलो घरांतलो दाणो सोंपतालो तेन्ना भिकान्न कोणाकय हात सोडून आटोव पड दिताली.

भिकान्न रडिल्लो आवाज आयकोन घरासरीं कांय नायक येवन उबे रावले. तातूंत जाण्टेलो वेंटू नायक, लवू नायक, बाबलो नायक, रायू नायक बीन आसले.

वेंटू नायक जाण्टो जाल्लो पूण ताठ कण्याचो आनी सडेतोड उलोवपी आसलो. गुणा वेळार हे लोक गुणाचे फाटीक रावले नात. तें झगडें गुणा आनी पुर्तुगाली सोल्दादां मदलें अशें तांकां दिसतालें, पूण हांगा तांच्याच एका नायकान विश्वासघात केल्लो, तोवूय आस्पदे खातीर नेणार भुरग्याचो. मनीस कितलोय बिजूट आसलो तरी जिवितांत केन्ना ना केन्ना ताच्या काळजांत कीट पडटा.

वेण्टून पाद्री फेर्रांवाकच विचारलें, "तुमकां कशें कळ्ळें तो अनाथ भुरगो म्हण? आज बारा वर्सां अनाथ जालो ना? आजच कसो अनाथ जालो तो? तुमी तर नवे हिंगा. तुमकां कोणें तरी सांगूंक जाय."

पाद्री वोगीच रावलो.

"काल तिनसांजचो पुतूलो भाव सातण कांबळ कांबरून घेवन तुमचेसरीं गेल्लो. हांव वाटे सकल्लेवटेन देहधर्माक बशिल्लों. तेचे चालीवयल्यान वळखलों हांव तो सातण म्हण."

काब नोरोन्यीन म्हटलें, "सांगूक जाय न्ही. कोणें तरी सांगूक जाय न्ही आमकां."

वेंटू आड्डलो, "सातण, घातक्या, भायर यो. हीं कर्मां करून लिपून कित्याक बसला? चला, बाबली, रायू, ओडून हाडा तेका." चार पांच नायक दारासरीं गेले. तेन्नाच सातण भायर येयलो. ताणें म्हटलें, "वेंटू, तूं कोण रे भैझंवरो म्हाका भायर आफयतलो? तुज्या बापायचें कितें खायलां हांवें?" तेन्नाच मुखाल्ले नायक - बाबलो, रायू, लवू, सदा हुडी मारून ताचेसरीं गेले आनी झ्यां झ्यां करून ताका फांपायलो. कांय खिणच. मगेर ते एकदम सकयल येयले आनी पयस वचून उबे रावले. काब सोल्दादांची हाचेर व्हडलीशी प्रतिक्रिया कांय जालीना. 'आरे आरे, कितें करतात?' म्हटलें आनी वोगी रावले. ते हरशींय हिन्दू हिन्दूंल्या झगड्यांत केन्ना पडनासले. तांचीं मडीं पडलीं तरीय. तांची राखण फक्कत किरिस्तांवांक. ही गजाल ते नायकय बरे जाणासले.

आतां कांय वेळ सगळे शांत जाले. भिकान्न सातणाक गाळी मारताली तिवूय रावली. काबान म्हटलें "तुमचो हो गोंधळ आमकां लागना. त्या भुरग्याक आमचे सुवादीन करात तुमी."

पाद्रीनय म्हटलें, "पुर्तुगेज राजाल्या कायद्या आड गेल्यार तुमकां दंड, बंदखण ही ख्यास्त भोगची पडटली. इतलेंय जावन ताका आनी तुमकांय घडये किरिस्तांवपण चुकचें ना. त्या भुरग्याक आमचेसरीं दियात. आमी तेचें कांयच वायट करचे नात. संसारांतल्या एक बऱ्या मोगाळ धर्माची देख तो घेतलो. तेच्यान तुमचेसरीं परतो येवन तुमचो मायेचो भुरगो कसो रावं येता."

भिकान्नीन कपलार हात माल्लो. "तो किरिस्तांव जावन आमचो पूत कसो रावतलो? हिंगा किरिस्तांवाल्या हातचें अन्न आफुडल्यार बाट्टात."

आतां काब बरोच तापलो. "तें कांय आमकां खबर ना. तुमचें तुमी पळोवन घेयात. त्या भुरग्याक आदीं भायर हाड. नातर आमी घरांत घुसून ओडून हाडटले आनी घेवन वयतले तेका."

सातण मार खावन रगशेल्ल्या दोळ्यांनी वोगी भितरले वटेन बशिल्लो तो एकदम आड्डलो, "व्हरात तेका भायर. ना तर घर भश्टितले ते." हेचेर पुतू भावाच्या आंगार वचत ताणें म्हटलें, "उजो घालून आतां चड उलयनाका तूं. व्हडलो भाव म्हणिनासतना कोयतेन चांचायतलों. भश्टल्यार वचूं घर भश्टून."

दिसता, पुतून जिवितांत पयलचे फावट भावाक रागान इतलें कोंच्चून उलयल्लें.

इतल्यांत तो भुरगो अचकीत भायर येयलो. ताणें एकदम रानावटेन धांव माल्ली. इतलो जोरान धांवन गेलो, कांय खिणांतच वंय बलांटून वयल्या झाडां झोंपांत च् जालो. काब, तिगय सोल्दाद ताचे फाटल्यान धांविल्ले. पूण तो रानांत खंय च् जालो तें तांकां कळ्ळें ना. ते कांय वेळांतच परत आयले.

काबान आतां चडच रागान तरसाद काडून ती आंगणांत उबी रोमून म्हटलें, त्या नाड भुरग्याक चोवीस वरां भितर आमचे सुवादीन करूंक जाय तुमी. नातर नकां दोगांकय घोवा बायलेक आमी धरून व्हरतले. एका अनाथ भुरग्याक लिपोवन त्ररिल्ल्या आनी ताका धांवन वचूंक आधार दिल्ल्या गुन्यांवा खाला. एक फावट दखणींत भितर पडले म्हणटकीर सुटचेलीं आस्त ना. चोय, फक्कत चोवीस वरांची जत.'' ते सगळे सोल्दाद चलूंक लागले. वयतां वयतां पाद्री फेर्रांवान भिकान्नीक हटलें, ''चोय अस्तुरे, संवसारांत मोग आनी सवस्तकाय हाडचेखातीर जेजूचे कवणेचेर घडिल्लो हो एक व्हड धर्म. तुमी अनमननासतना हो धर्म आपणायात. गल्यां तुमीच ह्या धर्माची व्हडवीक गायतले.''

सोल्दादांनी सांगिल्लें आयकोन शेफ आनी पाद्री कुलासू दोगूय रागान तापले. द्रीन म्हटलें, ''तुमी त्या गुन्यांवकारी घोव बायलेक आत्तांच घेवन येवंक जाय नासलें बांदून. कामचोर, बिजूट तुमी.''

काबान म्हटलें, ''तेंकां मुजत दिल्या त्या भुरग्याक घेवन येवंक. तांकां हाडल्यार भुरगो सुट्टासलो.'' शेफीन 'हय, बरें' म्हणिल्लेवरी तकली हालयली. हाचेर पाद्र कुलासू परत तापलो. ''शेफ रिबेर, तुजेकडेन जावचेलीं हीं कामां न्ही. तुजेकडेन कांयच जावचें ना. अजून गांवांत देवूळ उबें आसा आनी तेचीं देवाकामां, उत्सव चालू आसात आनी तूं तें बिजुटावरी पळयता. गांवचे लोक अजून बधनात किरिस्तांव जावंक. तुजेकडेन जावचीं कामां न्ही तीं.''

शेफीक बरोच राग येयलो. तरीय ताणें राग दामून घेवन खूब दीस मनांत आशिल्लो एक प्रस्न विचारलो. ''पाद्र, किरिस्तांव धर्म वाडोवंक रायाले आज्ञेप्रमाण आमी तुमकां आधार दितलेच. आनी दियत आसात. पूण पाद्र, फाटीं तेणी आमच्या दोग सोल्दादांचे पांय कातरले तेन्ना तुवें राग दाखयलो ना.''

''तो तुमचो प्रस्न आसलो. तुमी तुमचीच राखण करूंक तांकनात जाल्यार धर्माची राखण कितें करतले? तो कापितांव येयल्लो तो जाणवायो सांगून गेलो. तेन्ना तुमी कित्याक उजो घातलो ना गांवाक? कित्याक धा-वीस मडीं पाडलीं नात? तेन्ना भिरांत पडिल्ली जाल्यार उतर उलोवचो धीर तेंकां जायनासलो.''

''पूण पाद्र, सरकाराचीं जीं मनशां आसतात, जावं तोर्पाचे सोल्दाद जावं मुलकी ओफिशियाल, लोकांचें कितें बरेंय करचें तेंचें काम आसना?''

''बरें करचें काम आसता, पूण तें किरिस्तांवांचें बरें करचें. गांवाक पुराय किरिस्तांव करून उडयात. देवळा सुवातेर इगर्ज आदीं उबी करात आनी मागीर लोकांचें बरें करचें उलयात. हे हिन्दू नव्या किरिस्तांवांक हीण, किकोंत लेखतात, तेंकां कुशीन काडून उडयतात. तेंचें आनी आमी किरिस्तांवांनी कित्याक बरें करचें? तेंचें कांय बरें पळोवंक फावना. तेंकां कसलीच राखण दिवंक फावना, तेंची चोरीमारी जाली तरीय सोल्दादांनी लक्ष घालूंक फावना.''

शेफ ओगीच रावलो. ताणेंच मुखार म्हटलें, ''ह्या आदोळशी गांवची आवतिकाय कांय धड ना. धर्माचें कसलेंच काम थाऱ्यार पडना. हांव बिस्म सायबाच्या कानार घालतलों हें. व्हिसरायाक खबर कळीत करात म्हणटलों. अजून देऊळ उबेंच आसा म्हटल्यार कितें?''

देवळाक मुजत दिल्ली शेफीक बरीच म्हारग पडिल्ली. ताणें म्हटलें, ''चड तर देड म्हयनो आतां. आतां पंदरा दिसांनी माघा पुनव आनी मागीर एक म्हयन्यान शिगमो. मागीर घडये गांवचे बरेच लोक एकेच फावट किरिस्तांव जातले.''

पाद्र कुलासू मुखार कांयच उलयलो ना.

हेवटेन दनपार चडूंक लागली तसो भिकान्नीलो जीव कासावीस जावंक लागलो. खंय म्हण गेलो हो पोर रानांत! तिणें पेजेनिसाचो गाडगो भरून घेतलो आनी ती रानावटेन वचूंक लागली. सातण भितर खंयच्या कोनशांत पडिल्लो कोणाक खबर. तागेली पिसाटशी, मोट्या ओटांची आनी गोबऱ्या फुगऱ्या पोल्यांची बायल भायल्या दारार उबी आसली आनी पयस खंय तरी पळयताली.

भिकान्न रानांत रिगली आनी 'गिरी म्हज्या पुता, खंय आसा रे, यो रे हिंगा' म्हण सादयत वयर वचूंक लागली. कितलो वेळ ती आकुळपिकूळ जावन सादयताली. मदींच 'मावशे' म्हण तेची जाप आयकूंक आयली. तो देंवन मावशेसरीं येयलो. दोगांय थंय झाडांत बसलीं. तिणें पेजेचो गाडगो तेका दिलो. तेणें नीस पियेलो आनी मागीर उरिल्लीं कुयां खायलीं. क़ांय वेळ ताका पळयत भिकान्नीन विचारलें, ''कितें करुंया म्हणटा? ते काळ तर आमकां सोडचे नात.''

''तूं म्हाका परत घरा आगशे धाडून दिवची ना मुगे?''

''ना रे पुता, तूं म्हज्या काळजाचो गोण. तुका आनी खंयच धाडची ना हांव.''

''तूं म्हाका सोल्दादां वांगडा धाडची ना मुगे?''

''ना रे पुता. धाडचेंच जाल्यार आमीय दोगां वांगडा येतलीं.''

''ते गेले मावशे?''

''हय गेले ते आतां. पूण केन्ना परत येत सांगूं नज. मुजत दिल्या तेणी.''

''मागीर हांव येवं घरा?''

''येवंकच जाय रे पुता. ना तर आमचेंय मरण आसा. पळोवया, मरण कशें चुकोवं येता.''

येतना वाटेंत ती चिंतताली, घरदार, शेतभाट सोडून गेल्यार तेचेंच फाव जातलें. आयतें सगळें मेळटलें. आमी गेल्ले फाटल्यान सगळें आपलेंच म्हण संपादून बसतलो. ना, तेका हांव म्हजे आस्पदेंतलें कुसकूट मेळूंक दियना... मागीर किरिस्तांवच जाल्यार कशें तिगांयनी? पोर सासणाचो वांगडा उरतलो. फाल्यां तेका किरिस्तांव करून परत हाडल्यार आमकां किरिस्तांव जावचें चुकचें ना. किरिस्तांव जाल्यारच सगळें नीट थाऱ्यार पडूं येता. देव आनी धर्म. मनीस उल्ल्यारच देव आनी धर्म न्ही! आतां तरी खंय आमी धर्म तकलेर घेवन भोंवतात?

आपल्या घोवाक पुतूक तिणें ही माण्णी सांगली तेन्ना तो बरोच वेळ घुम्म मोनो बसून रावलो. तेणें हयूय म्हटलें ना आनी नायूय म्हटलें ना.

दुसऱ्या दिसा सकाळींच उठून तीं तांच्या राबित्यार गेली. तांकां पळोवन शेफीक आनी काबाक बरें दिसलें. शेफीन मनांत म्हटलें, ना तर ही पनवत जीव खातासली. पाद्र कुलासून तांकां विचारलें, ''तुमी तेका करतात न्ही आमचे सुवादीन किरिस्तांवपणाक?''

पुतून म्हटलें, ''हय. आनी आमी दोगांय बीन किरिस्तांव जातात.''

पाद्री कुलासूक खोशी जाल्लेवरी दिसलें. ताणें बेगोबेग पाद्री फेर्रांवाक आनी दोन सोल्दादांक वांगडा दिवन तांकां आगशेचे इगर्जेंत धाडले.·

बातिज्म घेवन आपल्या घरा आंगणांत पावतकीर भिकान्नीक अवसर येयिल्लेवरी जालो. तिणें हड्ड्यार हात मारून व्हडाव्हडान म्हटलें, ''आमी किरिस्तांव जावन येयल्यांत. म्हजो पूत, म्हजो घोव किरिस्तांव जाल्यात. आतां हांव सगळ्यांक दाळाक लायतलीं.'' वयल्यान आनी ती कपलाक कुकूम नाशिल्ल्यान, गळ्यांत गळसरी नाशिल्ल्यान अनर्थाची दिसताली.

जाव, तिगेलीं भुरगीं कांचवेन दारांत येवन उबीं आसलीं. तांचे फाटल्यान सातणय आसलो. ताणें एकदम म्हटलें, ''तुमी किरिस्तांवां तर घरांत येवं नाकात. पुर्वजांलें घर बाटोवं नाकात.''

''पुर्वजांलें घर कितें तुजें एकल्याचेंच न्ही. घर आमचें. आमी आमच्या घरांत येतलीं.'' ती तांच्या आंगावयल्यान तांकां धुकलीत घरांत येयली. तिचे फाटोफाट गिरी आनी घोवय येयलो. सालांत मद्दीं घराचो खूब मोटो म्हाल खांबो आसलो. ताची संवसारपाडव्याक गंधफुलान पुजा जाताली. अशें सांगताले, हो खांब मुळचो खूब पोरणो. ह्याच खांब्यार तीन फावट घर उबें जाल्लें.

भिकान्न कांय वेळ पिशांवरी तो खांबो सांसपीत रावली. तोंडांतच उलोवंक

लागली, ''आमकां भोगशीय. जाले आमी किरिस्तांव. तुजो घात केलो.'' मगेर त्या खांब्याक धरूनच सकल बसून ती हामेऱ्यांनी रडूंक लागली.

आपले कुडींत सातण तकलेर हात मारून घेवन बशिल्लो. मनांत म्हणटालो, घर भश्टिलें तेणी. घर किरिस्तांवांचें जालें. आतां कितें करचें, खंय वयचें? केलें कितें आनी जालें कितें !

एक म्हयनो जायत येयल्लो सुब्राय शणै, रुद्रा शणै बीन गोंय सोडून वचून. ते वयतकीर चारच दिसांनी क्रशण शणैन आपल्या भाटाच्यो शेताच्यो शिमो वाडोवन घेवंक आरंभ केल्लो. रुद्रा शणैल्या घरा सकल्लेवटेनच्या कुळागराचो हद्देफातर ताणें हुमटून काडलो. थंय वंय, आडांबे आशिल्ले तेवूय काडून उडयले आनी ताच्या घरा सकयलें अर्दें कुळागर आपणाल्याक जोडून घेतलें. घर आशिल्ली सुवात सोडून सगळें कुळागर ताणें घेतलें म्हटल्यार जाता. तेवटेन सुब्राय शणैलें शेतय थंयचे फातर काडून उडोवन आपणाल्याक जोडून घेतलें. फकत हद्दे फातरांचो व्यवहार. लिखीत नकाशे काय नासले आनी शेताची मोजमापाय जावंक नासली. जण एकल्यान आपल्या शेतावयलो हद्दे फातर राखून रावचें. आतां काय तांचो हद्दे फातर राखूंक कोण नासलो. क्रशणालें पळोवन मुंगरूलो पूत इंद्र शणैय तेंच करूंक लागलो. तो भद्र शणैवटेन भितर रिगलो.

देवराय दारार बसून पळयतालो.तो सोतासरींच म्हणटालो, जशें तेंकां खावंक दोपूनच राविल्ले. गेले आनी फाटल्यान घातली सुरी. गेल्लेकडेन बरें आसा वायट आसा. ते फाल्यां परंतरांतल्यान परते येयल्यार तांणी कितें करचें? दिसच वायट. घातमारे. लंकेंत गेल्यार खंय सगळेच राकेस जातात.

दुर्गाच्यान तेंचें हें कर्तुब पळोवंक नज जालें. ताणें क्रशण शणैक म्हटलें, ''ते गेले म्हण कितें जालें? पुर्वजांली आस्पद ती. तेंच्या फाटल्यान आमी राखून दवरूंक जाय. फाल्यां कोणूय भायर त्रासांत पडून परत येयल्यार?''

''ते येवची खबर सोड तूं दुर्गा. ह्या नरकासूर राज्यांत परतो आनी कोण कित्याक येतलो? गेले ते सुटले. बऱ्याच्या मार्गाक पावले. आमचें कितें जातलें देवाक खबर! दुर्गा, तुका सांगतां, ही बामणांची आस्पद. फाल्यां एकादरो चाड्डो ना तर गावडो किरिस्तांव जातलो आनी हांगा येवन आमचे तकलेर बसतलो. ह्या घरांनी घुसतलो. तुका मजा दाखयतां, येता त्या पावसा आदीं ह्या घरांच्या वण्टींवयलो कोलू काडून दवरतां. एका पावसांत हीं घरां सकल भुंयेर येवंक जाय.''

''तूं बामण मू क्रशणभया. ही आस्पद ताब्यांत उरतली जाल्यार तुका किरिस्तांव

जावचें पडटलें. ते आतां बामणांचे फाटीकच लागल्यात.''

''हांव कितें तांचेवरी ही आस्पद सोडून गांव सोडून वयतलों म्हण केलां तुवें? चयतां, वारें कशें व्हांवता तें चयतां. ना तर आसाच न्हू. दुर्ग्या, हांव तुका सांगतां, तूं आनी हें सोडून वचूं नाका. तातूंत कितें आसा? एक दीस वयचें सगळ्यांनी मेळून तांचेसरीं. बुडोवन काडात म्हणचे उदकांत. तुगेलो घोव जालो मुगो बरो? बरी सेवा कर तागेली, घट कर ताका.''

दुर्गें ओगी गेलें. ताच्या दोळ्यां मुखार एक चित्र उबें रावलें. हांव घरच्यांक घेवन गांव साडून गेलां, आमचे फाटल्यान अशेच आमच्या शेताभाटाचे कुडके ते ओडटात. पावसान घर कोसळावन उडयलां. क्रोण तरी अनवळखी त्या घटणार रावंक आयल्यात... ताणें कच् करून आंग काडलें. पूण आमकां वचूंक तर जाय. रावन कशें जातलें !

सकल्ले वटेन मुंगरू शणै आनी देवराय शणैकडलीं कामदारां वायंगण रोयतालीं. शेतांत जोतां घुंवतालीं. क्रशॅण शणैन बेठेंच चाचयलेंशें करून तशेंच शेत उडयल्लें. आनी दुर्ग्यालें शेत, सकाळ सांज आठ दीस लागून नितळ केल्लें, धोवन कस्टान कुणगीभर कशिल्लें शेत तशेंच पडिंग पडिल्लें. ताच्या आंगार परतो बुरसो शेळो मांडूंक लागिल्लो. तीन खंडयेचो रोंव सुकून तेची पोल जाल्ली.

एक दीस क्रशण शणैयूय घरच्यांक घेवन वचून किरिस्तांव जावन येयलो. एकच फावट ताणें धा बारा कामदारां वायंगणांत घातलीं. रुद्र शणै, भद्र शणैलीं बीन गोरवां कुणब्यांल्या गवळारच आसलीं. क्रशणान वचून तांकां तापोवन दोन जोतां हाडलीं. तांचींच पडवेंत बीन दवरिल्लीं आवतां काडून हाडलीं आनी आपणाल्यां वांगडा तीं जोतांय कामाक लायलीं. आतां तो किरिस्तांव जाल्लो. भयभिरांत विरयत शेताचीं कामां कामदारांकडच्यान करून घेवंक शकतालो. हेरांचीं भाटांबेंसां खावंक शकतालो.

आतां रायगाळी दुर्गें एकलेंच हिन्दू उरिल्लें. आनी तागेलें एकल्यालेंच वायंगण रोवचें आसलें.

आतां घोवालो जोर गेल्ल्याक विशेक दीस जाल्ले. ल्हवल्हव तो हातापांयान घट जावंक लागिल्लो. आनी आठ दिसांनी सडसडीत बरो जातलो अशें दिसतालें. पूण वायंगण रोवचो तेंप आतां जावन गेल्लो. जावं, सरदे नीट रोयल्यारूय वर्साचें पोट चिमटे काडून कशें तरी भरूं येता. पूण ते तरी रोयतले कशे...

एक दीस पटेकार येयलो. हो पटेकार नेवरेंचो बाटिल्लो बामणच. तो नेवरें गांवची आनी आदोळशीची पटी, सुंक वसूल करतालो. ताची पावणी घेतिल्ली ताणें. मोटो कडक. दयामाया नाशिल्लो पटेकार म्हण ताची नामना आशिल्ली. पटी भरूंक फाटींफुडें जाल्यार गोठ्यांतले बैल सोडून व्हरतालो. तांब्याचें तामण उखलून व्हरतालो.

तो येयलो आनी शेतपटयेचो पयलो कंत तीस शेराफींय मागूंक लागलो.

दुर्ग्यान सांगलें, "तीस शेराफींय कांय म्हजेसरीं नात. गेल्ल्या वर्साक सरदे पिकले ना. पावस कितलो पडलो. उदक भल्लें आनी कुसून गेले. वर्साची गांठ वर्साक पावना आनी तीस शेराफींय खंयच्यान हाडूं?"

"दिवचे पडटले. जे बामण भाटकार म्हज्या वाठारांत आसात तेंचीं नांवां मागल्यांत. तेंचो वर्साक शंबर शेराफींय दुडू वेगळो सरकारी तिजोरेंत भरचो आसा. भरना जाल्ल्यांक बंदखण जावं येता. म्हज्यान एक करूं येता, बैलाचें एक जोत सोडून व्हरून ते दुडू भरती करून घेवं येतात."

"तशें जाल्यार तीन कंताक तीन जोतां जाय पडटलीं."

"हांव नकळ. तुमी किरिस्तांव कित्याक जायनात? तुमी किरिस्तांव जावचें म्हण तेणीं हें केलां."

"म्हाका आठ दिसांची मुजत दी. हांव तीस शेराफींय उबे करतां ना तर..."

"ना तर किरिस्तांव जाता, अशें न्ही?"

"चिंतूंक जाय म्हाका. आठच दिसांची मुजत मागतां."

"बरें आसा. आठ दिसांनी येतां. आठ दिसांक एक फेरी आसताच म्हजी ह्या गांवाक." तो वचूंक गेलो. ताचे वांगडा आनीक एक घटमूट तरनाटो आसलो हातांत दांडो घेतिल्लो.

जाण्टो मुंगरू शणै मदींमदीं म्हणटालो, "धुवे, जा तूं किरिस्तांव, घोवाक, मांवाक, भुरग्यांक घेवन. सुक्या वांगडा ओल्यानूय लासून वचचेलें. आतां खंय म्हण वयतलें तूं?" तो तागेल्या घोवाकय हेंच सांगतालो.

दोन दीस घर घुम्म मोनेपण कांबरून आसलें. कोणाक कितें उलोवंकच भिरांत दिसताली. तांचेकडेन आतां दिवंक तीस शेराफींय नासले म्हण न्ही. एक फावट दिवन कितें भागचें आसलें. शंबर शेराफींय चुकते जायसर गळ्याकडेन येतासले. आतां आशिल्लें तांच्या हड्ड्यार घातलें आनी फाल्यां गांव सोडून वचचें पडल्यार...

किरिस्तांव जावंक दुर्ग्यालें मन कशेंच माननासलें. तिसऱ्या दिसाक ताणें घोवाक विचारलें, किरिस्तांव जावप काय म्हण. ताणें गळ्यांक ओकूंक येयिल्लेवरी नाका नाका म्हटलें. मांवाक विचारल्यारूय तो दोनूय हात हालोवन जिवाच्या आकांतान नाका म्हणटालो. दुर्गें बेठेंच ताचेर तापलें. "किरिस्तांव जायना जाल्यार खंय वचुंया म्हणटात खंयच्या सड्यार पडूंक? कनवटेंतले दुडू सरतकीर कितें खातले? भुरग्यांक विकचें पडटलें."

मांवान ल्हान तोंड करून म्हटलें, "अशें कितें उलयता सुने, पिंड रचिल्ल्यान उंडीय रचल्या. आतां इतलो लोक गेलो ना गोंय सोडून? तशे आमी सामकेच

खांकनवाळ नात.''

''तुका दोळ्यांत बोट घातल्यार दिसना आनी तूं रानां माडयत येतलो?''

''म्हजीं नातरां आसात न्ही गो? म्हजो नातू शंतू बडी म्हज्या हातांतली. सुने, म्हाका किरिस्तांव करूंक व्हरचे पयलीं इल्लें वीख वांटून दी तूं.''

दुर्ग्याक रडुंकच येवंक लागलें. फाटीं वाड्यावयलो धा लोक गेल्लो तेन्नाच तांचे वांगडा वचूंक जाय आसलें. आतां खंयची वाट सोदून काडटले आमी !

दुर्गें तशें फिशाल. तेचेकडेन दुडू नाशिल्लो अशें न्ही. दुडूय बरो तिनशेंक शेराफींय आशिल्लो आनी भांगरय आशिल्लें. मांयलें, बापायन दिल्लें आनी कालापूर वचून ताणेंय इल्लें घडोवन घेतिल्लें. पूण तें आतां दुडू कशेच काडूंक तयार नासलें.

त्या दिसा सांजचे दोग सोल्दाद दारांत येयले. बेठेच आंगणांत कांय वेळ गणमणत रावले. चिंतामणान तांकां विचारलें, ''कितें जाय?''

''कांय ना. शेफीन आनी पाद्री कुलासून धाडिल्ले पळोवनयो म्हण. तुमचें एकच घर बामणांचें उल्लां न्ही हिंगा? तुमच्या घरांत भाटांत कोणय कामदार कामेरी आसा काय पळय म्हणटाल्लो. गाळी घालतात ते बामणांक. तेंकां मारून धांवडावंक जाय म्हणटात.''

''कित्याक म्हण?''

''तुमकां खबर ना? बामणांचे तीन घराबे केळोशे तरसादेन कापून न्हंयंत उडयले सास्टीच्या कापितांवान.''

चिंतामण भितरल्यान शेळेलो. ''कितें जाल्लें तर?''

''किरिस्तांवपणाआड कितें तरी केल्लें आसतलें.''

वांगडाच्या त्या दुसऱ्या सोल्दादान म्हटलें, ''पयर पानेली एका बामणाचे बांयंत कोणें दुकर कापून उडयलो. कोणें म्हणं कळ्ळेंच ना. सोताचे बांयचें उदक पिवंक जायना आनी चोंयवटेन किरिस्तांवांलीं घरां, तेंचें उदक भश्ट.''

''थंय तेणें कोणें दुकर उडयलो, हिंगा कोणय गाय कापून उडयतलो. वायट दीस हे.''

''आतां हिंगा नेवो कापितांव नेमला. पयलीं काळ्या लोकांल्या गांवांत आफ्रिकेंत आसलो खंय तो. पंदरा दिसांत आपूण सगळें काबार करतां म्हणटा खंय.'' ते कितें कितें उलयतच वचूंक गेले.

दुर्गेंय दारांत रावन आयकतालें. चिंतामण भिवन गेल्लो आनी तेका हूम फुटिल्ली. दुर्गें तशें भियेलें ना. पूण ताका आतां कळ्ळें, गिदां आतां घरावयर घुंवंक लागल्यांत.

त्या आयताराक पाद्री पावल कुलासून आदोळशी गांवच्या किरिस्तांव जाल्ल्या एकानएक लोकाक कालापुरा इगर्जेंत मिसाक आफयले. रायगाळी सगळें रितें जाल्लें.

देवळामळार सारक्को तिनशें चाळीस लोक कालापुरा वचूंक एकठांय जाल्लो. तातूंत दुगा म्हार आनी तागेल्या भावालो घराबो आनी राणू केंकरो - हेनरीक कयसरे हाचो घराबोय आसलो. राणू केंकरो आनी ताची बायल माचुलांत बसून येयिल्लीं. ताका आदीं माचूल उखलूंक भोई लावंक जायनात म्हण धपकायल्लो. पूण तो आतां किरिस्तांव जावन ताणें हिन्दू भोयांकच माचूल उखलूंक लायिल्लें. मिसाक एकठांय जाल्ल्या सगळ्या लोकांल्या आंगार तांचो पुर्वचाराचोच भेस आसलो. आंगार मात बातिज्म घेतना दिल्लें खोमीस आसलें. बायलांनी तांणी दिल्लें धवें वस्त्र वयल्या आंगाक गुठलावन घेतिल्लें.

रायगाळी पुराय रितें पडिल्लें. आज दुर्ग्याक आनी ताच्या घराब्याक आपलें एकटेपण खूब जाणवलें. चोंयवटेन एक खोल थंडाय, एक उतर ना, कसलो आवाज ना. एके भुंयपोकळेंत हाडून उडयिल्लेवरी सासणाचें एकसुरेपण. आज ताका खूब खोलायेन जाणवलें, आमी एकटे पडल्यात. आमी कोणागेर वचूंक येना, आमगेर कोणय येवंक जायना! आमी कोणाल्या हाताचें अन्नउदक खावंक फावना, आमच्या आंगाचो जोर कोणें आमकां हाफडून पळोवंक फावना! फाल्यां आमकां कोणें खांदो दिवंक फावना! इतलो सगळो लोक इतले लागीं आसूनय कितलो पयस! कोणें केले हांका पयस, देवान काय मनशान! कित्याक म्हण ही मनशां अशीं वांटून वयतात!

कितलो बरो उपाव आसा हातुंतल्यान सोडवणूक करून घेवचेलो? खिणांत किरिस्तांव जावचें आनी मेकळें जावचें! पूण एक पिसो घराबो धर्माखातीर घरदार सोडून वचूंक उठला! कित्याक? केन्ना दिसता, पिशेपणां हीं हांचीं, केन्ना दिसता खूब व्हड उदात्त हीं मनशां! सगळो संभ्रम. मुळांत देव, धर्मायेदो मोठो संभ्रम दुसरो खंयचो नासुंये! म्हणच थोडे बाट्टात, थोडे धांवन वयतात.

त्याच दिसा सांजचे ते उठून राणू केंकऱ्यागेर गेले. भायली व्हडली वासरी. तातूंत दोन व्हडले पलंग. बसूंक बांक, बसक्यो. पयलीं तांगेर जायते फावट तें तय, चवथीक, सठी, बारशाक तांगेर येयलां. पुरूल्या लग्नाक वावुरलां. तांगेले अयाव मेल्ले आवयले वर्सुकेक सवाशीण म्हण जेवलां. तागेलीं फोफळां, नाल्ल कोणय व्हरूंक येवचो आसल्यार तांचेवांगडा आपलेय थोडें दितां म्हण वचून ताणें राणूक सांगलां. पूण आज तांगेल्या दारांत पावतकीर दुर्ग्याले पांय कडकडूंक लागले. ते वासरेंत गेले आनी थंयच उबे रावले. थंय एक वावराडी आसली. ताणें ताका दुर्गो येयलां म्हण भाटकाराक सांग म्हण भितर धाडलें.

कांय वेळान राणू भायर येयलो. तागेल्या आंगार वस्त्रां पयलींवरीच आसलीं. फक्कत कपलाक गंधानामो नासलो. ताच्या कपलार नामो ना म्हण कळटकर ताणें सट्‌करून आंगणांत पळयलें. थंयची तुळस काडून उडयल्ली. तो खणिल्लो चौक

तसोच उकतो आसलो. ताचे पयल्यान खणिल्ल्या आंगणामेरेसरीं लाकडांच आडवीं बांदून खुरीस उबो केल्लो. राणून विचारलें, ''कित्याक येयिल्लें?'' मगेर ताणें म्हटलें, ''मोटी धिराची बायल हां तूं. रायगाळी एकलीच बामण उल्ल्या.''

दुर्ग्यान हुस्क्यांतशें म्हटलें, ''आनीक कितले दीस उरतलें देवाकच खबर.''

''कित्याक, तुंवूय किरिस्तांव जाता?'' राणूलो आवाज मात्सो तापिल्लो.

''ना. पूण कितें करचें तेंवूय कळना. तिगां भुरगीं पदरांत.''

''दुर्ग्या, तूं एक रायगाळची धिरीश्ट बायल म्हण सगळे वळखतात. तुजो घोव सादो साबळो पूण मनान बरो. तुजो मांव सुक्या पानार पांय पडल्यार ताचो चुरो जायत म्हण कुशीन पावल उडोवपी: जिवीतभर नितीन रावलो तो. तूं ताका घेवन आनी किरिस्तांव जायनाका. हांव किरिस्तांव जालों म्हण म्हाका पश्चाताप भोगून हांव हें सांगतां अशें समजूं नाका. तूं वच, गोंया भायर खंयूय वचून रायगाळची खुंटी मार. जण एकल्याचो मनाचो धर्म वेगळो. तुजो वेगळो म्हजो वेगळो. तूं तांकतलें आपलो धर्म राखूंक. गेल्लेकडेन तूं नवी रायगाळची थापणूक करतलें. ती व्हडविकेक पावतली.''

''पूण खंयचे वाटेन खंय वयचें कांयच कळना जालां.''

''तूं अंत्रूजा वचूं नाका. थंय चोरीमारी झगडीं चड जाल्यांत. थंयच्यो जमनीय सोंपल्यो. गेल्यार रानांच वसोवचीं पडटलीं. ना तर पांयवाटेन कुसमण, सांगे ना तर शिंवेसर मेरेन वयचें पडटलें. ह्या दिसांनी व्हडले गोंयचे सकल्ले वटेन न्हंयेंतल्यान रातच्यो कांय व्हडयो केनरांत वयतात. वयताना त्यो मनशांक व्हरतात आनी येतना तांदूळ भात घेवन येतात. कालापूर, रायबंदर, चिंबळ, बांबोळी, पाळये ह्या वाठारांतले गोंय सोडून वचपी लोक त्याच व्हड्यांनी वयतात. केनरांत खूब भातजमीन पडिंग आसा खंय.''

''गोरवां आसात तातो. तुमचो शेताचो वावर चड. तुमकां दिवन वयतां तीं हांव. कितेंय दियात तुमी. वाटेंत खर्चाक उपकारतले.''

''म्हाका तुजीं गोरवां विकतीं नाकात. तूं जाय जाल्यार म्हज्या गोठ्यांत सोडून वच. राखणे म्हज्या गोरवां वांगडा राखतले. फाल्यां केन्ना तुका जाय तेन्ना येवन तीं वीक ना तर घेवन वच. ह्या दिसांनी गोरवां धनी ना जावन रानांत बेवारशी कशीं भोंवतात. गोरवां कोणाक नाका जाल्यांत? तुका खर्चाक दुडू जाय जाल्यार हांव दितां.''

राणू भितर गेलो आनी कांय वेळान चेंचयेंत कांय दुडू घेवन येयलो. ते दीत तेणें म्हटलें, ''चाळीस शेराफींय आसात. इतल्यान तुमी घडये केनरांत होनावर मेरेन वचून पावतलीं.''

दुर्ग्याल्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं. ताणें म्हटलें, ''मात्शे व्हनीबायक आफयतात?'' ताणें वचून आपणाले बायलेक आफोवन हाडली. तिचो गळो कपल सामकें उकतें आसलें. निकतीच विधवा जाल्लेवरी ती दिसताली. दुर्ग्यान मनांत कांय धरिनासतना तांच्या दोगांच्या पांयांक हात लायलो आनी तांकां तें पांय पडलें. राणूले बायलेन सट्‌करून ताका ओडून म्हऱ्यांत घेतलें आनी ताची फाट ल्हवल्हव थापटीत म्हटलें, ''खंयूय गेल्यार तुजें बरें जातलें. तूं सुखान उरतलें. भावार्त सोडूं नाका.''

राणून विचारलें, ''केन्ना वयतलें?''

''फाल्यांच वचूंक जाय. ना तर तो पटेकार येवन बसतलो पटी उडय म्हण.''

''हांव चार मानाय धाडून दितां फाल्यां सांजच्याक. सामान घेतले ते तकलेर.''

दुर्गें बरें म्हण घरासरीं येयलें. दुसरो पुराय दीस तें सामान एकठांय करतालें आनी तांच्यो पोटल्यो बांदतालें. बेग्गींन सकाळीं उठून तेणें घोवाक व्हड्याचे खबरेक व्हडल्या गोंयां धाडलो. ते रातीक चार व्हडयो वयच्यो आसल्यो. होनावरच्या आयल्यान त्यो खंयच्या तरी बंदराक लागच्यो आसल्यो. एका मनशाक धा शेराफींय पडटले म्हण सांगिल्ले.

घरांतलें सामान उखलून भायर सरतना दुर्ग्यालीं शिरंतरां तुटिल्लेवरी जालीं. काळीज फुटून रडूंक येतालें. पूण ताणें सोताक कश्टान थातारलें. वेळ अस्तमतेक वयतकीर ती सुटिल्ली. वांगडा चार मानायांक वांगडा घेवन. जेवण रातीर ती न्हंयेर पावली. मांवाक लागून इल्लो कळाव जालो. तरीय तो शंतूच्या खांद्याक धरून सरसरीत पावलां घालतालो. चलतना लागिल्ली धांप भितरले भितर दामून घेतालो. तीं सगळीं स जणां आसलीं. घोव, बायल, मांव आनी तिगां भुरगीं - दोग पूत आनी एक धूव.

व्हडेकारान व्हडें काडलें आनी दुर्गें सामकें अंतराळांत शेणिल्लेवरी जालें. वयर मळबाच्या घुमटांत माघ पंचमेची इल्लीशी चंद्रकोर. अंतहीण नखेत्रांच्यो राशी. सकल उदकाचो एक महासागर. ताका आनी तडी आसात अशें दिसच नासलें. ती तड सोडून येयल्यात ती निमणी! तिवूय आतां म्हाकाळखांत शेणून गेल्ली.

तीं खंय वचूंक सुटल्यांत, खंय पावतलीं, तांकांच खबर नासली. येतना आवय बापायक, भावाक भयणींक कोणाकच सांगूंक नासलें. तीं खंय गेलीं हें तांकांय कळचें नासलें. आवयमुळासान एक झाड हुमटल्लें तें आतां खंयचे मातयेंत रुजतलें, पसवतलें, काय बावन वयतलें, कळनासलें. एके मातयेकडच्यान दुसरे मातयेकडचो हो प्रवास मुळाक सदांच दुखदेणो आसता, तरीय तें नवे मातयेंत केन्ना जोमान वाडटा. कितें आसा हांच्या दैवांत! आज तरी हो सांगरांतलो दिशाहीण बिण्ण काळोख. कोणें सांगचें, फाल्यांच्या उजवाडांत एक भूंय घडये रावतली तांचीं सानसान पावलां आपल्या आंगार उमटून घेवंक. आनी तींच घडये थारतली तांचीं म्हापावलां !

खंयच्या खंयच्यान येयल्ले पंचविशेक लोक आपापल्यो पोटल्यो घेवन व्हड्यांत पडिल्ले. ताचो घोव, मांव, भुरगींय पोटल्यार लवंडल्लीं. तें मात त्या म्हासागराच्या पेल्यान पळयतालें. तडी सोदतलेवरी.

आदोळशेची माघाची जात्रा ह्या वाठारांतली एक घडघडटी जात्रा. मुळांत रामनाथ देवाचेर चोंयवटेच्या वाठारांतल्या लोकांचो भावार्थ. अदींमदीं प्रसादपाकळेक, अभिशेकाक ते येतालेच. जत्रेच्या निमतान तर लोक लोटून येतालो. कोंकणे, बामण, खारवी, गावडे, कुणबी, अठरापगड जातीचो लोक एकठांय जातालो. पुराय देवळामळ लोकान फुलून वयतालो. तीस चाळीस जत्रेमांड पडटाले. तांब्या आयदनां, मातये आयदनां, कुराडी, कोयत्यो, दोरयो, कानी, मिरी, मिरसांगो, कुकूम, पिनर, मणी, पिर्डुको, काशिदोर, गांच, गंगावनां, फणयो; लिखोण्यो, गोड, सुरयेगोड, हालवो, वल्ली, वल्ले, सांगशी, पेटारे हांचे मांड. पयलीं हे जत्रेक गोरवांय विकूंक येतालीं. पूण ह्या चार वर्सांक गोरवां येवचीं उणीं जाल्लीं. ह्या वर्सा एक गोरू येवंक नासलें. गोरवांकच मोलच नासलें.

तशें पळोवंक गेल्यार गेल्ल्या कांय वर्सांसावनच जत्रेक गिराण लागिल्लें. बारदेश, सास्टीचे जत्रेमांड हेवटेन येयनासले.

ह्या वर्साक जत्रेच्या विनियोगाची गांवकी जाली ना तरीय कांय गांवकार अशेच एकठांय जाले आनी तांणी जत्रा बरी करून करचें थारायलें. देवळाचे कांय चाकरेकार किरिस्तांव जाल्ले. तांचीं कामां आशिल्ल्यांकच वांटून घातलीं. देवाचें भांगर देमू गुरवासरीं आसलें. तो आतां किरिस्तांव जाल्लो. ताणें तें भांगर हाडलें आनी मोन्यांनी गांवकारा मुखार दवरलें आनी तो गेलो. आज येयिल्ल्या गांवकारांमदीं निकतोच किरिस्तांव जाल्लो जना नायक - जुवांय दियश एकलोच येयिल्लो. पूण तो शेवट मेरेन कांय उलयलो ना. सगळ्यांक होलमलें, ही निमणी जत्रा! बरी तडाख्यांत करूंक जाय. पूण कोणामदीं उमेदच नासली.

हे जत्रे निमतान आनीक एक गजाल गरजेची, कांटू नायकाल्या चेड्याली, सांवळ्याली. सांवळ्यालें तागेल्या बापोलमांवळ्यालें चेडूं भागी वांगडा लग्न थारिल्लें. तो एकुणीस वर्सांचो आनी भागी पंदरा वर्सांचें. भागी गोरेंगोरें सोबीत आसलें. तांबशीं ओटां, गुलाबी पोले आनी काळेकाळे दोळे. सावळो परतो परतो मामागेर वयतालो. भागीक मेळटालो, तेचेसरीं उलयतालो. केन्ना तीं लिपून दोंगरांनी बीन वयतालीं. पूण लग्नाक दोन म्हयने आसतनाच भागीलो पुराय घराबो बाटलो. नेवऱ्यां एका बामणान सोडून गेल्लें माड माडयांनी भरिल्लें कुळागर मेळटा म्हण भागीलो बापूय किरिस्तांव

जाल्लो. आदीं ताणें तें बेठेंच आपणाल्या भाटावांगडा जोडून घेतिल्लें. उपरांत पुर्तुगेज तेनेन्तीन सांगलें, तूं किरिस्तांव जाल्यारच तुका तें मेळटलें, नातर तातूंत पांय दवरूंक मेळचो ना. ना तर ते आमी आनीक कोणाक तरी दितात. भागील्या बापायक आस्त सुटली ना. तो किरिस्तांव जालो. एक फावट सावळो तांगेर गेलो तेन्ना ताका मांवळ्यान दारांतल्यानच परतायलो. म्हटलें, ''आमी आतां किरिस्तांव. कशें जातलें?'' भागीचें तोंड लेगीत पळोवंक मेळ्ळें ना.

मदीं दोन म्हयने तो पिसो कसो भोंवतालो. मगेर एक दीस तो घरच्यांक सांगितानसतना नेवरेंचे इगर्जेंत गेलो आनी बातिज्म घेवन किरिस्तांव जालो. तो तसोच मावळ्यागेर गेलो आनी ताणें सांगलें, ''हांव किरिस्तांव जावन येयलां. आतां म्हज्यान तुमच्या घरांत येवं येता.''

मांवळ्यान सांगलें, ''यो. पूण भागी वांगडाचें तुजें लग्न मोडलां. पंदरा दिसच जाले, ताचें लग्न गोंय पाटणांतल्या मिंगेल कुर्रय म्हणिल्ल्यावांगडा थारलां. तो सरकारी एंप्रेगाद. तूं सादो शेतकारालो पूत मुरे?''

तो तसोच परत येयलो. किरिस्तांव जावन येयला म्हण कळटकीर बापायन ताका घरांत घेतलो ना. बायल ना, धर्म ना, घर ना जावन तो पिसो जावन भोंवतालो. कोणाल्याय दारांत बसून कोणें कितें हातार उडयल्लें खातालो. घरा गेल्यारूय आवय भायरच बसोवन वयल्यान व्हाडटाली. आतां आतां ताणें घरा वयचेंच सोडिल्लें. जत्रा लागीं येतकीर तो एक दीस शेफ रिबेरीसरीं गेलो आनी ताणें ताका विचारलें, ''ही जत्रा निमाणी गा?''

''हय, निमाणी.''

''खरें सांगता तूं?''

''हय, खरें सांगतां. कोण तूं? होसमार हिंगाचो. पिसो खंयचो.''

''हांव तुजेवरी किरिस्तांव. रेस्पेदान उलय म्हजेसरीं.'' मगेर तेणे शेफीक धपकायत म्हटलें, ''ही जत्रा निमाणी न्ही शेफ. ही जत्रा सासणाची जायत उरतली. म्हजे कुडीवयल्यान रथ वचून ही जत्रा सासणाची जायत रावतली. वाजंत्रां व्हाजत रावतलीं, पळयच तूं.''

हो कोण पिसाट म्हणिल्लेवरी शेफीन तेचेसरीं पळयलें आनी तो वोगीच रावलो. सांवळो उठून गेलो.

जत्रेक मेज्जून सात मांड येयिल्ले. तांब्या तामणय येवंक ना आनी कुकूम पिनर, मणी पिर्डुकांचे मांडय येवंक नात. येयल्ले कुराडी कोयतेचे आनी मातये आयदनांचे, वल्ली वल्ल्यांचे मांड. तेतून आनी दीसभर काळशी कुपां मळबांत भरून राविल्ल्यान वोतय बरें पडलें ना. जत्रेक कसली उमेदच नासली. देवळांत घांट तर व्हाजच नासली

आनी भटाल्या मंत्रांकय जोर नासलो. देवाचे भेटेक हातांत नाल्ल, फुलां, कापूर घेवन राविल्ल्यांच्या तोंडार आसलो हुसको, भिरांत आनी खंत. शेंकड्यांनी वर्सां सावन चलत आयिल्ल्या देवाच्या वर्सउत्सवाची ही निमणी जत्रा! केदो व्हडलो आकांत! जगबुडीन एका युगाचो अंत जाल्लेवरी! सोताच्या बिजूटपणाची खंत, एका युगाच्या मरणाचें, निमणेपणाचें दुख्ख पुराय जत्रेर पातळून आसलें. भेटेक उबे राविल्ले, जत्रेंत भोवपी एकदुसऱ्याची वळख नाशिल्लेवरी मोन्यांनी वावुरताले. इल्लो कलकल नासलो.

सांजचीं मळबांतलीं कुपां निवळ्ळीं आनी माघ पुनवेचें नितळ चान्नें पडलें. केन्नातरी देवळांत घांटीचे व्हाजयणेक बांदिल्लो वस्त्रा कुडको सुटिल्लो आनी एक भक्त ती जिवाच्या आकांतान व्हाजयतालो. मगेर आनीक कोणें तरी दुसरे घांटीचें वस्त्र सोडयलें आनी तो ती वाजोवंक लागलो. शेफ आनी पाद्री बशिल्लेकडेन घांटींचो आवाज आयकताले. पाद्री अस्वस्थ जातालो. पूण शेफ म्हटलें, ''भोगशीय पाद्र, हें तेंचें निमणें. मरतल्याचो निमाणो आकांत.''

रातचो रथ ओडच्या वेळार मात लुटिंनी लोक जत्रेक येयलो. पयलींवरीच देवळामळ फुलून गेलें. कितलेशेच किरिस्तांव येयल्ले आनी ते कुशीकुशीन उबे आसले. पयलीं जे रथाच्या दोराक उमेदीन हात घालताले, तेंचे हात आतां फुरफुरताले. रथाचीं चाकां बरीं पुरूसभर उंच आसलीं आनी ताका दंडायेदो दोर. रथ वयर पांच रंगांच्या वस्त्रां पताक्यांनी सोबयल्लो. उंच, माडाइतलो उंच रथ.

पन्नास साठ तरणाट्यांनी दोर धरिल्लो. रथ ओडूंक हात सामके फुरफुरताले. गांवकारांले आज्ञेची वाट पळयताले. वेंटू नायकान रथाची पुजा केली आनी रथाच्या चाकार मारून पांच नाल्ल फोडले. पांच वाड्यावयल्या लोकांचे मानाचे पांच नाल्ल. मदींच पिशा सावळ्यान येवन दोराक हात घातलो. ताका सगळ्यांनी धांवडावन घातलो. तो रडत कुशीक सरलो. वेंटू नायकान हात वयर करून रथ ओडची आज्ञा केली. सगळ्यांनी हरहर महादेव घातलो आनी ते रथ ओडूंक लागले. हरहर महादेवाच्या गजरान सगळे गडगडटाले. रथा फाटल्यान व्हाजंत्रां व्हाजतालीं, तकलेर दीपमाळ घेवन कलवंतां नाचतालीं. रथ एक फावट देवळाक प्रदक्षिणा घालून देवळा मुखार येवन उबो रावलो. देवळणीन ताची पंचारतीन ओवाळणी केली. मगेर रथ रामनाथाचो परिवार देव पाईकदेवासरीं वचून येयलो. थंय ताची एक फावट पूजा जाली. आतां रथ रुद्रदेवासरीं वचूंक गेलो. परत एक फावट हरहर महादेवाच्या गजरान आंवाठ गडगडलो. रथ ओडटले तशे फाटल्यान वयतलेय दोनय हात वयर करून नाचत, हरहर घालीत धांवताले. व्हाजंत्रां थार दियनासतना व्हाजतालीं. सकाळसान थंड ओगी आशिल्ल्या लोकांचेर जसो सांवार येयिल्लो. हो निमणो खीण जसो तांकां सासणाचो जितो

दवरचो आसलो, प्रायश्चित घेवचें आसलें. रुद्रदेव वयले वटेन इल्ले चडटेरआसलो. रथ ओडटना खूब कस्ट पडटाले. दोर तुटूंक पावताले. दोराचो, चाकांचो आकांताचो कर्रकर्र आवाज येतालो. लोक म्हणटाले, रुद्रदेव रागान दांत चाबता. कारण रामनाथ देवान ताका झुजांत हारोवन आपल्या शेकातळा हाडून दवरिल्लो. तो तो शतमानाचो राग घेवन बसला.

रुद्रदेवासर्रीच रथाची पुजा जाली. रथ परत येवंक लागलो. हरहर महादेव... रथ देंवतेर धावंक लागलो. दोराक धरिल्लेय धावंक लागले. हरहर महादेव... इतल्यान एक बारीक भागिल्लो तरणाटो कुशिच्यान धांवन येयलो आनी चाका मुखार सास्टांग पडलो. उजवेवटेनचें चाक ताच्या बरगड्यांक आपटलें. बरगड्यो मोडून गेल्यो आनी रथ तेचे कुडीरच रावलो. तो काटूलो पूत सावळो - साल्वादोर दियस - आसलो, मोगापिशें लागिल्लो!

दोर ओडटल्यांनी दोर सकल दवरलो. रथाच्या चाकांक खांदे मारून सावळ्याची कूड कुशीन काडली. कूड थंयच उडोवन तांणी रथ ल्हवल्हव ओडत तो देवळासरीं दवरचे सुवातेर हाडलो. रथाचें उजवें चाक रगतान भरिल्लें. रामनाथ देवाली निमणी जत्रा सोंपिल्ली.

इन्क्विझासांवाचे काळकोठयेंतल्या गुडुप अंधारांत पाद्री सिमांव पिरीस तीन दीस पडून आसलो. कोणाचो इल्लो आवाज नासलो, उजवाडाचें एक कीर्ण नासलें. भितर फक्कत काळोख आनी ओलो कुसडचो वास. ही कोठी वयल्या तळापसून इल्ली सकल आसुंये. फातराच्या तळांतल्यानय शेळ वयर सरताली. ताका भितर घालतना पारेदारान सांगिल्लें, भितर मडकी भरून उदक दवरलां म्हण. काळखांत सांसपीत केन्नातरी, काल काय पयर, काय आजच ताका नीट उगडास जायना, ताणें मडकी तोंडाक लावन उदक पियेल्लें. आपणाक हे काळकोठयेंत घालून कितलो काळ लोटला. जेजूक खुसार मारिल्ल्या त्या खिणाचें दुख्ख भोगत आपूण अजून हांगा पडून आसां काय कितें! जेजूल्या निमाण्या जेवणाक हाजीर रावन दोंगर देंवन सकल येतकीर जुदेव रायाल्या मनशान आपणाक धरून हांगा हाडून उडयला काय कितें! आपणाक तर जेजूचें शिकवप संसाराक पावोवंक जाय आसलें. ना तर अनर्थ जातलो. जुदेव माततले! पाद्री सिमांवचे तकलेंत एक पिशांतूर गोंधळ. मगेर ताका सट्करून उगडास जालो, हांवें ह्या दिसांनी रोजार केलोच ना. ताणें धिमी माल्ली आनी म्हटलें, 'जेजू, देवाच्या पुता, संवसाराच्या राखणदारा, संकस्टांत गाविल्ल्याक आधार दिवप्या, म्हाका काळखांतल्यान भायर काडून उजवाडांत व्हरून पावय.

म्हाका मनशांत व्हर, मनशाचो आवाज म्हज्या कानांर पडूं दी, मनशांविशीं म्हजें काळीज मोगान भरूं दी. हांव कोणाचो राग धरचों ना, कोणाचो दुस्वास करचों ना, तुजेवरीच तेंचेपासत देवासरीं मागतलो, तांकां भोगसणी दी म्हण!'

तिसऱ्या दिसाक दनपरां दाराचे वयलेवटेन ल्हान जनेल करकरत उकतें जालें. देव भितर सरिल्लेवरी उजवाडाचीं किर्णां भितर सरलीं. कांय खीण पाद्रीचे दोळे दिपकावले. वांगडाच इल्लो आनंद, इल्लें चैतन्य कुडींत रिगलें. मरणाची वान्सा इल्ली पयसावली. उजवाडाची ही जादू पळोवन पाद्री पिरीस अजापलो. वांगडाच दांड्याक बांदिल्ली जेवणाची बुती सकल येयली. जेवणाचो वास येयलो आनी पाद्रीक जाणीव जाली. खंयतरी खूब भिंतर भूक दड मारून बसल्या. आनी ती आतां ल्हवल्हव जागी जावंक लागल्या. आपणाक इतले बेगीन तर मरचें ना. ताणें दांड्यावयल्यान सट्‌करून बुती काडून घेतली. मातयेच्या गाडग्यांत सूप आनी चार रोटयो. ते बराबर भायल्यान एक आवाज येयलो, ''धर्माआड कर्तूब केल्ल्या गुन्यांवकारी मनशा, तुजी भलायकी कशी आसा?''

पाद्रीक ताचीं उतरां मानवलीं नात. पूण ताका त्या आवाजाचेंय अपरूप दिसलें. हो मनशाचो आवाज ! एका काळभंवऱ्यांतल्यान आयकोंक येयल्लो! पूण तो वोगीच रावलो. आवाज परत येयलो. ''तुजी भलायकी कशी आसा?''

पाद्रीन पयलीं ताळ्यांतल्यान वारो भायर भितर खेळयलो. आपणाच्यान उलोवंक जातलें हाची खात्री करून घेतली आनी म्हटलें, ''बरो आसां.''

आवाज मुखार उलयलो, ''ह्या गोंय इन्क्विझासांवाचो वडील मोट्या अंतस्करणाचो दयाळ मनीस. ताच्या उतरांनी हांव तुका विचारतां, तुका कितेंय जाय?''

''हय. म्हज्या आंगावयलो खुरीस तांणी काडून घेतला. तो म्हाका जाय.''

''तो तुका मेळचो ना. तूं धर्माभायरो मनीस आतां. तूं गुन्यांवकारी न्ही म्हण थारचें ना तो मेरेन तुका तो मेळचो ना. तुका आनीक कितेंय जाय?''

''कांय नाका.''

आवाज गेलो. पूण वयलें जनेल उकतेंच आसलें. तें सांज मेरेन उकतेंच उरलें. सांजचो दाराचें कुलप काडिल्ल्याचो खडखड आवाज येयलो. मागीर तें दोट्टें दार उकतें जालें. पयलीं फळ्यांचें आनी मागीर लोखंडी वारांचें. दारांत एक पारेदार आनी एक हवालदार उबो आसलो. तांणी पाद्रीक भायर येवंक फर्मायलें. त्या तळघराचीं बारीक स मेटलां चडून तो अर्द वयर येयलो. मगेर त्या शिपायान आनी हवालदारान हात दिवन ताका वयर ओडून घेतलो. वयर सरतकीर तांणी ताचे कमरेक सांखळी बांदली. ती सांखळी शिपायान हातांत धरली. मगेर ते ताका घेवन दुसरे कोठयेसरीं वचूंक लागले. तळघरांतल्यो कोठयो तीन चार आसुंयेत. हेर वयले सगळ्यो कोठयो

मात नितळ आनी उजवाडाच्योच आशिल्ल्यो. लागींलागीं शंबरां वयर कोठयो बलांटून ते एक कोठयेसरीं येयले. ताचें दार उकतें करून तांणी पाद्रीक भितर घातलो. ती कोठी स हात रुंद आनी स हात लांब आसली. न्हिदूंक दोनय वटेन दोन उंचवटे आसले. ताचेर शेनऱ्यो पातळिल्ल्यो. तातूंत पयलींच आनीक एक पाखलो कैदी आसलो. तो शेनरेर वोगी न्हिदिल्लो. दार उकतें जाल्लो आवाज येयलो. पाद्री भितर सरलो पूण ताणें ते वटेन पळयलें लेगीत ना. पाऱ्या वयल्या शिपायान पाद्रीक उदक भरिल्ली एक मडकी, एक ल्हान गाडगो, एक सान्न आनी लाकडाचे बसकेसयत भायल्यान करचें आयदन हाडून दिलें.

पाद्रीक भितर घालून लोखंडी बारांचें दार लावन ताका कुलप मारून ते कुशीन सरले. पाद्री थंय पातळिल्ले शेनरेर वोगी बसलो. तीन दिसांनी उजवाडांत येतकीर ताका त्या उजवाडाचोच आधार कसो दिसतालो. तो उजवाड सासणाचो तसोच उरचो अशें दिसतालें. आतां सांज जावंक येयल्ली. आतां परत काळोख पातळटलो, परत सगळें थंडावतलें ह्या चिंतनानच तो निर्शेलो. तो कुशीन न्हिदिल्लो कैदी तर कोणाची सुलूस घेवंक लेगीत तयार नासलो. तरीय एक जितो मनीस हांगा सांगाताक आसा होच केदो व्हडलो धीर आसलो. पाद्रीक तो मोनो मनीस लाखमोलाचो दिसलो.

वट्ट पावणेदोनशें कोठयो आसल्यो. तातूंत कितलेशेच कैदी. पूण कोणाचो येद्दो आवाज नासलो. सगळें थंड किरांव. मसुंडेवयलो उजो पालवतकीर सुन्न भिरांकूळ शांतताय पातळटा तसली शांतताय. सांजभर ही सुन्न थंडाय पातळून आसली. अचकीत तो न्हिदिल्लो पाखलो कैदी रडूंक लागलो. आदीं ल्हवल्हव. ताचें तें ल्हव रडपय तें शांत वातावरण कापीत पाऱ्यावयल्या सोल्दादा मेरेन पावलें. तो काळीज पिळून बोमलेच्या देठासान दुख्खाच्या भारान रडटालो. सोल्दाद थंय येयलो आनी ताणें धपकायलें, "ये, रडूं नाका. गप्प."

आतां तो हामेऱ्यांनी रडूंक लागलो. सोल्दादान बेगीबेगीन वचून चावी हाडली आनी दार काडलें. फाटोफाट हवालदारय येयल्लो. चावी काडून भितर वचून तो सोल्दाद ताका लाथान मुठीन मारूंक लागलो. आदींच भागिल्लो तो अशक्त पाखलो आंग मोडिल्लेवरी तोंडार पडलो.

पाद्री सिमांव सगळें पळयतालो. ताच्यान सोसूं नजो जालें. इन्क्विझासांवाच्या शिपायांक आडावची तांक ताका नासली. दुसरें बगलांट येतलें. सोताक राखूंक हो येद्दो व्हडलो अन्याय सोंसचें आपल्या दैवांत आयलें म्हण ताका चड खंत भोगताली. तशें पळोवंक गेल्यार आमी दोगय एकाच सुवातेर एकेच आवतिकायेंत उबे आसात. तो वयल्यान रडटा, हांव भितरल्यांन मनांत! सोताची बुद्द, सोताचें कर्तूब अशें घाणाक घालून अन्याय सहन करप हें एक मोटें दुख्ख. आज म्हजो भूतकाळ शेणला, म्हजी

बुद्द, म्हजी जाणवाय आनी जाणीव, म्हजें पाद्रीपण सगळें शेणलां. हांव फकत एक गुन्यांव नाशिल्लो गुन्यांवकारी! ग्रीस देशांत आसतना एक फावट एका निश्ठूर मातिल्ल्या गुन्यांवकाराचे तरसादेक हात घालून ताका आडायल्लो हांवें खुनमाऱ्या कर्तुबापासून. पूण आज खंय गेली म्हजी शक्त! खंय गेलो म्हजो आत्मविस्वास! आज इन्क्विझासांवाचो एक धर्मभ्रश्ट कैदी हाचेपरस म्हाका वेगळें अस्तित्व ना, वेगळें नांव ना !

आतां तो पाखलो भितरले भितर घुस्मटतसो रडटालो. फकत गळ्यांतल्यान हूं हूं असो आवाज येतालो. सिमांव पिरीस ल्हवच उठलो आनी ताचेसरीं गेलो आनी ताका ल्हवल्हव थापटूंक लागलो. अचकीत ताचें रडप ताळ्यांतल्यान वयर सरलें. पाद्री पिरीसान गप्पकन ताच्या तोंडार हात दवरलो आनी आवाज दामलो. आतां पाद्रीकय रडूंक येवंक लागलें. ताका भिरांत दिसली, आपलें रडपय आपणाक जुमानिनासतना वयर सरतलें !

कांय वेळान पाद्रीन ताका विचारलें, ''भावा, तुजी म्हाका काकुळट दिसता. तुजें दुख्ख तें म्हजेंय दुख्ख म्हण समज. पूण खंयच्या अद्रस्टान खंयच्या कारणान हांगा पावलो?'' तो कांय वेळ भावना आवरीत वोगीच रावलो. मगेर ल्हव आवाजांत, भरिल्ल्या गळ्यान त्या पाखल्यान आपली कर्मकाणी पाद्रीक सांगली -

तो पुर्तुगालच्या उत्तर वाठारांत पिन्तू म्हणिल्ल्या वाठारांत जल्मल्लो. तागेलो बापूय थवय - मेस्त आसलो. तो घराचीं पाखीं चडोवच्या कामांत फिशाल आसलो. एक फावट तो उंच पाख्यावयल्यान सकल पडलो. ताची धिमी, धोपर फुटलें. बरोच तेंप हांतरुणार पडून रावतकीर कांय वखद विर्सदान तो मात्सो बरो जालो. पूण ताच्यान चलूंक जायनासलें. उबो रावतकीर एक पांय धिमयेचे जोडणेंतल्यान भायर सरतालो. तो परत बसोवचो पडटालो. पूण तेंकूंक जायनासलो. हो - तिमोती ताचें नांव - तेन्ना तो सतरा अठरा वर्सांचो आसलो. बापूय घरांत पडटकीर घराब्याक खूबच दुर्बळकाय आयली. एके वेळेच्या खाणाक मारामार जावंक लागली. तेन्ना आफ्रिका, हिन्दुस्तानांत व्हरचे खातीर पुर्तुगाल सरकाराक सोल्दाद जाय आसले. पूण सोल्दाद म्हण भायर वचूंक कोणच राजी नासताले. तो जिवावेलोच खेळ अशें लोक मानताले. एक दीस तिमोतीन घरांत आशिल्लीं कांय सुकीं फळां विकलीं. कांय दुडू घरा आवयक दिवन आनी थोडे दुडू घेवन तो लिस्बोआ येयलो. ती साठ मैलांची वाट ताणें बरीच पांयानी चलून, थोडी घोड्या गाडयेन पार केली. सोल्दाद म्हण भरती जावचे पयलीं थंयच्या अधिकाऱ्यासरीं मागलें, आपूण भायर गेल्ले फाटल्यान आपल्या घराब्याक दर तीन म्हयन्यांनी कांय दुडू फारीक करचे. तें अधिकाऱ्यांनी मानून घेतलें. लिस्बोआंत सोल्दाद म्हण तीन म्हयन्याचें शिकप घेवन तो एक दीस बोटीर बसून गोंयां पावलो.

पुर्तुगालांत बोटीर बसोवचे पयलीं ताका आनी वांगडच्या हेर सोल्दादांक सांगिल्लें, पांच वर्सांनी तुमकां परते पुर्तुगालाक हाडटले म्हण. पूण आज सतरा वर्सां जाल्लीं ताका गोंयां येवन. आयिल्ल्याक परतें व्हरची खबर कोण करिनासलो. उल्टें, तांकां वयले पदवेदार - व्हिसराय धरून सगळे सांगताले, तुमी हांगाच काजार बीन जावन कायमचो रयवास करशात जाल्यार तुमकां फौजेंतल्यान सुटावे करतात. दुडू, भाटां, बेंसां दितात. तिमोतीक तें कशेंच मानवनासलें. ताका पुर्तुगालाक परत वचची ताळंणीच लागिल्ली. दर फावट गोंयच्यान बोटी पुर्तुगालाक वचूंक सुटच्यो आसात म्हण कळटकीर ताचो जीव तळमळटालो. तो धांवन बंदरार वयतालो. बोटी पयस पयस पावन नदरे आड जातासर एके दिठयेन पळयत रावतालो. मगेर ताच्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावतालीं. काळोख जायसर अथांग सागरार दोळे लावन बसून रावतालो. वर्स वर्स घराब्यांची खबर कळनासली. उतरा प्रमाण दर तीन म्हयन्यांनी घराब्याक दुडू पावताले, इतलेंच ताका सरकाराकडच्यान अदींमदीं कळीत जातालें.

मदीं तो खूब सोरो पिवंक लागलो. हेर कांय सोल्दादांवांगडा तो ब्रह्मपुरा नायक्रिणींसरी वयतालो. थंय नागी नांवाची एक नायकीण ताका खूब मानवल्ली. ताचे वांगडा काजार जावचें ताणें थारायलें. विचारल्यार नागीनय ना म्हटलें ना. पूण ताची आवय कशीच काजराक तयार ना जाली. एक दीस आनीक दोग सोल्दादांक व्हरून तिमोतीन नागीक रातची उखलून हाडली. आवय आडावंक येयली तेन्ना तांणी तिका तरसाद दाखयली. नागीचो बातिज्म आनी तांचें काजार एकाच दिसा, एकेच इगर्जेंत जालें.

काजार जातकीर ताका फौजेंतल्यान मुक्त केलो. कांय दुडू आनी रावंक गोंय पाटणांतच भायल्या आंगाक घरय दिलें. थंय ताणें दोगां कामदारांक घेवन उंडे भाजचें खोर्न घातलें. मदीं तांकां एक भुरगेंय जालें. नागी सोबीत, मोगाळ आनी तरतरीत फिशाल बायल आसली. ती खूब मोग करताली तिमोतीचेर. तिमोती खूब गोरो आसलो. पूण ताचो आंगलोट हेर पाखल्यांवरी उंच, पसरट, हाडो नासलो. तर तो मोटवोसो, ज्युस्ताज्युस्त एकशिवडी आसलो.

मदीं तिमोतीक कसलें तरी दुयेंस सुरू जालें. सगळी तकली मुंयेल्लेवरी भेरेताली. फाटीकणो भरून येतालो. तो खोर्न सोडून ओगी येवन न्हिदतालो. बरींच वखदां केलीं पूण गुण पडना जालो. एक दीस ताका घेवन नागी ब्रह्मपुरांत येयली. काजरा उपरांत स वर्सांनी ती घोवाक भुरग्याक घेवन कुळारा येयिल्ली. येवन ती आवय घराच भायले कुडींत रावली. नागील्या 'पाखल्या घोवाक' पळोवंक गांव लोटलो.

ब्रह्मपुरांत बोंबो म्हण एक घाडी आसलो. तो वखदांय दितालो आनी वारेसुत्राचें, म्हारूगिन्याचेंय पळयतालो, तावज तांदूळ दितालो. नागी घोवाक घेवन बोंबो

घाडयासरीं गेली. ताणें कुदून तांदळा आशे काडले. मोडी भाशेंत चीट करून ती तावजींत घालून तिमोतील्या दंडाक बांदली. ताका सांगलें, वडाचीं दुदापाळां सकाळीं दंवार काडून तीं वांटून ताचो रोस काडून सद्दां दी म्हण.

घरा येवन तांणी तशेंच केलें. आठ दीस वडाचीं दुदापाळां वांटून दिलीं. दंडाक बांदिल्ली तावजय तशीच दवरली. खरेंच आठ दिसांनी तो बरोच निवळ्ळो. तांदळा आश्याची काय तावजीची, काय दुदापाळांची म्हयमा तें सांगूंक येना, पूण ताची तकली पयलींवरी मुयेनासली.

हिन्दूंचें देवस्पण करचें न्ही हें तांकां पुराय खबर आसलें. तांणी तें कोणाक सांगूंक नासलें. दंडाक बांदिल्ली तावज तांचे नदरेन एक क्षुल्लक गजाल आसली. त्या आयताराक तो एका कामदाराले तकलेर गंवा चोबो दिवन तें दळून घेवन गेल्लो. तिठ्यार एकेकडेन एक व्हड खोंप आसली. थंय उबारेर चार व्हड दांतीं मांडिल्लीं. दोगां दोगां बायलो उब्यानच धरून तांदूळ, गंव, गोंडो दळटाल्यो. ताचें दळप इतलें म्हारग आसलें, पांच कुडवां फाटल्यान एक कुडव तांकां दिवचो पडटालो. पूण तिमोती खोर्नाचें दळप केन्नाच नागीक दळूंक दिनासलो.

परत येतना पसऱ्यासरीं ते मात्शे थारले. तेन्ना मुखावयल्यान एक पाद्री येतना दिसलो. बेठोच केन्नातरी पळयल्लोसो, पूण वळखीचो न्हय. तो म्हऱ्यांत आयलो आनी तिमोती मुखार थारलो. ताणें विचारलें, ''तूं पुर्तुगाली नोब्र गोंयचे अस्तुरेकडेन काजार जाला?''

तिमोतीन तकली हालयली.

''तशें जाल्यार तुजीं भुरगीं जातलीं तीं मिस्तीस. पुर्तुगीज रगत तुवें भरसायलें, इबाडलें. वायट तें. मोटें वायट काम.''

''व्हिसरायाले सांगणेन जाल्यांत न्ही आमी काजार?''

''तेचीय चुकच ती. आमी पुर्तुगालच्या रायाक कळीत करतले, वायट कर्तूब म्हण तें. हाचेन पातकां वाडटलीं, मोडां येतलीं, तुमचीं तारवां बुडटलीं म्हण. तुमी घातमारे हंयच्या उणाक रगताच्या अस्तुऱ्यांक संवकतात आनी पुर्तुगालचें रगत इबाडटात. फुडाराक अशें जावंक दिवचे नात आमी. पुर्तुगालचें रगत नितळ तिगून उरूंक जाय. संवसारांत किरिस्तांव धर्म वाडूंक जाय. मगेर पुर्तुगालचो राया आनी पोपसायब एका मेजार बसून जेवतले. पोपसायब बेसांव घालतलो पुर्तुगालचेर.''

तो पाद्री कांय वेळ थारलो. तिमोतीक बारीक पळयत ताणें म्हटलें, ''पळयल्लें सांगूंक जाय. सांगनासतना रावप व्हडलें पातक.'' मगेर तो जाण्टो पाद्री कांय वेळ फेंगडे पांय उडयतसो चलूंक लागलो. तिमोतीन मनांत म्हटलें, पिसो कसो कितें उलयता हो. तो जाणा आसलो, कांय जाण्टे पाद्रीबीन अशेंच कितेंय केन्ना उलयतात,

तकली घुंविल्लेवरी. तांतलोच आसुंये हो.

दुसऱ्या दिसा सकाळींच इन्क्विझासांवाचो एक अमलदार तांच्या घरा येयलो. आंगार इन्क्विझासांवाची खाशेली मुस्तायकी. खोमसाक मुखार उज्याची निशाणी. ताका पळोवन तिमोतीचें रगत गोठेवन गेलें. तो एकदम धवो पडलो आनी आंगावेल्यान सरसरीत हूम देंवली. नागीन एक किळांच मारली. मगेर मात सगळें थंड. भायर प्रयस लागीं कांय लोकय उबे आसले. जशे ते म्हणटाले, तिमोती पळोन गेल्यार, ताणें मस्ती केल्यार आमी आधार दितले इन्क्विझासांवाच्या कामाक. तिमोती वोग्गी एक उतर उलयनासतना आंगार आशिल्ल्या वस्त्राचेरच ताचे फाटल्यान वचूंक गेलो. नागी दारांत आयली. तिमोतीक कांय वेळ पळयत रावली. मगेर दारांत बसून हामेऱ्यांनी रडूंक लागली.

तिमोतीक त्या पाद्रीन लावन दिल्लो. ताचो गुन्यांव आसलो, किरिस्तांव धर्मा भायल्या धर्माच्या देवाची पूजा करप, तांचो कवल घेवप आनी तावज बांदप. म्हणजेच किरिस्तांव धर्माआड वचप, धर्मद्रोह करप !

शिगमो लागीं पावता तसो गांवच्या लोकांचीं काळजां कलकलूंक लागिल्लीं. खपखप्यान जीव वयर सकल जातालो. खंयूय वचून येताले आनी आपले वासरेंत सास्टांग पडटाले. कोणय निळू नायकासरीं वचून म्हणटालो, ''निळूभावो, कितें तरी करात रे देवापासत!''

देव आनी देवळाविशीं निळू नायक आनी शेफ कामील रिबेर हांचे मदीं तोंडी कबलातच जाल्ली म्हटल्यार जाता - पुनवेच्या पाडव्याक होळी संततली. मदीं एक दीस बी. तये पयलीं कसोय करून देव उठूंक जाय. ना तर देवळा वांगडा देव फुट्टलो.

निळू नायकाक देव वाटोवचे तळमळे लागिल्ले. एक दीस तेणे गांवच्या कांय गांवकारांक आपल्या घरासरीं आपयले. सगळे बारा गांवकार येयल्ले. तातूंत नवेच किरिस्तांव जाल्ले जना नायक - जुवांव दियश, मुंगरू शणै - मिंगेल ग्रासियस, देमू गुरव - डॉमनिक सौज हेवूय आसले.

निळू नायकान सांगलें, ''तये आदीं देव देवळांतल्यान काडूंक जाय. जे कोण वीर देवाक गोंयाभायर पावयतले तेंकां आमचो आधार आसतलो.''

जना नायक एकदम तापलो. ''आमकां फटोवन बाटयले. आतां देवय ना करतात. कांय ना. देव गोंया भायर वयचो ना. हांगाच खंयतरी आडवाटेर आडरानांत व्हरून देव पुजात.''

हाचेर लवू नायक आड्डलो, ''ग्रामदेव म्हटल्यार कितें देड दिसाचो गणेस?

व्हयलो दवल्लो उखल्लो करूंक? फाल्यां वास येयल्यार फोडूंक घण घेवन येतले ते.''

मुंगरू शणैन म्हटलें, ''आमी हे अशे किरिस्तांव जाल्यात. तुमच्यांनी देव व्हरून सुखरूप पावोवंक जाता जाल्यार पावयात. ना तर देव न्हावचे कोंडींतच ताचें विसर्जन करात. हरशींय सगळे हुकमळ्याक पडल्यातच. देवाकय घालात फोंडांत. तुमचेकडेन जावचो ना तो वाटोवंक.''

जाण्टो वेंटू नायक थरथरिल्लेवरी जालो. तेच्यान राग आटापूं जायना जालो. ''शणै, तुमी देवाचें, गांवाचें केन्ना बरें करूंक ना. तुमचीच खाणी तुमी उबयली. आतां तेंच्या मुखारय तुमी व्हड बामण म्हण मिरयतले. मान पान जोडटले. देव फुटलो, बुडलो म्हण तुमचें कांय वयचें ना. धर्म गेलो म्हणय तुमचें कांय वांकडें जावचें ना. तुमी बामणपण भोगतले.''

''भोगतले. बामणपण आमकां धर्मान दिल्लें ना, जल्मान दिलां. तें सुटचें ना.''

देमू गुरव - डॉमनिक सौजान खांदावयल्या रुमालान दोळे पुसले. तेणे रडत म्हटलें, ''हांव हारलों देवामुखार. हत्येचें पातक आसा म्हजे तकलेर. धर्माक लागून पुताक माल्लो. आतां धर्मय ना, पुतय ना. हांव हारलों. तुमी तुमकां जाय तशें करात.''

लवू नायकान आड्डूनच म्हटलें, ''कितें बरें केलां देवान म्हण आमी देवाक वाटोवचो? सगळें पातक तेचेच तकलेर घालून वोगी रावया.''

हाचेर दत्तू नायकान दांडोच उखल्लो. ''मायझंया, पोटणाच्या, देवाक तेंचे मुखार फोडूंक घालुंया म्हणटा? तुमचीं पातकां वाडल्यांत म्हण देवाची सासाय गेली. देव परीक्षा पळयता तुमची. म्हण वोगी बसून आसा तो. कोपल्यार निसंतान जातलें तेंचें आनी तुमचेंय.''

मनान कोसळिल्लो एक चोमो पिशें बशिल्लेवरी उतराउतराक हाणामारीचेर येतालो. आंगार बडी पडिल्ल्या जिवाण्यावरी खंत, दुख्खीन वळवळटालो. धर्म धर्माच्या पाड संदीकाळांत गाविल्लो लोक धर्मभुकेन, भिरांतेन जसो काळोख उजवाडांत घुंवूंक लागिल्लो.

निळू नायकान म्हटलें, ''अशें झगडून कांय जावचें ना. गांव आनी देव सगळ्यांचो. जावं किरिस्तांव जाल्ले, जावं हिन्दू. सगळ्यांनी मेळून देव गोंयाभायर पावोवंक जाय.''

जना नायक - जुंवांव दियस आड्डलो. ''आमी देव वाटोवंची खबर सांगता तूं निळूभावो? दितले तुमी आमकां देवळांत घुसून देव काडूंक? आमकां देव तकलेर घेवंक दितले? ना, तुमी आमकां देव आफडूंक दिवचे नात.'' तो उठलो आनी चलूंक लागलो. वयताना तो रडतच म्हणटालो, ''आमकां फटयले, आमकां नाडले. तुमीच आतां देव तकलेर मारून घेयात.''

मागीर एकलो एकलो उठून वचूंक लागलो. देवाचें कितें करचें तें थारायनासतना निळू नायकान फाटल्यान म्हटलें, ''पुनवेचे बियेक देव उठ्ठलो. जे कोण देवा वांगडा येवंक तयार आसात तेणी आपल्या बायल भुरग्यांक घेवन येवचें.''

निळू नायकाक तळमळेच लागिल्ले देव वाटोवचे!

आदोळशीचो शिगम्या मेळ धा गांवांत नामना पाविल्लो. ताचो तोणयां खेळ, ताचीं गायनां, ताचीं वाजंत्रां, ताचो भेस सगळेच लोकांक मानवतालें. एकादऱ्या वाड्यार आदोळशेचो तोणयां मेळ गेलो म्हणटकीर थंयचें वातावरण उमेदीन उल्हासान भरतालें. सगळीं ल्हान व्हड व्हडल्या आंगणांत, व्हडले तुळशीसरीं खेळ पळोवंक एकठांय जातालीं.

हो शिगमो खंयच्या कदीमकाळांतलो, तोणयां मेळ केन्ना घडिल्लो, तांच्या हातांतल्यो तोणयो कितल्या पिळग्यांतल्यान हातांतल्यान घोळत आयिल्ल्यो कोणाक खबर नासलें. पूण हाचेविशीं एक जिबेवयली काणी घोळत आयिल्ली ___

आदोळशी शिरवाड्यावयल्या शिवणूल्या आंगांत एक नाचरी उर्बाच आसली. कणशेल्लें धान वाऱ्यार धोलता तें पळोवन तो नाचतालो आनी रानांतलीं झाडांपेडां चंवरून फुलिल्लीं पळोवनय तो नाचतालो. गोरवांचे चौंखूर धांवणेरय तो नाचतालो आनी शेवण्यांचे शिळवणेरय नाचतालो. आवय केन्ना तो नाचता तें पळोवन म्हणटाली-

नाचऱ्या म्हज्या पुताक
बायल मेळटली हांसरी
नाचऱ्या म्हज्या पुताक
बायल मेळटली चंदरी.

एक दीस शिवणू गोरवां राखूंक गेल्लो तो गोरवां फाटल्यान नाचून दमलो. गोरवां घोडकी रुखा मुळांत घालून ताणें आवयन दिल्ली बुती सोडयली. बुती जेवन तो सकल्ल्या तळ्यांत उदक पिवंक गेलो. तें सानुल्लेंच तळें चोंय वटेन ल्हान व्हड रुखांनी वेडिल्लें. रूख ताचेर बागवोन येयिल्ले. ताणें उदक पिवंक कोल्लो केलो मात, कोल्ल्यांत एक बीं पडली. तांबशे मातये रंगाची, लांबट शंखा आकाराची. पूण ही बी कोल्ल्यांत कोणें उडयली? सकल उदकांत पळयल्यार उदकांत कोण नाचतासो दिसतालो, वयर रुखांर पळयल्यार कोण उजवाड कांबरून बसलासो दिसतालो. दुसऱ्या खिणाक पळयल्यार कोणच ना. बीं कोणें कोल्ल्यांत उडयली...!

ताणें ती बीं कास्टेच्या पोंताक घट बांदली. तो कोल्लो भरभरून उदक पियेलो. सांजचो तो गोरवांक घेवन परत येयलो. गोरवां गोट्यांत घालून घरा येयलो. ती बी

ताणें जाण्टेल्यांक दाखयली आनी विचारलें, ''ही अजापाची बी कसली? देवान म्हज्या कोल्ल्यांत उडयल्या.''

मर्तू आज्याकडच्यान तो भिकूदादोकडेन गेलो. भिकूदादोकडच्यान भिसोतातोकडेन गेलो. ताणें म्हटलें, ''तुमी म्हजेपरस पन्नास पावसाळे चड काडल्यात. दर पावसाळ्याक बीं किल्ललां. तेचो रूख जाला. दर पावसाळ्यान तुमकां नवी पारख दिल्या. तर तुमी पारखून सांगशात, ही बी कसली ती?''

कोणाच्यान ती कसली म्हण सांगूंक जाली ना. सगळे एक कुवाडें पडिल्लेवरी वोगी रावले. थंयसावन तो आपले आवयसरीं येयलो. ताणें म्हटलें, ''आवो, देवान म्हज्या कोल्ल्यांत ही बीं उडयल्या. मातये रंगाची, शंखा आकाराची, नथ आशिल्ली. तर ती बी कसली म्हण म्हाका सांगशी?''

आवयन बी पळयली, पारखिली आनी म्हटलें, ''ही बी कसली तें तूं मातयेकडेन विचार, पावसाकडेन विचार. तेंचीच ही निर्मणी. तेंचेकडेनच तेंची जाप. पिकाळ मातयेंत ती पुरून दवर आनी मिर्गाची वाट पळयत राव. पावस झडटकर बीं कोंबेतलें, आंकरेतलें आनी तुका जाप मेळटली.''

शिवणूक आनंद जालो. ताणें मातयेंत बी पुरली आनी तो पावसाची वाट पळयत रावलो. एक दीस मीर्ग झडलो आनी यथाकाळार बी कोंबेलें. कोंब आंकरेलो आनी ताका पानां फुटलीं. चितळा वासराच्या पावला खुरावरी सानसान पानां. अरे, ही तर खैरीची बी ! तो धांवतच आवयसरीं गेलो. आवयक ओडून हाडून ताणें तें माणकुलें रोप दाखयलें. ''आवो, ती खैरी बी. तेचें हें खैरी झाड.''

आवयन म्हटलें, ''हय, खैरी झाड खरें. पूण मात्शें वेगळें.''

''अशें कित्याक म्हणटा आवो?''

''संवसारांत तश्शा तशें कांय आसना पुता! तें बीं दर देवान तुज्या कोल्ल्यांत उडयल्लें मुरे?''

शिवणून दोळ्यांचें निलंजन करून, हाताची कुदळ करून, काळजाचें फूल करून तें झाड वाडयलें. वासूर व्हटयेंत आशिल्लें गायचें शेणमूत ताका घातलें. सोवळे पोल्लेंतलो गोबोर घातलो. दिसामासान झाड व्हड जावंक लागलें. ताका एक खांदी म्हणटां, दोन खांदयो म्हणटां, तीन खांदयो म्हणटां, चार खांदयो म्हणटां कितल्योशोच खांदयो फुटल्यो. वर्सां गेलीं आनी रूख गगनांत धरना जालो.

आज आवय आसल्यार आवयक तो विचारता आसलो, आवय, ह्या रुखाचें कितें करतात गे? कित्याक उपकारता तो मनशाक?

पूण आवय नासली. आंगणांतल्या झाडान दारांत सावळी धरतकीर आवयन म्हटलें, आतां पिळगी वाडची रावची ना. एक दीस तिणें तुस्ट मनान दोळे धांपले.

अचकीत एक दीस होळये नास* शिवणूल्या सपनांत येयलो. हो पेंडींनी भरिल्लो कवाथो कसो उंच, गडगंज. नासान म्हटलें, तें सादें खैरीचेंच बीं आनी सादें खैरीचेंच झाड आसलें. पूण तुवें तें इतल्या मायेमोगान वाडयलां, तें आतां सर्गलोकाचें अपरूप झाड जालां. आतां तूं एक दीस तुज्या मनांतलोच म्हूर्त थारय. झाडाक गंधफूल कर. तें मायाळ हातान कातर. तेच्या सकल्या भागाची शेंबळ कर. मदल्या भागाची घोळ आनी चवंडुली कर. वयल्या भागाच्यो बारा जोडयो तोणये कर. तुज्या गांवच्या बारा गड्यांल्या हातांत ते तोणये दी आनी तेंकां तोणयां खेळ शिकय. म्हज्या नांवार सरभोंवतणच्या धा गांवांत तुमी शिगम्याक तोणयां खेळ खेळटले. शेंबळ, घोळ, चवंडुकी व्हाजतल्यो.

ताणें सपनांतच व्होळये नासाक म्हटलें, 'म्हाका तर तो खेळ खेळूंक येयना.'

'नाचूंक लागल्यार आपशींच येतलो तुका तो खेळ खेळूंक. हांव तुज्या पाठबळाक आसां. तुज्या पावलांक नाचरी चाल आसा हें तूं जाणा जा.'

शिवणू दुसऱ्या दिसाक उठलो, बरो न्हालोधुलो आनी ताणें रुखाक गंधफुलान पूजा केली. भावार्तान नमस्कार केलो आनी भोगसणी मागली. चार मेस्तांक - बडिगारांक, गुडिगारांक हाडून ताणें व्होळये नासान सांगिल्ले प्रमाण रुखाची शेंबळ, घोळ, चवंडुकी आनी तोणयो करून घेतल्यो.

शिगम्याचे नमीक नमन घालून तेणें गांवच्या धा वीस तरनाट्यांक मांडार उलो घातलो. बारा गड्यांल्या हातांत तोणयो दिल्यो. एकएकल्याच्या हातांत शेंबळ, घोळ, चवंडुकी दिली. शिवणू हातांत तोणयो घेवन नाचूंक लागलो. आपशींच तेणें ताल घेतलो. पावलां पडूंक लागलीं, तोणयो व्हाजूंक लागल्यो. शिवणू देहभान विसरून नाचतालो आनी आपशींच तोणयां खेळ घडटालो. तेचे फाटल्यान सगळे गडेय नाचताले. व्हाजंत्रां हातांत आशिल्ल्या गड्यांलेय हात शिंवणूल्या तालार आपशींच ज्युस्त व्हाजंत्रांचेर पडटाले. व्होळये नासाचे सासायेचेर शिवणूल्या भावार्तान आज एक नवो खेळ घडिल्लो.

तो तोणयां खेळ घेवन ते एक गांव, दोन गांव, तीन गांव, चार गांव करतां करतां धा गांवांत नाचून येयले. वर्सानवर्सा ते होळयेक तोणयां खेळ घेवन गांवानगांव वचत रावले.

आतां शिवणू जाण्टो जाल्लो. आतां तो मांडार फक्कत तरणाट्यांक तोणयां खेळ शिकयतालो. गांवांत खेळ घेवन वचनासलो. ते तरणाटेय तेच उमेदीन वचून नाचून येताले. आतां तरनाट्यांचो हावेस व्हाडिल्लो. ते नव्या नव्या गांवांत खेळ घेवन वयताले. शिवणूक बरें दिसतालें, आनंद भोगतालो.

---

* (नासाक कोण गांव राखपी देंवचार म्हणय पाचारतात.)

एक फावट एका गांवांत तोणयां खेळ खेळटना एका गड्याल्या हातांतली एक तोणी पडली. गांवच्या गांवकारांक राग येयलो. तेका तें अवचित्र अशें दिसलें. तेणें गड्याक ती तोणी उखलूंक दिली ना. विचारलें, "तुमकां हो खेळ कोणें शिकयल्लो? तोणी कशी पडली? तुमकां शिकयल्ल्या गुरूक हिंगासर घेवन येयात. तेचेकडच्यान भास घेतकीरच ती तोणी तुमकां उखलूंक मेळटली." दोग गडे एक तार आनी दोन दोंगर बलांटून आदोळशां येयले. तांणी शिवणूक सांगलें, अशें अशें जालां.

शिवणू वोगी भितर गेलो. तेणें धोतर न्हेसून तेची कास माल्ली, खांदार कांबळ घेतली, हातांत बडी घेवन तो त्या गड्यांवांगडा त्या गांवांत गेलो. गांवकारांनी शिवणूक विचारलें, "हो खेळ बांदून हाडपी तूं कोण? तुजी आमकां वळख भास जाय."

शिवणून सांगलें, "हांव आदोळशी गांवचों, रामनाथा आज्ञेचों, होळये नासा उतराचों. तोणयांमेळाचो गुरू गांवकार."

"तर ही तोणी हातांतल्यान कशी पडली? आमच्या गांवांत हें अवचित्र कित्याक घडलें? तेचें प्रायश्चित घेवंक जाय. तुमच्या एका गड्याचें रगत गोमटी मारून ह्या गांवचे शिमेर वारोवंक जाय."

"गांवकारा, ही तोणी पडूंक ना. गुरूच्या हातांत आसा. बागवनासतना, हात लायनासतना, उखलनासतना ती म्हज्या हातांत येतली."

"ती कशी? उखलनासतना तोणी हातांत येयल्यार तुमकां प्रायश्चित घेवंक पडचें ना."

शिवणून दाव्या एकच हातान एक तोणी घेतली. उजव्या हाताचें एक बोट ताणें तोणी कशें धरलें आनी ताणें सगळ्या गड्यांक भुंयेर पडिल्ले तोणये भोंवतणीं फेर घेवंक उलो घातलो.

ते खेळूंक लागले. खेळटां खेळटां खेळाक आकांताचो जोर येवंक लागलो. व्हाजंत्रां व्हाजूंक लागलीं आनी सांवार येयिल्लेवरी ते नाचूंक लागले. जाण्टो शिवणू त्या तरणाट्यांवांगडा तेच उमेदीन नाचतालो. तेंकां नाचूंक लायतालो. खेळ गिरगिरें कसो घुंवतालो. मनशाची झळक मेळनासली. तेंच्या गायनांत आनी पावलांत जशी विज्ज खेळटाली. शिवणूलें तोणी कशें धरिल्लें बोट फुटून रगत गळटालें. गड्यांच्या आंगांतल्यान हूम न्ही जशें रगत निशेतालें. वारो वारो उरलो ना, तेचें मोड जालें. भूंय कांडून कांडून तेचो धुल्ल जालो. आतां खेळाचें गिरगिरें आनीक जोरांत घुंवूंक लागलें. व्हाजंत्रान आनी गायनान अच्छेव केलो. अचकीत भुंयेर पडिल्ली तोणी हालूंक लागली. तोणी आपशींच वयर येवन खेळा वांगडा अंतराळीं घुवूंक लागली. कांय वेळ घुंव घुंव घुंवली आनी सट्करून शिवणूल्या रित्या हातांत येयली.

खेळ थांबलो. गांवकारान म्हटलें, आमकां आनंद जालो तुमचो खेळ पळोवन.

तेणें खोशयेन तळय दिली. तेचेभायर तेंच्या बोकड्यांच्या हिंडांतलो एक कमरभर उंच बोकडो आनी एकवीस नाल्ल दिले. म्हटलें, हें भाजून खायात होळये उज्यांत.

तोणयां मेळ संतयच्च्या दिसाक होळयेच्या उज्यांत तेणी तो बोकडो गोमटी कापून उडयलो. एकवीस नाल्लय फोडून त्या उज्यांत उडयले. बरे हुलपतकीर तेणी बोकडो आनी नाल्ल उज्यांतल्यान काडले आनी वांटून खायले.

होळये नासाची आनी तोणया खेळाचे सासायेची ही खबर सतरा गांवांत पावली. लोक होळये नासाक भावार्तान मानूंक लागले. वर्सवर्साक होळये नासाक बोकड्यांच्यो, नाल्लांच्यो मान्तुको येवंक लागल्यो. येत रावल्यो. दर वर्साक चार पांच बोकडे, शेंशंबर नाल्ल. होळी पेटूंक लागली म्हणटकीर कोणय येतालो आनी आपलो सांगणेचो बोकडो तकली मारून उज्यांत उडयतालो. वांगडा धा वीस नाल्ल.

मागीर थंय एक व्हड मातयेचें भाण येयलें. बोकडे, नाल्ल होळयेच्या उज्यांत नीट हुलपावन, भाजून गडे तांची शागोती करताले आनी भाणांत उडयताले. वांगडा भाजिल्ल्या नाल्लांच्यो कातले फोडी. तो होळये नासाचो प्रसाद म्हण गांवाक वांट्टाले. तो प्रसाद घेवंक गांव लोटून येतालो. हातांत चारा पानांचे दोणे घेवन लोक होळये कुणगेंत बसताले. केन्नाकेन्ना मध्यानरात मेरेन बसून रावताले. होळयेचो उजो केन्ना कुशीच्या वडारुखाचेय वयर पावतालो. बोकडे तातूंत रसरसून हुलपताले. नाल्ल लावे कशे फुट्टाले.

ह्या वर्साकय वर्सपद्धतीप्रमाण आदोळशीचो तोणयांमेळ होळये नासाच्या नांवार सात गांव वचून खेळून येयिल्लो. शिरवाड्यावयले नायक गडे तोणये खेळपी आनी देवूळवाड्यावयले गुरव, देवळी व्हाजंत्रां व्हाजोवपी. व्हाजोवप्यांच्या हातांत घुमट, शेमळ, चवंडुकी आनी घोळ. नमीक नमन घालून भायर सरतनाच सगळ्यांक एक जाणविकाय खोलायेन आसली - हो निमणो शिगमो! तरीय ते कसली निर्शेणी, कसलेंच सावट धरिनासतना उमेदीन खेळ्ळे.

ह्या वर्साकच होळये नासाचे सांगणेचे बोकडे येयल्ले. आज कितले बोकडे होळयेच्या उज्यांत पडटले हाची उमळशीक लोकांक लागून आसली. हें निमणें वर्स, निमणी होळी पेट्टली. फाटींफुडें सांगणेचे रावन गेल्ले बोकडे ह्या निमण्या वर्साक पडटले अशें लोकांक दिसतालें.

देवळामळावयल्यान घाण्यातिठ्यार वचचे वाटेर सकल्लेवटेन होळये कुणगी आसली. बांदासरीं वडारुखापोनाक होळयेनासाचो उबो फातर. थंयच इल्ले पयल्यान होळये कुणगेंत होळी पेट्टाली. वडारुखापोनांत नासाच्या फातरासरीं गोमटी कातरून बोकडे व्हरून उज्यांत उडयताले.

गेल्ले तीन दीस शेफ कामील रिबेर आनी पाद्री पावल कुलासूमदीं उलोवणें नासलें. शेफ रिबेरीक पाद्री परत परत धारेर धरतालो आनी ताचो अवमान करतालो. ताका बिजूट, अबरगत म्हणटालो. बीस्म सायबाक, व्हिसरायाक सांगून चाकरेवेल्यान काडून उडोवची धमकी दितालो. पयरय असोच तांचेमदीं बेबनाव उप्राशिल्लो. आदोळशी गांव किरिस्तांव करून उडोवंक चड उशीर जाता म्हण पाद्री शेफीक धपकायतालो. ताची खिटखिट चड जातकीर शेफीन रागानच म्हटलें, "होळयेच्या उज्यांतच पळय हांव तेंचो धर्म लासून उडयतां आनी पुराय गांव बाटून हाडून तुजे मुखार उबो करतां बातिज्म दिवंक."

हाचेर पाद्रीन म्हटलें, "तुजीं पोकीं बातां नाकात. हाडून उबो करतलो तेन्ना पळयतलों हांव तुज्यांत कितलो दम आसा तो." पूण शेफ वोगीच कुशीक कडसलो.

होळी फाल्यांर येतकीर शेफीन दबा देवळ्याक, जाका किरिस्तांव जातकीर आंद्र दिनीज म्हण नांव दिल्लें, ताका आफोवन घेतलो. शेफीचें सांगणें मेळटकीर तो धावनच येयलो. शेफीन ताका म्हटलें, "आमचेर पातेवन आपखोशयेन किरिस्तांव जाल्लो तूं पयलोच किरिस्तांव. तूं आमचो मनीस. तुवें आमकां फाव तेन्ना आधार दिला. आतां तुवें आनीक एक काम करूंक जाय. सामकें गरजेचें, सामकें जिकिरीचें."

"कसलें काम तें व्हड मनशा, सांगच तूं म्हाका."

"हाचेपयलीं तुका गांवकेचें थोडें शेत दिल्लें. आतां हें काम जाल्यार अख्खें एक भाट मेळटलें. रायगाळी बामणान सोडून दिल्लें. तूं बामणवाड्यार बामणांल्या घरांत रावंक वयतलो."

"कसलें काम तरी सांग न्ही गा."

"हो आदोळशी गांव एके रातीक किरिस्तांव करून उडोवंक आमकां तुजो आधार जाय."

दबा - आंद्रू - सामकोच भुरकुटलो. "बरे भशेन, देवमनशा. करून उडोवपच तेंकां किरिस्तांव."

शेफ ताचेसरीं कांय वेळ रोखून पळयत रावलो. मगेर ताणें म्हटलें, "तुवें एक काम करूंक जाय, खंयच्यानय एक बोकड्यायेदें काळें गाये वासूर हाडचें. तें वडापोनांत काळखांत गोमटी कातरून होळयेच्या उज्यांत उडोवचें. तेची तकली वडापोनांत पडिल्ली आसूंक जाय. मागीर कितें करचें तें हांव पळयतां. तुजें नांव मात कोण्णाक कळचें ना."

आंद्रून कच् करून आंग काडलें. "वायट काम गा तें. मोटें पातक. भोगसणी ना तेका."

"तुवें करूंक जाय तें. म्हजे पासत. किरिस्तांव धर्मा पासत."

''तूं म्हजी गोमटी मार. खतखतत्या तेलांत उडय, पूण हें काम सांगूं नाका.''

''काम जालें ना तर तुजी गोमटीय मारूंक फाटीं सरचों ना हांव. बामणांचें भाट तर तुका मेळचेंच ना, आनी आदीं दिल्लेंय काडून घेतले.''

दबान थरथरत्या आवाजान म्हटलें, ''हांव किरिस्तांव. म्हाका गांवकार लागीं घेवचे नात.''

''तुजो भाव जोगी देवळी, तो अजून किरिस्तांव जाल्लो ना. तेका मुखार काड नातर दोगांयकय गांव आसचो ना. उज्यांत वासूर पडलें की म्हाका येवन सांग. मगेर तूं आदोळशीचो राया.''

दबा - आंद्रू दिनीज ओगी उबो रावलो. गोठेल्ले नदरेन तो शेफीक पळयतालो. कांय वेळान ताणें तकली हालयल्लेवरी केली. शेफीन थंयच्या एका चाकरदाराक आफोवन भितरल्यान कुडवभर मोटे मके हाडूंक लायले. ते ताणें एका वस्त्राकुडक्याक बांदून दबाल्या हातांत दिले. दबा ते घेवन आपल्या घरावटेन चलूंक लागलो. पावलां मेल्लेवरी ल्हवल्हव पडटालीं, मदींच घुस्पतालीं. पांय एकदम गळून पडिल्लेवरी दिसलें ताका. वाटेर एक अर्द जळिल्लोसो रूख पडिल्लो आसलो. ताच्या कांडार तो कांय वेळ बसलो. कितें करचें, कितें सांगचें, कांयच सुचनासलें.

तो उठलो. मक्याची पोटली तकलेर दवरून घेतली. पोटलेच्या वस्त्राक बोतो जाल्लो काय बांदप सारकें जावंक नासलें, एकेक मोटो मको गळून पडटालो. मानेवयल्यान फाटीर आनी मगेर सकल पडटालो. पूण दबाक सुद्द नासली. तो घरा पावसर तिनसांज जाल्ली. तो घरा वचनासतना भावासरीं, जोगीसरीं गेलो.

जोगी तागेलो धाकलो भाव. दबा किरिस्तांव जातकीर दबान घरांत रावचें काय जोगीत घरांत रावचें असो प्रस्न उप्रासलो. दोगूय एका घरांत तर रावंक तांकनासले. दबा किरिस्तांव जावन दारांत उबो रावतकीर जोगीन बिटकी कवळ्ळी. चार गाडगे, मडक्यो बांदून तो बायलेक घेवन कांसाराले खोंपींत वचून रावलो. लग्नाक चार वर्सां जाल्लीं, पूण ताका भुरगीं नासलीं.

शंकर कांसार स सात म्हयने हांगा रावन कांकणां करतालो. उरिल्ले पांच स म्हयने कांकणां विकत गांवागांवांनी भोंवतालो. आतांय कार्तिकांत तो.गेल्लो. खोंप रितीच आसली. तातूंत जोगी तात्पुरतो येवन राविल्लो. दबा तिनसांज कात्रेर कांसाराले खोंपी मुखार येवन उबो रावलो आनी ताणें भावाक उलो मारलो, ''जोगी म्हज्या भावा, भायर यो रे मात्सो. तूं म्हजो धाकलो भाव. पूण व्हडल्या भावाच्यान तुजे खोंपींत रिगूंक जायना. कसले भोगणार रे हे !''

जोगीन भायर येत म्हटलें, ''कसल्या भोगाक रडटा दादो? देड दोन खंडयेच्या शेताक लागून तुवें जात धर्म विकलो.''

दबा ताचे सट्करून तापलो. ''जातीचें उलोवं नाका. पाड पडिल्ली कसली जात ती, दिसाचो बापूय नाशिल्ली आनी रातची आवय नाशिल्ली? असली जात हांव छप्पन्न फावट काडून उडयन. आमकां कोण एकलो चेडूं दिवंक तयार नासलो. गोंया भायर वचून हाडल्यांत हीं अश्टवांकडां. कोण हुंगून चवचो नासलो म्हण आमच्या गळ्यांत पडल्यांत. धर्माच्यो खबरी सांगता तूं? फाल्यां तुंवूय सुको उरतलो म्हण समजूं नाका. ते गोमटी कापून किरिस्तांव करतले तुका.''

जोगी भावालो हो विचित्र अवतार पळोवन मात्सो थंड पडलो. ''किते जालां? कित्याक येयल्लो दादो?''

थंय भायर एक माट्टीचें खोड पडिल्लें आसलें ताचेर दबा बसलो. पुरो जाल्लेवरी. ''बस जोगी, सांगतां तुका. मात्सो भावासरीं बस.''

जोगी कुशीक खोडाच्या दुसऱ्या पोंतार बसलो. कांसाराली ही खोंप सामकी कुशीक आसली. खोंपींत जोगीली बायल, भायर दोगय भाव हांचे बगर लागीं जितो जीव नासलो. दबान ल्हवच सांगलें, ''भावा, मोटें धर्मसंकस्ट उबें केलां त्या चांडाळ शेफीन. आमकां दोगांकय मेळून होळयेच्या उज्यांत काळे गाये वासूर तकली मारून उडय म्हण सांगलां. ना तर शेत घरदार काडून घेवन आदोळशीच्यान धांवडायतले म्हटलां. राग येयल्यार गोमटीय कातरतले म्हटलां. गांवाक खंय गाये मांस खावोवचें आनी गांव बाटोवचो, दुसऱ्या दिसा इगर्जेंत व्हरून बातिज्म दिवचो. आमचें नांव कोण्णाक कळचें ना. काळखांतच करचें सगळें. वडामुळांत तकली पडूंक जाय.''

जोगी थीर आयकतालो. हें आयकोन थाऱ्यार येवंक ताका बरोच वेळ लागलो. तो सट्करून बशिल्लेकडच्यान उठलो. ताणें रागान घुसमटिल्ल्या आवाजान आवाज दामून घेतच म्हटलें, ''खंयच्या तोंडान सांगता तूं हें? तूंच कर तीं कर्मां. तूंच खा तेंचो पोटलो. म्हाका तरी मर्दी घेवं नाका. भोगचें पडटलें तें फाल्यां.''

दबान ल्हान तोंड करून म्हटलें, ''हायें देवाक, धर्माक, गांवाक खूब गाळी घातल्यो सद्दां. पूण हें आतां म्हज्यानय जावचें ना.''

''दादो, तूं तेतूंत पडूं नाका. पातकाची खातोड जातली. सोताकच सोता फोंड काडून पुरून घेवचें पडटलें.''

''बस भावा, बस. हांगा म्हजेसरीं बस. सांगतां तें आयक.''

जोगी परत त्या खोडाच्या पोंतार बसलो. ''जोगी, तेणी आमकां दोगांकय तें बामणांनी सोडून दिल्लें व्हडलें भाट दितां म्हटलां. आमी दोगांयनी बामणवाड्यार वचून एकठांयच रावचें पयलींवरी. मगेर आमची जात लिपतली, पत लिपतली. आमकां बापायचें नांव कोण विचारचोना. संवसाराच्या नांवान कुकूम लायिल्ली आमची आवय आरान आंग धरून, वाचा बसून घरांत पडल्या. तिका आमी उखलून

व्हरून बामणवाड्यार बामणांच्या घरांत घालतले.''

''पूण म्हज्यान तें काम जावचें ना दादो. तुका जाय तर तूं किर्ते कर.''

''तूंच जाय म्हाका आधाराक. हांव किरिस्तांव. म्हाका होळये तिट्यार रीग ना. म्हज्यान होळयेच्या उज्यासरीं वचूंक जायना. तुवेंच करूंक जाय तें काम.''

जोगी एकदम तापलो. ''हांव येयना. म्हज्यान जावचें ना म्हटलें न्ही. आनीक एक उतर उलोवं नाका तूं.''

दबा उठलो. ताणें रागान म्हटलें, ''येवं नाका तूं. तूं पोटणाचो पोटणाचोच जावन राव. पयलीं आवयक घातली जगलोकाखाला, फाल्यां धुवेक घाल. चेडो जाल्यार गोमटी आंवळून मारून उडय. हांव वयतां. ते म्हाका दवरचे नात. भिकेक लायतले. गोमटी मारतले. हांव वयतां आनी असोच गोळ घेतां. धर्मसंकश्ट रे देवा, संकश्टा वेळार म्हाका कोण पावचो ना.'' तो घुस्मटलो, रडतसो वचूंक गेलो.

जोगी कितलो तरी वेळ भायर काळखांत बसून आसलो. बायलेन दोनतीन फावट उले मारले आनी ती हांथरुणार आड पडली. जोगीक काळखांत बशिल्लेकडेन किर्ते म्हण सुचनासलें. भावाविशीं आपलेंपण आसलें, पूण तो जें काम घेवन आयिल्लो तें भयांक्रत आसलें. भावाक वाटोवंक किर्ते तरी करूंक जाय. पूण किर्ते करतलो? मोटो संभ्रम. चिंतून चिंतून मेंदवाचें सुंब जावंक पाविल्लें. बरीच रात जातकीर तो उठलो आनी भितर गेलो. भितर उंडेला दिवो पेट्टालो. बायल कांबरूण घेवन न्हिदिल्ली. पूण गोमटे वयर तकली उकतीच आसली. ताका ती बायलेची केंसाळ कुरूप तकली केन्ना बोकड्याले तकलेवरी दिसली तर केन्ना गायेच्या वासराचे तकलेवरी दिसली. फक्कत एक काळी उकती तकली! ताका वीट आयलो. ताणें बायलेवयल्यान नदर काडून घेतली. पूण सट्करून एक विचार ताचे तकलेंत येयलो. भावान म्हटलां, वडापोनाक काळे गाये वासराची तकली पडिल्ली आसूंक जाय.

तो सरसरीत खोंपी मुखावेली देंवती देंवन घरासरीं गेलो. ल्हवल्हव दारार मारून आनी उले दिवन ताणें दबाक भायर आफयलो. ते दोगय आंगणांत उबे आसले. बियेचें चान्नें रखतालें. पूण दबाल्या आंगणांत एक खड्डेचो आकांताळो रूख आसलो. ताची गच्च सावळी आंगणभर पडिल्ली. दबान आवयक कितले फावट म्हटलें, तो रूख मारुंया म्हण. पूण ती त्या रुखाक कशीच हात लावंक दियनासली. ते काळखी सावळेंत उबो रावन जोगीन दबाक सांगलें, ''दादो, एक माण्णी आसा. तेंकां तकलीच जाय न्ही, उज्यांत किर्ते जळ्ळां आनी किर्ते करपलां कोण पळोवंक वयतलो? सोनू गुरवाल्या गोट्यांत एक काळें वासूर आसा. रात जातकीर तें गोट्यांतल्यान उखलून हाडचें. सितेरी घळीसरीं व्हरून तेची गोमटी मारची. वासूर घळींत मोखून मारचें आनी तकली व्हरून वडापोनांत उडोवची. बुती कशी बांदून व्हरचें आनी वडापोनांतले

झिलींत मोखचें. वांगडाच खऱ्या बोकड्याची एक तकली उखलून हाडची. पातकांतले चुकतले आनी कामय जातलें.''

''वासराचें धड फाल्यां कोणाकय दिस्टी पडल्यार?''

''तें खंय कोले कुत्रीं दवरूंक येयल्यात? एके रातीक फाफसून उडयतलीं झिलींत.''

''तुवेंच नीट करूंक जाय तें. तूंच वयतलो होळयेसरीं.''

''हांव होळयेसरीं मुंडके घेवन गेल्ले फाटल्यान तूं तेंच्या राबित्यार वच दादो. तांकां सांग, तुवें सांगिल्लें तशें काम केलें म्हण. मुंडकें वडापोनाक पडलां म्हण सांग. आमचें नांव सामकें सांगूं नाकात म्हण सांग.''

दबान बरें म्हटलें. जोगीन मुखार सांगलें, ''फाल्यां दोगांनीय मेळून सोनूच्या गोट्यांत वयचें. वासूर तोंड बांदून उखलून हाडचें. वासूर मारचें तें समा न्ही, पूण कितें करतलो? तें पातक तेंच्याच नांवार सोडचें.''

दोगय भाव आपआपल्या घरा गेले. पूण दोगांकय रातभर झेम लागली ना. झेम लागली म्हणटकीर वासराचो बेंऽऽ आवाज कानांत घुंवतालो. ती माण्णी परत परत ते तकलेंत घोळयताले.

दुसऱ्या दिसा काळोख जातकीर चंद्र उदेवचे पयलींच ते सोनूल्या गोट्यावटेन गेले. काळखांत अदमासानच ते वासरासरीं गेले. वासूर गायेले होटयेसरींच गोठिल्लें. ताका दुदाचो, शेणाचोसो वास येतालो. वासराक हात लायतकीर ताणें एक फावट बेंऽऽ केलेंच. पूण तांणी बेगीबेगीन ताचें तोंड बांदलें. इतले मजगती गाय शिंगां वयर करून तांकां मारूंक आयली. पूण ती बांदिल्ली आसली. वासराक उखलून भायर हाडटकीर ती थारनासतना हांबेवंक लागली. पूण सकल होळयें तिठयार व्हाजंत्रां व्हाजतालीं. गायेचो आवाज घडये देवूळवाड्यार पावनासलो. ते वासूर घेवन ते सितेरी घळये घडयेर पावसर तें हांबेवंक आयकोंक येतालें. जोगीन मुंडकें धरून मुखाल्ल्यान ओडलें आनी दबाल्या हातांत कोयती दिवन म्हटलें, ''तूं किरिस्तांव. तुज्या धर्मांत गाय काय देव न्ही. तेका मारूं येता, खावं येता. तूंच तकली मार.'' दबान कोयती उखल्ली आनी दोनय हातांनी धरून बळान मानेर घाय घातलो. मुंडकें तुटून पडलें. तेन्ना लेगीत पयसुल्ल्यान गायेचें हांबेवप आकुळपिकूळ जावन आयकोंक येतालें.

जोगीन वासराचें धड उखलून घळींत शेंवटिलें. मुंडकें फाळ्याक बांदलें. तें घेवन ते झाडा झिलींच्या आडसरांतल्यान चलत होळये तिठ्यावयलो वड लागीं करूंक लागले. हातांत धरिल्ल्या मुंडक्यांतल्यान रगत गळटालें तें पांयांर बीन गळटालें. तांकां सुद्द नासली. काळजांत खपखपो आसलो. सकल वडासरीं वचूंक तो एका वयेंतल्यानच घुसलो. अजून होळी पेटूंक नासली. चंद्रय उदेवंक नासलो. मळबाकडेर

इल्लीं इल्लीं चान्न्याचीं किर्णां वयर सरतालीं. वंय ते वडारूख मेरेन आनीक कांय झिलीझोंपां आसलीं. तातूंतल्यान तो ओणोव घेवन चलत फाटलेवटेन वडारुखापोनाक पावलो. थंय तर आनीक चड काळोख आसलो. आतां ताणें मुंडक्याचो फाडो सोडयलो. ताचे दोनय हात रगतान भरिल्ले. मुंडकें उखलून सट्करून वडाचे उजवे वटेन उडयलें. तें ज्युस्त मुळासरींच नासा फातरासरीं पडलें. मुळार कसलींकसलीं बारीक झाडांझोंपां आसलीं. तातूंत तें मात्शें लिपलें.

जोगी थंय कांय वेळ वोगी उबो रावलो. पयल्यान आशीकुशीक चारपांच तरी बोकडे कोण कोण घेवन उबे आसले. दाळिल्ले होळये भोंवतणीं बरोच लोक एकठांय जाल्लो. अजूनय कोण कोण येतच आसले. जे किरिस्तांव जाल्ले तांतलेय कांय जाण येयल्ले आनी पयस बशिल्ले. तांचें म्हणणें आसलें, आमीय गांवचे गांवकार. होळी सगळ्यांची. आमकांय फाव होळये नासाचो प्रसाद. तांकां कोण नाय म्हणचो नासलो. आतां मिराशी होळी पेटोवंक हातांत चूड घेवन उठलो. होळयेचीं गायनां म्हणत तो होळयेक प्रदक्षिणा घालूंक लागलो. मगेर तोणया मेळाचे गडे, हेर तरणाटेय व्हडाव्हडान गायनां गायत होळये भोंवतणीं नाचूंक लागले. मिराशान होळयेक उजो दिलो. आदीं सुको पतरो, शिरीं पेटूंक लागलीं. पिवळ्या उज्याचो भगभग सुरू जालो. तो भगभग चोंय वाठारार लपलपत उजवाड घालीत पातळ्ळो. तेन्ना मळबार चंद्रय उदेल्लो. जोगी वोगी कुशीक कडसलो. कुशीच्यान येवन लोकांत मेळ्ळो. तेन्ना दबा देवळी सोल्दादांच्या राबित्यार पाविल्लो.

सगळे बंद सुटिल्ले. लोक देहभान विसरून नाचताले. पांच तरी बोकडे वडामुळांत पाविल्ले. सांगणेकार वडा मुळांत तांच्यो गोमट्यो मारून तश्या तश्यो व्हरून उज्यांत उडयताले. वांगडा वीसपंचवीस नाल्ल. मुंडक्यो मात वडामुळांतच पडिल्ल्यो. ह्या गांवाभायल्यानय दोनतीन सांगणेचे बोकडे येयल्ले. कोण येयले, कोणें बोकडे माल्ले, हांचो हिशेबच त्या नाचांत आनी खेळांत चुकिल्लो. ही तर निमणी होळी. तरीय कांय चतुरांनी बोकडे मेजिल्ले आनी म्हणिल्लें, 'अंदू पांच बोकडे पडले होळयेंत.'

चंद्र उदेवंक होळी पेटिल्ली. तो माथ्यार पावंक शागोते भाण तयार जालें. दर घरांतल्यान तीग चौग जण तरी होळये नासाच्या प्रसादाक येयल्ले. हातांत कट्टी, तातूंत चारा पानांचो दोणो. तो शागोते प्रसाद थंयच होळये कुणगेंतच बसून खांवंक जाय आसलो. घरा व्हरूंक फावनासलो. बामण सोडल्यार सगळे नायक, गुरव, देवळी, मिराशी, भोय, मेस्त, कुंबार, तेळू व्हलयेसरीं एकठांय जाल्ले आनी तांणी शागोते प्रसाद घेतिल्लो. जोगी देवळी पुराय वेळ होळयेसरींच गणमणटालो. भाजिल्ले बोकडे उज्यांतल्यान ओडून शागोती बीन करूंकय तो मुखार आसलो.

कट्टी कट्टीभर प्रसाद खावन लोक चोम्याचोम्यांनी आपल्या घरा वचूंक लागिल्ले.

होळये कुणगेंतल्यान शिरवाड्यार वचूंक थंयच्या खेत्री नायकांक सोल्दादांच्या राबित्याचे फाटलेवटेसान वयचें पडटालें. थंय बरींच झाडां झोपां वाडिल्लीं. वयताना तांकां झाडांत कोणतरी हो उंच मनीस उबो आशिल्लो दिसलो. चान्न्यांत मुखाल्ल्यान धवोसो वयल्यान काळें कांबरून घेतिल्लोसो. वांगडाच ल्हवशी शिळवण आयकोंक येयली. दोग तिगांनी एकच फावट विचारलें, "कोण तो, कोण थंय?"

"खायलें मुरे गाये मांस? खायलें मुरे नायकांनो गाये मांस?"

एकल्यान कांचवेन विचारलें, "खंयचें? खंयचें गाये मांस?"

"वडापोनाक गायेचें मुंडकें चोयलें ना? हें कंबरभर उंच गाये वासूर. सोनू गुरवाल्या गोट्यांतली गायच म्हटल्यार जाता. दबा देवळ्यान मान कापली, तेगलो भाव जोगीन तें हाडून होळये उज्यांत उडयलें!"

नायकांचेर सगळोच कलकल. "कितें म्हणटा तूं?"

"बोकड्यां वांगडा गाये वासूर उज्यांत रसरशीत भाजलें. आतां वासूर तुमच्या पोटांत हांबेता." तो उलोवपी खिणांत झाडांनी नाच जालो.

तें आयकोन कांय वेळ सगळे थीर गोठेल्लेवरी उबे रावले. आयुश्यांत केन्ना भोगूंक नाशिल्लो आकांत. विटून सगळ्यांची आंतडी तोंडांत येयल्लेवरी जाताली.

खरें तर शेफ कामील रेबेरीन दबा आनी जोगीचो घातकीपणान गांवा सामकार बळी दिल्लो. ताचे तकलेंत आगळीच माण्णी घोळटाली.

आतां पुराय तीस चाळीस लोकांचो पोंवो होळयेवटेन धांवंक लागलो. थंय पावसांत बांदिल्ली एक वंय आसली. दादल्यांनी, तरणाट्यांनी तांतले खूंट हुमटून हातांत घेतले. हातांत खूंट घेवन धांवतना तांचेर सांवार येयल्लो. जशे ते रागान कुड्डे जाल्ले.

पूण फाटल्यान कांय लोक ओकूंक लागिल्ले. आंतडी ओंकून उडोवची अशी एक हळशीक जाणीव तांच्या गळ्याकडच्यान आंतड्यांमेरेन पावताली आनी धा-पंदरा लोक वॉकवॉक ओकूंक लागिल्ले.

एक उचांबळ चोमो हातांत खूंट घेवन धांवतालो. तो सुद्दी भायर गेल्लो. धांवतना कांय लोक आड्डताले, 'देवा, आमकां नाका जाल्लें खावयलें. आमी भश्टले, होळये नासाक भश्टायलो. आतां सोडचे नात आमी दबा देवळ्याक आनी तेच्या भावाक. जिवानशीं मारतले.'

होळयेसरीं पावतकीर ते मोट्यान आड्डले, "अरे जोगी देवळी आसा रे थंय? अरे राकेसान आमकां गाये मांस खावयलें. सगळे भश्टले. होळये शागोतेचें भाण भश्टायलें. तेका सोडचे नात आमी. गाये मुंडकें पडलां थंय काय पळयात वडा मुळाक!"

पूण जोगी देवळी एक चड पडटा तें बोकड्याचें मुंडकें लिपोवन घेवन केन्नाच धांवन गेल्लो. व्हळयेचो उजो पालोवन इंगळ्यार गोबर धरूंक लागिल्लो. दुगा म्हारान वर्स नेमापरमाणें बोकड्यांच्यो मुंडक्यो चोब्यांत भरिल्ल्यो. चार मुंडक्यो चोब्यांत भरून पांचवी मुंडकी वासराची म्हण कळटकीर ताचो आवरो हुडिल्लो. तो थंयच तकलेर हात मारून घेवन बशिल्लो.

थंयचें वासराचें मुंडकें पळोवन तांचेर सांवार. ते सगळे हातांत दांडे धरून दबा देवळ्याल्या घरावटेन धांवले. खबर पुराय गांवांत खिणांत पातळ्ळी. ते वटेच्यान मिराशी, भोय, मेस्त, गुरव धांवन येयले.

कांय जाणांनी सोनू गुरवाल्या गोट्यांत वचून पळयल्यार थंय वासरूं नासलें. सोनू गुरव तर सांगतालो, सांजचें आपणें गायेवांगडा वासूरय गोट्यांत घातिल्लें म्हण. ताणें दिवो लावन सादयलें. पूण वासूर ना.

कुश्ट नायक आड्डलो, ''वासूर तुमच्या पोटांत आसा आनी सोदतात खंय? घालात उजो तेच्या घराक.''

पुराय लोक रागान झिडपल्लो. दोळ्यांत रगत देंवन येवन कुड्डो जाल्लो. ते दबाल्या घरावटेन धांवले. ''दबा, भायर सर. तुका कातरून आतां तुज्या घराक उजो लावन त्या उज्यांत उडयतात.''

लोकांचो तो बेफाम पोंवो दबान पळयलो आनी तो भियेवन गुळी जावन दाराक खिळी मारून कोनशांत लिपून बसलो. पूण तागेलो पुराय घराबो भितर आड्डून रडटालो. भितर आरान आंग धरून पडिल्ली आवय सगळें आयकोन बेठीच ताळ्यान हूं हूं करताली जावंये, पूण आवाज फुटनासलो.

चोमो परतपरत दबाक भायर येवंक फर्मायतालो. ''दबा, भायर यो, भायर यो दबा. ना तर उजो घालतात घराक. बाय भुरग्यांसयत लासून मरतलो.'' पूण दबाची गुळी जावन कोनशांत पडिल्ली. ''ही पळय, लायतात चूड घराक.''

चोमो ताच्या दारार, वणटीर खोंटी मारतालो. पावळेचीं चुडटां काडून उडयतालो. ''दबा, भायर सर ना तर वासूर लाशिल्लेवरी लासून मारतात तुका.''

दबा थरथरत भायर येयलो. ताणें कितें उलोवचे पयलींच कोणें ताचेर दोंडको घातलो. ताणें आवयस्स करून किळांच मारली. ''हायें घालूंक ना रे वासूर होळयेंत. भोगशियात म्हाका.''

''मगेर वडापोना वासराचें मुंडकें खंयचें? सोनूलें वासूर खंय?'' परत ताचेर दांडो पडलो.

''म्हाका खबर ना. खरेंच, म्हाका खबर ना. जोगीक विचारात. म्हाका कांय खबर ना.''

ताचेर आनीक दांडे पडूंक लागले. तो व्हडाव्हडान आड्डतालो. चाचरत कितें सांगूंक सोदतालो. पूण चोमो कुड्डो आनी भयरो जाल्लो. घोवाक मारतात तें पळोवन तागेली बायल भायर येयली. बायलेक लोकांनी ओडून भायर हाडली. तिगेल्या आंगावयलीं वस्त्रां ओडलीं, तिका नागडी करून तिची इस्पटा केली. ती सगळ्यांक चुकोवन काळखांत धांवली. तिचे आंगावयले कपडे आंगणांत पडिल्ले आनी चोमो तांचेर नाचतालो. दारांत रावन रडटल्या तिगां भुरग्यांक तांणी भायर ओडून लाकडाचे कुडके कशे आंगणा भायर उडयले. तीं थंय फातराक बीन आपटून रडूंक लागलीं.

दबाचेर दांडे पडतच आसले. तो सामको गळसणिल्लो. चाचरून कितेंतरी सांगूंक सोदतालो. शेफ रिबेर... जोगी... सांतेरी घळ अशें तुटक उलयतालो. पूण शबै घालपी कुड्ड्या चोम्याक कांयच आयकनासलें.

मदींच आनीक एकलो आड्डलो, ''येदोळ बोकडे होळयेच्या उज्यांतल्यान ओडटना म्हाका दुबाव येयल्लो. हो व्हडलो राकेस कसो बोकडो. बोकडो न्हीच तो. सोनुलें स म्हयन्यांचें वासूर तें.''

दांड्यांनी मारून अर्दमेल्लो जाल्ल्या दबाक लोकांनी उखलून घरांत उडयलो. भायल्यान खिळी घातली, घराक चूड लावन उजो लायलो. घराचो शिगम्या तेंपाचो सुको कोलू आनी चुडटां भगभगीत पेटूंक लागलीं. कांय खिणांतच उजो पाडसऱ्यावेल्यान मुगळार पावलो. दबा उरिल्लो जीव एकवठावन आड्डतालो. पूण हातांत चूड घेवन शबै घालपी चोम्याक कांयच आयकोंक येनासलें. ताच्या आंगणांत पुरिल्लो खुरीसय कोणें हुमटून उज्यांत उडयलो.

तेन्नाच लोकांक आनीक एक उगडास जालो, दबाली आंग धरून घरांत पडिल्ली देवळीण आवय घरांतच आसुंये. पूण आतां उशीर जाल्लो. आरान अंदल्ल्या तिच्या ताळ्यांतल्यान तर रडपय भायर पडनासलें.

थंयसान तो पन्नास साठ लोकांचो पिसाट चोमो जोगी देवळ्याक सोदूंक कांसाराले खोंपीर गेलो. खोंप सामकी भणंग उकती आसली. ताका ताटी लेगीत लावंक नासली. भितर जोगी, जोगीली बायल कोणच नासलीं. कोसळिल्ली, कोळशेल्ली, गोबर धरिल्ली कासाराली भट्टी एके कुशीक आसली. थंयच फुटून पडिल्ल्या काकणांची रास आसली. आयलेवटेन पांच स मडक्यो, एक हांथरुणा कवळोआसलो. इतलो व्हडल्यान कलकल चलतालो पूण कुशीच्या एका झाडार एक घुगूम सारक्को रडटालो. चोम्यान म्हटलें, ''ह्या जोगी देवळ्याक गांव ना करतले आमी. गांवांत दिसल्यार पांय कातरतले.'' तांणी दांडे मारून थंयच्यो मडक्यो फोडल्यो. हांथरुणा कवळो भायर हाडून ताका उजो घातलो. कोणें तरी खोंपीक उजो घालूंक चूड वयर केली. कोण एकलो जिवाच्या आकांतान आड्डलो, ''उजो घालूं नाकात खोपीक. खोंप कांसाराली.

न्हू जोगील्या बापायची.''

चोमो आड्डून नाचून थकिल्लो. एक रगताची घुंवळ देंवतकीर जशें तांकां पुरो जाल्लें. दबाली खोंप अजून जळटाली. वांशे फुटिल्लो थाड थाड आवाज येतालो. तातूंत दोन मनीसकुडीचे कोळशे पडिल्ले.

चोमो आतां वोगी देवळामळार येयलो. थंय देवळामळार ते थंड बसले. येदोळ ते एक ओळखदेख नाशिल्लो चोमो जावन नाचताले. आतां चान्र्यांत बशिल्लेकडेन तांकां एकदुसऱ्याचीं तोंडां दिंसूंक लागलीं आनी ते मनशांत येयले. हो कोण तर आमचोच मनीस!

देवळासरीं मसुंड शांतताय आसली. कुशीन आशिल्ल्या भटाल्या घरांतय कसलो तुसभर आवाज नासलो. देवळा भितर भुयारांतसो लामणदिवो पेट्टालो. देवाची मूर्त एक सावळी कशी दिसताली. दिसतालें, हो लामणदिवो पालवतलो आनी ती सावळी नाच् जातली. तो लामणदिवो पालवतकीर त्या काळखांत फकत भुतां नाचूंक लागतलीं. ताका सट्करून उगडास जालो, देवाची, देवळाची मुजत आज सोंपता. कदीमकाळाच्या देवाचो आज निमणो दीस !

सगळे थीर नदरेन देवावटेन पळयताले. ल्हवल्हव एक हुस्कोसो, भिरांतशी काळजांत पातळ्ळी. सगळे सामके मोने जाले. आतां तांकांच कळना जालें, आमी इतलो वेळ दांडे घेवन कित्याक नाचले, कित्याक आमी दबालें घर लासलें! देव देवूळ फाल्यां फुट्टलें ताका काय आमी वांचोवंक शकनात मगेर हें आमी कित्याक केलें? दांडे घेवन सोल्दादांल्या राबित्यार धांवन वयचें सोडून दबाल्या घरार कित्याक धांवन गेले? आमकां दरिद्र बिजुटांक हिन्दू उरले म्हण कितें आनी किरिस्तांव जाले म्हण कितें!

एकएकलो कांय एक उलयनासतना आपआपले वाटेन वचूंक लागलो. वयतनाय एकएकलो चिंततालो, आमी गाये मांस खायलें, आमी घराक उजो घातलो, आमी मनशांक जिवानशीं लासून माल्ले. आतां भोगसणी ना. सगळे कुसूंक लागतले, रसातळाक वयतले. आमच्या हातांनीच आमी फोण खणला.

रातीं गावांत इतली दंगामस्ती जाली, दोगांचीं मडीं पडलीं, पूण एक सोल्दाद आपल्या राबित्यांतल्यान भायर पडलो ना. ते रातभर चलिल्लो अच्छेव आयकताले. ते वयल्यान म्हणटाले, दबाचें -आंद्र्र दिनीजाचें मडें पडल्यार आयतेंच फाव जातलें. शेवटाक तांकां गाये मास खाववयलां तें एका हिन्दूनच - जोगी देवळ्यान.

दुसऱ्या दिसा सकाळींच तो घोडे घेवन, हातांत तरसादी घेवन पुराय गांवांत नाचले. तांणी म्हटलें, 'तुमी दोन मडीं घातल्यांत. किरिस्तांवांचो खुरीस लासला. एका किरिस्तांवाक जिवानशीं मारला. किरिस्तांवाक जिवानशीं मारप म्हटल्यार केदो

व्हडलो गुन्यांव जाणात तुमी? पुर्तुगालसान रायाली फौज येवन तुमच्या घराक उजो घालून तुमकां बांदून व्हरतीत ते.' तांणी पुराय गांवच्या दादल्यांक घरांतल्यान भायर काडून हामडून हाडले. पंदरा सोळा वर्सांवयल्या सगळ्या तरणाट्यांक आनी दादल्यांक.

शिरवाड्यावयल्या नायकांच्या वट्ट सव्वीस घराब्यांत पांच घराबे आदींच बाटिल्ले. तीन घराबे पळोन गेल्ले. गांवांत सोल्दाद घुसल्यात म्हण कळटकीर मुरारी नायक धांवन वचून घरच्यांसयत वयल्या रानांत वचून बशिल्लो. म्हाबळू आनी बाळसू हांचे घराबे साळचे गड्यांजत्रेक गेल्ले. उरिल्ल्या घराब्यांतले सगळे दादले, तरनाटे धरून हाडिल्ले. ते वटेच्यान मिराशी, भोय, मेस्त, गुरव हांकांय धरून हाडिल्ले. कांय जाण जिवाच्या आकांतान सांगताले, आमी रातीं घरांतल्यान भायरच पडले नात म्हण, पूण सोल्दाद आयकनासले. सगळ्यांक सरसकट गुन्यांवकारी धरून हामडून हाडिल्ले. ते तांकां सारक्के गोंय पाटणांत व्हरून बंदखणींत घालची धमकी दिताले. लोक तर बंदखणीक इतले भियेताले, तें तांकां जितें मरण कशें दिसतालें. जितो आसतना फातर लावन घेवप अशें म्हणटाले. बंदखण तांगेल्या चिंतनांतली एक भिरांकूळ गजाल! ताका ते मसण वा मसणू म्हणटाले.

शेफ रिबेर हातांत पालमात्री घेवन ताठ उबो आसलो. सगळ्यांक रागान मांडून पळयतालो. धिमये मेरेन पाविल्ले मोचे, वयर पाटलोण, आंगाक कोट कशें जाड खोमीस. कमरेक रुंद पटो, ताचेर तरसाद. तो असो उंच आसलो. आज तर चडच ताठ उबो रावन लोकांक पळयतालो. म्हन्यानच पाद्री कुलासूय उबो आसलो. पाद्री कुलासू लांब आसलो. पूण ताचें कमर बारीक आसलें. हड्डेंय बशिल्लें. ताचेन तो मुखार बावगोनसो उबो रावतालो. पूण ताची नदर इतली खर आसली, पळोवंक लागल्यार तोपता अशी दिसताली. ताणें हातीकडेन धवो आशिल्लो हळडुव्या रंगाचो व्हडलो झोगळो कोट घातिल्लो. तांणी सगळ्या दादल्यांचे तरनाट्यांचे हात आनी पांय सोल्दादांक सांगून बांदले. दोरयो उण्यो पडटकीर आदींच बाटिल्ल्यांच्या घरा वचून आनीक दोरयो, सरब्यो हाडल्यो. तरसादेच्या तोंकार सोल्दादान ताकां बांदले आनी तांणीय भियेवन बांदून घेतलें. कोणेंय इल्लें मस्तेपण केल्यार शेफ, काब तांचेर पालमात्र्यो ओडटाले. चामडें चडयल्ले ते बारीक बडयेचो मार तर इतलो खर आसतालो, वरभर वळवळचें पडटालें. सगळ्यांक एके हारीन बांदून एक दावणच केली तांची. बांदिल्ले सगळे दादले, तरनाटे एकशें णव आसले. एकेक घरांतले एक दोन तरी दादले आसले. शेफीन तांकां भेस्टायत म्हटलें, ''दोगां मनशांक तुमी लासून मारल्यात. तांतुंतलो एकलो किरिस्तांव. तेच्या दारांत उबो केल्लो खुरीसय उज्यांत उडोवन लासला. मोटो पेरीक गुन्यांव. जल्माची बंदखण फाव जातली तुमकां. जिवीतभर कुसत पडटले. सकाळीं काब रेमेत नोरोन्यीक घोड्यार बसून आनी तोर्प

हाडूंक गोंय पाटणांत धाडला. तो येतकीर तुमकां अशेच बांदून गोंय पाटणांत व्हरतले बंदखणींत उडोवंक. खुरीस लासप तर मोटो गुन्यांव. भोसगणी ना.''

दोगतीग जाण बांदिल्लेकडच्यानच आड्डले, ''आमी कांयच केलें ना. आमी दारां बंद करून घरांत आसले.''

शेफीन पालमात्री उखल्ली. ''चड उलोवं नाकात. आमच्या कायद्यांत ही ख्यास्त पुराय गांवाक. एक दुसऱ्याच्या आधारान जालां हें कर्तूब. गुन्यांव करतल्याक तुमी कित्याक आडायलो ना? तो तुमचो गुन्यांवच. एके रासवळ गांवकेंतले तुमी सगळे लोक. ख्यास्त गांवान भोगूंक जाय.''

सगळे वोगीच रावले. पाद्री पावलू कुलासून म्हटलें, ''शेफ रिबेर, म्हज्यान बीस्म सायबाक सांगून हे सगळे एकठांयच किरिस्तांव जातात जाल्यार भोगसणी दी म्हण मागूं येता.''

शेफीन पाद्रील्या कानांतच म्हटलें, ''तीच तर म्हजी माग्णी न्ही पाद्र?'' मगेर इल्लें व्हडानच म्हटलें, ''व्हिसरायाकय सांगचें पडटलें. तेची अनुमती घेवची पडटली.''

''बीस्म सायबाच्यान व्हिसरायाक ऑर्द करूं येता शेफ रिबेर.''

शेफ ओगीच रावलो. मगेर ताणें लोकांक सांगलें, ''तुमकां भोगसणी दिवचें म्हजेर पावलें. आपल्या बायल भुरग्यांक घेवन तुमी सगळे किरिस्तांव जायशात तर दयावंत बीस्म सायब व्हिसरायाक सांगून तुमकां भोगसणी दितलो.''

ते एक दुसऱ्यासरीं पळोवंक लागले. कांय जाणांलीं तोंडां काळीं पडिल्लीं, जाल्यार कांय जाणांल्या तोंडार आत्तां हांशें फुलतलें अशें दिसतालें. पाद्रीन परतें विचारलें, ''तुमी किरिस्तांव जावंक तयार आसात?''

सगळे जाण तकली सकल घालून वोगी आसले. जाण्टया बेंटू नायकान फडफडिल्ल्या आवाजांत म्हटलें, ''तुमची माग्णी ही गांवाक किरिस्तांव करून उडोवचेली. आदींच सांगचें न्ही? जातासले गोमटी कातरून किरिस्तांव. गाये वासूर कित्याक खावंक घालूंक जाय आसलें?''

शेफीन म्हटलें, ''आदीं तेंच सांगताले आमी वेंटू नायक. एक वर्स जावन गेलें, तेंच सांगताले आमी. पाद्र सिमांव पिरीस तेंच सांगतालो तुमकां. मगेर कित्याक जाले नात किरिस्तांव?''

सगळे वोगीच रावले. काल गाये मास खायतसान ते सगळे गळसणिल्ले आनी मनान अर्द किरिस्तांव जावन गेल्ले. तांकां ह्या अन्याया आड उलोवचो हुरूपच नासलो. बांदिल्लेकडेन ते मेंगे कशे उबे आसले. कांय जाण त्राण गेल्लेवरी बशिल्ले.

सकाळीं सोल्दाद देवूळवाड्यार वयतकीर तेवटेनय कांय जाण धांवन बचून रानांत लिपून बशिल्ले. तातूंत एकलो सुबा तेळूलो पूत गंगू आसलो. गंगू, तागेली

बायल, दोगां भुरगीं एके झिलीआड लिपिल्लीं. आतां वेळ वयर पाविल्लो आनी सकल्ले सिंतेरी घळींतय उजवाड चकचकतालो. तेन्ना सकल्ले घळींतल्यान एक कोलो धांवन गेल्लो गंगून पळयलो. मगेर एक गीद थंय उडटना दिसलो. सकल घळींत कितें तरी काळशें झळकूंक लागलें. कितें हें... कसली कोणाची कूड... गंगू उठलो आनी दावे वटेनची देंवती देंवन ल्हवल्हव घळींत पावलो. थंय काळें वासूर पडिल्लें. पोटाकडच्यान कोल्यान मातशें फोडिल्लें. तकली कोणेंतरी कोयतेन माल्ल्या हें सारकें कळटालें. गंगू तें सोनू गुरवालेंच वासूर म्हण सारकें वळखलो. ताणें त्या वासराक जायते फावट पळयल्लें. तें जातकीर कानांत वारें वचून नाचतालें तेन्ना सोनू ताचे फाटल्यान धरूंक धांवतनाय ताणें पळयल्लें. तें वासूर पळयलें आनी एक खोशयेचें ल्हार जशें ताच्या शिरंतरांतल्यान व्हांवंक लागलें. रातीं ताणें, तागेल्या बापायन, चेड्यान होळये शागोती खायल्ली. जाण्टेलो बापूय वचूं नाका म्हणटा आसतना हातांत बडी घेवन गेल्लो. वयताना म्हणटालो, "भुरगेपणासावन आयज मेरेन एक वर्स चुकोवंक ना आनी ह्या वर्साक कसो चुकोवं !"

गंगूचे खोशयेक पारावार नासलो. तो पिसो जाल्लो. ताणें बायलेक आनी भुरग्यांक वोगी घरा वचात म्हण सांगलें आनी तो देवळावटेन धांवंक लागलो. देवळासरीं कोण नात तें पळोवन तो सोल्दादांच्या राबित्यासरीं गेलो. थंय गांवचे लोक बांदिल्ले आसात काय बेठेच उबे आसात तें ताका कळ्ळें ना. ताणें पयसुल्ल्यानच आड्डून म्हटलें, "मामो, सोनू गुरवालें वासूर होळये उज्यांत घातलें ना. तें सिंतेरी घळींत मरून पडिल्लें आसा. हायें म्हुज्या दोळ्यांनी पळयलां. मामो, तुमी गाये मास खावंक ना. तेची तकलीच कातरून कोणेंतरी वडामुळांत उडयली."

आयकोन सगळे आनंदान हांसूंक लागले आनी कांय खीण हांसतच रावले. ते खोशयेच्या उमाळ्यांत आपणाक हांगा बांदून घातल्यात हेंवूय ते विसरले.

शेफीन गंगूक म्हऱ्यांत आफयलो. तो एक सादो साबळोसो तेवीस चोवीस वर्सांचो तरनाटो आसलो. हालींच पुर्वचाराची तेळूची खुळखुळ्या काठी ताणें हातांत घेतिल्ली. शेफीन ताका म्हऱ्यांत आफयलो आनी ताचे उकते फाटीर रंऽऽव करून पालमात्री शेडायली. ताणें आवयस्स करून फाट वोळ्ळी. शेफ आड्डलो, "खरें सांगता तूं? खरेंच पळयलां तुवें काळें वासूर?"

"हय. हय देवा, हय व्हड मनशा."

"बांदात रे तेचे हातपांय. बांदून लायात दावणेक." सोल्दादान मुखार येवन ताका दावणेक बांदलें. दावणेक बांदतकीर गंगू पुराय थाऱ्यार येयलो. शेफीक दबा देवळ्याचीं फटींगपणां कळ्ळीं. तो घुम्म मोनो जालो. ताका खंत भोगल्या काय राग आयला, कांयच कळनासलें. कितेंय जावं, ताची माण्णी फळाक पाविल्ली.

पूण बांदून घातिल्ले आतां बरोच कलकल करताले. शेफ, सोल्दादां आडय उलयताले. बाबलीन शेफीक म्हटलें, ''नाडपणां करून लोकांक बाटयतात. असल्या धर्माक कितें म्हणचें?'' शेफीन ताचेर पालमात्री शेडायली. मगेर आनीक दोगांतिगांचेर बेठ्योच पालमात्री मारल्यो.

वेळ बरोच वयर चडिल्लो. सगळ्यांक पेजेची तानभूक लागिल्ली. पूण ते उदक लेगीत दिवंक तयार नासले. शेफीन सोल्दादांक एक मडकी भरून उदक हाडूंक लायलें. हात फाटल्यान बांदिल्ले. सोल्दादान मडकी वयर करून एकएकल्यांच्या तोंडांत उदक रकयलें. उदक आंगार रकलें आनी सकल देंवलें.

सांजचे उसरां आनीक सोल्दाद आनी एक तेनेन्त गोंय पाटणांतल्यान येयले. सोल्दाद तांकां रेवाडो करून उबे रावले. शेफीन तेनेन्तीक सलाम केलो. मगेर तेनेन्त, शेफ आनी पाद्री तांच्या घरांत गेले. भितर ल्हवल्हव उतरांनी तांणी कांय वेळ भासाभास केली. कांय वेळान ते भायर येयले. भायर येवन पाद्री कितें तरी उलोवंक सोदतालो. मर्दींच एकल्यान म्हटलें, ''आमी गाये मास खायलें ना. शुद्ध आसात, बाटूंक नात.''

पाद्रीन म्हटलें, ''हें सत्. तुमी गाये मास खायलें ना. पूण एका किरिस्तांवाक आनी तेचे आवयक तुमी लासून माल्ल्या. कसलोच गुन्यांव नासताना. किरिस्तांवांचो जो पवित्र खुरीस तोवूय लासला. चड पेरीक गुन्यांव. तुमकां एकएकल्याक तीस चाळीस वर्सांची बंदखण पडूं येता. कोण एकलो सुटचो ना. सुक्या वांगडा ओलेंय जळटलें. आमचो तेनेन्त जो आतां येयला तो तुमचे पासत बीस्म सायबासरीं, व्हिसरायासरीं वचून येयला. तुमचे पासत ताणें भोगसणी मागल्या. तुमी आपल्या सबंद घराब्यांसयत किरिस्तांव जाशात तर तुमी सुट्ले.''

सगळे कांय वेळ वोगीच रावले. मर्तो नायकान सट्करून म्हटलें, ''जायना हांव किरिस्तांव. हायें कसलो गुन्यांव करूं ना.'' मगेर ताचे फाटल्यान आबू मिराशान म्हटलें, ''हांव घरांतल्यान भायरय सरूंक नासलों. हायें कांयच करूंक ना. कित्याक जातलों हांव किरिस्तांव?''

मगेर कांय वेळ कोणच कांय उलयले नात. वेंटू नायक पळयतालो, आनी कोणय किरिस्तांवपणा आड उलयतात काय म्हण. कोणच मुखार सरनासलो. ताणें आड्डून सगळ्यांक म्हटलें, ''तुमच्यो शिरो कोणें चेंचल्यो? कण्यार कोणें फातर घातलो? सगळे सांगात, जायनात म्हण किरिस्तांव.''

पूण कोण कांयच उलयलो ना. मुखार ताणेंच म्हटलें, ''हांव कसोच जावचों ना किरिस्तांव. तसोच बंदखणींत कुसून मरतलों. पूण किरिस्तांव जावचों ना.''

शेफ मुखार येयलो. ताणें मर्तो नायक, आबू मिराशी आनी वेंटू नायक, तिगांकय दवणींतल्यान सोडयले आनी कुशीक हाडून उबे केले. मगेर शेफीन चवग सोल्दादांक

वेंटूल्या घरासरीं धाडले. ते वयताना तागेल्या कानांत सांगलें, ''वेंटू नायकाल्या घरा तेगेले चौदा सोळा वर्सां पिरायेचे दोग नातू आसात. तेंकां ओडून घेवन येयात.'' ते शिरवाड्यार वेंटू नायकाल्या घरावटेन वचूंक गेले.

वेंटू नायकालो व्हडलो पूत गणा तीन वर्साफाटीं भायर पडिल्लो. तेगेले दोग पूत आसले. वेंटू नायक तांकां भोव मायेन राखतालो. सोल्दाद धांवत वचून तांकां ओडून घेवन येयले. ते रडटाले. रडटकीर सोल्दाद तांचेर बडी मारताले. वेंटू नायकाले सुवातेर दोगय नातवांक ताणें दावणीक बांदले. नातवांनी आकांतान रडत आज्याक म्हटलें, ''आज्या, आमकां बांदून व्हरूंक दिवं नाका. आमचे वांगडाच राव रे तूं!''

वेंटूल्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं आनी दोळे व्हावंक लागले. तो परत येयलो. गळ्यांत कानी घाल म्हण खुट्याक उबो राविल्ल्या बैलावरी दावणीसरीं वोगी उबो रावलो. मर्तो नायक आनी आबू मिराशी सोडिल्ले अजून कुशीक उबे आशिल्ले. शेफीन चौग सोल्दादांक आफयले. म्हटलें, ''ह्या दोगांकय हातांत दोरी धरून गोंय पाटण मेरेन धांवडावन व्हरपाचे. आनी आदोळशी शेफीच्या नांवार तेंकां बंदखणींत उडोवचें. मुखार कितें करूंक जाय तें हांव करतां. ह्या दोगांनीच दबा देवळ्याक, ताचे आवयक लासून माल्ले म्हण कोर्टाक लावन दितां. सगळे नवे पोत्रे किरिस्तांव गवाय.'' मगेर तेणें दौत आनी टाक मागली, बंदखणीच्या मुखेल्याच्या नांवान चीट बरोवंक.

मर्तो आनी आबू वोगी फाटीं येयले आनी आपले सुवातेर उबे रावले. पाद्रीन म्हटलें, ''आतां हांव मानून घेतां, तुमी सगळेजाण आपल्या घरच्यांसयत किरिस्तांव जावंक तयार आसात. तुमी खरे न्ही आनी पवित्र न्ही अशा देवांच्या, तेंच्या रुपड्यांची पुजा करून जायतें पातक जोडलां आनी पातकी जाल्यात. जेजू तुमकां पातकांतल्यान भोगसणी दितलो. तुमकां सोर्गाचीं दारां उकतीं जातलीं. हीं फटीचीं देवळां घडये आमचे सोल्दाद फाल्यांसान मोडूंक लागतले.''

मोटवो काळो पायक गांवकाराक पयसुल्ल्यान पळेल्यार पोटाची लोळयच पयलीं दिस्टीक पडटाली. इल्लो आततायी मनीस. तेणें उसण्या रागानचशें म्हटलें, ''आमचे मदले जायते रानांत वचून लिपून बसल्यात तेंकां कितें करतले तुमी?''

शेफ ओगोच रावलो.

पायकान आनीक परत म्हटलें, ''निळू नायकाक तुमी कित्याक हाडूंक ना हे सुवातेर आमचे वांगडा?''

शेफीन म्हटलें, ''तुज्या उलोवपांतल्यान आमकां गोमलें, तूं बरे मतीचो, नितीचो मनीस न्ही म्हण. तुजे सारको वायट चिंतनांचो मनीस खरें म्हटल्यार किरिस्तांवपणाक उपकारना. तुका आमी सोडून दितात तूं आतां रोखडोच गोंय जुंवो सोडून वयता जाल्यार.''

पायक वोगीच रावलो. शेफीन म्हटलें, ''हांव निळू नायकाक वळखतां. बऱ्या काळजाचो एक भावार्ती मनीस तो. तेका हिन्दू धर्माइतलोच किरिस्तांव धर्माविशींय मोग आसा. एक दीस तो आपूण जावन जेजू आपणायतलो. आनीक तुमकां सांगतां, तो एक घराबो हिन्दू उरलो म्हण आमकां खंत ना.''

पाद्रीन मदींच म्हटलें, ''जातलो तो किरिस्तांव. आमी सांगतले जावंक.''

पूण वेंटू नायक, सुर्या गुरव, लवू नायक बीन चिंतताले, निळू नायकान गांवच्य वीरांक देव घेवन वचूंक आज सांजचे देवळासरीं आफयल्ले. आज तय. तेणी तर आमकां हिंगा बांदून दवरल्यात !

वेळ सकल देंवता तसो निळू नायक थतरवितर जातालो. आज तांणी दिल्ली मुजत सोंपता. गोंय पाटणांतल्यान चड सोल्दाद येयल्ले आसात. फाल्यां घडये ते देवळांत घुसतले. तो घरांतल्यान भायर सरून नायकांल्या घरावटेन येयलो. ताचें घर शिरवाड्यारच पडटालें. पूण बरेंच कुशीक. मुळांत हो शिरवाडो दोंगराच्या मुळसांत इतलो पातळिल्लो, घरां खूबच विसकळ आसलीं. निळू नायक एक घरापसून दुसऱ्या घरासरीं वयतालो. दारांत फक्कत बायलो आनी भुरगीं चिंतेस्त बशिल्लीं. मदींच एकादरी बायल उठून निळूसरीं येताली आनी हुस्क्यान कितें कितें विचारताली. पूण ताका तांचें पडूंक नासलें. एके बायलेक तर ताणें तापोवनच म्हटलें, ''घोव वयता थंय तुमी वचात. वोगीच चिंता कसली करतात?''

मुरारी नायकाचो एक घराबो पळोन वचून रानांत लिपला, दोन घराबे साळ गड्यांजत्रेक गेल्यात म्हण तो जाणा आसलो. ते दोनय घराबे दनपरां परते येयल्ले - एक म्हाबळू नायकालो आनी दुसरो बाळसू नायकालो. निळून आदीं रानाकडेर वचून मुरारीक साद घातलो. ''हांव निळू नायक. मुरारी, यो, भिये नाका. गांवदेवाचें कितें करचें तें चिंतूंक जाय.'' मुरारी कांय वेळान घरच्यांक घेवन रानांतल्यान भायर येयलो. निळू ताका घेवन म्हाबळूल्या घरासरीं गेलो. थंय ताणें बाळसूकय आफयलो.

सगळे इतले भियेल्ले कांचवेल्ले. उलोवप म्हटल्यार फक्कत फुतफुतप जातालें. निळून तांकां सांगलें, कसोय करून रामनाथ आज आदोळशी भायर पावंक जाय. मगेर थंयच्यान गोंया भायर. आमी मात्सो काळोख जातकीर वचून देव उखलून घेवन येवंया. मगेर मुखार देवाक कोण घेवन वयतात ते वचात.

बाळसू वोगी उठलो आनी घरावटेन चलूंक लागलो. ताणें म्हटलें, ''जें गांवाचें जाता तें आमचें. गांवावांगडा देव.''

म्हाबळू आनी मुरारीक देव वांचोवचो अशें दिसतालें. पूण आतां  देवळासरीं

वचूंक तांकां थर्त भिरांत दिसताली. मुरारीन म्हटलें, "देव उखलून हाडून दिल्यार हांव वयतां घेवन. पूण देवाचें व्हरून जें कितें करचें तें म्हज्यान जावचें ना. अनवळखी देशांत हांव रानांत पडिल्लेवरी जातलों. निळू दादो, फक्कत तुज्या उतराक वयतां हांव." तेचें तोंड सामकें हुसक्यान, चिंतेन भरून सामकें काळें पडलें. भिरांतेन स्वास अडचल्लेवरी जावंक लागलो. म्हाबळून मगेर कसलीच उमेद दाखयनासतना जिवार काळ येयल्लेवरी म्हटलें, "हांवय वयतां देवावांगडा. हिंगा रावन किरिस्तांव जावचे परस देवावांगडा रावतलों. देव खंयूय व्हरून बसयतासर निळूदादो, तूं यो आमचे वांगडा."

"पळोवया तें. आतां देवळासरीं कोण येता म्हजेवांगडा?"

ते कशेच देवळासरीं येवंक तयार नासले. म्हणटाले, आमी हातांत गावल्यार आमकांय व्हरून ते बांदून घालतले. निळू नायकान मागीर म्हाबळूल्या सतरा वर्सांच्या चेड्याक हाताक धरून म्हटलें, "तूं यो म्हजे वांगडा. हांव कितें तें पळयतां." म्हाबळू वोगी राबलो. तेगेलो चेडो शंभू निळू नायकाचे फाटल्यान वचूंक गेलो. निळू नायक आदीं वाड्यावयले घरआवयले गुडयेंत गेलो. थंय आशिल्ली तरसाद उखलून तेणें हातांत घेतली.

शेतांतले वाटेन घाण्यातिठ्या वटेच्यान ते देवळांत गेले. देवळांत लामणदिवो संथ पेट्टालो. गर्भगुडीभित्तर मात काळोखच आसलो. तें देवूळच इतलें व्हड आसलें, तेचो उजवाड भायर मेरेन पावनासलो. भट सभामंडपांत एका खांब्यासरीं तेण्यार काळखांतच बशिल्लो. ताचो भाव तिम्मण भट इल्लो पयसल्यान बशिल्लो. दोगय वोगी, धोपरांत मान घालून हुस्क्यान सोशेताले. निळू नायक भितर सरतकीर रायण्ण भटान कच्करून आंग काडलें. बेबुळिल्लेवरी तेणें म्हटलें, "कोण, कोण थंय?"

"भटो, हांव निळू नायक. देवाक व्हरूंक येयलां. देव व्हरून खंयतरी पावयतां. पारय घण नाशिल्ल्या गांवांत."

भट सट्करून उबो रावलो. "ना ना, हांव व्हरूंक दिवचों ना देवाक. देवाक हात घालूंक दिवचों ना." तो एकदम गर्भगुडीवटेन धांवलो. गर्भगुडीचें दार आडोवन उबो रावलो.

निळू नायकान म्हटलें, "भटो, तेणी देवळाक दिल्ली मुजत सोंपली. ते आतां केन्नाय देवळांत घुसतले. मागीर देवय उरचो ना आनी देवूळय."

भटाली मत मेल्लेवरी जाल्ली. तो थाऱ्यार नासलो. तेणें म्हटलें, "वडील नायका, तुमकां तुमचीं शेतांभाटां आसात. म्हाका फक्कत हो देव. देव वगडावन हांव खंय वचूं? धिम्मकुऱ्यांनी वचत सावन हांव देवाले सेवेक आसां. आतां म्हातारपणांत खंय वचूं?"

निळू नायकान भटाक बारीक पळयलो. चिंतून चिंतून कुडीचें सुंब जाल्लेरी तो भागिल्लो आनी धवो पडिल्लो. ताची निळू नायकाक काकुळट दिसली. तो गर्भकुडीचें दार आडोवन तसोच उबो आसलो. निळू नायकान रट्याक धरून तेका कुशीक धुकल्लो. ''वच, ओगी वचून बस थंय.'' भट थंयच भुंयेर बसून रडूंक लागलो. निळू नायकान तरसाद कुशीक दवरून एक फावट देवाक भक्तिभावान नमस्कार केलो. मोन्यानच गाराणें घातलें. खांदार उडोवन हाडिल्लें तांबडें पितांबर ताणें गर्भकुडीभायर पातळायलें. थंडपणान ताणें रामनाथ देवाली मुर्ती रुपण्यासयत हाडून पितांबरार दवरली. लामणदिव्याच्यो वाती काडून सकल पेट्टें दवरून लामणदिवो हाडून भायर दवरलो. तो मात्सोय उचांबळ जावंक नासलो. तसोच तो भायर गेलो. तेणें सडसडीत पावलां मारून आदीं रामनाथाचो परिवार देव पाईकदेव हाडलो. मागीर वचून रुद्रदेवाक हाडलो आनी पितांबरार दवरलो. भट रडतच आसलो. ताचें रडप चोंयवटेन थेंबे थेंबे कशें गळटालें.

भटालो भाव तिम्मण केन्नातरी उठून देवळाभायर गेल्लो. निळू नायक देवाची साटली बांदूंक पितांबर कवळटा थंय आसा, भटाली बायल देवळांत येयली. तिच्या हातांत एक पोटली आसली. ती तिणें हाडून पितांबरार देवासरीं दवरली. म्हटलें, ''देवालें भांगर हें. माघाची जात्रा जातकीर देवाल्या आंगावेलें भांगर काडून व्हरूंक कोण गांवकार येयलो ना. मागीर आमी काडून दवरलें.'' ती बरीच गोरी आनी उंच आसली. भटाच्या मानान तिची पिराय उणीच दिसताली. तिच्या दोळ्यांतच न्ही, पुराय चेहऱ्यार एक चमक आसली. भितरल्या भगभगत्या उजवाडांत ती देवी कशी दिसताली. ती घोवासरीं गेली आनी रडटल्या घोवाक तिणें म्हटलें, ''रडटा कित्याक तूं? देव आसा. आज तूं ह्या देवाची सेवा करता, फाल्यां सांगल्यार तांच्या देवाची सेवा कर.''

निळू नायकाक तिचें हें उलोवणें विचित्रशें दिसलें. तेणें पितांबराची साटली बांदली आनी म्हऱ्यांत उबो आशिल्ल्या शंभूले तकलेर दिली. लामणदिवो बरोच जड आसलो. तो तेणें सोता खांदार घेतलो. हातांत तरसाद घेवन तेणें शंभूक म्हटलें, ''चल या.'' ते चलूंक लागले. मुखार शंभू, फाटल्यान हातांत तरसाद घेवन जाण्टो निळू नायक. भटाल्या रडपाचो आवाज शेतांत देंवतासर फाटल्यान आयकोंक येतालो.

तेवटेन बांदिल्ल्या गांवकारांक, घरच्यांसयत किरिस्तांव जातात म्हण कबलात दितकीर तेंचे पास सोडिल्ले आनी तांकां मेकळे केल्ले. थंय आशिल्ल्या कांय तरनाट्यांक तेंकां जेवंक खावंक हाडून दियात म्हण घरा धाडिल्ले. पूण तेंचे भोंवतणीं सोल्दादांचो रेवाडो तसोच आसलो. फाल्यां सकाळींच तेंकां घरच्यांसयत बातिज्म घेवंक कालापूरचे इगर्जेंत हामुडचे आसले.

दुसऱ्या दिसाक सकाळीं ल्हानव्हड चारशेक तरी लोक तेंच्या राबित्यासरीं एकठांय जाल्लो. सगळो लोक थंय एकठाय जालो आनी कालपसूनचो ताण, हुस्को, भिरांत अचकीत पयस जाल्लेवरी जालीं. भुरगीं हांसूंक खेळूंक लागलीं. बायलोय कलकलत उलोवंक लागल्यो. आतां हो चोमो जत्रेक वयतल्यांवरी दिसूंक लागलो.

वचूंक सुटचे पयलीं पाद्री कुलासूचो शेरमांव जालो. तेणें जेजूक लागून दीस्ट मेळिल्ल्या आंधळ्याची खबर सांगून म्हटलें, ''आयजवेर कुड्डेपणान तुमी खोटो देव पुजताले. आतां तुमकां नवे दोळे, नवी नदर मेळटली. पातकांतल्यान तुमचो सुटावो जावन तुमी सोर्गार पावतले...''

नवे दोळे, नवी नदर म्हणटा तें तेंकां व्हडलेंशें कांय कळ्ळें ना. पूण सगळ्यांत चड खोशी जाली ती पायक गांवकाराले तिरशे बायलेक. तिणें मनांत म्हटलें, हे पाड तिरशे दोळे सारके जातात जाल्यार हांव सतरा फावट किरिस्तांव जायन !

खुंटकार सोळंखे केन्नाच गांवचे राटावळींत पडनासले. ते भायले उपरे म्हणच जियेताले. वर्साक गांवकेची जमीन पावणेर घेवन ते रोयताले. पूण आतां गांवकी विसकटिल्ली. गेल्ल्या वर्साक पावणी जाली ना. बरीच जमीन कापितांवान नव्या किरिस्तांवांक दिवंक ताब्यांत घेतिल्ली. हाचे मुखार गांवकी परत बसली तरीय पावणेर जमन्यो नव्या किरिस्तांवांकच मेळच्यो आसल्यो. एके रातीक गांव किरिस्तांव जातकीर तांचो आवरो हुडलो. आमची आतां हिंगा धडगत ना. आतां खंय तरी मुखाल्ल्या पेण्यार वचूंक जाय.

ती एक बरी खेत्री जातच आसुंये. गंवा रंगाचे अशे उंच धिप्पाड, घट हात धिमये मेरेन पाविल्ले. गेल्ल्या धा वर्सां फाटींमेरेन ते कमरेक तलवार लावन भोंवताले. गोंय पाटणांत वयतनाय तलवार लावन वयताले. मागीर पुर्तुगेज सरकारान तें बंद केल्लें. ते आनीक एका कामाक फिशाल आसले, रानांतल्यान असणी लाकूड हाडून गाड्यांक चाकां घडयताले. तीं मागीर लागींच्या गांवांनी नातर व्हरून गोंय पाटणांत विकताले. तांणी हांगा येतकीर नायकांक खेत्री म्हण मानून घेवन तांचे वांगडा सोयरगतीचो वेव्हार केल्लो. गोंय पाटणांतय तांचे सोयरे आसले. थंय ते यो वच करताले.

कित्याक नकळ, शेफ रिबेरीन बाटाबाटीचे बाबतींत तांचेसरीं लक्षच दिवंक नासलें. तांचीं घरांय इल्लीं कुशीक दोंगराच्या आंगांतशीं. देवळामळ जालें की तळय. मगेर उंच सखल भुंयेचेर गच्च जिपूड. ताचे पयल्यान मास्तीमळ, मगेर बरींच भितर तांचीं घरां. देवळामुखार उबे रावल्यार मास्तीमळ, थंयचे फातर दिस्टी पडटाले. पूण तांचीं घरां दिस्टीक पडनासलीं.

एक दीस रातचो तांच्या घरावटेच्यान ढोल व्हाजिल्ल्याचो आनी शिंग फुंकिल्ल्याचो आवाज सारक्को येतालो. तो आवाज शेफीक आनी पाद्री कुलासूक अस्वस्थ करतालो. पाद्रीन विचारलें, ''शेफ, हिन्दूंनी गांवांत कसलेंच देवाकाम करूंक फावना हो कायदो तेंकां लागू जायना?''

''ते गोंय जुंव्यार रावतात म्हणजे तेणी तो कायदो पाळूंक जाय.''

''मगेर रातचीं हीं व्हाजंत्रां कित्याक व्हाजतात? थंय तेंचें देऊळबीन आसा?''

''ना. हो कसलो तरी घरगुती उत्सव. हांव फाल्यां तेंकां आफोवन हाडून शिटकायतां.''

''तेंकां किरिस्तांव करूंक नज शेफ?''

प्रस्नाक कुशीन सारत शेफीन म्हटलें, ''जाणा पाद्र, तेंचेमदीं सतीची चाल आसा. बायलो घावाले सारयेच्या उज्यार सोताक लासून घेतात.''

''तेंकां उज्यांत धुकलतात खंय न्ही?''

''तशेंय जाता केन्ना केन्ना. आतां व्हिसरायान तेचेर बंदी घातल्या. हांव येतसान एकय सतीचें प्रकरण जालें ना. हांव वाटच पळयतालों. जाल्लें जाल्यार तेंकां धरून हाडून कचाट्यांत सांपडावं येतालें. फाटीं जाणां पाद्र, मर्तो नायकाली धूव गुणाय आपणाक सती वचूंक लायतात म्हण पळोन येयली. मर्त्यान तेका पाद्र सिमांवासरी हाडली. तेणें बातिज्म दिवन ताका कोवेंतांत पावयलां.''

पाद्री कुलासू वोगीच रावलो. कांय वेळान ताणें म्हटलें, ''तेंकां फाल्यां आफोवन हाडून विचारूंक जाय. हें राज्य किरिस्तांवांलें, तुमचें कांयच चलूंक जायना.''

शेफीन दुसऱ्या दिसाक दोन सोल्दाद थंय धाडले. दादल्यांक सगळ्यांक आफयल्यात म्हण सांग म्हटलें. सोल्दाद तांच्या घरासरीं पावतकीर चार घरांतले दादले, बायलो सोल्दादां मुखार एकठांय जाल्यो. एकलो तो आडदांड पाखलो सोल्दाद आसलो. धा बारा वर्सां गोंयांत आसलो आनी कोंकणीय बरी उलोवंक शिकिल्लो. तो बेठोच बायलो उब्यो आसात थंय गेलो. बायलो एकदम फाटीं सल्ल्यो. त्या सोल्दादान तांकां विचारलें, ''तुमकां घोवाल्या उज्यार लासून मारतात? आमकां सांगात. आमी कायदो केला तेचे आड.'' तो थंय बायलांसरींच उबो रावलो. बायलो घरांत गेल्यो. दादलेय एकदक घरांत धांवले. खुंटयेक हुमकळावन दवरिल्ले तरसादेचे पटे तांणी काडले आनी कंमरेक बांदले. तरसादी कमरेक बांदून ते भायर येवन ताचेसरीं उबे रावले. तो दुसरो देशी सोल्दाद भिवन गेलो. तोा पाखलोय भियेल्लो आसुंये. तो वोगी येवन देशी शिपायाफाटल्यान उबो रावलो. दोगांलेय कमरेक तरसादी आसल्यो. पूण तरसादेक हात घालचो धीर तांकां नासलो. देशी सोल्दादान चाचरलेशें करून सांगलें, ''रातीं तुमी रातभर वाजंत्रां वाजयताले. किरिस्तांवांल्या राज्यांत हिन्दूंनी

वाजंत्रां वाजोवंक फावनात. तुमकां शेफीन आमच्या राबित्यार आफयल्यात. रोखड्या रोखडे.''

तातूंत एकलो जाण्टो सोळंखे आसलो. पुराय पिकिल्लीं व्हडलीं मिशां, कानासरीं पिकिल्ले केंस, कानांत भिकबाळी, तकलेर पगडी, आंगाक खोमीस, धिमये मेरेन पाविल्ले चोळणे. कमरेक तरसाद, खूब सोबीत पूण पळयल्यार तितलीच भिरांतय दिस. ताणें म्हटलें, ''तुज्या सरदाराक सांग, आमी पुत्रजल्माचो सुवाळो मनयताले. रोखड्या रोखडे आफोवंक ना तर येवन बांदून व्हरूंक आमी आदोळशीचे गांवकार न्ही. आमचेय कमरेक तरसादी आसात. आमी आमकां फावता तेन्ना येतात म्हण सांग.''

सोल्दाद वोगी येयले. तांणी पुराय गजाल शेफीक सांगली. शेफ दुसऱ्या दिसा बारा सोल्दाद आनी दोन काबांक घेवन तांचेसरीं गेलो. तांकां येतात ते पळोवन ते सोळंखे तशेच कमरेक तरसादी बांदून ओळीन भायर येवन उबे रावले. वोग्गी.

शेफीन विचारलें, ''तुमी आमचे वांगडा तरसादेन झूज खेळूंक सोदतात?''

''ना. हो आमचो खेत्रियांचो भेस. मरतना तोच आंगार आसचो अशें आमकां दिसता. आमचे दादले भुरगे जल्माक येतकीर तेंचे कुशीक आमी तरसाद दवरतात. लग्नाक व्हंकल हाडूंक वयतना ती न्हवऱ्याले कमरेक आसता. आनी मसुंडेर व्हरतनाय ती बांदतात कमरेक.''

''आतां म्हज्या सोल्दादांनी तुमचेर तरसादी चलयल्यार तुमी वोगी रावतले?''

कोण कांयच उलयलो ना. कांय वेळान तांच्या मुखेल्यान म्हटलें, ''आमचो धर्म काडून घेवंक कोणय येयल्यार मात आमी उखलतले तरसाद. हंयच्या लोकांवरी गोरवां कशीं हामडून वयचे नात.''

शेफीक शिट् जालें. पालमात्रेचो फटको ताका दिवचो अशें दिसलें. पूण तो वोगीच रावलो. गेल्लीं तीस वर्सां तो पुर्तुगेज तोर्पांत आसलो पूण अशें कमरेक तरसाद लावन केल्लें आव्हान खंयच्याच गांवांत पळोवंक नासलें. सगळी बिजुटांची फौज. कमरेंतल्यान तरसाद काडप ती फक्कत भिवोवंक. आल्बुकेर्कान गोंय घेतना मूरां वांगडा केल्लें झूज हें निमणें. तेचे नंतर गेल्ल्या पन्नास वर्सांत झूज जावंक नासलें. आतां शेफीक दुबाव येयलो. खरेंच झुजांत तरसाद घेवन झुजचें पडल्यार कितें जायत! खरेंच ते तलवार फिरोवंक पाटांगडे आसल्यार आमच्या सोल्दादांचें कितें जायत? आयज तीस वर्सांत हो विचार ताचे तकलेंत येयल्लो. गेल्ल्या तीस वर्सांत एकय फावट ताणें झुजांत तलवार घुंवोवंक नासली. आमचें हंयचें राज्य, आमचो हंयचो धर्म म्हटल्यार फक्कत भेस्टावणी आनी धपकावणी. वागाले गर्जणेनच गोरवांक वागमरी लागिल्लेवरी. शेफीन आनीक चिंतलें, हांचे वांगडा झूज जालें आनी हेवटेचीं तेवटेचीं चार पांच मडीं पडल्यार ताची जापसालदारकी म्हजेर येतली. कोणावांगडा झुजचो

निर्णय म्हज्यान घेवंक येना. ती जापसालदारकी कापितांवाची.

शेफीन संथ पूण गंभीर आवाजांत तेंकां म्हटलें, ''तुमी आत्मघातकीपणान तरसादी घेवन उबे आसात. पूण आमी तुमकां भियेल्यात अशें समजूं नाकात. हांव तोर्पांतलों एक ल्हान अंमलदार. झुजाचो निर्णय घेवचें काम म्हजें न्ही. झुजांत तुमचो एकान एक मनीस मरतलो हेतूंत दुबाव ना. ताचे पयलीं म्हाका वडलांची अनुमती घेवची पडटली. हांव परतों येतलों तुमचेसरीं झुजूंक. ताचे पयलीं तुमी हार मानून घेतल्यार बरींच आसा.''

शेफ फाटीं फिरलो आनी चलूंक लागलो. ताचे फाटल्यान सगळे सोल्दाद. खरें म्हटल्यार शेफ तांचें तें तशें उबें रावप पळोवन भितरल्यान खंयतरी खूब सुखावल्लो. पूण कित्याक तें तेकाच कळनासलें.

तांणी फाटल्यान म्हटलें, ''आमी ह्या गांवचे न्ही. हें आमचें एक पेणें. वोगीच आमचे मदीं पडूं नाकात.''

शेफीन राबित्यार येवन एका काबाक गोंय पाटणांत कापितांवासरीं धाडलो. ताका सोता सोल्दाद घेवन यो म्हण सांग म्हण सांगलें. ताणें हेंवूय सांग म्हण सांगलें, गांवकारांनी व्हडल्या देवळांतल्यान मूर्ती काडून व्हेल्या. आतां तें मोडून इगर्ज उबी करूं येता.

पाद्री कुलासूक ताणें कांय सांगूंक ना. पाद्रीन कितें जालां काय म्हण परत परत विचारतकीर ताणें सांगलें, ''तेंची सगळ्यांची गोमटी मारूंक म्हाका कापितांवाची मान्यताय जाय.''

हेचेर पाद्रीन म्हटलें, ''कापितांवाची मान्यताय कित्याक? तूं तुजें काम कर. हांव सांगतां बीस्म सायबाक. बीस्म सायबापरस कापितांव व्हड काय व्हिसराय?''

सकाळीं चडट्या वोतार कापितांव आदोळशी पावलो. पूण खुंटकार सोळंखे रातचेच गांव सोडून गेल्ले. फाटल्यान उरिल्ले फकत मास्ती मळावयले आठ धा मास्ती फातर आनी चित्रायल्लीं चार घरां. पूण शेफीक पयलेच फावट कोणेंतरी चाळोवन सोडिल्लो.

आतां कापितांव बार्रेतीकडेन काम आसलें तें देवूळ मोडून इगर्ज उबी करचेलें.

दुसऱ्या दिसा पुराय दीसभर कापितांव दियोग बार्रेत गांवांतल्यान भोंवतालो. गांव किरिस्तांव जाल्लो. खंय खंय पांच स घरां उरिल्लीं. पूण ताचो तांकां हुस्को नासलो. किरिस्तांवांल्या गांवांत कितलो तेंप तग धरतले ते जत्रा, परब, सटी, बारसो, लग्न, फळसोबण करिनासतना? किरिस्तांव जायनासतना हुरिल्ले ते एकलो बाळसू

नायक जो गड्यांजत्रेक गेल्लो आनी मगेर वोगी घरांत वचून राविल्लो. दुसरो पुरसो नायक. हो सदासर्वकाळ शेतांत आनी रानांत उरतालो. असोच कुंबरालो गोपाळ मडक्यो घेवन कालापूरा गेल्लो. आनीक दोन तीन घराबे चुकून उरिल्ले किरिस्तांव जावचे. आनीक घराबो उरिल्लो निळू नायकालो. निळू नायक तर देव घेवन गोंयां भायर गेल्लो.

पयलीं एकादरो पुर्तुगीज ओफिशियाल गांवांतल्यान भोंवतना सगळे आपल्या घराभितर वचून लिपून रावताले. पूण आतां कापितांव गांवांतल्यान भोंवड्यो मारतना चडसो लोक घराच्या दारांत तेण्यार वोगी बशिल्ले. बायलोय दाराआडच्यान चयताल्यो. तांकां चडशी उमळशीक नासली आनी भिरांतय आतां दिसनासली. एक फावट वागान चपको मारून सोडून वयतकीर वागाविशीं भिरांत उमळशीक उणी जावची तशें जाल्लें तेंकां. आनी कोणाक खबर, त्तेंकां दिसतालें जावंये, हे लोक आतां आमचे!

मदींमदीं कापितांव दियोग बार्रेत शेफ रिबेरीवांगडा, पाद्री कुलासूवांगडा देऊळ पाडचेविशीं भासाभास करतालो. गेल्ले फावट गुणान सोल्दादांचे पांय कातरिल्ले तेन्ना येयल्लो तेन्ना कापितांव बरोच मोव दिसतालो. पूण हे फावट तो तितलोच उग्र, तापट जाल्लो. फाटलें सगळें विसरून नवो अवतार घेतिल्लोसो,सूड घेवंक उठिल्लोसो.

शेफ रिबेरीक दिसतालें, देऊळ तशेंच बंद दवरून पडून वचूंक दिवचें, पूण कापितांव बार्रेतीक आनी पाद्री कुलासूक देवूळ आतांच पडिल्लें जाय आसलें. व्हिसरायाच्या सरकाराचें धोरण आसलें, इगर्जो बांदतना देवळाची मुस्तायकी उपकारता तितली घेवची आनी उरिल्लो चड खर्च गांवानच करचो. देवळाचें तामण, भांगर, शेत इगर्जेन आपल्या ताब्यांत घेवचें, गांवकेंतली शिल्लक घेवची, लोकांकडल्यान वसुली काडची आनी इगर्ज बांदची. वडील पाद्री बीन किरिस्तांव गांवकारांक फुसलायताले, बऱ्या किरिस्तांवांनी आपली इगर्ज आपणें सोता बांदची म्हण.

सांजचे कापितांवान दोग दोग सोल्दादांक तीन वटेन धाडले. आनी सगळ्यांक सांगूक सांगलें, इगर्ज बांदूक फाल्यां सकाळीं देऊळ मोडटले, जण एका किरिस्तांव दादल्यान हातांत एक तरी आयद घेवन येवचें. घण, पारय, कुदळ, खोरें... कितेंय. सोल्दादांनी तीनय वाड्यांर वचून लोकांक भेसडावन हें सांगलें. येयना जाल्यार कापितांव ख्यास्त भोगयतलो म्हणय सांगलें.

रातचे लोक चोम्याचोम्यांनी उबे रावन उलयताले. पूण देऊळ मोडच्या कामाक वचूंक सगळ्यांचो विरोध आसलो. जें देऊळ पिळग्यान पिळग्यो पुजलें त्याच देवळाचेर कुदळ घालूंक कोणाचेंच मन जायनासलें. बायलोय दादल्यांक वचूं नाकात म्हण सांगताल्यो. शेवटाक सगळेकडेन एकच सूर आयकूंक येवंक लागलो, इगर्ज जावं नातर ना जावं, आमी देवळाच्या एकाय चिऱ्याक हात लावचे नात. आमकां जबरदस्तेन किरिस्तांव केल्यात तशें देवळाचेंय तांणीच पळोवन घेवचें. गांवाची हातपांय बांदून

दावण केल्ली तांणी.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं पयलींचे आनी कापितांवा वांगडा येयल्ले मेळून सगळे चाळीसेक सोल्दाद देवळासरीं एकठांय जाले. ते गांवच्या लोकांची वाट पळयत बरोच वेळ उबे रावले. पूण एकलोय गांवकार थंय येयलो ना. कापितांवाक भारी राग येयलो. थंय राविल्ल्या सोल्दादांकच देवळाचेर झुडोन वचात म्हण सांगूंक तेंचेसरीं जायतीं आयदां कांय नासलीं. तरीय तांणी हेवटेन तेवटेन वचून कांय आयदां हाडलीं. तशे ते फातर, चिरे, मदेर निखळावच्या कामांतय फिशाल नासले. गोंय पाटणांत अशे कांय लोक आसले, तांकां मुजरत व्हरून देवळां मोडच्या कामाक लायताले. तरीय हे सोल्दाद हातांत आशिल्लीं आयदां घेवन भितर वचून गर्भगुडीच पयलीं फोडूंक लागले. एका कुड्ड्या काळाचे धनी, घातमाऱ्या सैतानाचे घण गर्भकुडीर बसूंक लागले. ताचे आवाज गांवांत घुंवंक लागले. क्रूर उग्र आवाज! शतमानां गेल्लीं पूण हो आवाज केन्ना कोणें आयकूंक नासलो. एक देऊळ, एक झर, एक तळय, एक पिंपळ. कितलो सोबीत भावर्थी हो देवाचो संवसार. देवळांत देव आसा काय ना हें केन्ना कोणें चिंतूंकच नासलें. शतमानांच्या भावार्ताचो एक जाग्रत देव जाल्लो. घणाचो आवाज गांवांत घुंवतालो. जण एकल्याल्या कानाच्या पड्ड्यार घण पडटाले. सगळे काचाबूल आनी कासावीस जाताले. जंण एकल्याल्या घरांत कोण तरी मेला. आतां फोंड खणचो काय किरवड बांदची ह्या चिंतनांत जण एकलो खोलखोल रिगत आसा. मस्तकाचेर तर घण बसतच आसात. एके खूब पोन्ने अपरूख घडणेची कवटी फुटत आसा!

हेदोळ सोल्दाद देवळा मुखार एकठांय जाय्रतसान रायण्णा भट येवन देवळाच्या तेण्यार वोगी बशिल्लो. तागेर्ली बायल भुरगीं देवळाकुशीच्या आपल्या घराच्या बागलांत उबीं रावन पळयतालीं. भाव तिमण्ण मुखार पिंपळा पेडार वोगी बशिल्लो. देवळांतली मूर्ती भायर व्हरतसान रायण्णा थाऱ्यार नासलो. पिशांतूर जाल्लेवरी वरांवरां मोन्यांनी बसून रावतालो. गेल्या चार दीस तो जेवंकय नासलो. गेल्ले कांय म्हयने तो लोकांक सद्दां सांगतालो, देवाक, देवळाक हात घातल्यार तांचें निसंतान जातलें, ते आरान धरून पडटले, घण उलटो तांचे तकलेर बसतलो म्हण. पूण आज देव उठून गेल्लो आनी संकस्ट ताचे मानेर बशिल्लें. भाव तर थार मोनेपण कांबरून बशिल्लो. बायल ताका जायतें समजायताली. पूण तांका कांयच समा दिसनासलें. बायल केन्ना म्हणटाली, 'आमी उठून गोकर्ण क्षेत्रांत वचुंया.' पूण तो म्हणटालो, 'ह्याच देवळांत हांव थिमकुऱ्यानी खेळिल्लों. चाळीस वर्सां जालीं, ह्याच देवळांत आयुश्य गेलें. आतां हांवें मरचेंय हांगाच !'

सोल्दाद देवळांत घुसतकीर तो एकदम उठून उबो रावलो. कापितांवा म्हऱ्यांत येत ताणें ताका विनयत म्हटलें, ''हें राज घेतिल्ले राया तुमी. देव आनी देवळां

फोट्टात? देवच आमचो भावार्त आनी तोच आमचें पोट. आमचो जल्म देवाचे पुजेक. म्हजो भावार्त आसलो, देवळांत घुसल्यार देवाची सासाय तुमकां निखळायतली म्हण. पूण कांयच जावचेलें ना. आतां आमच्या पोटाचो प्रस्न. प्रसाद, रुद्र, अभिषेक, मंत्रां आनी यज्ञ सगळें फट. पोटचें खरें. आमच्या पोटाची ती सोय तुमी काडून घेतली."

"भटो, ल्हान मनीस तूं. ल्हान मनशाक पोट भरूंक व्हडले कस्ट पडनात. तूं पयलीं देवळाची चाकरी करतालो, आतां इगर्जेची कर. आतां हांगा व्हडली इगर्ज उबी जातली. ताचे चाकरेक मनीस जाय जातले." कापितांवान सांगलें.

"इगर्जेंत कसलें भटपण करतलों हांव?"

"देवळांत भटपण, इगर्जेंत पाद्रीपण."

"इगर्जेचो पाद्री जावंक जातलें म्हाका?"

"तुका न्ही, तुज्या चेड्याक करुंया पाद्री." पाद्री कुलासू कितेंतरी सांगूंक सोदतालो. कापितांवान ताका शिनाल करून मदींच रावयलो. ताणें मुखार सांगलें, "भटो, तूं बायल भुरग्यांक घेवन किरिस्तांव जा. मगेर तुका आनी तुज्या पुताक इगर्जेंत चाकरी मेळटली. तुज्या पुताक पाद्री करुंया आमी."

भटाच्या तोंडार इल्लें हांशें फुल्लें. मगेर अचकीत कापितांवान भटाक विचारलें, "भटो, देवालें भांगर खंय आसा? कोणासरीं दवल्लेलें तें?"

भटान सट्करून म्हटलें, "ते कलीन देवाचें भांगर देवाचे पोटलेंत उडयलें. सांगल्यार आयकना कैकय."

भटा बायल मुखेर येयली. तिणें म्हटलें, "कित्याक तांकां तांच्या देवाक भांगर घालूंक जावचें ना खंय? आमच्या गरीब देवालें भांगर तांकां जाय खंय? देवाचें देवूळ, शेत पुरचें ना खंय?" सगळे वोगीच रावले.

त्याच दिसा दनपरां कापितांवान गांवकी आफयली. लागींलागीं वर्सान गांवकी परती बसताली. रायगाळीसान केंकरो, मुंगरू शणै, क्रशण शणै जाल्यार शिरवाड्या वयले सगळे बाटिल्ले नायक येयल्ले. घाण्यातिठ्यावयले, देवूळवाड्यावयले, जांकां पयलीं गांवकार वांगड्याचों मान आसलो तेवूय चार जण येयल्ले. आनी अजाप म्हटल्यार, अजून क्रिस्तांव जावंक नासलो तो बाळसू नायकय वांगड म्हण येयल्लो. पयलींचो कुळकरणी बाळा शणै ही बंदड सुरू जातकीर आदोळशी सोडून गोंय पाटणांत गेल्लो आनी थंय एका सावकारासरीं गुमास्त म्हण आसलो. पयलींचो म्हाल गांवकार घना शणै संवसाराक अंतरिल्लो.

कापितांवान तेका पयलोच प्रस्न विचारलो, "इगर्ज बांदच्या कामाक हांवें सगळ्या गांवाक आफयल्लें. कित्याक येवंक नात तुमी?"

वेंटू नायकान रागानच म्हटलें, "इगर्ज बांदच्या कामाक कशें म्हण्टा तूं घमेस्ता?

इगर्ज बांदूंक देवूळ फोडूंकच जाय कित्याक? जशें देवूळ लोकांच्या भावार्तान उबें जाल्लें तशीच इगर्जय जातली. त्या देवळांत आतां कितें उल्लां? देव तर उठून गेलो. आतां सोरोप म्हण चुट्टी बडयल्ली खबर. आमच्या काळजार मात घाये! आमी बाटले तरीय तो देव आमच्या काळजांत आसा. तुमी आमकां जबरदस्तेन बाटयले, आमचे हातपांय बांदून. आतां देवळाचें तुमीच पळोवन घेवचें. आमकां मानवल्यार घडये आमी फाल्यां·इगर्जेचें आंगार घेवं. तेचे वांगडा आमी आमचोय आदलो देवधर्म पुजतले.''

''म्हणजे तुमी खोशयेन किरिस्तांव जाले नात? तुमी सोताक किरिस्तांव मानिनात?''

एकच फावट कितलेशेच आवाज आयले, ''ना, ना ना !''

पाद्री कुलासूय थंय आशिल्लो. तो तर रागान आकांताचो झिडपलो. ''एक फावट किरिस्तांव जावन किरिस्तांवपण न्हयकारप मोटें पातक आनी मोटो गुन्यांव. तुमचे सारक्या पातकी अधर्मी लोकांक लागूनच राजान गोंयांत इन्क्विझासांव धाडलां. हांव तुमकां सगळ्यांक इन्क्विझासांवाक लावन दितलों. घालूंदी ते तुमकां बंदखणींत आनी मारुंदी लासून तेंच्या 'भावार्ताच्या कर्तुबा' दिसा.''

कापितांवान पाद्रीक थातारून म्हटलें, ''आतां निकतेच जाल्यात ते किरिस्तांव. येतले कांय दिसांतच किरिस्तांवपणाच्या मार्गार. ना तर मागीर आसाच आमी.''

पाद्रीन परतें तांकां सांगलें, ''हेन मुखार किरिस्तांव धर्मा आड तुमचें एक उतर, एक कर्तूब आमी सोसचे नात. येतले इन्क्विझासांवाचे मनीस आनी धरून व्हरून उडयतले 'व्हडल्या घरां'त.''

तसो गांव नव्यानच किरिस्तांव जाल्लो. आतां ते कशेय आसूं, तांचेच लोक जाल्ले. कांय काळ तरी थातारून घेवंक जाय आसलें. कापितांवान म्हटलें, ''तुमी किरिस्तांव गांवकारांनी हेन मुखार गांवचो आनी इगर्जेचो सगळो वेव्हार नीट पळोवंक जाय. तुमची गांवकारी परती घडोवंक जाय. लागींलागीं गांवचे सगळे गांवकार किरिस्तांव जाल्ले आसात. जे गांव सोडून गेल्यात ते आतां वांगड उल्ले नात. आनी जे हिन्दू वांगड आसात तेंकां हेन मुखार गांवकारपणाचो अधिकार मेळचो ना. तेंच्यांनी गांवकेक येवं येता. भासाभास करूं येता. पूण मत दिवचो अधिकार तेंकां ना. हाजरेचे फोलयेर तेंचें नांव सामकें निमणें येतलें.''

सगळे वोगीच रावले. कापितांवान मुखार सांगलें, ''पयलींचो कुळकरणी बाळा शणै आदोळशी सोडून गेला. तेचे सुवातेर मुंगरू ग्रासियेसालो पूत आंद्रू ग्रासियेसाक हांव कुळकरणी नेमतां. तेका हांवें आदींच सांगिल्ले प्रमाण तो गांवकेचीं सगळीं कागदपत्रां घेवन येयला. म्हाल गांवकार कोण हें तुमीच थारावचेलें. पूण म्हजे मतींतलें

एक बरें नांव हांव तुमकां सुचयतां. राणू कयसरो म्हाल गांवकार जावचो अशें म्हाका दिसता.''

दोग तीग नायक एकदम उलोवंक लागले, ''ना, ना, अशें जावचें ना. चार बोडां उल्ल्यांत आतां बामणांचीं. आमी नायक चाळिशेक तरी आसात. ह्या बामणांनी पयलीं खूब तेंप शेक गाजयलो गांवाचेर. आतां चलचें ना तें.''

मुंगरू ग्रासियेसान म्हटलें, ''हय, बामणांनी शेक गाजयलो म्हण इतलीं वर्सां गांवकारी सुरळीत चल्ली. सरकाराक डबी, पटी वेळार पावती जाली. गांवकार, खुंटकार, वांटेली, कुळाचारी सगळे खावन पिवन सुखांत उल्ले. तांचे गांवकेंतले वांटे आनी हक्कअधिकार सुगूर उल्ले. देव देवस्पण नीट केलें.''

''तें आतां सोड. आतां गांवांत बामण, चाड्डे, सुदीर सगळे एक. सगळे किरिस्तांव.''

क्रश्ट ग्रासियस मदींच तापलो. ''कशे एक जातले? कशे एक जातले काय म्हणटां? बामण ते बामण आनी चाड्डे ते चाड्डे. सूर्य चंद्र आसा मेरेन आमी बामणच उरतले. हिन्दू मदीं आमी बामण आसले तर किरिस्तांव जातकीर कित्याक उरचे नात? बामण ही आमची जात आनी पत. आमी पत कोणाक विकिल्ली ना.''

बाबली दियेसान म्हटलें, ''कितेंय आसूं, कोणय आसूं तुमी. आतां ह्या गांवांत आमचें बळगें चड. म्हाल गांवकार नायक आसतलो. वेंटू नायक म्हाल गांवकार जातलो.''

सगळे जाण कांय वेळ वोगीच रावले. पूण कापितांवान म्हटलें, ''मदीं गांवकी फासपल्ली ती नीट बांदून हाडूंक जाय. इगर्ज उबी करचेंय काम आसा. मुखावेलीं दोन वर्सां कठीण आसतलीं. इगर्जेक दुडवांचो आधार मागूंक व्हिसरायासरीं वचूंक जाय. हांव आनी पाद्र कुलासू म्हाल गांवकाराक घेवन व्हिसरायासरीं वयतले. बरप आशिल्लो इल्लो धिराचो मनीस जाय पडटलो.''

वेंटू दियसान चिरक्या आवाजान म्हटलें, ''तेंकाच जावंदी म्हाल गांवकार, केंकरो भाटकाराक.''

राणू केंकऱ्याक - हेनरीक् कयसरेक दिसतालें, आपूण गांवाखातीर केन्नाच कांयच करूंक तांकलो ना. किरिस्तांव जायतसान तर तो मनान चडच सदळ जाल्लो. आतां ह्या विसकटिल्ल्या गांवाखातीर कितें तरी करचें अशें ताका दिसतालें. तो म्हाल गांवकार जावंक आफयतकीर वोगीच रावलो.

कापितांवान म्हटलें, ''देवळा बदला इगर्ज येयली म्हण समजुचें आनी पुर्वाचाराप्रमाण तुमी तुमची गांवकी चलोवची. पुर्तुगालचो राया तुमचे गांवकेमदीं पडचो ना. जी देवळाची आस्पद आसा ती आतां इगर्जेची. गांवकेची रासवळ जमीन

जी आमी ताब्यांत घेतिल्ली ती थोडी नव्या किरिस्तांवांक वांटली. उरिल्ली तुमकां परत मेळची ना. ती विकून तो दुडू इगर्ज बांदूंक दितले.''

सुर्या गुरवान म्हटलें, ''किरिस्तांव जाल्ल्यांक तुमी भाटांबेंसां दितां म्हणिल्लें आदीं. जाय त्या जणांक दिल्यांत तुमी तीं. पूण जे आतां किरिस्तांव जाल्यात आनी जांकां चड जमनी नात तेंकांय थोडीतरी जमीन मेळूंक जाय.''

''भास दितां, आमी सगळो आधार दितले किरिस्तांव जाल्ल्यांक. कोणच किरिस्तांव दुर्बळ उरचो ना. इगर्ज उबी जातकीर गांवची सगळी आस्पद तुमची. जे लोक गांव सोडून गेल्यात तेंच्यो जमनीय आमी ताब्यांत घेतले आनी त्यो दुर्बळांक वांटून दितले.''

देवूळ पाडूंक गांवचो लोक येवंक ना तरीय आज कापितांव खोशी आसलो. गांव किरिस्तांव जाल्लो, गांवकारीचें थाऱ्यार पडिल्लें. फाल्यां इगर्ज बांदतना हेंचो बरो आधार मेळटलो. कापितांवान शेवटाक म्हटलें, ''तुमी सगळे आतां बरे किरिस्तांव. तुमचो भेस आनी तुमचीं नांवां किरिस्तांवां वरी आसूंक जाय. कोणें पुडवें न्हेसूंक फावना आनी पागोटें तकलेक घालूंक फावना.''

लोकांनी पळयलें, पुराय गांवकारांमदीं फक्कत बामण गांवकारांनीच पुडवें न्हेशिल्लें आनी पागोटें घातिल्लें. कापितांवान ताका लागुनच तें म्हणिल्लें. राणू केंकऱ्याचो पुराय भेस तांचो पूर्वचाराचो आसलो. तें ताका मानवंक नासलें. ताणें मुखार म्हटलें, ''नव्या किरिस्तांवांचीं नांवां घेतना तुमी भोव चुको करतात. कोणेंच आपलें पयलींचें हिन्दू घराण्याचें आडनांव लावचें न्हीं. आतां तुमच्या घराब्यांक जें किरिस्तांव नांव दिलां तेंच लावचें. तुमचें निजाचें हिन्दू नांव लायल्यार घडये उपकारता. मात कोणेंच कोणाक हिन्दू आडनांवान आफोवचें न्हीं. किरिस्तांव नांव लिपयतात तुमी. तें समा न्हीं.''

कापितांवाले विनवणेवयल्यान दुसऱ्याच दिसाक कांय खाशेले कामदार गोंय पाटणांतल्यान येयले. ते देवळां पाडच्या कामाक फिशाल आसले. खंयूय देऊळ पाडचें आसल्यार थंयचे कापितांव ह्या चोम्याक आफोवन व्हरताले. तांचेमदले कांय जाण आदीं बारदेसांत देवळां पाडच्या कामाक आसले. तांतूंत एकलो आसलो तिमोती मोरायस. तो आदलो तिमा च्यारी. तो आदोळशी गांवचोच नरसू च्यारीलो पूत. सुरवेक तो बापाय वांगडा चिरपी म्हण काम करतालो. मगेर तो लाकूड कोरावन सोबीत वस्ती करचें काम शिकिल्लो. तेगेल्या मामानच ताका तें काम शिकयल्लें. मगेर मामाल्याच चेडवा वांगडा तो लग्न जाल्लो. गोंयांत नव्यानूच उब्यो जावपी इगर्जांक, कपेलांक जाय त्यो लाकडाच्यो कोरांतिल्ल्यो वस्ती लागताल्यो. जेजूच्यो, मेरी मांयच्यो प्रतिमा, खुरीस, पांयजेलां, दण्डां आनी हेर जायत्यो बारीक मोट्यो

वस्ती. त्या कामाक मेस्तांक जायतो दुडू मेळटालो. एक दीस तिमोती त्याच कामाक म्हण गोंय पाटणांत गेलो. गेलो आनी दुडवांच्या माजार घराक, बायलेक विसल्लो. स स म्हयने तांची खबर घेयना जालो. उपरांत एक कायदो येयलो, हिन्दू मेस्तांनी केल्ल्यो लाकडाच्यो वा हेर खंयच्योच वस्ती इगर्जेन वापरच्यो न्हू म्हूण. पूण तिमाक दुडवाची गोडी लागिल्ली. तें काम चुकचें न्ही म्हण कोणें सांगिल्लें आयकनासतना तो किरिस्तांव जालो. किरिस्तांव जालो आनी ताणें बायलेकय सोडली. एका किरिस्तांव चेडवासरीं तो लग्न जालो. खऱ्यांनी आदोळशी गांवचो किरिस्तांव जाल्लो तो पयलो मनीस. तो किरिस्तांव जावन एक फावट गांवांत येयल्लो तेन्ना गांवच्या लोकांनी ताका खूब पेटलो आनी गांवच्यान ताका भायर धांवडायलो. तेन्ना बापूय आशिल्लो पूण कोणूच ताच्या आधाराक गेलो ना. तेन्ना गेल्लो तो आज स वर्सांनी गांवांत परत येयल्लो. जसो गांवचो सूड घेवंक. ताची काटकी कूड हातांत पारय घेवंक जशी फुरफुरताली. गेल्लीं पंदरा वर्सां तरी पुर्तुगेजांनी तिसवाडी, बारदेस आनी सास्टींत शेंकड्यांनी देवळां मोडीक लायिल्लीं. त्या कामाक फिशाल अशे कांय चोमेच उबे जाल्ले. तें सरकारी काम म्हण तांतूंत मानभौमान आसलो. तांचो झेत आसलो. एक दीस तो एका चोम्यांत आपूण जावन वचून मेळ्ळो. ताचे हात आतां ह्या कामांत इतले निबर जाल्ले, देवळां फोडचें, तांकां उजो घालचें, ताका कांयच दिसनासलें. पूण हें ताचें गांवचें देवूळ आसलें. तरीय ताचे हात फाटीं सरचे नासले.

दुसऱ्या दिसाक पुराय दीसभर सोल्दाद आनी ते कामदार मेळून पन्नाशेक जाण देवूळ फोडटाले. देवळाचे फातर, मदेर मागीर इगर्जेक वापरतले ते सवकासायेन नीट फोडात म्हण पाद्रीन, कापितांवांन तांकां शिटकायल्लें. तो घडघड पुराय गांव आयकतालो. हड्ड्यांत खपखपो घेवन ते वोगी आपल्या घरांत पडून आसले. तांकां दिसतालें, आतां काळखांत म्हारवांचे पोंवे येतले आनी ते उलट्या पांयांनी गांवांत भोंवतले. गांवाक ते बुड्डितले. म्हामारी येतली आनी लोक रगत ओकून मरतले. देवूळच गांवाक राखता. ताचे बुनयादेर गांव उबो आसा. जमनी मेळटात म्हण भुल्लुसल्ले हे. भिवन सोताक दांवणेक बांदून घेतिल्ले. भोगात आतां !

लोकांक चड राग येतालो तो तिमा चारीचो. कुळघातकी, सोताच्या हातान सोताचें देवूळ मोडटा !

दीसभर तांणी देवळाचें वयलें शिखर सकल देंवयलें. वयले गांवठी नळे सकल देंवोवन ते नीट दाळून दवरले. सागवानी वांशे, कोनवांशे, पाटयो, कात्र्यो निखळावन सकल काडल्यो. कांय जाण वण्टिंची वयली सरभोंवतण पारयेन फोडूंक लागले. सांज जावच्याक खांबे, वणटी, आडेच तितले फोडून काडचे उरिल्ले. देवूळ पुराय उकतें जाल्लें. बारा खांब्यार स आडी हारीन दिस्टीक पडटाले. हें अरिस्ट मोटे अकेक

आडे. पयल्या दोन आड्यांक व्हडल्यो व्हडल्यो धा-बारा घांटी लांबताल्यो. देवाविना देवळाविना त्यो घांटी गोळ घेतिल्ल्या कलेवरावरी दिसताल्यो.

सांजचे सगळे सोल्दाद, कामदार देवळा मुखावेले तळयेर वचून न्हावले. तांच्या राबित्यार कळसोभर तरी माडी आदींच हाडून दवरिल्ली आसली. ती ते पोटभर पियेले. तेंचे घुंवळेंतल्या बोबाटान कांय वेळ थंय बरोच गजबज जालो. कापितांवान जाणा जावन ताचेसरीं दुर्लक्ष केलें. तो शेफीक आनी पाद्रींक घेवन भितर वचून बसलो. तांणीय इल्ली इल्ली माडी घेतली. रांदप्यान रांदिल्लें ते जेवले, शीत कडी, मक्यारोटी आनी खारें जेवन ते राबित्यासरींच जंय थंय आड पडले.

तिमा चारी - तिमोती मोरायस स वर्सां आपल्या घरा केन्ना वचूंक नासलो. तो आदीं लग्न जाल्ले बायलेक भुरगें नासलें. घरांत आतां बायल, आवय आनी धाकल्या भावालीं बायल भुरगीं रावतालीं. आतां होवूय पुराय घराबो किरिस्तांव जाल्लो. तिमोतीक न्हिदिल्लेकडेन बायलेची याद येवंक लागली. हेर कसली याद न्ही तर फक्कत कामातुरी याद. ताका दिसलें, आतां तिवूय किरिस्तांव जाल्या. आपलें काम सोपें जातलें. घरांत रिगूंक आडखळ येवची ना. तो गुपचूप उठलो आनी आपल्या घरावटेन वचूंक लागलो. रातचो काळोख आसलो. हातांत उजवाडाकय कांय नासलें. घाण्यातिठ्यार घर. देवूळवाडो जातकीर इल्लें झाडांझोंपांचें चिपूड. मगेर घाण्यातिठो. तो काळखांतल्यान तसोच चलत आपल्या घरसरीं येयलो. तो अजून इल्लो माडयेचे घुंवळेंतूच आसलो. घरांतलो दिवो पालयल्लो आनी सगळी सामसूम आसली. ताणें दारार मारलें. आवाज ना. परत व्हडान दारार मारलें. घरांतल्यान आवयलो सामको थकिल्लोसो आवाज येयलो. ''अरे रामू, भायर कोण दारार मारता मुरे. हे आड रातीक काळखांत खंयचो म्हारू येयला काय?''

कुशीन न्हिदिल्लें कस्तुरें एकदम मांयवटेन सरकलें आनी भियेवन कलकलत ताणें तिचेर हात उडयलो. रामू उठलो. चुलींत अजून बरोच जाळ आसलो. ताणें चुलींतली एक कोलती काडली. ताचे फू फूंक मारली. इंगळे रसरसले आनी ती पेटली. तेच्या उजवाडांत दारांत येवन 'कोण... कोण...?' म्हणत दार काडलें. भायर मनीस हयन्हय वळखूंक ये सारको उजवाड आसलो. तातूंत कोलतेचो तांबडो उजवाड ताच्या तोंडार पडिल्लो. रामू ताका आपलो भाव म्हण वळखलो. तरीय ताका ताची भोव भिरांत दिसली. दनपरां ताणें पळयल्लें, तो देवळार चडून आड पारय घालून वांशे निखळायतालो. ताणें वोगी दार बंद केलें आनी तो भितर येयलो. भितर येवन ताणें कस्तुऱ्याक म्हटलें, ''होनये, भायर तिमा येयला. तुगेलो घोव.''

आयकोन आवयचो जीव इतलो खोल गेलो, तिची वाचाच बसली. कस्तुऱ्याचें हड्डें घांट व्हाजिल्लेवरी धडधडटालें. पूण मनांत एक मोटी उमळशीक लागिल्ली.

कोण केन्नाचो घोव स वर्सांनी दारांत येयला. देवूळ फोडून हांगा येयला! कित्याक येयला तो, कितें सांगतलो तो! लग्न जातकीर दोन वर्सां वांगडा आसतना कितें सांगतालो तो, कितें करतालो...! ताच्या मनांत एक गोंधळ. तरीय मनांत आटापूं जायनासली उमळशीक. ताच्यान आतां हांथरुणार पडून रावंक जायना जालें. तें उठलें आनी दार काडून भायर येयलें. भितरल्यान दवरिल्ली कोलती ताणें वयर केली. त्या काळखांत ताका तो खूब उंच पावळेक तेंकिल्लेवरी दिसलो. ताच्या हातांत एक लांब पारय आसा आनी ती तो भुंयेंत रोमून उबो आसा अशें तिका दिसलें. कोलतेच्या तांबड्या उजवाडांत ताच्या चेहऱ्याक रगत माखलां असो ताका भास जालो. तो सोडून गेलो, दुसरें लग्न जालो पूण कांय दिसूंक नासलें. पूण पापयान आयज तेचेंच देवूळ फोडलां!

तिमोतीन बारीक आवाजांत-म्हटलें, ''तुंवूय आतां किरिस्तांव जालां?''

कस्तुऱ्यान ल्हवूच दार बंद केलें. दार बंद करतां करतां ताणें म्हटलें, ''ना, हांव अजून किरिस्तांव जावंक ना.'' तें भितर गेलें. ताणें मांयक म्हटलें, ''तुगेलो चेडो येयला मुगे भायर.'' आवय ल्हवल्हव थाऱ्यार येंयली. एकदम आपले तांकीभायर आवाज व्हरून ती उलोवंक लागली. ''कित्या येयला तो दारांत? देवूळ मोडून आतां घर फोडूंक येयला खंय? तोंडाक काळें लावन धाडात तेका फाटीं. कस्तुऱ्या, तुका सांगतां ह्या पातक्याक, कुळघातक्याक मुखार उबो करून घेवंनाका तूं. इतल्या वर्सांनी याद जाली आमची? बापूय मेलो तेन्ना खंय आशिल्लो खंय तो? देवूळ मोडटकीर मानगुटेर म्हारू बसला दिसतलो.''

भायर आंगणांत काळखांत उबो आशिल्लो तिमा मोठ्यान आरडलो, ''बोडूक म्हातारे, म्हज्या तोंडाक काळें लाय म्हणटा तूं? म्हजेंय घर तें, म्हजोय वांटो आसा. फाल्यां पुराय आस्पदेचो अर्द वांटो व्हिसरायाक सांगून घेतां पळय. व्हिसरायाचो मनीस हांव. म्हाका सात खून माफ आसात. उजो घालतां घरात. ह्या गांवांक उजो घालतां. ह्या गांवांत एक्कय देवळाचो एक फातर दवरचों ना!'' सोऱ्याचे घुंवळेंत तो आनीक कितें कितें उलयत रावलो.

व्हडान आड्डवप आयकोन घाण्यातिठ्यावेले मेस्त, मिराशी, कुंबार घरांतल्यान भायर सरिल्ले. तेवटेन शिवणाले माडये गादयेर बशिल्लेय कान दिवन आयकताले. देवूळवाड्यारय तो आवाज पावतालो. तिमा गांवांत घुसला म्हणिल्ली खबर त्या काळखांतय ल्हवल्हव गांवांत पातळ्ळी. तिमा गाळी घालीत वयतालो - घरच्यांक, गांवाक, देवाक, देवळाक. मदींच इल्लो इल्लो गजबज जातालो. वाटेर खंय तरी एक किळांचशी, कितेंतरी आपटल्ल्याचो, कोण तरी धांविल्ल्याचो आवाज. देवूळवाड्याचे शिमेर पावसर तो आवाज येयलो आनी मगेर अचकीत बंद जालो. बरोच वेळ गांव शांत थंड आसलो. मगेर बऱ्याच वेळान सिंतेरी घळीवटेन व्हडल्या पांखाचो एक

हाडो पांखां फडफडायत गेल्लो आवाज. टिंकतिवळ्याचें आड्डूवप आयकोंक येयलें.

भग्न देवळाचे कलेवर आंगार घेवन ती रात गेल्ली. कसलोच भार आंगार नासतना उबे आशिल्ले खांबे आनी आडवी पडिल्ली आडी! शेंकड्यांनी वर्सांचो भार आंगावयल्यान देंवनय ती कंबर मोडिल्लेवरी दिसताली! आंगार भार नासतनाची तांची ती आवतिकाय पळोवं नज जाताली. तरीय रातीं सोंसू नज जाल्लो एक भार पडिल्लो आड्यार. रायण्णा भटाचो भाव तिमण्ण भटान रातीं मुखाल्ल्या आड्याक गोळ घेतिल्लो. आड्यावेले घांटीचे हारींत ताचें प्रेत एक घांट जावन हुमकळटालें. ताचीय एक व्हाजणी नाशिल्ली घांट जाल्ली.

तिमण्ण भट संथ मधूर सुरांत काय बरीं मंत्रां म्हणटालो. धुविल्ल्या दाण्यावरी दरएक उतर स्पस्ट, नितळ. कसलीच उचंबळाय ना. विधी सोंपोवचेली घाई ना. पुराय आपले विद्येक आनी देवाक ओंपून घेतिल्लेवरी सामको वृतस्थ. ताचे आवय बापूय भुरगेपणाकच ताका सोडून गेल्ले. ताणें लग्नय करूंक नासलें. गोकर्ण क्षेत्रांत तो भुरगेपणापसून सोमेश्वर भटागेर रावन शिकिल्लो आनी उपरांत तांगेरच रावन भटपण करतालो. सोमेश्वर भट आनी तागेली बायल ताका बापाय आनी आवय समान. तांणीच ताका आपल्या भुरग्यावरीच वाडयल्लो. तांचेविशीं तिमण्णाक खूब आदर. तांचें घरय ताका देवूळ. पूण तिमण्ण जुवान जातकीर सोमेश्वरा बायलेक दुश्कर्मां येवजलीं. ती ताचेकडच्यान आंग चेपून घेवंक लागली. एक दीस ताका चाळोवन घालून ताचेकडच्यान तिणें कुडीचो भोग घेतलो. मनान मोडिल्लो तिमण्ण गोकर्ण सोडून भावासरीं आदोळशी येयलो. भावाल्या घरांत, देवळांत आपणाक आलाशिरो मेळटलो म्हण. आदोळशी येतकीर कोणें कितेंय विचारल्यार तो कांयच सांगनासलो. वोगी बसून रावतालो. ताचें चित् थाऱ्यार नासलें. आनीक कांय दिसांनी घडये तो निवळटा आसलो आनी भावाक देवळांतल्या कामाक आधार दितासलो. पूण आतां ताच्या हिसपान संवसारांतलीं सगळेकडचीं देवळां मोडिल्लीं. देवळां मोडटकीर ताची मंत्रविद्या तरी कोणाक जाय आसली! एका निर्शेवणेच्या किंवाट्यान ताणें बांयेवयलो राजू हाडून देवळाच्या आड्याक गोळ घेतिल्लो.

ते रातीक रायण्णा भटाक आनी तागेले बायलेक रातभर झेम पडूंक नासली. सामकीं तळमळत तीं कुशी परतीत आसलीं. तांकां दिसतालें, तिमण्णय असोच खंय तरी बशिल्लो आसतलो. सगळेच हुमकळटाले. कोणाचो जीव थाऱ्यार नासलो. तिमण्ण खंय पडला, खबर नासलें. सक्काळीं देवळामुखावयल्यान वयतल्या एका गवळ्यान पळोवन बोबाट केलो, 'आड्याक कोणी जीव दिला, धांवात हो!' घरांतलीं सगळीं धांवन येयलीं. तेवटेच्यान जंय थंय पडिल्ले सोल्दादय उठून येयले. ते हुमकळटे कुडीक पळोवन रायण्णा बायलेन एक हुयेल मारली. आयकोन सगळ्यांचें काळीज

बसलें. रायण्णा 'म्हज्या भावा, म्हज्या भावा' म्हणत व्हडाव्हडान रडटालो. सोल्दादांनी बेगोबेग आड्यावयली घांट देंवोवची तशी ताची कूड सकल काडली आनी रायण्णाच्या पांयांसरीं दवरली. ती रायण्णान आनी रायण्णाल्या चेड्यान उखलून घरासरीं व्हेली.

सकाळीं परत तांचें देवूळ फोडचें काम सुरू जालें. वयर चडटाना एकल्या कामदारान म्हटलें, ''हे गोळ घेतिल्ले अवचित्र आडे कितें करचे काय म्हण पाद्रीक विचारूंक जाय. तें काम फाल्यां इगर्जेक घालूंक फावना.''

दुसऱ्या कामदारान म्हटलें, ''कितेंय आसूं, भटाल्या पोरान देवळाचें एक तरी आडें कुसोवंक उडयलें.'' तशेच थंय कापितांव, पाद्रीबीन येयले. पाद्रीलो चेहरो चिंतेस्त दिसतालो. पाद्रीन ल्हवूच-कापितांवाक म्हटलें, ''हांगाच गोळ घेतला ताणें. हे सुवातेर इगर्ज बांदचें समा जातलें अशें दिसना.''

शेफ रिबेरीक पाद्री कुलासूचो मनांतल्यान राग आशिल्लोच. आज ताचें उलोवप आयकून ताका चडच राग येयलो. ताका तिडायचें म्हण ताणें म्हटलें, ''हिन्दू खंयूय आपलें घर बांदचे जाल्यार देवळांत वचून देवालो प्रसाद घेतात. उजवी पाकळी मेळ्ळयारच ते सुवातेर घर बांदतात. आमी आतां हांगा इगर्ज बांदची काय ना तें खंयच्याय देवळांत वचून प्रसाद घेतिल्लो बरो. तेंचो देव केन्ना चुकना म्हणटात.''

पाद्रीन शेफीक एक फावट राग्गान पळयलो. मगेर तो तापलो. ''तूं इगर्जेची आनी किरिस्तांव धर्माची बकच्छाय करता? तूं अधर्मी धर्मआड उलयलो. तेंचें देवस्पण तुवें मागलें. ह्या तुज्या नश्ट कर्तुबाक तुका ख्यास्त फावो. हांव आयजच गोंय पाटणांत वयतां आनी तुका इन्क्विझासांवाक लावन दितां.''

शेफ भियेवन गेलो. उलयलो कितें आनी पावलें खंय. देवा, कसली दुर्बुद्द सुचली म्हाका! ताणें म्हटलें, ''भोगोस पाद्र. बेठीं फकणां केल्लीं हांवें. हांव एक बऱ्या किरिस्तांवावरी भावार्तो किरिस्तांव.''

''तुका भोगसणी ना. तूं एक ल्हान, सकल्ले पतीचो देशी किरिस्तांव. तुमचेसरींच घडूं येतात हीं धर्मआड कर्तुबां. तुमकां पानवळ भोगोवंक जाय.'' तो कुशीन काडून गेलो. शेफ आतां कापितांवासरीं गेलो. ''सिन्योर, हायें कितलें काम केलां हो गांव किरिस्तांव जावचो म्हण. एका वर्सांत पुराय गांव किरिस्तांव जालो. उलोवप इल्लें फाल्स गेलें म्हण पाद्र म्हाका इन्क्विझासांवासरीं दिवंक सोदता. म्हजो बापूय तिमोजा वांगडा होनावरसान येयल्लो. गोंय घेतना आल्बुकेर्कावांगडा झुजांत तेणें वांटो घेतिल्लो.''

कापितांव जेजुयटांचें बळगें जाणा आसलो. तांची झोंपय सरळ रायाकडेन. गोंयच्या सगळ्या शेफ, कापितांवान आनी व्हिसरायान किरिस्तांव धर्म वाडोवंक

तांका आधार दिवंक जाय ही रायाली आज्ञा. तांणी कागाळ केल्यार धडगत ना. जेजुयटांचे जायते नमुने कापितांव दियोग बार्रेतीन गोंय पाटणांत पळयल्ले. बरींबरीं घरां घेवन सेवेक गुलाम बायलां दवरून मौजमस्तेचें जिवीत जियेवपी जेजुयट पाद्रीय ताणें पळयल्ले आनी फकीर कशे पांयांत व्हाणो लेगीत नासतना गांवागांवांनी भोंवन जेजूचें शिकप लोकांमेरेन पावोवपी जेजुयट पाद्रीय ताणें पळयल्ले. जेजूचो मूळ दया, माया, क्षमा, करुणेचो धर्म आनी गोंयच्या जेजुयटांचो जबरदस्तेचो धर्म हांचेमदीं भितरल्या आंगान एक गुपीत झगडेंच चलिल्लें. ते वयर मात केन्ना सरनासले. कारण इन्क्विझासांवाची दहशत आनी भिरांत इतली खर आसली, ते भितरले भितर दामून पडिल्ले. इन्क्विझासांव न्हय जाल्यार तो धर्म चर्चा विमर्शा हांचे अग्नीपरिक्षेंतल्यान सुल्लाखून भायर पडटासलो आनी चड जून, प्रगल्भ जातासलो. आपखोशयेन लोक तो आपणायतासले. गोंयची शीम हुपूनय तो वयतासलो. हें ज्या लोकांक कळटालें तांकां उलोवची धिटाय नासली. ते तांचेपसून चार पावलां पयसच रावताले. फक्कत तांकां जाय तेन्ना आधार दिवप आनी हाताखालच्या शेफीक बीन आधार दिवंक सांगप. आज शेफ रिबेर ताच्या कचाट्यांत गाविल्लो. ताका वांचोवचेंशें कापितांवाक दिसतालें. तो पाद्रीसरीं गेलो आनी ताणें सांगलें, ''पाद्र, हांव सोता जावं शेफ रिबेर जावं, तूं फर्मायता तेन्ना आधाराक धांवन येतले. किरिस्तांव धर्म वाडोवचो हें पुर्तुगालच्या रायालें काम. म्हणटकीर तुमचें आमचें सगळ्यांचें काम. शेफ रिबेर तें भोव फिशालकायेन करीत आसा. पयर एकाच दोरान बांदून ताणें चारशें बावीस लोक बातिज्म घेवंक हाडिल्लो. मोटें बरें काम केलां ताणें. म्हण हे चुकीक भोगसणी मेळूंक जाय तेका.''

पाद्री कुलासू वोगीच रावलो. कांय वेळान ताणें म्हटलें, ''म्हजेपुरतो तरी हांव तेच्या गुन्यांवांक भोगसणी दिवंचो ना. तेका आज इन्क्विझासांवाक लावन दिवचो काय ना हाचो निर्णय हांव मुखार धुकलीन. पूण मुखार केन्ना तेका लावन दिवचो ना हें मात उतर म्हज्यान दिवंक जावचें ना.''

कापितांव वोगीच रावलो. ताणें मनांत म्हटलें, शेफ रिबेरीक हंयच्यान बेगीन हालोवंक जाय.

कापितांव गोंय पाटणांत परत वचचे तयारेनच देवळासरीं येयल्लो. घोड्यार दांग मारचे पयलीं ताणें पाद्रीक सांगलें, ''पाद्र, इगर्जेची सुवात आनी तेचो आंवाठ तुमी थारयात. आदीं बीस्म सायबाकडच्यान आदोळशी गांवाक इगर्जेची मान्यताय घेवची पडटली. तूं एक दीस म्हाल गांवकाराक घेवन गोंय पाटणांत यो. तेका घेवन आमी

बीस्म सायबासरीं आनी मगेर व्हिसरायासरीं या. गांवकारान इगर्ज मागूंक जाय. म्हणचे व्हिसरायाचो बरो आधार मेळटलो दुडवांचो. गांवकारांकडच्यान चड दुडू मेळतसो दिसना. गांव गरीबच इल्लो. तरीय तेंचेकडच्यान हेर स्रमाचीं कामां करून घेवंक जाय. इंजनेर, मेस्त गोंय पाटणांतल्यान येतलेच. तरीय इगर्जेचें काम सुरू जावंक एक वर्स तरी वयतलें.''

''जाता तितले बेगीन सुरू जावंक जाय.''

''दुडवांचो प्रस्न आसा पाद्र.''

''गांवकेची आनी देवळाची जमीन विकची थोडी.''

''देवळाची जमीन विकूंक मेळची ना. ती आतां इगर्जेच्या नांवार जातली. एक दीस महसूल अधिकारी येतले आनी ती इगर्जेच्या नांवार करतले. तेचेरूच मागीर इगर्जेचो खर्च चलोवचो पडटलो. रायाले आज्ञेप्रमाण गोंय जुंव्यावेल्यो गांवकी तशोच चालू उरतल्यो. गेल्ल्या वर्साक म्हाल गांवकाराकडच्यान बरीच गांवकेची जमीन जबरदस्तेन काडून घेतिल्ली. बरोवन घेतना ती किरिस्तांवपणाक दान म्हण बरोवन घेतिल्ली. तेतुंतली थोडी नव्या किरिस्तांवांक वांटली. बरीच तशीच पडून आसा. ती आमच्यानी इगर्जेखातीर विकूंक येता.''

''तशें केल्यार बरें जातलें पाद्र.''

''पूण हालिंसाराक गोंय जुंव्यार जमनीचें मोल सामकें देंवलां. जमनी आनी गोरवां कोणाक नाका जाल्यांत. कितलोसोच लोक गोंय सोडून गेला. तांच्यो जमनी पडिंग पडल्यात. गोरवां पारपोळ भोंवतात. ह्या वर्साक कॅनरांतल्यान तांदूळ हाडूंक चड पातमारी वयतल्यो.''

''कितेंय आसूं, इगर्ज बेगीन उबी करचे यत्न करूंक जाय.''

''जातली इगर्ज उबी पाद्र. बेगीन उबी जातली.'' कापितांवान घोड्यार दांग मारली. ताणें घोडो हुमडलो. फाटल्यान तीग सोल्दाद धांवंक लागले.

दुसऱ्या दिसा पायासयत देवूळ फोडचें काम जोरांत चालू आसलें. हेर कामदारांक बरोच वेळ कितें तरी चुकिल्लेवरी दिसतालें. मगेर सट् करून एकल्याच्या ध्यानांत आयलें, तिमा मोरायस कामाक येयल्लो दिस ना... खंय गेलो तो? सकाळीं कोणें पळयल्लो तेका?

रातीं केन्ना जेविल्लो काय, खंय न्हिदिल्लो काय?... कोणाक कांय खबर नासलें. कोणें तरी म्हटलें, पियेल्लो इल्लो चड. पियेवन बोवाळटना दिशिल्लो. मगेर खंय गेलो कळ्ळें ना. तांतले बरेच कामदार आदीं मूर आसले ते आतां बाटून किरिस्तांव जाल्ले. देवळां फोडच्या कामाक चडशे बाटून किरिस्तांव जाल्ले मूर आनी पुर्तुगेज सोल्दाद आसताले. असो एकादरोच बाटिल्लो हिन्दू देवळां फोडूंक मुखार येतालो.

अशा मनशाविशीं हिन्दूंक आनी नव्या किरिस्तांवांक किंवाट्याचो राग आनी नफरत आसली.

हेवटेन देवळांचो एकेक चिरो निखळटालो आनी तेवटेन सिंतेरी घळीत पडिल्ल्या तिमा मोरायसाले मेल्ले कुडीर गिदां घिरट्यो घेतालीं. कोले वास घेत उबे राविल्ले. खंयच्याय खिणाक ताचेर तांची झोपय पडूं येताली. कोणें माल्लो ताका? कोणें तकलेर दांडो घातलो, काय कोणें कोयती कुराडेचो घाव घातलो, काय कोणें फातरान चेचलो? कोणाक कांयच खबर नासलें.

गांवांत जायत्या नमुन्यांनी लोक उलयताले. कोण म्हणटालो, होळयेनास कोपलो आनी ताका तेणें रातची वांकडी वाट दाखोवन सिंतेरी घळींत व्हरून घातलो. कोण म्हणटालो, कोणा भावार्ती मनशाच्यान तो देवळार चडिल्लो पळोवं नजो जालें. ताणें ताका माल्लो जितो. आबू मिराशी तर सगळ्यांक सांगतालो, देवूळ फोडटना मनशाचो बळी दिवंक जाय आसलो. तो बळी घेतलो देवान. देवळाचे पायाभरणेक गंधफूल तर मोडटना रगत.

''भटाल्या पोरान दिवंक नासलो आपलो बळी?''

''भटालो पोर मेलो तुमच्या कर्मकट्टेपणान. भट तो. तेचें काम फक्कत पुजा करचेलें. देवूळ राखचें काम गांवाचें आसलें. गांवच्या खेत्र्यांचें आसलें. तुमी दावणीक बांदून घेतकीर तेणें कितें करचें?''

काल आनी आज दोन दीस लोक पोटांत खपखपो घेवन वोगी पडून आसलो. तांकां वोगीच दिसतालें, आतां व्हडलें संकस्ट येतलें, म्हामारी पसवतली, भुरगींबाळां मरतलीं, आमी आरान धरून घरांत पडटले. पिकावळ उबी सुकतली आनी मनशाल्या हड्ड्यार मनीस बसतलो. देवूळ गेलें की कली भितर गांवांत रिगलोच म्हण समजुचें. लोक अजूनय तिनसांजचो लामणदिवो लायताले आनी ल्हवल्हव थापटां वाजोवन देवाक भजताले.

नरहर जोशी जो पाद्री सिमांव पिरिसाक जाणवायो सांगतालो, तो अजून किरिस्तांव जावचो आसलो. लोकांक गुपचुप सांगतालो, ''गांव किरिस्तांव जालो तरीय गांवाक एक जोशी जाय, तुमचें बरें वायट सांगूंक. वेळ काळ, म्हूर्त, चित्र अवचित्र सांगूंक. ते जंगलांतल्यान येयल्ले रानवटी लोक, तांकां गिराण केन्ना तें सांगूंक कळचें ना आनी मीर्ग केन्ना लागतलो तेंवूय कळचें ना. फाल्यां गिराणाचे वेध लागतकीर तुमच्या बायलांनी खायल्यार जेयल्यार ओटां चिरिल्लीं भुरगीं जल्माक येतलीं. किरिस्तांव जाल्यात न्ही तुमी? कांय नज. तांकां आतां सांगात, आमच्या बऱ्या वायटाक एक जोशी जाय म्हण गांवांत !''

तिमाचें प्रेत दीसभर घळींत पडून आसलें. उक्तेंच आसलें तें. फक्कत कमरेर

एक मोटवें कालसांव. दीसभर गिदां दोळे लावन आसलीं, पूण तीं प्रेतार देंवंक नासलीं. रातचें चडकरून कोल्यान वा लांडग्यान ताचो बोरीकडचो कांय भाग पिनून खायलो. सकाळीं ताचेर गिदां पडलीं. दनपार मेरेन शें-दोनशें गिदांनी सगळें खावन उडयलें. थंय एक प्रेत आसलें काय ना हाचो दुबाव येवचो. उरलीं फक्कत चाबडायल्लीं कांय हाडां आनी कवटी. शेफ, काब सोल्दाद देवूळ मोडच्या कामांत इतले गुंथून गेल्ले, कोण एक तिमा ना जाला हाचें तांकां पडून वचूंक नासलें. जणएकलो समजतालो, कितलोय जालो तरी बाटिल्लो हिन्दू तो. पश्चाताप भोगलो जावंये. गेलो काडून.

चार दिसांनी देवूळ पुराय मोडून जालें. देवळाच्या घटणाचे फातर लेगीत उस्तून काडून तांणी रास घातली. एकेवटेन मदेराची रास तर दुसरेवटेन चिऱ्यांची फातरांची रास.. एक जितें जागतें देवूळ फातरांची रास जावन पडिल्लें. ते राशीसरीं पळोवन लोक कांचवेवन चिंतताले, खंय गेलो देव, खंय गेलो भावार्त! आमी सगळे पापी म्हण देव असो वोगी उठून गेलो काय कितें! काय देव, देवूळ म्हणटात ती ह्या फातरांचीच माया काय कितें! ना, आमच्या भावार्तान, आमचे भक्तेन आनी पुजेन ह्या फातरा फातरांत देव अवतरिल्लो. तोच आमकां तारतालो. आतां आमी हुमकळत पडल्यात!

आतां गांवांत देवूळय नासलें आनी इगर्जय नासली. गांवचे सगळे ल्हान मोटे देवय तांणी फोडून उडयल्ले. शणैंलें रवळनाथा देवूळय मोडिल्लें. देव आनी देवळाविना गांवाचें एक भणंग रितें सरूप. तरीय सगळो लोक-व्यवहार नीट चलिल्लो. लोकांक भूक तान लागताली. दंव, पावस पडटालो. आंब्याच्या चंवराक फळ धरतालें. गायो गाभण्यो उरतालो. मागीर देव कित्याक जाय आसलो लोकांक?

...दिसतालें, सगळे बंदपास सुटल्यात. लोक खंयच्याय खिणाक साटल्यो-पोटल्यो तकलेर घेवन धाय दिकांनी फापसतले. ना तर एका दुसऱ्याच्या हड्ड्यार बसून गोमटी धरतले...

लोक पवित्र उदकान न्हाण करून 'पोन्नें सगळें धुवन उडोवन' बातिज्म घेवन किरिस्तांव जाल्लो खरो. पूण तो मनान आनी व्यवहारान अजून पुराय हिन्दू आसलो. एक पुराय चोमो बाटून वयतकीर तांचें हिन्दूपण चड तांकीन वयर सरतालें. एका चोम्याची रासवळ शक्त किरिस्तांवपणा आड भितरल्यान उठूंक पळयताली. जसो सुखडो एकटो आसतना दबून रावतालो, चोम्यांत मेळटकीर ताकाय शिंगां फुटिल्लेवरी जाल्लीं, तेंच तर आतां इगर्ज, इन्क्विझासांव आनी शासना मुखार एक मोटें आव्हान आसलें. काळजासान तांकां किरिस्तांव करून उडोवंक बळाचो वापर करचो आसलो. दंड, बंदखण आनी लासून मारची ख्यास्त सगळें करचें आसलें. एके वटेन जेजूचो क्षमेचो, करुणेचो, दरयाचे खोलायेचो मोगाचो धर्म आनी दुसरे वटेन क्रूर धर्मच्छळ, ही विसंगती भोव खरपणान मुखार येवची आसली.

किरिस्तांव जातकीर गांवचो लोकय रासवळपणान इल्लो तिडीन वागूंक लागिल्लो. कितले फावट सांगूनय जायत्या जाणांनी आंगणांतली तुळस, मेर काडून उडोवंक नासली. बायलो आंगार सवाशिणीचो शिरंगार घालून वावुरताल्यो. स्राद्धाक वर्सुकेक श्टाक आफयनासले पूण ताका पड पावयताले आनी कावळ्याक गिरास घालताले. पळोवन पाद्री चडफडटालो. केन्ना शेफ रिबेरीचेर तिडकतालो. शेफ मागीर म्हणटालो, "हय पाद्र, तांकां बुद्द शिकोवंकच जाय. मस्ते ते आनी इल्ले अन्नाडी. कोणाकोणाची म्हण कागाळ करची!"

शेफ आतां पाद्र कुलासूक इतलो भियेतालो, ताणें कितेंय सांगल्यार वोगी तकली हालयतालो. ताका केन्ना लोकांची तिडक मारताली. तो मनांत म्हणटालो, अन्नाडी लोक हो. इन्क्विझासांवाची कितलीय भिरांत घातल्यारय हांकां कळना किन्याक?'

निळू नायक रामनाथ देवाक घेवन गोंयाभायर वचूंक गेल्लो. वांगडा म्हाबळू नायक आनी मुरारी नायक हांचे दोन घराबे आसले. तांणी आपले वांगडा गोरवांय हामुडिल्लीं. ते अंत्रूजाक वचूंक म्हण गेल्ले. पूण वाटेर पिळारच्या मळणे बांदार तांकां रवळू जल्मी मेळ्ळो. ताच्या माथ्यार एक पोटली आसली. ती हातान धरनासतना तो नीट चलत येतालो. म्हऱ्यांत पावतकीर ताणें विचारलें, "कोण गा? खंयच्या गांवचे? खंय वयतात?"

निळू नायक साठीक पाविल्लो. पूण हातांत तलवार घेवन तो सगळ्यांत मुखार सडसडीत धेंपां मारतालो. फाटल्यान मुरारील्या सतरा वर्साच्या पुताले तकलेर देवांची पोटली आसली. निळू नायकान ताका सांगलें, "आदोळशीचे गांवकार आमी. मोटो गिरेस्त गडगडटो गांव. पूण नदर लागल्या. देवाक घेवन वयतात. खंय तरी जळ आशिल्ल्या मळार वचून खुंटी मारतले आनी मठी बांदतले. आमी थंय देव."

तकलेर पोटली घेतिल्ल्या त्या मनशाल्या आंगावेल्यान हूम गळटाली. तकलेक बांदिल्ल्या रुमालाचें एक शेवट खांदार पडिल्लें. ताचेन ताणें तोंडावेली हूम पुसली. तांकां म्हटलें, "तुमी अंत्रुजांत पांय दवरूं नाकात. मोटो मारेकार गांव जाला. मूर, नायटे आनी अठरापगड जातीचे लोक गोंय जुंव्यावेल्यान धांवन गेल्ले थंय भल्ल्यात. दिसपट्टी मारामारी आनी लूट. पयर एक लग्नाचें दिबण, गोंय जुंव्यार लग्नां करूंक जायनात म्हण अंत्रुजांतल्या गांवांत गेल्लें. लग्न करून परत येतना वाटेर तांकां लुटले. भांगरशिंगर काडून घेतलें. वयल्यान दादल्याक मार माल्लो. तुमी आदोळशीचे न्ही गा, तुमच्या गांवचो एक बामण बायल भुरग्यांक घेवन अंत्रुजांत व्हड्यांतल्यान गेल्लो. अंत्रुजांत देंवन एका गांवच्यान दुसरो गांव, तिसरो गांव करीत वयतालो. एके रातीक

तेचे जुवान बायलेक उखलून व्हरून चांडाळांनी तिचेर बळजबरी केली. मोटी धर्मिश्ट बायल खंय, तिणें समतीच वचून तळयेंत हुडी घेवन जीव दिलो.''

''कोण गा, कोणाली बायल?''

''नांव नकळ. आदोळशीचो शणै खंय.''

सगळे जाण कांय वेळ सुन्न, चिंतनांत पडिल्ले. मगेर म्हाबळून विचाल्लें, ''ही तकलेर पोटली घेवन खंय वयता तूं?''

''आगशेच्या खेत्रपाळाचो जल्मी हांव. तीन वर्सां जालीं क्षेत्रपाळ व्हरून अंत्रुजांत पुजला. हांवेंच देव उखलून घेतिल्लो आनी अंत्रुजांत देवाक थापतना कुदळीन हांवेंच तेची बसका मारिल्ली. देवाचो अवसरय म्हजेरच येता.''

''आतां खंय वयता तर?''

''पयर देवाची जत्रा जोगवणी जाली. आगशेच्या किरिस्तांव म्हाजनांक देवाचो प्रसाद व्हरून पावयतां. ते देवाची वर्सावळीची पटी दितात न्ही. किरिस्तांव जाले म्हण देवाची पटी बंद केल्ली ना तेणी. प्रसाद पावलो ना जाल्यार कितें म्हणटले ते?'' तो चलूंक लागलो. मदींच रावन ताणें म्हटलें, ''अंत्रुजांत साप्प वचूं नाकात तुमी. जाल्यार न्हंयतल्यान, दरयांतल्यान शिंवेसरांतबीन ते वटेन वचात.''

पुराय चोमो बांदार बसलो. मुरारिचो पूत शंभून तकलेवयली देवाली पोटली थंयच्या एका झाडाच्या खानवार दवल्ली. परत एक फावट तकलेर हुस्क्याचें वजें. फाटीं ना आनी फुडें ना, मदींच हुमकळप जालें. बायलांच्या चेऱ्यार तर हुस्को आनी भिरांत. मुरारी बायल सोतासरींच कांचवेतशी उलयताली... खंयच्या बामणाली बायल काय... कोण राकेस उपरासलो... रुद्र शणैली बायल सुमित्री न्ही मू... देवा, देवी कशी रुपाची देवभक्तेची नार ती... चिंतल्यारच आंगाक घाये पडटात रे देवा...!

तांणी पोटल्यो सोडयल्यो. तातुंतलो बुडकुलो आनी तांदूळ काडले. लागींच एक नितळ उदकाचें ल्हान तळें आसलें. तातुंतल्यान उदक हाडून तीन गुंड्यांची चूल मांडून पेज केली. ती तोरां वांगडा सगळ्यांनी घोटली. तेन्नाच थंय एकलो एक व्हड काळींग आनी कांय उशीकांडे घेवन आयलो. तांचेसरीं ते दवरून ताणें म्हटलें, ''हाका बाट ना. इतले घेयात म्हज्या हातचे. म्हजो व्हडलो भाव बापायवरीच आसलो म्हाका. सकाळीं वाड्यावयलो लोक बातिज्म घेवंक वचचो आसलो. पूण हो रातचोच बायलेक भुरग्यांक घेवन कोणाक सांगिनासतना दिगंतराक वचूंक गेलो. न्हंय बलांटून गेला म्हण कळिल्लें. उपरांत खंय पावलो तें कांयच खबर ना.'' कोण उलयले नात. तो तसोच परत गेलो.

तकलेर देव घेवन लमाण उठले. आगशेचे न्हंयचे दिकेन चलूंक लागले. तशी निळू नायकाक ह्या वाठाराची पुराय म्हायती आसली. बाटाबाटीक भियेवन खंयचे

खंयचे दिकेन कोणा गांवाक लोक वचूंक वयतात ताचीय ताका थोडीभोव म्हायती आसली. अंत्रुजांत सास्टींत ताणें हेपयलीं फावट्यो मारिल्ल्यो. शिंवेसर, कॅनरा हीं नांवां तो आयकून जाणा आसलो. ते न्हंयचे धडयेर येवन पावले तेन्ना तळतळटें खर वोत आंगार मारतालें. सगळी सामसूम आसली. थंयच्या उग्राणाचें दारय बंद आसलें. थंयूय कोण सरकारी मनीस नासलो. न्हंयेक सुकती लागिल्ली. कडेवेलो काळो चिखोल उकतो पडिल्लो. कुसडसो वास वाऱ्यावांगडा व्हांवन आंगार येतालो. कुशीन एका सुपले रुखाचे सावळेंत एक जोडपें बशिल्लें. तरणाटींच घोव-बायल आनी तांचें एक सान भुरगें. बायलेन तांबडें कापड कास मारून न्हेशिल्लें आनी ताच्याच पदरान हड्डें धांपून घेतिल्लें. घोवान माथ्याक मळको रुमाल मारिल्लो आनी कमरेक कास्टी. मुखारच एक व्हडली पोटली, एक चोबो आसलो. निळू, म्हाबळू तांचेसरीं गेले. ''कोण गा? खंय वचूंक वयतात?''

ती बायल पयलींच रडटाली जावंये. हो मुखार वयतकीर ती व्हडाव्हडान रडूंक लागली. घोवान बायलेक मात्शी तापोवन वोगी रावंक सांगलें. मगेर ताणें सांगलें, ''आमी डोंगरेचीं. जात ना आमकां. म्हजी आवय बांदी, बापूय बामण. हिचें कुळार कुठ्ठाळे. तेंकांय जात ना. बामणांगेर काम करतात म्हण बामणा बटकुरां म्हणटात तेंकां. नेवऱ्यां त्या लोकांनी कितल्याशाच जाणांक गेल्ल्या वर्साक किरिस्तांव केले. आतां डोंगरेंतय पावल्यात ते. हिणें म्हटलें, किरिस्तांव जावचे परस कुळारा वचून रावया म्हण. थंय गेल्यार कोण्ण ना. मंगेशाचें देऊळ पाडटकीर जायते बामण धांवन गांव सोडून गेले. तेंचे वांगडा तेवूय गेले खंय. खंय गेले, कांयच खबर ना. घराची खोप तितलीच उबी आसा. घरांत एक सुपा कट्टर मेरेन ना.''

ती बायल परत व्हडाव्हडान रडूंक लागली. निळून त्या दादल्याक विचारलें, ''तुमी थंयच खंयूय रावले नात कित्याक? परते कित्याक येयल्यात?''

''खंय वचचें तेंच कळना जालां.''

कांय वेळान थंय तीग जाण जाळ घेवन पागूंक येयले. एकल्याल्या खांदार दांड्यांक घुठलायल्लें जाळ आसलें. एकलो बेठोच ताचे फाटल्यान चलतालो. ताचे फ़ाटल्यान एकलो जाण्टो मनीस आसलो. ताच्या हातांत होडें होलोवची ताज आसली. त्या जाण्टेल्याक अशे तकलेर पोटल्यो घेवन येवपी लोक सदांचेच जाल्ले आसुंये. ताणें विचारलें, ''खंयच्या गांवच्यान? खंय? कोण देव?''

तिगय दादले बेगीबेगीन ताचे मुखार आयले. निळून सांगलें, ''आदोळशीचे गांवकार आमी. गांवदेव रामनाथ घेवन येयल्यात. मुखाल्ली वाट कळना जाल्या. आतां हेच न्हंयेंतल्यान वाट काडूंक जाय.''

''पयलीं जायेतो लोक व्हरून पावयलो तारयांनी, खारव्यांनी. शिंवेसर, कॅनरा

रून मलबारा मेरेन लोकांक पावयल्यात. आतां तो व्यापच नाका जाला तेंकां. दरा दिसां फाटीं एक व्हडें कॅनरावटेन गेल्लें अजून परतूंक ना. तीन भंडारी व्हडेकार आसले. तेंची खबर ना. तेवटेन अरब, हेवटेन पाखले. लुट्टात, मारतात. बायलांनी काकामोकणां तुळशीर काडून दवरिल्लीं तशींच तुळशीर हुमकळटात. आतां कोण व्हडें भायर घालूंक तयार ना.''

''आतां कितें करचें गा आमी?''

''न्हंये पलतडींय सास्ट गांवांनी मोटी भगदड सुरू जाल्या. तुमी अशें करात, न्हंय बलांटून सांखवाळचो दोंगर चडून इसोरशी खोल गांवांत देंवात. थंयसान वेळसांव दरयांतल्यान जायतीं व्हडीं रातचीं सुट्टात खंय.''

''चड वाट गा?''

''ना. नेटान धेंपां माल्ल्यार सांजेसर पावतले.''

''आतां पलतडी वचूंक तार तरी आसतली मू?''

''आसा. तार आसा. येतली.'' ताणें तारयाक कुलकुलाट घालीत सादयलो. वांगडाचे पागपी न्हंयेंत देंविल्ले आनी जाळ ओडूंक लागिल्ले. तांणी त्या जाण्टेल्याक उलो घातलो. तो बेगीबेगीन वचूंक सुटलो. इतल्यान ते वटच्यान एक तारीव्हडेंय न्हंयेंत धुकलिल्लें दिसलें.

तारीर बसून वयताना मात त्या तारयान तांकां सगळें समजावन सांगलें. तो पुराय वाठारांतल्यो इतल्यो गजाली जाणा आसलो. दरया तडीवेल्या सगळ्या गांवाची माजाळी मिरजान धरून मंगळूर मेरेनचीं नांवां तो सांगतालो. ताणें तांकां सांगलें, इसोरशी खोलसान सुटून आगोंद खोलच्या दरया तडीर देंवात. थंयच्या गांवांनी कोणय व्हड काळजाचीं मनशां तुमकां मेळटलीं. आपल्या गांवांत आलाशिरो दितलीं.

कुठ्ठाळ देंवन सांखवाळच्या दोंगरावटेन येतना तांकां पाडून मातयेभरवण केल्लें मंगेशाचें देवूळ दिसलें. फातर, चिरे, हेर मुस्तायकी फासपून पडिल्ली. चोंयवटेन किण्ण थंड वातावरण पातळिल्लें. कोण गांवांत व्हडान उलयतना दिस्टीक पडनासलो. बायलो बांयेर मोन्यांनीच उदक भरताल्यो. शेतकार शेतांत जोत हामुडटना लेगीत हालेटी मारनासले. मोन्यांनीच बैलाचेर बडी ओडटाले. दोंगराच्या मुळसाक एका वाटसुऱ्यान तांकां एक गजाल सांगली देवूळ पाडटनाची.

एक दीस सांजचे उसरां शें-पन्नास सोल्दाद गांवा फाटल्या दोंगरमाथ्यार येवन उबे रावले. कित्याक येयल्यात, कितें करतले कांयच कळनासलें. सगळ्यांची भिवन गुळी. पूण ते रातचे गांवांत येयले नात. दोंगर माथ्यार एक खूब व्हड, खूब खूब जाण्टो कडमा रूख आसलो. मळबांत घुसूंक गेल्लो. आतां तो पुराय मेल्लो. पूण सुकिल्ले खांदे आनी बडयांसयत तसोच उबो आसलो तो तांणी उजो घालून पेटयलो. रूख

उब्याउबोच पेटूंक लागलो. ताचो तांबडो रगतळो उजवाड लपलप़त गांवार पातळ्ळो. गांव चडच थतरवितर.

दुसऱ्या दिसा सकाळींच ते गांवांत घुसूंक येयले. ते गांवांत घुसतात म्हण कळटकीर हरीहर कौसंबी कांय बामणांक आनी कांय गावडे कुळाव्यांक घेवन देवळा मुखार वचून उबो रावलो. पूण घोड्यार बसून आनी हातांत तरसाद घेवन धांवन देवळावटेन येवपी तें भिरांकूळ जिंत्रप पळयलें आनी बामण आनी कुळावी धांवन गेले. उल्लो हरीहर कौसंबी आनी एक कुळावी. ते येयल्लेच देवळांत घुसले. म्हणूंक लागले, देवूळ फोडटात. कौसंबी कुळाव्याक घेवन गर्भगुडयेंत धांवलो. तेणें कुळाव्याले तकलेर दिवन देव भायर काडलो. इतल्यान देवळा फाटल्यान कपील गायेलें हांबेवप आयकोंक येयलें. पिळग्यान पिळग्यो देवावांगडा पोशिल्ली पुजिल्ली गाय! तिचें हांबेवप आयकोन कौसंबीन कुळाव्याक म्हटलें, देव घेवन तूं लाग चलूंक. हांव गायेक पळयतां. तो देवळा फाटल्यान गेल्यार सोल्दाद गायेक ओडून हाडून तिका मारूंक सोदतात. कौसंबी सांवार आयिल्लेवरी थंय धांवलो. कपील गायेक मारूंक तरसाद उखलिल्ल्या सोल्दादाले तकलेर तेणें पुराय तांकीन दांडो घातलो. तो सोल्दाद तरसादे सयत सकल पडलो. पूण दुसऱ्याच खिणाक सोल्दादांनी कौसंबीक जितो माल्लो. मागीर कपील गायेक मारून तिची आंतडी आनी कौसंबीक वांगडाच तळयेंत उडयले.

ते इसोरेशी खोल पावले तेन्ना दिवो लागणेचो वेळ जाल्लो. चोंयवटेन जिपूड रान आनी मदीं खोल गांव. सकल्लेवटेन घोगेवपी दरया. थंय रातचे ते एका नायकाले वासरेर रावले. खोलच्या नायकांनी दर घराक आटोव आटोव तांदूळ काडून ताका चूल मांडून दिली. तांणी शीत करून अटमां सोलांच्या आमटान ते जेवले. सकाळींच उठून ते दरयार येयले. येताना खोलच्या बुदवंत नायकान दिल्लो व्हडलो दोन हात लांब पिकिल्लो पणस तांणी वांगडा घेतिल्लो. वेळसांव वटेनच्या अकराळ तळपाकडच्यान व्हडयो सकल्ल्या गांवांनी वयताल्यो. तांणी एक शिडाचें व्हडें बारा सेराफियांक थारायलें आगोंद खोल वचूंक. तीं सगळीं भुरगींबाळां करून इकरा जाणा आसलीं. सारक्को व्हडेंभर लोक. व्हडेकारान म्हटलें, आनीक एकलो जरी चड आशिल्लो जाल्यार व्हड्यांत घेवंक जायनासलो.

शीड सोडून व्हडें सुटलें आनी सगळो लोक घुम्म मोनो जालो. भुरगीं मेरेन कांचवेल्लींशीं वोग्गी. व्हडेकारय तांकां कांय सांगनासले. अचकित मुरारी बायल काशी रडूंक लागली. तिका कित्याक रडटा काय म्हण विचारचेलो धिरय कोणाक नासलो. म्हाबळू बायल दुलू तिका रडटे नदरेन पळयताली. सोताय रडटलेवरी. आतां मुरारील्या दोळ्यांतय दुकां उबीं रावलीं. निळू नायकाक दिसलें, आतां व्हडेंभर लोक रडूंक लागतलो. ताका कितें सांगचें सुचनासलें, आपूण तर तांकां खंयच्या तरी

अनवळख्या गांवांत व्हरून सोडून परत येवंक येयलां.

व्हडेकारांमदल्या बळीक ओगीच हें सगळें मनाक लागिल्लेवरी जावंक लागलें. दर फावट हें अशेंच. तरीय गांवदेश सोडून वयतना ह्या लोकांचें काळीज पिळपी दुख्ख ताच्यान पळोवं नज. एकएकल्याच्या तोंडार दरयाचे खोलायेचें दुख्ख आनी हुस्को. ताणें वोगीच कुंयाकाठयेसरीं वचून शीड ओडून बांदलें. दोराचो कर्रकर्र आवाज येयलो. मगेर ताज हातांत घेवन तळ मेळनाशिल्ल्या दरयांत ती सोडून तो उलोवंक लागलो, ''ही निमाणी फावट. आनीक दरयांत व्हडें घालचें उल्लें ना. दीस चैत्रा माथ्यार पावले. मोडां आनी वाशाडां दरयांत मूळ धरूंक लागल्यांत. तो पळय मळब तेंकलां थंय काळो मोडाचो भंवरो घुंवता. आतां आनी वचुंकय मेळचें ना, येवंकय मेळचें ना. माडायेदीं ल्हारां उठ्ठलीं आनी तड धुवन व्हरतलीं...''

एके वटेन खर वोत आनी दुसरे वटेन धुंवर उठिल्लोसो तो तापिल्लो दरया. आवशो आपल्या भुरग्याच्या माथ्यावयल्यान आपलो पदर धरून वोता तिटीप लागची न्हय म्हण यत्न करताल्यो. निळू नायक इल्लो जाण्टोच जाल्लो. हरशीं जिवितांत भोव कस्ट, दगदगे ताणें भोगूंक नासले. थंड गुळागर, वायंगण शेत जाल्यार सरदे हातूंतय मानाय, कामेरीं लावन तांचे वांगडा आंग मोडिनासतना वावर करतालो तो. पूण आतां तो भोव थकिल्लेवरी दिसतालो. वोताचे तिरपीन ताचें तोंड तांबडें जाल्लें, तें सुजिल्लेवरी दिसतालें.

दनपरां तांणी खोलच्या नायकान दिल्लो पणस फोडून खालो. मडकीभर उदक हाडिल्लें येतना तें ते पियेले. तड लागीं येवंक एका व्हडेकारान म्हटलें, खोल म्हणटा तें अटंगें रानच. मनीस आसा ना. तुमी आगोंदेचे वेळेर देंवात. वेळेवेले रेंवेंतल्यान इल्ले चडून गेले म्हणटकीर गांव. थंय आसात तुमचेच कोंकणे नायक.

ते व्हड्यांतल्यान देंवन तें रेंवट माडोवन मुखावेली चडटी चडून गांवच्या कारये मळार पावले. तेन्ना कांय लोक हातांत दांडे घेवन तांचेसरीं येयले. तांणी धपकायत विचारलें, ''कोण तुमी? खंयसान येयल्यात? गांवच्या गांवकारांची अनुमती घेतलेबगर गांवांत कशे रिगले?''

निळू नायकान मुखार येवन सांगलें, ''तिसवाडींतल्या आदोळशी गांवचे आमी नायक गांवकार. दरयावाटेन येवन निकतोच तुमच्या गांवांत पांय दवरला. तेवटेन उजो पेटला. देव धर्म घेवन रावचेलें उल्लें ना. आमकां तुमच्या गांवांत आलाशिरो जाय.''

एका गांवकारान सांगलें, ''ह्या गांवाक रयवास करून रावंक मेळचें ना. ह्या थळांत परक्या मनशाक बरकत ना. परक्या मनशान ह्या गांवचे भुंयेर कुदळ मारूंक फावना.''

''पूण आमी नायक गांवकार... खेत्री लोक...''

''म्हैन्याफाटीं एक सास्टींतलो चाड्ड्या नायकांचो घराबो हांगा येवन रावलो.

देवळांत, मांडार यो वच करतालो. उपरांत कळ्ळें, तांणी थंय किरिस्तांव धर्म आपणायल्लो म्हण. तो तसोच सोडून धांवन येवन हांगा ते कोंकणे नायक म्हण रावताले. मोटो अनाचार केलो तेणी. कळटकीर मारून धांवडायले आमी. दर्यांत बुडून मरूंक म्हण गेल्ले. सांगटू व्हडेकारान आपल्या व्हड्यान व्हरून तेंकां खंयतरी पयस पावयले.''

''पूण आमी तशे न्ही. आमी जिवावयलो काळ सारून धाडसान धांवन येयल्यात.''

''तुमकां ह्या गांवांत रावंक मेळचें ना. आज राती वसतेक रावात कोणालेय वासरेंत, पडवेंत. गांव पोटा पड दितलो.''

ते रातीक एका गांवकाराल्या गवळ कशा व्हड घराच्या भायल्या आंगाक ते रावले. गांवान आटोव पड करून दोन कुडव तरी तांदूळ एकठांय करून हाडून तांकां दिले. भायरच चूल मांडून एक व्हडली मडकीभर पेज तांणी केली. आमले तोरांवांगडा ते जेवले. तरीय वांगडा ल्हान भुरगीं नासलीं म्हण माणसुकी. वांगडाचीं पांचय भुरगीं सात आठ वर्सांवयलींच आसलीं. म्हाबळूल्या पुताचें, शंभूचें लग्न जाल्लें आनी ताची बारा तेरा वर्सांची व्हंकल वांगडा आसली. शंभू, जो विठायल्या घरांतल्यान उपाशीं परतल्लो, आतां तेका भयणीची भोवभोव याद येताली. तो मनांत म्हणटालो, बाय, तूं म्हाका देव धर्म राख म्हण्टालें न्हू, तुज्या उतरार हांवें तो राखला!

जेवतकीर रातचे परते तांणी गांवांत आलाशिरो दियात म्हण गांवकारांक विनयले, पूण तांणी न्हयकारलें. एका बोडफिरक्या गांवकारान हातांतलो दांडो नाचयत रागान म्हटलें, ''चड शाणपणां दाखयल्यार रातचेच गांवच्यान धांवडावन घालतले. शीमेपार घालून येतले.''

सकाळीं उठून कांय एक उलयनासतना ते वचूंक सुटले. निळू नायकालीं धोपरां दुखतालीं, आंग जड जाल्लें आनी दोळे तांबडे जाल्ले. तो तसोच तांचे वांगडा चलूंक लागलो. ताका दिसलें, हांव आनी मुखार येना, तुमीच वचात म्हण सांगल्यार हे सगळे देव भुंयेर उडोवन वाटेरच फतकल मारून बसतले.

पाळोळ्यां पावता म्हणसर वोत माथ्यार चडलें. तांकां भूक लागली. एकेवटेन दोंगराच्यो हारी, दुसरेवटेन दरयाचो गाज. मदीं थंड शितळ गांव माडा-पेडांनी भरिल्लो. चोंयवटेन देवान रचिल्ली इतली भूंय, इतली गिरेस्तकाय आसतना आमकां देव दवरून कुले तेंकोवंक सुवात मेळची न्ही! काळजार चेपण, भिरांत, निर्शेणी. दुसरेवटेन इल्ली उमेद, आस्त, आनीक चलून गेल्यार मुखाल्ल्या गांवांत आधार मेळटलो !

पाळोळ्यां सिमेर पावमेरेन वेळ माथ्यार पाविल्लो. खूब तान भूक लागिल्ली. एकेकडेन थंड शितळ एक सुवात आसली. लागीं उदकय आसा अशें दिसतालें. थंय ते पोटल्यो दवरून बसले. कुशीन झाडांतशे चार माड आसले. एक मुळान मोटो

मोटवो कवाथो. ताचेर आड नाल्लांच्यो पेंडी. काल वेळ मावळूंक पेज पियेल्ले. आतां शिजोवन कितें खावंक जाय आसलें. पूण मुरारीलो चेडो बाबुनी सरसरीत गेलो आनी तो त्या कवाथ्यार चडलो आनी तेणें धा बारा नाल्लांची एक पेंड सकल उडयली. निळू नायक भियेल्लेवरी आड्डलो, ''अरे अरे, कितें करता! हेरांनी शिंपिल्लें फळ आपणें अशें खावचें न्ही.''

म्हाबळू नायकान म्हटलें, ''कांय नज. पाडिल्लें फळ झाडामुळांतच फोडून खायल्यार पातक ना.''

निळू वोगी रावलो. तेच्या दोळ्यांमुखार सगळ्यांचीं भुकेल्लीं तोंडां. वांगडा आशिल्ल्यो कोयत्यो काडून तेणीं नाल्ल सोलून फोडून ते उदक पियेले. कातली खायली. सोण्णां तशींच कवाथ्या मुळांत उडयलीं. तेन्ना एक धश्टपुश्ट आडवो मोटवो मिशाळ दादलो थंय येयलो. निकतेच तकलेवयलें कूप उडोवन येयल्लेवरी तो बसलो. बळिश्ट दिसतालो. ताळयेवेल्या भंवऱ्यांतली शेंडी सामकी खांदार पडिल्ली. तो तेंचेर आड्डलो, ''हेदोळ माडावयल्यान पेंड उडयतनाच हायें पळयल्लें. आदीं खावन भूक भागूं दी म्हण वोगी रावलों. पूण ह्या गांवचे सिमेंत घुसतनाच तुमी चोरी केल्या. चोरयेचें खायलां. तुमकां भुंयेर लोळयतासलों हांव. पूण तुमचे वांगडा देव आसा. आतां देव आनी त्यो पोटल्यो तकलेर घेयात आनी वोगी गांव पार करून गांवच्यान भायर सरात. मदीं थारल्यार, एक पोटली सकल दवल्ल्यार एकएकाचे पांय कातरतलों.''

तांणी पळयल्यार इल्ले पयस आनीकय दोगतीग दादले उबे राविल्ले दिसले. तेवटेन कांय घरां आसात अशेंय दिसतालें. निळू नायकान मनांत म्हटलें, हो नायकाचे जातकुळयेंतलोच कसो दिसता पळोवंक. पूण उलोवचो धीर नासलो. तांणी पोटल्यो उखल्ल्यो आनी वाटेचे दावे उजवे वटेन पळयनासतना ते बद्द कोळंबां येयले.

थंड शीतळ, शेळावान भरिल्लो उदकाचो कोळमो कसो कोळंब गांव. चैत्र येयल्लो तरीय वायंगण शेताच्या कुणग्यांनी उदक आसलें. अशें सांगताले, हो पुराय गांव एका जोरी वर्साक काबार जाल्लो. कितलींशींच वर्सां कोसळिल्ल्या घराचीं धा बारा घरांची घटणाच आसली. त्या दर एका घटणार एक लामणदिवो. बेठीच एक हवाय आसली, रातचो ह्या गांवांत एक व्हडलो नाग आनी एक वाग भोंवता. कोणाक ह्या गांवांत येवन राबितो करचो धीर जायनासलो. पूण खूब पयसुल्ल्यान सत्तरीवटेच्यान वाट चुकून येयल्ल्या कशा लोकान हिंगा राबितो केलो. ते सोताक सातुर्लीकार खेत्री म्हणटाले. निराकार, बर्मो, वीरपुरीस, घरआवय पुजताले. पूण थळावे नायक गांवकार तांकां गांवपणांत घेयनासले. वाठाराचो देव मल्लिकार्जुनासरींय तांकां कसलोच मान नासलो. येवन पन्नास साठ वर्सां जाल्लीं तरीय हे मुळावे नायक तांकां म्हणटाले, 'तुमची वोळख अजून पटची आसा.' अजाप म्हटल्यार ह्या लोकांनी तांचे वांगडा

सोयर संबंद मात जोडिल्लो. जेवण खाणय आसलें. ते आतां आपलोच असो गांव करून आसले.

आदोळशीच्या ह्या नायकांनी गांवांत रावंक अनुमती मागतकीर बुदवंत गांवकारान म्हटलें, ''देवाक विचारुनच आमी सगळीं कामां करतात. देव वीरपुरीस मोटो सासायेचो. शेंसार मारून देवाक विचारूंक जाय.''

निळू नायकान, म्हाबळू नायकान एक पळयल्लें, वाटेवयले हे गांवकार एका दिसापुरतें जेवंक खावंक घालतात आनी दुसऱ्या दिसाक मुखाल्ली वाट दाखयतात. म्हणच तांकां भिरांत दिसताली.

रातचो देवळाच्या जल्म्याक सोयरूक देवाचो भार येयलो. ल्हव ल्हव ढोल वाजतकीर तो बशिल्लेकडच्यान उठून येयलो. गांवकारान ताचेर तांदूळ माल्ले. तो भाराच्या भारार खुदूंक लागलो. गांवकारान प्रस्न घातलो, ''अनवळख्या गांवचे अनवळखी लोक राबितो मागतात. तुजें मत्त आमकां जाय.''

देवान विचाल्लें, ''तेंची वोळख कितें, खंयचे जातीचे, खंयचे वंशपिळगेचे, खंयच्या रगताचे कळ्ळे बगर राबितो मेळचो ना.''

निळून आकुळपिकूळ जावन म्हटलें, ''आमी आदोळशीचे नायक गांवकार. गांवकेचे वांगडी.''

देवाचेर चडच सांवार. ''वोळख जाय.''

''आमची जीब सत उलयता. तीच आमची वोळख.''

''ना, जावचें ना. तुमच्या गांवच्या देवळाक पायो मारताना पायाभायर उजवे दिकेक मूळ मुळवणाचो फातर बसयल्लो. ताचे खाला तुमचे वोळखीची पंचधातूची मुद्रा पुरिल्ली आसा. ती वचून घेवन येयात. पुरिल्ले पांच मुद्रेंतली एक मुद्रा तुमची.''

म्हाबळून म्हटलें, ''आतां जावचें ना तें देवा. देवूळ पाडलें. आमकां गांवा भायरे केले. परत गेल्यार आमकां जात धर्म उरचो ना.''

''वांगडा हाडिल्लो देव कोण गा?''

''आमचो गांवदेव रामनाथ न्हू.''

''गांवदेवाक थापूंक तुमी नवो गांव वसोवचो पडटलो. एका गांवांत दोन कुळदेव आसूं येतात, दोन गांवदेव न्ही. उजो पेट्टलो गांवाक. झुजां आनी मारामाऱ्यो जातल्यो.'' देवाचो अंवसर ल्हवल्हव संथलो. मिराशान ताचेर उदक माल्लें. पांयार नाल्ल फोडलो.

सगळे वोगी. आदोळशीकार हुस्क्यान पडिल्ले तर ते देवालें उतर प्रमाण मानूंन घेवन तुस्ट समाधानी. निळू नायक मनांत म्हणटालो, जे सोताची वळख अजून गांवाक दिवंक तांकले नात ते आमची वळख देवाकडेन विचारतात! खूब खूब काळ वेगळे

राविल्ले अशे ते लोक निकतेच भुंयारांतल्यान भायर सरून येयल्यात अशें दिसतालें. काल पयर केन्ना गांवांत म्हालो येवन गेल्लो आसतलो, सगळ्यांच्यो तकल्यो मुसंडेर खवूर करून घेतिल्लेवरी खाड मिशां सयत ताशिल्ल्यो. त्यो तशो ताशिल्ल्यो म्हणच तांकां मनीस म्हणचेलें. दिसतालें, हांचें केंसांचें रान वाडल्यार हांकां कोणय गोरवां म्हण हामडून व्हरचेलो. तांची उतरावळ इतली उणी आसली, सगळे जण परत परत एकच उलयतात अशें दिसताले.

ते रातीं ते थंयच एकल्याच्या आंगणा माटवांत न्हिदले. वांगडा उतार पिरायेच्यो दोगी बायलो आसल्यो, म्हाबळू बायल आनी मुरारी बायल. त्यो आपसांत कितेंकितें उलयताल्यो आनी रडूंक पावताल्यो. दादल्यासरीं कितें विचारचेलो धिरय तांकां नासलो. आमचें रडप भायर सरल्यार पोंवोभर लोक हेरांल्या आंगणांत बसून रडूंक लागतले अशें तांकां दिसतालें.

थंय आंगणा मेरेर एकलो बशिल्लो तो सांगतालो, आमचे पुर्वज ह्या गांवांत येवचे पयलीं गांवांत एक नाग आनी एक वाग भोंवतालो. 'आमचो मूळ पुरीस गांवांत सरनाफुडें नागान आपले फाडे पालयले, वागान भुंयेक शेंपडी तेंकयली आनी ते त्या खिणाक गांव सोडून गेले.

पूण तांकां तांगेलें आयकुवची उमेद नासली.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं उठून ते पणसुल्यां गेले. हे लमाण तकलेर पोटल्यो घेवन येतात तें पळोवन शेतांत जोत बांदिल्ले शेतकार जोत रावोवन गांवांत येयले. लागीं दोंगरांत गेल्ले दोंगर देंवन येयले. घरांत आशिल्ले आकाड्यांत येयले. तांणी तांचे मुखार एकच चोम्यान उबे रावन इतले धपकायले, इतलो कलकल केलो, ते भिवन थंड पडले. कांय जाणांनी विचारलें, ''तुमी गांवचे आज्ञेबगर गांवची सीम बळांटून भितर रिगलेच कशे? तुमचो देव तुमी सिमे भितर हाडलोच कसो? येयल्ले वाटेनच फाटीं फिरात.''

निळू नायकाक इतलो राग येयलो, ताणें म्हटलें, ''देव तो देव. देंवचार न्ही तुमचे तकलेर बसूंक. आमी गांव शेणिल्लीं वाटसुरीं मनशां, वाटसुऱ्याचो भौमान करूंक कळनासले कसले तापट, तिरकटी लोक तुमी?''

''वाटसुरो सोयरो जावन येयल्यार करतासले भौमान. फाल्यां तुमी परगांवचे ह्या गांवचे भुंयेर कुदळ मारतले आनी गांवाच्या माथ्यार बसतले. देवाच्या नांवार गांव जोडूंक सोदतात.''

दुसऱ्या एकल्यान मोटे तापसाणेन म्हटलें, ''मल्लिकार्जुनाचें क्षेत्र, शिगम्याक वीरामेळ नाचचो हो वाठार. वीरामेळाच्या सांवारांत मेळ्ळ्यार तुकडे पडटले तुमचे.''

''वीरामेळाच्यो खबरी आमकां सांगूं नाकात. आमीय बरे खेत्री. आमीय

खेळ्ळ्यात रगताची होळी. वांगडा देव आसा म्हण. नातर आमी तुमचे वांगडा मारामारीक उठ्ठासले आतां.''

''आमीय तुमचेसरीं देव आसा म्हण तुमकां खोंटायले ना म्हण समजात.''

निळू नायकालो राग सामको मस्तकांतच पावलो. ''तुमी खोंटायतले आमकां? म्हाबळू, मुरारी, शंभू, दवरात सकल पोटल्यो. देवाकय भुंयेर दवरात. घेयात हातांत कोयत्यो. देवा वांगडा आमीय मरचे हिंगाच.''

पणसूलकारांचेय बावळे फुरफुरताले. पूण दोगीय बायलो एकदम मदीं पडल्यो हुयेल्यो मारीत. त्यो तांकां ओडुनच घेवन गेल्यो. तेवूय वोगी पळयत रावले.

फाटीं फिरून येतना निळू नायकाक दिसतालें, आपूण निर्शेलां, ढासळ्ळां म्हण हो असो रागान आतताईन वागलों. अशें जाल्यार मुखाल्ली वाट कठीण जातली. पोंवो अर्दवाटेर पडटलो.

फाटल्यान एकलो गोरो, बरोच बारीक एक तरणाटो धांवन येतालो. तेणें सांगलें, आसाळी, गावडकेरीवटेन रानांत शेतां मळां पडिंग आसात. तेवटेन वचात. गांव कुणब्यांलो. पूण बरो लोक.

मुरारी नायकान म्हटलें, ''रानाची वाट नाका आमकां. गांवाची वाट दाखय. आदींच तेकल्यात.''

''तशें तर आतां शिंवेसरच वयचें तुमी. अशे रुखावळींतल्यान नीट वचात. मागीर तळपण न्हंय बळांटून पयंगिणी ना तर नीट गालजीबागसान माशें.''

ते तळपण तारीवटेन थोडे चलून गेले आनी पुरो जावनशे एका रुखापोनांत बसले. पुराय सांज ते वांगडाच्या पोटल्यांर वणखून पडून आसले. बायलांनी केन्नातरी चूल मांडून तेचेर पेजेक दवरिल्लें. तो धुंवर पळोवन दोग खारवी थंय आयले. तांचेसरीं चोबूलभर बांगडे आसले. तांणी म्हटलें, ''मीठ लावन तणांत भाजून खायात. आमी जाल्यार आधार करतात.''

निळू नायकान म्हटलें, ''वांगडा देव आसा. देव वस मेरेन नुस्तें खावचें नात. तो चय देव तांबड्या पितांबरांत.''

खारव्यान चयलें, देव पितांबरांत गुठलावन रुखा खानवार हुमकळावन दवरिल्लो. खारव्यांचें मन एकदम भावार्तान भरून येयलें. ते परते गेले आनी एक व्हड तांबडो दुदी घेवन येयले. तो फोडून बायलांनी मीठ घालून शिजयलो पेजेवांगडा.

रातभर ते रुखा मुळांतच उल्ले. खारव्यांनी आपल्या खोपींनी या म्हटल्यार गेले नात. दुसऱ्या दिसा सकाळीं त्या खारव्यांनी तेंकां न्हंय बळांटून व्हयले. तेंचें सामान आपले तकलेर घेवन ते तांकां पयंगिणी मेरेन पावोवन येयले.

परते वयताना खारव्यांनी म्हटलें, ''आमकां कांय नाका तुमचे कडल्यान. कोण

गांवच्या देवाचे पालखेक खांद मारूंक मेळ्ळो आमकां.''

पुराय लमाण पुरो जावन भुंयेर पडूंक पाविल्ले. तरीय वोजीं सांबाळटाले, भुरग्यांक उखलून घेताले, चलतना दुकांय गळयताले. गांवाचे यादीन जीव तुट्टालो. ते व्हडान रडनाशिल्ले ते वांगडच्या लोकांक राखचे खातीरच.

ते येयले आनी परशुरामा देवळा मुखार बसले. कोणतरी दोग जण देवळांत आसले. व्हडाव्हडान उलयताले. हे लमाण पळोवन ते भायर येयले. तेणीं झाडार दवरिल्ली देवाची पोटलीय पळयली. ''कोण गा, खंयसान येयल्यात?''

''आमी आदोळशीचे नायक खेत्री. देवाकय घेवन येयल्यात.''

''मेळचें ना ह्या गांवांत रावंक. गांव स्वाम्याल्या भावार्ताचो. ताच्याच आशीर्वादान सगळें जाता. स्वामी खूब बरो देवमनीस. ताणें ह्या वाठारांतल्या सगळ्या खेत्र्यांक आपल्या छत्राखाला, आपल्या आस्रयांत घेतल्यात. आतां तेच गांवचे खेत्री आनी तेच बामण. आनीक कोणाक खेत्र्याक ह्या गांवांत रावंक मेळचेंना. नांव काडूं नाकात.''

थंय आनीक एक भायलो वाटसुरो दादलो आसलो. हो उंच घटमूट आंगलोटाचो. ताचीं भुजां बरींच रुंद आसलीं. हाताचे व्हडव्हड चपके धिमयेमेरेन पावताले. गंवाळ रंग पूण दोळे मात्शे तामशे रागीट कशे. ताणें खरखरीत आवाजान म्हटलें, ''मांयझये भिजूट खंयचे. कितें खुट् जालें की धांवन येतात. देवाक आनी मारतात तकलेर. आपलो गांव राखूंक जायना हेंचेकडेन.''

एक संकस्टांत गाविल्लो असहाय्य चोमो वोगीच रावलो. निळू नायकाचें मोवाळ भावार्थी मन आनी चोंयवटेनच्या लोकांचें निश्ठूरपण हांचो मेळ बसनासलो. तो खरोच मनान भोव थकिल्लो.

ताणें मुखार म्हटलें, ''ह्या गांवांत रावंक मेळचें ना तुमकां. म्हजी धूव हांगाच्या गांवकारागेर दिल्या, हांव आज तेंगेर गेल्यार ती भायर वासरेंत आंबे हाडून कापून म्हाका दिता. भायरच उदका तांबयो हाडटा. म्हणटा, बाप्पो, वयतना हांव तुका सुरय शिताची भुती बांदून दितां. वाटेर जेव.''

शेमळ व्हाजिल्लेवरी तो उलयतालो. कपलार परत्यो परत्यो मिरयो पडटाल्यो आनी सुट्टाल्यो. ताका राग येयला काय ताचें उलोवप हें अशें तापट काय कळनासलें. ते लोक फक्कत आयकताले. ''धुवेक म्हटलें, तुजी भुती तूंच घे गळ्याक बांदून. येतना मात दोळ्यांत दुकां येयलीं म्हज्या. धुवेक म्हटलें, म्हजी एक धूव बामणाघरा लग्न जावन गेली म्हण बरें दिसलें म्हाका. पूण म्हाका पयसावलें मुगो तूं बाय! धुवय रडली म्हजी. बाप्पो, बाप्पो करीत सकल्या धेंगणामेरेन पावोवंक येयली.''

मगेर कांय वेळ सगळे वोगी बसून रावले. तो दादलोय खांब्याक तेंकून वोगी दोळे धांपून बशिल्लो. हरशीं वांगडाचीं भुरगीं देवळांत नाचतासलीं, तानेन भुकेन

थकून काय अवतिकायेची इल्ली इल्ली जाण आयिल्ल्यान नकळ वोगी झेमेनशी कोणकोणाल्या आंगार, पोटल्यार पडून आसली. मुरारीलो चेडो शंभू देवाची पोटली देवळाभायल्या चाफ्यारुखार दवरून सखल ओणकून बशिल्लो. कांय वेळान निळू नायकान त्या दादल्याक म्हटलें, ''खंयचें गा, कोण गावचें?'' ताणें दोळे उकते केले. ताका बारीक पळयलें. निळू नायकाक दिसलें तो रागान पळयता. ताणें सांगलें, ''पावसे घाटये सकल रामनाथा देवा आज्ञेचो म्हाजाळी गांव मगेलो.''

म्हाबळून सट्करून म्हटलें, ''गांवांत शेतां खूब बंजर पडल्यांत?''

तो एकदम तापलो, ''शेतां बंजर पडूंक आमचे कितें रटे मोडल्यात?''

निळू नायकान भियेतभियेत विचारलें, ''गांवकारा, आमी येतात तुज्या गांवांत. कुले तेंकूंक सुवात मेळ्यार पुरो.''

''आनी खातले कितें माती?''

''तुमच्या गांवच्या गांवकारांच्या आधारान कितेंय मेळ्ळ्यार वयतलें वर्स. आमकां कितें तूपरोटी जाय?''

कांय वेळ वोगी रावन ताणें विचारलें, ''आयज कितें खायल्ले जेयल्ले तुमी?''

''ना. तळपण तार बळांटून हांगा येवन बसल्यात. सगळे गांवाभायली वाट दाखयतात.''

''कुळदेव कोण तुमचो?''

''रामनाथ.''

''गांवदेव?''

''रामनाथ.''

''तशें जाल्यार तुमच्या देवाक वाटेर खंयच्या तरी तळ्यांत कोंडींत बुडयात आनी येयात म्हजे वांगडा.''

''अशें कित्याक म्हणटा तूं? देवाक लागून तर आमी गांवदेश सोडला. हे दगदगे भोगतात.''

तो तोंडांतच पुटपुटलो. ''भगतांक दगदगे भोगयता तो देव कसलो तर?'' मगेर ताणें तांकां म्हटलें, ''तुमकां खंयूय गेल्यार तुमच्या देवाखातीर नवो गांव वसोवचो पडटलो. ना तर देवासयत त्या गांवावांगडा भरसून वचून रावचें पडटलें.''

''नीट कळ्ळें ना तूं कितें म्हणटा तें.''

''एका गांवाक दोन राया आनी एका देवळाक दोन कळस आसनात. बरें, पळोवचें तें मागीर. उठात, येयात म्हजे वांगडा.''

ताच्या एका उतरान तांकां देव पाविल्लेवरी जालो. ते पोटल्यो खांदार, माथ्यार मारून मोन्यांनी ताचे वांगडा चलूंक लागले. थंयसावन चलत ते तिरवणा येयले.

वाटभर आंब्याचे, फणसाचे कितलेशेच रूख आसले. पूण अजून आंबो पणस पिकूंक भारार येवंक नासलो. तन्ने घोंस रुखाक लांबताले. भुरगीं भुकेक तोंड आंबूस करीत तोरां खातालीं. तांकां वाटेर एका घरामुखार तांणी रावयले, दारांतल्यान उलो घालून ताणें म्हटलें, ''आगो साळू, शिवा खंय गेलो? हे पळय कितले सोयरे येयल्यात दारांत. देड कुडव तरी तांदूळ घाल आदनांत.''

घरांत खुटूखुटू करपी साळू भायर येयलें. ताका मुखार पळोवन ताचे दोळे व्हड व्हड हांसकुरे जाले आनी मात्शे भिजले. ''आपा माम खंय आशिल्लो? केन्ना येयलो? बस बस. आनी हे कोण?''

''सोयरे म्हुटलें न्हू. शिवा खंय?''

''शेत वसयलां लागींच. गेल्ल्या वर्साकच पयली पीक जाली. आतां शेता फाटल्यानच आसा. सावळ घालून पुराय शेत लासून घेता खंय.''

तें इतलें सोबीत आसलें, गच्च रानांतल्या पानां ताळ्यांतल्यान फूल तोंड भायर काडून बसलां अशें दिसतालें.

आपान ताच्या मुखार सरिल्ल्या पोटाकडेन पळोवन म्हटलें, ''आनी घरांत ही तुजी पीक. खंडयेक सामको कुंभ.'' तें लजलें. ''बाळंतचाराक आमगेरच येवन राव. ह्या रानांत आनी पडून रावशी.'' साळून दिनवासान मायेन आपासरीं पळयलें. ताचे दोळे परते भिजले.

साळू म्हाजाळेचे देवळीण शेंवतुलें चेडूं. शेंवतू गांवदेवाचे सेवेक आसलें. ताणें आनी तागेल्या चेडूं भुरग्यान लग्न करूंक फावना हो खर नेम. तो नेम फाटल्या पिळग्यांनी निश्ठेन पाळ्ळो. पूण साळू वयार येतकीर ताचें मन सोनू नायकालो पूत शिवाचेर बसलें. तें हेर आनी आपणाक कांयच नाका, आमी लग्न जातात, म्हणूंक लागलें. देवळीणील्या चेडवाचें मन एकल्याचेरच बसप आनी तांणी लग्न करूंक सोदप मोटो अनाचार आसलो गांवचे नदरेन. दोनयकडची वर्गणाच न्ही तर पुराय गांव तांच्या ह्या संबंदाआड. एक दीस ती पळून ह्या रानांत गांवचे शिमेभायर येयली. कांय तेंप आमाड्या फोण, काळशी, बांदेगाळ रावली आनी मगेर हांगा हो शेताकुडको पळोवन खोप बांदून हांगाच रावली. म्हाजाळेच्यान पोवसेघाटी चडून पर्यंगिणी वयतना वाटेर इल्ले कुशीनच तांचो मांगर आसलो. तीन वर्सां जाल्लीं हे खबरेक. आतां म्हाजाळे गांवचो कोणय हेवटेन येयल्यार तांची खबर घेनासतना वचनासलो. तरीय एक बंधन आसलें - तांणी जोडप्यान गांवचे शिमेभितर रिगूंक फावनासलें.

साळू मांगरांत गेलें आनी मदींच फाट करून मात्शें थारलें. चिंतेस्त कशें. आपा मुखार गेलो. ''कितें जालें गो?''

तोंड येद्दें करून साळून म्हटलें, ''तांदूळ केल्ले नात. तें पळय, कालूच भात

उकडून सुखोवन पिणग्यान भरून दवरलां. आतां केन्ना तांदूळ करतले तेचे?''

''वान आनी मुसळ आसा मुगो. हाड मुसळ हांगा. हांव वानार घालून काणटां भात. तूं आदन दवर.''

साळू अनमनलें. घोवाक आफयतां म्हणूंक लागलें. आपान ताका म्हटलें, ''आतांच नाका. हांव आदीं कांडून दितां कुडवभर तांदूळ, मागीर आफय तेका.''

आपान कोनशांतलें काणण-मुसळ उखल्लें. सुपांत भात घेवन वानांत रखयलें आनी तो कांडूंक लागलो. तो इतल्या व्हडान मुसळाचे फार घालतालो, तो मांगर हालतालो. साळूलें आदन तापसर कांय वेळांतच ताणें देड कुडव तरी तांदूळ जायत इतलें भात कांडलें. ते सुपांत घेवन हासुडले. ते तशेच साळूकडेन दिवन म्हटलें, रखय आदनांत. मगेर तो भायर येयलो. भायल्या एका फणसारुखाक खूब पणसुलां लांबतालीं. ताचेर चडून ताणें दोन तन्नीं पणसुलां काडलीं. तीं तशींच कोयतेन तासलीं. ताका आडवे उबे घाय घालून तांच्यो बारीक बारीक फोडयो केल्यो. ताणें साळूक म्हटलें, हे शिजय इल्लें मीठ आनी मिरसांग घालून.

साळून मांगराचे फाटलेवटेन वचून घोवाक कुले दिले, 'ऊऽऽ, हुय्यऽ'. ताणें रोखडीच परती जाप दिली. जसो तो कान मांगरावटेनच लावन आसलो. सकल्ली इल्ली चडटी चडून तो रोखडोच येयलो. आपाक पळोवन तो भोव आनंदलो. ताणें ''आपातातू, केन्ना येयल्लो, बरो आसा न्ही?'' म्हण मायेन जाप दिली. मगेर त्या लोकांक पळोवन म्हटलें, ''हें लमाण्यांलें जिंत्रप खंयसान हाडलां तुवें?''

आपान हांसून म्हटलें, ''तूं व्हंकलेक घेवन शीम बलांटून येयल्लो. हे लोक देवाक घेवन येयल्यात गांव सोडून. पेज इल्ली शिजोवन घालुंया. मगेर घेवन वयतां शिंवेसरांत. तुजें कशें चल्लां? नवें शेत वसयता खंय न्ही?''

''हय. गेल्ल्या वर्साक झाड झोप मारून मेरो घालून खणूनच रोयल्लें. ह्या वर्साक आनीक इल्लें वाडोवंक जाय. जोत एक पळोवंक जाय.''

''माती कशी आसा?''

''माती अजून शेळ धरून आसा. खोरें माल्ल्यारच शेळ लागता. कमरभर फोणकूल माल्ल्यार उदक पडटलें.''

''बरें वाडोवन वंय आडे करून घे. जाल्यार थंयच मांगर काड.''

''तळें मारून उदक पयलीं करून घेवंक जाय.''

''हय तर. तुजें कितें, लाथ मारता थंय उदक फुटून येतलें. गांवच्या लोकांल्या नाकाक हळद लावन गांवच्यान शेंवतुलें चेडूं उखलून हाडलें तुवें.''

शिवा लजेल्लेवरी हांसलो. साळून पेजेची मडकी सकल काडून दवरिल्ली. पोल्लेवयली चाक्र्याची शाक तें दवलो घालून धवळटालें. आपा ताका भायलेवटेन

उबो रावन सांगतालो, ''जाणा मगो साळू, म्हगेली धूव बामीण जाल्या. तेगेल्या घरदाराचो चकचक पळोवपा सारको. बागांत कितले माड, आंबे आनी पणस हाका गणती ना. म्हाका येतना वाटेर जेवंक सुरय शिताची आनी नोगले हुमणाची बुती बांदून दिता म्हणटालें. हांवेंच नाका म्हटलें. आनीक एक धूव वाटेर आसा म्हटलें.''

घरांत एकच काशाचें ताट आसलें. लोक तर सगळो धा-बारा. शिवान वचून लागींच आशिल्ल्या करमळा रुखाचीं व्हडलीं व्हडलीं पानां काडून हाडलीं. एकेक पान केळीचे शिरवते पानायेदें. ताचे ताणे उज्यार बावोवन धोणे केले. ते एकएकल्याच्या हातांत दिले. तांचेच चोळके काडून शाक घालूंक दवल्ले.

ते पेज जेवन रोखडेच पावसे घाटी देंवंक लागले शिंवेसरांत येवंक. तेन्ना वेळ लोलयांवटेन लखिल्लो. वोताचीं किर्णां मोव पडूंक लागिल्लीं. थंयसान सिपायगुडी, उदकागाळ, पोळे मांडयत ते म्हाजाळे गांवचे शिमेर पावले. शिमेर पावतकीर आपान तांकां एके सान दोंगुल्लेर आशिल्लें देवूळ दाखयलें आनी सांगलें, ''ही गांवाक राखपी गांवची आवय म्हारीकंबा. तिका नमन करात आनी मागात, देव घेवन येयल्यात ह्या तुजे कुर्पेच्या शिंवेसर वाठारांत वसोवंक. गांवच्या गांवकारांक आलाशिरो दिवंक बुद्द दी म्हण मागात.'' तांणी सगळ्यांनी पोटल्यो तकलेर आसतनाच देवीक भावार्तान हात जोडले. निळू नायकान मनांतच मागलें, 'देवीआवय, कितले पावसाळे तकलेवेल्यान गेले हाचो हिशेब हांवें दवरूंक ना. पूण आतां कुडीन थकलां. नज जाल्ल्या काळाक देव फाटीर मारून घेवन येयल्लों. आतां मुखावयल्या एक दोन गांवांत देव दवरूंक सुवात मेळ्ळी ना तर हांव खंयतरी वाटेरच पडटलों आनी मरतलों.'

ते चलूंक लागले. निळू नायकाचीं धोपरां रुंव दुखिल्लेवरी दुखतालीं. दोळ्यांमुखार परती परती काळखी येताली. खरें म्हटल्यार तो पुराय चोमोच थकिल्लो भागिल्लो. बेगीन थंयतरी ठिकाणार घालून घेवचें अशें दिसतालें. निळू नायक हांकां पावोवन देव खंयतरी वसोवन बेगीन परत वयचें म्हण येयल्लो. पूण ह्या अनवळखी राज्यांत पावतकीर ताका दिसूंक लागलें, संवसारांतल्यो सगळ्यो वाटो शेणल्यात. आतां परतो वचूंक म्हण म्हाका वाट मेळची ना. हांव गांवघरा पावचों ना!

गांव सांजेकडेन सामको थंड आसलो. येद्दो पान हालिल्ल्याचो आवाज नासलो. बेठोच एक गुंवऽ असो मोनो आवाज घुंवतालो. म्हारिकंबा देवळाकडच्यान भांडीतिठ्यार पावसर लागींलागीं सगळो वाठार मेकळो आसलो. मदीं फक्कत चार पांच तणा चुडटांचीं घरां. पयस पयस. मदींच एक व्हडलो गगनांत धरना इतलो व्हड पिंपळा रूख आसलो. थंयच एक व्हड मांगर आसलो. ताचे भोंवतणीं फातर दाळून पुरूसभर उंच वणत घातिल्ली. मुखार दारांत एक पारेदार कमरेक वालो गुठलोवन, माथ्याक तांबडो रुमाल बांदून पांगरे बसकेर बशिल्लो. हातांतलो दांडो तो परतो परतो

मुखावयल्या फातरार आपटिंतालो. मुरारीन विचारलें, "आपामाम, हो येद्दो व्हडलो साठ हात मांगर कसलो?"

"सौंदे रायाल्यो सत्तावीस कणात्तरी आसात तेतूंत. कणात्तरेंत तिरव्याचें भात भरून दवरलां. फाल्यां दरयांतल्यान होनावर व्हरतले ते. ते भायर शेटकार आंगडकारालो घाटावयल्यान हाडिल्लो म्हाल भरून दवल्ला. कामळी, लुगटां, मिरसांग, खाजूर."

आनीक मुखार एक मेस्ताली शाळा आसली. दोन पाख्यांची ती साळा उक्तीच आसली. पयसुल्ल्यानच थंयचो भागून पडिल्लो भातो, पालवल्लें उज्याकुंड दिस्टी पडटालें. आपा तांकां घेवन बांडीतिठ्यासरीं आशिल्ल्या काशीपुरूस देवळांत येयलो. तणा चुडटाचेंच दोन पाख्याचें देऊळ.

काशीपुरूस देवळाच्या आशिकुशीकूच आठ धा घरां आसलीं. आपान देवळाच्या दारांत उबो रावन सगळ्यांक उलो घातलो. आड्यावयली घांट वाजयली. घरांतल्यान एक दोग भायर सरून देवळांत येयले. आपान तांकां सांगलें, "हे पयसुल्ले सोयरे. तिसवाडीचे नायक. जातीभायले न्ही. दर एका घरांत रातचे दोगांदोगांक जेवंक व्हरूंक जाय. गांव माडोवन येयल्यात. भुकेल्यात. बरे रांदून वाडूंक जाय." एकलो कितें तरी उलोवंक सोदतालो. आपान ताका धपकायलो. "देव आसा तेंच्या वांगडा. जाप काडप ना."

देवळांत कळसो आनी राजू आसलो. तो ताणें तांकां भायर हाडून दिलो. देवळा मुखावयले बांयेर वचून सगळे न्हावन येयले. आदीं दादले मगेर बायलो. वांगडा पोटल्यांनी कांय वस्त्रां, हांथरूण कांबरूण आसलें.

रातचे ते आफयतकीर त्या त्या घरांनी वचून जेवन येयले, चडशा घरांनी नुस्त्याचें हुमण आनी शीतच आसलें. घरां ल्हानच पूण भितर सोबीत, व्यवस्थीत मांडिल्लीं. वणटी, तळ काळ्याकाळ्या शेणान सारयिल्लो. आंगणय तशेंच, मेरो धरिल्लें शेणान सारयल्लें सोबीत. ताचेर ल्हानसोच माटोव. चोंयवटेन सगळीं आंब्याचींच झाडां. ते ह्या गांवांत पांय दवरतसान पळयताले, गांवांत इतले आंब्यारूख आसले जसो आंब्यारुखांनी गांवार माटोव धरिल्लो. वांव वांव मोट्या कांडाचे गगनांत पाविल्ले एक एक रूख. तांकां उंडाफळां येदे धरून सोलिल्ल्या नाल्लायेदे मेरेन आंबे. सगळेकडेन तोरांची खातोड पडिल्ली. रुखाक मुडयेयेदे घोंस लांबताले.

रातचे ते देवळांतच न्हिदले. आतां इल्लोइल्लो दरयाचो गाज आयकूंक येतालो. तांणी मनांत म्हटलें, हांगा लागींच दरया आसा दिसता. आपा आनी गांवचे दोग तीग दादले थंय येवन बशिल्ले. तांकां ह्या गांवांत रावंक ठिकाण मेळटलो काय ना हेविशीं ते कांय उलयनासले. जशे ते तांच्या हाताभायले आसले. मात ते एक खबर सांगताले- खूब फाटीं ह्या गांवांनी मोटो अच्छेव आनी रगतपात जाल्लो. हवगी बामण हंयच्या

थळाव्या लोकांक खूब पिडापीड भोगयताले. काणकोण धरून शिंवेसर मेरेन तेंचोच शेक. तेंचो अन्याव लोकांच्यान सोसूं नज जालो तेन्ना तांचे आड काशीपुरूस उठून उबो रावलो. ताणें काणकोण-शिंवेसर ह्या राज्यांतल्या खेत्र्यांक एकठांय केले आनी हवग्यांचो निप्पात केलो. राज्यांतल्यान तांकां नानपश्चात करून उडयले. कितल्याशाच हवग्यांक जिवानिशीं माल्ले. उरिल्ले रानांनी पळोन गेले. हांगाच लागीं बांडीतिट्यार हवग्यांचो मसणकटो आसा. थंय कितलींशींच मडीं एकठांय लाशिल्लीं. उपरांत थंय तें पेड बांदलें. तेंचें दरवर्साक स्राद्ध करतात. गांवचे लोक फाल्गुन तयेक एकेक मूठ शीत आनी चिमूटभर मीठ व्हरून त्या पेडार दवरतात आनी कावळ्यांक आफयतात.

निळू नायकान विचारलें, ''हें देवूळ काशीपुरसाचेंच न्ही?''

''हय. काशीपुरसान आमकां हवग्यापसून मुक्त केले. पूण आपल्या हातान ब्रह्महत्या घडली म्हूण तेणें काशी क्षेत्रांत वचून आपलें शीर कापून गंगेक अर्पण केलें. तोच आमचो देवपुरूस आनी मूळपुरूस. तेका आमी ह्या देवळांत पुजला.''

हेर सगळे न्हिदून गेल्ले. निळू नायकाक झेम येनासली. ताणें निमणें तांकां विचारलें, ''आमचें कशें जातलें गा?''

एकल्यान म्हटलें, ''तुमी वांगडा रामनाथ देवाक घेवन येयल्यात म्हण आयकलां. ह्या गांवचो गांवदेव रामनाथ. कशें जातलें कळना.''

आपा एकदम तापलो. ''आतां कशेंय जावं, तेंकां ह्याच गांवांत मानाचो पाट मेळूंक जाय. हांव फाल्यां पळयतलों तेंकां कोण कसो धांवडायता तें. नारबा, आमी फाल्यां तेंकां गांव वांगड्यांसरीं घेवन वचुंया.''

ते उठून गेले. निळू नायकाचें काळीज आपा नायकाच्या दिनवासान भरून येयलें. दरयाचो गाज आयकतां आयकतां ताका झेम लागली. भायर देवाची, देवाल्या भांगराची तांबड्या पितांबराची पोटली झाडाच्या खांद्यारच आसली. सकल मुरारी आनी मुरारीलो पूत सुस्त न्हिदिल्ले.

आपा आनी आनीक दोग जण मेळून तिगय दादल्यांक - निळू, मुरारी आनी म्हाबळूक - घेवन पवार गांवकारासरीं गेले. सात पवार गांवकार आनी स नायक गांवकार मेळून तेरा वांगड्यांची गांवकारी आसली. दनपारां सगळे वांगडी पुरसा मठामुखावयले पिंपळे पोनाक एकठांय जाले. आपान तांच्या घरा वचून तांकां आफोवन हाडिल्ले. तांकां सांगलें, ''परंतरांतले, आमचे जातकुळयेंतले तीन घराबे थकून भागून गांवांत पावल्यात. आलाशिरो मागतात. दारांत येयल्लो देव आमकां.''

निळू, मुरारी आनी म्हाबळू कुशीन बावडे कशे भुंयेरूच बशिल्ले. पिंपळे पेडार बशिल्ल्या गांवकारांमदीं मोटी भासाभास जाताली. सगळ्या गांवकारांल्या आंगार एकच भेस. माथ्याक तांबडो रुमाल, धोंपरा मेरेन शेवट सोडिल्ली कास्टी आनी

आंगार बिनहाताची बंडी.

गांवचो पुरोयत नागा भट जो पुरयतपणय आनी गांवदेवाची पुजाअर्चाय करतालो, तोवूय येयल्लो आनी पेडार कुशीक बशिल्लो. जोगी पवार म्हालगांवकार आसलो आनी गांवदेवाचें मिराशीपण ताचेकडेन आसलें. ताणें सांगलें, ''गांवांत शेताचो उणाव ना. खंयूय मेरो धरून कसून खणून पिकोवन खावं येता. पूण गांवांत तुमी रावतले कशे कोण म्हण? परगांवच्या गांवकारांनो, सांगात, तुमची ह्या गांवांत सुवात किर्ते?''

म्हाळू गांवकारान मर्दीच म्हटलें, ''गांवचे आस्रीत ते. शेताभाटाचो वावर करून गांवांत रावतले, नाका तेन्ना गांव सोडून वयतले.''

आपा ताचेर सट्करून तापलो. ''म्हाळू नायक, तुजेवरीच एका गांवचे खेत्री नायक ते. तूं तेंकां तुज्या शेतांत मानाय म्हण घोळोवंक पळयता?''

निळू नायकान सगळ्यांक हात जोडून विनयलें, ''तुमच्या गांवाच्या जत्रा, उत्सवांत आमीय वांटेकारी जावंचे, रथाकडेन, पालखेकडेन आमकांय मान मेळचो. तुमच्या बांडीच्या दोरांक आमकां हात घालूंक दिवचो.''

नागाभट बशिल्लेकडच्यान उठलो. म्हालगांवकाराक ताणें सांगलें, ''वांगडा गांवदेव रामनाथ घेवन आयल्यात ते. एका गांवांत दोन गांवदेव बसचे नात. मोटो अनर्थ जातलो. गांवकारांनू, तांकां सांगात, तुमचो देव आदीं ह्या गांवचे शिमेभायर खंयतरी व्हरून थापून येयात म्हण.''

म्हालगांवकार जोगी पवारान सांगलें, ''गांवदेव शिमेभायर दुसऱ्या गांवांत थापून ह्या गांवाचें गांवकारपण, देवापांयाकडलो मान तेंकां कसो मेळटलो? सासणाचे परगांवचेच जावन उरतले ते.''

आदोळशीच्या गांवकारांमदीं भोव निर्शेणी पातळ्ळी. ते मनांत म्हणटाले, काय बरो भरिल्लो गांव सोडून येवन कशे कंगाल जाले पळय आमी. देवाकय सुवात ना आनी मनशांकय सुवात ना. किर्ते म्हण करचें, खंय म्हण वचचें !

माणी नायक म्हणिल्ल्या गांवकारान म्हटलें, ''शिंवेसरांत आनीक जायते गांव आसात. ना तर दोंगरांचीं मुळसां पडिंग आसात. आनीक खंयूय वचून रावचें तेणी.''

आपा नायक परत तापलो. ''ह्या गांवाचो आधार मागला तेणी. ह्याच गांवांत रावतले ते. ह्या गांवच्यान तेका तुमी धांवडायल्यार तेंच्यो मुखावेल्यो पिळग्यो तुमकां खेमा करच्यो नात. तुमचे वांगडा सोयरसंबंद दवरच्यो नात.''

आपा तापून उलयतालो खरो. पूण पडिल्ली गांठ कशी सोडोवची हें ताकाय कळनासलें. नागा भटान आदोळशीच्या गांवकाराक विचारलें, ''रामनाथ हो इश्वरालो अवतार शैव देव. ताचे वांगडा पिंडी आसूंक जाय - ईश्वर लिंग. तें तुमच्या रामनाथा वांगडा आसा व्हय? पिंडीबगर रामनाथ म्हटल्यार लिंगाबगर पौरूश.''

निळू नायकान सांगलें, ''ना, तें आमी थंयच सोडून येयल्यात. हाडूंक जावचें नासलें तें. येन्नादर तें चांडाळांनी फोडूनय उडयल्लें आसतलें.''

''तशें जाल्यार तुमच्या देवाक व्हरून दरयांत विसर्जन करात.''

ते ताचें सांगणें सुन्न मत भेरेल्लेवरी आयकत रावले. तांकां कितें उलोवचेंच सुचनासलें. इतले तापत्रय भोगून, गांवदेश सोडून देवाक फाटीक मारून हाडलो, तेचें आतां अशें विसर्जन करचें! निळूल्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं.

नागभटान गांवच्या गांवकारांक सांगलें, ''खंयचोय रामनाथ आसूं. निमणो तो एकूच. कोण जाणा, घडये तुमच्यो दोनय कुळयो केन्ना एकाच वाठारांत राविल्ल्यो जावंये. आतां एक करूं येता, ह्या लोकांनी तांचे वांगडच्या रामनाथाक घेवन गांवदेव रामनाथा देवळाक पांच प्रदक्षिणा क़ाडच्यो. उपरांत ताका एके पुजेपुरतो गर्भकुडींत दवरून ताची पुजा करची. मगेर ती मूर्त व्हरून दरयांत विसर्जन करची. मगेर आसा तोच गांवदेव म्हण तुमी सगळ्यांनी मानचें.''

गणबा पवाराक भटाचो राग येयलो. ''भटो, परक्या गांवचो देव आमच्या गांवदेवाचे गर्भकुडींत वचून बसतलो? जावचें ना तें.''

तातू नायकान म्हटलें, ''देव तो. कितलोय जालो तरी रामनाथच. परजातीचो मनीस न्ही गर्भकुडींत ना वचूंक.''

म्हाल गांवकार जोगी पवारान नीट चिंतूं दी म्हण इल्ली उसरपत घेतली. सगळे आपसांत व्हडाव्हडान उलयताले. आपा नायक मदींच कोणाचेरय बेठोच तापसाण काडटालो. म्हालगांवकारान म्हटलें, ''पुरोयतान सांगिल्लें मानूंक जाय. तोच शास्त्र जाणा. पूण सोयऱ्या गांवकारांचें मत्त कळूंक जाय न्ही. परधर्माचो सोडून हेर खंयचोय लोक आमकां गांवांत राविल्लो जाय. फाटल्या पंचवीस वर्सांत कितलो लोक जोरीन मेलो, गांवचे उत्तरेकडलो उग्राण धरिल्लो म्हारिकांबा देवळामेरेनचो वाठार वसोवंक जाय. सोयऱ्यांनो, आतां तुमचें कितें तें सांगात. ना तर हेर खंयूय वचूंक तुमी मेकळे.''

आदोळशीकार वोगीच आसले. मुरारी नायक तर रडूंक लागिल्लो. तो देवाक बुडोवचो पडटलो म्हण रडटालो काय आतां आनी आपणाक ह्या गांवांत आधार मेळचो ना म्हण रडटालो, कळनासलें. निळू नायकान वांगडच्या दोगांकडेनय एक फावट पळयलें. ते थाऱ्यार नासले. ताणें ओलो आंवडो घोटून बारीक थरथरत्या आवाजान म्हटलें, ''पुरोयतान सांगिल्ले परमाणें दोनय देव एकच मानचे आमी. गांवकेंतले वांगडी धरून गांवचे सगळे अधिकार मेळचे आमकां.''

मुरारी केन्ना ना तो निळू नायकाल्या आंगार येयलो. ''तुका बेगीन गांवघरा वचचेली घाई लागल्या. तुजें भाटबेंस थंय सुगूर आसा. म्हण देवाक अर्दवाटेर बुडोवन मारून वचूंक उठला तूं.''

निळूक उतरां मनाक लागलीं. ताणें काळीज पिळून मुरारीवटेन पळयलें. ''अशें कितें म्हणटा तूं मुरारी? वाट चुकून इतले पयस येवन पावल्यात, परत वचूंक दिशा मेळटली काय ना तेंवूय खबर ना. गेलो तरीय घडये म्हाका हेच वाटेन परत येवचें पडत! काय बरो गांव आनी काय बरे हे गांवकार. आमचो देवय तांणी आपलोच मानला!''

नागभटाक मुरारीचो इल्लो रागच येयल्लो. नागभटाची कूड बारीक काळशीच आसली पूण तोंडामुखावयलो भाग एकदम रसरशीत तांबडो आसलो. दोळेय तेजिश्ट. आतां ताचो नाकाचो शेंडो चडच तांबडो जालो. ताणें रागान मुरारीक म्हटलें, ''देव थापून नवो गांव जिखूंक पळयता तूं. पूण देवाची पिंडी माडोवंक आनी फोडूंक गांवांत उडोवन येयला. पिंडीबगर तुज्या देवाक देवपण ना, सासाय ना. म्हाल गांवकारा, हांकां सांग, रावचें आसल्यार रावात, नातर लागात म्हण चलूंक.''

म्हाबळू सदां उणेंच उलयतालो. चिंतेंत घुस्पून रावतालो. ताणें म्हटलें, ''तेंचें सोडात तुमी. आमच्या गांवांत आमचो देव, आमचें देवूळ व्हडल आसलें आमकां. आतां कितें उल्लां? गांवय ना आनी देवूळय ना. हो पिंडी बगर ईश्वर. रावतात आमी हांगा. तुमी सांगिल्ले परमाणेंच करून रावतात.''

कांय वेळ थंय थंड शांतताय पातळ्ळी. म्हाल गांवकार जोगी पवारान सांगलें, ''तुमकां ह्या वर्साक गांवच्या येणावळींतल्यान धा कुडव तांदूळ, एक खंडी बींय आनी एक कुदळ मेळटली. मागीर तुमचे तुमी.''

निळू नायकान विचारलें, ''देवालें थोडें भांगर आसा. तेचें कितें करचें गा आमी?''

''देवाक दिवचें आसल्यार दियात नातर तुमी तुमकां जाय तसो विलोव लायात. आमी विचारचे नात.''

मुरारीन मदींच आवाज चडोवन म्हटलें, ''आमी देवाकच दितले तें.''

मगेर एक एक गांवकार उठून गेलो. त्याच सोमारा तांणी आपलो देव गांवच्या रामनाथ देवळांत व्हेलो. आदीं देवळाक पांच प्रदक्षिणा घालून देव गर्भकुडींत व्हरून दवरलो. भटान तांकां परत एक फावट थंयचे झरीर न्हावन येवंक सांगलें. तिगय दादल्यांक गर्भकुडींत देवामुखार बसोवन तांचेकडच्यान वांगडाच दोनय देवांची नीट पूजा करून घेतली. मगेर तांच्या रामनाथाची ताणें उत्तरपुजा केली. तिगांनय धरून तांचो देव उखल्लो आनी तो घेवन लागींच आशिल्ल्या दरयावटेन वचूंक लागले. तिगय जाण देवांक धरून मोन्यांनीच ल्हवल्हव पावलां उडयताले. तांकां दिसलें, मुखावयलो दरया सामको शांत जाला. आशिकुशीचीं झाडांपेडांय पान लेगीत हालयनासतना थंड उबीं आसात. वयले दोंगुल्लेरय कसलो आवाज ना. तांचेवयली झरय व्हांवची थांबल्या. खंय गेलीं हांगा भरून आशिल्लीं सवणीं सुकणीं! इतली

सुन्न धीरगंभीर शांतताय तांणी केन्नाच भोगूंक नासली. भरून आयिल्ल्या काळजार फातर दवरून दुखेस्त मनान देव व्हरून कंबरभर उदकांत तांणी उबो बुडयलो. तांकां दिसलें, येवन फाटीं सरिल्ल्या ल्हारांवांगडा देव खूबखूब खोल काळ्या उदकांत बुडत आसा. ते त्या अथांग सागराकडेन सुन्न मनान पळयताले. पयसुल्ल्यान एक होडी धवें शीड सोडोवन पयस पयस मळबा देगेनशी वयताली. तांकां दिसलें, ही होडी आदोळशीवटेनचोच वारो घेवन येयल्या. आपल्या गांवचे यादीन ते आकुळपिकूळ जाले. म्हाबळून म्हटलें, ''गांवचे लोक कितें म्हणटले आमकां!''

निळून परत विचारलें, ''खंयचे लोक? गांवांत लोक खंय उल्ल्यात आतां? तो गोरो पदवेदार केन्ना म्हणटालो, बिजुटांक देवय आसना आनी धर्मय आसना म्हण. खरें तें ताचें !''

ते वयर आवारेर येयले आनी तांणी गांवावटेन पळयलें. लख्ख नितळ वोत चकचकतालें. गांवचो लांबच लांब पांचवोचार पटो त्या रुप्या वोतांत बुडून गेल्लो. मुखार एका माडामुळाक आपा नायक वाट पळयत उबो आसलो. थंयच लागीं एक गाय आनी वासूर चरतालें.

काशीपुरूस देवळांत परत येतना म्हाबळून आपा नायकाक म्हटलें, ''आमी आमचो पयलो राबितो ह्या गांवांत काशीपुरूस देवळांत केलो. काशीपुरसाले घरवडींतलो तूं, तुवें आमकां आधार दिलो. तुजो कुळदेव तो आतां आमचोय कुळदेव. रामनाथ गांवदेव आनी काशीपुरूस कुळदेव.''

आपा नायकान म्हटलें, ''मनान मानल्यार आनी भजल्यार तो तुमचोच कुळदेव जातलो. देवाले वर्सुकी परबे दिसा तुमी येयात आनी देवामुखार सास्टांग पडात. खर्णवीर काशीपुरूस तो, हवस्थान मारून शिवस्थान जोडिल्लो.''

दुसऱ्या दिसा आपा नायक आनी गिरी नायक तांकां घेवन गांवचे उत्तर दिशेक आशिल्ल्या एका पडिंग तिट्यार गेले. आपा नायकान वांगडा खांदार एक मेड आनी एक तणा पेंडो घेतिल्लो. ती मेड तांणी त्या तिट्याचे मदीं मारली आनी ताचेर तणापेंडो दवरलो. आपान म्हटलें, ''ह्या मेडेतिट्यार तुमी तुमचें घर उबे करतले. तुमचें व्हड व्हडंतर जातलें. पांचाचे पंचवीस जातले.''

इकरा दीस जाल्ले तांकां आदोळशीच्यान भायर सरून. ह्या इकरा दिसांत तांणी कितले दगदगे सोसले, कितली मानहानी जाली, कितलो उपासतापास काडलो! शेवटा इतलो राखून हाडिल्ल्या देवाक दरयांत बुडोवचो पडलो! हें निळू नायकाल्या मनाक खूब लागलें. तरीय इल्लें समाधान आसलें, शेवटा वांगडा हाडिल्ल्या ह्या भावपुतांक एक ठिकाण मेळिल्लें. आतां तांचें नशीब तांचेकडेन. आतां ताका रोखडेंच आदोळशी परत वचूंक जाय आसलें. पुराय आदोळशी गांवांत चारपांचच घराबे

किरिस्तांव जावचे उरिल्ले. तांतूंत तागेलो एक घराबो. थंय कितें जालां, फाल्यां कितें जातलें हाची शाश्वती नासली. तरीय ताका आपल्या घरादाराची, थंडशीतळ कुळागराची भोव याद येताली. कशेंय करून एक फावट घरा पावनशें जाल्लें.

भोवच थकिल्लो निळू नायक. धिमयो रुंव दुखिल्लेवरी दुखताल्यो, हातपांय तोंड सुजिल्लेवरी जाल्ले. बशिल्लेकडेनच धांप लागिल्लेवरी जाताली. दुसऱ्या दिसाक म्हाजाळे आवारिवयल्यान ताणें एक व्हडें केलें वेळसांव वचूंक. व्हडेकार फक्कत वेळसांव मेरेनचोच दरया वाठार जाणा आसलो. ताचे मुखाल्लो दरया तो नकळ आसलो. निळून आपल्या लोकांक सांगलें, "येयल्ले वाटेनच परत वयतां."

म्हाबळून विचारलें, "खोलसान मुखार चलून वचूंक जातलें तुज्यान निळूदाद?"

"कशेंय बळाबळ करून वचून घालून घेतां घराचे वासरेंत."

व्हडें दरयांत पयस नदरे आड जातामेरेन सगळे आवारेर उबे रावन पळयताले. पूण व्हडें दरयांत मदीं पावलें, वोताची तिरीप लागूंक लागली तसो निळूचो जीव वयर सकल जावंक लागलो. रातीं ताका इल्लो जोरय येयल्लो पूण तो ताणें कोणाक सांगिनासतना आंगारच काडिल्लो. आतां सगळेंच घुंविल्लेवरी जातालें आनी आंगाचें त्राणच सोंपिल्लें. तो बशिल्लेकडेनच लवंडलो. ताणें व्हडेकाराक म्हटलें, "जावचें ना म्हज्यान आनीक."

उंच, गोरो, गिरेस्त आंगलोटाचो निळू नायक. ताची आवतिकाय व्हडेकाराच्यान पळोव नज जाली. ताणें म्हटलें, "चड पयस पावंक नात. वरभराची वाट कापल्या. आमी परत म्हाजाळे या तुमच्या लोकांमदीं." तो वोगीच रावलो. व्हडेकारान व्हडें परतिलें. म्हाजाळे हाडून निळूक तांणी ताच्या लोकांचे सुवादीन केलो. तांणी उखलून हाडून ताका आपल्या नव्याच बांदिल्ल्या मांगरांत घातलो. तेच रातीक निळू नायक भायर पडलो.

तांणी आपल्या मनशाचें पयलें दहन दरया आंगान एके उंच सुवातेर ओंवळी रुखामुळाक केलें. नागभटानच ताची क्रियाकर्मा केली.

सुखडो आनी जना नायक कोण काळाचें कसलें दुस्मानपण घेवन बशिल्ले कोणाक खबर. फक्कत शेताभाटाचें हें दुस्मानपण काय आनीक कसलें? आपूण व्हड, आपूण गोरो, बुदवंत, हेरांपसून वेगळों ही जनाची गर्विश्ट व्हडविकाय आनी सुखड्याचो रागीट सबाव, बेदरकारपणान गाळ्यांचो शिंविर करप हांचो मेळ बसनासलो, सूर जुळनासलो. जनाक दिसतालें, सुखड्यान उश्टें, भश्टल्लें शीत घरादारांत उडोवन आपणाक किरिस्तांव जावंक लायलो. ना तर हांव देवाभावार्ती सासणाचो हिन्दू

म्हण शाबूत उरतासलों. ताका सुखड्याचेर राग आसलो. हो राग आनी फाटलो वर्सासंकिनींचो राग आतां एक जाल्लो. हांव ताका बुद्द शिकयतलों, ताका मातयेंत कालयतलों !

मुखावेले खोंपीच्या पाख्यार एक गुबगुबीत धवें माजर बशिल्लें. तें आपलेच तनरेंत आंग ल्हेंवन घेतालें. जना नायक ताचेसरीं कांय वेळ मज घेवन पळयत रावलो. मगेर ताणें बायलेक उलो माल्लो. ताणें म्हटलें, "तीं दळदिरीं कावळां शेजारा आससर म्हाका सुख लागचें ना. तेंकां लागून आमकां हें अशें किरिस्तांव जावचें पडलें. तेंकां पावयतलों हांव. म्हजी जमीन खावंक सोदतात. गांवकेची जमीन लुटून गिरेस्त म्हण मिरयतात. तेंकां पळय कसो धरतरेक लायतां हांव. उश्टें शीत घेवन म्हज्या घरांत धांवन येता! चिंतल्यार सोंसूक ज़ायना म्हज्यान!"

"हय, वायटच लोक ते सुवार्ती. झगडमुळे." मगेर बायलेन चिरक्या आवाजांत म्हटलें, "ह्या गांवांत किरिस्तांव जावचें तशें कोणाक चुकूंक येवंक नासलें. आसलेंच तें आज ना फाल्यां."

जनाक शिट् जालें. "हांव जावचो नासलों किरिस्तांव. गांवा भायर वचून एकलोच देव थापून रावतासलों. म्हाका कोण हात बोट लायता तें पळयतासलों. हेका लागून हें अरिस्ट आमचेर येयलें." बायल ओगी रावली.

गुणा तांकां मारून धांवन वयतकीर रोखडेंच सुखड्यान आनी तेगेल्या चेड्यान गांवकेच्या शेताक हद्देफातर घालून मेरो करून जोत बांदिल्लें. दोग सोल्दाद कमरेक तरसाद बांदून थंय उबे आसले. गांवचे लोक पयस पयस वंयेकडेर बीन उबे रावन पळयताले, पूण कोण एकलो मुखार आयलो ना.

ह्या दिसांनी तीगय पूत तशे उमेदींतच आसले. पुराय गांव किरिस्तांव जातकीर आनी गांवांतल्यान देव वयतकीर तांकां मेकळें मेकळें दिसतालें. पूण सुखडो मात घुम्म मोनोसो जाल्लो. पयलींवरी घरांतल्यांचेर राग काडिनासलो. जना नायकाचेय वाटेक वचनासलो. ताटांतल्यान मीठ काडून घेवचें तशें ताचें उलोवप, ताचो गाळयांचो शिंवर कोणें काडून घेतिल्लो.

ताका भटान केन्ना सांगिल्लें, दर उमास पुनवेक, स्राद्धाक, म्हाळाक मेल्ल्या पितरांक उदक गिरास घातलो ना तर तीं तानेन भुकेन तळमळत रावतात! सुखड्याले तकलेंत तेंच तेंच घुंवतालें. आतां आतां दर उमास पुनवेक तो चोरून कावळ्यांक गिरांस घालतालो. उमास पुनव येयली म्हणटकीर व्हडले सुनेक म्हणटालो, 'फाल्यां उमास. म्हज्या आवय-बापायक, घराब्यांच्या पितरांक गिरास घालूंक जाय गो !'

सून मगेर ताकतिकेन इल्लो गोडाचो पायस करताली. मांय तर मनीस-भायरीच जाल्ली. पायस केळीचे शिरवते पानांत घालून सून मांवाल्या हातांत दिताली. सुखडो

उदकाचो तांबयो आनी तो गिरास घेवन घराफाटल्यान वयतालो. थंयच्या एका बसक्या आंब्या खानवार वाडयेचो गिरास दवरून ताचेर उदक शिंवरून ल्हवल्हव कावळ्याक आफयतालो. परचे उमाशेक मात ताणें सांवारच केलो. आंब्या खानवार गिरास दवरून कितलोसोच वेळ व्हडाव्हडान अऽऽय अऽऽय करीत कावळ्याक आफयत रावलो. घरांतल्या लोकांचो आवरोच हुडलो. व्हडली सून ताका शिनाल करून वोग्गी राव, पुरो म्हण सांगताली. मनांत म्हणटाली, आज कितें जालां हाका! मारून येयल्लेवरी करता.

जनान आयकलें. तो धांवन धांवन मागीलदारांत येयलो. दवरिल्ली वाडीय पळयली. ताणें बायलेक व्हडान म्हळें, "पळयलें न्ही. पितर स्राप दिवन नरकांत धुकलीत म्हण भियेता. आमी सोडलो ना देवधर्म? वारो येयलो तशें सूप. हांणी खंयचोच धर्म नीट पाळ्ळो ना. पयलींचोय आनी आतांचोय."

सुखडो परत येतना ताची नदर जना नायकागेर गेली. ताका पळोवन एकदम शीर फुटिल्लेवरी सुखड्याक राग येयलो. ताणें म्हणटलें, "कितें पळयता दोळे फोडून? कावळो कोंचयतलो तुजे दोळे. सुणे हेरांक उणे लेखताले. पडलो ना, तेतूंतच तोंडार पडलो ना?"

जना कांयच आयकोंक नाशिल्लेवरी वोगी घरांत गेलो. दुसऱ्या दिसाक सकाळीं उठून ताणें पुडवें न्हेसलें, आंगार बंडी घातली. तकलेक तांबडो रुमाल बांदलो. हाताक हातभर तो खुरीस घेतलो. फाटल्या दिसांनी गोंय पाटणांतल्यान असले शंबरेक खुरीस हाडून दरएक घराब्यांत ते वांटिल्ले. शेताभाटांत वचचें सोडल्यार हेर खंयूय वयताना जाण्टेले तो हातांत धरताले. चड करून ताच्या अंमलदाराक मेळूंक वयताना तो हातांत जायच आसतालो. धाकली सून पार्वत - फातिमान ताका घरांतल्यान भायर सरून वयतना पळयलें. ताणें बेगीबेगीन घरांत वचून सगळ्यांक सांगलें. सगळे धांवन दारांत येयले. म्हालकूमय हांथरुणार पडिल्ली उठून बसली. ताका तसो वयता तें पळोवन सगळे चिंतेंत पडले. खंय वयता हो सकाळींसकाळीं गांवाभायर वचूंक सुटिल्लेवरी! आमचो घात मारूंक वचना मू!

एका वर्साफाटीं गांवाक इन्क्विझासांव म्हटल्यार कितें खबर नासलें. पूण आतां आतां ताच्यो भिरांकूळ खबरी ते आयकताले. पाद्री सिमांव पिरिसाक ताणेंच धरून व्हेला म्हणय तांकां कळिल्लें. गांव किरिस्तांव जातकीर सगळे तांकां सांगताले, धर्माआड कर्तुब केल्यार तुमकां इन्क्विझासांव धरून व्हरतलें, बंदखणींत घालून लासून मारतलें म्हण. हालीं हालीं गोंय पाटणांत वचून येयल्लो तांकां सांगतालो, 'थंय तांचें 'व्हडलें घर' आसा. थंयसर पासार जातना सगळे तोंड बंद करून वोगी वयतात. तेवटेन बोट दाखोवंकय भियेतात.'

जना सकाळीं सकाळीं असो गेल्लो पळोवन तांकां दिसलें, हो घातमारो मनीस आमकां लावन दिवंक वयता. दीसभर खपखप्यान सगळे घरभर लोक वोगी पडून रावले. दीसभर बायलांनी रांदलें लेगीत ना. इलो पेजे निवळ करून भुरग्यांक कुयां मुड्डून घातलीं.

जना पाखल्यांले वसते शेजारा पावलो आनी ताका आपलें आंगावेलें पुडवें विचित्रशें दिसूंक लागलें. ताणें याद करून पळयलें, त्या लोकांनी पुडवें न्हेसूं नाकात म्हणिल्लें काय न्हेसल्यार उपकारना म्हणिल्लें. ताका कांयच याद येना जाली. तो वाटेर थाल्लो. पुडव्याचो कासाटो वयर अन्नून घेतलो, सोगो वयर घेवन पुराय पुडवें धोपरावयरच गुठलायलें. गोंय पाटणांत एक फावट गेल्लो तेन्ना देशी शिपाय अशेच तरेन पुडवें न्हेसतात तें ताणें पळयल्लें. हातांतलो खुरीस राखत तो चलूंक लागलो.

तांचे वसतेर तो पावलो आनी एकदम भिरांत ताच्या काळजांत देंवली. ताचीं पावलां आडखळूंक लागलीं. पूण सुखड्याविशीं एक तिडकीचें ल्हार भितर उसळ्ळें. तो धीर करून मुखार येवन उबो रावलो. हात पसरून भिकेक राविल्ले वरी. एक सोल्दाद लागीं येयलो. ‘‘कितें काम आसा?’’

‘‘तुमच्या पदवेदाराक मेळूंक जाय आसलें.’’

तो सोल्दाद फाटीं फिरलो. तें बेताळा देवूळ तांणी बदलूनच उडयल्लें. कुशीन ताका जोडूनच आनीक दोन खोंपी उब्यो केल्ल्यो - तणा चुडटांच्यो. मुखावेल्यो चुली, थंयचीं व्हडलींव्हडलीं आयदनां अस्ताव्यस्त पडिल्लीं. थोड्याच वेळांत शेफ आनी पाद्री पावल कुलासू वांगडाच येयले. पाद्रीन ताका विचारलें, ‘‘सकाळीं उठून तुवें कोणाक पुजलो, कोणाक रोजार केलो?’’

जना मात्सो गडबडलो. इश्वर म्हण ताच्या तोंडार येयल्लें. पूण बेगीबेगीन ताणें जीब आंवुळ्ळी आनी म्हटलें, ‘‘येसूची.’’

‘‘खरें सांगता तूं हें?’’

‘‘हय. देवाक मानपी सडेभावार्ती मनीस हांव. म्हाका कोण ना कोण देव जाय. आतां येसूच न्ही गा आमचो देव?’’

शेफ वोगीच उबो आसलो. आतां ताणें विचारलें, ‘‘सकाळीं सकाळीं आज कित्याक येयला तर तूं?’’

‘‘तो म्हजो दायजी शेजारी सुखडो मोटो धर्मभश्ट मनीस. किरिस्तांव धर्माच्यो बकच्छायो करता. आपलो पोन्नोच धर्म वेंगोवन आसा. काल उमाशेक ताणें कावळ्याक गिरास दिलो. गायेक पान दिलें. भटाक पड पावयली. म्हज्या दोळ्यांनी हांवें पळयलां हें सगळें.’’

कित्याक नकळो, शेफ ताचेर एकदम तापलो. आकांताचो तापलो. ‘‘वचून

मरात तुमी खंयतरी वचून! कित्याक गांव सोडून वचून खंयतरी मेले नात! दुश्ट पडमूर लोक तुमी. तुमी बरे हिन्दूय केन्ना नासले, आनी बरे किरिस्तांवय जावंक पावचे नात. मदींच हुमकळत उरतले.''

पाद्री कुलासूक शेफ इतलो कित्याक तापलो तें नीट कळ्ळेंना. ताणें मात्शें दुबावनशें ताका पळयलें. मगेर जनाक विचारलें, ''तुवें सुखडो नायकान हिन्दूलें देवस्पण केल्लें तुज्या दोळ्यांनी पळयलां?''

जनान शेळेल्ल्या आवजानशें म्हटलें, ''हय, हय गा पाद्रीबापा !''

''तुवें गोंय पाटणांत वचून हें सगळें इन्क्विझासांवाच्या जाळवणदारांक सांगचें पडटलें.''

जना वोगीच रावलो.

''वांगडा दोन सोल्दाद येतले. पूण तुका इन्क्विझासांवां मुखार वचून सगळें सांगचें पडटलें.''

जनान तकली हालयत 'बरें' म्हटलें.

शेफीन मदींच म्हटलें, ''अन्नाडी, बुद्दीहीण भावार्थी लोक हे. तेंकां कितें करचें कितें करचें न्ही तेंच कळना जालां. ल्हवल्हव सगळें थाऱ्यार पडटलें. पाद्र, तेका एक फावट बोगसणी दिवंक जायना?''

पाद्री कुलासून ताका विचित्र नदरेन पळयलें. ''शेफ, हो गांव पुराय किरिस्तांव करून उडोवंक, देवूळ पाडूंक तुवें भोव आधार केला. तूं एक बरो किरिस्तांव म्हण हांव तुका मानतां आनी तुज्या हेर गुन्यांवांवरी होवूय गुन्यांव तुका माफ करतां. पूण तूं जाणा जा, दोळ्यांनी पळयल्लें तशेंच कानांनी आयकल्लें पाड कर्तूब इन्क्विझासांवाक सांगले बगर रावप होवूय धर्माआडचो गुन्यांव. धर्माचो एक म्हणयारो म्हण कानार पडिल्लें तांचेमेरेन पावोवप म्हणजे बरें काम.''

ताणें बेगीबेगीन दोगां सोल्दादांक मुस्तायकी घालून जना नायका वांगडा गोंय पाटणांत वचूंक सांगलें. गोंय पाटणांत वचूंक मुखावयली दोंगुल्ली चडटना तांकां फाटीं वळोन गांवावटेन पळोवंकय भिरांत दिसताली. तो आपलें मन जाता तितलें घट दवरचेले यत्न करतालो. सुखडो नायकाविशीं मनांत एक तिडकशी उबी करून म्हणटालो, जिवीतभर म्हजो दुस्वास केलो, म्हजे आस्पदेचेर दोळो दवरून म्हजेकडेन झगडलो, म्हाका बाटयलो, म्हजो घात माल्लो. उठसूट म्हाका गाळी घालता...

खिणांत दिसतालें, सगळें फाटीं घेवचें. परत घरा वचचें. पूण आतां तो तांच्या रेवाड्यांत गाविल्लो. उपाय नासलो. सुखड्याविशींचो राग तर वर्सांसंकिनची कळम धरची तसो मनार बशिल्लो.

आदोळशीसान अण्णूक पाद्री सिमांव पिरीस हाणें गोंय पाटणांत हाडून सां कातारीन इगर्जेंत बातिज्म दिल्लो. तोच तेचो धर्मबापूयय आसलो. पूण बातिज्म घेतकीर गांवघरा परत वचप काय जालेंना. तेन्ना गांव पुराय हिन्दू. पाद्री सिमांव पिरीस हाचो देवमोग आनी गांवच्या लोकांचें आडमुठेपण हांचे कातरेंत सांपडिल्ल्या अण्णूची आतां दैनाच जाल्ली. फिदाल्ग कास्तेल ब्रांकून तेका बातिज्म घेतकीर इगर्जेच्या दारांतल्यानच 'पोसको' म्हण आपल्या घरा हाडिल्लो. हाचे खातीर तेणें इगर्जेच्या पाद्रींक कांय दुडूय फारीग केल्ले. अण्णू - आतां तो आंद्र्र जाल्लो - तेका आपल्या गांवघराची, पांगळ्या भावाची, पाद्री सिमांव पिरीसाची खूबखूब याद येताली. ते यादीन तो सदां रडटालो.

सकाळीं सकाळीं तो निग्रो गुलाम कापिल्ल्या हाताचें लुंड हालयत भीक मागूंक वयतालो. माडाक उदक रखयतां रखयतां अण्णून तेका पळयलो आनी तो मनाच्या देठापसून दुखावलो. त्या निग्रो गुलामालो हात अण्णूल्या दोळ्यांमुखार तरसादेन कातरिल्लो. अण्णू आनी हेर चार गुलामांलो मालक कास्तेल ब्रांकू आनी आनीक एक पुर्तुगेज फिदाल्ग हांचे मदीं मोटें दुस्मानपण आसलें. तें कसलें दुस्मानपण हें कोणाच गुलामाक खबर नासलें. एक फावट रातचें त्या दोगांय फिदाल्गांनी आपआपले गुलाम एकदुसऱ्याचेर सोडले. हातांत तरसादी आशल्ल्या त्या गुलामांमदीं मोटो संगर जालो. एक गुलाम जिवानशीं मेलो. एकल्यालो हात दंडासकल्ल्यान कापून गेलो. पूण हाची केस बीस जावंक ना. ती जावचीय नासली. तांणी तें गोरूं, घोडे मेल्लेवरीच धरलें जावंये. हरशींय त्या गुलामांची जीण गोरवां परस पाश्ट आसली. त्या हात गेल्ल्याक मागीर कामाचो गुलाम न्ही म्हण मालकान धांवडावन घातलो. ते भगदडींत अण्णूय आसलो. पूण तो शेवटा मेरेन तरसाद हेळयनासतना कुशीकुशीनच उरलो.

अण्णूक इगर्जेतल्या दारांतल्यान फिदाल्ग ब्रांकून पोसको म्हण हाडिल्लो. उपरांत मात ताचेमदीं आनी गुलामामदीं व्हडलो फरक उरूंक नासलो. फरक इतलोच आसलो, हेर गुलामांक घोड्यांवरी, बैलांवरी भायल्या कामाक धाडटाले. अण्णू मात घरांतलो वावर करतालो. हेर गुलामांमदले दोग दारी दळच्या कारखान्यांत ओजीं व्हांवंक वयताले. एकलो चिरपी म्हण काम करतालो. चड करून फातमारी बांदूंक लागची फळी चिरूंक तो वयतालो. ताचे दिसवड्याचे दुडू तांकां मेळनासले. ते पावताले गुलामाच्या मालकाक, फिदाल्ग ब्रांकूक. आनीक एक तांचेमदीं निग्रो गुलाम आसलो, मोटो मस्तो आनी झगडमुळो. पाशाण फोडून उबो केल्लेवरी काळो कुळकुळीत आनी तितलोच घट. ताका सट्करून राग येतालो आनी विनाकारण कोणाकय मार धाडय करतालो. फक्कत ब्रांकूक भियेतालो तो. केन्नाकेन्ना ब्रांकू ताका पालमात्रेन फोडून काडटालो. तरीय तो ताका वांगडा घेवन भोंवतालो. सुण्याक छूऽ घालतकीर

सुणें कोणाल्याय आंगार धावन वयता तसो तो ब्रांकून फर्मायल्यार कोणाकय धोडायतालो. घरांतल्या हेर गुलामांकय ताणें जायतो मार मारिल्लो. अण्णूक मात ताणें केन्नाच हात लावंक नासलो. दोन वर्सां जाल्लीं अण्णूक ह्या घरांत येवन, मालक ब्रांकून एकच फावट ताचे फाटीर दोन पालमात्री ओडिल्ल्यो. कारण सामकें क्षुल्लक आसलें ___

एक दीस ब्रांकूली बायल गुलाम बायलेक वांगडा घेवन वयचे बदलाक अण्णूक घेवन इगर्जेंत, मगेर दुकानांनी बीन गेल्ली. ताचो राग ब्रांकून अण्णूचेरच काडिल्लो. चवगां गुलाम बायलां आसलीं. एकली जाण्टी निग्रो. ती कमरे भोंवतणींच एक भरडशें वस्त्र गुठलावन घेताली. हेर सगळें आंग उकतें. तिची जिरिल्लीं अळंग थानां हड्ड्यापासून पोटामेरेन रितीं लांबतालीं. ती दीसभर थार दियनासतना घरांत वावर करीत रावताली आनी हेर बायलां गुलामांचेर तापसाण काडटाली. घरांत भोंवतना एक व्हडली काळी माजन्र भोंवता अशी ती दिसताली. तिचीं आपसूकच नेमून दिल्लीं अशीं तीन कामां आसलीं. घरांत वावर करप, हेर गुलाम बायलांचेर शेक चलोवप आनी ब्रांकूक, ब्रांकूल्या बावीस वर्सांच्या चेड्याक जाय जाल्ली गुलाम बायल ताचे मुखार धुकलवप.

आनीक एक गुलाम बायल दीसभर रेंगिल्ली कोंबी कशी हांथरुणार पडून रावताली. सांज जातकीर बरीं वस्त्रां न्हेसून पोले तांबडे करून भायर सरताली. ती गोंय पाटणांतल्या सोल्दादांक भुलयताली आनी शिंदळकी करताली. पूण तिणें जोडून हाडिल्लो पयसो तिचो नासतालो. तो पुराय फिदाल्ग ब्रांकूक दिवचो पडटालो. तें ताणें पोशिल्लें जनावर. ताका पयसो मोडचो अधिकार ना. गोरवांमुखार चरव उडोवचो तसो ताका पोटा-कुळाचोच अधिकार. आनीक एक गुलाम बायल आसली. सामकी थंड. दिसांतल्यान एक उतर ती उलयनासली. तिची कसली कागाळय नासली. ब्रांकूचें व्हड बाग आसलें. तांतले आंबे, फणस, नाल्ल, शाकभाजी, फुलां घेवन ती तिठ्यार विकूंक वयताली. ती जुवान आनी इल्ली गोरीय आसली. केन्ना जाण्टेली निग्रो गुलाम बायलेन फक्कत सुनशा दिल्यार कांय एक उलयनासतना वोग्गी ब्रांकू वांगडा न्हिदूंक वयताली. केन्नातरी तिनसांज कात्रेरबीन बागांतल्या एकादऱ्या झाडामुळांत बसून रडटाली. ती निग्रो गुलाम बायल ताका रडटना कांयच उलयनासली. तिचें रडून जातकीर ती केन्ना म्हणटाली, ''तुमचे परस मोनजातीचें भोव बरें. तेंकां रडूंकय कळना आनी हांसूंकय कळना.'' मगेर ती एकदम तापताली. ''तुमकां दुडू फारीग करून विकती हाडल्या, पोटाक कूळ घालतात तें फुक्याचें कितें? कामां करात, कामां. नातर पात्रांवाक सांगून मारून झोड काडटले तुमचो.''

तांतूंत एक गुलाम बायल आसली तें एक पंदरा वर्सांचें चेडूं. गोरें, लांब पूण भागिल्लेंशें. भिजिल्ल्या दोळ्यांचेंशें. तें रडून दोळे ओले करून घेता काय ताचे दोळे

जल्माचेच भिजिल्ले, सांगूंक जायनासलें. अजूनय चेहऱ्यार भुरगेपण नंदतालें. पातळपातळ गोरीं ओटां दुदाक आशेल्लेवरी हालतालीं. इल्लें अरवळच. ताका हांगाची भासय नीट कळनासली. कोप हाडून दी म्हटल्यार बशी हाडून दितालें आनी बशी हाड म्हटल्यार पेलो हाडटालें. मगेर तें ब्रांकू बायलेकडच्यान, ते जाण्टेले निग्रो बायलेकडच्यान मार खातालें. त्यो ताका दोवल्या दांड्यांनी, सान्निंनी मारताल्यो.

मदींच ब्रांकूलो चेडो आंतोन रातचो घरा उसरां येवंक लागलो. घरांतल्या गुलामाकडच्यानच ब्रांकू बायलेक कळ्ळें, तो ताचेपरस बरीच व्हड एके नायकिणीसरीं वयता म्हण. ब्रांकू बायलेक सुलूस लागिल्ली आसुंये, आदींच तिणें ताचेखातीर घरांतच सोय करून दवरिल्ली आसुंये. वर्साफाटींच तिणें तें पंदरा वर्सांचें गुलाम चेडूं लिलांव तिट्यार तीस क्रुसादांक विकतें घेतिल्लें, बरें पळोवन पारखून. लिलांव तिट्यार एक जाण्टी बायल आसली. ती गुलाम चेडवांचें आंकवारपण तांच्या गुप्त आंगांत बोटां घालून पारखिताली. तिणें तशेंच हें चेडूं गोरेतीक पारखिल्लें. गुप्त आंगाक हात लावंक वयतकीर तें आंग चोरून धांवन वयतालें. निमणें, फाटीर चाबूक मारून ताका कट्यार उबें केल्लें. आंगार एकच इल्लेंशें वस्त्र. तें हड्ड्यारय थारनासलें आनी कमरारय पावनासलें.

चेडो भायर हुंगूंक वयता म्हण कळटकीर ब्रांकू बायलेन ते जाण्टे निग्रो गुलाम बायलेक सांगून गोरेतीक चेड्यामुखार धुकललें. कुडींत धुकलतनाच तिणें आदीं एक ताच्या सोणकुटार माल्लें आनी शिटकायलें, मस्तेपणां केल्यार आनीक पडटली म्हण.

गोरेतीक विकतें हाडिल्लें तेन्ना कितेंय विचारल्यार तोंड उकतें करिनासले. ताका खंयचीच भास समतीच कळनासलें अशें नासलें. गोंय पाटणांत कोंकणी, कन्नड, गुजराती आनी मराठी ह्यो देशी भासो लोक उलयताले. एक दुसऱ्याची भास लोकांक थतरमतर कळटाली. मुदलांत गोरेतीची भास गुजराती मेवाडी अशी सरमिसळ एक आगळीच भास आसली. हांणी नानापरीन नानाभशेन कितेंय विचारल्यार तें तोंड उकतें करिनासलें. मगेर तांणी मारून मारून ताचें तोंड फोडलें. तोंडांतल्यान रगत व्हांवंक लागलें तरीय तें कांय उलयलें ना. मगेर रोखडेंच ब्रांकून इगर्जेंत व्हरून ताका बातिज्म दिवन हाडलें. ताका नांव दवल्लें गोरेती. ताचें मुदलांतलें नांव कोणाकच कळ्ळें ना. अण्णूक गोरेती म्हणूंक येनासलें. तो ताका गोरें म्हणटालो. कोणें गोरेती म्हण उलो माल्ल्यार तें उबें राविल्लेकडच्यान थंड पावलान हालतालें. अण्णून मात 'गोऱ्या' म्हटल्यार ताचे दोळे भिररिताले, तोंडार हयऱ्हयशें हांशें उदेतालें.

गोरेती मूळ गुजरातेंत खंबायत वाठारांतलें. थंय तेन्ना भोव खर दुकळ पडिल्लो. मनशां अन्नाक वळवळटालीं. लोकांचे लोंडे गांव सोडून वयताले. वयताना वाटेर मरून पडटाले. तेन्ना गोऱ्याल्या आवय-बापायन ताका खंबायतांत एके गिरेस्त विधवेक

तीन सेराफियांक विकिल्लें. तेन्ना तें फकत तीन वर्सांचें आसलें. ते विधवेन ताचो मायेन प्रतिपाळ केल्लो. कांय वर्सांनी ती विधवा मेली. ती मेली तेन्ना गोरें तेरा वर्सांचें आसलें. ते विधवेचे दोग देर, एक लग्न जाल्ली नणंद आसली. ती मरतकीर ताचे हे सोयरे गोऱ्याक खूब त्रास दिवंक लागले. ताणें घर सोडून धांवन वचचें म्हण ताका मारबडय, दागभाज करूंक लागले. पूण तें घर सोडून खंय म्हण वतलें आसलें! शेवटाक त्या लोकांनी गोऱ्याक एका दलालामार्फत खंबायत दरयार हाडून गुलाम म्हण विकलें. तेन्ना तें पांय धाडावन आनी किळाच्यो मारून रडिल्लें तें निमणें. तेन्नासान तें रडलेंय ना आनी कोणाकडेन सुखदुख्खाचें कितें उलयलेंय ना. आतां आतां केन्ना चुकून भायर पडिल्लेवरी एखादेंच उतर. अशें तीन-चार फावट तरी ताचें उलोवप अण्णून आयकलां. अण्णूक ताच्या उतरांक परमळ आसा, ओलसाण आसा, म्हौंवसाण आसा अशें दर फावट दिसलां. ताणें उलोवचें म्हण तो आशेतालो आनी ताचेसरीं गणमणटालो. पूण तें कसलें हटी. एक दीस घराफाटले पेरीर एक अजापाचें सोबीत शेवणें येवन बशिल्लें. गोऱ्यान तें मागीलदारा उबें आशिल्लेकडच्यान पळयलें. तें एकदम सान भुरग्यावरी 'कुर्टुर कुर्टुर सवणें' म्हणत तेवटेन धांवलें. हे ताळयेवेल्यान ते ताळयेर हुडटल्या शेवण्याक मजेन पळयत रावलें. अण्णू थंयच आसलो. तागेल्यो हुडक्यो, तागेलें उलोवप आयकून तो खुशालभरीत जाल्लो. धनयान दिल्लें तें तागेल्या आंगावयलें मोटवें वस्त्र हड्ड्यावेल्यान सकल देंविल्लें. तागेलीं गोमटीं तन्नीं थानां पुराय दिस्टीक पडटालीं. खरें म्हटल्यार तें वस्त्र कमराक गुठलावन घेवंक म्हण कमराक पुरो तितलेंच आसतालें. पूण कांय लाजऱ्यो अस्तुऱ्यो ताचें एक शेवट बळयां हड्ड्यावयल्यान ओडून घेताल्यो. गोऱ्याली नदर सट्करून अण्णूचेर गेली. तें लजलें आनी ताणें मान सखल घातली. सकल पडिल्लें वस्त्राचें शेवट ताणें हड्ड्यावयल्यान खांदार उडयलें. बेगीबेगीन थंयसान धांव मारून भितर येयलें.

ते रातीकच परत एक फावट ताका ब्रांकुल्या चेड्यासरीं ते निग्रो गुलाम बायलेन धुकल्लें. अण्णूली नदर आसताली. ताका कळटालें, ब्रांकुल्या चेड्यासरीं वचून येयल्ले राती दुसऱ्या दिसा तें घुम्म मोनें आसतालें. दोळ्यांक लिकलिकसाण नासताली, पोल्याची ताभसाणय ना जाताली.

बाजारांत एकेकडेन बैला गाडे जळोवा लाकूड घेवन येताले. थंयसान जळोव विकतो हाडचो पडटालो. केन्ना गोरें आनी अण्णू जळोव हाडूंक वयतालीं. सुरवेक गोऱ्याले तकलेर भोरो दिल्यार मान सगळीच हालताली. केन्ना भोरो चुमळीवयल्यान निसरून तांगेल्या आंगार पडटालो. मगेर अण्णू तागेलो आनी आपणालो दोनय भोरे आपले तकलेर मारतालो. केन्ना ताका अर्दवाटेर हाडून पावयतालो. आतां आतां मात संवंय जाल्ली गोऱ्याक तकलेर वजीं घेवचेली.

एक दीस उदक काडटना राजवासयत मातये बिंदलो बांयंत पडलो. पडटना बिंदलो पावड्याक आपटून फुटलो आनी ताचीं कैलां बांयंत फासपून पडलीं. जाण्टे गुलाम बायलेन ताका खूब संवलें, बुरशो बुरशो गाळी घालून. आयकोन ब्रांकू बायल थंय येयली. ब्रांकुली एक लांब बेता बडी कोनशांत उबी केल्ली आसताली. दादल्या गुलामांक मारूंक तिचो तो उपेग करतालो. ती बडी ब्रांकु बायलेन उखल्ली आनी रंऽव करून गोऱ्याले उकते फाटीर ओडली. गोरी पातळ कात, सट्‌करून वेंतभर तामसो वळ उठलो. गोरें न्हिन्नळलें, आवयस्स करून आड्डलें. मगेर कुशीक वचून एका कोनशांत बसलें. पूण तांणी ताका बसूंक दिलें ना. हातांत दुसरो राजू आनी बिंदलो दिवन उदक भरूंक लायलें. उदक भरून जातकीर तें मागीलदारांत जळोवा राशीच्या अडसराक वचून बसलें. तें रडनासलें, पूण चेहरो, दोळे तांबडे जाल्ले. दोळे फक्कत चड भिजिल्लेवरी दिसताले. अण्णू घरांतच आसलो. ब्रांकुन एक भिल्लमाडाचें मूळ खंयच्यान तरी हाडून घराकुशीक उडयल्लें. ताचे मदलो गीर उसपून ताची धोण करूंक ताणें अण्णूक सांगिल्लें. ताणें अण्णूक म्हणिल्लें, ''आंद्रू, हांयेन व्हिसरायाले पलासींत तोसलें धोण चोयलां. उपसून, तासून नीट सोबीत धोण कोर.''

अण्णूक बातिज्म दिल्लो तेन्ना आंद्रू म्हण किरिस्तांव नांव दिल्लें. पूण ताका आंद्रू म्हण कोणच म्हणनासले बगर एकलो फिदाल्ग ब्रांकु. हेर सगळे ताका 'अन्नू' म्हणटाले. तो एक ल्हान कुराड घेवन गेल्ले दोन दीस मुळाचो गीर फोडून काडटालो. बांयसरीं ब्रांकु बायलेन बेताबडयेन गोऱ्याक मारिल्लें ताणें पळयल्लें. पूण तो कितें उलयतलो!

कांय वेळान उदक पिवंक म्हण मागीलदारांत गेल्यार ताका गोरें जळोवा राशीपयल्यान बशिल्लें दिसलें. मागीलदारांत तेन्ना कोणच नासलें. अण्णू ल्हवच ताचे म्हऱ्यांत गेलो. ताणें आंगावयल्या वस्त्राचें शेवट चाप्प हड्ड्यावयल्यान ओडून घेतिल्लें. पूण फाट उकतीच आसली. फाटीवयलो काळोनिळो सुजिल्लो वळ दिस्टीक पडटालो. अण्णू कांय वेळ ताका पळयत रावलो. गोऱ्यान एक फावट तोंड वयर करून हरणाचे भिजिल्ले दिठयेन अण्णूल्या दोळ्यांत आरपार पळयलें. अण्णून ल्हवच भियेत भियेत ताचे फाटीर हात दवरलो आनी अळंग वळ सांसपिलो. गोरें एकदम सान भुरग्यावरी रडूंक लागलें. आवाज अंदून घेत दुकां गळयत रडूंक लागलें. अण्णूक भिरांत दिसली, हांव आनीक हांगा उबो रावल्यार ताचो आवाज भायर फुट्टलो. तो थंयसान कुशीक सरलो.

गोरें अण्णू उपरांत आठ म्हयन्यांनी येयल्लें. येवन सवा वर्स जावंक येयल्लें. पूण तीं केन्ना एक दुसऱ्या मुखार उबीं रावन उलोवंक नासलीं. सगळ्यांचो दोळो आसतालो. गुलाम दादल्यान गुलाम बायले वांगडा संबंद दवरप म्हटल्यार मरण

आसलें. पूण अण्णू पळयतालो, तो म्हऱ्यांत पावल्यार दर फावटी तें ताका असहाय्य. दुबळे नदरेन आरपार पळयतालें. मोगाचें म्हौंवपण, एक विनवणी ताच्या दोळ्यांत देंवन येताली. पूण दोगांय वेगळ्या वेगळ्या लोखणाच्या पांदऱ्यांत. तांच्यो चावयो आनीक कोणाल्या हातांत.

मदीं कांय दीस गेले. एके राती गोऱ्यान काळीज फोडून मारिल्ली किळांच अण्णून आयकली. धडपडत भायर येयल्ल्याचो, दार व्हाजिल्ल्याचो आवाजय येयलो. अण्णू वांगडा फाटले वटेन खोंपींत न्हिदिल्ले हेर गुलाम कितें कितें फुतफुतताले. अण्णूक इल्लें इल्लें कळ्ळें... रागान फुगासांवान ताचें हड्डें फुटूंक पावलें. कांय वेळान मारिल्ल्याचो, धाडायल्ल्याचो आवाज येवंक लागलो.

आज सोऱ्याचे घुंवळेंत जाण्ट्या फिदाल्ग कास्तेल ब्रांकुन गोऱ्याक आपल्या हांथरुणांत ओडून व्हेल्लें. पूण ताणें मानलें ना. तें सुटून किळांचून भायर धांवन येयलें. भायर येतकीर ब्रांकून ताका धरून लाथान मुठीन येथेच्छ बडयलें. मारून हाडांचो, आंगापांगांचो बुको केलो. विकतें हाडिल्लें गुलाम आंगापोंदाक येयना म्हटल्यार कितें! ब्रांकु बायल कुशीक रावन मारता तें पळयताली, पूण तिणें कांयच म्हटलें ना. हेंवाळें बडोवचें पळोवन वोगी रावचें तशी ती वोगी रावली.

कांय वेळान ते निग्रो गुलाम बायलेन ताका बावळ्याक धरून ओडत व्हरून तें सदां न्हिदतालें ते सुवातेर व्हरून घातलें. हाडून घातिल्लेकडेन वोग्गी पडून रावलें. जीव गेल्लेवरी. कांय वेळान ताका झेम लागली. सकाळीं ताका कोणें उठयलें ना. हेर गुलाम बायलांनी चिंतलें, हेचें आंग चेंचलां, कामाभायर गेलां तें, उठून कितें करतलें? ब्रांकुली घुंवळ निवळिल्ली. तोवूय आतां ताचे वाटेक वचचो नासलो. ब्रांकु बायल मात एक फावट येवन पळोवन गेली. तीस क्रुसाद मोलाचो हो म्हालवज मरून फुकटबीन गेलो ना मू तें पळोवंक ती येयल्ली. तिणें हेर गुलाम बायलांक सांगलें, ‘हेका उखलून व्हरोन आंगार हुनशें उदक घालात. बरो शेक बसों दी. मगेर पेज दियात. जाल्यार मासाचें सूप करून दियात.’

दोगां गुलाम बायलांनी गोऱ्याक न्हिदिल्लेकडच्यान उठयलें आनी त्यो ताका न्हाणयेंत घेवन गेल्यो. तांणी ताच्या आंगार हूनहून उदकाचे तांबये रकयले. मदीं ताच्या आंगावयलें वस्त्रच काडून उडयलें. पुराय एक भाणभर उदक सगळ्याआंगाचेर धार धरून रकयलें. उपरांत त्यो ताका तशोच उकत्या आंगान घेवन भितर येयल्यो. आशिल्लें थंयच हाडून ताका घातलें. ताणें आपलें आंगावयलें वस्त्र दियात म्हण तांकां विनयलें. एके बायलेन एक दुसरेंच वस्त्र हाडून ताच्या आंगार उडयलें. ताणें तें बेगीबेगीन आंगाभोंवतणीं वेस्टावन घेतलें.

अण्णू हेवटेन सारक्को पासयो मारतालो. ताका कितें करचें सुचनासलें. म्हऱ्यांत

वचुंकय भिरांत दिसताली. मदीं गोरें न्हिदिल्लेकडच्यान उठलें. तें सोताच्या हातान पेज पियेलें, दिल्लो सूप पियेलें. आंगार हून उदक पडटकीर ताका खरेंच ल्हव दिसतालें. दनपरां उठून तें बांयसरीं गेलें. बांयेपयल्यान एक पुंजेफुलाची घोल आसली. तिच्या अडसराक वचून तें बसलें. आतां तें एक दुयेंत गोरवावरी आसलें. अण्णूय संद सोदतालो. तो वचून गोऱ्या मुखार मोन्यानच उबो रावलो. ताणें तेच आरपार आपलेपणाचे नदरेन अण्णूक पळयलें. अण्णूक दिसलें, तें आपणाचेर पातयेवन आपलो पुराय भार घालूंक सोदता. दुसऱ्याच खिणाक गोऱ्यांल्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं आनी दोळे व्हांवंक लागले. अण्णून म्हटलें, ''रडूं नाका तूं गोऱ्या. देव आसा. पाद्रीबाप सिमांव म्हणटालो, जेजूचेर भावार्थ दवरल्यार सगळें बरें जाता म्हण.''

गोऱ्यान सट्करून म्हटलें, ''आमकां देव ना.''

अण्णूक अजाप दिसलें. ताका उलोवंक कळटा आनी तिवूय बरीं उतरां उलोवंक कळटात म्हूण तो ताचेकडेन मोगान मायेन पळयत रावलो. गोऱ्यान आतां सडसडीत उतरांनी म्हटलें, ''आमी हिंगासावन धांवन वचुंया. म्हाका घेवन वच तूं खंयूय. फाल्यां सकाळीं पयल्या कोंब्यासादार हांव तांबयो घेवन भायर सरतां भायल्यान वचूंक. तांब्यार तीन चिपटां मारतां. तूं यो हळूच उठोन. ह्या फाटल्या दोंगरांतल्यान पलतडी वयचें. कित्याक म्हण सोताक विकून घेतलें तुवें?''

अण्णू पुराय कूड ताठारून, ताठारिल्ल्या दोळ्यान अजापभरीत जावन ताका पळयतालो. कसलें हें अंत नाशिल्लें चेडूं! इतलें सगळें कळटनाय पिशें कांबरून आसलें! अण्णूल्या चेऱ्यार अचकीत हांशें फुललें. ताणें ल्हव ल्हव तकली हालयली. गोऱ्यान विचारलें, ''ह्या दोंगरा पयल्यान तूं पावलां?''

''हय.''

''कितें आसा थंय?''

''गांव आसात, न्हंय आसा, शेतां आसात.''

गोरें एकदम खुशाभरीन जावन हांसलें. ताणें हांशिल्लें अण्णू पयलेच फावट पळयतालो. मुखावेल्या मोतयां कशा दातांतल्यान दोन निश्कळंक दोळ्यांतल्यान, तामशा पोल्यावयल्यान उदेल्लें नितळ सोबीत हांशें. तें हांशें पळयलें आनी अण्णूक दिसलें, हें एक भोवच बरें चेडूं! अण्णून ताका विचारलें, ''तुज्यान जातलीं रानां, शेतां माडोवन येवंक?''

''हय. नज जाल्यार तूं आसा.''

''बरें, कोंब्यासादार...'' तो फाटीं फिरलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं कोंब्यासादार ल्हवूच कवड धुकलून तें येयलें. हातांतल्या तांब्यार ताणें तीन चिपट्यो मारल्यो. पूण दुसरे चिपटेवेळारच अण्णू ताचे म्हऱ्यान

पाविल्लो. तीं दोगांय इल्लो वेळ वगडायनासताना दोंगुल्लेवटेनचे वंयेसरीं येयलीं. अण्णून उकतो पांय वंयेच्या कांट्यार दवरुनच वंय बलांटली. मगेर गोऱ्याक दोनय हात धरून ओडून घेतलें. वंय बळांटकीर आनीक एक पडिंग कशें भाट आसलें. थंय तीन चार मागर कशीं तणाचुडटांचीं घरां आसलीं. एक सुणें भों भों करून आंगार येयलें. अण्णूल्या हातांत एक बारीक खूंट आसलो. तो दाखयतकीर सुणें फाटीं फिरलें. गुप्प काळोख आनी गच्च रान. कोंब्यान केन्ना साद घातिल्लो, वेळ कितलो जाल्लो, कांयच कळनासलें. काळोख तर इतलो भरून आसलो, दोळ्यांत बोट घातल्यारूय दिसनासलें. तरीय वाट नासतनाय अदमासान तीं दोंगर चडटालीं. फक्कत कांट्याकुट्यांचो दोंगर चडप. चडल्यारूच दोंगराच्या माथ्यार पावतलीं आनी मगेर तो देंवन सकल वचूंक येतलें होच अदमास. मदींच कांट्याकुट्यांत, वालींत, झिलींत तीं घुस्पतालीं. मगेर कशीतरी वाट काडून मुखार वयतालीं. गोऱ्यालें पुराय आंग रुंव कशें दुखतालें. पूण कुडीचें भान विसरिल्लेवरी ताचे फाटल्यान चडटी चडटालें. अण्णूच्या बावळ्यांक घट धरून चडटेवयलीं पावलां उखलतालें. दोगांय उकत्या पावलांनी आसलीं. पांयांक कांटेकुटे तोंपले तरीय तीं थारनासलीं. तीं दोंगराच्या माथ्यार पावलीं तेन्ना परत एक फावट चोंयवटेनच्या वाठारांतल्या कोंब्यांनी साद घातलो. तरीय अजून उजवाडूंक नासलें. तीं आतां धांवतच देंवती देंवंक लागलीं. धांवतना गोरें लखिल्लेवरी जातालें आनी मदींच अण्णूक आपट्टालें. अण्णून विचारलें, "गोऱ्या, जावचें ना तुज्यान चलूंक?"

"जातलें. जाता मेरेन चलतलें हांव. पडल्यार तूं उखलून घे."

खरें म्हटल्यार तीं चलनासलीं, सामकीं धांवतालीं. मात्शें मात्शें उजवाडूंक तांणी चिंबळ गांव लागीं केल्लो. गांवाक बगल दिवन सकल्ले वटेनच्यान वचूंक गेल्यार शेतांत धिमीभर चिखोल. जोरगतेचें उदक निकतेंच येवन गेल्लें. चिखोल भरिल्लोच आसलो. घातिल्लो पांय परत वयर ओडून काडूंक कस्ट पडटाले. गोरें तर जीब भायर काडून धांपेवंक लागिल्लें. अण्णून ताका उखल्लें आनी तशेंच खांदाक माल्लें. तो मेरशे बागावटेन धांवंक लागलो. गोऱ्याक खांदार मारून देड दोन मैल तरी तो धांवतालो. एके उंच सुके सुवातेर पावतकीर ताणें गोऱ्याक सकल दवरलें. तो पुराय हुमेन बुडिल्लो. अण्णूल्या आंगार फकत जांगेसरींच टांके मारून शिंविल्लें विचित्रशें झोगळें मोटवें कालसांव आसलें. गोऱ्याल्या आंगावयलें एकच वस्त्र आतां फक्कत कमरेरच गुठली जाल्लें. आदींच अण्णूक तें गोरें बारीक सानशेंच चेडूं कशें दिसतालें. उखलून घेतकीर तर तें ताका ल्हवपिकच लागलें. एका नेटान तो ताका खांदार मारून घेवन धांवन येयल्लो.

तीं आतां मेरशेच्या उजव्या आंगान कालापूर वटेनच्यान बांबोळी दोंगरार वचूंक

वयतालीं. चैत्रांतलो सुर्या उदेतनाच वोताची खर तिरीप घेवन येयल्लो. एकेकडेन एकलो शेतकार मुखार जोत हामडीत खांदार नांगरा घडप घेवन येतालो. तांकां पळयतकीर तीं मातशीं झाडा अडसराक गेलीं आनी वाट बदलून चलूंक लागलीं. त्या शेतकाराक कितें दिसलें कोण जाणा, तो नांगरा घडप सकल दवरून मांकडेंतली कोयती हातांत घेवन तांचे फाटीक लागलो. तीं ताका चुकोवंक आनीक मात्शीं धांवन गेलीं. पळेल्यार तो फाट सोडिना. एका शेतामेरेर चिऱ्याफातर आसले. एक एक करून तीनचार मोटे फातर अण्णून त्या शेतकाराचेर मारले. फातर मारत मारतच तो फाटीं धांवतालो. एक फातर ज्युस्त शेतकाराच्या हड्ड्यार बसलो. तो धांवचो रावलो. इतले मजगतीं तीं दोंगुल्लेंतल्या झिलींनी पाविल्लीं. अण्णूक अजाप दिसलें, हो कित्याक म्हण आमचे फाटीक लागला? कितें दिसलें ताका? हांव कोणा एका चेडवाक चोरून व्हरतां दिसलें काय?

बांबोळेचे दोंगुल्लेचेर तीं पावलीं तेन्ना वेळ बरोच वयर पाविल्लो. तीं थार दियनासतना धांवतालीं. मदींच अण्णू गोऱ्याक उखलून घेतालो. जड जातकीर दवरतालो आनी ताका हाताक धरून धांवडायतालो.

आदोळशी कुशीचे दोंगुल्लेचेर तीं पावलीं तेन्ना चोंयवटेन वोताचो झगझग फांकिल्लो. सकल्लो आदोळशी गांव वोतांत पेंवता असो दिसतालो. वोगीच खंय तरी उजो पेटला, धवो धुंवर उठला अशें दिसतालें. वोताचो झगझग खरो, पूण गांवांत कांयच दिसनासलें. कसली सुलूस लागनासली. ताका दुबाव येयलो, हंयच्यान गांव सदांचो उठून गेलो काय कितें. मगेर एकदम ताका खप्प जालें, पिंपळाफाटलें देऊळ खंय गेलें? कांयच कित्याक दिसना थंय? आदीं हंयच्यान तर पयलीं देऊळ दिसतालें आनी मागीर गांव. तो गोऱ्याक हाताक धरून घेवन आनीक इल्लो देंवती देंवन मुखार येयलो. अर्जुनारुखासरीं आशिल्ली मेस्ताली साळा, वयले वटेन आशिल्लें देमू गुरवालें व्हड घर ताका दिस्टीक पडलें. ताणें गोऱ्याक सांगलें, ''जाणा मुगो, हो म्हगेलो गांव. हिंगा आमगेलें घर शेत आसा. म्हगेलो दादो आसा.''

गोरें ताका पळोवन खुशालभरीत हांसलें. पूण दुसऱ्या खिणाक ताणें म्हटलें, ''हिंगा सोदूंक सोल्दाद धाडटलो तो फिदाल्ग.''

''आमी हिंगा रावचें न्ही. आमकां दवरून घेवचे नात ते. गांव पळोवचो, म्हज्या भावाक दादोक पळोवचें आनी आनीक खंयूय वयचें.''

आदोळशी गांव किरिस्तांव जाला हें अण्णूक खबरच नासली. मोडून उडयल्ल्या देवळा मुखावयल्यान वयताना ताका इतलें अजाप दिसतालें, इतलो तो कांचवेल्लो, पावल उठनासलें. थंयसान तो पाद्री सिमांव पिरिसाल्या मांगरासरीं येयलो. तो मांगर उजो लावन लासून उडयल्लो. देवूळ मोडून उडयल्लें पूण लोकांनी शेताक जोतां

बांदिल्लीं आनी ते तेच उमेदीन बैलांक हामुडटाले, बायलो कलकलत बांयचेर उदक भरताल्यो, मेस्ताले साळेंतल्यान घण मारिल्ल्याचो आवाज येतालो. अण्णूक चडच अजाप! अशे कशे हे लोक निश्ठूर, बेदिनवासी! देवाल्या कौलाबगर बीं पुरनासले ते देवाबगर कशे ताण आसात पळय! कसलें वारें माल्लां हांकां !

थंयसान तो गोऱ्याक घेवन शिरवाड्यार येयलो. आपल्या घराच्या दारांतल्यान वेंटू नायकाल्या नातवान हरीन पळयलें ताका. ताणें व्हडान बोवाळ घातलो, ''तो पळय अण्णू येता... खंय आशिल्लो रे अण्णू? आमी सगळे तेंच्या धर्मांत गेले. इतलो तेंप येवचो न्ही?'' आयकोन आनीक बरोच शिरवाड्यावयलो लोक थंयसर येयलो. सगळे ताका इतले प्रस्न विचारताले, सोता विशीं, वांगडाच्या चेडवा विशीं. अण्णू बेठोच चाचरतालो. कितें सांगचें कांयच कळनासलें. घरा पावतकीर ताचो व्हडलो लंगडो भाव तंगण धडपडत उठून ताचे म्हऱ्यांत येवन उबो रावलो. ताणें म्हटलें, ''खंय आशिल्लो रे तूं भावा म्हज्या? कितलो सोदलो, कितली खबर काडली तुजी. खंयच्च्या कांट्याकुट्यांत शेणिल्लो तूं? म्हजो विकळाप आयकलो ना तुका? घरांत यो तूं. आतां कोण तुका मारचो ना, धांवडावचो ना.''

''कित्याक?''

''आतां आमी सगळे किरिस्तांव.''

खरें म्हटल्यार लंगड्या तंगणान बातिज्म घेवंकच नासलो. दबा देवळ्याक ताच्याच घरांत गांवान लासून मारतकीर लोकांक धरून व्हेल्ले तेन्ना तंगण थोट्या पांयान धडपडत खंय तरी पडिल्लो. ताका तसोच सोडून सोल्दाद मुखार गेल्ले. पूण वाडो किरिस्तांव जातकीरय तो कोणाल्याय घरांत वचून पयलींवरीच जेवतालो, खातालो. बातिज्म ना घेतांच तो किरिस्तांव जाल्लो.

घरांत आंगणांत शिरवाड्यावयलो चाळीशेक लोक एकठांय जाल्लो. ते किरिस्तांव जाल्यात म्हण कळटकीर अण्णूक वोगीच ते आपलेशे दिसूंक लागले. अण्णून तांकां आपली खबर पुराय सांगली. आपणाक तिठ्यावयल्या कट्यार दवरून विकूंक नासलें तर त्या फिदाल्गान इगर्जेसानच वावराडो म्हण व्हेल्लो हें ताणें तांकां परतेंपरतें सांगलें.

सगळ्यांल्या मनांत आतां एक भिरांत पातळ्ळी. सोल्दाद केन्नाय वाड्यार येवं येतात. खरें म्हटल्यार अण्णू खंयच्या गांवचो हें फिदाल्ग ब्रांकून विचारुंकच नासलें. ब्रांकूक आनी हेर जायत्या गोंय पाटणांतल्या पुर्तुगाली मनशांक गोंय पाटण सोडून पयस पयस अंत लागनामेरेन आनीक गांव आसात ही जाणच नासली. ते अण्णूक सोदचे जाल्यार दरयावटेन, न्हंयेवटेन सोदतासले. व्हड्यांत बसून खंय तरी गेल्ले आसतले अशें तांकां दिसनासलें. पूण अण्णून हेर गुलामांवांगडा उलयतासतना बीन आदोळशीच्यो खबरी सांगिल्ल्यो. पाद्री सिमांव पिरिसाविशींय सांगिल्लें. ताणें

वाड्यावयल्या लोकां मुखार सांगलें, ''आमी थंयचे कश्ट सोसूंक नज जावन ताच्या चपक्यांतल्या सुटून पळोन आयल्यात.''

लवू नायका बायल उबगें गोऱ्यासरीं गेलें आनी तिणें ताचे फाटीवयल्यान हड्ड्यावयल्यान ल्हव हात भोंवडायलो. हड्डें लागींलागीं उकतेंच आसलें. ताची गोरी लोणयाळी कूड. गोरीं तांबशा चिंवाचीं तोपरीं कशीं माणकुलीं थानां. सगळे त्या चेडवासरीं तोखणायेन, कवतुकान पळयताले. उबग्यान विचारलें, ''अण्णू, ह्या चेडवाकडेन तूं लग्न जातलो?''

''खबर ना मावशे. ताणें आपणाक सोडय म्हटलें तेंतूंतल्यान. तसोच धांवन घेवन आयलों.''

''जाच तूं तेचेकडेन व्हारडीक. बरें शगुणाचें दिसता.''

बाबलो नायकान इल्लें हुस्क्यानच म्हटलें, ''तें गांवांत येयल्यार सगळ्यांकच नडटलें. आदींच वाड्यान खूब भोगलां. अण्णून गांवाभायर वचून राविल्लेंच बरें.''

पुतू नायकान सट्करून म्हटलें, ''कितें करतले ते? आतां आमी सगळे किरिस्तांव. आतां आमकां हातबोट लायल्यार आमी रायासरीं वयतले म्हण सांगुंया. आमकां रायाची राखण आसा. अण्णू, तूं आतां हांगाच राव.''

जाण्टेलो वेंटू नायक हांसलो. ''आपा, राया आसा सात समुंदरा भायर. ताचें नाखूट पळोवंक मेळचें ना केन्ना. हिंगा ताच्या अंमलदारांच्या मनाक येयल्लें राज्य. पांय कातर नातर गोमटी मार. कोण विचारतलो ना.''

अण्णू आपलो गांव म्हण येवच्याक येयल्लो. ताकाय दिसतालें, फिदाल्ग सोल्दादांक घेवन केन्नाय येवं येता. तो जाणा आसलो, गुलामांनी मालकाच्या ताब्यांतल्यान पळोन येवप मोटो गुन्याव आसलो. गोऱ्याक उबारून हाडलें म्हण अण्णूक खर ख्यास्त जावं येताली. ताणें म्हटलें, ''तुमकां सगळ्यांक मेळ्ळों, उलयलों, बरें दिसलें म्हाका. खूब आंवडेतालों हांव. आतां आमी खंय तरी पयस वयतात, गोंया भायर. वेंटू आपा, खंयचे वटेन वचूं हांव?''

वेंटू नायक कांय वेळ ओगीच रावलो. मगेर ताणें सांगलें, ''आतां सास्टय तेंची जाल्या. तेवाटेन न्हंय बळांटून वचूं नाका. असो मारकय आंगान वच. पाळयेसान सकल खाजनांत हुडी घेतल्यार बद्द पावतलो. आगशे बंदरार वचूं नाका. थंय सोल्दादांचो कडक पारो आसता.''

अण्णू उठलो. भाव तंगण एकदम मुखार येयलो आनी अण्णूक मिठी मारून रडूंक लागलो. ''आनीक आनी तूं वचूं नाका रे भावा म्हज्या. म्हाका थोट्याक सोडून वचूं नाका.''

बाबलो नायकान ताका ओडून कुशीक काडलो. म्हटलें, ''तुवें ताका असो

आडावन दवरून घेतल्यार तेका फाल्यां व्हरून ते गोळार मारतले. आतां खंयूय वचून आपलें ठिकाण सोदूं दी. जाल्यार कांय तेंपान परतो येतलो तो. आतां वचूं दी तेका.''

अण्णू गोऱ्याक घेवन वचूंक उठलो. शेजारची भागी आवय एकदम मुखार येयली. तिणें सांगलें, ''हांयें आतांच पेजे बुडकुलो पोल्लेवयल्यान काडून सकल दवल्ला. तुमी दोगूय वयले वटेन वचून असणीकडचे घोलींत लिपून बसात. हांव पेजे बुडकुलो आनी धोणांतलें तोर घेवन येतां. मागीर पेज करतलें हांव घरच्यांक.''

वयताना वेंटू नायकान सांगलें, ''आंगार घेतलां तें तडीक व्हर. वेळार पालो, कंजमुळां खावन राव. पूण फाटीं सरूं नाका. खंयच्याय दिगंतराक वचून एक पडिंग तिठो वसय. मनीस मरण येयले बगर मरना. उदक पिवनय म्हयने काडटा.''

भागी आवयन हाडून दिल्ली पेज घोलींत बसून तांणी कुंब्यापानांच्या दोण्यांतल्यान पियेली. पेज पियेवन पाळये पावता म्हणसर वेळ माथ्यावयल्यान देंवन सकल पाविल्लो. तरीय तीं सकल्ल्या खाजनांत देंवलीं. खाजनांत देंवलीं आनी सरभोंवतणच्या कांदळांच्या, भेडशीच्या, कात्र्याकांट्याच्या झाडांनी आनी पुड्ड्या तणांत लिपून गेलीं. तांकां सूऽ जालें. समतेंच संकस्टांतल्यान सुटिल्लेवरी दिसलें. पूण खाजनांतल्या चिखलांतल्यान पांय ओडप भोव कस्टाचें जाल्लें. आज पुराय दीस तीं चलतालीं आनी धांवतालीं. देड दोन वरां आदोळशी गेल्लीं तितलींच. गोरें चिखलांतल्यान सुटून एका आड्यार चडटना पुरो जावन ओमथेंच भुंयेर पडलें. अण्णू धांवत धांवत येवन ताचेसरीं बसलो. ''गोऱ्या, पुरो जालें तुका?''

''हय. पूण हांव येतां तुजे वांगडा. म्हाका सोडून वचूं नाका.''

''तुका सोडचों ना गो हांव.'' अण्णून बारीक पळेल्यार कमरासरीं ताच्या न्हेसणार रगताचे दाग. ताणें सट्करून म्हटलें, ''गोऱ्या, तुज्या न्हेसणार हें रगत कसलें?''

गोरें भुंयेर तकली घांशिल्लेवरी करून वोगीच रावलें. पूण अण्णून केन्ना खंयूय आयकल्लें जावंये ना तर सैमान ताच्या कानांत गुणगुणलें जावंये, तो सगळें कळिल्लेवरी वोगी रावलो. मगेर ताणें ताका उखलून खाकोळांत घेतलें. ताका हड्ड्यासरीं धरून तो चलूंक लागलो. गोऱ्यान ताचे मानेभोंवतणीं हात घातलो. तसो वरभर तरी ताका घेवन तो चलतालो. तशें चलतना गोरें सारक्कें ताच्या चेहऱ्याचेर नदर लावन एके दिठयेन ताका पळयतालें. ते दिठयेंत हुसको नासलो, भिरांत नासली. फकत आसलो मोग आनी आपलेपण. युगा आदिंची वळख सोदतलेवरी तें ताका पळयतालें. खंयच्या कोणा दादल्यान ताका उबारून हाडिल्लें पूण इल्लीच भिरांत नासली. ते अवतिकायेंतय तें मुक्ततायेचे स्वास सोडटालें. ताच्या चेहऱ्यार खोशयेचें इल्लेंइल्लें हांशें नंदतालें.

तीं खाजनांतल्यान, गोरवां म्हसरांनी माडयल्ल्या चिखला गंवडांतल्यान चलत मारकयच्या पठारा सकल येवन पावलीं तेन्ना वेळ धारेवेल्यान सकल देंविल्लो.

चोंयवटेन काळखाची साय मारूंक लागिल्ली. मुखार मूळ न्हंयेसावन सुटिल्ली एक पोंय आडवी आसली. ती पार करून वचूंक व्हडें जाय आसलें. पूण पोंयसरीं जितो जीव नासलो. सकल पलतडी एक ल्हानशेंच व्हडें बांदून दवरिल्लें दिसतालें. तें व्हडें काय लाकडाचो होंडको तें कांयच कळनासलें. खूब वयले वटेन पोंय सरता थंय पयस पयस मेरेन गच्च झाडां आसलीं. तें सगळें पळोवन तांकां पांदऱ्यांत घुसपल्लेवरी दिसलें. अण्णून खूब वेळ मेरेन तारयाक सादयलें. व्हडाव्हडान सादयलें. पूण आवाज नासलो. काळोख पातळूंक लागिल्लो, वयले वटेन वचून झाडांत रिगचेलो धीरय नासलो. खंय वचून पावतले हाचो अदमास लागनासलो.

पुराय काळोख पडटकीर तीं बांदार एका भेडशीच्या झाडापोनाक बसलीं. आतां मात तेंच्या पोटांत खरीच भिरांत पांय पातळूंक लागिल्ली. एकदुसऱ्याचो धीर घेत तीं खाकोळांत रिगलीं आनी तशींच मोन्यांनी मध्यानरात मेरेन बसून रावलीं. ह्या इतल्या वेळांत तीं एक उतर उलयलीं नात. सोताच्याच आवाजाचो भंय दिसचो इतली अवतिकाय! मदींमदीं रातशेवणीं रडिल्ल्याचो, कोल्यांच्या कुयांचो, भेकऱ्यान खोकिल्लो आवाज येतालो. मदींच टिकटिवें चीं चीं करीत तकलेवेल्यान हुडत वयतालें. तीं मगेर चडच वेंगेंच रिगतालीं. वयर मळबाचें रितें घुमट आनी चोंयवटेनचो अंतपार नाशिल्लो अनवळखी वाठार. आंग कवळून घेता तितलें उणेंच दिसतालें. खंयूय इल्लो आवाज जाल्यार गोरें आंग काडटालें. मगेर अण्णू ताका ल्हव थापटितालो. तरीय ल्हव ल्हव तांकां झेम येवंक लागली. दीसभर धांवन धांवन पुरो जाल्लें. आपशींच दोळे धांपूंक लागले. तीं थंयच आडवीं पडलीं. खिणांत थार न्हिदून गेलीं.

सकाळीं तांकां जाग येयल्यार लखख उजवाडिल्लें. म्हऱ्यांतच दोग दादले उबे आसले आनी ते तांकां काठयेन धोंगशिताले. तांचे मुंजीर एक बारीक कास्टी आनी पुराय आंग उकतें. आंग वोतान रांपिल्लें, काळें कुळकुळीत. तांणी विचारलें, ''कोण तुमी वनमनशां कशीं? हिंगा खंयच्यान पावलीं?''

अण्णू आर्दी इल्लो भियेल्लेवरी जालो. मगेर ताणें सट्‌करून म्हटलें, ''आमी वावराडे म्हण कामाक आसलीं गोंय पाटणांत. ते आमकां तरसादेन गोमटी कातरून उडोवंक सोदताले. आमी पळोन येयल्यांत.''

''कित्याक म्हण?''

''ह्या चेडवाचेर सदांच बळजबरी करप. हांयें म्हटलें, अशें जावचें ना. हांव अशें करूंक दिवचों ना. तेणी दांड्यांनी बडोवन म्हजें आंग सुजोवन उडटलें. येयलीं मागीर आमी धांवन.''

ते दादले ताचेसरीं कांय वेळ चुरचुऱ्यानशे पळोवंक लागले. गोरें मदींच उठलें. आंगावेलें वस्त्र मात्शें सांवरून इल्लें सकल्लेवटेन वचून पोंयेंतल्या उदकांत देंवलें. ते

पोंयेंतलें उदक इतलें नितळ आसलें, सकाळच्या वोतांत ताचो तळ, भोंवपी नुस्तें आरपार दिसतालें. गोऱ्यान उदकांत आपलें आंग नीट धुवन घेतलें. आंगावेलें वस्त्र थंयचेथंय घांसून पिळ्ळें. तेंच ओलें वस्त्र न्हेसून तें वयर तांचेसरीं आयलें.

ते दोगय दादले हांगा सदां नुस्तें मारताले आनी कोणाकय आलतडी पलतडी व्हरून पावयताले. ताणी तांकांय पलतडी हाडून पावयलीं. अण्णूले कमरेक लायल्ले चेचयेंत कांय रीस, टाक आसले. ताणें दोन टाक काडून तांकां दिवंक केले पूण तांणी ते घेतले नात. एकल्यान म्हटलें, "दुडू आसल्यार मारकयच्या अंतू मेस्ताले साळेंत वचून एक कोयती आनी खोरें करून घे. कोयती आनी खोरें हातांत आसल्यार धरतरेचेर राज्य करतलो तूं."

तांच्या दिनवासान अण्णूलें काळीज भरून आयलें. त्या दुसऱ्या तारयान सांगलें, "पिरवळा, वेलंगाच्या दोंगरांत धांवन येयल्ल्या बामणांनी कुळागरां उबीं केल्यांत. आदेसाक एक पड तांदूळ आनी एक नाल्ल दितात ते. थंयच खंयूय वचून खोप बांदून राव."

अण्णू गोऱ्याक वांगडा घेवन चलूंक लागलो. मुखार बरीच चडटी आनी वाट शेंकऱ्याची आसली. पूण गोरें कानांत वारें भरिल्लेवरी उमेदीन जशें धांवतालें. एक फावट ताणें फाटीं वळोन येयल्ल्या वाटेवटेन, वाठारावटेन पळयलें आनी तें मोट्यान आड्डलें, "आमी सुटलीं अन्नू, आमी सुटलीं. आतां तूं थंय हांव."

खरेंच, आयज तेंगेली वाट सोंपिल्ली. गुजरात, खंबायतचो दरया धरून गोंय पाटणमेरेनची वाट आयज सोंपिल्ली! फिदाल्ग कास्तेल ब्रांकु घरचो नरकवासय सोंपिल्लो!

जना नायकान सुखडो नायकाक इन्क्विझासांवाक लावन दिल्ल्या दुसऱ्याच दिसा दनपरां ताचो अंमलदार येवन दारांत उबो रावलो. वांगडा दोन सोल्दाद आसले पूण ते इल्ले पयसच उबे रावले. अंमलदाराल्या आंगार इन्क्विझासांवाची गडगंज मुस्तायकी आसली. हड्ड्यार उज्याच्यो जिबो पितारिल्लें चित्र. ताका पळयल्यारच हड्ड्यांत धडकी भरताली. कोणय भिरांतेचो मोनेळ पडिल्लेवरी वोगी ताचे फाटल्यान चलूंक लागतालो. ताणें दारांत उबो रावन खणखणीत उतरांनी फर्मान केल्लेवरी सांगलें, "सुखडो नायकाच्या हातान धर्माआड पाड कर्तूब घडलां. इन्क्विझासांवाच्या पदवेदारान तेका धरून हाडूंक ओर्द केल्या. हांव इन्क्विझासांवाचो अंमलदार तेका धरून व्हरूंक येयलां. तेणें वोगी म्हजे वांगडा येवंक जाय. सुखडो नायकाचे मालकेचें शेत, भाट, पैसोआडको, वस्त्र अळंकार सगळें जप्त जातलें. निर्दोश सुटल्यार परतें

मळटलें. धांवत गेल्यार, चुकयल्यार घरदारय वयतलें.''

घरभर लोकांच्यो बोबो आनी हुयेली. व्हडली सून गोपीक - इजाबेल तर भुंयेर पडून लोळत रडटाली. बायल म्हालकूम गायनां गायिल्लेवरी उलयताली आनी रडटाली. मदींच सगळे एकच फावट जना नायकाक ताचे गोमटेक घांस मारिल्लेवरी गाळी घालताले. पूण चुकचें नासलें. सुखड्यान तकलेक रुमाल बांदलो. आंगाक बंडी घातली. तो त्या अंमलदारा फाटल्यान चलूंक लागलो. ताचे फाटल्यान ते दोगय सोल्दाद.

मदींच जना भायर येयलो, पिशें लागिल्लेवरी उलयलो. ''हांयें कांय केलें ना. कोणाक कांय सांगलें ना. तेंचीं मनशां भोंवतात वास काडीत.''

आतां सगळे भायर आंगणांत बसून रडूंक लागले. रडनासलो तो मदलो रामकुस्ट. तो दोळ्यांत दुकां बदलाक रगत घेवन जसो घुम्म मोनो आसलो. जना नायकाल्या घरावटेन दांत चाबून रागान पळयतालो.

सुखडो गेलो आनी सांजचो घरांत दिवोय लायनासतना घरभर मनशां आतांच कोणाचेर तरी माती उडोवन पुरून येयिल्लेवरी दुखेस्त, अपरंपार निर्शेणेन काळखांत बसून आसलीं. ताच्या घरांतलो आवाज मेल्लो आनी शेजाऱ्याल्या घरांतय कसलो आवाज नासलो. मदींच म्हालकूम गायनां म्हणिल्लेवरी उलोवंक लागली, ''काऱ्या रुखाचीं सूपभर काऱ्याफळां वांटून खायलीं पूण ना मेलो ना. शेवटा गोळीरुखारच गोळ घेवचो पडलो. सुने गोपिके त्या शेतांतली पोलच उकडून खावची तुमी. एक दाणो मेळचो ना. पुरूंक सोदतालीं मुगो तुमी म्हाका... भोगात आतां... जितीच पुरात म्हाका...''

खिणाखिणांत दुख्खां आनी निर्शेणी वाडतच गेली. घरांतलो बुदवंत उठून गेल्लो. खोलखोल एक नाळ तुटिल्ली.

काळोख पातळूंक लागतकीर रामकुस्टान घरांतल्या कोनशांत दवरिल्ली लांब पारय उखल्ली. तो कोण्णाक कळूंक दिनासतना जना नायकाल्या बागला कुशीक दोपून उबो रावलो. कुशीक एक भात भरची कणात्तर गुठलावन उबी करून दवरिल्ली. ताच्या आडसराक तो लिपून उबो रावलो. कित्याक तरी येतलोच हो भायर !

रामकुस्ट पारय घेवन येयल्लो धाकल्या भावान वासून पळयल्लें. पूण तो वोगीच रावलो. आंगणांत उबो रावन तो रामकुस्टाक सारक्को पळयतालो. ताकाय दिसतालें, भावान घालची पारय जना नायकाले तकलेर !

रामकुस्टान बारीक आयकल्यार जना नायक घरा भितर ल्हवल्हव हिन्दू देवांलीं नांवां घेता आनी तांकां भजता. रामकुस्टाक आतां ताचो चडच राग येयलो. मदीं एक फावट ताचो व्हडलो चेडो भायर येवन गेलो. बायलय एक फावट दारांत येवन गेली.

शेजारची सुनशा घेतलेवरी ती कांय वेळ दारांत उबी रावली आनी मगेर भितर गेली. मदीं अर्दवर तरी गेलें. रामकुस्टाल्या घरांतलीं मनशां, खंय गेलो हो म्हण हुस्क्यान भायर भितर करताली. वासूय कांय सांगनासलो.

अचकीत जना नायकान दाराचो आडाबो काडलो आनी तो भायर आयलो. घराचीं सोपणां देंवन आंगणांत पांय घालता थंयच आसा, रामकुस्टान पारय उखल्ली आनी ज्युस्त ताचे तकलेर घातली. तकलेची कवटी फुटून गेली आनी तो सकल पडलो. ताणें 'आवयस्स्' लेगीत म्हटलें ना. फक्कत आंगणांत पडिल्ल्याचो घब्ब करून आवाज येयलो. बायल धांवन भायर येयली. तो पडिल्लो पळोवन व्हडाव्हडान रडूंक लागली. वांगडा दोगय पूतय रडूंक लागले. इतलो भरिल्लो वाडो, पूण कोण एकलो झुटासून मुखार येनासलो. दनपरां सुखड्याक घेवन गेले म्हण कळटकीर सगळेच भियेल्लेवरी थतरवितर जाल्ले. आतां आनी आमी कसल्या झगड्यांत पडचें न्ही अशेंच काय तांणी थारायल्लें. तरीय ते दायजी आनी शेजारी. तांकां येवचें चुकचें नासलें.

रामकुस्टान पारय आपल्या आंगणाभायर जनाल्या घरावटेन उडयली. तो भितर येयलो आनी बायलेक पार्वतेक हाताक धरुनच ताणें भायर काडली. बायल भुरग्याक घेवन वोगी भितोडेक उबी रावली. मगेर ताणें आपली कांबळ खांदार उडयली. एका जुनेरांत पांच कुडव तांदूळ बांदून घेतले. कांय रीस, टाक, शेराफींय घरांत आशिल्ले ते एकठांय केले. ताणें भावाक म्हटलें, ''हांवें माल्ला म्हण सांग जना नायकाक. ती पारय हांवें तेवटेन उडयल्या. तुमचेर कांय घेवं नाकात. म्हजेर घाल सगळें. हांव आतां गोंयां भायर वयतां. परतो मेळ्ळयार मेळ्ळों! व्हड्यांतल्यान भायलेभायर दरयांतल्यान केनरावटेन वयतलों.''

तो वचूंक सुटलो तेन्ना जना नायकाल्या आंगणांत मोटी रडारड चलिल्ली. दायजी कोणकोण येवन आंगणामेरेर बशिल्ले. तो इतलो बायल भुरग्यांसयत घरांतल्यान भायर सरून सासणाचो वयतालो पूण घरांतल्या कोणा एकल्याक भायर येवचेलो, रडचेलो धीर नासलो. सगळीं शिरंतरां आंवळून घेतिल्लो एक घुस्मटमार!

ते वाटेक लागले तेन्ना सामको काळोख पातळिल्लो. बायलेले हांडीर भुरगें आसले. खांद्याक तागेल्या कापडाची आनी एके गोजडीची पोटली लांबताली. रामकुस्टाले कमरेर माकडेंत कोयती लांबताली. तकलेर पांच कुडव तांदळाची पोटली आसली. खांदार कांबळ आसली. मात्सो मुखार वयतकीर ताका फाटल्यान कोण तरी येता अशी सुलूस लागली. ताणें विचाल्लें, ''कोण?''

''हांव वासू भावो. तुजे वांगडा हांवय येतां.''

''कित्याक म्हज्या भावा? हिंगा आमचें शेत आसा, घर आसा.''

''बाप्पा गेलो न्ही भावो. आतां कांय उरचें ना. सगळें व्हरतले ते बुचाटून.''

''आवय ना रे आमची?''

''आतां उरची ना ती चड दीस. दादो पुरतलो तिका. उजो काय दिवंक जायना न्ही?''

''मगेर आमच्या दादोचें कशें?''

''वीख बळ्ळां ह्या गांवाक. आवयक पुरतकीर एक दीस दादो रावचो ना ह्या गांवांत पळय.''

वासूचीं हीं हुशारकायेचीं उतरां आयकोन रामकुस्टाक अजाप दिसलें. पार्वतेन मर्दीच म्हटलें, ''येवंदी तेका आमचे वांगडा.''

काळखांत तीं चलूंक लागलीं, अनवळखे वाटेन, अनवळख्या वाठारावटेन. आतां व्हडें ज्या बंदरार लागतलें तो गांव तांचो !

गांवचो पुरोयत म्हादू जोयशी जो धर्मकर्माच्यो बढायो मारतालो, पाद्री सिमांव पिरीसाक एक फावट जाणें जाणवायो सांगिल्ल्यो, तो आतां किरिस्तांव धर्माची, येसू क्रिस्ताची तोंडभरून तोखणाय करूंक लागिल्लो. तो अजून किरिस्तांव जावंक नासलो. संकस्टावेळार साळुंद्रेन बिंवणांत वचून लिपून बसचें तसो तो आपल्या कुळागरांत आपल्या घरांत आंग कवळून पडिल्लो. पयलीं आपल्या घराच्या वारांदांत झेतान बसून तो आशे काडटालो, चीट तावज करून दितालो तो आतां फाटलेवटेन चुडट्टांचो आडसर करून बसतालो. गेल्ल्याक थंयच आफयतालो. रायगाळीसान दोंगुल्लेची शीर बरीच भितर शेतांत रिगिल्ली. त्या पोंतार ताचें इल्लेंशें कुळागर आसलें. थंय उदक इतलें वयर आसलें, चैत्र वैशाखांतय बांय भरिल्ली आसताली. ताचेन जोयशाल्या तोंडार एके तरेची तुस्टताय आसतालीच, ते भायर थंयचे झाडमाडय मस्त वाडिल्ले. पूण आतां आतां थंयची सया, थंयचें ताजेपण वचूंक लागिल्लें. ताचेरूय भिरांतेचो कलकल येयल्लो. सादो सोल्दाद येयल्यारूय तो बेगीबेगीन अडसराची पेंड काडटालो आनी तांचे मुखार सोलून दवरतालो. अडसर काडूंक कोण मेळ्ळो ना जाल्यार केन्ना सोताच पोट घांसत कवाथ्यार चडटालो.

गांवांत इगर्ज अजून उबी जावची आसली. पूण गांवभर लोक किरिस्तांव जाल्लो म्हण पाद्री पावलू कुलासू आयतारा दर वाड्यार वचून वरभर शेरमांव सांगून येतालोच. चड करून किरिस्तांवाल्यो परबो, त्यो कशो मनोवच्यो हेविशीं तो सांगतालो. एक दीस रायगाळी शेरमांव सांगून येतना तो बेठोच वांगडच्या दोग सोल्दादांक घेवन म्हादू जोयशासरीं गेलो. जोयशी ताचेमुखार हात जोडून उबो रावलो. जोडिल्ले हात

कितलोतरी वेळ जोडिल्लेच आसले आनी ते तो सारक्के वयर सकल हालयतालो. ''येयात, व्हड मनशांनू येयात. तुमी हंयचे राया. आमचे राखणदार.''

पाद्री कुलासून म्हटलें, ''पुर्तुगालच्या रायाल्या शेकातळाची सगळी परजा किरिस्तांव आसूंक फाव. हो गांवय किरिस्तांव जाला. तूंच कसो उल्लो किरिस्तांव जावचो?''

''ल्हान मनीस हांव व्हड मनशा. हिन्दू म्हण रावलो कितें, किरिस्तांव जालो कितें. कितेंय आसूं, गांवाक एक पुरोयत जोयशी जायच. म्हारू गिऱ्यापासून गांवाक राखूंक. आमी मंत्रान जादू, करणी, भूत खेत परतावन लायतात. मेल्ल्या पितरांक सोर्गांत पावयतात.''

''म्हजो भावार्त ना तेचेर. ह्या गांवांत हेर धर्माचें कसलेंच देवस्पण जावंक फावना. ख्यास्त भोगची पडटली.''

''जावं, जावं. रावतां हांव तसोच तुमचे कुर्पेन. व्हड मनशां तुमी. संवसारांत व्हड तुमचो धर्म. येसूपरस व्हड देव ना आनीक कोण. तुमच्या देवा-धर्माकय हांव मानतां, ताका पुजतां आनी रावतां तसोच.''

पाद्री कुलासूक एके वटेन ताची काकुळट दिसताली आनी दुसरे वटेन रागय येतालो. बेठेंच तिडायचें म्हण ताणें विचारलें, ''तूं हिन्दू धर्माचो म्हणयारो न्ही? हांवें आयकलां, तुमच्या धर्मांत तेत्तीस कुरोट देव आसात खंय!''

''ना ना. तें सगळें फट. ते उपरांतचे. सकल्ले जातीच्या मनशांनी रचिल्ले. तुमचेवरी आमचोय देव एकच - ब्रह्मा. आमी ब्राह्मण त्या ब्रह्माले पूत. तुमच्या येसूवरीच. हेर सगळे बेठेच. आमीच देवाचे.''

पाद्री कुलासू केन्ना ना तो हांसलो. इतल्यान जोयशाल्या मनशान आडसरां सोलून हाडलीं. तीं तांचे मुखार दवल्लीं. आडसरां पिवन ते वचूंक गेले. वयताना पाद्री कांयच उलयलो ना. जोयशाक सूऽ जालें. ताणें मनांत म्हटलें, तांचेवरीच हांव आमच्या धर्माचो मुखेल. आमी दोगय एके सरीचे. तो म्हाका कितें सांगतलो?

मदीं चार दीस गेले. सकाळीं जोयशासरीं चारपांच जण येयल्ले. चड करून सगळे नवे किरिस्तांवच. कोणाक लग्नाचो म्हूर्त विचारचो आसलो, कोणाक शेतांत बीं घालचो म्हूर्त. देवूळवाड्यावयल्या आबूक - आंतोनीक तागेल्या नव्या पाड्याले मानेर पयलोच जूंव दवरूंक म्हूर्त विचारचो आसलो. पेद्रूले बायलेक सेगीत तीन फावट व्हाळणी लागिल्ली. चवंडी मूळ धरूंक दियना म्हण घाडयान ताका सांगिल्लें. तेविशीं जोयशाकडच्यान ताका बुद्द घेवची आसली. जोयशाल्या घराचे फाटले वटेनच ते आसले. मदींच जोयशाले बायलेन धांवत येवन सांगलें, चवग सोल्दाद घरावटेन येवंक लागल्यात म्हण. तेसरशीं थंय एकठांय जाल्ले सगळेजाण वाट मेळटा तशे

धांवन गेले. पूण सोल्दाद तांचे फाटल्यान धांवले नात. ते येवन जोयशा मुखार उबे रावले. काब रेमेंत नोरोन्यीन ताका विचारलें, ''आतां हे धांवन गेले ते कोण?''

''ते चोर म्हज्या भाटांत चोरूंक येयल्ले. हांवें धपकायतकीर धांवन गेले.''

''फटीचें उलयता तूं. ते नवे किरिस्तांव. तुजेसरीं आदलें हिन्दूंचें देवस्पण करूंक येयल्ले.''

''ना. म्हजेसरीं बऱ्याची, संसाराची बुद्द घेवंक जायते जाण सदांच येतात. ते जाणात, हांव ह्या वाठारांतलो एक बुदवंत मनीस म्हूण.''

''ह्यो तुज्यो जाणवायो शेफ रिबेरीसरीं आनी पाद्र कुलासूसरीं सांग. ते तुका बंदखणींत धाडून जिरयतले तुज्यो जाणवायो. म्हजे हे चार सोल्दाद आनी हांव तिस्तुमेंत आसात तुजे आड.'' ताचे मुखाल्ली मणय आनी आशे तशेच आसले. गडबडेंत ते तांणी उखल्ले.

ते ताका घेवन आपल्या राबित्यार गेले. ताका धरून हाडिल्लो पळोवन पाद्री कुलासू रानांतल्यान सावज मारून हाडिल्लेवरी खुशालभरीत जालो. पूण शेफ कामील रिबेर एकदम ताचेर तापलो. ''किरिस्तांवांल्या गांवांत रावन कसलें मडसरेचें तुजें देवस्पण करता? खंयूय सात गांवाभायर वचून पडलो ना कित्याक तूं? आतां बंदखणींतच कुसोवंक उडयतां तुका.''

जोयशी वोगीच रावलो. आतां ताचें कितें करचें हेसंबंदान पाद्री आनी शेफीमदीं भासाभास जाली. चार तरांच्यो बंदखणी आशिल्ल्यो. एक सरकारी - गोव्हेर्नादोराली, दुसरी अर्थीक गुन्यांवकारांली, तिसरी बीस्म सायबाली धर्मीक आनी चौथी इन्क्विझासांवाची. जोयशी हिन्दू जाल्ल्यान ताका इन्क्विझासांवासरीं दिवंक जायनासलें. बीस्म सायबासरीं दिवं येतालें. पूण तो सोंपेपणान किरिस्तांव जावंक तयार जाल्यार बरें आसलें. पाद्री कुलासून ताका म्हटलें, ''तुज्या गुन्यांवाक बोगसणी ना. ख्यास्त दिवची दिवनय तुजी आस्पद जप्त करतले. तूं किरिस्तांव जाशी जाल्यार मात तुका बोगसणी दियात म्हण आमच्यांनी बीस्मसायबासरीं, व्हिसरायासरीं मागूं येता.''

''कित्याक करतात किरिस्तांव! किरिस्तांव कितें हिन्दू कितें, सगळे धर्म एकच. वाट तीच, पेणें तेंच. आमकां देवाच्या म्हणयाऱ्यांक सोर्ग, पापी उणाकांक नरक. तुमकां कसलो त्रास जावचो ना. हांव म्हज्या कुळागरांत म्हज्या घरांत वोगी रावतां. भायर सरचो ना घरांतलो. कोण्णाक एकल्याक घरासरीं घेवचों ना. तुमकां केन्ना नाल्ल तांदूळ पावयतां.''

शेफ रिबेरीन तापून म्हटलें, ''किरिस्तांव जाता काय जायना तें तितलेंच सांग. हेर खबरी नाकात. ना तर बांदून व्हरतात गोंय पाटणांत. मिंगेल, तो दोर हाड.''

लागींच्याच एका सोल्दादाक शेफीन फर्मायलें.

जोयशी आतां बरोच गडबडलो. ''जातां हांव. पूण हांव तुमचेवरीच देवाचो मनीस. म्हाका तुमच्या धर्मांत व्हडपण मेळूंक जाय.'' पाद्री कुलासूसरीं बोट करून ताणें म्हटलें, ''हांचेवरीच म्हाका पाद्रीपण मेळूंक जाय.''

शेफ मनांतच हांसलो. ''आमच्यांनी तुका उतर दिवंक जायना. पूण फाल्यां हांगा इगर्ज उबी जातली तेन्ना इगर्जेक कांय लोक जाय जातले. तेन्ना तुका आमी मुजरत आफोवणें धाडटले.''

म्हादू जोयशी कालापूरचे इगर्जेंत वचून बातिज्म घेवन येयलो. बातिज्म घेवन येतकीर ताणें शेफ आनी पाद्री कुलासूक म्हटलें, ''म्हज्या घरासरीं बामणांनी सोडून दिल्ली बरीच शेतजमीन पडिंग आसा. हांव फातर घालून घेतां थोडी.''

तांणी सांगलें, ''एक खंडये वयर मेळची ना. फाल्यां परां दोग सोल्दाद येतले आनी हद्देफातर घालून दितले.''

खरें म्हटल्यार ह्या तेंपाक शेतजमीन आनी गोरवां दोनय कुस्कुटामोलाचीं जाल्लीं. कितलोसोच लोक गोंय जुंवो सोडून गेल्लो. शेतां पडिंग पडिल्लीं. गोरवां पारपोळ भोंवतालीं. कोणालींय शेतां, गोरवां हातासप सामकें सोपें जाल्लें.

अंबू वैजीण मोटया धिराची बायल आसली. ती वैजीण तशीच वखदळण. कितलेय रातीर कोणेंय रुखार उबो रावन कुंकार दिल्यारय ती धांवन वयताली.

पूण इन्क्विझासांवाचो एक खर नेम आसलो, किरिस्तांवांनी हिन्दू वैजिणीकडच्यान वखदां घेवंक जायना म्हण. पूण गांवांत एकच वैजीण आनी वैजूय कोण ना म्हण इतले दीस शेफ रिबेर तिचेसरीं दुर्लक्ष करतालो. पूण पाद्री कुलासू फाटीक लागिल्लो. ताची माण्णी आसली, तिका धमकावचें, तिचेर चेपण हाडचें आनी किरिस्तांव जावंक लावचें, म्हणटकीर सगळें थाऱ्यार पडटलें.

एक दीस सकाळींच एक धा बारा वर्सांच्या भुरग्यान येवन ताकतिकेन सांगलें, 'भैरू आज्जाले सुनेक पोटांत जाता'. तो तसोच वाग फाटीक लागिल्लेवरी धांवन गेलो. तरीय अंबू वैजीण आपलो वखदाचो बोटवो घेवन ताकतिकेन भायर सल्ली.

अंबू गुरवाले घरवडींतली. तिगेलीं दोगांय चेडवां लग्न जावन गेल्लीं. दोन वर्सां फाटींच घोव मेल्लो. आतां ती घरांत एकलीच रावताली. ती भैरू नायकाल्या घरावटेन वचूंक सल्ल्यार आकाड्या भायरच तिका सोल्दादांनी आडायली. तीग सोल्दाद - दोग देशी नवे किरिस्तांव आनी एकलो पाखलो. देशी सोल्दादान म्हटलें, ''खंय वयता तूं बोटवो घेवन? तूं नकळ, हिन्दू वैजिणीन किरिस्तांवां घरा वैजीणपण करूंक

फावना म्हण?''

दुसऱ्यान म्हटलें, ''भोव मस्ती बायल ती. दोन फावट सांगिल्लें तिका. आयकना ती. आतां आमचे वांगडा वोग्गी शेफीसरीं यो. ना जाल्यार बांदून व्हरतले.''

अंबू वैजीण तांगेलें आयकत कांय वेळ वोगीच रावली. मगेर एकदम तिणें हातान शिनाल करून म्हटलें, ''ये, वाट सोडा म्हगेली. कुशीन रावात.'' तिगेल्या उतरांची जरब इतली कडक आसली, ते आपशींच कुशीक जाले. ती मात्शी मुखार वचून उबी रावली. तिणें एका सोल्दादाक म्हटलें, ''जातिच्यो आनी धर्माच्यो खबरी सांगता! गुरवारेच्या वेदनांक जात नासता आनी जल्मल्ल्या भुरग्याक धर्म नासता. मगेर वैजिणीक धर्म खंयचो?''

ती सडसडीत फाटीं वळोन चलूंक लागली. फाटल्यान सोल्दादान म्हटलें, ''तुका आमचे वांगडा शेफीसरीं येवंक जाय. आमी तुका घेवन वयतले. यो अशी फाटीं फिर.''

तिणें हात नाचयत म्हटलें, ''येवचीं ना हांव आतां तुमचे वांगडा. सांग तुज्या वडलांक. थंय तें फुल्लट पोर बाळंत जावंक वळवळटा. आनी हांव तुमचे वांगडा येवं? हें कसलें राकेसालें राज्य कितें? इल्लेंय मनीसपण ना तुमकां?''

''ती बाळंत जातकीर तूं बद्द शेफीसरीं यो. ना तर ह्या गांवची लाग चलूंक. आयच्या आज गांवाभायरी जा. लोकांकय सांगलां आमी, हिन्दू वैजिणीक आपोवप धर्मभश्ट काम, ख्यास्त फाव जातली म्हण.''

''ना, ना, रावची ना हांव ह्या आर मारिल्ल्या गांवांत. खंयूय साता गांवाभायर वचून वार देंठ कापून पोट भरतलीं. म्हगेल्या हातांचो गुण खबर ना तुमकां. हांवें भाजये पान दिल्यार पिडा पयस धांवता. रावचें ना हांव ह्या गांवांत.'' ती सडसडीत चलूंक लागली.

भैरूली सून दुलायलो फुल्लट गुरवचार. तीन वरां तरी ती वेदनांनी वळवळ्ळी. वेदनांचीं ल्हारार ल्हारां कमरेपसून वयर चडटालीं आनी मगेर जांगेंत देंवतालीं. ती दांतओंट चाबून किळांचताली. शेवटाक तिका चड जालें आनी घरांतली उमेदच गेली. सगळ्यांच्या तोंडावयलें हांशें, तोंडांतलीं उतरां कोणेंतरी अचकीत काडून घेतलीं. तरीय अंबू सगळें सडसडीत आवरून भायर सरली. दुलायले मांयन पांच पडी तांदूळ वल्लेंत घालून वासरेर दवरिल्ले. तिणें वल्ली उखल्ली. म्हटलें, ''सठयेक येतना वल्ली घेवन येतां.''

मांयन म्हटलें, ''सठी आनी खंयची. सठी केल्यार बांदून व्हरतात खंय. तें आनी बगलांट कोणाक जाय? तेंचेंच कितें तें देवस्पण करतले.''

''हय. हांव विसरल्लेंच मुगो. आदींच फाटीक लागल्यात ते. तरीय पावयतां

हांव तुगेली वल्ली.'' ती वल्ली घेवन हातांत चलूंक लागली. तिणें मनांत म्हटलें, चेडूं जाल्यार पांच पडी आनी चेडो जाल्यार आठ पडी तांदूळ. आमचेंय तें नशीबच म्हणचेलें.

ती बाळंतघरांतल्यान भायर येयली आनी येदोळच्या सोल्दादाची धपकावणी तिका याद येयली. ह्या गांवांत रावतलो जाल्यार किरिस्तांव जावंक जाय नातर गांव सोडून वचूंक जाय! ती आतां घोर चिंतनांत पडली. हवसानखत जाल्लेवरी जाली. बाळंत घरांतली ती किण्ण निर्शेणी, सोल्दादाली ती धपकावणी, तिचो जीव उबगल्लेवरी जालो... णव वर्सांचें आसतना हांव आवयवांगडा बाळंतघरांत वयतालें. म्हजें लग्न जावचे पयलीं, म्हजें पोट पिकचे पयलीं हांवें वीस बाळंतपणां केल्यांत. ही आतां गांवांत दिसता ती सगळी भुरावळ म्हज्या हाताची. म्हाका आनीक धर्म खंयचो, कित्याक तो. म्हजो धर्म वैजिणीचो. तो मात हांव कसोच सोडचों ना. ह्या गांवांत एक मुळी दिवंक वखदळी ना, देठ कापूंक आनीक कोण वैंजीण ना. लोक सगळो खोकरो आनी भन्नेपिडेचो. आतांच आनीक चार पांच तरी बायलो येद्दें आठणव म्हयन्यांचें पोट घेवन भोंवतात. कोण करतलो पळोवया तेंगेलें? हांव जावंची ना किरिस्तांव. हो बेदिनवासी गांवच सोडून वयतां. हातांत वखदाची सांगशी घेतां आनी लागतां चलूंक!

वाटेर ती वेंटू नायकाल्या, बाबलो नायकाल्या घरासरीं मात्शी थारली. तिणें व्हडान म्हटलें, ''वेंटूमाम, आसा रे घरांत? म्हाका धपकायतात ते. किरिस्तांव जावन वैजिणपण, वखदळपण कर म्हणटात. तुमकां गांवच्या लोकांक सांगतां, हांव काय एक जावची ना. उठ्ठां आनी गांवांतल्यान चलूंक लागतां. इतलो तेंप पुराय आयुश्य तुमचें धुवलें तेचो हो पाळो.''

ती घरा पावसर दनपार जाल्ली. तरीय तिणें आपलीं दोन वस्त्रां गुठलयलीं. वखदांची सांगशी सकल काडून घेतली. दोन गाडगे ताच्या गळ्यांत दोरी बांदून एकठांय सांगडायले. ते मुखार दवरून ती घराच्या दारांत तश्शी बसून रावली.

कांय वेळांतच अंबू वैजीण गांव सोडून वयता म्हण सगळो गांव भल्लो. सगळ्यांचेरच आवरो येयलो. जांच्यो बायलो सुनो बाळंत जावंक तेंकल्यात तांचेरय आवरो आनी जांच्या सुनांक निकतेच दीस गेल्यात तांकांय हुस्को.

घाण्यातिठ्यार नेमू मेस्ताले सुनेक णव म्हयने भरूंक येयल्ले. तो एकदम काळजेंत पडलो. तो तिनसांजचो अंबूसरीं गेलो. ''अंबूमावशे, तूं गांव सोडून वयता खंय मुगे. मगेर गांवच्या गुरवार बायलांनी कोणाचेर पातेवन रावचें? देवाक कोणें पळयला? वेळवगतार तूंच देव गे !''

''देव गेले गांव सोडून. देव आनी खंयचे उल्ल्यात? देवाचेर पारय पडटना कोण

एकलो उठलो ना. आनी आतां म्हाका देव खंय! कसले दादले तुमी, दाव्यांक बांदून घेवन वचून किरिस्तांव जावन येयले. फक्कत बायलांक वर्सवर्साक गुरवार करूंक बरे जाणात तुमी. तेतूंतच तुमचें दादलेपण.''

''जावं गे. तूं आनी गांव सोडून वचूं नाका. तूं मोटी धिराची मुगे. तुका आनी कोण हातबोट लायतलो?''

तेन्ना थंय आनीक चार पांच दादले येयले. सगळ्यांकच आज ना फाल्यां वैजीण वखदळण जाय आसली. फोंडू गुरवाली सून न्हावंक लागतकीर निकतीच घोवाघरा रावंक येयल्ली. भिकू भोयाले बायलेन आपूण दोन म्हयने न्हावंक ना म्हण घोवाक पयरच सांगिल्लें. सगळ्यांकच दिसतालें, अंबू वैजिणीन गांवांतच रावचें.

सगळे पांये पडून दोळ्यांत दुकां हाडून तिका विनयताले. भिकू भोयान - निकलांव रिबेरीन म्हटलें, ''आमी किरिस्तांवांनी खंय हिन्दू वैजिणीक आफोवंक फावना. आमकांय धरून व्हरून ख्यास्त दितले खंय. आतां कितें म्हण करचें आमी. तूं यो आतां आमचे वांगडा ह्या धर्मांत. ना म्हणूं नाका. शेवटाक तुगेलो धर्म वैजिणिचोच. तो कोण काडून घेतलो!''

ती हारिल्लेवरी वोगीच रावली.

दादले वयतकीर कांय वेळान जाण्टी साळू नायकीण वासरेंत येवन बसली. ती काळीशी आनी बऱ्याच मोट्या कमराची आसली. पोटाच्यो गाबळा घडयो न्हेसणार पडटाल्यो. व्हडलीं मांसाळ लांबपी आनी उक्तीं थानां. तांचे मदल्यानच तिणें बारीक पदराचो शेव ओडून खांदार घेतिल्लो. तिणें. हुस्क्यानशेंच अंबूक विचारलें, ''तूं गांव सोडून वयता गो? आयकलां तें खरें गो?''

''हय, वयतां हांव हो गांव सोडून...''

''तशें जाल्यार गांवांतल्या दादल्यांच्यो शिरो मारच्यो पडटल्यो.''

अंबून तिका हेडायत म्हटलें, ''दादल्यांच्यो शिरो माल्ल्यार तुजें आनी तुजे धुवेचें पोट कशें भरतलें गो?''

अपूली आवय इल्लें हांसलीशी करून वोगीच रावली. ''हांव जाणां तूं कित्याक हुस्क्यांत पडल्या ती. अपू पोट वाडोवन घेवन बसलां मुगो?''

''हय, पांचवो म्हयनो तेका.''

''हांव सांगतां, तो गोरो पाखलोच आसतलो तेच्या पोटांत, सोलिल्लो बेबो कसो. तेच्या भांगरा-दुडवांक भुल्लीं तुमी. पाखले घरांत आनी तुमच्या घरार फातर बोणे गांवकारांले.''

''तें आसूं आतां. म्हाका बाये अपूचो सामको हुस्को. तूं गेल्यार कशें जातलें?''

''कांय नज. शिंयादिसांनी वोतांत बशिल्ल्या माजरांवरी सुखी दीस तुमचे. तुमचे

फाटल्यान सगळे. म्हाका पळय, किरिस्तांव जा म्हण भेसडायतात, पूण तुमकां कोण हात बोट लावंक वयचो ना. तुमी धांवन गेल्यार सगळ्यांक वळवळे.''

''पूण तुका सांगतां अंबू, तूं गांवांतल्यान गेल्यार आमचें मरण. अपूक घेवन म्हाका खंयतरी वयचें पडटलें.'' तिणें निमाणीं उतरां ताळ्यांत भिजयलीं आनी सूंऽ करून नाक ओडलें.

आतां ल्हव आधारांच्या उतरांनी अंबून सांगलें, ''हांव वयचें ना गो खंय. गांवांतच म्हज्या जिवान रोप धल्ला. वयचेंच जाल्यार फाटल्या दोंगरांत वचून रावतलें आनी उल्याक धांवन येतलें. गांवचे पासत किरिस्तांव लेगीत जायन हांव.''

साळू हयन्हयशी हांसली.

''अपू रामनाथ देवाची देवळण आनी तेच्या पोटांत किरिस्तांव पाखलो. बेस बरें किरिस्तांवपण जोडलां तुमी. कोणाक खबर, तुमच्या त्या पाखल्याची नाळ कापूंक हांव किरिस्तांव वैजीण जावन येयन लेगीत.''

घरदार सोडून गेल्ल्या चार म्हयन्यांनी रुद्र शणै एक दीस अचकीत आपल्या दोगां अपुरबुद्द भुरग्यांक घेवन परत येयलो. वयतना बायल सुमित्रा वांगडा आसली. येतना मात ती वांगडा नासली. देव आनी धर्म वाटोवंक म्हण हो गांव सोडून गेल्लो परत कित्याक येयलो? सगळ्यांकच अजाप. आनी हाची धर्मिश्ठ बायल ती खंय गेली? कोणाक कितें विचारचो धीर नासलो. सांजेचो तो भुरग्यांक घेवन येयलो आनी आपल्या घराचे वासरेंत वोगी बसलो. घरांत घराभोंवतणीं गांवभराचो केरकोचोप सांचिल्लो. हातांतली एकच पोटली थंय दवरून ते कोचपांतच बशिल्ले. मुखावयलें दार काडचो धीर कोणाक नासलो. गुलगुलीत तांबशा चेऱ्याचो रुद्र आतां सामको भागून बरगून गेल्लो. खाड वाडिल्लें, तोंडाची कात काळी पडून ती अळंग लांबताली. दोगय भुरग्यांच्यो कुडी तर जिण्याबडयो जाल्ल्यो. बोट लायल्यारच तीं लखून पडटलीं अशें दिसतालें. व्हडलो सोळा वर्सांचो सदा आनी धाकलो बारा वर्सांचो नंदा. वयतना कशे घटमूट आसले ते. पूण आतां तांचें रगत मांस जशें आटून करपून गेल्लें. ते बरोच वेळ वासरेंत बशिल्ले. काळोख पातळूंक लागिल्लो आनी निर्शेणेन दुख्खान चडच विळखो घेतिल्लो.

रुद्राक आनीक एक चेडूं भुरगें आसलें. ताका दोन वर्सांफाटीं बारा वर्सांचे पिरायेर लग्न करून कालापुरा दिल्लें. गेल्ल्या स म्हयन्यांच्या जवंजाळान, धकाधकींत ताची यादच शेणिल्लेवरी जाल्ली. आज ताका आपल्या चेडवाची भोवभोव याद येताली. आवय गेली म्हण कळ्ळ्यार पोर आकुळपिकूळ जावन रडटलें. आवयवरीच मोव

मनाचें तें!

कांय वेळान थोटो देवराय शणै पांय ओडत येयलो. ''रुद्रा, गेले कितें आयले कितें, दशाच जाल्या मुरे. सुमित्री खंय?''

रुद्राचे दोळे भरून आयले. आंवडो घुस्पलो. ''देवराय, म्हगेली धूव जानकी येयल्ली?''

''ना. ताका पळोवंक ना. तें आयलें ना हेवटेन. आयकल्लें, कालापूरचे कांय बामण किरिस्तांवपण चुकोवंक कास्टी मारून शेतांत सोता वावर करताले म्हण. कितें जालां खबर ना.''

''म्हजी भावा बायल सरस्पत होनी येयल्ली?''

''ना. तिवूय येवंक ना परती केन्ना.''

''देराचेर खूब माया आसलीं तिगेली. एकय फावट कित्याक येवंक ना ती?''

''तूं गांवदेस सोडून गेल्लो. गांव किरिस्तांव जाल्लो. सगळें फापसतकीर कित्याक येतली ती?''

रुद्रान हाताच्या बावळ्यांनी दुकां पुसलीं. देवरायान परतें विचारलें, ''सुमित्री खंय? दिसना ती?''

''ती गेली. सुटका करून घेतली तिणें. आपणें घातिल्लें देवाच्या माथ्यावयलें फूल एक फावट तरी बावनासतना उरतलें अशा भावार्तान जियेताली ती. हें सगळें कशें सोसचें तिणें?''

देवरायाक मुखार कितें विचारचेलो धीरच जावंक ना. ताका इतलेंच जाणवतालें, रुद्र फटवला, ताका नागयला आनी तो वायट दशेक पावला. तें नागोवप गेल्लेकडेन आनी हांगा गांवांतय. गेल्ल्या चार म्हयन्यांत ताच्या कुळागराची वंय आनी हद्देफातर एकेवटेन क्रशण शणैन तर दुसरेवटेन मुंगरू शणैन सामको भितर हाडून पावयल्लो. ताचो एक बारीक शिरांटोच जाल्लो. सकल्लें शेतय तशेंच कोणेंकोणें फातर घालून आपलें करून घेतिल्लें. आतां तो विचारूंक गेल्यार ते झगडूंक येतासले. म्हणटासले, 'तूं धर्म राखूंक गांव सोडून गेल्लो. आमी तेंचो धर्म घेतलो म्हण तेणीच आमकां हें सगळें दिलां.'

देवरायान म्हटलें, ''हांव घरच्यान कितेंय खावंक जेवंक घेवन येतासलों. पूण हांव जालां किरिस्तांव. पांय तेच, हात तेच. पळोवपी दोळ्यांच्यो मुंडळ्यो त्योच. आतां हांव किरिस्तांव जालों म्हण म्हजो पांय सारको जालो काय ना जाल्ल्यांचो म्होडलो? खंयचेकडेन कांयच ना, पूण जेवणखाण मात तुटलें. मांडयेक मांडी लावन जेवंक बसताले. आतां हातबोट लागल्यार पातक खंय. पिशेपणां सगळीं.''

मागीर देवरायान आपल्या व्हडल्या पुताक आफयलो. ताका रुद्राल्या

घरामुखावयल्या एका कवाथ्थार चडोवन साताठ आड नाल्ल काडून घेतले. ते नाल्ल आनी कोयती तांणी ताचेमुखार दवरली. रुद्राल्या व्हडल्या पुतान तीन नाल्ल सोलले. दोळ्यासरीं कोचे मारून दोगय भाव एकेका नाल्लाचे उदक पियेले. तिसरो नाल्ल तांणी बापायमुखार दवरलो. रुद्राक उगडास जालो, वयतना घरांत एके मातयेचे गोलयेंत पातळ गोड आसलें. ताणें मदलें दार उकतें केलें. दार उकतें केल्यार भितर काळोख आनी घयरांवाचो, जल्ल्यांचो वास. तो बेगीबेगीन आयलो. "देवराया, म्हाका इल्लो उजो दिता?"

देवरायान पुताक घरा धाडून कयलांत घालून उजो हाडून दिलो. त्या उज्यार फूंक मारून रुद्रान चुडट्यो पेटयल्यो. त्या उजवाडांत तो घरभर भोंवलो. घरांत हाडून दवरिल्लीं शेताकामाचीं आवतां, अवजारां कोणकोण उखलून घेवन गेल्ल्यो. चोबे, पिणगी, हातर, सुपा वल्ल्योय जाग्यार नासल्यो. रांदचेकुडींत एकाचेर एक दाळून दवरिल्ल्यो मडक्यो मात तशोच आसल्यो. रुद्रान मनांत म्हटलें, सुमित्री घर सदां सारोवन बरोवन काय बरें नितळ दवरतालें. घराची पळय कशी आतां आदोड जाल्या. आतां आनी ह्या घराक काय घरपण येवचें ना!

ताणें मडकेच्या दाळांतल्यान पातळ गोडाची गोली काडून हाडली. तीन नाल्ल फोडले. तांची तन्नी कातली काडली. पुतांक दिली. पातळ गोड हाताच्या तळव्यार घेवन तांणी कातली गोडावांगडा खायली. देवराय तांकां बारीक पळयतालो. उपाशीं भुतांनी भुकेक भकचें तशे ते खाताले. तांची अवतिकाय भुतांवरीच जाल्ली. ताका तांची काकुळट दिसली. वांगडा तांचो रागय येयलो. ताणें तिडकीनशें विचारलें, "अरे, कितें जालें सांग तरी मुरे. व्हडलो नांवलोकिकाचो बामण तूं. तुजी दशा ही अशी कशी जाली?"

रुद्रान सामकें बापडें तोंड करून देवरायासरीं पळयलें. ताच्या दोळ्यांत परतीं दुकां देंवन आयलीं.

वयताना ते तीन घराबे वांगडा गेल्ले. भद्र शणैलो, रुद्र शणैलो आनी सुब्राय शणैलो. तांतलो भद्र शणै द्वारभाटी मांवाघरा रावलो. मांवान ताका एक पयसुल्लें भाट दिलें. तांतूंत ताणें कांय दिसांनी घर बांदलें. सुब्राय शणै आनी रुद्र शणै बैलगाडो करून मुखार वचूंक गेले. रवळनाथ तांणी वांगडा घेतिल्लो. ताचे पयलीं तीसवाडी, सास्टीचे कितलेशेच देव अंत्रूज म्हालांत येवन बसकण मांडून बशिल्ले. तांतूंत दिवाडेचो नारायण, एळाची दुर्गादेवी, नेवरेंचो म्हादेव, पानेलीचो बाराजण, गवळीमोंवळाचो क्षेत्रपाळ, चिंचोणेचो आगयोबेताळ, कोलवेंची महालक्ष्मी, वाडकेंचो वीर पुरूस, वेळ्ळेंचो भैरदेव, आर्केचो सिद्धनाथ, केळशीचो कपिलेश्वर, सांखवाळचो मंगेश, दाबोळीची भगवती, लोटलेचो रामनाथ, माजोर्डेची म्हामाय, म्हार्दोळची म्हाळसा,

करमणेचो गांवपुरीस, बाणावलीचो बाणेश्वर आनी हेर कितलेशेच देव. आनीक आनी देवांक अंत्रूजांत ठिकाण नाशिल्लें. मूळ लोक नव्या देवांआड उठिल्ले म्हटल्यार जाता. रातचे बीन गुपचूप हाडून बसयल्ले देव लोकांनी बळयां काडून व्हरूंक लायल्ले. एका देवा नांवार गांवांत शंबर दोनशीं लोक. तेच नाका जाल्ले.

राय गांवचो रायेश्वर असोच गांवच्या लोकांनी रातचो हाडून पंचवाडे वाठारांत गांवच्या गांवकारांची अनुमती घेनासतना हाडून बसयलो. एक व्हाळशी आसली. व्हाळशे कडेक दोंगरा आंगाक इल्ली समतळ सुवात आसली, चोंयवटेन झाडांनी वेडिल्ली. थंय तांणी स मेढी पुरल्यो आनी राती भितर एक खोंप उबी केली. तांतूंत देवाक बसोवन देव घेवन आयिल्ले धा बारा लोक खोंपी भायर वोगी बसले, देवाल्या मुखावेल्या देवस्पणाच्या हुसक्यांत, सोताच्या पोटापाणयाच्या चिंतनांत. गांव सोडून आयिल्ले ते लोक मूळ तुटून मोडून पडिल्लेवरी बशिल्ले. इतल्यान थंय वीस पंचवीस लोक हातांत दांडे घेवनआयले. तांणी धपकायलें, "गांवच्या गांवकारांचे अनुमती बगर तुमी देव बसयला. बसयला तसो उखलून घेयात आनी लागात चलूंक."

रायकारांनी विनवणी करीत म्हटलें, "ही गांवची कूस कोणाच्या हक्क अधिकाराची न्ही म्हण समजल्ले आमी."

"ही आमच्या गांवची शीम. देव उखलात आनी शिमे भायर चलात."

"वड पिंपळाची बीं किल्लोवंक घालचो तसो आमी देव हिंगा पुरला. कसो हुमटिचो तो? पातक न्ही तें?"

"पुरिल्ल्यान हुमटिल्यार पातक ना. तें आमकां कांय लागना. तुमी देव घेयात आनी लागात चलूंक सिमेभायर."

"चार मेढींचो माटोव, स मेढींचें घर. चार मेढींचो माटोव आज घालचो, फाल्यां काडून उडोवचो. पूण स मेढींची मठी मोडप समा न्ही. पातक तें."

"बांदिल्ल्यान मोडल्यार पातक ना. तें आमकां कांय लागना. मोडात ना तर तशीच सोडून वचात. आतांचे आतां शिमेभायरे जायात. ना तर आमी तुमकां मारून बडोवन धांवडायतले." गांवकारांनी हातांतले दांडे वयर घेतले. रायकारांनी बसयल्लो देव उखल्लो. परत तो पितांबरांत बांदलो आनी तो ते तकलेर घेवन चलूंक लागले. उपरांत ते आनी तांचो देव खंय पावलो तें कोणाक कळ्ळें ना.

रुद्र शणै आनी सुब्राय शणै गांवा फाटल्यान गांव फाटीं घालीत मुखार वयताले. केन्ना बैलगाड्यांतल्यान, केन्ना पांयांनी चलत. खंयूय तांचो बैलगाडो थारल्यार आनी ते जेवण करूंक, विसव घेवंक रावल्यारच थंय गांवचे लोक येवन उबे रावताले. तांकां मांडून पळयताले. कोणाकय कितें विचारल्यार ते बोटानच मुखावेली वाट दाखयताले. गांवांनी रस्त्यार इतलो लोक मेळ्ळो पूण कोण एकलो वळख देख दाखोवंक

तयार नासलो. बोरये वाठारांत वाटे कुशीक बामणांलीं दोन तीन व्हड घरां दिसलीं. गाडो आनी भुरगींबाळां वाटेरच दवरून रुद्र शणै आनी सुब्राय शणै तांच्या घरासरीं गेले. ते कितलो वेळ आंगणांत उबे रावले आनी तांणी उले दिले तरीय कोण भायर येना जालो. निमणें एकलो जाण्टेलो भायर येयलो. सुब्राय शणैन म्हटलें, ''थंडशितळ शिरवंत गांव तुमचो. गांवांत हातरेयेदी सुवात मेळ्ळ्यारूय आमी रावतासले. आमचो देव दवरतासले.''

त्या जाण्टेल्यान उबगल्लेवरी करून म्हटलें, ''देव आनी घेवन येयलात तुमी? ताचें गांवांतच विसर्जन करूंक जाय आसलें, न्हंय, तळयेंत. मनशांक सुवात ना आनी देवाक खंयची !''

''तशें म्हणूं नाकात. देवाखातीर तर आमी गांव सोडला.''

''गांवच्या गांवकारान थारायलां, हेमुखार भायल्या एक देवाक, एक मनशाक गांवांत गांवकेंत सुवात दिवची न्ही म्हण. बसूंक दिल्ली मणय काडून दिल्ल्याचे तकलेर मारतात. हात दिल्यार वांव जाय जाता आनी वांव दिल्यार गांव मागतात.''

मगेर ताणे वयलेवटेन बोट दाखोवन म्हटलें, ''तीं चार घरां दिसतात न्ही, तीन वर्साफाटीं अशेच भिकारी जावन येयल्ले, गांवान म्हटलें रावात. आतां तेंकां शिंगां फुटल्यांत. तळयेंतलें उदक चैत्रांत सुकता. आमच्या झाडमाडांक पावना. तेतुंतलें उदक भरूं नाकात म्हटल्यार आयकनात. झगडूंक येतात. गांवकार जावंक सोदतात. गांवची इल्ली चाखरी करिनात. कामाकस्टाक आफयल्यार येयनात.''

इतल्यान आनीक एक गोरो उंच दादलो दारांत येयलो. ताणें म्हटलें, ''तातो, कसल्यो खबरी? गांवकेन नाका म्हटल्या आनी तूं कसल्यो खबरी सांगता? आयजमेरेन सगळे येयले आनी आमच्या बोडार बसले.''

सुब्राय शणैन सांगलें, ''आमी आदोळशी गांवचे सरस्पत बामण. आमच्या गांवांत आमी मानान भौमानान जियेताले. आमच्या शेतांनी कुळागरांनी भांगर पिकतालें. आतां हें संकस्ट येयलां आमचेर. तुमी आमच्या कुळगोत्राचे आसतले घडये.''

''भावाक भाव वळखना. वायट दीस हे.''

''तुमचे गांवके मुखार दवरात आमचो प्रस्न.''

''मुखावयल्या खंयच्याय गांवाक गांवके मुखार वचून धिमी मारात.''

रुद्राक शिट् जालें. तो तसोच परतलो. मगेर सुब्राय शणैयूय येयलो. ते मुखाल्ले वाटेक लागले. मुखार येवन तांणी गाडो सोडलो. दोगां गावडी कुणब्यांक वांगडा घेवन ते रानांतले वाटेन शिरवडें येयले. वाटेंत एके राती ते कोणाल्या तरी मांगरार रावले. थंय ते रांदून जेवले. ते वट्ट धा जाण आसले. सुब्राय शणै, तागेली बायल,

लग्न जाल्लो एकलो पूत, तागेली बायल आनी दोगी सान धुवो. रुद्र शणैक आनी तागेले बायलेक दोग पुतूच आसले. गांव सोडून अठरा दीस जाल्ले. अजून थारो मेळनासलो. वांगडा पयसो आटको, भांगर शिंगर इल्लें आसलें. दीस काडूं येताले, पूण देव बसोवंक, मठी बांदूंक थिकाण जाय आसलें.

शिरवडें पावतकीर वांगडाच्या कुणब्यान व्हरून तांकां गिरी कामत ह्या भाटकारागेर पावयले. तकलेवयलीं वोजीं सकयल दवरतना कुणब्यान ताका सांगलें, ''गिरी भाटकाराक लेखून लोक कितें उलयतात जाणा गा, तेणें लोकांक जेवोवन, खावोवन, दिवन रायालेयेदें भाट अर्दें केलें म्हण. तें पळोवन तेगेली पतीण सद्दां तेचेमुखार भिकेक उबी रावता. म्हण अर्देंतरी उल्लां.''

ते चौकेंत वचून गिरी कामतीक भेटले. कामत बरोच काळो आसलो. आंगान मोटो, पसरट. ताच्या हड्ड्यार भुजांर गच्च धवे केंस आसले. पूण तकलेवयल्या भंवऱ्याचे, शेंडयेचे केंस मात काळे आसले. हाताचे एकेक चपके तळवे इतले व्हड आसले, तांतूंत पडभर तरी तांदूळ धरतासले. सुब्राय शणैन आनी रुद्र शणैन ताका आपली काणी सांगली. देव बसोवंक, जाल्यार आपल्या पोटापाणयाक भूंय दिवची म्हण विनयलें.

गिरी कामतीन म्हटलें, ''वेळ माथ्यावयल्यान कडसलो. आदीं जेवन घेयात तुमी.'' ताणें एका चाकराक आफयलो. ''आदू, हेंकां पंगते पडवेंत व्हरून जेवंक बसय. बायल भुरग्यांकय आफय तेंगेल्या.''

ते जेवन परत चौकेंत येयले. तांणी परत देवाक भूंय दिवची म्हण विनयलें. गिरी कामतीन म्हटलें, ''देव हुमटून घेवन येयल्यात तुमी. तुमकां ना कशें म्हणूं? कितल्या लोकांक बसयले हांवें म्हज्या भाटा बेंसांत! देवाक ना कशें म्हणूं? पेरांब्याकडच्या भाटाचे उदेंतीकडची तीस हात सुवात हांव तुमकां दान करतां.''

ताणें इतलें म्हटलें मात, तेगेली बायल एकदम दाराआडच्यान चौकेंत येयली. ही उंच गोरीगोरी एकशिवडी सोबीत बायल. भांगरावर्णाची देवी कशी. तिणें म्हटलें, ''ते भुंयेंतली अर्दी भूंय म्हाका भिकेक जाय.''

''पूण नर्मदे, ती भूंय हांव तांकां दान दितां.''

''ते भिकेंतली अर्दी भीक म्हाका जाय.''

''पूण...''

''ज्या दिसा म्हाका घरांत भीक मेळची ना, त्या दिसा हांव भायर वचून भीक मागूंक लागतलीं.''

कामत वोगीच रावलो. ताणें घरामुखावेल्या भाटांत काम करपी एका कामदाराक उलो माल्लो आनी सांगलें, ''ह्या लोकांक घेवन वच आनी पेरांब्याकडच्या भाटाचे

उदेंतेकडची तीस हात सुवात दी. तांतूंतली पंदरा हात सुवात भिकेक घालूंक दवर.''

भाटकान्न थंयच उबी आसली. तो कामदार दोळ्यांतच हांशिल्लेवरी हांसलो. मगेर तांकां 'येयात, येयात' म्हणत सडसडीत भायर गेलो. शणैंचो सगळो पोंवो ताचे फाटल्यान चलूंक लागलो. वांगडाच्या कुणब्यांनी तांचीं वोजीं उखल्लीं. तो कामदार बरोच मोटवो आसलो. तागेले हातपांयूय मोटवे केळीबोणे कशे आसले. तो पेरांब्याकडच्या भाटांत गेलो आनी ताणें आपल्या हाताच्या मापानच मुणहाताची बडी मोडली. सुब्राय शणैन आपल्या हातमापाची बडी मोडून दिता म्हटल्यार तो कसोच आयकना जालो. ताणें आदीं तीस हात मेजले. परत तो पंदरा हात फाटीं येयलो. पंदरा हातांचेर ताणें एक खूंट पुरलो. ताणें म्हटलें, ही पंदरा हातांची शीर तुमची. फाल्यां येवन फातर पुरतां. हेचे भितर एक सूत तुमी येवंक फावना. रुद्र शणैन पळयल्यार ती फक्कत चार दांगांची एक शीर आसली. तांतूंत चार माड, दोन आंबे आनी एक भिण्ण. तो चिंतनांत पडलो, हांगा कशें जातलें सगळ्यांचें? देव खंय स्थापन करतले आनी आमी खंय रावतले?

सुब्राय शणै वोगी आसलो, अदमास घेतिल्लेवरी. कांय वेळान तो रुद्र शणैसरीं पळोवन हयन्हयसो हांसलो. मगेर ताणें म्हटलें, ''भाकरी मागल्यार कुडको काडून दिला. कोणाचेंच पोट नीट भरचेंना. देव आनी दोन घराबे हांगा खंय जातले? गांवांत केदीं व्हडलीं भाटां आसलीं. तरीय तीं उणीं दिसतालीं. दोन घराब्यांचें हांगा कशेंच जावचें ना.''

रुद्राक तागेलें आयकोन भिरांतशी दिसली. कितें सांगूंक सोदता हो सुब्राय! तो कांयच उलयलो ना. वांगडाच्या कुणब्यान हातांतले कोयतेन सापसूप करून, शिऱ्यांनी लोटून मदींच एक मांडसो तयार केलो. थंय तांणी आपलें सामान दवरलें आनी ते थंयच बसले. ते मेरेन सांज जाल्ली. कुणब्यांक बाबा पुता करून तांणी ते रातीक दवरून घेतले. दुसऱ्या दिसा सकाळीं कुणब्यांक सांगून आनी तांणी सगळ्यांनी मेळून एक खोंप उबी केली. वेळ माथ्यार चडूंक तांणी खोपींत देव दवल्लो. सुब्राय शणै सकले तळयेंत वचून न्हावन येयलो. नमस्कार करून ताणें गाराणें घातलें, बरें मागलें आनी देव पूर्व दिकेक तोंड करून बसयलो. पूण थंय कसलीच उमेद नासली. सगळे थंड चिंतेस्त मसुंडेर कशे उबे आसले.

हे सुवातेर येतसान रुद्रा आनी सुब्राय हांचेमदीं वोगीच एक पयसुल्लेपण उपराशिल्लें. राती हांगा येवन पडटकीर, सकाळीं खोंप बांदतना तांचे मदीं फाव तशी भासाभास जायनासली. उलयतना आवाज भिजिल्लेवरी चिरिल्लेवरी जातालो. अठरा दिसांची दगदग्याची भोंवडी करून ते मेळून येयल्ले आनी आतां कितें जालें हांकां!

दनपरां जेवन ते झाडामुळाक लवंडले. रुद्राक मात्शी झेम लागली आनी रोखडोच

तो जागो जालो. ताका सारक्की दुगदुग. हे उरिल्ले शिरेंत दोगांचें कशें जातलें? गांवांत दायजीपण भोव गाजयलें, हांगाय तेंच दिसता. ताणें पयल्यान लवंडून बशिल्ल्या सुब्राय शणैक ल्हव पिनिल्ल्या आवाजांत म्हटलें, ''आसा तातूंतच आनीक दोन खोंपी उब्यो करच्यो. कशे तरी काडचे दीस. कितेंय चड उणें जाल्यार एका गोट्यांत गोरवांचीं शिंगां आपटिल्लेवरी म्हण समजुचें.''

''येद्दी ही शीर. मडें आडवें लासूंक घातल्यार पावची ना. तांतूंत दोन घराबे कशे वसतले?''

''कितेंय आसूं, दोगांकय दिल्या न्ही ती गिरी कामतीन.''

''आमकां खंय कितें दिलां? ही भाटाची शीर दिल्या ती देवाक. देवाकच पावची ना ती.''

''मागीर आनीक खंय वयचें आमी? आनीक खंयूय वचूंक शक्त खंय आसा?''

''शक्त खंय आसा काय म्हणटा? तुजेपरस धा वर्सांनी व्हड मुरे हांव. येयलो ना हांगामेरेन? आतां हांव देव घेवन हांगाच रावतां. पयलींवरी देवाची सेवाचाकरी करतां. देवाचे जत्रेक, उत्सवाक तुमकां मुखार गेल्ल्यांक फाटीं उरिल्ल्यांक सगळ्यांक आफयतां.''

''कसली भास उलयता तूं सुब्रायतातो, मुखार वचचेली? दोगांलोय देव. दोगांकय ही शीर मेळ्ळ्या. रावतलों हिंगाच हांव.''

''हांगा रावन हे हातभर सुवातेर आमी आनी आमचे मुखावेले पिळगेन झगडून मरप. रुद्रा, तूं आनीक खंयूय मुखार फाटीं वच. नवें थिकाण वसय.''

''हांव एकलो खंय वचूं मुखार अनवळख्या देशांत बायल भुरग्यांक घेवन? आतां हेंच निमणें पेणें. देव आसा हांगा तो राखतलो कसो तरी.''

सुब्राय शणैन आवाज चडयलो. ''हांव सांगतां, पावची ना ही सुवात. देवाकय खावंक उठ्ठले फाल्यां आमी.''

रुद्रा भियेल्लेवरी जालो. बऱ्या काळजाचो, बरे मनभावनेचो हो सुब्रायतातो आज अशें नश्टें कितें उलयता! तो वोगीच रावलो. रुद्रा असो गोरो सोबीत पूण किरकोळ आंगलोटाचोच आसलो. भुरगेपणाक ताका रडवो रुद्रा म्हण चाळयताले. कोणावांगडा केन्ना झुडोन झगडूंक म्हण तो गेलोना. ताका बायल अशी मोव मनाची, थंड सभावाची आनी देवभक्तेची मेळ्ळी. तिचे सावळेंत तर तो चडच थंड रगताचो जालो. गांवघरा शेतभाट खूब आसलें. केन्ना कसल्या तापत्रयांतय तो पडलो ना. आतां सगळेंच वयर सकयल जाल्लें. ती पुराय दनपार तशीच थंड निर्शेणेंत गेली. सांजचो उसरां सुब्राय शणै अचकीत कंठ फुटिल्लेवरी व्हडाव्हडान उलोवंक लागलो. तो गांवच्या लोकांक, वाटेर न्हयकारून धांवडायल्ल्यांक गाळी घालतालो आनी

सोताच्या अद्रूश्टारय उलयतालो.

''व्हडल्या नागसोर्पाच्या कवंडाळ्याचेर पांय पडूनय वांचलों हांव हें भोगूंक. गांवांतच मेल्यार ते मातयेकच सोर्ग मानतासलों. आतां धरतरेरच हो नरक. भुकेल्ल्यांक जेवूं घालिनासताना पयलीं काम करून घेताले हे. गादयेर वचून हेर जातीच्या लोकांवांगडा मांडयेक मांडी लावन सूर पिवंक बसताले. देवाच्या माथ्यावयले पांखे गेल्यार एकल्याच्यान सारके करूंक जाले ना. पयलीं हेरांल्या माडामुळांत पडिल्लो नाल्ल किल्ललो तरीय कोण उखलून व्हरनासलो आनी आतां... देवाकय आतां जीव ना जाला, ना तर भावार्थी लोक अशे वनवासांत पडचे नासले....''

रात जाय मेरेन तो कितें कितें उलयत आसलो. तें आयकोन बायलांक, भुरग्यांक आपूण खंयतरी अन्न उदक नाशिल्ल्या बंजर गांवांत येवन पडल्यांत अशी भिरांत दिसली.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं रुद्रा उठलो आनी कोयती घेवन एकलोच लागींच्या रानांत गेलो. ताणें बऱ्यो चार मेढी मारून हाडल्यो. त्यो हाडून भाटा शिरेचे सकल्ले वटेन उडयल्यो. तें पळोवन सुब्राय एकदम धांवत येयलो. ताणें त्यो मेढी रागारागान उखलून शिरेभायर व्हरून उडयल्यो. तो तणतणलो, ''सांगलें न्ही, हांगा दोन घरां जावचीं नात म्हण. चलूंक लाग हांगासल्लो. सात गांवां भायर हुंवाळून वच. हांगा एक खीण आनीक रावं नाका. ना तर दांडे घालून धांवडायतलों.''

रुद्रा ताचें जाण्टेपण राखून आपलेपरीन रागान ताका जाप दितालो. इतल्यांत रुद्राली बायल सुमित्री रागान तांबडीच जावन झगडूंक मुखार सरली. तिणें सुब्राय जाण्टो, आपले घरवडीचो हें मानिनासताना ताचें मडें घातलें, ताचें मरण मागलें. ती जाणा जाल्ल्यो वायटांतल्यो वायट गाळी तिणें ताका संवल्यो. मगेर सुब्राय शणैनय तिचें सगळें अस्तुरीपण उस्तिलें. तिका रांड म्हटलें. तिचें देवभक्तीपण, तिचें सोवळेंपण, पतिव्रतपण खिणांत भुंयेर लोळयलें.

त्या दोगा भावार्ती मनशांचें तें पोजडें झगडें आयकून हेरांक दिसलें, आतां संवसारांत राम उल्लो ना. आतां केन्नाय जगबुडी येतली!

रुद्राक आतां इतलो राग येयलो, ताणें आपल्यो पोटल्यो उखल्ल्यो, दोगय पुतांले तकलेर दोन पोटल्यो दिल्यो आनी उरिल्लें ताणें तकलेर खांदार माल्लें आनी तो चलूंक लागलो. स्राप दिल्लेवरी रागान ताणें म्हटलें, ''निसंतान जावं तुजें, भस्म जावं. हेउप्पर तुजें तोंड पळोवचों ना हांव. तुवें पुजिल्ल्या देवा मुखारय येवचो ना हांव.''

तो चलूंक लागलो आनी सकल्ले वाटेर येयलो. ताचे फाटल्यान सुमित्रीय रडरडत येयली. तिगेली पंचधातुंची तेत्तीस देवांची पोटली पुराय वाटभर तीच घेवन चलताली. पूण ती आतां तिगेल्या धाकल्या पुताले तकलेर आसली. तीं सकल्ले वाटेर येतकीर

रुद्रान बायलेक म्हटलें, ''आमी गिरी कामतीचेर परतीं या?''

''नाका, कित्याक थंय, तागेले बायलेक भीक घालूंक?'' तांणी गांवांत वचून एक बैलगाडो केलो आनी ते पंचवाडी वटेन वचूंक लागले. भितर सांग्यामेरेन वचचें तांणी थारायल्लें. गाडेकाराक ह्या वाठाराची पुराय म्हायती आसली. तो खंयच्यान गेल्यार खंय पावतले, खंयचो गांव कितलो पयस आसा तें सांगतालो. तो इल्लो जाणटोच आसलो. कसली तरी पिडा बादिल्लेवरी निस्तेज, उमेद नाशिल्लोसो दिसतालो. गाडो इतलो ल्हव चलयतालो, तो बैलांचे फाटीर एक बडीय मारनासलो. रुद्रान ताका म्हटलें, ''गांव खूब पळयले. आतां गांवांत रावप ना. खंयच्या तरी रानांत उदक आशिल्लेकडेन वचून रावप.''

गाडेकारान म्हटलें, ''एकल्यान रान वसोवन राबितो करप कठीण तें. चोंयवटेनच्या गांवांचेरूय खेव येयला. दर एक गांवकी आपलेंच ठाणें उबयता. भायल्यांक रीग घेवप कठीण जालां.''

''आपलेच मनीस दांडे घेवन धांवडायतात, आनी हेरांचें कितें सांगचें?'' रुद्राल्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळ्ळीं. ताळो ओलो जालो.

''पळयतां, समतळ रुखावळींत खंय तरी सुवात आसा काय म्हण. एक फावट खुंटी मारून घर उबें केलें आनी हुमर घातलो म्हणटकीर भिरांत ना. मागीर मानून घेतात तें.'' गाडो चलतना रुद्रान गाडेकाराक आपली पुराय खबर सांगली. तोवूय कस्टी जालो.

ते वयतना वाटभर सोदताले, कुशीक एकोडें एकादरें उदक आशिल्लें ठिकाण. निकतोच मार्गशीर्ष म्हयनो सोंपिल्लो. पूण सगळेकडेन बंजर मळां, मरडां आनी रानां पातळिल्लीं. थंय रावंक रुद्राचो धीर जायनासलो. एकादरी झर व्हांवता, चिप्प शेळ आसा, बीं घातल्यार कंवकंवीत किल्लवत वयर सरतलें अशें सपनांतलें कशें थिकाण तो सोदतालो. पंचवाडींत खूब भितर रिगून तळावळी गांवा लागसर पावतकीर तांकां काळोख जालो. वाटे कुशीक एक उकतें, बिनवण्टीचें देऊळ आसलें. थंय एक बांयचो फोंडारो आसलो. ते थंय थारले. गाड्यांत सामान - एक पेटारो, दोन तीन पोटल्यो उखलून तांणी देवळांत व्हरून दवरल्यो. रुद्रान बेगीबेगीन तीन फातरांची चूल मांडली. इल्लो जळोव एकठांय करून हाडलो. फातरांचे चकमचे पेटोवन जाळ केलो. सुमित्रेन ताचेर आदन दवरून सुरय पेज केली.

रातचे ते थंयच उकत्या देवळांत न्हिदले. देवळांत एके कडेर एक सुळको कसो देवाचो फातर आसलो. थंयच लागीं ते न्हिदले. मदीं भुरगें, एके वटेन आवय, एके वटेन बापूय. गाडेकारान बैल भायर एका रुखाक बांदिल्ले. तो थंय लागींच न्हिदिल्लो. रुद्रा आपले भोग आठोवन दुखी जातालो. फाल्यांच्या हुस्क्यान ताका झेमच

लागनासली. लागींच खंयतरी लोकांचो राबितो, एकादरो ल्हान गांव आशिल्ल्याची सुलूस लागताली. येदोळ गोरवांक आफयिल्ल्याचोसो आवाज येयल्लो. आतां कोण तरी झगडटासो आवाज येतालो. कितले पयस काय लागींच, कांयच अदमास मेळनासलो.

आतां बरीच रात जाल्ली. मध्यान रात जावंक इल्लो कळाव आशिल्लो जावंये. भायर काळोख इतलो आसलो, दोळ्यांत बोट घातल्यार दिसचें नासलें. आतां सगळें शांत. फक्कत रातकिड्यांची अखंड किरकीर, वातावरणार आडवें उबें खरवत ओडिल्लेवरी. इतल्यांत पयस खंय तरी एक चूड दिसली. पळेतां पळेतां चूड लागीं पावली. कोणाचीं तरी पावलां वाजलीं. चूड देवळा सामकारच येवन थारली. गोठिल्ले बैल सुडबुडीत उठून उबे रावले आनी हांबेले. गाडेकार उठलो आनी 'कोण, कोण' म्हणत ताणें बोवाळ घालो. ते चार जाण आसले. ते देवळांत भितर सल्ले. गाडेकारान तांकां 'अरे कोण, कोण, अरे हे परंतरांतले लोक' म्हणत आडायचेलो यत्न केलो. तांणी गाडेकाराक शेंवटून धुकलून उडयलो. तो पडलो आनी ताची तकली आपटली. रुद्रा, सुमित्री आनी तांगेले दोगूय पूत उठून उबे रावन भिवन थरथरत तांकां पळयताले. तांकां उलोवंक, बोब मारूंक वाचाच फुटनासली. ते येयले आनी तांणी तांचो पेटारो, पोटल्यो उखल्ल्यो. तेसरशीं रुद्रा एकदम आड्डलो, ''व्हरूं नाकात रे! संकस्टांत गाविल्ल्यांची ही आस्पद!'' पूण तो जाग्यावयलो हाललो ना.

सुमित्रेन पळयलें, आपली देवांची पोटलीय तांणी उखलून व्हेल्या. ती एकदम तांचे फाटल्यान धांवली. देवांची पोटली ओडत 'म्हजे देव व्हरूं नाकात रे' म्हण रडत ती तांचे फाटल्यान वयताली. शंबरेक पावलां ती तशी चल्ली. मगेर अचकीत एकल्यान तिका घट धरून उखलून आंगार घेतली. तिका तशीच घट धरून घेवन तो धांवंक लागलो. सुमित्री रडटाली आनी म्हणटाली, ''आरे हांव तिगां भुरग्यांली आवय. आवय हांव. सोडात म्हाका. म्हजे देव दियात.''

त्या उखलून घेतिल्ल्याक कितें दिसलें कोण जाणा, ताणें तिका उब्याउबीच झाडांत उडयली. ती धाडावली आनी थंय तशीच पडून रावली. रुद्रा फाटल्यान मेल्ल्या पावलांनी येयल्लो. ती सारक्की रडटाली, आपली देवांची पोटली व्हेली म्हण. आपणाक हात लायलो, आपणाक भश्टिली म्हण. मगेर मात ती घुम्म मोनी जाली. घोवान पुतान कितें विचारल्यारय उलयनासली. ती पुराय रात ती वोग्गी बसूनच रावली. सकाळपाराक परत एक फावट तिणें होळोम काडलो, 'म्हजे देव व्हयले रे देवा, म्हाका हात लायलो! कसलो हो संवसार रे देवा, मनीस खायरो! तूं आसतना हें फळ भोगचें पडलें!'

रुद्रा आनी गाडेकार देवळाकडेर बसून उलयताले. रुद्रा भोव थतरवितर, भुंयेक

तेंकूक पाविल्लो. ''कोण ते चांडाळ गाडेकारमाम? कित्याक आमकां अशे लुटले तांणी? कोण खंयचे हुंवाळिल्ले ते?''

''कोण म्हण कितें सांगतलों? गोंय जुंव्यार बंदड सुरू जायतसान अटरापगड लोक येवन भल्ला. पुर्तुगेजांनी धांवडावन घातिल्ले मूर नायटेय हेवटेन येयले. थोडे पयस गेले, थोडे खंयखंय फापसून उल्ले. गोंय जुंव्यार गुलाम म्हण जात आसा खंय. तेवय केन्ना हेवटेन पळोन येतात. गोरे, काळे शिद्दी. बाटाबाटी चुकोवंक धांवन येयल्ले तर आसातच. केन्ना थळावे लोकय भायल्यांच्या नांवार हात मारतात.''

सुमित्री ताचें उलोवप आयकताली. तिणें गाडेकाराक विचारलें, ''ते मूर, नायटे आशिल्ले गा?''

''कोणें कशें सांगचें?''

''खंयच्या जातीधर्माचे आशिल्ले ते?''

''कांयच सांगूं नज. चोर चांडाळपण वायट लोकांचेंच काम तें.''

सकाळपाराक तांकां इतली झेम येयली, रुद्रा आनी गाडेकार थंयच लवंडले. सुमित्री तशीच बसून रावली. आदींच बारीक, एकशिवडी गोरी बायल ती, गेल्ल्या वीस दिसांच्या दगदग्यान बरगून गेल्ली. गोरे कातडे सकल्लें रगत जशें निशेवन गेल्लें आनी ती कापसाची बावली जाल्ली. काल सुब्राय शणैसरीं झगडटना वाऱ्यावयले वालीवरी ती थरथरत हालताली. तो राग, तें झगडप जशें तिच्यान सोंसूं नज जातालें. आतां हें अपशरण! चिंतून चिंतून तिच्या मेंदवाचे सुंब जाल्ले. आड्डून आड्डून रडचें अशें दिसतालें. पूण शक्तच सोंपिल्ली. सगळेंच भेरेल्लें. ती बशिल्लेकडच्यान ल्हवच उठली. बद्द कुशीचे बांयसरी येयली. ती बांय म्हटल्यार एक रुंद फोंडारो कशी आसली. ती आदीं बांयचे धडयेर बसली. तिणें पांय सकल सोडले. पावलाक उदक लागलें. आतां तिका मरणाची चडच ताळणी लागली. तिणें सोताक घस्स करून बांयंत घालून घेतली. बिंदलो बुडिल्लो कसो आवाज येयलो. कोणाकच जाग आयली ना!

लागींच्या तळावळी गांवांत सांब सावके म्हण एक व्हड मनीस रावतालो. तो बरो शेतकार, भाटकार आनी म्हाल गांवकार. गाडेकारान वचून ताका सगळी खबर सांगली. म्हटलें, 'एक मानादीक बामण. संकस्टांत शिरकला.' सावके चवग-पांच जाणांक घेवन रोखड्यारोखडो येयलो. तांणी सगळ्यांनी मेळून कुडीचो थंयच विलोव लायलो. मगेर तो रुद्राक, तागेल्या दोगय पुतांक घेवन आपल्या घरा येयलो. ताणें म्हटलें, ''तूं बामण. हांव खेत्री. म्हज्या घरचें तुका चलचेंना. म्हज्या भाटांत एक खोंप आसा. तेतूंत राव तूं कांय दीस. सद्दां देड पड तांदूळ, एक नाल्ल आनी शाकभाजी कितेंय धाडून दितां. तुज्या व्हडल्या पुतान सारयेक उजो दिला. भटाक सांगणें धाडटां. तेचेकडच्यान सगळी क्रियाकर्मा करून घे. जाय नाका तें सांग.''

रुद्रा आपल्या पुतांक घेवन थंय कांय दीस उरलो. सांब सावके उतरा परमाणें तांदूळगोटो दितालो. तागेलो एक धाकलो भाव आसलो. तोच चड करून शेताभाटाचो वावर पळयतालो. ताका एकूच दोळो आसलो. दुसऱ्या दोळ्याची धवी मुंडळ भायर लांबता अशी दिसताली. ताचेन तो भोव विद्रूप दिसतालो. तो आतां रुद्राक आनी तागेल्या पुतांक भाटांत कामाक आफोवंक लागलो. 'म्हैनो जालो. फुकटचें खावंक कितलो तेंप मेळटलें?' अशी ओपार मारूंक लागलो. खरें म्हटल्यार रुद्राक तांचें फुकट खावचें बरें दिसच नासलें. तशेंच हेरांल्या भाटांत घोळप, मानाया वरी वावर करप तेंवूय ताका मानवनासलें. एक घुसमटांतच गाविल्लो तो. तरीय ताणें सांब सावकेच्या भावान सांगतकीर हातांत खोरें घेतलें. दोगय पुतांकय बारीक मोटो वावर करूंक सांगलो. तो खोरें घेवन पावसांत धुवन गेल्ली माती परतून घालतालो, माडाक आळी धरतालो. दोगय पूत पिड्डे,चुडटां पुंजायताले. पाडटकीर नाल्ल पुंजायताले. एक दीस रुद्रा खोरें घेवन काम करतना सांब सावके लागींच्यान गेलो, पूण ताणें कांयच म्हटलें ना. रुद्रा चड खंती जालो. दिसलें, आपणें जाता तितले बेगीन ही सुवात सोडूंक जाय. पूण खंय वयतलो, धीर जायनासलो.

अशे दोनेक म्हयने गेले. रुद्रा दिसानदीस मनान कुडीन खचूंक लागिल्लो. घराचे सकल्लेवटेन तागेलें उशेल आशिल्लें. एक दीस रुद्राल्या दोगय पुतांनी उशेलांतले दोन उशीकांडे मोडले. थंयच अडसराक बसून ते ऊस खावंक लागले. एका कामदारान पळोवन धांवत वचून सांब सावकेच्या भावाक सांगलें. तांचें देवस्पण केलेबगर तशे उशीकांडे मोडप मोटें अनर्थाचें काम आसलें. भावान येवन त्या दोगय भुरग्यांक उशीकांड्यानच माल्ले. फाटीर पांयांर माल्ले. दोगय रडत बापायसरीं खोंपींत येयले. भावान पयसुल्ल्यानच रुद्राक म्हटलें, "देवाधर्माचें थळ हें. चोरून कांय करूंक फावना. एक फावट म्हज्या बापायन माडार चडिल्ल्या चोराचो फाटीकणो सकल देंवतना कुराडेन कातरिल्लो."

रुद्र शणैक हें मनाक खूबच लागलें. तकलेंत रगत उसळिल्लेवरी जालें आनी तो भितल्लेभितर फडफडलो. ते रातीक ताणें चिंतलें, आतां आनी हांगा रावप समा जावचें ना. बामण जावन हांव मानाय कसो हेरांल्या भाटांत घोळ्ळों, भुरग्यांक मार खावचो पडलो. आनीक आनी मर्वद काडून घेवचो ना! देव आनी धर्माक लागून गांव सोडून येयल्लों. देव धर्म सगळ्यो वाऱ्यावयल्यो खबरी. हाताक लागना जाल्ल्यो, पोटाक पडना जाल्ल्यो राटावळी. बांयंत न्हावलो कितें, तळ्यांत न्हावलो कितें, सुमित्रेक कित्याक म्हण जीव दिवंक लायलो? इतली पुजा भक्ती केली म्हण त्या फातरांक कितें जीव फुटलो? देवाक लागून तर आमचेर हें अरिस्ट! म्हाका आनीक कांयच नाका!

दुसऱ्या दिसा सकाळीं उठून तो सांब सावकेसरीं गेलो. म्हटलें, ''उपकार जाले तुगेले. केन्ना पावोवंक जावचे नात. तुका लागून कांट्याक जीव घेवन तरी आसां. आतां हांव गांवांत परतो वयतां.''

''गांवांतल्यान येयल्लो गांवांतच परत वयता? थंय आमच्या धर्माचे लोक रावंक फावनात म्हण आयकलां.''

''आतां कितें भोगचें आसा तें गांवांतच. भरिल्ल्या पोटार देव आनी धर्म. सुण्यापाश्ट जावचेपरस खंयचोय धर्म आपणायल्लो बरो.''

सांब सावके कांय वेळ वोगी रावलो. मगेर ताणें म्हटलें, ''वच तूं. आपल्या गांवांतच आपूण राया.''

''वाटेखर्चाक कांय दुडू जाय आसले. तांकल्यार हाडून पावयतां. ना तर तुज्या नांवान खंयच्या तरी देवाक दितां. म्हजें आशिल्लें सगळें गेलें!''

''म्हजो गाडो तुका शिरवड्यामेरेन व्हरून पावयतलो. थंयसान आडवाटेन चलून तूं ढवळ्यां वच. थंयच्यान द्वारभाट चड पयस ना.'' तो भितर गेलो आनी ताणें बारा शेराफींय हाडून दिले. ते घेवन ताचे उपकार आठोवन तो फाटीं फिरलो.

सोताच्या घराच्या दारांत परको कसो बापडो जावन बशिल्ल्या रुद्राक थोंटो देवराय विचारतालो, ''आरे, व्हड नांवलोकिकाचो बामण तूं. तुजी दशा अशी कशी जाली?''

रुद्राच्या दोळ्यांत फक्कत दुकां आसलीं.

पुरसो देवळ्याक - पेद्रू दिनीजाक इन्क्विझासांवाचो अंमलदार धरून व्हरतालो. पुरसो आपली बायल तुळसायक व्हडाव्हडान बुरशो बुरशो गाळी संवतालो. इन्क्विझासांवाच्या अंमलदाराल्या हातांत एक जाड पुस्तक आसलें, जें पुरशाल्या घरांत ताका मेळिल्लें. तो हरीविजय नांवाचो पुराण ग्रंथ आसलो, कानडी लिपयेंत, मराठींतल्यान बरयल्लो.

पुरसो देवळ्याक तागेले बायलेन - तुळसायनच इन्क्विझासांवाक लावन दिल्लो.

पुरसो आपूण व्हडलो गिन्यानी कसो, व्हडलो देवभक्त कसो गांवांत वावुरतालो. सकाळीं देवपूजा करून कपलाक, भुजांक, हड्ड्याक विभुती लावन घेवप. जानव्याक दसणी फूल खोवप. शेंडयेक आनीक कसलें फूल. तो रानांतल्या लाकडाच्यो मुंडयो हाडून नांगर, जूंव, निरमणीबीन करतालो. मुंडयो तासताना देवाचें नांव घेतच तासणी मारतालो. ताणें दोनफावट पंढरीची वारी केल्ली. थंयच्यो खबरी तो रंगोवन रंगोवन सांगतालो. ताचे वांगडा आपलें तत्त्वगिन्यान कालयतालो. ताणें कोंकणी भाशेंत

अभंगय रचिल्ले ते तो म्हणून दाखयतालो. ताका वाचूंकय येतालें. आशाढ स्रावणांत तो पुराणां वाचतालो. ताचें निरूपण सोताच करतालो.

जेन्ना तो किरिस्तांव जावन येयलो तेन्ना ताची वाचाच बसली. सतरा दीस न्हावंक नाशिल्लो कसो बुरसो पोंशेल्लो दिसूंक लागलो. ताचें देवस्पण सुटलें आनी तो पिशांतूर कसो जालो. किरिस्तांव धर्माचें देवस्पण, रोजार आपणायतलो म्हटल्यार ताका तांतूंतलें कांयच कळनासलें. हिन्दूंचें देवस्पण करूंक फावना, ते विशीं उलोवंक फावना आनी किरिस्तांव देवस्पणांतलें कांय कळना, तांच्या धर्माच्या तत्त्वगिन्यानाविशीं कांयच खबर ना. मोट्या वायट घुस्मटांत गावलो तो. आतां तो भियेत भियेत भोवच उणो उलयतालो. उलयल्यारय रडूंक पाविल्लेवरी जातालो.

ताचें आनी ताचे बायलेचें लग्नापसून सामकें पटनासलें. पुरसो देवस्पण करतालो, लोकांक तत्त्वगिन्यान सांगतालो खरो, पूण रागाक तो मोटो वायट आसलो. झगडूंक लागल्यार बुरशो बुरशो गाळी संवतालो. भायर जगलोकाकडेन बरो आनी घरांत बायलेक गाळी संवप, तिका मरसर मारप अशें जातालें. बायल कितले फावट कुळारा धांवन गेली आनी कितले फावट परत येयली हाका गणती नासली.

बायल म्हण कितें उणी! ती तर उज्याची कायल. तूं म्हटल्यार तुगेलो बापूय. आंबो म्हटल्यार तिगेलो पणस. ती हालीं बरोच तेंप कुळाराच रावताली. पूण फाटीं तिगेल्या व्हडल्या भावान आराचें जावन चड तेंप हांथरुणार पडिल्ल्या बापायक एक दीस गोमटी आवळून माल्लो. तिणें तें लिपून रावन पळयल्लें. ती भियेली आनी धांवत आदोळशी येयली. पूण पुरशान तिका सामकी घरांत घेवंक ना. उरफाटें, गाळी संवत तिका तो मारूंक गेलो. ती मगेर घराचे भितोडेक चार चुडटां लावन रावंक लागली.

तुळसाय मदीं कुळारा आसतनाच कुळारच्या हेरां वांगडा किरिस्तांव जाल्ली. मेळिल्ले चार क्रुसाद बरे खुळखुळायत घरा येयल्ली ती. काळशी दादल्या आंगाची बायल ती. जाड फुटिल्लेशे कातडेचो घबघबीत व्हड चेहरो. बारीक दोळे. कामाकस्ताक पयलीं आळशीच आसली ती. पूण आतां उपाय नाशिल्ल्यान लोकांल्या शेतांत बीन कामाक वयताली. काम करतां करतां केन्ना घोवाक चरांटून गाळी संवताली.

कुंबार कुशाली रांडाव सून गोरी गोमटीच आसली. तरणेपणाकच तिका रांडावपण येयल्लें. पयलीं पसून पुरसो कुशागेर वचून उलोवंक बीन बसतालो. कुशा तालांत मडकी पेट्टना हो ताका खबरी सांगतालो. ''तुज्या हातांत चाकावयल्यान काडिल्लो फक्कत गळो आसलो. तुवें पेटून मडकी केली. आवयच्या पोटांतल्यान जल्मल्लें भुरगें अशेंन्‌ मातयेच्या कच्च्या गळ्यावरी. तेका संकस्टाचे धपके बसून, हाव्यांतले मडकेवरी अग्नीपरिक्षा दिवन मनीस जावचें पडटा. हे संकस्टाचे धपके कोणाक चुकिल्ले

नात. आतां तुजेंच पळय, वयतलो उठून गेलो. ही तुजी भांगरवर्णाची, भांगरागुणांची सून, कित्याक म्हण तिची ही अग्नीपरिक्षा...''

कुशा कुंबार अजून किरिस्तांव जावंक नासलो. ताका आनी ताच्या घरच्यांक अजून कोणें घरांतल्यान बळानशे भायर काडूंक नासले. चुकून उरिल्लेवरी ते उरिल्ले. तरीय पुरशान कुशाले सुने वांगडा सूत जुळयलें. ती केन्ना आड वेळार पुरशाल्या घरांत येवंक लागली. पुरशा वांगडा काळखा कुडींत वचूंक लागली. तुळशी बारीक पळयताली. एक दीस तीं दोगांय काळखांत आसतनाच ती तांकां खेपूंक लागली. पुरसो धांवन येयलो. ताणें भितोडेक घातिल्लीं तिगेलीं चुडटां काडून उडयलीं. तुळसायक मारून मारून पयस व्हरून पावयलें.

आतां तुळसाय गांवाक सांगूंक लागली, 'कुशाली सून अजून किरिस्तांव जावंक ना. पूण ती किरिस्तांवा वांगडा न्हिदता, ताच्या घरांत खाता-जेयता. कुशा कुंबारालें घर भश्टिलां तिणें.'

हेविशीं कुशाले सुनेक विचारल्यार ती वोगीच रावली. कुशाल्या कानार खबर वयतकीर ताणें सुनेक बेदम गाळी संवल्यो. तिणें इतलेंच म्हटलें, 'जात राखून तरी कितें करतले आमी? कितलो तेंप उज्याक राखून रावतले!'

दुसऱ्याच दिसाक कुशाली सून पुरशा वांगडा कालापूरचे इगर्जेंत वचून किरिस्तांव जावन येयली. ताचें नांव आसलें गोदू. आतां ताका नांव दिलें ग्लोर.

कुशा कुंबार मोट्या पेचांत गावलो. सुनेन घर भश्टिलें म्हण सगळे सांगताले. ना तो आतां कुंबार हिन्दू आसलो ना किरिस्तांव. चोंयवटेनचो लोक धड किरिस्तांव आनी हो मदींच हुमकळटालो. तोवूय एक दीस आपले बायलेक आनी धाकल्या पुताक घेवन वचून किरिस्तांव जावन येयलो.

तुळसाय - तेका किरिस्तांव नांव दिल्लें तेरेझीन - आतां रागान जळफळूंक लागलें. पिशांतूर जावंकच पावलें तें. तें जाणा आसलें, घरांत एक व्हड हातबरप केल्लें पुस्तक आसा. तें फाड्यांत गुठलावन शिशा लाकडाचे पेटयेंत दवल्लां. पुरसो केन्नाकेन्ना तें पुस्तक काडून वाचूंक बसता - किरिस्तांव जातकीरय. हालींच ताणें एक फावट जनेलांतल्यान चयल्लें तो वाचूंक बशिल्लो तें.

तें बरें जाणा आसलें, हिन्दू धर्माचीं अशीं पुस्तकां घरांत दवरप, तीं वाचप धर्माआडचो मोटो गुन्यांव म्हण. फाटीं पाखल्यांनी एक फर्मान काडिल्लें, हिन्दू धर्माचीं पुस्तकां घरांत दवरचीं न्ही, तीं वाचचीं न्ही. तर तीं लासून उडोवचीं म्हण. बामणांनी आपल्या घरांतलीं पुस्तकां लासून उडयल्लीं. चड करून तीं संस्कृत पुस्तकां आनी कानडी लिपयेंत बरयल्लीं कोंकणी, मराठी पुस्तकां आसलीं. पूण पुरशान आपलें पुस्तक तशेंच राखून दवरिल्लें.

एक दीस तुळसाय - तेरेझीन सकाळींच उठलें आनी पाखल्यांच्या राबित्यार गेलें. ताणें तांकां पुस्तका विशीं सांगलें. तो सद्दां तें पुस्तक वाचता, लोकांकय वाचून दाखयता म्हण सांगलें. पाद्री कुलासून दोग सोल्दाद वांगडा दिवन तिका गोंय पाटणांत धाडली. दुसऱ्याच दिसा इन्क्विझासांवाचो मनीस येवन पुरशाक घेवन गेलो. वयताना ताणें तें पुस्तकय वांगडा व्हयलें. बरो पुरावो म्हण.

देवूळ मोडून वर्स जाल्लें पूण गांवांत अजून इगर्ज उबी जावंक नासली. हेर गांवांनी लाकडी वाशांच्यो, आडी मेडयांच्यो, तणा चुडटांच्यो जायत्यो इगर्जी उब्यो जाल्ल्यो. पूण पाद्री कुलासू गांवांत पक्की चिऱ्या फातरांची, चुन्याची, नळ्यांची इगर्ज उबी करूंक सोदतालो. हीण चांडाळ लोकांल्या देवळाची मुस्तायकी वापरून इगर्ज बांदल्यार इगर्जेक फाव ती पवित्रताय उरना ह्या मताचो तो आसलो. एक दीस तो गांवचो म्हाल गांवकार राणू केंकऱ्याक - हेनरीक कयसरेक घेवन बीस्म सायबासरीं गेलो. ताणें बीस्म सायबाक सांगलें, ''इगर्ज बांदचेलो अर्द खर्च गांव आपल्या आंगार घेतलो. गांवकेचे येणावळींतल्यान, गांवकारांच्या कामा कस्टांतल्यान. उरिल्लो तुमचेकडच्यान आधार मेळचो.''

बीस्म सायबान ताका सांगलें, ''नवी पक्की इगर्ज बांदूंक व्हिसरायाचो हयकार जाय, पुर्तुगालच्या रायाली मान्यताय जाय. आमच्यांनी तेंकां फोर्सार करूं येता. पूण ते दुडवांचो प्रस्न मुखार करतात. आतां आसा तो व्हिसराय आंतोन नोरोन्य चड आमचे फावराद. हांव तेच्या नांवान एक चीट दितां. तूं ती घेवन गोवेर्नादोरासरीं वच. वांगडा म्हाल गांवकाराकय व्हर. सांग, आदोळशेचे गांवकार गांवांत इगर्ज मागतात.. बीस्म सायबाकय ती जाल्ली जाय. तुवें दुडवांचो आधार दिवचो.''

थंयसान ते उठले. बीस्म सायबाची चीट घेवन व्हिसरायासरीं वचूंक गेले. राणू केंकरो भोव खोशयेन गेल्लो वा थंय वचप ताका सामकेंच मानवूंक नासलें अशेंय न्ही. गांवचें कितें बरें वायट जाता तें पळोवचें अशीच चिंतना आशिल्ली ताची. सगळें वयर सकल जाल्लें आनी अचकीत गांवकेचो भार ताचेर पडिल्लो. पाद्र कुलासूक ताणें मदींच म्हटलें, ''वोगीच म्होडलें तुमी रामनाथा देवूळ. देव तर निळू नायकान काडून व्हयल्लोच. तेतूंतच जेजूची स्थापना करून खुरीस उबो करूं येतालो.''

''तुका कळचें ना तें कयसरे.''

''देवूळ कितें इगर्ज कितें, वणट्यो आनी पाखेच न्ही.''

''तुका कळचें ना तें कयसरे.''

''म्हजें भाट सुगूर उल्लां. आतां सगळें कळटलें पाद्रीबापा?''

''अजून निळू नायकाची बायल आनी ताचो पूत किरिस्तांव जावंक ना कयसरे?''

''ना. शेफ रिबेर म्हणटा, तेंकां आनी कितें सांगचेंशें दिसना. जाता जेन्रा जातात. निळू नायक गोंया भायर देव घेवन गेल्लो वर्स जालें परतलो ना.''

पाद्री कांय वेळ वोगी चलत रावलो. मगेर ताणें म्हटलें, ''बरो मनीस आसलो निळू नायक. खंय पावला कोणाक खबर.''

व्हिसराय कॉन्स्तान्तीन ब्रागांझ पुर्तुगालाक परतो गेल्लो आनी ताचे सुवातेर आन्तोन नोरोन्य निकतोच पुर्तुगालासावन येवन रुजू जाल्लो. नोरोन्यीन तांकां बरो येवकार दिलो आनी बसूंक आसनां दिलीं. केंकरो म्हाल गांवकार म्हण कळटकीर ताणें ताचो खांदो थापटिलो. म्हटलें, ''गोंयची गांवकारी आनी गांवकार म्हटल्यार संवसारांत एक मोटें अजाप. आमी तेंचो मान राखतात. तशीच राखून दवरतले ती आमी.'' व्हिसराय उंच आनी पकदस्त आंगलोटाचो आसलो. ताच्या हड्ड्यावयलो सगळो भाग, मान, भुजां, बावळे इतले भरिल्ले आसले, ते भारान भुंयेर लखूंक पळयतात अशें दिसतालें.

पाद्री कुलासून ताका इगर्जेची येवजण समजावन सांगली. बीस्म सायबाची चीट दिली. म्हटलें, ''तुमच्या आधारा बगर काम जावचेलें ना. गांव पुराय ओपतलो सोताक इगर्जेच्या कामाक. पूण दुडवांचो प्रस्न आसतलो. आमचें मागणें तुवें मानून घेवचें, रायाल्या कानार घालचें.''

व्हिसरायान त्याच हांसकुऱ्या तोंडान आनी उमेदीच्या सुरांत सांगलें, ''जेजूचे कुर्पेन सगळो गोंय जुंवो, सास्ट, बारदेस किरिस्तांव जाला. दर एका गांवाक आतां इगर्ज जाय. पूण इतले बेगीन जावचेलें काम न्ही तें. जातल्यो इगर्जो उब्यो दर एका गांवांत. इल्लो कळाव जातलो पूण इगर्जी उब्यो जाले बगर रावच्योनात. निकतेच आमी साळगांव, मठगांव, रायचूर ह्या गांवांनी नव्यो व्हडल्यो इगर्जो बांदपाचें काम हातांत घेतलां. तुमच्या आदोळशीय एक दीस इगर्ज उबी जातली. आतां तुमी अशें करात, मोडिल्ल्या देवळाची मुस्तायकी वापरून सोताच्या कस्टान तात्पुरती इगर्ज उबी करात. ती तणान चुडटान शिंवान. जावंदी तेतूंतच तुमचीं मिसां आनी देवस्पणां. आतां देवळाची जमीन भाटा इगर्जेची, देवळाचीं वाजंत्रां, चाकर सेवक इगर्जेक. आतां फेस्तां आनी फुरसांवां करात आनी धर्म वाडयात. तो तिगोवन दवरात. आतां तुमी तुमच्या गांवांत वचात आनी कामाक लागात. हांव तुस्त तोखणाय करतलों तुमची धर्मसभेमुखार, पुर्तुगालच्या रायामुखार.''

व्हिसराय इतलो घसघशान उलयतालो, ते वोगी थंयसावन उठले आनी ताका

नमस्कार करून चलूंक लागले. आदोळशी येवन तांणी गांवकी घेतली. सोल्दादांक घराघरा धाडून एक्कानएक गांवकाराक, कुळव्यांक, वाटेल्यांक एकठांय केले. दुसऱ्या दिसासावन सगळ्यांक कामाक लायले. जे आपखोशयेन कामाक येवंक तयार नासले तांकां धपकावन हाडून कामाक लायले. वेंटू नायकान फातर उखलून तकलेर घेतना इतलेंच म्हटलें, "इतलेंच करचें आसल्यार देवूळ मोडिल्लेंच कित्याक? तेतूंतच तुमचो देव बसोवंक जाय आसलो. नथ काडली मोकण घातलें. नाक तेंच. पिशेपणां सगळीं. आतां गांवाक हे दगदगे."

आठ दिसांत इगर्ज उबी जाली. चोंयवटेन हड्डेंभर उंच वणटी. वयर लाकडी वांशाचे, कण्णांचे पांखे. तणान, चुडटांनी शिंविल्ले. सकल्लो तळ बेठीच तांबडी माती बडोवन आच्चून तयार केलो. ताचेर शेण काडुंया म्हटल्यार पाद्री कुलासून सामको विरोध केलो. ताणें सांगलें, 'गायेच्या शेणा-मुताची व्हडवीक मानतले लोक धर्मभश्ट. ते नाकात आमकां.'

बेगोबेग पाद्री दोग गांवकारांक घेवन गोंय पाटणांत गेलो. थंयसान तांणी एक व्हड खुरीस आनी कांय लाकडी प्रतिमा हाडल्यो. तांतूंत खुर्सार मारिल्ल्या जेजूची, बाळक जेजूची, मारिया मांयची आनी कांय आंजेलांच्यो प्रतिमा आसल्यो. एक मेज, दोन घांटी आनी एक दंडय आसलो. तो सगळो खर्च गांवचे गांवकेचे येणावळींतल्यानच केल्लो. पयलींचो देवळाचो चाकर सेवक इगर्जेच्या कामाक लायिल्लो. तेतूंत घुमट, शेमळ, ढोल, शिंग वाजोवपी व्हाजंत्रीआसले, सात्र शिंतुडो करपी देवळिणी आसल्यो. पितारपी, सोबोवपी मेस्त आसले. लामणदिव्याक तेल पावोवपी आसले, दिवटी धरपी आसले. जांचेसरीं देवळाचें शेतभाट आसलें तें तशेंच तांचेकडेन दवरिल्लें. तांचो आतां इगर्जेच्या ह्या ना त्या कामाक उपेग करून घेवं येतालो.

पूण पाद्री कुलासूक आपणा वांगडा हेर किरकोळ कामां करूंक एक बरो पेदो जाय आसलो. एक शिटूक भुरगो. थंय चारपांच जाण तरी गांवकार उबे आसले. पाद्रीन तांकां म्हटलें, "एक बरो भुरगो जाय. इमानी, सांगिल्लें आयकुपी. म्हजे वांगडा रावंक."

गांवकार वोगीच रावले. आपणाक तांतलें कांय कळना म्हणिल्लेवरी. पाद्रीन म्हटलें, "वेळ वगतार गांवांत भोंवन मिसां, फेस्तां, फुरसांवां आनी मरणाची म्हायती गांवाक पावोवंक, इगर्जेच्यो घांटी वाजोवंक एकलो जायच सदांचो." पाद्रीक सट्करून भटालो पूत वेंकटाचो उगडास जालो. ताणें म्हटलें, "भटालो चेडो उपकारतलो ह्या कामाक."

गांवकारांक बरें मानवलें ना. पूण ते वोगी रावले. तरीय कुशा नायकान म्हटलें,

"देवळाच्या पुजाऱ्यालो पूत तो."

पाद्री हांसलो. "रायण्णा भट आपल्या पुताक तुजेवरीच पाद्री करून इगर्जेंत पुजारी म्हण दवर म्हणटालो. तशें उतर घेवन तो पुताक वांगडा घेवन किरिस्तांव जाल्लो. दवरुंया ताका इगर्जेच्या कामाक." गांवकार वोगीच रावले.

भटालें घर लागींच. ताणें एका सोल्दादाक धाडून भटाक आनी तागेल्या पुताक आफोवन घेतले. भटाली बायलय थंय कुशीक येवन उबी रावली. भटालो पुराय घराबो किरिस्तांव जाल्लो. लोक अजुनय ताका भट म्हण पाचारताले. पूण आतां ताचें नांव आसलें मार्तिन बार्रेतू आनी तागेल्या पुतालें नवें नांव आसलें विसेंत बार्रेतू. पाद्री कुलासून तांकां सांगलें, "तुका उतर दिल्ले परमाणें हांव तुज्या पुताक इगर्जेचे चाकरेक दवरतां. हांवें फर्मायल्लें काम करचें. मरणांचें, मिसा फेस्तांचें गांवाक कळोवचें. सकाळ सांज इगर्जेच्यो घांटी वाजोवच्यो. घांट वाजयत गांवांत भोंवन पेरगांव घालचें. इगर्जेचे येणावळींतल्यान ताका पागार फारीक करतले. पोटापुरतें मेळटलें."

भटान म्हटलें, "तूं आज ना फाल्यां तुज्या समुंदरा पलतडच्या गांवांत वचपी. देवूळ आमचें आसलें. आतां इगर्ज आमची जाल्या. एक मरण मरून दुसरो जल्म हो. कित्याक तें मरण मोलायल्लें तर आमी! पयलींवरीच इगर्जेचीं देवस्पणाचीं सगळीं कामां आमच्या हातांत येवचीं. आमकां कळटात तशीं पार पाडटले आमी..."

पाद्री कुलासू हांसलो. "येतली, इगर्ज तुज्याच हातांत येतली. पुर्तुगालसान खासा राया येवन सगळें तुज्या हातांत दितलो. मगेर तूं गोंडे लायल्ले पालखेंतल्यान भोंवतलो. भांगरा ताटांत जेयतलो. पूण आतां ह्या वगताक हें काम. पेद्याचें. नाका तर सोड. कास्टी मार आनी शेतांत वचून चिखलांत लोळ."

भट एकदम अवसानखत जालो. देवूळ आतांच मोडून आपणार कोंसळ्ळां अशें ताका दिसलें. तो फाटीं फिरलो आनी दुकां गळयत घरा येयलो. बायल सामकी रिते, सुके, शून्य नदरेन ताका पळयताली. चेहऱ्यार दुख्खाची खोल सया. सगळी स्रद्धा करपून कोळसो जाली म्हण ती अशी निर्विकार जाल्ली, काय फुडाराची सगळी आस्त सोंपली म्हण सोताक मरण मागताली, कळूंक मार्ग नासलो. तिणें सोतासरींच म्हटलें, 'कुसकुटाक उपकारनासले लोक आमी. मंत्रां म्हणून पोट भरपी. कस्ट करूंक आमचेसरीं हातपांयूय नात. म्हजो साबळो देर तिमण्णाच खरो आसलो. ताणें आपली सुटका करून घेतली.'

रायण्णा भट तिचेर एकदम तिडकलो. "आपूण व्हडली पुण्यवंत, धर्मिश्ट, हरामपण करपी न्ही म्हण दाखोवंक गेल्ली. पुराय भांगर व्हरून देवाचे पोटलेंत उडयलें. कितें मेळ्ळें तुका?" बायल वोगीच रावली.

पाद्री पावलू कुलासून भटालो पूत वेंकट - विसेंतील्या हातांत एक घांट दिली

आनी सांगलें, ''ही वाजयत वाड्यावाड्यांनी वच आनी लोकांक सांग, नवे इगर्जेंत पयलें मीस ह्या आयताराक जातलें. सकाळीं जण एकल्यान आंगभर वस्त्रां घालून मिसाक येवचें. आतां पाद्री तुमच्या वाड्यांनी येवचो ना. तुमीच इगर्जेंत येवचें.''

पाद्रीन सांगिल्ले परमाणें विसेंत घांट वाजयत चलूंक लागलो. पयलीं शिरवाड्या वटेन...

एके लायनींत त्यो तीस चाळीस बंदखणीच्यो कुडी. आपले कुशीचे कुडींत कोण तरी कपलफुटको कैदी आसा म्हण कळटालें. पूण ताचें तोंड पळोवंक मेळनासलें. चोंयवटेन फक्कत हरिस्ट भिरांकूळ वणटी. लोखणी आरांवांचें मुखाल्लें दार उक्तें करतकीर भायलो संवसार इल्लो दिसू येतालो, पूण थंय मुखारय वणत आडवी उबी. पाद्री सिमांव पिरीस चिंततालो, कोणें घातल्यो ह्यो वणटी, कोणाक कित्याक जाय जाल्ल्यो त्यो? संवसारांतल्या सगळ्या दुख्खाचें कारण ह्यो वणटी! ताका किंवाट्यान दिसलें, संवसारांतल्यो सगळ्यो वणटी घण घेवन फोडून उडोवच्यो, भितरल्यो भायल्यो सगळ्यो! आनी अशें म्हजेवरी कोणाकय अन्यायान वणटींत घालून दवरचें म्हटल्यार मोटें मरण! एके वटेन कितलो सोबीत मुक्त संवसार आनी मदीं ह्यो वणटी! संवसाराक स्राप दिल्लेवरी!

कुशीचे कुडींत गेल्ले चार दीस कोण तरी कैदी सारक्को परवंतालो. ताचें परवंप रात दीस मरणाचें पेरगांव कशें आयकूंक येतालें. पूण कोण तो दिसनासलें. थंयचो सेवक जेवंक बीन घेवन येतालो तेन्ना ताचेर धेंगसो घातिल्लो आयकूंक येतालो. 'कित्याक जेयना? कसली पिडा माल्ल्या' म्हण तो ताका तापयतालो. पूण कैदी कांय उलयनासलो. ताचें उतर केन्ना आयकूंक येनासलें. फकत परवंप...

आज तो मेल्लो. ताची मेल्ली कूड भायर काडून मुखावेले वण्टीसरीं दवरिल्ली. पाद्री सिमांव पिरीसाक ती आपले कुडींतल्यान वारांवांच्या दारांतल्यान सारक्की दिस्टी पडटाली. फक्कत हाडांचो एक भोरो, हड्ड्याचे बोरीचीं हाडां, कमरेचेंय एक हाड आनी तकलेचे कवठेचेंय हाडच. त्या हाडांनी खूब खोल गेल्ले दोन व्हड दोळे. पाद्री एकदम भियेल्लेवरी जालो. ताका दिसलें, आपणाचींय हाडां जावंक लागल्यांत. आपलें मरण लागीं येयलां! ताणें रागान आपलें तोंड आपलें आंग बुड्डून घेतिल्लेवरी केलें. शक्त हरपल्लेवरी तो दारासरींच बसलो. एक नदर ते मेल्ले कुडीर, दुसरी आपले.... कित्याक धरून हाडून भितर घाल्लो काय बाबड्याक! हाणें शिताक वाळचे पयलीं मीठ घालूंक नासलें, हाणें तुळशीक उदक घातिल्लें, हाणें आपल्या चेडवाचें फळसोबण केल्लें, हाणें गाये मास खायना म्हणिल्लें काय हाणें गिराणा

दिसा उपवास केल्लो! हाचीं हीं हाडां घडये फोणांतल्यान उस्तून काडून पेटयेंत घालून राखून दवरतले, 'भावार्ताच्या कर्तुबा' दिसा लासून मारचेली ख्यास्त म्हण लासूंक!

ताची ती कूड उखलून पुरूंक व्हयली. पूण तो किरिस्तांव नासलो, हिन्दू नासलो, ज्युदेव नासलो. एक धर्महीण मरण. मुक्त काय अमुक्त! ताका कसलेंच देवस्पण, मीस, रोजार फाव नासलें. कारण तो धर्मभ्रश्ट धर्मद्रोही आसलो. मरतकीर धर्माबगर मदींच हुमकळत रावप! एके मोनजातीचें मरण!

ताची कूड उखलून व्हरतकीर एक निर्शेणेचो, अस्वस्थकायेचो, दुख्खाचो दरया पाद्री सिमांव पिरीसाचेर लोटून आयलो. तो घुंविल्लेवरी जालो आनी सोतासरींच व्हडाव्हडान उलोवंक लागलो. ''म्हाका लासून मारात तुमी, पळय हांव जेजूवरी परतो जल्म घेतां काय ना तें. खुरीस खांदार मारून हांव वेटिकनासावन आदोळशीमेरेन पावलों वोगीच न्ही. जेजूचो कांट्यांचो मुकूट म्हज्या काळजांत आसा. तुमची बंदखण फोडून जेजूचो धर्म हांव संवसारभर पावयतलों...'' तो आनीक कितें कितें उलयत रावलो. पाऱ्यावयलो पारेकार धांवनधांवन थंय येयलो. हातांतलो दांडो रोमून ताणें पाद्रीक वोगी केलो. पाद्री कुडीच्या कोनशांत वचून धोंपरांत मान घालून वोगी बसलो. आतां ताका एकदम रडूंक कोसळून येयलें. मोन्यानीच दुकां गळयत, ओलो ताळो घोंटत तो रडूंक लागलो.

कांय वेळान कुडीच्या दाराचें कुलप वाजलें. दारांत बंदखणीचो ताबेदार आनी दोग पारेदार उबे आसले. ताणीं पाद्री सिमांव पिरीसाक कुडींतल्यान भायर काडलो आनी दार बंद केलें. ताबेदारान सामक्या थंड आवाजांत सांगलें, ''आतां इन्क्विझासांवाचे पवित्र सभेमुखार उबें रावचें आसा. हें तुजें पयलें सांगप आयकुवप. तीन म्हयने जाले न्ही तुका हांगा येवन!''

पाद्रीन खोमसाच्या हातान दोळे पुसले. तांणी ताच्या आंगावेलीं वस्त्रां नीट केलीं. मगेर ते ताका पवित्र सभेसरीं घेवन वचूंक लागले. मुखार ताबेदार चलतालो. ताच्या चार पावलां फाटीं पाद्री सिमांव आनी ताचे फाटल्यान दोग पारेदार. पाद्रीलीं पावलां सामकीं मंद पडटालीं आनी आडखळटालीं. आदीं उंच मांसाळ आंगाचो मनीस तो. आतां ताची दैना जाल्ली. सगळी कात अळंग पडिल्ली आनी उंच हाडां हालिल्लेवरी जाल्लीं. ती लांबच लांब वासरी, कुशीच्यो कितल्योशोच बंदखणीच्यो कुडी बळांटून ते एका व्हड दारांतल्यान भितर सरले. भितर एक व्हडलें साल. पाद्रीक सालांत पावोवन ताबेदार आनी पारेदार फाटीं फिरले आनी भायर गेले. चोंयवटेन निगंद शांतताय आसली. भितर पवित्र सभेंतय कसलो बोवाळ नासलो. भायले बंदखणीचे कुडींतल्यान कसलो आवाज आयकूंक येनासलो. थंयचे ते शांततायेन, ते गंभीरतायेन जिवाक कांच लागिल्लेवरी जातालो. आंगार जशी सुरी भोंवताली.

पवित्र सभेच्या त्या माजांत वयर वणटीर एक व्हड धा हात उंच खुरीस लायिल्लो. ताचे सकल एक खूब व्हड मेज आसलें. ताचे भोंवतणीं कांय हातांच्यो खुर्च्यो, कांय स्टुलां, एक बांक आसलो. इन्क्विझासांवाचो म्हाल-मुखेल आनी पालवी मुखेल थंय बशिल्ले. एका स्टुलार पवित्र सभेचो सेक्रेतार बशिल्लो. थंय दोग वकील बशिल्ले. एकलो इन्क्विझासांवाच्या मुखेल्याक बुद्द दिवपी आनी दुसरो पवित्र सभे सामकार उबो केल्ल्या गुन्यांवकाराचे वतीन उबो रावपी. ते इतल्या मख्ख चेऱ्यान बशिल्ले, तांच्या चेहऱ्यावयली एक शीर हालनासली. जशे ते चेहरे फातराचे आसले. तांचो मुखेल जो पळोवंक मायाळ आसुंये असो दिसतालो, जाणा जावन ताणें एक हिंस्र, दयामायाहीण मुखवटो ओडून घेतला काय असो दुबाव येतालो. ताचे पोले बरेच फुगरे आसले. कपल व्हड आसलें. काळे दोळेय नितळ व्हड आसले. पूण खूब तेंप एके कडक संस्थेंत राविल्ल्यान आनी ताचे मुखेल खुर्चेंत बशिल्ल्यान ताचो चेहरो जसो निर्दयपणान रांपिल्लो. पालवी मुखेल हो एक डोमिनिसियान पाद्री आसलो. पडिल्ल्या पोल्याचो, बारीक धशिल्ल्या घाऱ्या दोळ्यांचो. तो मुळांतच निर्दय आसुंये असो दिसतालो.

पवित्र सभेच्या माजांत वयतकीर पाद्री सिमांव त्या व्हड टेबला सामकार तसोच उबो रावलो. सभेच्या सेक्रेतारीन सांगलें, ''तुवें पवित्र सभेक नमन करूंक फाव.'' पूण पाद्री तसोच उबो रावलो. सेक्रेतार बशिल्लेकडच्यान उठलो. ताणें आवाजाक इल्लो जोर दिवन म्हटलें, ''पवित्र सभेक नमन करची ही तुजी लागणूक.''

पाद्रीची नदर मुखार उबो केल्ल्या त्या व्हड खुरसासरीं गेली. ताणें धिमी माल्ली आनी आपल्या हड्ड्यार खुरीस काडलो. पवित्र सभेच्या मुखेल्यान तोंडार कसलेच भाव हाडिनासताना ताका मुखावेल्या बांकार बसूंक सांगलें. पाद्री थंय बसलो. तांणी ताका नांव विचारलें. आपूण पाद्री सिमांव पिरीस म्हण सांगतकीर इन्क्विझासांवाचो आनी पवित्र सभेचो मुखेल पाद्री आलेस दियेस फालकांव हाणें ताका म्हटलें, ''तुवें सोताक पाद्री म्हण लेखचें न्ही. तुवें धर्मभ्रश्ट कर्तूब करतकीर तुजें पाद्रीपण काडून घेतलां. जे मेरेन तूं निर्दोश थारना ते मेरेन तूं पाद्री न्ही.''

मगेर मुखेल्यान ताका खंयचे इगर्जेंत ताचो बातिज्म जाल्लो आनी ती खंयच्या धर्मवाठारांत पडटा तें विचारलें. सिमांव पिरीसान ताका जाप दितकीर मुखेल्यान विचारलें, ''तुका धरून हाडिल्लो तेन्ना तुज्यो चीजवस्ती जप्त केल्ल्यो? केल्यार ताच्या तपशिलाची वळेरी तुका मेळ्ळ्या?''

''म्हज्यो चीजवस्ती कांय नासल्यो. सामक्या निस्वार्थपणान हांव धर्माचें काम करतालों. पाद्र फ्रान्सिस शावियेरावरीं साकाफट्यार न्हिदतालों आनी उशाक फातर घेतालों.''

म्हाल मुखेल एकदम तापलो. ''फ्रान्सिस शावियेराचें नांव तूं घेवंनाका. पातकी आनी धर्मभ्रश्ट म्हण तूं हांगा उबो आसा.''

कांय वेळ थंय शांतताय पातळ्ळी. म्हालमुखेल्यान ताका विचारलें, ''तुका धरूंक इन्क्विझासांवाचो मनीस गेल्लो तेन्ना तुवें आडखळ हाडली? तुजे राखणेक दवरिल्लो सोल्दाद नवो किरिस्तांव तोमाश हाका इन्क्विझासांवाच्या अमलदारा आड तरसाद काडूंक लायली? तुजे सांगणेर ताणें तरसाद काडिल्ली?''

''ना. ताका म्हजे राखणेक दवरिल्लो. आपले बुद्दीन तो वागलो. ताची ती चुकय आसुंये. हांव सोता ती चूक म्हण मानतां.''

मुखेल्यान परत विचारलें, ''तुका धर्माआडच्या खंयच्या गुन्यांवाक लागून धरून हाडून बंदखणींत घातला हें जाणां तूं?''

''ना. म्हाका खबर ना तें.''

मुखेल्यान ताचो गुन्यांव वाचलो. ''तुवें किरिस्तांव धर्माच्या पवित्र खुरसाची निंदा केल्या. खुरीस मोडचें कर्तूब बरें म्हटलां. तो निखटो फातर, तांतूंत देवपण ना म्हटलां. तुजे आडच्या ह्या गुन्यांवाचे गवाय आमी पारखून पळयले. ते सगळे तुजे आड गेल्यात.''

''कोण ते गवाय? तांकां म्हजे सामकार कित्याक हाडूंक ना?''

''तांचीं नांवां सांगूंक आमी बांदिल्ले नात. तुजे सामकारय ते येवचे नात. तुवें गुन्यांव केलो ना हें तुवेंच आमकां पटोवन दिवचें पडटलें. ती तुजी जापसालदारकी. तुजे राखणेक तुजो कोणय गवाय आसा?''

सिमांव पिरीसान सांगलें, ''ना. हांवच म्हजो गवाय. म्हज्या उतरांचो वांकडो, चुकिचो अर्थ लावन म्हाका लावन दिला. हांवें फक्कत म्हणिल्लें, खुरीस मोडल्यार तो परत उबो करूंक जाता म्हण.''

थंय बशिल्ल्या पालवी मुखेल्यान ताका मदींच विचाल्लें, ''पवित्र खुरीस मोडच्या कर्तुबाचो तुवें निशेध केल्लो?''

सिमांव पिरीस वोगीच रावलो. कांय वेळान ताणें म्हटलें, ''अबुद्द अबरगत लोक ते. ते कितें करतात तेंच नकळ आसले. ताका भोगसणी दिवन धर्माचें काम मुखार व्हरूं येतालें.''

मुखेल्यान म्हटलें, ''म्हण तुवें गुन्याव केलो ना अशें जायना.''

सिमांव पिरीसाक राग येयलो. ताणें सांगलें, ''हांव न्ही पुर्तुगालचो नागरीक. न्ही हांगाचो नवो किरिस्तांव. हांव वेटिकानाचो नागरीक. पोप सायबान म्हाका हांगा धाडला. म्हाका तुमी वेटिकानांत धाडात. पोप सायब म्हज्या गुन्यांवांचो न्यायनिवाडो करतलो.''

''गुन्यांव घडला ह्या इन्क्विझासांवाच्या धर्मवाठारांत. आमीच ख्यास्त दितले तुका. तुका गुन्यांव कबूल आसा काय ना तें तुवें सांगचें.''

''ना. हांवें मुद्दम चिंतून जाणा जावन कसलो गुन्यांव केल्लो ना.''

पाद्री सिमांव पिरीसाक कायद्याची राखण दिवंक नेमिल्लो वकील उबो रावलो. ताणें बेठोच आवाज गंभीर करीत म्हटलें, ''तुजे आडचे गवाय पारखिताना हांव हाजीर आसलों. तांची गवाय खोटी थारोवंक म्हज्यान जाली ना. आतां हांव तुका एक बरी बुद्द दितां. 'भावार्ताच्या कर्तुबा' दिसा तुका लासून मारची ख्यास्त फाव जावची न्हय अशें दिसता जाल्यार तुवें आपखोशयेन आपल्या गुन्यांवांची कबुली दिवन मेकळें जावचें. ही पवित्र सभा तुका बरो किरिस्तांव जावचेली संद दितली. ना तर तुका लासून मारचेली ख्यास्त चुकची ना.''

सिमांव पिरीसान ताका विचित्र नदरेन पळयलो. हाका म्हजे राखणेक दिला! ताणें म्हटलें, ''हांवें गुन्यांव केल्लो ना. हांव एक पातकाक भिवपी भावार्थी धर्मिश्ट मनीस. धर्माच्या नांवार खोटी कबलात कशी दिवं?''

पवित्र सभेच्या पालवी मुखेल्यान म्हटलें, ''आमी जबर युरोपियांव मनशांक 'यातना कुडींत' व्हरून गुन्यांव कबूल करून घेयनात. ते शाणे शिकिल्ले मनीस. आपल्या गुन्यांवांची कबुली तांणी आपखोशयेन दिवची अशें दिसता. कबलात दिवची आनी पवित्र सभेसरीं भोगसणी मागची. आपूण फुडाराक बरो किरिस्तांव जातलों म्हण सोपूत घेवचो.''

सिमांव पिरीस कांयच उलयलो ना. ताच्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं. म्हाल मुखेल्यान म्हटलें, ''चींत तूं सारकें. मुखावेलें सांगप आयकुवप जातलें तेन्ना तुका एक संद आसतली गुन्यांव कबूल करचेली. ना तर तुका 'यातना कुडींत' व्हरचो म्हण म्हाका फर्मान सोडचें पडटलें. तुवें आपखोशयेन कबलात दिल्यार आनी भोगसणी मागल्यार तुका लासून मारचेली ख्यास्त जावची ना. हेर ख्यास्त दिवं येता. गुन्यांवांक ख्यास्त मात चुकची ना.''

पाद्री सिमांव पिरीस सोतासरींच उलयल्लेवरी उलयलो. ''तुमच्या इन्क्विझासांवाक लेखून म्हाका कांय म्हणचेलें ना. पूण जेजूचो हो किरिस्तांव धर्म मोग, करुणा आनी भोगसणी हांचेर पुराय आधारिल्लो धर्म. जेजू आमचो करुणेचो एक दरया आसलो. तुमी बायबल आनी जेजूची शिकवण मानपी जाल्यार ही लासून मारचेली ख्यास्त कशी फर्मायतात...?''

म्हालमुखेली कांयच उलयलो ना. ताणें मुखावेली चांदयेची धाकली घांट मार रागान मोटमोटयान व्हाजयली. बंदखणीचो ताबेदार भितर येयलो. म्हालमुखेल्यान आड्डून सांगलें, ''हाका घेवन वच हाचे कुडींत.''

पाद्री सिमांव पिरीसान धिमी माल्ली आनी खुरीस काडलो. तो फाटीं फिल्लो. दारांतल्यान भायर येतां येतां ताणें म्हटलें, "जेजू परत येतलो. म्हाका लागून येवचो ना तो. तुमकांच लागून येतलो."

मर्दी एक म्हयनो गेलो. भयंकर निर्शेणी, सोताच्या अस्तित्वाची उबगण! बसल्यार मन लागनासलें. न्हिदल्यार झेम लागनासली. कित्याक हो झरिल्लो, अवमानीत देह घेवन जगचें! भायर केदो व्हडलो सोबीत मायाळ संवसार आनी हांगा ही येद्दी काळखी कूड. उलोवप ना, रडप ना, हांसप ना! जीव दिवचो विचार परतो परतो ताचे तकलेंत घुंवतालो. जीव दिवची जबर इच्छा आसली पूण कसलेंच साधन नासलें. एक फावट सेगीत तीन दीस जेवनासतना ताणें जेवण पायखान्याचे मडकेंत उडयलें. पूण चवथ्या दिसा मडकी उखलून व्हरूंक मनीस येयलो तेन्ना कळटकीर मुखार उबे रावन पारेदार ताका धपकायत जेवोवंक लागले.

आतां आतां पाद्रील्या तोंडांतल्यान कसलींय अर्थहीण उतरां भायर सरतालीं आनी ताचें ताका भानच उरनासलें. केन्ना तोंडांतल्या तोंडांत केन्ना व्हडान. आवाज इल्लो मोट्यान जाल्यार पारेदार दारांत येवन काठी आपटितालो आनी वोगी राव म्हण धपकायतालो. तो दोळे भितर ओडूनसो बारीक नदरेन पारेदाराक पळयतालो.

तांचे बंदखणीचे अस्तंतेवाटेन भोव दुखख दिवन छळ करून गुन्यांव कबूल करून घेवची, सोताच सोता आडचो गवाय जावचेली एक व्हड कूड आसली. थंय नानापरीन गुन्यांवकाराक दूख दिवन छळटाले. हे सगळे इन्क्विझासांवाच्या सामक्या कायद्याक धरून चलताले. कोणाचो केन्ना, कसो, कितले फावट छळ करचो सगळें तांच्या कायद्यांत बरयल्लें आसलें. छळ करच्या वेळार एक पाद्री, सेक्रेतार, एक दोतोर हाजीर आसतालो. सेक्रेतार त्या वेळचें उतरान उतर बरोवन घेतालो. गुन्यांवकाराचे तांकी प्रमाण आनी दोतोराले बुद्दीन हो छळ जातालो. उज्याच्यो यातना, उदकाच्यो यातना, दोरी बांदून ओडच्यो यातना अशे छळाचे कांय प्रकार आसले.

चड करून भावार्ताच्या कर्तुबाचे दीस लागीं आयले म्हणटकीर त्या यातना कुडीवटेच्यान गुन्यांवकारांच्यो किळच्यो सदां सकाळीं आयकूंक येताल्यो. त्यो आयकून पाद्री सिमांव पिरीस सामको थतरवितर जातालो. दुख्खान, काकुळटेन ताचें काळीज बसतालें. आज एके अस्तुरेच्यो सामक्यो काळीज चिरून उडोवपी किळच्यो परत परत आयकूंक येताल्यो. पाद्रीच्यान त्यो किळच्यो आयकूंक नज जाताल्यो, सोंसूंक नज जाताल्यो. तरीय त्यो ताची फाट सोडिनासल्यो...

एके अस्तुरेक यातना कुडींत बाज्जेवेल्या एका फळ्याक घट बांदिल्ली. तिगेली तकल सकल लांबताली आनी पांय मात्शे वयर आशिल्ले. तिच्या आंगार एक्कय वस्त्र नासलें. तिच्या दोनय दंडांक तापयल्ल्या खिळ्यान चिरून जखमो केल्ल्यो. त्या

जखमांतल्यान नवीताल्ल, पुराय कुसां वयर आशिल्ली बारीक सुंबादोरी तिका बांदिल्ली. थंयचे ते चाकरदार ती दोरी जखमांतल्यान सरकायत परते परते ओडटाले. दोरी अशी ओडली म्हणटकीर दुखीन सोंसूं नज जावन ती किळांच मारताली, रडटाली, विनवण्यो करताली. पाद्री सिमांव पिरीसाल्या कानांर ते अपरंपार दुखीचे सूर पडटाले...

थंयचो पाद्री म्हणटालो, ''सत सांग.'' मगेर चाकरदार दोरी सरकायत ओडटाले. अस्तुरी आड्डताली, ''जायना रे देवा, सोडात म्हाका... हायें सगळें सांगलां...तुमकां जाय तें सांगतां.'' पाद्रीन परत म्हटलें, ''सत सांग.'' दोरी परत ओडली. ''देवा सायबा, म्हाका मारून उडयतात ते. सोडा म्हण सांगात म्हाका. हायें सगळें फाल्स केलां. गवायान सांगिल्लें सगळें केलां. सोडात म्हाका...''

''कितें केलां सत सांग.'' चाकरदारान नवी दोरी बांदली आनी ओडली. ''सायबा, तुमीच सांगात हायें कितें सांगचें तें. म्हाका कांय याद जायना, कांय कळना. तुमीच सांगात कितें सांगचें तें. आवयस्स... मरतां हांव...''

''सत सांग. तुवें एकादशेक उपवास केल्लो. दुसऱ्या दिसा गायेक केळी पानार खावंक घातिल्लें?''

''सायबा, दोरी अळंग करात म्हण सांग. बरें ना हांव जिवान. मरतलें हांव. हय दिसता. म्हाका कांय याद जायना. गवायान सांगल्यार तें खरेंच धरचें...पयलींच सगळें सांगलां तुमकां. आनीक कितें सांगूं?''

''तुवें सत सांगूंक जाय. सोताच कबूल जावंक जाय.''

''म्हाका कितेंच कळना. तुमीच सांगात कितें सांगचें हांवें. म्हजो बापूय एकादस करतालो. मगेर भुरगेपणासान हांव करतालें. ती केन्ना सुटली केन्ना केली कांयच कळना जालां म्हाका.'' कुसांची सुंबादोरी खोल वचूंक लागिल्ली आनी मरणाची दूख पडटाली. ''सायबा, म्हाका हंयच्यान काडात, सांगतां हांव सगळें सत् सांगतां. म्हजेआड खोटी गवाय दिवंक हांव तयार आसां.''

परत एक फावट दोरी ओडली आनी पाद्रीन म्हटलें, ''सत् सांग.''

''आवऽऽय, जायना रे देवा. दोरी सदळ करात रे, पांयें पडटां. देवा सायबा, हांव पातकी बायल. वायट, चांडाळीण. म्हजेर काकुळट करात. भुरगीं आसात म्हजीं.''

पाद्रीन म्हटलें ''सत सांग.'' दोरी परत ओडूंक फर्मायलें. ''जायना रे देवा, कांय करूंक नाशिल्लें कितें म्हण सांगूं हांव तुमकां? सोडात म्हाका. सगळें खरें सांगतां हांव. हांवें उपवास केलो, हांवें देव पुजलो. हांव उदक लेगीत पिंवंक ना. सगळें सांगतां, सोडात म्हाका. हांवें गायेक पान दिलें. मरूं ती गाय आनी हांव.''

''तुजे आड तूं फाल्स गवाय जावं नाका. सत् सांग.'' परत कांट्या कुसांची दोरी लाशिल्ल्या मांसांत घुसली. तिणें जीव खावन किळांच मारली. ''बरें ना हांव. घुंवळ

येता म्हाका... मरतां हांव सायबा देवा, सोडात म्हाका... हांव सगळें सांगतां. हांवें सगळें केलां कायद्याभायलें...''

''खंयच्या कायद्याभायलें? सत सांग.''

''गवायान सांगलां तो कायदो. तो म्हगेलो देर रे देवा! भुरग्यांक घेवन कुळारा वच म्हण फाटीक लागिल्लो. तेणें बरें केलां. खरें सांगलां. सोडात म्हाका, म्हगेले हात पिनून वचूंक लागल्यात. तुमकां जाय तशें सांगतां. खरें सांगतां. कितें सांगचें तें सांगात.''

दोतोर पयस एके कुशीक स्टुलार बशिल्लो. ताणें म्हटलें, ''उदक.''

एका चाकरदारान तांबयोभर उदक तिचे सकल लांबतले तकलेर घातलें. नाकातोंडांत उदक वचून ती घुसमटली. परत हातावयली नवी कांट्यांदोरी ओडली. ''देवा सायबा, काकुळट करात रे म्हजेर. हांव पातकी. हांव गुन्यांवकारी. हांव म्हजे आड खरी गवाय दितां. लासून मारात म्हाका. पूण अशे हाल करुं नाकात. सोडात म्हाका, सोडात...'' हें अशें तिणें चार फावट म्हटलें. ल्हव ल्हव तिचो आवाज खोल गेलो. तकली तशीच सकल लांबोवन ती वोगी पडून रावली. दोतोर मुखार आयलो. ताणें सांगलें, आतां तिच्यान आनीक सोंसूंक जावचें ना. तिका आतां सोडात आनी आंगार वस्त्र दिवन नीट बसोवन तिचे आडची ती सत गवाय म्हण कबुली बरोवन घेयात... मागीर तेणें तिच्या जमखांचेर वखद ओतलें.

पाद्री सिमांव पिरीस पयसुल्ल्यान ल्हाराल्हारान येवपी ते वेदनेचे सूर आयकत आसलो. कांयच अर्थ लागनासलो. पूण तांतूंतल्यान गळपी वेदना काळीज हालयताल्यो. सोंसूं नज जातकीर तो वोगी आपले शेनरेर पांय पोटासरीं घेवन पडिल्लो.

ताच्या चौथ्या दिसा परत एक फावट पाद्री सिमांव पिरीसाक पवित्र धर्मसभेमुखार व्हरून हाजीर केलो. म्हालमुखेल्यान सांगलें, ''तुज्या पाद्रीपणाच्या खरेपणाविशीं तुजे आडच्या एक गवायान दुबाव उकतायला. तर तुवें पाद्रीपणाचें शिकप खंय घेतिल्लें? तुका पाद्रीपणाचीं वस्त्रां कोणें दिल्लीं?''

पाद्री सिमांव पिरीसान जाप दिली, ''वेटिकनाचे सां पावल सेमिनारींत हांवें तीन वर्सां पाद्रीपणाचें शिकप घेतिल्लें. मगेर तेच इगर्जेंत म्हाका पाद्रीपणाचीं वस्त्रां दिल्लीं.''

''त्या वगतार कोणें बेसांव घातिल्लें तुजेर? कोणाच्या अधिकारपणाखाला तो समारंभ जाल्लो?''

''म्हजेर दुभाव घेतलो म्हण हें सगळें सांगप म्हाका उणाकपणाचें दिसता. तरीय हांव तुका सांगतां, म्हाका पाद्रीपणाची दीक्षा दिवच्या वगतार सां पावल इगर्जेचो पादविगार गाब्रियेल ओलिवेर हाणें सुरवेचें मीस म्हणिल्लें. वेटिकनचो बीस्म सायब

जेम्स ब्रोदीक बेसांव घालूंक हाजीर आसलो. पोप सायबाचो सेक्रेतार पोप सायबा कडच्यान पवित्र वस्त्रां घेवन येयल्लो. वेटिकनच्या दरएक पाद्रीक आपणें पोप सायबाचे मुखत्यारींत पाद्रीपणाची दीक्षा घेतल्या म्हण अभिमान भोगता.''

''सां पावल सेमिनारींत तुजे वांगडी आनीक कोण आसले?''

''एकच फावट आमकां सात जाणांक दीक्षा दिल्ली. पाद्री जेजुवा पाझ आनी पाद्री फ्रांकोज अबे आफ्रिकेंत वयताना दरयांत बुडून मेले. हेरआतां खंय फापसून आसात ते नकळ.''

''मनशान धर्मान नितीन रावचें म्हण जेजून फर्मानां सांगिल्लीं आसात तांतूंतलें पांचवें फर्मान खंयचें?''

''फटकिरेपण करचें न्हू.''

''हाचे आड ख्यास्त कसली सांगल्या?''

''जेजून ख्यास्त सांगूंक ना.''

''ख्यास्त सांगूंक ना म्हण लोक धर्मआड वागूंक लागल्यात. किरिस्तांव धर्माचो बातिज्म घेतात, बरो किरिस्तांव जावचेलें उतर दितात आनी मागीर फटकिरेपणान धर्मआड वयतात. जुदेवांच्या, हिन्दुंच्या धर्माक पोसवण दितात. अशें धर्मभ्रश्टपण जावचें न्ही म्हण इन्क्विझासांवाची थापणूक जाल्ली आसा. जेजूचीच शिकवण, ताचेंच पवित्र काम आमी मुखार व्हरतात.''

पाद्री सिमांव पिरीसान खोल गेल्ल्या थंड आवाजांत पूण तितल्याच धिरान म्हटलें, ''जेजून ख्यास्त सांगूंक ना हाचें कारण वेगळें आसलें. तो क्षमाशीळ आसलो. मोग आनी काकुटायेन सैतानाचेंय मन जिखूं येता असो ताचो भावार्त आसलो.''

''आमी जेजूक मानिनात, बायबल मानिनात अशें तुका म्हणचें आसा?''

''ना. पूण...''

म्हालमुखेल्यान ताका मुखार उलोवंक दियनासतना विचाल्लें, ''तूं इन्क्विझासांवाक न्हयकारता? तूं मानिना? तुजो भावार्त ना ताचेर?''

पाद्री सिमांव पिरीस कांय वेळ वोगी रावलो. मगेर ताणें म्हटलें, ''तुमीय तितलेच धर्मिश्ट, धर्मभावार्ती म्हण हांव मानतां. पूण...''

मुखेल्यान हात वयर करून ताका थोपयलोआनी मुखावेली बारीक घांट मोटमोट्यान व्हाजयली. बंदखणीचो ताबेदार भितर येयलो. ''घेवन वच हाका.'' पाद्री सिमांव पिरीस उठ्ठा आसतनाच म्हालमुखेल्यान रागान बेगीबेगीन म्हटलें, ''भावार्ताच्या कर्तुबा दिसा फुरसांवा पयलींच तुका ख्यास्त फर्मायतले. गुन्यांवाची कबलात दिवन भोगसणी मागची काय ना तें तूं थारय.''

पाद्री धिमी मारूंक विसल्लो. फाटीं फिरून चार पावलां चलतकीर ताका याद

जाली. ताणें फिरून धिमी माल्ली आनी खुरीस काडलो.

आपणाल्या पाद्रीपणाचेर ह्या लोकांनी दुबाव घेतलो हो धपको मोटो दुखदेणो आसलो. बंदखणीची काळखी कूड, चोंयवटेन अशी मानहानी. तो दिसानदीस भुंयेंत मुंगरूंक लागिल्लो. गुन्यांव नासतना लासून मारचेली ख्यास्त आंगार घेवप... दिसतालें, घालून घेवचें ताच्या पांयांर आनी रडून रडून भोगसणी मागची. पूण मनांत भोव भितर सुतां उसवल्लेवरी जातालीं.

एक दीस ताका कायद्याची राखण दिवंक नेमिल्लो तो वकील ताचे कुडीसरीं येयलो. वांगडा बंदखणीचो ताबेदार. ताबेदार मख्ख तोंडान कुशीक उबो आसलो. पाद्रीन एक फावट रागान त्या वकिलासरीं पळयलें. वकिलान म्हटलें, ‘‘तूं जाणा, तुका कायद्याची राखण दिवंक म्हाका नेमला.''

पाद्रील्या दोळ्यांक कीट उसळिल्लेवरी जाली. ‘‘जेजू म्हजो राखणदार आसतना तुका सो कित्याक नेमला? तुजेर म्हजो भावार्त ना. तूं म्हाका फटोवंक सोदता, घुस्पावंक सोदता. तूं तेंचो मनीस. म्हजो न्ही. तुका म्हाका लासून मारिल्लो जाय.''

वकिलान म्हटलें, ‘‘इन्क्विझासांवाचें सगळें कामकाज कायद्यान न्यायान आनी नितीन चलता.''

‘‘म्हाका निरपराधी मनशाक हांगा हाडून कुसोवंक उडयला आनी कसल्यो न्यायाच्यो नितीच्यो खबरी सांगता?''

‘‘वगतार इन्क्विझासांवाची पवित्र सभा दयावंत जाता. येत्या त्या डिसेंबराचे स तारखेर इन्क्विझासांवाचो ‘भावार्ताचें कर्तुब' हो सुवाळो जावचो आसा. त्या दिसा जांकां ख्यास्त फर्मायल्या तांकां तिठ्यार व्हरून लासून मारचेली ख्यास्त दितले. तुवें गुन्यांवाची कबुली दिवन भोगसणी मागली ना जाल्यार घडये तुकाय ती ख्यास्त भोगची पडटली. भोगसणी मागल्यार हेर बारीक ख्यास्त दितले.''

आयकोन पाद्री सिमांव पिरीस पांयांपसून मस्तका मेरेन गदगद हालिल्लेवरी जालो. आदींच जर्जर जाल्ली कूड आनी मनाक हो धपको सोसना जालो. तो एकदम आड्डलो, ‘‘हय हय, हांवें केला गुन्यांव. मोडलो हांवें खुरीस. ताका फातर म्हटलें. तातूंत देव ना म्हटलें. ताची जायती निंदा केली. फाल्यां येतां आनी म्हालमुखेल्याचे पांये धरून भोगसणी मागतां.'' मगेर पाद्रीन धिमी माल्ली. ताणें दोनय हात वयर करून म्हटलें, ‘‘जेजू, म्हज्या सायबा, गुन्यांव नासतना हांव कित्याक लागूस मरूं? तूं म्हजो गवाय. तुज्या नांवार हांव भोगसणी मागतलों.'' पाद्रीले दोळे व्हांवताले. तो मनान इतलो सदळ जाल्लो, इतलो कोसळिल्लो, भायलें एक वांकडें उतर सोंसचो त्राण नासलो.

वकिलान म्हटलें, ‘‘जेजू तुका बरी चिंतनां दितलो. आनी तूं हांतूंतल्यान सोताची

सुटका करून घेतलो." ते दोगय वांगडाच वचूंक गेले. ताबेदार शेवट मेरेन एक उतर उलोवंक नासलो. मोनो गवाय कसो उबो आसलो. पाद्री बरोच वेळ मत भेरेल्लेवरी पडून आसलो. मेंदवांतलीं सगळीं सुतां उसावल्लेवरी जाल्लीं. तकलेंत एक शेळो भेरेल्लो गोंदळ.

तिसऱ्या दिसाक पाद्रीक इन्क्विझासांवाचे पवित्र सभेसरीं ते घेवन गेले. पाद्री सामको थंड आसलो. चेहऱ्यार कसलें तेज नासलें, दोळ्यांत लिकलिकसाण नासली, कुडींत शक्त नासली. तो पवित्र सभेच्या सालांत भितर सरलोआनी ताणें धिमी माल्ली आनी खुरीस काडलो. मगेर तो तांणी सांगतकीर त्या बांकार बसलो. म्हालमुखेल्यान विचाल्लें, "तुका धर्माआडचो गुन्यांव मान्य आसा?"

पाद्रीन तकली हालयली.

मुखेल्यान म्हटलें, "उतरांनी कबलात दिवंक जाय."

पाद्रीन हय म्हटलें.

"सगळे गुन्यांव तुका मान्य आसात?"

"हय."

"तुवें मुद्दम जाणा जावन हे गुन्यांव केल्ले?"

"हय. जाणा जावन."

"ही कबलात तूं आपखोशयेन दिता?"

"हय."

"किरिस्तांव धर्माविशीं तुका भावार्त ना म्हण तुवें धर्माआड गुन्यांव केल्लो?"

"पयलीं आशिल्लो. आतांय आसा. मदीं म्हजीं चिंतनां भश्ट जाल्लीं."

"पयलींचे सगळे गवाय आनी आतां तुजेआड तूं सोता गवाय. ह्या सगळ्या गवायांनी सांगिल्लें तुका मान्य आसा?"

"हय."

"तुवें धर्माआड कसलो गुन्यांव केल्लो तें तूं सांगशी?"

"हांवें खुरीस मोडचें कर्तूब बरें म्हटलें. खुरीस म्हटल्यार फातर म्हटलें. तांतूंत देवपण ना म्हटलें."

"तुका केल्ल्या धर्माआडच्या कर्तुबाची खंत भोगता?"

"हय."

"तूं भोगसणी मागता? बरो किरिस्तांव जावचें मानून घेता? तशें उतर दिता?"

"हय."

कुशीन बशिल्लो पवित्र सभेचो सेक्रेतार सगळें उतरान उतर बरोवन घेतालो. ताणें कांय वेळान दोन कागदां तयार केलीं. एक ताच्या गुन्यांवाचे कंबलातीची चीट,

दुसरी ताची भोगसणी मागपी चीट. दोनांचेरूय पाद्रीच्यो सयो घेतल्यो. गवाय म्हण ताका आधाराक दिल्ल्या वकिलाची सय घेतली. उपरांत ताका भोगसणी म्हण म्हाल मुखेल्यामुखार धिमी मारूंक लायली.

पूण म्हालमुखेल्यान ताची हेर ख्यास्त वाचली ना. ती आनीक मुखार धुकलून मुखावेली घांट वाजयली. ताबेदार येवन ताका घेवन गेलो.

पाद्री सिमांव पिरीस आपले कुडींत पावलो आनी सामको घुम्म मोनो जावन वणटीक तेंकून बसलो. चेहरो सामको मख्ख, सपाट फातराचो. दोळ्यांतूय उजवाड ना. कितें जालें? कितें केलें हांवें! तकलेंत एक गोंदळ. कशें तरी मरण येवचें आत्तां ह्या खिणाक! मरणय कितलें कठीण आसता, कितलें दुर्मिळ! जेवण सोडून सैमीक मरण घेतलों म्हटल्यार पारेदाराले दांडे खावचे पडटात. आनी आत्तां आक्तार मरण येवचें कांय साधन ना. स्पेनसान वेटिकान आनी मगेर ग्रीस देस. परत वेटिकान. थंयसान म्हासागर बळांटून इंडियेंत पावलों. केदी म्हायात्रा केली हांवें आनी ते खांब्याक बांदून लासून मारतले म्हण तांचेमुखार धिमी माल्ली! मगेर तकलेर मुठयो मारिल्लेवरी जावंक लागलें. तकली भेरेली. थंयच तो आड पडलो. पारेदार मदीं दनपारचें जेवण घेवन येयलो. पाद्रीन सामके अनवळखे नदरेन त्या पारेदारासरीं आनी मगेर जेवणासरीं पळयलें. जेवणाक ताणें सांज मेरेन हातय लायलो ना.

सांजचें जेवण घेवन येयलो तेन्ना चाकरदारान ताका विचाल्लें, ''दनपारचें जेवण तूं कित्याक जेवंक ना? ताबेदाराक सांगचें पडटलें.'' पाद्रीन सावळेंतशें म्हटलें, ''ओंकाऱ्यो येतात अन्नाचो वास घेतल्यार. आंतडी भायर येता. नाकातोंडांतल्यान सारक्यो रगताच्यो ओंकाऱ्यो.''

त्या चाकरदारान विचित्र नदरेन पाद्रीक पळयलो. मगेर ताणें वचून पारेदाराक सांगलें. पारेदारान येवन मुखार दांडो धाडायलो, ताका दांडो रोमलो. पूण तो हाललो ना. ताणें जेवणाक हात लायलो ना.

खबर ताबेदाराक पावली. दुसऱ्या दिसा सकाळीं दोतोर येयलो. दोतोरान ताका जोर आसा काय पळयलें आनी ताची नाडी पारखिली. पाद्रीन आपलो हात मुखार करून दोतोराक सांगलें, ''ही हातावयली काळी शीर कापून तातूंतलें रगत काडून उडोवंक जाय. तांबयोभर तरी रगत वचूंक जाय.''

दोतोरान ताचेसरीं बारीक पळयलें. सांगलें, ''जोर ना. नाडी ल्हव आसा पूण बुडिल्ली ना. रगत व्हांवोवन उडोवचेली गरज ना.'' दोतोरान कसलो तरी धवो पिठो ताच्या तोंडांत घालो आनी वयल्यान उदक पियेवंक दिलें. पिणें पोटांत वयतकीर पोटांत भगभग पडिल्लेवरी जावंक लागलो. दोन पारेदार म्हऱ्यांत उबे रावन तांणी ताका दनपारचें जेवण जेवंक लायलें.

'आवत दे फे' - भावार्ताच्या कर्तुबाक आठ दीस आसतना पाद्री सिमांव पिरीसाक परत एक फावट इन्क्विझासांवाचे पवित्र सभे सामकार व्हयलो. धिमी मारून बांकार बसूंक गेल्यार ताका उबोच राव म्हण फर्मायलें. म्हालमुखेल्यान म्हटलें, ''तूं धर्मद्रोही, धर्मभ्रश्ट म्हण थाल्लां तेन्ना तुका पवित्र धर्मसभेसामकार बसचेलो अधिकार ना.'' मगेर ताणें तागेली ख्यास्त वाचली. ''तूं धर्माआडचो गुन्यांवकारी थारला म्हण तुका भावार्थाच्या कर्तुबा दिसा लासून मारचेली ख्यास्त आमी फर्मायतात. ही तुज्या गुन्यांवांची ख्यास्त. पूण तुवें भोगसणी मागली, बरो किरिस्तांव जावचेलें उतर दिलां म्हण इन्क्विझासांवाची सर्वसामान्य सभा तुजेर दयावंत जावन तुका हेर उणी ख्यास्त दिता ती अशी - इन्क्विझासांवाचे बंदखणी भायर मुलकी बंदखणींत रावन तूं पांच वर्सां फातमारी बांदच्या आवाठांत काम करतलो. पांच वर्सांनी तुका वेटिकानांत ना तर युरोपांत खंयूय वचूंक मेकळीक आसतली. इन्क्विझासांवाचे बंदखणी भायर पांच वर्सां तुवें कशे तरेन वागचें, कितें करचें, कितें ना करचें हाची शिटकावणी तुका भावार्ताच्या कर्तुबा उपरांत हंयच्यान भायर सरतना मेळटली.''

आदींच पाद्री सिमांव पिरीस खूब म्हातारो दिसतालो. तो चडच बागवोनसो कांय वेळ तकली हालयत रावलो. मगेर ताणें तोंडांतल्या तोंडांतच म्हटलें, ''सोर्गाचें दार म्हजेपासत उकतें जालां सिन्योर. जेजून म्हजेपासत मागलां. हांव आनी आतां खंय वेटिकानांत?'' म्हालमुखेल्यान घांट वाजयली. पाद्री ते घांटीसरीं थीर नदरेन पळयत रावलो. मरणाचे घांटीक पळयतलेवरी. ताबेदार बेगीबेगीन येवन ताका हाताक धरून घेवन गेलो.

सकाळीं चारांकच पाद्रीक जाग येयिल्ली. सगळेकडेन सामकें थंड सामसूम आसलें. एक कैदी खोकनासलो, परवंनासलो. आंग खरपून घेतिल्लोय आवाज येनासलो. पारेदार संवयेप्रमाण हातांतलो दांडोय भुंयेर आपटिनासलो. आनी यकायक पयसुल्ल्यान पावलांचो आवाज येवंक लागलो. मोचे घातिल्ल्या पावलांचो चर्रचर्र आवाज. मगेर एक फाटोफाट एक कितल्याशाच पावलांचो आवाज. मगेर बारीक धारेचे सुरयेन कापिल्लेवरी ल्हवल्हव धपकायल्ल्याचे आवाज येवंक लागले. कितें चल्लां! चांडाळाच्यो सावळ्यो कशो कोण हे! हांच्या हातांत उजवाडाचो एक लापयांवय ना कित्याक! काळखांतल्या खोल आंगांतल्यान कांय पावलां व्हाजत ताच्या दारामेरेन पावलीं. लोखणा दार करकरलें. ''एऽ उठ, हीं वस्त्रां घे. आज भावार्ताच्या कर्तुबाचें फुरसांव जातलें. मगेर पातकी 'सामारांक' लासून मारचेली ख्यास्त जातली. तुका मात ही 'सावेंतीचीं' वस्त्रां. दयेची भीक ती.''

पाद्री सिमांव पिरीसान दारावटेन पळयलें. दारांत दोगजाण उबे आसले. तांच्या हातांत मेल्ल्या दोळ्यांवरी मिणमिणटो लापयांव आसलो. भायर सगळो काळोख आनी दारांत कोण तरी उबे, मरणाच्या फुरसांवाच्यो खबरी सांगत. पाद्री उठलो. ताणें थंय उडयल्लीं वस्त्रां उखलून खांक्यांत दामलीं. ''येतां हांव, येतां, तुमच्या फुरसांवाक येतां. म्हाका पोप सायबान एक फावट वस्त्रां दिल्लीं जाणात तुमी!''

''बेगीन तयार जावन भायर यो तूं.''

एकलो गेलो. एकलो मेल्ल्या दोळ्यांचो लापयांव हातांत घेवन तसोच उबो रावलो. पाद्रीलीं पाद्रीपणाचीं वस्त्रां स म्हयन्यांफाटींच सुटिल्लीं. आतां आंगार एक फ्रॉक कशें मोटवें कलसांव आनी मोटव्या हाताचें हड्ड्यासरीं वादी आशिल्लें खोमीस आसलें. तें ताणें काडून उडयलें आनी ही 'सावेंतीचीं' नवीं वस्त्रां घातलीं. सकाळीं हीं वस्त्रां पळोवनच थारतलें, हाका लासून मारचें काय ना तें. पाद्रीक दुबाव येयलो, आपणाक वस्त्रां बदलून बीन दिलीं नात मू! तरीय कांय उलयनासतना ताणें वस्त्रां आंगार लखयलीं. लिप्प काळें एक खोमीस आनी लांब कालसांव. ताचेर गळ्यासरीं बांदून सकल धिमयेमेरेन येयल्लें धवें वस्त्र. ताचेर पुराय एक व्हड खुरीस तांबड्या रंगान पितारिल्लो. पाद्रीन थंय उबो आशिल्ल्या मनशाक विचारलें, ''सामाराक लासून मारचे पयलीं कसलीं वस्त्रां दितात?''

''तेंच्या मुखावयल्या वस्त्रार एके वटेन ताची आनी दुसरे वटेन सैतानाची प्रतिमा आसता. वस्त्रार उज्याच्यो जिबो आसतात.''

''तूं कोण? पारेदार कसो दिसना तूं.''

''हांव तुजो धर्मबापूय.''

''कितें?''

''शारांतल्यान हांव आपखोशयेन येयलां. 'आवत दे फे'चें पुराय धर्मकाम जायसर हांव तुजे वांगडा आसतलों.''

''तुका बापूय आसा?''

''ना.''

''तुका पूत आसा?''

''ना.''

''तुजेसरीं तपकिरीची दबी आसा?''

''आसा, पूण तुका ती दिवंक फावना.''

''कित्याक?''

''तुज्या पातकाचो वांटेकारी जायत म्हण म्हाका भिरांत दिसता.''

''म्हाका धर्मबापूय कोण नाका म्हटल्यार ते कितें म्हणटले?''

''तुजे फाटल्यान एक सोल्दाद हातांत तलवार घेवन रावतलो. मदींमदीं तरसादेचें तोंक तो तुका तोपतलो.''

सगळे कैदी आपल्या कुडींतल्यान भायर सरून मुखाल्ल्या वारांदांत येवन उबे रावले. पाद्री सिमांव पिरीस सामक्या अजापान तांचेसरीं पळयत रावलो. देडशेंक तरी कैदी वारांदांत लायनींत उबे. निकतींच भुंयारांतल्यान भायर सरिल्लीं वनमनशां कशीं. खंय आशिल्ले हे इतलो तेंप! कित्याक सुलूस लागनासली? थार धांपिल्लीं दारां. भितर हांसूंक रडूंकय जायना. पाद्रीक अजाप दिसलें, तरीय हीं सोता पांयांर आज उबीं आसात आनी पावलां उखलतात!

आतां इल्लें उजवाडिल्लें. बांयलांचे बंदखणीचे पयले वटेच्या वारांदांत इल्ली हालचाल दिसताली. देडशें दादले कैद्यांत फकत तिगच जाणांल्या आंगार 'सामाराचीं' वस्त्रां आसलीं. हांकां खांब्याक बांदून लासून मारचे आसले. तांच्या मुखावेल्या धव्या वस्त्रांर उज्याच्यो जिबो नाचताल्यो. वस्त्रार सैतानाची प्रतिमा आशिल्ली खरी पूण ते बाबडे सोता सामकेच जीव नाशिल्ले, मरूंक पडिल्ले अशे दिसताले. उज्याचें सोयरसुतक नाशिल्लेवरी मेंगे, मतमेल्ले कशे ते उबे आसले. तांतूंतलो एकलो एक फावट भोगसणी मागून इन्क्विझासांवाचे बंदखणींतल्यान भायर गेल्लो. पूण थंय वचून ताणें इन्क्विझासांवाची निंदा बीन केल्ली. मगेर ताका ज्याज्या धरून हाडून लासूंक उबो केल्लो. दुसरो शेवटा मेरेन पिशावरी 'हांवें कांय केलें ना, हांवें कांय केलें ना' म्हणत रावलो. यातना कुडींत दोन फावट व्हरून हाडलो, पूण पिशावरी नीट कांय सांगना. तेच्या रगताक आशेल्लेवरी गवाय मात परत परत तो गुन्यांवकारी म्हण सांगताले. तिसरो शेवटमेरेन थीर धीट रावलो. लासून माल्ल्यार उपकारता पूण कबलात दियना, भोगसणी मागना म्हणूंक लागलो. तो आदीं बरोच घट उंच मोटो बीन आसुंये. पूण आतां ताची उंचाय तितलीच शाश्वत कशी तिगून आसली. तो इतलो बारीक जाल्लो, ताचेन चडच उंच दिसतालो. माने कणोय बारीक जाल्ल्यान तकली नीट थारनासली. हेवटेन तेवटेन पडटाली.

बरें उजवाडटकीर सात चाकरदार सात पेटो घेवन आयले. तांच्या हातांत कागदार काडिल्ल्यो, उंच बडयेक बांदिल्ल्यो सात प्रतिमा आसल्यो. ह्या पेटयांनी पवित्र सभेमुखार खटलो चालू आसतना वा गुन्यांवकारी म्हण थारायतकीर जे मेल्ले आनी जांकां पुरिल्ले तांचीं उस्तून काडिल्लीं हाडां आसलीं. त्यो प्रतिमाय तांच्योच आसल्यो. आतां तीं पेट्यांतलीं हाडां ख्यास्त म्हण 'आवत दे फे'च्या तिठ्यार लासचीं आसलीं. गुन्यांवकारी मनीस मरतकीरय तांचेर इन्क्विझासांवाचो शेक चलतालो. पातकी आत्म्याक सोर्गांत रीग ना, तो भुंयेरूच गणमणत आसता असो तांचो समज आसलो.

आतां बरेंच उजवाडिल्लें. त्या सात पेटयां सामकार त्यो प्रतिमाय उब्यो करून दवरिल्ल्यो. प्रतिमा सगळ्यांच्यो सारक्योच आसल्यो. पूण तांचे खाला तांचीं नांवां आसलीं. एके पेटये सामकार उबी केल्ले प्रतिमे सकल नांव आसलें सुखडो - साल्वादोर दियस!

पाद्री सिमांव पिरीसान तें नांव वाचलें. नांव आदीं वळखीचें कशें दिसलें. मगेर मात तो त्या नांवाच्या मनशाक पुराय वळखलो. ताणें मनांत म्हटलें, हो आदोळशीचो शिरवाड्यावयलो सुखडो नायक, जो आपल्या तिगांय पुतांक वांगडा घेवन किरिस्तांव जाल्लो! सगळ्या गांवाक खुंट्यार मारून पुराय घराब्याक घेवन किरिस्तांव जाल्लो आदोळशीचो पयलो किरिस्तांव! ताची हाडां आतां ख्यास्त दिवचेली वाट पळयत पेटयेंत पडिल्लीं. खंय पावलीं तांचीं झगडीं, कितें जालें तांच्या शेताचें, खंय फापसले तागेले पूत, कोणें पावयलो ताका हे पेटयेंत... पाद्रीले तकलेंत मोटो गोंदळ. हीं चिंतनां आनीक आपणाल्यान सोंसूंक जावचीं नात अशें दिसतकीर ताणें चिंतचें सोडलें.

सारकें सातांक 'भावार्ताच्या कर्तुबा'चें फुरसांव इन्क्विझासांवाच्या इमारतींतल्यान भायर पडलें. देडशेंक दादले, पन्नाशेक बायलो, फाटल्यान तांचे धर्मबापूय. लासून मारची ख्यास्त जाल्ले ते तिगय मद्दीं आसले. तांचे फाटल्यान हाडांच्यो पेटयो घेतिल्ले मानाय. तांच्या हातांत बडयेर उब्यो धरिल्ल्यो प्रतिमा. इतल्या मनशांमदीं फकत एकल्याचींच हाडां वळखीचीं.

तें फुरसांव आदीं सां कातारिनाचे इगर्जेंत वचचें आसलें. थंयचें देवस्पण, थंयचे सगळे सोपस्कार जातकीर मगेर लासून मारच्या 'आवत दे फे'च्या तिठ्यार. थंय आदींच खांबे पुरून, लाकडां दाळून दवरिल्लीं. सोता व्हिसराय, बीस्प सायब ह्या सुवाळ्याक हाजीर आसले.

आपलीं घरांदारां, गोरवां वासरां, शेतांभाटां सोडून कितलोसोच लोक गोंय सोडून गेल्लो. गोरवां पारपोळ भोंवतालीं, शेतां पडिंग पडिल्लीं. केनरांतल्यान फातमारी भरून भरून तांदूळ भात हाडटाले पूण तो पावनासलो. सरकारी तिजोरी रिती जावंक पाविल्ली. आदलीं देवळाचीं शेतां जीं इगर्जेक गेल्लीं तिंवूय पडिंग पडिल्लीं. व्हिसरायान कडक ऑर्द काडिल्ली, कोणाक गोंया भायर धांवडावचे न्ही, आपखोशयेनय गोंय सोडून वचूंक दिवचें न्ही. जे आदींच गोंय सोडून गेल्यात ते परते येयल्यार तांकां येवकार आसतलो. तेंचीं शेतांभाटां तेंकां परत मेळटलीं, जर ते किरिस्तांवपण आपणायत तर.

पूण एक फावट सोडून गेल्लो परतो येवंक मागनासलो. तांकां चड भिरांत

दिसताली ती इन्क्विझासांवाची. फट्करून कितेंय चुकलें आनी मगेर तांणी धरून व्हयल्यार! इन्क्विझासांव हिन्दूंचे वाटेक वचनासलें. ताचो शेक किरिस्तांवांचेर. पूण हिन्दू एक फावट गांव सोडून गेल्ले ते वचून खंय फापसल्यात खबर नासलें. परते येयल्यार धर्म वगडावनच भितर सरचें हें ते जाणा आसले. खरें म्हटल्यार आतां देशी नव्या किरिस्तांवांचेच भोगणार चड आसले. फक्कत बातिज्म घेवन किरिस्तांव जावन येयलें म्हण भागनासलें. उपरांत येवरोपेयांव कशे रावंक जाय, तांचेवरी कोट पाटलोण घालूंक जाय. खाण जेवण तांचेवरी आसूंक जाय, पयलींचें सगळें सोडूंक जाय. चुकून पयलींचें कितें केलें, चुकलें जाल्यार इन्क्विझासांवाची थर्त भिरांत आसताली. हे आदीं आदोळशीचे दोग जाण ताच्या कचाट्यांत गाविल्ले. पाद्री सिमांव पिरीसाची दुखेस्त काणी ते जाणा आसले.

वट्ट आवतिकाय जाल्ली गोंय जुंव्याची. पयलींच्यो गांवक्यो मोडून पडिल्लेवरी जाल्ल्यो. आसूनय नाशिल्ले सारक्यो. इगर्जेच्या मेजारय एकमत जायनासलें. पयलींचे गांवकेंत कुळाचारी, वांटेली, गांवकार, खुंटकार हांच्यो सुवाती परंपरेन थारिल्ल्यो आसल्यो. पूण इगर्जेच्या मेजार सगळे एक आसले. पूण कोण आपली जात, आपलें व्हडपण सोडूंक तयार नासलो. चडकरून बामण आनी चाड्डे हांचेमदल्यान उजो वचनासलो. सामक्के दोन तट पडिल्ले. तांचे मदीं केन्ना हाणामारीचीं झगडीं जातालीं. ह्या नव्या किरिस्तांवांमदल्यो जाती मोडचें काम पाखलेय करनासले. उल्टे ते तांच्या नांवाफुडें सदांच जात बरयताले. किरिस्तांव जाल्ले तरीय जात सुटून सुटनासली.

नव्या किरिस्तांवांमदीं निर्शेणीच पातळिल्ली. नव्या धर्माचें कांय कळना, तेंची भाशा जमना आनी पोन्न्या धर्माचें कांय करूंक जायना. धर्मीक भूक भागनाशिल्ल्यान एक घुस्मटमार चलिल्लो. नव्या धर्मापरस नवी संस्कृती, नवी भास आपणावपच चड जिवार येयल्लें. तांतूंत आनी धर्म वगडायल्ल्याचें दुख्ख. पातकीपणाची, बिजूटपणाची जाणीव! ल्हानसान देव अजून तशेच उकत्यार पडिल्ले, तांची मान्तीक, जोगोवणी जायनासली. तें तांच्यानी पळोवं जायनासलें, सोंसूं जायनासलें. घरांत भायर कितें वांकडें जालें, कोणाक कसली पिडा बाधली तर खरपणान दिसतालें, देवाची मान्तीक करूंक नाशिल्ल्यान हें अशें वायट जालें म्हण! मगेर केन्ना जिवार काळ घेवन ते पोन्न्रे देवस्पणबीन लिपोवन करताले.

आदोळशीकारांचें गेल्लें वर्स तशें बरें गेल्लें. पूण हें वर्स घुगमार बसून येयल्लेवरी सगळेंच वायट वांकडें जावंक लागलें. ना खेळटांच शिगमो येवन गेलो. लोक खपखप्यानूच हांतरुणाक लागलो. कसलेंतरी एक दुयेंस. तकली जड जावप आनी जोर येवप. मागीर कुडिचो भाजून कांटो. एक दीस रानांत गेल्लो एकलो गांवांत येवन सांगूंक लागलो, ''वयर म्हाळये रुखार म्हाळया म्हाळयांनी कितलींशींच गिदां

बसल्यांत. तीं कें कें करीत पत्र्यादेवार सकल पडिल्लें जनावर कोंचेवन खातात.'' म्हाळये रूख हो एक अजापांचोच रूख आसलो. ह्या सबंद वाठारांत एके आगळेच जातीचो रूख. ताका म्हाळया म्हाळयांनी सात म्हाळयो खांदयो फुटिल्ल्यो. ताचे पोंदा पत्र्यादेव आसलो. थंयसान मुखार वचपी कोणूय पत्र्यादेवार एक तरी पानाताळो उडयतालो. थंय मात्सो बसतालो आनी मुखार वयतालो. ही खबर लोकांक वायट अवचित्र कशी दिसली. पूण लोक वोगीच रावलो. चैत्रांत रानांत गेल्लीं चार गोरवां वागान माल्लीं. पावस पडचे कांय दिसां पयलींच गोरवां पांयान आनी तोंडान लागलीं. गोरवांचे पांयांचे खूर, तोंड तांबडें तांबडें जाल्लें. तांतूंत ल्हान रगत रशी व्हांवताली आनी गोरवांक चलूंक त्रास जातालो, खावंक त्रास जातालो. लोक आपलेपरीन उपाय करतालेच.

आतां लोकांक खोलायेन दिसूंक लागलें, शिमेवयल्या देवाची वर्साची मानतीक जोगवणी जाली ना म्हण हें अशें जावंक लागलां. आनीक आनी कितें कितें जातलें देवाक खबर. आतां ही मोनजात, गोरवां, मनशांचेरूय येतलीं मरणां!

एक दीस शिरवाड्यावयले सांतान दियेस नायक आनी जुवांव दियेस नायक - आदले पुतू नायक आनी लवू नायक - उठून सुर्या गुरवासरीं गेले.

गांवच्या रानादेगेर पयस पयस अशे तीन देव आसले, तळपेसरीं घोटकी रुखापोंदाक आगयो, कंजीसरीं अर्जुना मुळाक बरमो आनी घाटयेसरीं आंब्यामुळाक वागरो. ह्या तीनय देवांक लोक मानताले, भियेताले. तांचे सासायेविशीं लोकांक पुराय भावार्त आसलो. ते कोपूं नजो, खुबळूं नजो म्हण लोक शादूर आसतालो. तांणी सुर्या गुरवाक सांगलें, ''तूं गांवचो एक गुरव. तुजो बापूय आदीं देवाचें काम करतालो आनी आतां तूं. तुवें देवाची मानतीक करची आनी आमी थापटां, घुमटां वाजोवन 'हय देवा' म्हणचें.''

''आतां आनी कितें उल्लां? कितें म्हणटा तूं पुतूमाम?''

''सिमेवयले तीनय देव कोपल्यात. गेल्ल्या वर्साकय ना आनी ह्या वर्साकय ना तेंची मानतीक. तांकां जोगोवंक जाय, नातर गांवार मरणां येयलेबगर रावचीं नात.''

आयकोन सुर्या गुरव - लुईस मिरांद - भियेल्लेवरी जालो. ह्या उज्यांत हे आनी कितें सांगतात हे! ताणें भियेत म्हटलें, ''तेंचो दोळो आसता सगळेकडेन. कळ्ळ्यार व्हरून बांदून घालतले.''

''कांय ना. आमी घरच्यान वयताना पाटल्यांत घालून सगळें व्हरचें. काकाडे फुलां, वागऱ्याक कोंबो, आगयाक सात्रां, बरम्याक चोरू रोंट. सगळें काम भायले भायर करून वोगी हात फापडून येवचें.''

सुर्या गुरव वोगीच रावलो. ''येता त्या बुधवाराक जोगोवचे देव.''

सुर्या गुरवान जड उतरान 'बरें' म्हटलें. थंयसान ते आबू मिराशी - कामील ग्रासियेसासरीं येयले. ताकाय तांणी तेंच सांगून कोमार काडलो.

बुधवारा दिसा दनपरां दोगतीग दोगतीग जाण मेळून ते वेगळ्या वेगळ्या वाटांनी पयलीं वागऱ्यासरीं गेले. सात जाण नायक गांवकार, एक गुरव आनी एक मिराशी. कांय तरनाटे, कांय भुरगींय आशिल्लीं. गांवकार गेल्ले ते बाबली नायक दियस, पुर्सो नायक दियस, जिबलो नायक दियस, रवळू नायक दियस, आपा नायक दियस, लवू नायक दियस आनी पायक नायक दियस. जिबलो नायक दियसाले तकलेर चोबो आसलो. तातूंत एक बिंदूल, नवी मडकी, उकडिल्लीं सान्नां, तांदूळ, पीठ, मीठ, काकाडे, फुलां आनी पांय बांदिल्लो एक कोंबो आसलो.

थंय वर्सपद्धती परमाणें तांणी सगळें देवस्पण केलें. आगयाक सान्नां भेटयलीं, बरम्याक चोरू रोट घातलें. वागऱ्या सामकार कोंबो माल्लो. सगळें आटापून वेळ धारेक पावंक ते घरा परतले. चोरू शिजयल्ली नवी मडकी तांणी थंयच फोडून उडयल्ली. चाबो आनी बिंदूल मात येतना जिबल्यान वाटेर शाबा गुरवाल्या गोट्यामाळ्यार घालून दवल्लो.

खासा शिरवाड्यार आनी गांवांत कांय जाण आपूण खरे किरिस्तांव, पाखल्यांतले मर्जेंतले किरिस्तांव म्हण वावुरताले. तांचें पाखल्यांच्या राबित्यार बेठेंच यो-वच चालू आसतालें. थंयसान मगेर ते कांय खाशेल्यो खबरो घेवन येताले. त्यो गांवांत पातळायताले. पुर्तुगालसान चार फातमारी येवन गोंय बंदराक लागल्यात. तांणी जायतो म्हालमतो, दुडू, भांगर भरून हाडलां. व्हिसरायान कोणें माडाक लायललें लेपण पळोवन म्हटलें, चोरयेचे भिरांतीन माडाक लेपण बांदचें पडटा जाल्यार माडार चडून नाल्ल चोरतल्या सगळ्या चोरांक धरून हाडात आनी जिवानशीं मारून उडयात. मगेर सोल्दादान धा-बारा चोरांक धरून हाडून माडाकच हुमकळावन माल्ले, असल्यो खबरो आसताल्यो. पुर्तुगालचो राया एक दीस फातमारी भरून दुडू घेवन येतलो आनी गोंयच्यो सगळ्यो इगर्जो फातरान बांदतलो अशेंय ते सांगताले. चड करून शिरवाड्याचो सातण नायक दियस, रायगाळीचो क्रशण शणै ग्रासियस, देवूळवाड्यावयलो मुळो देवळी दिनीज पाखल्यांच्या राबित्यार यो वच करताले. तांचेवरवीं पाखले गांवांत तांच्या फावरार भिरांतच पातळायताले. हेन मुखार गोंय सोडून कोणें वचूंक फावना. वयताना कोणय मेळ्ळ्यार धरून हाडून व्हरून गोंय पाटणांत बंदखणींत घालतले ही ऑर्दय तांणी गांवांत पावयल्ली.

कितें जालें, कोण फितूर जालो, कोणें सांगलें, कांयच कळनासलें. पाद्री कुलासूक काल जाल्ल्या देवस्पणाची सुनशा मेळिल्ली. पयलींचो देवधर्म दर एकल्याल्या काळजांत पुराय आसलो. म्हण वोगीच सगळ्यांक दिसतालें, देवाची वर्सुकी मानतीक

केली म्हण कोण एकलो खबर भायर घालचो ना. कोण्णाक वचून सांगचो ना.

पूण कोण तरी फितूर जालो. ताणें सगळें पाद्री पावलू कुलासूक, शेफ रिबेरीक सांगिल्लें. देवस्पणाक गेल्ल्या सगळ्या गांवकारांचीं नांवांय सांगिल्लीं. शेफ रिबेर खबर आयकोन बरोच वेळ वोगी रावलो. पाद्री कुलासू मात रागार फुगार जाल्लेवरी जातालो. ''शेफ रिबेर, पळयलें मू हेंचें कर्तूब? इतलें सांगून आड्डून कितें उपेग जालो? हेंकां सगळ्यांक इन्क्विझासांवासरीं दितलों हांव. मगेर कळटलें तेंकां.''

शेफीन थकिल्ल्या आवाजानशें म्हटलें, ''सामकें वायट, भश्ट कर्तूब हें तेंचें. फावो तेंकां ख्यास्त. पूण पाद्र, हो सगळो शिरवाड्यावयलो लोक बंदखणींत पडल्यार लोक उरचो ना गांवांत. आदींच गांवांत लोक उणो जाला. तेंकां आडावंक जाय म्हणटात.''

''म्हणजे त्या पातकी लोकांक तशेच सोडून दिवचें म्हणटा तूं?''

''कितें करचें चिंतुया आमी पाद्र.''

''सारकी न्ही ही भास तुजी शेफ. फाटीं दोन फावट तुका सिमांव पिरीसा आड गवाय दिवंक म्हण आफयल्लो. येयलो ना तूं. तेचे वांगडा भासाभास जाली तेन्ना आपूण लागीं नाशिल्लो म्हटलें तुवें. मगेर सोल्दादांक काबाक व्हरचे पडले गवाय म्हण.''

''सत नाशिल्लें तें पाद्र?''

''हांव नकळों. किरिस्तांव धर्म घट करतलो जाल्यार सत् फट हें सगळें चिंतून कशें जातलें?''

''म्हाका आतां जिवाक बरें आसना पाद्र. रातचो जोर येता. खोंकलीय येता हें तूं जाणा. पुरो जालां म्हाका. अडेज वर्सां हिंगा पडून आसां. कांयच धड ना. पिरायूय जाल्या म्हजी.''

पाद्री कुलासू कांय वेळ वोगीच रावलो. मगेर ताणें म्हटलें, ''आपणें पळयल्लें, आयकल्लें, धर्माआडचें धर्मभ्रश्ट कर्तूब इन्क्विझासांवाच्या मुखेल्यांक कळयनासतना रावपय एक गुन्यांवच. इन्क्विझासांवाच्या कायद्या पुस्तकाच्या पंचावन्नाव्या कलमांत सांगलां, आयकल्लें, पळयल्लें धर्मभ्रश्ट कर्तूब इन्क्विझासांवाक सांगनासतना रावप एक धर्माआडचो गुन्यांव म्हण. तेकाय ख्यास्त फाव जाता.

दुसऱ्या दिसाच पांच स सोल्दादांक, दोग काबांक घेवन पाद्री कुलासू रानाकडेर गेलो. वागऱ्यासरीं ताका उबे केल्ले, जळिल्ले, अर्द जळिल्ले काकडे, कोंब्याचें रगत, पांखां, तांबडीं फुलां, पालयल्ली चूल दिसली. आगयासरीं वस्त्रां कुडक्यांत गुठलावन दांड्याक बांदून उबी केल्ली सात्रांची पोटली, तशेंच काकाडे, बाविल्लीं फुलां बीन दिसलीं. बरम्याकडेन तेंच. तशेच पांच काकाडे, फोडून उडयल्ली नवी

मडकी, फूल, पिनर, लाशिल्लीं केळीपानां, पालयल्ली चूल दिसली. ताणें वांगडाच्या सोल्दाद, काबांक तें दरफावट नीट पळोवन घेवंक सांगलें. तो सगळ्यांक घेवन तसोच परत आयलो.

ते देवस्पण पळोवन आयले म्हण कळटकीर सगळ्यांचेर खपखपो. कोण कांय उलयनातना घरांतच गुठली जावन पडिल्ले. फक्कत बायलो खपखप्यान भायर भितर करताल्यो. पिसो नानू शिरवाड्यावेल्या एका आकाड्यांत थारून पोट धरून मोटमोट्यान हांसूंक लागलो. थंयच उबो आशिल्ल्या एकल्यान विचारलें, ''कित्याक हांसता माकडा?''

तो हांसतच म्हणूंक लागलो, ''ते तिनूय देव कंबर धरून पडल्यात. तेंचेर पातेवन रावल्यार गोरवां मरचीं नात अशें दिसता तुमकां? हांव सांगतां, एकान एक गोरूं मरतलें. तुमचें एक वासूर उरचें ना गोट्यांत.''

आयकतलो हातांत फातर घेवन ताचे फाटीक लागलो. तो धांवन गेलो. तो धांवन वचून कांट्याच्या कवंजी रुखार चडून बसलो. तो फाटीक लागिल्लो तो हो कांट्या रुखार कसो चडलो म्हण चिंतीत परत आयलो.

सांज जावपाक एक हवाय पुराय गांवभर पातळ्ळी. घराघरांनी पावली. ती कोणें पातळायली, कशी गांवांत पावली, कोणाक कळ्ळें ना. जो तो हुसक्यान एक दुसऱ्याक सांगतालो, 'फाल्यां सकाळीं पाखले गोंय पाटणांत वचून व्हडल्या घरच्या अंमलदाराक घेवन येतले खंय. येवन ते देवस्पण केल्ल्या सगळ्यांक बांदून व्हरतले खंय.'

आदोळशेकार केन्ना गोंय पाटणांत पावल्यार कोणय ल्हवच कुरू करून कानांतच तांकां सांगतालो, 'तें चय व्हडलें घर. धर्माआड गेल्ल्याक हिंगाच हाडून भितर उडयतात.' तो सांगपी तेवटेन बोट लेगीत दाखोवंक भियेतालो.

मात्सो काळोख पडटकीर वेंटू नायक दियस उठलो आनी बाबलीगेर गेलो. बाबली खबर आयकोन हांथरुणार तटास बशिल्लो. संकस्ट आयलां, पूण कितें करचें सुचनासलें. वेंटून बाबलीक सांगलें, ''हांव आतां जाण्टो जालां. जिविताचे राटावळींत आनी ह्या दोनतीन वर्सांच्या दगदग्यान थकलां हांव. काल हांव देवाचे जोगोवणेक पावलों ना. बरें जालें काय वायट जालें कळना. पूण तुमी आतां अशे अवसानखत जावन हात कांबरून बसूं नाकात. एक वटेन गांव सोडून भायर वयचें न्ही म्हण तेणी फर्मान काडलां. दुसरेवटेन फाल्यां घडये ते तुमकां सगळ्यांक धरून व्हरूंक येतले. मोट्या कचाट्यांत सापडायला.''

वेंटू नायकान मर्दीच आवाज धीट करीत म्हटलें, ''बाबली, तुमी सगळे हो गांव सोडून काळखांत आतांच्या आतां चलूंक लागात. ह्या गांवांत आतां राम उल्लो ना.

फाल्यांचो सुर्या पळोवंक हांगा रावशात तर तांच्या काळख्या कुडींनी वचून बसचें पडटलें. चलात तुमी, लागात चलूंक. तुमचीं मरणां आमी पळोवचीं न्हू."

बाबली सट्करून उठून उबो रावलो. तो तसोच धांवत धांवत लवू नायकागेर गेलो. थंयसान जिबलो नायक, रवळू नायक, आपा नायकागेर. आपा नायकाच्या व्हडल्या पुताक धांवडावन ताणें सुर्या गुरवाक आनी आबू मिराशाक सांगणें धाडलें. बाबली नायकान धांवन वचुंया म्हण सांगतकीर सगळे इतले भियेले, दोन तीन घरांत तर बायलांच्यो भुरग्यांच्यो बोबो पडल्यो. पूण तांणी तांकां थातारलें. पुरसो नायक दियेसान म्हटलें, "देवा, हांगाचीं हीं मुळां हुमटून घेवन आतां खंय वयतलों आनी खंय व्हरून पुरतलों!"

पायक नायक दियेस कसोच घर गांव सोडूंक तयार नासलो. म्हणूंक लागलो, हिंगाच मरतलों. लवून ताका म्हटलें, "हिंगा तरी तुका खंय मरूंक मेळटलें? फाल्यां सांजमेरेन बांदून व्हरतले किरवडे बगर."

ल्हवल्हव सगळ्यांकच फाल्यांच्या अरिस्ट संकस्टाची सुलूस लागली. घरचीं बायलो भुरगीं तर चडच भियेवन गेल्लीं. तांणी गडबड घालीत साटल्यो पोटल्यो बांदल्यो. चार पांच कुडव तांदूळ, आंगावेलीं वस्त्रां, शेनरी, चार आयदनां, आशिल्लो इल्लो पयसो आटको जाल्यार एकदोन भांगराच्यो वस्ती. ह्या वाड्यावयल्या बायलांसरीं जण एकलेकडेन ल्हान व्हड एक तरी भांगराचें गांटुलें आसलें. सात पोवनां धरून एकवीस पोवनां मेरेनचे. जिच्या गांटुल्याक पोवनां चड ती व्हडल्या मानाची. तिचो झेतय चड.

सारक्के धा वरांचेर ते साटली पोटली बांदून तयार जाले. तेदसर देवूळवाड्या वयल्यान सुर्या गुरव आनी आबू मिराशीय आपल्या बायल भुरग्यांक घेवन येयले. ते येतना गोरवांकय गोट्यांतल्यान सोडून घेवन येयल्ले. गोरवांल्या खुरांचो आवाज ते शांततायेंत चडच व्हडान येतालो. ते गोरवां घेवन येयल्ले पळोवन नायक दियसांनी तांकां म्हटलें, "हंयच्यान आतां बेगीन धांव मारूंक जाय मेळटा ते वाटेन. न्हंयेसरीं व्हडयो आसल्यार व्हड्यान लेगीत. गोरवां आनीक खंय घेवन वयतलो?"

ते सरसरीत घरांतल्यान भायर पडून वाड्या भायर आयले आनी मेकळ्या शेतांतल्यान चलूंक लागले. गुरव, मिराशालीं साताठ गोरवां एक पंगड करून वंयेसरीं उबीं आसलीं. काळखांत तीं सगळीं काळींच दिसताली. जाग्यावयलीं हालनासतना वयतल्या तेंचेवटेन तोंड करून उबीं आसलीं. मदींच भियेवन हुंकारिल्लेवरी करतालीं. सुर्या गुरवान दोळ्यांत उदक हाडून म्हटलें, "म्हजीं मायेचीं गोरवां, खावड उदक ना जावन तडपडून मरतलीं."

रवळू नायक दियेसान तशेंच ओल्या ताळ्यान म्हटलें, "तुजींच गोरवां? आमचीं

नात? भरिल्ले गोठे तशेच सोडून येयल्यात. कोण तरी हामडून व्हरतलो. व्हडली संपद ती धरतरेवयली. मेळ्ळ्यार कोण वाऱ्यार सोडचो ना.''

येदोळ ते घरांतल्यान भायर सरतना वाड्यावेलो कोण कोण - भाव, बापोलभाव, दायजी दोपूनशे दारांत येवन उबे राविल्ले तेन्ना तांणी तांकां दामिल्ल्या आवाजांतच म्हटिल्लें, ''आमचीं गोरवां वासरां मात्शीं पळयात. येयल्यार येयले. ना तर तीं तुमचीं. उदक सोडूनच वयतात.''

शेतांत पडिल्लो शेणा थापो कोणें उखलून व्हयल्यार झगडूंक येवपी हे लोक गोठोभर गोरवां आज तशींच सोडून वयताले !

णव घराब्यांचे वट्ट पन्नाशेक लोक. ते इतले सरसरीत चलताले, एक अख्खो पोंवो काळखांत धांवता असो दिसतालो. कोणाल्या आंगार भुरगें, कोणाल्या खांद्यार तकलेर पोटल्यो. दांत चाबून धापेत फक्कत पयस पयस धांवप. संकस्टापसून पयस, मरणापसून पयस! मदींच फाटीं वळोन पळयल्यार पुराय गांव काळखाचे व्हाणींत गावला आनी काळखा वांगडा पयस पयस व्हांवन वयता अशें दिसतालें.

आतां ते बरेच पयस पाविल्ले. व्हाळासरीं पावतकीर तांणी पळयलें, दोन काळ्यो आकृत्यो. एक उबो उंच मनीस. कमरेची तरसाद कुशीक सरिल्लीशी. एक घोडोसो. घोड्याली कानी हात वयर करून त्या मनशान धरल्या. दोगय चलतच वयतात. पळोवन हो धांवन वचपी पोंवो एके सुवातेचेर चोमो करून थारलो. काचाबूल जावन ताचेसरीं पळयत रावलो. तांकां दिसलें, त्या घोडो घेवन वचपी मनशान मात्शें थारून आमकां पळयलां. पूण तो ओगी चलूंक लागलो, सरळ वाटेन. तो मदींमदीं फाटीं वळोन पळयता काय तसोच सरळ वयता, कांय्च कळनासलें. एक उंच जनावर ताचे वांगडा. केन्ना केन्ना ताचे सावळेंत तो लिपिल्लेवरी जातालो. मुखार तर तो दांग मारून घोड्यार बशिल्लेवरी दिसलो.

आतां ते सगळी शक्त एकठावन भुरगीं, साटल्यो पोटल्यो घेवन झुटासून चलूंक लागतात. शिरदोणचे न्हंयेवाटेन. परत एक फावट व्हडेकारांलो धंदो बरकतीक पाविल्लो. गोंयसान ह्या ना त्या कारणान, चड करून इन्क्विझासांवाच्या भंयान, धांवन वचपी लोकांक भरमसाट दुडू घेवन ते जाय त्या ठिकाणार व्हरून पावयताले. फक्कत रातचे. हे व्हडेकार दीसभर बेठेच न्हंयेतडीर, न्हंयेमदीं गणमणत रावताले. नुस्तेंय धरताले. रातचे मात तडीक येवन रावताले. शिरदोणच्यान कारवारा व्हरून पावोवंक ते साठ शेराफींय ना तर दोन पोवनां भांगर घेताले. एक फावट अघनाशिनीचें तोंड बलांटलें म्हणटकीर कसलीच भिरांत नासताली. रातचे चड करून सोल्दाद न्हंये मदीं येवन व्हडें आडायनासले. पूण व्हड्यार चडटना, व्हडें काडटना गावल्यार मरण आसलें. मांडवी न्हंयेंतल्यान धांवन वचचे परस अघनाशिनी न्हंयेंतल्यान धांवन वचप

सुरक्षीत आसलें. मांडवी न्हंयंत आदालशाची पलास, रायबंदर धरून गोंय पाटण मेरेन रातदीस सारक्की येरादारी चालू आसताली. अघनाशिनी न्हंयंतल्यान चिखली गांव एक फावट फाटीं पडलो म्हणटकीर मुखार दरयाच्या तोंडामेरेन जितो जीव नासलो.

जिबलो नायक दियेस तिशेक वर्सांचो आसलो. तांबशा रंगाचो. लांब बारीक आंगलोटाचो. तकलेक तांबडो रुमाल आनी मुंजीक कास्टी. खांदार कांबळ. किरिस्तांव जातकीरय तोच भेस. तागेलें आठ वर्सांचें एक चेडूं आसलें. आनी मदीं दोन भुरगीं मरून उपरांत जावन उरिल्लो एक देड वर्सांचो चेडो. चेडूं आवयल्या हाताक धरून चलतालें. चेड्याक जिबल्याले रांडाव भयणीन खांदाक मारून घेतिल्लो. जिबल्याली ही व्हडली भयण. घोव मरतकीर कुळाराच येवन राविल्ली. भावान तूं गांवांतच राव म्हटल्यार ती कशीच आयकनासतना तांचे वांगडा येयिल्ली.

चलतां चलतां पुर्सो दियसान बाबलीक म्हटलें, ''त्या व्हडल्या घराचे तापत्रय हेचेपरस चड आसतासले?''

लवू दियेसान सांगलें, ''अशें तशें गांव घर सोडून वयचेंच आसलें. एक फावट गेलो म्हणटकीर परत येवप कठीणच. हिंगा मेले तरी मळबापोंदा पडून मरूंक मेळटलें.''

मुखार मुखार खडपां, शेंकऱ्यांतल्यान, कांट्याकुट्यांतल्यान पावलां इतलीं ल्हव पडूंक लागिल्लीं. दर एक पावल दुखीन रडटा अशें दिसतालें. काळोख झाडां-पेडांवयल्यान, दोंगर दोंगुल्लेवयल्यान देंवन पुराय धर्तरेर पातळिल्लो. मळबांत नखेत्रांची रास, पयस अस्तमतेक क्रशण पंचमेची इल्लीशी चंद्रकोर. तांचो दुबळो उजवाड जसो काळोख दावखुलां मारून परतितालो. तांकां चलतना सारक्कें दिसत रावतालें, कोण तरी आमचे फाटीक लागल्यात, आमचे फाटल्यान कोण तरी सारक्के येत आसात! पूण फाटीं वळोन पळेल्यार कांय दिसनासलें, सुलूस लागनासली. तरीय भिरांतेचीं म्हारवां फाटीक लागिल्लीं.

देड वर तरी सारक्के धांवत चलत ते शिरदोणां न्हंये तडीर येवन पावले. ते तडीर येवन उबे रावले थंय दोन व्हडीं मांगरून दवरिल्लीं. सकल आनीक एक व्हडें आसलें. तेतूंत कांय धवाडीं मनशां बशिल्लीं दिसतालीं. तडीर येवन पावतकीर तांकां जीव आयल्लेवरी जालो. बाबलीन एकदम गडबड घालीत तारवाक म्हटलें, ''हंयसान खंयतरी व्हरून पयस पावयात. दुडवांचें चिंतूंक नाकात. जीव आसल्यार दुडू. तुमी मागतात ते दितात.'' एकेका व्हड्यांत तीग तीग व्हडेकार बशिल्ले आसले. काळ्या व्हड्यांत ते काळशे मोटवे तारये. मोटवीच कुंयाकाठी. ताचें कवळिल्लें भरड शीड. ताका दिसलें हें आनी अबरगत व्हडें ह्या दरयापार आमकां खंयं व्हरून पावयतलें!

तारयान म्हटलें, ''बसात.'' ते उठून बाणीर येवन उबे रावले. एकलो मात कुंयाकाठयेसरीं शिडाचें आडें धरून उबो. तांणी परत म्हटलें, ''बेगीबेगीन येयात.

कोणय येवचे पयलीं व्हडें काड्टंक जाय. मेळ्ळयार आमकां पयलीं फांग पडटलो. जिवानशीं मरतले आमी.'' लोकान बारीक पळयल्यार ते तारये ह्या गांवचे न्ही. तांची भास्स्य तांकां नीट जुळना. फक्कत धंदो करूंक भायल्यान येयल्ले. कोणय आसूं, तांकां एक फावट पयस वचून पडूंक जाय आसलें.

उदकांतल्यान बरेच चलून वचून व्हड्यांत बसूंक जाय आसलें. तांतूंत आनी पायांपोंदांत धांपरभर चिखोल. काळजांत अंतपार नाशिल्लो खपखपो. पांयापोंदा चिखोल, उदक, उदकाची व्हाण आनी चोंयवटेन काळोख. काळोखय असो भूत कसो, सगळें दिसतालें - व्हडयो, मनशां, मनशांल्या तकलेवयल्यो पोटल्यो, हांडीवेलीं भुरगीं... पूण फक्कत काळ्यो आकृत्यो. लागींच्यानय वळखदेख मेळना जाल्ल्यो. फकत अदमासान गांठी घालच्यो.

आपल्यो पोटल्यो तकलेर घेवन जो तो चिखलांतल्यान पांय ओडत वचून व्हड्यांत बसतालो. आपल्या मनशांक सोदतालो. इतली ताकतीक लागिल्ली, तकलेवयली पोटली व्हड्यांत उडयतालो आनी बाणीक धरून सोताक वयर घालून घेतालो. कोण फाटीक लागिल्लेवरी, आत्तां व्हड्यांत घालून घेतलेंना तर मानेर सुरी पडटली अशे भिरांतेनशें.

दोनय व्हड्यांत करून बरेचशे लोक बशिल्ले. तडीर आतां फक्कत चार पांच जणच उरिल्ले. जिबलो हेरांल्योय पोटल्यो व्हरून पावयतालो आनी तागेली बायल गौराय तडीवयल्यो आपल्यो पोटल्यो धरून उबी आसली. लवू आपली निमणी पोटली व्हरूंक येयल्लो. सुर्या गुरवाले बायलेल्या आंगार सामकें सान भुरगें आसलें. ती जिवानय बरी नासली. घोव आपणाक धरून व्हरतलो म्हण ती वाट पळयत तडीर आसली. तो आत्तांच निमणी पोटली घेवन गेल्लो.

इतल्यान तारयान पळयलें, मुखावेले उबारेवेल्यान धा पंदरा जाण धांवत येतात. मोटे सुटिल्लेशे, आंगभर कितें खोवयल्लेशे, तकलेक चेपीं. तारयान धवशा काळखांत ज्युस्त वळखलें, ते सोल्दादच म्हण. तांणी एक दुसऱ्याक बोवाळ घालीत शिटकायलें, ''येयले, सोल्दाद येयले. लागीं पावले. काडात व्हडें.''

हातांत तावजी कोंडे आशिल्लेच. तांणी ते एका खिणांत तळाक लायले आनी सगळी शक्त लावन व्हडयो उदकांत धुकल्ल्यो. सोल्दाद आतां सामके लागीं पावल्ले. ते आड्डताले, ''कोण एकलो मुखार वचूंक फावना. मरतले तरसादेन.''

सुर्या बायल एकदम भुरग्यासयत उदकांत देंवली. ती पांय ओडत व्हड्यावाटेन धांवंक लागली. सुर्यालो एक पांय व्हड्यांत तर दुसरो पांय उदकांत. तो बाणीक धरून हुमकळत आड्डतालो, ''भागी यो, यो.'' कांय खिणांतच व्हडें इतलें मुखार खोल पाविल्लें, ताका बाणीक धरिल्लो हात सोडचो धीर जालो ना. भागी भान सुटून चड

खोल पावलें. चिखलांत ताचो पांय निसल्लो. तें मुखार पुरूसभर उदकांत भुरग्यासयत पडलें. आपली बायल आनी भुरगें उदकांत बुडटात तें पळोवन सुर्या व्हडाव्हडान रडूंक लागलो.

लवू व्हडें कशेंय करून धरचें म्हण उदकांत देंविल्लो. पूण व्हडेकार व्हडें ओडून इतल्या ओगान व्हरतालो, ताका तें धरूंक मेळ्ळें ना. ताच्या बायल भुरग्यांच्योय व्हडान बोबो आनी हुयेल्यो.

सोल्दाद मुखार पावतकीर जिबलो मात उदकांत देंवचे बदलाक बायलेचो हात धरून तिका घेवन वचून कुशीचे रुखावळींत रिगलो. रुखावळ गच्च काळी, सकल उदक आनी चिखोल.

सुर्या बायल आनी तिगेलें भुरगें बुडून मेलें. उदकांत देविल्लो लवू नायक परत तडीर येवंक सोदतालो तो सोल्दादांल्या हाताक मेळ्ळो. थंयच ताचे हातपांय तांणी दोरान बांदले. जिबलो आनी तागेली बायल रुखावळींत रिगून पयस पयस धांवन वचूंक लागिल्लीं.

सोल्दाद आड्डून आड्डून व्हडेकाराक परत आफयताले. पूण तीन व्हडयो एका फाटोफाट एके धारेक लागिल्ल्यो. काळखांत बुडूंक लागिल्ल्यो. व्हड्यांतल्या लोकांचें रडप मात अजूनय आयकोंक येतालें. सुर्या गुरव, लवू नायक आनी जिबलो नायक हांच्या तीनय घराब्यांचे लोक तकलेर हात मारून रडटाले. लवू नायकाली बायल आपल्या चारय भुरग्यांक घेवन न्हंयंत हुडी घेता म्हणटाली आनी परती परती उठ्ठाली. जिबल्याले भयणीक तर जिवच नासलो.

जिबल्यालीं दोगांय भुरगीं आनी रांडाव भयण व्हड्यांत गेल्लीं आनी तीं घोव-बायल हे रुखावळींत रिगिल्लीं. बायल मदींच घोवाक धरून रडटाली. घोव मगेर तिच्या तोंडार हात दवरतालो. कांय वेळान तीं ते रुखावळींतल्यान भायर सरलीं. तेवटेनच्यान एक बांद, एक व्हाळ बळांटून दुसरे एके दोंगुल्लेर आशिल्ले रुखावळींत रिगलीं. थंयच तीं रातभर सुलूस घेत बसून रावलीं.

जिबल्यान बायलेक सांगलें, "सकाळीं उठून हेर खंयचेय वाटेन चलून, जाल्यार व्हड्यान कॅनरा मेरेनची पुराय दरया देग सोदत वयचें. हांव म्हज्या भुरग्यांक, म्हजे भयणीक सोदून काडले बगर रावचों ना."

बायलेन रडत म्हटलें, "कितें आसा आमचेसरीं? पानदुडू नासतना खंय वयतले आमी?"

"तूं वोगीच राव. कशीय मेळटली मुखाल्ली वाट." भुरग्यांले, भयणीले यादीन जिबल्यालें मन कळवळटालें. पूण यत्नान तो सगळे वोग दामून धरतालो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं उठून दोपत सुलूस घेत तीं न्हंये तडीर आयलीं आनी

तारींतल्यान न्हंय बळांटून सांखवाळ येयलीं. तारयान 'कितेंय उडय' म्हटल्यार जिबल्यान म्हटलें, ''पळोन येयल्यात गांव सोडून.'' तो बायलेक घेवन सडसडीत चलूंक लागलो.

सांखवाळसान चलत तीं इसोर्सी-खोल पावलीं. खोला एका घरा सामकार भिकाऱ्यांसारकीं उबीं रावन, 'भूक लागल्या. कितेंय आसल्यार आपणाक घालात' म्हण तांणी मागलें. एका व्हड पणसा पोनाक ल्हानशेंच घर. तातुंतल्यान एकलो जाण्टेलो भायर येयलो. तो तांकां शेजाऱ्यागेर घेवन गेलो. वयतना ताणें म्हटलें, 'तो म्हजेपरस ल्हान. तेगेल्या हेका म्हज्यान जेवं नज.'

शेजाऱ्यागेर कोण कोण भितरल्यान येवन भायर आंगणांत तोंड धुताले. थंय तीगचौगजाण लिप्प केंस ताशिल्ले वावुरताले. तुळशीसरीं एका फुटिल्ल्या केळीपानार शिता गोटे, फुलां, पिनर, दर्भाकाडी पडिल्ली. जिबल्यान वळखलें, ही बाराव्याची जेवणावळ! त्या जाण्टेल्यान केंस ताशिल्ल्या एकल्याक म्हटलें, ''पळय हे वाटसुरे आक्षोवणें धाडिल्लेवरी पावल्यात. वाटसुऱ्यां सारको व्हड सोयरो, व्हड जेवणकार दुसरो ना. जात पत मागीर विचारची.''

तांणी तांकां पत्रावळी हाडून वासरेंत दिल्यो. तीं मात्तूय अनमननासतना पोटभर जेवलीं. परत येतकीर जिबल्यान जाण्टेल्याक सगळी खबर सांगली. जाण्टेलो कांय वेळ वोगी रावलो. मगेर ताणें म्हटलें, ''हेवटेच्यान कितलो लोक कंगाल जावन धांवन गेलो हाका गणती ना. आतां हें एक पेणेंच जालां. सांखवाळचो दोंगर देंवप आनी वेळसांवसान व्हडें करून दिगंतराक वचप.''

''आमची गजाल वेगळी तातो. भुरगीं शेणल्यांत. खंयचे तडीक लागतलीं, खबर ना. कसोय करून सोद घेवंक जाय.''

''सास्टींतय अच्छेव येयला. त्यो व्हडयो सास्टोचे तडीर लागींपयस खंयच्याच गांवांत लागच्यो नात. बेतूल, खणगिणी बळांटून वयतलेच ते.''

मुखाल्ली आनीक म्हायतती विचारतकीर त्या जाण्टेल्यान सांगलें, ''तुमी वेळसांव सान एक चोळको बीन करून बद्द बेतलांत वचात. मगेर थंयसान चलत दरयाची देग धरुनच पाळवळेंमेरेन वचात. मेळटले ते. तुमी फाटीं आसतना तुमचीं मनशां चड पयस वचून देंवचीं नात.''

''आमकां सोल्दादांनी धरून व्हयले असोच समज जाल्लो आसतलो तेंगेलो. फाटली आस्त सोडूनच गेल्यात ते.''

''मेळ्ळ्यार नशीबच म्हणचें न्ही!''

''आमचेसरीं ना पानदुडू. सगळे व्हड्यांत गेले. मुखार कशे वयतले रे देवा आमी!''

जाण्टेलो कांय उलयलो ना. तो असो उंच आनी बारीक सुकिल्लेवरी आसलो. खाडाचे, तकलेचे केंस वाडिल्ले. कमरावयली कास्टी, तकलेचो तुवालो भोवच म्हेळ जाल्लो. ते रातीक ते थंयच रावले. घरांत काळोख रिगलो तरीय कोणें दिवो लायलो ना. घरांत सावळ्यो कशो दोगी बायलो आसल्यो. मदींच तांचें ल्हव आवाजांत उलोवप आयकोंक येतालें. पूण त्यो घरांत काळखांतच वावुरताल्यो.

जिबलो दियेसान विचारलें, ''घरांत आनीक कोण आसात गा?''

''घरांत आसात दोगी रांडाव सुनो. फाटले जोरींत म्हगेले दोगय पूत आनी बायल मेली. सुनांक तुमच्या कुळारा वचून रावात म्हण धांवडायल्लीं. पूण गेल्यो नात त्यो. तेंचें नशीब तेंचेकडेन! रांडावपण येयल्लें तेन्ना दोगांय अबुद्द बाळकां कशीं आसलीं. जोरींत दर घरांत एकलोबीन मेल्लो आसत. पूण आमच्या घरांत तीन मडीं पडलीं. चवदा वर्सां जालीं, सुनो घोवाले चितेर सोताक लासून घेतात दर दिसा.''

जाण्टेल्यान तांकां एक शेनरी हाडून दिली. ती तांणी लोट्यार पातळायली. जिबलो आड पडलो. बायल रडत बरोच वेळ बसून रावली आनी मगेर थकून लवंडल्लेवरी तिवूय आड पडली.

सकाळीं नसकाक तांणी तांकां पेज करून पत्रावळेच्या दोण्यांतल्यान वाडली. मगेर तांकां घेवन जाण्टेलो अर्दवर तरी चलत वेळसांव दरयार येयलो. थंय ताणें एक चोळको थारायलो. पांच कुडव भात दितां म्हण उतर केलें. जाण्टेल्यान म्हटलें, ''हेंकां बेतलां व्हरून पावय आनी परत येवन पांच कुडव भात घेवन वच म्हगेल्या घरासान.''

जिबलो दोळ्यांत उदक हाडून जाण्टेल्याक पळयत रावलो.

खारव्यान तांकां चोळक्यांत बसोवन ल्हार चुकयत व्हडें दरयांत धुकल्लें. चोळक्यार देड हाताचें शीड उबें केलें. चोळको नेटान वचूंक लागलो. वेळेर उबो आशिल्लो जाण्टेलो जिबल्याक चड बागवल्लो, चड जाण्टो कसो दिसलो. घरांत दिवो लावंक थेंबभर तेल ना, पूण कितलें केलें पळय हाणें!

चोळको वाऱ्याच्या नेटार आनी व्हल्याच्या नाड्यार सरसरीत वयतालो. जिबल्याक आनी तागेले बायलेक केन्ना एक फावट आमी बेतलांचे तडीर घालून घेतात आमी मुखार धांवंक लागतात अशें जाल्लें !

देमू गुरव फेर्रांवालो धाकलो भाव बामू गुरव फेर्रांव रामनाथा देवूळ पाडतसान घुंविल्लेवरी जाल्लो. ताचें पुराय भुरगेपण देवळाच्या लोट्यांनी नाचत खेळतच गेल्लें. देवाचे तळयेंत ताणे सूर मारिल्ले. थंयच्या रुखांनी तो सवंगड्यां वांगडा आपालिपा खेळिल्लो. देवळाच्यो आरती आनी तीर्थप्रसाद, गायनां आनी मंत्रां, समराधना आनी

जत्रा हांतूंत तो पुराय बुडून गेल्लो. तांतूंत एकरूप जाल्लो. देवळांतलीं कार्यां म्हटल्यार ताका भोव उमेद, देवाचेर अतोनात भावार्त. संवसारांत वा देवळांत देव आसा असो प्रस्न कोणेंय विचारल्यार ताका दिसतालें, कसलो भारी पिशेपणाचो प्रस्न विचारता हो! हो देवळांतलो देव दोळ्यांमुखार दिसतना असो कसो प्रस्न विचारलो हाणें, तकली पाड जाल्लेवरी !

देवूळ मोडूंक देवळार चडल्यात म्हण आयकतकीर ताणें एक किळांच मारिल्ली आनी तो देवळासरीं धांवन येयल्लो. देवळार चडिल्ले ते चाळीस पन्नास लोक पळोवन ताची वाचाच बशिल्ली. गेल्लें वर्सभर मोनेळ कांबरून घेवन आसलो. घरच्यांक घोर लागिल्लो, कितें करचें, खंय व्हरचें! घाडी जोयशी तर करूंक फावनासले. थर्त भियेताले. करणी परतितले, गिऱ्यांची सावळ काडटले, तकलेवयलो म्हारू धांवडायतले गांवागांवांनी आसले. पूण तांचें नांव काडूंक फावनासलें. तकलेवयल्यान सादी मिरसांग हुंवाळून इंगळ्यार उडोवंक लोक भियेतालो. भायर श्वास सुटून कोणें घात मारल्यार? घरच्यांनी ताका देवाच्या नांवार सोडून ते वोगीच रावले.

शिगम्याची घुमटां शेमळीची सुंवारी, तोणयां खेळाचीं गायनां कानांत घुंवंक लागलीं आनी ताणें परत एक फावट कात उडयली. आतां तो सदां सकाळीं उठून हातांत कोयती घेवन दोंगरांत वयतालो. दनपारां पुरो जावनसो, आंगाक धींक पाक लागिल्लोसो जावन परतो येतालो. घरच्यांनी म्हटलें, खंय मन लागता थंय लागूं दी. सकाळीं घरांतल्यान भायर वयता हें कांय वायट न्ही. हातूंतच निवळ्ळ्यार निवळ्ळो.

एक दीस बामू कोयते वांगडा पारय घेवन गेलो. घरच्यांक अजाप. कितें करता हो, कितें चल्लां हाचें! पूण दनपरां सदचेवरी तो कोयती पारय घेवन परत आयलो.

अशे सारक्के अठरा दीस तो सकाळीं उठून रानांत वयतालो. आतां आतां तो उमेदीतसो दिसतालो. घरांत बेस खातालो, जेवतालो. एक दीस तो उलयलो. म्हणूंक लागलो, 'आतां सगळें भरून वयतलें. संकस्टां, मोडां पयस वयतलीं. तेका उबो केला. ह्या वर्सा शिगमो खेळचोच.'

आनी एक दीस ताणें न्हावन धुवन माळ्यार घालून दवरिल्लो देवापुजेचो चोबो काडलो. तातूंत साण, गंधाकांडी, फुलां, पिनर, उदकाचो तांबयो, आरतीक कयपंजी, घांट घातली. ती तकलेर उखलून घेवन तो चलूंक लागलो. इतलो वेळ काचाबूल जावन पळोवपी घरांतले लोक एकदम शादूर जाले. व्हडान उलोवंकूय फावना. तांणी बेगीबेगीन वचून तागेल्या भावाक देमू गुरव म्हर्रांवाक आफयलो. तो वोग्गी ताचे फाटल्यान चलूंक लागलो. 'हो खंय वयता तरी पळोवया. कितें हाचें नाटक कांयच कळना.' दोंगरार खूब भितर रुखावळीचे असकडांत बामून आपलें एक देवूळ उबें केल्लें. चार वांव लांब तीन वांव रुंद. स मेडीचे आनी तीन आड्यांचे. ते नव्या भांगरा

वर्णाच्या करडान सोबीत शिंविल्ले. मदीं कोंड्याच्या कामठान विणून ल्हान एक गर्भकूड उबी केल्ली. ताका कोंड्याचो दरवाजो आनी कामठ्यांचेंच दार. गर्भकुडींत एक काळो उबो फातर पुरिल्लो. ताका मुर्तीवरी हयन्हीशें कपल दोळे तोंड आसलें. आनी देवळा मुखार पिंपळा पेड. खंयसानतरी एक पिपळाचो रोपो सोदून हाडिल्लो. तो उदकान शिपिल्लो. ताचे भोंवतणीं ल्हानशेंच पेड बांदिल्लें.

पळोवन देमू आड्डलो, ''पापया बामू, हें कितें आडायलां तुवें? अशान मरतलो तूं! हें बरें पिशें तुजें. ह्या उज्यांत आनी देवूळ बांदता!'' ताणें ताच्याच चोब्यांत आशिल्ली कोयती घेतली आनी 'देवळा'चे पास कच्कच् करून कापले. एक आडें हातान उखलून सकल उडयलें. मगेर सगळेच सकल येयलें. ती खोंप मोडली. ताचे मुस्तायकेची एक रास घातली. वयल्यान करड उडयलें. देवापुजेच्या सामानाचो चोबोय ताचेर दवरलो. तातूंतलें कांयच कांडून घेतलें ना. चोब्यांतच उज्यादाणयेंत पेट्टे इंगळे आसले. ते ताणें करडार घालून ते राशीक उजो दिलो. करड पेटूंक लागलें. मगेर देमू गुरवाचें लक्ष गेलें तें उबो केल्ल्या फातराचेर. ताणें तो फातर उखल्लो आनी खांदार घेतलो. तो तसोच पयस घोलींत उडोवन तो परत येयलो.

बामू गुरव सगळें वोग्गी तटास पळयतालो. घुम्म मोनो. तोंड, दोळे जशे फातराचे. जसो तो त्या उज्याचे राशीर उबो रावनय थंड शांत! उपरांत तो तसोच सकल देंवन आयलो. येतना ताणें तोंडांतल्या तोंडांत इतलेंच म्हटलें, ''फातर लासपीच तुमी. तुमच्यांनी काळीज खंय लासूं येता!''

देमू खोंपीचे मुस्तायकेचो लासून गोबर जाता म्हणसर कांय वेळ थंयच रावलो. पंचधातूंची कयपंजी उज्यांतल्यान कुशीक पडिल्ली. ती उखलून घेवंकय देमू गुरवाक भिरांत दिसताली.

ते रातीकच बामू गुरव फेर्रांवान दोंगराकडेच्या एका रुखाक गोळ घेवन जीव दिलो! कारण ताचें दुसरें देवूळ तागेल्या भावानच मोडिल्लें!

गुणा, राया, शाबी सोल्दादांले पांय कातरून गांवच्यान धांवन वयतकीर शाबीलो आजो देवू एकलोच फाटीं उरिल्लो. एका हटानसो, एक पिशांतूर कांबरूनसो तो एकलोच घरांत वावुरतालो. सकाळीं पेजेचो बुडकुलो चुलीर चडोवप आनी उजो सारीत बसप. पेजेच्या खतखत्याचो आवाज मज घेवन वर वर आयकत रावप. तीच दीसभर घोंटत रावप. केन्ना मदींच कोण नाशें पळोवन बडी तेंकत वयतालो आनी कोणाल्याय आळ्याचें गोसाळें, पडवळें, वायंगें तुटोवन हाडटालो आनी भाजून पेजेवांगडा खातालो. कोणय बायल विचारूंक येयल्यार हो हातांतली बडी नाचयत

तिचेसरीं झगडूंक लागतालो. तापून आडमुठेपणान केन्ना म्हणटालो, ''रांडे, म्हजेर चोरयेचो आळ घालता? तूं हड्ड्यार हात मारून सांगशी तुगेलीं सगळीं भुरगीं तुज्या घोवालींच म्हण?''

ती बायल मगेर रागान दांतओंठ खाताली. कमरेन बागवल्लो, कातीचीं खवळां जाल्लो जाण्टेलो, उलयतलो तरी कितें! ती चडफडत केन्ना बोब मारीत, केन्ना वोगी परत् वयताली.

मदींच तो बडी तेंकत दोंगरावटेन वयतालो. दोंगरांतले वाटेन दोंगरांत रिगतालो. कोणेंय वाटेर 'खंय वयता देवू आज्जा' म्हण विचारल्यार म्हणटालो, ''वयतां खेळा मांडार खेळूंक. देवसभेंतल्यो रंभा रावतात थंय म्हाका.'' तसोच परत येतना कोणेंय 'खंय गेल्लो देवू आज्जा' म्हण विचारल्यार केन्ना तिडकीनसो म्हणटालो, ''मसणांत गेल्लों.'' एक दोन फावट तर ताणें लोकांक सांगलें, ''सगळो गांव किरिस्तांव. हांव एकलोच गाभणो सोंसो कसो वेगळो पडून कसो रावतलों? कालापूरचे इगर्जेंत गेलों आनी आंगार उदक उडोवन घेवन किरिस्तांव जावन येयलों.'' केन्ना होच देवू आंगणांतल्यान कोसळून पडिल्ले तुळशीचेर तांबये तांबये उदक रकयतना दिसतालो. एक दीस वाड्या कुशीच्या बरम्यासरीं गेलो आनी बरम्या फातराक सान भुरग्यावरी सांसपीत म्हणूंक लागलो, ''हो सर्पान चाबून हांगा मेल्लो बारमण आपलें वीख देंवचेली वाट पळयत आसा. सगळेच किरिस्तांव जाल्यार तेचें वीख कशें देंवतलें? म्हण आसां हांव दीस मेजत.''

गेल्ल्या वर्साक ताचें घर शिंवंक नासलें. कोलू कुसून पाख्याक बोते पडिल्ले. गेल्ल्या वर्साक गांवकार घरां शिंवंक लागिलले तेन्ना एक तर ताचेसरीं घर शिंवंक तणशिवड नासलें. गांवकार तागेलें घर शिंवंक येतकीर ताणें तांकां धमकायलें, ''कोण एकलो म्हज्या घराच्यां पाख्यार चडचेलें काम ना. आमी आतां मेल्लीं मडीं. तेका आतां लेप थापून कितें जातलें?'' मगेर ताचें घर शिंवचें तशेंच उल्लें. बोत्याबोत्यांनी घर झळकतालें. तांतूंत तो केन्ना कुल्यान सरकूनसो भोंवतालो. दारांतल्यान तोंड भायर काडून भायर पळयत रावतालो. घरा मुखावयल्यान कोणय गेल्यार केन्ना विचारतालो, ''गेलीं तीं देवळामळार खुर्सादेव घेवन येयल्लीं मनशां?''

वयतलो मगेर व्हडान म्हणटालो, ''तुका बाटयले बगर तीं वयचीं नात देवू आज्जा.''

''हांव केन्नाच बाटून न्हावन धुवन बसलां.'' ना तर तो केन्ना म्हणटालो, ''म्हाका बाटोवंक मळबांतल्यान तेंचो बापूय येवंक जाय.''

ताचें कांयच गांवाक कळनासलें. आतां आतां तो वोगीच पयसुल्लोसो, परकोसो दिसूंक लागिल्लो. त्या जाण्टेल्याचें गांवाक व्हडलेंशें पडून वचूंकय नासलें. शिरवाड्यार

आशिल्ले तरी कितले लोक आतां! सगळी पळापळ जाल्ली. आशिल्ले हुसक्यांत हुमकळटाले.

सकाळींच कुंबारवाड्याकडच्यान मडकी पेटिल्लो आवाज, घाण्यातिठ्या वयल्यान मेस्तान घण बडयल्लो आवाज ल्हवल्हव येतालो. पारपोळ गोरवां वाडोभर भोंवतालीं. तांणी वाड्यावयले कवाथे, झाडां झोपां खावन उडयल्लीं. कोणतरी गोरवांचो हिंड हामडून धांवडायतालो. हऽय हऽय धांवडायल्लो आवाज, गोरवां धांविल्ल्याचो आवाज येतालो. कांय वेळ सगळो घसघस जालो.

पूण आज देऊ आज्जाल्या घरांत कसलो आवाज नासलो. बडी तेंकून तो भायरय येयल्लो दिसलो ना. दाराभायर तोंड काडून बशिल्लोय दिसलो ना. तेगेल्या घरापसून सारक्कें तिनशें पावलांर बाळसू नायकालें घर आसलें. बाळसू बायल मोगू केन्ना दारांत उबी रावन विचारतांली, 'देवू मामो, पेजे मडकी जाली तुगेली?'

तो मगेर म्हणटालो, 'पेजे मडकी वोतली पूण तोंडाकच कांय ना.'

मोगूक सदांच दिसतालें, आपणें रांदिल्लें कितेंय ताका व्हरून दिवचें. पूण तिका घेवन वचूंकय भिरांत दिसताली. घडये तो गाळी संवतलो, तुमच्या बाटग्यांच्या हातचें खावचो ना म्हणटलो, धांवडायतलो. पूण एक दीस मोगूक ताणें उले मारून मारून आफयलें आनी आपणाक कितेंय तोंडाक हाडून दी म्हटलें. मोगून अनमनतच आदल्या दिसाचें ताल्ल्यां हुमण व्हरून दिलें. बेगीबेगीन पावळेंतल्यान तें घेवन तो भितर गेलो.

पूण आज दीसभर तो दिसलो ना. ताची सुलूस लागली ना. मोगून मनांत म्हटलें, बसलो आसतलो घरांत चुली म्हऱ्यांत पेज खतखतायत. दुसऱ्या दिसा सकाळींय तो दिसलो ना म्हणटकीर मोगू इल्लें दुबावलें. दनपरां तें तागेल्या घरासरीं गेलें. दार बेठेंच ओडून घेतिल्लें पूण देवूचो आवाज ना. ताणें 'मामो, मामो' म्हण उले माल्ले. पूण जाप ना. खंय गेलो हो जाण्टेलो! घरांत भितर वचूंक मन कचरतालें. कितलेंय जाल्यार एका हिन्दूलें घर. खरो तो बाटला काय ना तें कोणाक खबर? तें तशेंच परतें आयलें आनी घोवाक आफोवन घेवन गेलें. खिणांत वाडोभर खबर पावली. धा वीस लोक येवन आंगणांत उबो रावलो.

शिरवाड्यावयलो एक्कान एक घराबो बाटिल्लो. तातूंतले तेरा घराबे आदींच गांव सोडून गेल्ले. उरिल्ले बारा घराबे सगळे किरिस्तांव. देमू एकलोच हुमकळ्याक पडिल्लेवरी आसलो. तो हिन्दू काय किरिस्तांव हो मोटो संभ्रम आसलो लोकांमदीं. एकदम घरांत कसो रिगतलो? पातकच न्ही तें!

आफयल्यार कांय जाप नासली. मगेर लोक जनेलांतल्यान बीन भितर पळोवंक लागले. घराचीं पांखीं जमनीक तेंकूंक पाविल्लीं. भितर तर काळोख. कांय दिसनासलें. मगेर एकलो पावळे भितर गेलो आनी ताणें दांडो लावन दार धुकलून उकतें केलें. देवू

आज्जो मदल्या सालांतच ओमथो पडिल्लो. नाका तोंडार फेणेर येवन सुकिल्लो. हात कशाकशेय फापसून पडिल्ले. मगेर आनीक दोगतीग जाणांनी पावळेंत येवन दारांतल्यान पळयलें. मगेर सगळ्यांनी एकच अदमास बांदलो, देवू आज्जो घरांत मरून पडला!

आतां सगळे आंगणांत एकठांय जावन वोगी उबे जाले. कोण घुसतलो घरांत! कोण करतलो मरण! कूड कोणाची? हिन्दूची काय किरिस्तांवाची? खबर ना. दारांत खुरीस ना. घरार पाद्रीन केन्ना बेसांव घातिल्लें कोणें पळोवंक ना. तो बाळबुद्दीन जायतें उलयतालो तें खरें कशें धरचें? घरांत घुसून आमी किरिस्तांव जाल्ल्यांनी कूड उखलप म्हटल्यार मोटें पातक! जित्याक भश्टायचें पूण मेल्ल्याक भश्टावचें न्ही. सगळीं दारां बंद जातलीं.

सांजमेरेन लोक तसोच आंगणांत तकलेर घोर घेवन बसून आसलो. लोकांक दिसतालें, आतां रात जातली आनी कुडीचो म्हारू जावन घुवंक लागतलो. किळांचतलो, आमकां स्रापतलो. लोकांमदीं बाळसू दियेस, शिवा दियेस, पुतू दियेस हे आसले. वेंटू दियेस मात किरिस्तांव जायतसावन संन्यास घेतिल्लेवरी मोनेपण घेवन कुशीकुशीन रावतालो. आतांय तो पयस आमलेपोनाक चुडटां राशीर बशिल्लो. कांय वेळान तो आंगणांत येयलो. ताणें वाज येयिल्लेवरी म्हटलें, ''घरांत घुसप कठीण न्ही. येता त्या पावसांत कोसळून धरतरेर येतलेंच तें. पूण प्रेत उखल्ल्यार तेचें कितें करचें तेंच कठीण. मरण म्हणटात तें वायट. फाल्यां काळखा राज्यांत कितें घडटलें, कितें भोगचें पडटलें कोण सांगतलो? आमी किरिस्तांव, आमी आमकां फाल्यां खोशयेन पुरून घेवं. पूण ह्या दळदिऱ्याक पुरतलो काय लासतलो? व्हडलो पिशा सवंग घेवन बशिल्लो. भोग आतां.''

सगळे कांचवेवनशे वेंटू दियेसाक पळयताले. ताणेंच पुतू दियेसाक आनी बाळसू दियेसाक म्हटलें, ''तुमी सोल्दादांल्या राबित्यार वचात आनी त्या पाद्रीबापाक विचारात, तो किरिस्तांव जाल्लोबीन तुमकां खबर आसा काय म्हण. तेचें नांव लिखून दवरिल्लेंबीन आसा काय म्हण.''

पुतू आनी बाळसू बेगोबेग पाद्रीसरीं गेले. पाद्रीन आपली चोपडी तपासली. ताचे चोपडेंत किरिस्तांव जाल्ल्यांचीं आदलीं नांवां, उपरांत दिल्लीं नांवां, आदली जात, वाडो, पिराय बरोवन दवरिल्लीं आसलीं. पूण शिरवाड्यावयल्या देवू नायकाचें नांव खंयच नासलें. पाद्रीन दोन तीन फावट तरी बारीकसाणेन तपासलें आनी मगेर म्हटलें, ''परधर्माचो चांडाळ मनीस तो. तुमी करुंनाकात तेचें मर्ण. परधर्माच्या मनशांचीं मर्णां आतां ह्या गांवांत करूंक फावनात. हांगा आतां कोणाक लासूंक फावना.''

बाळसून म्हटलें, ''वाड्यार मदींच तेचें घर. कुसून घाणी पडटल्यो. फाटींफुडें




नाशिल्लो म्हातारो.''

''मगेर ओडून व्हरून उडयात दोंगरांत.''

''कुडीचेर गिदां पडप समा न्ही गा.''

पाद्रीन फाफुडलेंशें करून म्हटलें, ''तुमकां जाय तें करात. पूण हें निमणें. हेनमुखार वाड्यार तुमी किरिस्तांवां भायर एक मनीस दवरून घेवंक फावना.''

पुतू दियेसान चाचरलेंशें करून म्हटलें, ''एकलोच उरिल्लो तो चुकून. चड जाण्टो म्हण तसोच उल्लो...''

ते थंयसान वाड्यार येयले. मगेर आंगणांत बसून परत भासाभास जाली. ''केन्ना मरून पडिल्लो म्हण कोणाक खबर. फाल्यां म्हटल्यार पोट फुगून कुसूंक लागतलो. हात ओडल्यार हात येतलो. पांय ओडल्यार पांय येतलो.''

सातण नायकान म्हटलें, ''कितेंय जाल्यार आमचो आदलो दायजी तो. घडो फोडूंक नाशिल्लो सुतका, सुयेराचो दायजी. धर्म गेलो म्हण आमचें कर्तूबय गेलें?''

सांज जावंक आयल्ली. आतां वेंटू दियेस बशिल्लेकडच्यान उठलो. देवूले पावळेंत येवन उबो रावलो. भितोडेक तागेल्या पुतान, नातवान वचचे आदीं हाडून उडयल्ली लाकडांची एक रासच आसली. तांतूंत जांब्याचीं, माट्टीचीं खोडांय आसलीं. वेंटू दियेसान सगळ्यांक व्हडान फर्मायलें, ''लाकडां वोजीं बांदात आनी दोंगरांत वोंवळीसरीं व्हरून उडयात.''

कोण तरी कितें दुबावान विचारूंक सोदतालो ताणें व्हडान तापून ताचें तोंड बंद केलें. ''सांगतां तें आयकात. ना तर आज रातचो देवू म्हारू जावन तुमच्या दारांत बसतलो.''

धा बारा जण तरी दादले आसले. तांणी जण एकल्यान एकेक वजें बांदून तकलेर घेतलें आनी व्हरून वोंवळीसरीं उडयलें. उपरांत सगळ्यांक वांगडा घेवन वेंटू दियेस देवू नायकाल्या घरांत घुसलो. ताच्याच घरांत एक घट कांबळ आसली. ती पातळावन ताचेर कूड दवल्ली आनी दोरान कांबळींत बांदली. पासांतल्यानएक लांब घट दांडो सरकायलो. फाटींफुडें चवगान माथीं मारून कूड उखल्ली. घरांत, आंगणांत कसलें म्हण तांणी शास्त्र केलेंना. कूड सरसरीत उखलून व्हरून ओंवळीसरीं सारयेर दवल्ली. वेंटू दियेसान देवूकच म्हणिल्लेवरी म्हटलें, ''शास्त्र आनी आमी कसलें करतले तुका? उजो दितात तेंच व्हड म्हण.''

पूण आतां उजो कोण दितलो होच मोटो पेच आसलो. उजो दिलो म्हणटकीर मुखावयल्या सगळ्या शास्त्रांत, शुद्धाचारांत गुंथून पडप. ना तर मुक्ती ना. कोण सारयेक उजो दिवंक तयार जायतसो दिसनासलो. प्रेत सारयेर चडयतकीर थंय कांय वेळ सामको कांचसो पातळ्ळो. सगळे भिवनशे वेंटू दियेसासरीं पळयताले. शिवान

ल्हवूच बिचारलें, ''सारयेक उजो कोण दितलो वेंटू भावो?''

''तूं दिता शिवा?''

''ना. उजो दिलो म्हणटकीर मुखावयलीं क्रियाकर्मां येयलीं.''

वेंटू दियेसान म्हटलें, ''आमी उजो दिवचोच न्ही सारयेक. आमी उजो दिवचो करडाक.''

कितें सांगता हो! सगळ्यांकच अजाप. आतां तिनसांज जाल्ली. एके वटेन झाडांझोपांतल्यान रिगूंक लागिल्लो काळोख आनी दुसरे वटेन मरणाचें सांवट. सगळे मानो उडयल्लेवरी वोगी बशिल्ले. वेंटू दियेसान मुखार सांगलें, ''ह्या रानांत चोंय वटेन करड वाडलां. तेंतूंत आमी वांगडा हाडिल्लें करड आनीक जाल्यार फाफसून उडोवया. पयस करडाक उजो लावंया. देवूची पुण्याय आसल्यार उजो सारयेक वयतलो. घातिल्लें लाकूड तर सामकें सुकें आसा.''

सगळे वोगी रावले. कोणाक इल्ली सोडवणूक जाल्लेवरीच दिसतालें. वेंटू दियेसान वांगडा हाडिल्लें गेलीभर उंडेल तेल सारयेर मारूंक सांगलें. उपरांत करडा वजें सोडयलें. तें बरेंच सारये पोनांत फाफशिलें. तें तशेंच ओळीन फापशीत तो धा-पंदरा वांव सकल गेलो. थंय हातांतले चकमके पेटोवन ताणें 'रानांतल्या करडा'क उजो दिलो. करड पेटूंक लागलें तशे सगळे उठून सामके फाटीं पळयनासतना एके हारीन वाड्यार येयले. भायले भायर न्हावन आपापल्या घरा गेले.

वेंटू नायक रातभर आपल्या घराच्या जनेलासरीं बसून पळयतालो. वोंवळीसरीं उज्याचो धगसो दिसतालो. मदींच फट् फट् फुटिल्लोसो आवाज येतालो.

गेल्ल्या 'आवत द फे' - भावार्ताच्या कर्तुबा आदीं चाळीसेक जाणांनी तरी इन्क्विझासांवा सामकार गुन्यांव कबूल करून भोगसणी मागून लासून मारचे ख्यास्तीपासून सोताची सोडवणूक करून घेतिल्ली. तातूंत एकलो आसलो पाद्री सिमांव पिरीस! ते आतां मुलकी बंदखणींत वयचे आसले. भावार्ताच्या कर्तुबाच्या चारच दिसांत तांकां सगळ्यांक इन्क्विझासांवाच्या व्हडल्या सालांत व्हयले. सालांत मेजासरीं इन्क्विझासांवाचो पालवी मुखेल कास्तेल मेन्डोन्सा आनी सेक्रेतार गोन्साल नुनीझ बशिल्ले. एकएकल्याक म्हऱ्यांत उबे करून ते तांकां इन्क्विझासांवाचे भायर मुलकी बंदखणींत कशे तरेन रावचें, वागचें हे विशीं सांगताले. तांचे आड वागल्यार कशे त्रासांत पडटले हाची शिटकावणीय दिताले. शेवटा एका कागदाचेर सय घेताले.

पाद्री सिमांव पिरीसाचें नांव येतकीर तो मेजासरीं वचून धिमी मारून उबो रावलो. पालवी मुखेल कास्तेल मेन्डोन्सान ताका सांगलें, ''तुजी पांच वर्सांची ख्यास्त

तुवें मुलकी बंदखणींत भोगची आसा. ते तुका फातमारी बांदच्या आवाठांत कामाक लायतले. ते तुका कसले तरेचें काम करूंक लायतले तें म्हज्यान सांगूं नज. कारण तूं पयलीं कोण आसलोलो, कितें करतालो, हें ते मतींत घेवचे नात. सगळ्या गुन्यांवकारांक एकाच मापान जोखतले. मात तुवें हंयसान भायर वयतकीर पाळचे नेम हे परमाणें आसात. एक, तुवें केल्ल्या पाड कर्तुबाचो तुका पश्चात्ताप भोगूंक जाय. दर म्हयन्याक निमण्या आयतारा पाद्री सामकार कुमसार जावंक जाय. पातकाची कबलात दिवन देवासरीं भोगसणी मागूंक जाय. पयलीं तीन वर्सां दर म्हयन्याक न चुकतां तूं ही कबलात दितलो. दुसरें, तूं दर आयतारा आनी फेस्तांक इगर्जेंत मिसाक वयतलो आनी सेरमांव आयकतलो. तिसरें, तूं दिसांतल्यान पांच फावट देवाक, देवाचो पूत जेजू आनी तेची पवित्र मांय मारियाक राजार करतलो आनी जेजूचे कुडीवयल्या रगताचे पांच घाय तेंची व्हडवीकं मानतलो. चवथें, तूं खंयच्याय धर्मभ्रश्ट, धर्माभायल्या पातकी मनशासरीं इश्टागत दवरचो ना. पांचवें, तुवें इन्क्विझासांवाच्या आंवाठा भितर जें कितें पळयलां, आयकलां आनी भोगलां ते विशीं कोणासरीं कांय उलोवचो ना, ताची निंदा करचो ना. आनी आतां निमणें. वयल्या पांचय नेमांतलो एक तरी नेम तुवें मोडलो जाल्यार तुका इन्क्विझासांव परत धरून हाडटलें आनी कसली चवकशी करनासतना मुखाल्ल्या 'आवत दे फे' दिसा लासून मारचेली ख्यास्त दितलें. परती भोगसणी मेळची ना.''

उपरांत बायबलाचेर हात दवरून ताणें सिमांव पिरीसाकडल्यान आपूण वयले नेम पाळटलों म्हण सोपूत घेतलो. नेमाच्या कागदार सय घेतली.

हे परमाणें सगळ्यांक सांगून तांचेकडल्यान भास घेतकीर तांकां इन्क्विझासांवाचे बंदखणींत भितर सरचे पयलीं जप्त केल्लें तांचें सामान दिलें. त्यो पोटल्यो तांणी खांक्याक माल्ल्यो. पूण पाद्री सिमांव पिरीसालें कांयच सामान नासलें. ताचो राखणो तोमासान मस्तेपणां करतकीर ताका तसोच बांदून हाडिल्लो. तांकां सगळ्यांक आतां एके हारीन मुलकी बंदखणी वटेन तांणी हामुडले. वांगडा दोगच हातांत तरसाद घेतिल्ले पारेदार आसले. सगळे कैदी आज खोशीच दिसताले. वाटेर हांसत व्हडान उलयताले बीन. तीन तीन चार चार वर्सांनी एकएकलो उकत्या मळबाखाला पाविल्लो. तें उकतें मळब, चकचकीत उजवाड हातूंत ते भुल्लुशिल्लेवरी जाल्ले. फाटलो फुडलो हुस्को कांय वेळापुरतो पुराय निवळावन गेल्लो. पूण पाद्री सिमांव पिरीस घुम्म मोनो आसलो. दोळे धांपून लखतसो चलतालो. मान थरथरिल्लेवरी जाताली. ताच्या मळबांत जसो अजून काळोख भरूनच आसलो. वा भायलो भितल्लो काळोख जळू कसो ताका धसून आसलो. मदींच ताणें एका वांगडाच्या कैद्याक विचारलें, ''सकाळ जावंक येयल्या काय रात जावंक पावल्या? वेळ खंय पावला, मातसो तकली वयर

करून पळयशी?''

त्या कैद्यान ताका बारीक पळयलो. तो ताका खूब जाण्टो, उपासतापासान खूब भागिल्लो पुण्यवंत स्वामी संन्याशी कसो दिसलो. पूण तो कांयच उलयलो ना.

ही मुलकी बंदखण इन्क्विझासांवाच्या मानान भोवच बुरशी आसली. एकेच कुडींत आठ आठ जाणांक चेपून घातिल्ले. भायर वारांदांत, चोंयभोंवतणीं उदक, चिखोल साचिल्लो. लांबच लांब धा-बारा कुडींची बसकी इमारत. एके वटेन एक व्हड रांदची कूड. तांतूंत पंदरा तरी मातयेच्यो चुली आसल्यो. ताचेर मेळिल्ल्या दाणो गोट्यांतल्यान चार चार जाणांचो पंगड करून रांदून जेवप. दर एका पंगडाक एक मातयेचो बुडकुलो, एक मायटी आनी एक खुळणें. रांदचे कुडींतय उश्टें, कोयर, उदक फापसल्लें आसतालें. रातभर जळारां जीव खातालीं.

सकाळीं आठांक ते सगळ्या कैद्यांक एका चोम्यान फातमारी बांदच्या आवाठांत हामडून व्हरताले. दनपरां एकाक परत हाडटाले. मगेर सांजच्या तिनांक परत व्हरताले. सांजचें काळोख जायसर काम करचें पडटालें. पाद्री सिमांव पिरीस तांचे वांगडा आसतालो. पूण ताणें कसल्याय कामाक हात घातल्यार हेर कामदार बेगीबेगीन ताका कुशीक काडटाले. वोगी राव तूं म्हणटाले. थंयचो मुकादम म्हऱ्यान बीन आसल्यार ते ताका ल्हवच सांगताले, ''पाद्रीबाप तो. पावला हिंगा. कितें करतलो?'' मुकादम मगेर वोगीच रावतालो.

तांच्या रांदून जेवच्या पंगडांत कामील म्हूण एक तरनाटोसो कैदी आसलो. तो तर ताका कांयच करूंक दिनासलो. म्हणटालो, तूं वोगी जेवचेंच पळय पाद्रीबापा. ते सगळे 'पाद्रीबापा' हें उतर इतलें ल्हव म्हणटाले, तें कानासरीं सांगल्यारच आयकूंक येवचें.

एक दीस कामिलाक पाद्रीबापान विचारलें, ''तूं कसो सांपडलो तेंच्या चपक्यांत? कितें केल्लें तुवें?''

''हायें एक फावट म्हगेल्या मांवाक खूब धाडायलो. बोरीचें एक हाड मोडून उडयलें.''

''कित्याक म्हण रे?''

''बायल धांवन धांवन कुळारा वयताली. बेठीच घोवान माल्लें म्हण वचून सांगताली. हांव एक दीस तिका हाडूंक गेल्यार मांव हातांत दांडो घेवन गाळी संवत आंगार येयलो. त्याच दांड्यान हांयेन मांवाक मरसर माल्लो.''

''तशें जाल्यार इन्क्विझासांवासरीं कसो पावलो तर तूं?''

''तेणे फट लावन दिलें. हायें दारांत तुळशी रोप हाडून लायलें आनी बायलेक तेका सद्दां उदक घाल म्हण सांगलें म्हण सांगलें. बायलेन उदक घालीना जातकीर

तिका हायें माल्ली म्हण सांगलें. हांव तिका रांदचे पयलीं न्हावन येवंक सांगतालों. शिताक मीठ घालूंक दियनासलों म्हण सांगलें.''

पाद्री सिमांव वोगीच रावलो. तो ह्या दिसांनी भितल्ल्यान घुंविल्लेवरीच दिसतालो. हेर कैदी आपणाक काकुळट दाखयतात तो तो सोताचो अवमानच समजतालो. सोताचे हीण अवतिकायेचो आक्रोश, जाल्ल्या अन्यायाविशीं संताप, आयज मेरेनचे जिवितांत भोगिल्ले तापत्रय तरीय भितर एक मोवाळ मन हाचेन एक घुस्पागोंदळ जाल्लो. बेठीच भोगसणी मागून जीव वाटायलो अशें दिसतालें. ताची गुन्यांवी जाणीवय मन पोखरायताली. आज तर आपणाक मरचें अशें दिसता. मगेर तेन्ना कित्याक हांवें जिणेची भीक मागली!

फातमारी बांदच्या आवाठांत झापेरीन म्हण एक मुकादम आसलो. आवय मोयर आनी बापूय पुर्तुगेज सोल्दाद असो तो एक मिस्तीस आसलो. तो सदांच कामदारांचेर आड्डत आसतालो. केन्ना हातांतल्या दांड्यान तांकां मारतालोय. एक दीस सिमांव पिरीस फाटींफाटीं रावलासो पळोवन ताणें ताका दांड्यान धुकल्लो. पाद्री पिरीस फाटीं घुंवलो. दोळे बारीक करून ताणें एक फावट ताका पळयलें आनी म्हटलें, ''तूं इन्क्विझासांवाचो अंमलदार जावंक फाव आसलो. चिमट्यान मनशाचें मास ओडून काडूंक मेळटासलें. यातनाकुडींत तुका नेमल्यार तुजी मजाच आसली. मासांतल्यान कांट्यां दोरी सरकायतना तूं बरो हांसतासलो. 'आवत द फे'क खरें म्हटल्यार तुवेंच उजो दिवचो.''

आयकोन हेर कामदार सामकेच अजापले. तांची भिवन गुळी. बेगीबेगीन तांणी ताका ओडून व्हयलो. तो मुकादमय आयकोन अजापान घुंवळिल्लेवरी जालो. असो कसो पिशांतूर जाल्लेवरी उलयलो हो गोरो जाण्टेलो! आजवेर कोणे इन्क्विझासांवाआड एक उतर उलयल्लें ताणें आयकोंक नासलें. अशान मरण ओडून घेतलो हो! पूण कित्याक नकळो, तो वोगीच रावलो.

मुलकी बंदखणींत येवन तीन म्हयने जाल्ले. आतां आतां बंदखणींत पडिल्लेकडेन कित्याकितेंय उलयतालो. एक दीस मारून येयल्लेवरी व्हडान उलोवंक लागलो. ''कित्याक खांब्याक बांदून घेवं हांव? कित्याक लासून मरूं हांव गुन्यांव नासतना? आतांय सांगतां तुमकां हांव, खुरीस त्या फातरांत ना, म्हज्या काळजांत आसा. म्हजें काळीज फोडल्यार खुरीस भायर सरतलो. सुखडो दियेसाचीं हाडां लासलीं तुमी. तुमकां सांगतां, म्हज्या हाडाचो कुडको मेळचो ना तुमकां लासूंक. हांव पाप सायबाचो पाद्री. तुमचो पुर्तुगालचो राया म्हजें कांय एक वांकडें करूंक तांकचो ना. ती अस्तुरी रडटाली हांयें गाय पुजली ना म्हण...''

थंय आनीक कांय कामदार कैदी धांवत येयले. तांणी पाद्री सिमांव पिरीसालें

तोंड धरून बंद केलें. तेन्ना थंयचो पाऱ्यावयलो सोल्दादय थंय पाविल्लो.

बंदखणींतल्या कैद्यांखातीर म्हण थंय लागींच आशिल्ल्या सां रोकी कपेलांत दर आयताराक मीस जातालें. पाद्री तिमोती मोरायस व्हडले इगर्जेसान मिसाक शेरमांव सांगूंक येतालो. मिसाक ना येयल्ल्या कैद्यांचीं नांवांय बरोवन दवरताले.

पूण गेल्ले दोन आयतार सिमांव पिरीस मिसाक गेलोच ना. जिवाक बरो ना म्हण परवंत पडून रावलो. येता तो आयतार मिसा उपरांत कुमसार जावचो आयतार आसलो. सगळ्यांनी वचुंकच जाय आसलें. कुडींतल्या हेर कामदार कैद्यांनी ताका बळयां तयार करून मिसाक व्हयलो. मिसाक पाद्रीलो पुराय शेरमांव ताणें वोगी दोळे धांपून आयकोन घेतलो.

शेरमांव सोंपतकीर पाद्रीन तापसाणेनच सिमांव पिरीसाक विचाल्लें, ‘‘तूं गेल्ले दोन आयतारा मिसाक येवंक ना. तूं इन्क्विझासांवान घालून दिल्ले नेम मानिना, काय तुका किरिस्तांव धर्माचेर भावार्त ना?’’

पाद्री सिमांव पिरीसान तकली हालयलीशी करून कांय वेळ त्या पाद्रीक पळयलें. मगेर म्हटलें, ‘‘भुरगो तूं पाद्र. बाबत शेरमांव तुजो. हांवें शेरमांव सांगल्यार काळखाक उजवाडाचे कोंब फुट्टाले. इन्क्विझासांवाच्या कायद्याचें पुस्तकच तुजें बायबल. खरें बायबल तूं नकळ. वेटिकानांत पोप सायबाचो शेरमांव आयकला तुवें? तेणें तुका पाद्रीपणाचीं वस्त्रां दिल्यांत?’’

मिसाचो पाद्री जेजूच्या आल्तेरासरीं हातांत दंड घेवन आसलो. सगळ्यां मुखार वयर सभेमांचार. म्हणच तो घडये वोगी रावलो. पूण रागान तेची कूड थरथरताली.

निमणें कुमसार जावच्या वगतार सगळे कैदी आपल्या पातकाची कबलात दिवन वोगी वयताले. पूण पाद्री सिमांव पिरीसाची कुमसार जावची पाळी येतकीर ताणें त्या पाद्री सामकार धिमी मारून म्हटलें, ‘‘ना केल्ल्या पातकाची हांव ख्यास्त भोगतां. आनी त्याच ना केल्ल्या पातकाची कबलात हांव कशी दिवं? जेजू म्हजो गवाय.’’

थंय कांय खीण मोटो तणाव पातळ्ळो. कुमसार करून घेवपी पाद्रीकय कितें उलोवचें सुचनासलें. राग येयल्लो तेका. पूण न्हय ते सुवातेर राग तरी कसो करतलो? ताणें ताका कुरू करुनच वच म्हण सांगलें.

दुसऱ्या दिसाकच इन्क्विझासांवाचो फिदाल्ग अमलदार आपली पुराय मुस्तायकी घालून, हड्ड्यार इन्क्विझासांवाचीं चिन्नां आनी पदकां लावन येयलो आनी पाद्री सिमांव पिरीसाक घेवन गेलो.

आतां परत पाद्रीक इन्क्विझासांवाचे बंदखणींत पडून रावंक जाय आसलें, मुखावेल्या ‘भावार्ताच्या कर्तुबा’ दिसा लासून मार मेरेन.

सुखड्याक धरून व्हरतकीर तो खंय पावला, मेलो काय जितो आसा, कांयच खबर नासली. 'व्हडल्या घरा'सरीं वचून ताची वास्तपुस्त काडची कापास्ताद तर कोणाक नासली. त्या 'घरा'वटेन बोट दाखोवंक जंय भियेताले, थंयची खबर आनी कोण काडटलो? मात, घोवाक धरून व्हेल्ल्या म्हयन्यानच सुखड्याची बायल म्हालकूम मेली. तिणें मरता म्हणसर किरिस्तांवपणाचो बातिज्म घेवंक नासलो. म्हण तिका देवळाकुशीचे सिमितेरींत पुरूंक मेळ्ळें ना. वाड्यावयले सगळे किरिस्तांव जाल्ले. फाल्यां आपणार कसलेंय बगलांट येयत म्हण कोण लासूंक येवंक तयार ना जाले. मागीर तेगेलो गांवांत आशिल्लो एकलोच पूत मोलून बायलेक घेवन, लासचें लाकूड फाटल्या दोंगराकडेर व्हरून उडयलें. मागीर मोलून किरवड बांदिनासतना एकल्यानच प्रेत उखलून व्हरून थंय लाकडांचो धडो दाळून प्रेत लासलें. बायल पार्वत सारक्की घोवावांगडा आशिल्ली. प्रेताक उजो दितना मात ती सकल देंवन येयली. मोलून आवयचें प्रेत लासलें खरें, पूण तेका आवयचें कांयच क्रियाकर्म करूंक मेळ्ळें ना. आपूण किरिस्तांव, तिका उजो दिलो तेंच व्हड जालें, अशेंच ताणें मनाक समजायलें.

खऱ्या अर्थान आदोळशी गांवचे सिमितेरींत पुरिल्लो पयलो मनीस म्हटल्यार घर्तु नायकालो व्हडलो पूत जगा. घर्तु नायकालो - पेद्रू दियेसालो लग्न जाल्लो हो व्हडलो पूत. तकली फोडटा म्हण दीसदीस न्हिदून रावंक लागलो. केन्नाकेन्ना दुखीच्या ओगार तो तकलीय धाडावन घेतालो. ल्हवल्हव तागेले तकलेवेले केंस गेले, दोळे तिरशे जाले, भागून बडक जालो आनी तो मेलो. देवळाच्या दिवजां ओंपणे तिठ्यार सिमितेर. थंयच पयलीं 'देवसभेच्या रंभांलो' धालां मांड पडटालो. खेळटां खेळटां रंभा खुदूंक लागताल्यो आनी मांडाक देवाची सासाय येताली. थंय पुरूंक फोंड खणटना, प्रेत पुरतना लोकांक भोव दुखतालें. पूण उपाव नासलो.

दुसरो मेलो तो म्हार घुंग्यालो बापूय दुगा. लोक म्हाराक थंय पुरचें न्ही म्हण मोटें झगडें घेवन बशिल्ले. पूण शेफ रिबेरीन तेंकां समजायल्ले, किरिस्तांव धर्मा परमाणें इगर्जेंत, सिमितेरींत सगळे एक, जात तुमच्या घरा. लोक आयकना जातकीर तेणें तलवार दाखोवनच दुगा म्हारालें - रेमेत कोस्तालें - प्रेत हाडून थंय पुरिल्लें.

तसोच तीन म्हयन्यांनी क्रश्ण शणैलो - किस्तोद ग्रासियेसालो - बापूय मरतकीर तेणें म्हाराक पुरिल्ले सुवातेचेर आपल्या बापायक पुरचो ना म्हण भायले भायर बापायलें प्रेत शेताकडेर पुरिल्लें. कळटकीर शेफ रिबेर पाद्री कुलासूक घेवन गेलो. आदीं तांणी ताका खूब धपकायलो. मागीर सांगलें, धर्माआड कर्तूब हें. हाचेन तुज्या बापायक पातकांतल्यान सुटका ना, सोर्गार रीग ना. प्रेत सिमितेरींतच पुरूंक जाय हो

कायदो म्हण सांगतकीर तेणें आदल्या दिसा पुरिल्लें प्रेत उस्तून काडून परत सिमितेरींत हाडून पुरलें.

हांगा आदोळशी जाल्ल्या पयल्या लग्नाची खबरय सांगची पडटली. रायू नायकाल्या - शावियेर दियेसाल्या - चेडवाचें लग्न आदींच कालापूरच्या एकल्याल्या चेड्या वांगडा थारिल्लें. एक दीस कालापूरच्यान ते लोक न्हवऱ्याक घेवन येयले आनी सामक्या सादेपणान, हिन्दूंले कसलेच विधी करिनासतना लग्न करून व्हंकलेक घेवन गेले.

शेफीक, पाद्रीक ही खबर कळटकीर तांणी बेगीबेगीन रायूक आफोवन घेतलो. रायून भिवन आदींच तेंकां सांगलें, ''हायें तुमच्या नेमापरमाणें नाल्ल फोडूंक ना, भट आफोवंक ना, होम घालूंक ना, पानाविडो कोणाक दिवंक ना. व्हंकल न्हवरो सामकार उबीं रावलीं आनी गळ्यांत ओंवळी माळो घातल्यो आनी लग्न जालें.''

पाद्रीन सांगलें, ''खंयच्याय बऱ्या किरिस्तांवान काजार जावचे पयलीं इगर्जेची मान्यताय घेवची पडटा. पाद्रीक गवाय दवरून काजार जावचें पडटा. पाद्री न्हवऱ्या व्हंकलेर बेसांव घालता आनी तें बरोवन दवरता. आतां तुवें चेडवाचें काजार केलां तें कायद्या भायलें, धर्मा भायलें. तेका काजार म्हणूं येना. पातक तें तुगेल्या चेडवाक.''

राया एकदम भियेलो. ''आतां कितें करचें गा? तुमीच वाट दाखयात.''

''परत काजार करचें पडटलें पाद्री हुजीर.'' म्हऱ्यान आशिल्ल्या शेफीन सांगलें. ''तूं तुगेल्या चेडवाक आनी न्हवऱ्याक परत आफय. परत माटोव घाल. पाद्रीबाप येतलो आनी तुमकां सगळें सांगतलो, किरिस्तांवांनी काजार कशें करचें तें.''

खरेंच, रायू नायकाल्या - शावियेर दियेसाल्या - चेडवाचें लग्न परत एक फावट जालें, किरिस्तांव धर्मा परमाणें.

म्हाबळू नायकालें चेडूं विठाय जें दिवाडे दिल्लें, कुळारचे यादीन सामकें आकुळपिकूळ जातालें. भुरग्याक हांडीर मारून आदोळशी धांव मारचें अशें दिसतालें. तेगेलो मायेमोगाचो भाव शंभू एक दीस तेगेल्या घराभायर बसून उपाशीं येयल्लो. तेन्नासान तें जीव येद्दोयेद्दो करून घेवन बशिल्लें. आदोळशी कितें रामायण घडलां तें तेका खबरच नासलें. आपलें कुळार तशेंच देवधर्मासयत सुगूर आसा अशेंच तेका दिसतालें. गेल्लीं दोन वर्सां हेवटेन कोण येवंक नासलो आनी तेवटेन कोण पावंक नासलो. विठायक तर आदोळशी येवंक थर्त भिरांत दिसताली. हांव बाटगें, रामनाथा देवाच्या वाठारांत कसो पांय दवरूं आनी दारांत तुळस आनी घराफाटल्यान केळीं, आबोलीं आशिल्ल्या कुळारच्या घरासरीं कशें वचूं? पूण जीव थाऱ्यार नासलो.

एक दीस तें भुरग्याक मांयसरीं दवरून घोवाक घेवन आदोळशी येवंक सुटलेंच. कितेंय जावं, एक फावट हांव कुळारच्या गांवघरार नदर घालून येतलेंच. जाल्यार देवळाचे पयसच रावन रामनाथाकडेन बरें मागतलें. शंभूक विचारतलें, पापया, एक्कय फावट कित्याक येयलो ना रे तूं भयणीक मेळूंक? हांव बाटलें म्हण सामकीच नाळ तोडली तुवें?

गांवा मुखाल्लो दोंगर देंवन येतना वाटेकुशीक सुको जळोव एकठांय करताली ती गोदूमावशी तेंकां दिस्टीक पडली. तेंकां पळोवन ती वोगी उबी रावली. तिगेल्या गळ्यांत गळसरी नासली आनी कपलाक कुकूमय नासलो. विठायक खप्प जालें. तेणें आदीं आपलो रितो गळो सांसपिलो आनी तें गोदू मावशेच्या एकदम मुखार वचून उबें रावलें. ''मावशे, कितें जालें गे? ह्या गांवांतय...''

''धुवे, दादो तुगेलो राटी उदक काडटना आ्डें मोडून बांयंत पडलो. पडटना फातराक आपटलो. रगतान बांय तांबडी जाल्ली.''

खरें म्हटल्यार विठायक भितल्ल्यान सूऽ जालें. ''मावशे, ते हिंगा पावल्यात? तेणी कितें·चड उणें केलां?''

''हांव कितें म्हण सांगतलीं? तूंच गांवांत वचून चय, गांव खंय पावला तो. सवाशिणी रांडपण भोगतात.'' ती सरसरीत झिलींनी रिगली.

पयलीं घोव मुखार चलतालो. आतां विठाय घोवाक फाटीं घालून सरसरीत मुखार येयलें. देंवतेर कडकडट्या पांयांचीं धेंपां घालून दोंगर देंवंक लागलें. पोटांत मरणाचो खपखपो. कितें घडलां काय देवा! पळयल्यार मुखार देवळामळ रितें. तळय आसा, वड पिंपळ आसा पूण देवूळ मात दिसना. थंय कुशीक मांगर कशें तें कितें? दोंगर देंवन गांवावटेन पळयल्यार मीर्ग लागीं पाविल्लो तरीय धुळवप शेतां तशींच पडिल्लीं. तेंकां कोणें नांगर लावंक नासलो. शेतांनी, दोंगराकडेर भागिल्लीं, सुकिल्लीं गोरवां पारपोळ कशीं भोंवतालीं.

देवळासरीं येयल्यार देवूळ नाच्च. फक्कत एक पडिंग खणून उडयल्लें घटण. पयल्यान तणाचुडटान एक सोबीत शिंविल्लो मांगर उबो आसलो. ताची भोंवतड आनी मुखावेलो भाग चोक्क नितळ आसलो. मुखार एक दोन पुरीस उंच लाकडी खुरीस उबो केल्लो. असो मांगर विठायक, तेगेल्या घोवाक नवो नासलो. दिवाडे, चोडण्यां, पानेली अशे मांगर उबे जाल्ले.

तें खपखपो घेवन देवळाच्या फोडून उडयल्ल्या एका चिऱ्यार बसलें. भटाली बायल घरांतल्यान भायर सरून थंय येयली. ती इतली भागिल्ली, गळ्याकडचीं, पोल्याचीं हाडां वयर सरिल्लीं. म्हेळें, पिनकरें कापड तिगेल्या आंगार आसलें. तशीच म्हेळी गळसरी दोरी तिणें पदरांत लिपोवन घेतिल्ली. कपलाक मात तांबडें

नासलें. ही भटाबायल पयलीं कितली घनेस्त, गोरी गुबगुबीत दिसताली. देवळांत येयल्यार देवी येयल्लेवरी देवळाची सोबाय वाडटाली.

विठायन सट्करून विचारलें, ''आगे, तूं इतली भागली कशी?''

''भोग, आनीक कितें? देवच आमचें पोट आसलें. देव गेलो आनी सगळेंच सुटलें. तेंच्या देवळाचो जाळवणदार जातलो म्हण घोव आमकां घेवन किरिस्तांव जाल्लो. आतां हांथरुणाक लागून आसा. ना तर गोंया भायर खंयूय गोकर्णाबीन वयतासलीं.''

''आतां मागीर कशें गे?''

''हांव राणू केंकऱ्याल्या भाटांत वावराक वयतां. फाटीं नायकांल्या शेतांत नडूंक लुवंक लेगीत गेल्लें हांव. घोवान तर हांथरुणच धल्लां.''

विठायक ते बायलेचें अजापच दिसलें. तिका तेणें बारीक पळयलें. हे बायलेक इतली शक्त खंयच्यान येयली? ''तुमचे जातीचें आतां कशें गे? उरतली ती?''

''सांगूं, आतां कोणेंय भटणी म्हटल्यार म्हाका राग येता. चाळयल्लेवरी दिसता. जात सुटल्यार पुरो जालां. मागीर म्हगेल्या चेड्याक इगर्जेची घांट व्हाजयत गांवांतल्यान भोंवंक लज दिसची ना.''

खरें म्हटल्यार विठाय आपल्या घरच्यांविशीं कितें विचारुंकच भियेतालें. भटा बायलय कांय सांगनासली. तें उठलें. घोवाक घेवन शिरवाड्यावटेन वचूंक लागलें. भटा बायल फाटल्यान उलयताली, ''देवालें पुराय भांगर हायें देवाले पोटलेंत घातलें. खंयच्या दिगंतराक पावल्यात, खंय देव थापला कोण जाणा. आमी वचूंक जाय आसलीं तेन्ना देवा फाटल्यान. तुगेल्या बापायन भावान बरें केलें. पुण्यवंत ते...''

तिणें विठायक आनीक खपखप्यांत घातलें. मुखाल्लें शेत बळांटून शिरवाड्यार येयल्यार तेंकां पळोवन पुराय शिरवाडो वंयेसरी आकाड्यांत लोटून येयलो. सगळ्योच मावश्यो तेका खाकोळांत घेतिल्लेवरी करूंक लागल्यो. विठायन बारीक पळयल्यार पयलींचो तो तसलोच लोक. तीच भास, तोच भेस. बायलांल्या कपलावेलो पुशिल्लो कुकूम सोडल्यार आनीक कांय म्हण आगळेपण नासलें. एका गोठ्यांतल्यान दुसऱ्या गोठ्यांत हाडून घातिल्ल्या गोरवावरी इल्लें भित्रेपण आशिल्लें खरें. बारीक सोदल्यार तेगेलो आवय बापूय, भाव खंयूच दिसनासलीं. तिणें आकांतानशें विचारलें, ''म्हगेले आवय बापूय खंय गे?''

कांय वेळ सगळे वोगीच रावले. विठायन आपले आवयच्या घरावटेन धांव माल्ली. फाटल्यान येतां येतां तिगेल्या एका बापोलया बायलेन सांगलें, ''गांवदेव घेवन गांव सोडून गेले ते. निळू भयो घेवन गेला तेंकां. देव खंयतरी थापून परत येतीत ना येतीत, कांय सांगूं जायना.''

विठाय आपले आवयल्या रित्या, कवड लायिल्ल्या घराच्या सोप्यार बसून हामेऱ्यांनी रडूंक लागलें. घोव थातारतालो आनी म्हणटालो, ''कित्याक वचूंक जाय आसलें. आतां इतलो गांव लोक रावलो ना? आतां वचून खंय त्रासांत पडल्यात कोण जाणा.''

मुखार उबो राविल्ल्या सातण नायकान - सांतान दियेसान - म्हटलें, ''तो निळू नायक एक मेळ्ळो तेंका. देवाचें कितें जावचें तें आमचे वांगडाच जातासलें. आमी हिंगा हुमकळटात. देव मात धांवन गेला. केन्ना देव उखल्लो, कळ्ळें ना. नातर आमी आडावंक उबे रावतासले.''

विठायन रडटां रडटांच म्हटलें, ''देव वाटावंक जाय दादो. तो खंयूय व्हरून दवरल्यार तुमच्या संकस्टांक पावतलो. देवाक धर्म लागना. तुमी तेचे कुळयेचे मनीस. किरिस्तांव जाले म्हण तो फाट फिरोवचो ना. देवाक लागूनच पळय म्हगेलो भाव सुगूर उल्लो.''

''सुगूर उल्लो कशें म्हणटा तूं?''

''गांव सोडून गेलो खरो, पूण किरिस्तांव जायनासतना उल्लो ना?''

घरांत पडवेंत, भितोडेंत शेतकामाचीं सगळीं अवजारां आयदां बापायन नीट मांडून दवरिल्लीं. तेका दिसतालें जावये, आमी परत एक दीस येतले म्हण. पूण वर्स जावन गेल्लें, तेची खबर नासली. पूण तेचो घरांतलो, घराभायलो ऐवज मात तशा तसो आसलो. आनीक कितलो तेंप तो तसो उरतलो तें मात सांगूंक जायनासलें. विठायन विचाल्लें, ''दादो, गोरवां खंय बापायलीं?''

''सगळें हिंगाच सोडून गेल्ले ते धुवे. गेल्ल्या नायकांचीं, बामणांचीं कितलींशींच गोरवां पारपोळ भोंवतालीं गांवांत. न्हंये पलतडीं सास्टी विक्रेक गोरवांची दांवण लागता खंय. न्हंये पलतडच्यान कोणय येता आनी रातचीं गोरवां बडोवन व्हरता. पयर न्हंयंत घालून गोरवां पलतडी व्हरतना सात गोरवां बुडून मेलीं खंय.''

ह्या आकांताकय विठायक एकच खोशी आसली, आपलें कुळार किरिस्तांव जालें ना. तें देवावांगडा आसा! दारांतली तुळशी मांडीय कोसळ्ळ्यार घरावांगडाच कोसळटली!

बापायलें गांवकेचें पावणेक घेतिल्लें शेत सोडून आनीक मिराशेचेंय दोन खांडयेचें शेत आसलें. हें घर आसलें, नाल्ल, आंबो, आंवाळे, अटाम, भिण्णां. पणस आशिल्लो बागा कुडको आसलो. पूण विठायक इल्लीय आशा नाशिल्ली. लग्न जाल्ल्या चेडवान कुळारच्या बदकाची आस्त धरप समा न्ही अशें ते मानताले.

घराची कवड उकती करून घरांत वयचें अशें तेका दिसतालें. पूण हें कोंकण्यांलें घर - ना बाटिल्ल्यांचें. हांव कशें वयतलें घरांत! तें तशेंच आंगणांत येयलें. ''दादो,

शेतां अशीं नांगर लायनासतना कित्याक दवल्ल्यांत?''

''दोनांतलो एक घराबो गांव सोडून गेला. गांवकेच्या शेताचीय पावणी जाल्ली ना. मनीसच ना तर शेतां कोण वसयतलो? मीर्गार कोणें कसून रोव, नाट केल्यार केली. पयलीं ह्याच शेताक लागून कसल्यो मारामारी जातल्यो.''

''दादो, आमगेलें घर शिंवंक ना दिसता न्ही गेल्ल्या पावसाक?''

''कोण शिंवतलो? शिंवंक आनी तण शिवड नाका? सोडून गेल्ल्यांचीं घरां आतां कोलू कुसून भितल्ल्यान झळकतात. आनीक एक दोन पावसांत धरतरेर येतलीं तीं.''

''हांव येतां परतें पावसा पयलीं. कशेंय करून शिंवन घालात आमगेलें घर. म्हज्यान उबें दवरूंक जाता तितलीं वर्सां दवरतां. देव घेवन गेल्यात ते.''

थंय आशिल्ले दादले वोगीच रावले.

पुराय वाड्यार तें भोंवन येयलें. फाटीं गुणालें लाशिल्लें घर तशेंच पडून आसलें. हेर जायतीं घरां पांखीं मोडूंक येयल्लेवरी दिसतालीं. जीं घरां बाटिल्लीं तेणी आपल्या आंगणांतली तुळस, आंगणामेर क्राडून उडयल्ल्यो, मागीलदारांतल्यो केळी मारून उडयल्ल्यो. जे धांवन गेल्ले तांच्या दारांतली तुळस कोंसळूंक लागिल्ली. केळी मरून गेल्ल्यो.

वाड्यार येतसान एक जाणवतालें विठायक, आमी दिवाडे किरिस्तांव जाल्ले तेन्ना जितले तळमळे भोगिल्लें तितले हिंगा नात. धा जणां वांगडा आमी गांवदेश सोडून वचून उबंतर पडचे परस हें वायट न्ही अशें ते सरळपणान धरून चलताले. जावचें आसा तें जाता, नशिबाक आयिल्लें चुकना असोच सूर आशिल्लो. धांवन गेल्ले कसल्या त्रासांत पडल्यात कोण जाणा हे कल्पनेनच ते वयर सकल जाताले. तेतूंत आनी निळू नायक देव ठिकाणार पावोवन येतां म्हण गेल्लो तो वर्स जालें तरीय परत येवंक नाशिल्लो. वाट पळोवन पळोवन आतां ते भिवनच गेल्ले.

एका आंगणांतल्यान वयताना एक बारीक थकिल्लोसो आवाज येयलो. ''कोण तें बाय गो?''

विठायन चयलें. आनी तें वळखलें. ही दुलू आज्जी. ''आगे, तूं एकलीच रावता घरांत?''

ती कितेंतरी सांगताली. पूण तिचीं आराचीं लुडबीं उतरां कळनासलीं. वांगडाचे सुभद्रीमावशेन सांगलें, ''गांवांत वागऱ्याक, बरम्याक जोगोवणी घालतकीर मोटो सांवार जालो. ही तेन्ना आरान हातपांय धरून घरांत पडिल्ली. हिगेलो चेडो लवू हिका तसोच सोडून गेलो. सोताचो जीव वाटावंक आवयक माल्ली कोनशांत. तेतूंत ही अशी. वयताना सांगून गेल्लो, आपले आवयक पळयात म्हण.''

विठायन बारीक पळयलें, ती मोडिल्ल्या कमरानशी दारांत बशिल्ली आनी मान भायर काडून पळयताली. सुभद्री मुखार सांगताली, ''पुतावांगडा तशीच बातिज्म घेनासतना रावली. आतां आपणाक लासूंक कोण उल्लो ना, पुरतात जाल्यार पुरात नरी म्हण पयर गांवचेच इगर्जेंत वचून बातिज्म घेवन येयली. पिणग्यांत घालून दांड्याक दोगांनी माथीं माल्लीं आनी व्हरून किरिस्तांव करून हाडली. आतां गांवाकय मेल्यार पुरूंक आधार जालो.''

तें आनी तेगेलो घोव रातचे सातणदादोगेर उल्लीं. सगळ्यांक गांवांत एक अपरूप येयल्लेवरी दिसतालें. रातचें घराघरांतल्यान तेका कितेंकितें खावंक जेवंक हाडून दिल्लें. पूण विठाय तळमळटालें आपले आवय-बापायचे, भावाचे यादीन.

सकाळीं उठून तीं वचूंक सुटलीं. सगळो वाडो परत एक फावट आकाड्यांत. सगळ्यांल्या दोळ्यांत दुकां. तेका सांगताले, ''आवय बापूय ना म्हण येवचें रावंनाका. यो केन्नाकेन्ना.''

वयताना तीं वाटेर निळू नायकाल्या घरासरीं गेली. तेगेली बायल जशी देव उदकांत बुडोवन हातांत जपमाळ घेवन बशिल्ली आनी घोवाली वाट पळयताली. तिगेल्या आंगावयलो सगळो अयाव शिरंगार तसोच आसलो. तो मेल्ली खबर वर्स जालें तरी गांवांत पावंक नासली.

ती अजून किरिस्तांव जावंक नासली. विठाय घोवाक घेवन भायर सोप्यारच बसलें. कितें उलोवचें म्हण कळनासलें. तिणेंच भितरल्यान सालांतल्यान बशिल्लेकडच्यानच विचाल्लें, ''तुगेल्या बापायली, आवयली कितें खबर मेळिल्ली?''

''ना गे मावशे. कांय ना. देव आसा तेंचेकडेन. बरे करून उरतले ते.''

''हांवेंय पुताक घेवन वचूंक जाय आसलें तेंचे वांगडा. आतां जिवाक हो मरणाचो कांच.''

विठाय वोगीच रावलें.

तिणें म्हटलें, ''तो रावचोच नासलो इतलो तेंप. कितें घडलें देवाक खबर.''

विठाय आनीक कांय वेळ वोगी बसलें. मागीर 'येतां गे मावशे' म्हणत घोवा वांगडा चलूंक लागलें. आतां तेका आपल्या आवय बापायचो, भावाचो हुस्को चडच लागिल्लो.

गांवांत आशिल्ले आनी गांवांतल्यान गेल्ले हांचे मदीं मायेची नाळ तुटिली.





## आधारावळ

१. The Three Voyages of Vasco da Gama., Henry E. J.
२. Codigo das Communidades, Pissurlenkar P.
३. History of Village Communities in Western India, Altekar A.B.
४. Historia dos Christaos Novos Portugueses, Azavedo Lucio J.
५. Goa, Queen of the East, Boies Penrose.
६. Four Centuries of Portuguese Expansion 1415-1825, Boyer C.R.
७. Race Relations in the Portuguese Colonial Empire, Boyer C.R.
८. Les Musalmans de Inde-Portugaise, Correia Alberto Carlos Germano da Silva.
९. The Christianisation of the Goa Island, Costa Anthony D.
१०. The Portuguese in India (2 vols.), Danver F. Charles.
११. The Conversion Policy of the Jesuits in India, Heras H.
१२. गोमन्तकाची सांस्कृतीक घडण, नायक का. दा.
१३. Slavery in Portuguese India, Pinto Jeanette.
१४. The Goa Inquisition, Priolkar A.K.
१५. Medieval Goa - A Socio-Economic History, Souza Teotonio R.
१६. The Villages of Goa in the early 16th Century, Powell Balan B.R.
१७. आल्बुकेर्कान गोंय कशें जिखलें, वालावलीकार वामन रघुनाथ.
१८. Goa - A Social History, Xavier P.D.



**महाबळेश्वर सैल**

जल्म: ४ ऑगस्ट, १९४३



माजी सैनिक, भारतीय सेना

राष्ट्रीय साहित्य अकादमी पुरस्कार

सिनियर फेलो, भारत सरकार

मनशाच्या मनातळांत, मेंदवा गाभ्यांत सृजन पवित्र अशें अध्यात्माचें मूळ आसा. ताकाच लागून देव, धर्म आनी धर्मग्रंथांची निर्मणी. पूण ताकाय विकृतीचो स्राप आसा. ही सृजन अध्यात्म शक्त हिंस्त्र, अतिरेकी रुपांत भायर सरता तेन्ना धर्मद्वेश मूळ धरता. हें हे कादंबरीचें मूळ सुत्र.

एक प्रस्न खरपणान उबो जाता - छळपी पिळपी हांचेमुखार दुबळो सोंपेपणान हार घेता तेन्ना एक पुराय काळ आपल्या फुडारासयत काळखो जावन वता. म्हणच झुडोन वयतल्यांचें बलिदान संवसारान गायलां. तांकां हुतात्मे म्हटलां.

गोंयच्या पुराय अदीमकाळी इतिहासांत इतली तळ धवळून उडोवपी घडणूक दुसरी ना. ताचो तळ गांठप बरेंच अवघड. बरोवप्यान सर्वतांकीन ताचो थाव घेवपाचो यत्न केला.

आंवाठ धर्म वाडोवच्या, साम्राज्य वाडोवच्या हावेसापुरतोच मर्यादीत न्हीं. मनशाले निजाचे प्रकृती - विकृतीचो, हिंसा आनी करुणेचो अस्वस्थ आलेखय मेळटा. एका अर्थान दोनय कडच्यांची ही दुखेस्त काणी !

